# तुमच्या सांस्कृतीक दायजाचें जतन करात.
# गोंय राज्य संग्रहालयाक भेट दियात.

☞ हें भौउद्देशी संग्रहालय गोंयचे संस्कृतायेचें सम्यक दर्शन घडोवपा खातीर यत्न करीत आसा.

☞ संग्रहालयांत सांप्रत सकयल दिल्लीं दालनां आसात.

- मुर्तीदालन
- ख्रिस्ती कलादालन
- मुद्रण कलादालन
- बॅनर्जी कलादालन
- धार्मीक अभिव्यक्तीदालन
- सांस्कृतीक मानववंशशास्त्र दालन
- समकालीन कलादालन
- नाणकशास्त्र दालन
- गोंयच्या सुटके झुजाचें दालन
- मिनेझिस ब्रागांझा दालन
- फर्निचर दालन
- सैमाचो वारसो दालन
- पर्यावरण आनी उदरगत दालन
- भूगर्भशास्त्र दालन

☞ संग्रहालयांत धा हजारां वयर वस्तूंचो संग्रह आसा.

☞ संग्रहालयांत दृकश्राव्य विभाग आसून, विनवणे प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर आवाजचित्रफितीच्यो कार्यावळी दाखयतात.

☞ पुरातन प्रस्तर चित्रांच्या थळाची फायबर ग्लास प्रमाणबद्ध प्रतिकृती संग्रहालयाच्या वाठारांत उबारिल्ली आसा.

☞ हें संग्रहालय तुमचें आनी तुमचे कडल्या वस्तूंचो मोलादीक संग्रह, दान, विकतो वा ठेव अशा रुपांत संग्रहालयाक दिवन तुमी संग्रहालय समृद्ध करूंक शकतात.



# नवे उमेदीन हो आंक वाचप्यांक भेटयतना

कोंकणी चळवळीन कोंकणीक हेर विकसीत भारतीय भासांचे पंगतीक व्हरून बसयल्ली, तिचे खातीर विकासाचीं सगलीं दारां उकतीं केल्लीं. अंदू रवीन्द्रबाब केळेकारांक भारतीय ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो आनी, कोंकणीन खऱ्या अर्थान संवसाराक आपणाली योग्यताय आनी तांक दाखोवन दिली ह्या अर्थाची प्रतिक्रिया कितल्याश्या जाणांच्या तोंडांतल्यान आयकूंक आयली, वाचुंकूय मेळ्ळी. रवीन्द्रबाबांचेर तर अभिनंदनाचो शिंवरूच पडलो. ज्ञानपीठाचे बातमेन कवींचे प्रतिभेकूय उमेदीच्यो आंकऱ्यो फुटल्यो. जागाचो अंदूचो हो खाशेलो आंक ज्ञानपीठाचो 'मूड' घेवनूच सुरू जाता. आनी कोंकणीक ज्ञानपीठ मेळिल्ल्याचे उमेदीनूच आमी तो वाचप्यांच्या हातांत दितात.

हालींच भौ. पांडुरंग भांगी आमकां अंतरले. आंकड्याचे नदरेन उणीं जावं,पूण कोंकणी कवितेच्या पोरसांत तांगेले आगळे वेगळे कवितेचीं फुलां ते फाटल्यान दवरून गेल्यात. 'कोंकणी शब्दसागरा'ची उंच देख नव्या भुरग्यांक तांणी घालून दिल्या. कोंकणीक बऱ्यांतले बरे अणकारूय दिल्यात. भांगीबाबां कडेन लागींचो संबंद आशिल्ले कवी भौ. रमेश वेळुस्कार हांचो कविते वरीच, उत्स्फूर्तपणान 'आयिल्लो' 'स्मरणीय शब्द-पांडुरंग' हो लेख ह्या आकांत आसा.

भौ. शांताराम आमोणकार भांगीबाबांले ल्हानपणा सावनचे एक इश्ट. शांतारामबाबांक कांय जाण फकत एक चित्रकार म्हूण वळखतात तर कांय ते कोंकणी चळवळींतले एक म्हालगडे इतलेंच जाणात. तांगेल्या ह्या दोनूय आंगांची वळख करून दिवपाचें काम जागाचो हो आंक करता. ह्या आंकाच्या भायल्या पानार शांतारामबाबांलें चित्र आमी दिलां. तांणी बरयल्ली एक दिसपटी तांगेलो व्हडलो पूत भौ. राजेन्द्र आमोणकार हांकां तांगेल्या कागद-पत्रांनी मेळ्ळी. ती तांणी आमकां दाखयली. १४ ऑगस्ट १९४७ चे रातीं, भारत देशाक स्वतंत्रताय मेळूंक फकत तीन वरां सतरा मिनटां उरिल्लीं त्या उचंबळायेच्या वेळार, शांतारामबाबान हे दिसपटयेंतली पयली नोंद बरयल्या. तेन्ना शांतारामबाब फकत बावीस-तेवीस वर्सांचे. दिसपटी बरोवपा फाटलो हेत सादो आनी शुद्ध, 'साहित्यीक रियाजा'चो निखालूस न्हय. ते सांगतात, 'म्हगेले बरे गूण आनी वांकडेय सारके तरेन मांडपा खातिरूच हें बरोवचें अशें म्हज्या मनांत आज मेरेन घोळटालें... जें चार लोकांत सांगपाचो आनी तांच्या न्यायाच्या आसना मुखार आपल्याक उबो करून घेवचेलो म्हाका धीर जायना तेंच हांगा म्हजे कडेनूच कबुलात करप. हे पेल्यान हें बरोवपाचो दुसरो मोठोसो हेतूच ना.' शांतारामबाब एक बरे चित्रकार तशे व्यंगचित्रकारूय आशिल्ले. आपणाले तशे हेरांचे (तांकां दिशिल्ले) दोशूय ते हे दिसपटयेंत प्रांजळपणान मांडटात-सांगपाची गरज ना, आपणाले नदरेंतल्यान. हे दिसपटयेंत कोंकणी चळवळीच्या इतिहासाचीं कांय पानांय आयल्यांत. नव्या वाचप्यांचे सोयीचो विचार करून आमी फकत ही दिसपटी चालंत 'शुद्धलेखनाच्या नेमां'क धरून बरोवन काडल्या आनी छापल्या. हे मुखावेल्या आंकांनीय ती खिस्ती खिस्तींनी उजवाडा येवपाची आसा.

ह्या खाशेल्या आंकांतल्या पुराय बरपाचो उल्लेख ह्या सुरवेच्या दोन उतरांनी करप भोव कठीण. बरोवप्यांनी आपणालें बऱ्यांतलें बरें साहित्य धाडून दिवन आमच्या आंकाची गिरेस्तकाय वाडयल्या हाचो अणभव आमगेल्या वाचप्यांक ह्याय वर्सा आयले बगर रावचोना. भौ. नरेंद्र काशिनाथ कामतींनी तर The Old Man and the Sea हें विश्वसाहित्यांतलें गाजिल्लें पुस्तक कोंकणींत हाडून ह्या खाशेल्या आंका खातीर दिवन आमकां भोव उपकारांत दवरल्यांत. कांय 'वर्सावळीचीं' नांवां अंदूच्या ह्या आंकांत नात म्हुण आमकांय चुकिल्ले चुकिल्ले वरी दिसता - भौ. चंद्रकांत केणी, भौ. अना म्हांबरो हांगेलें साहित्य जागाच्या पयल्या दिवाळी आंका सावन दर वर्सा वाचप्यांक मेळत आयलां, अंदू मात तें ना...

निमाणे कडेन, उपकार - सगळ्यांचे - मुखेलपणान, जायरातदारांचे, बरोवप्यांचे, चित्रकारांचे. ह्या आंकाचे छापणावळींत हातभार लायिल्ल्याय सगळ्यांचे. तांकां सगळ्यांक आनी आमगेल्या वाचप्यांक हें मुखावयलें वर्स खोशये उमेदीचें वचूं म्हूण आमी मागतात.

*- संपादपी*


**दिवाळी / नातलां २००८**
**वर्स: ३५ आंक : ३**

# जाग

* संस्थापक
  *स्व. रुमंत केळेकार*

* संपादपी
  *माधवी सरदेसाय*

* उजवाडावपी
  *जयवंत भा. सरदेसाय*

* छापपी
  *प्रिन्टआर्ट ऑफसेट प्रिंटर्स*
  कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

* आंकाचें मोल: १०० रु.






## ह्या आंकांत -

❖ वैचारीक/ललीत निबंधः



❖ कथाः





❖ अणकारः





❖ भायलें चित्रः शांताराम आमोणकार

**भितल्लीं चित्रांः** सुबोध केरकार- १०१, १०४, १०६, १०८ ❖ मिलन खानोलकार- २, ३, २५, ६६ ❖ विजय भांडारे- १९ ❖ उषा सरदेसाय- १००, १०२, १३२ ❖ सुशांत नायक- ११, ५२, ५८, ६५, ६९, १४२, १४४ ❖ आसावरी नायकम- २७, ३१-३५, ४६, ५०, ७२, ७५, ८२, ८४, ८५, ८८, ८९, १४५, १४७, १५१ ❖ अदिती नायक- ४९, ८६, ८७, ९०-९९.

❖ अक्षरांची आंखणीः सुशांत नायक.

## रवीन्द्रबाबाक ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळटकीच

– नागेश करमली

१

आज आमच्या माथ्यार
 मळबा एदी सांतली
रवीन्द्रबाब! तुज्या कर्तुत्वाची
 व्हडवीक ही सगळी
कोंकणीमाये, सांग आज
 तुका खोशालकाय कितली?
दोळ्यांत तुज्या दाटलीं
 पळय खोशये दुखां
म्हयमोगाळे तीं पुसूं नाका,
 पुसूं नाका
इल्लीं इल्लीं तीं
 चोखूंक दी आमकां!
 चोखूंक दी आमकां!

२

सह्य पर्वताचेर आयला भार
भार्गव सिंधूचें उचंबळ ल्हारान ल्हार

धोलती वयर माडमाडयांच्यो चंवरी
ह्या मातयेउतराक चडल्या धार
आनी आमची वाचा-वाणी
भारतवर्षा एदो आज तिचो सुरंगार

'त्या' फातरांचीं केन्ना जाल्लीं फुलां
आनी 'त्या' अपशब्दांचीं प्रसादफळां
सुटला उतरा म्हज्या घमघम वोवळां
तळतळयांनी अपरूप रंगा कमळां
परतून जाली तूं मुक्त माये
जालें पळय केदें उक्तें दार
कोण रडटी रानांत दपून भालूचीं रडणीं
थंयच गळूं दी दुखां तांचीं अळणी
शिंयातूय फुल्ला हांगा वसंत चंवर
धाय दिकांचे लोटून आयले म्हींवा भंवर

३

नाका बा, दोळ्यांत आतां
 खंती दुखां
आयलीं पळे दाटून चोंयशी
 सुखा कुपां
सुक्या सड्यार सूंठ
 फुलची तशी
तुज्या पोर्सा मळ्यांत आज
 पिके राशी
खाजन-केर तळपा धड्यार
 तुज्या पुतां हांशीं
धुवां गळ्यांत गीतां तुजीं
 गांवघर धादोशी
पेंगट अशेंच रावात
 बांदून तुमी
काळाच्याय फुडें चलपाक
 सदांच तयार आमी



*रवीन्द्रबाबाक...*

**– सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार**

आयज उदेला मंगलदीस हो
शेनाय, चौगुडो वाजता
खोशयेन भल्ल्यांत काळजां आमचीं
गीत तुजें आयज गायता ।।

शणैचे उपरांत कोंकणीची घुडी
तुमीच गा उबारली
बाविल्लीं आमचीं कोंकणी मनां
तुमीच गा फुलयलीं ।।

कोंकणीची तांक दाखोवंचे खातीर
''रायटर'' तुमी जाले
कोंकणीचे हक्क मेळोवपा खातीर
''फायटर'' तुमी जाले ।।

कोंकणी भाशेक भास म्हणून आयज
खऱ्या अर्थान मान मेळ्ळा
ज्ञानपिठाचो मुकूट तुमी आयज
आमचे भाशेर चडयला ।।

सपन तुजें अखंड कोंकणी प्रदेशाचें
पुराय करूंक आमी वावुरतले
कोंकणी भाशेची घुडी आमी
दिगंताक पावयतले ।।



*(भौ. रवीन्द्रबाबांक ज्ञानपीठ पुरस्कार फावो जालो ते दिसा स्फुरिल्ली ही कविता)*

४

आयकले माये तुवें सगळे उले
दाटून आयले आज सगळे गळे
फुलूं आतां पोर्सा पोर्सांत उतरां मळे
'तांकाय' खुडूं दी इल्ले इल्ले कळे

५

कोंकणांतल्या कुळागरांत
आज अक्षरांचो नाच
दोळ्यां दोळ्यांर सया तांची
काळीज भरून वाच

६

वाऱ्याचेर ल्हारेता आज
तुज्या उतरांचो सुवाद
तुटले सगळे बंदपास
गळून पडले जड्डे वाद

७

त्या घायांची माव आज
भरून गेली
तपस्येचें फळ हें, वाट सगळी
पर्जळीत जाली



# कोंकणी

## इतिहास आनी भुगोल - एक मंथन

**माधवी सरदेसाय**

भारतीय-आर्य भाशे कुळाक भारत भुंयेचेर सुमार साडे तीन हजार वर्सांचो इतिहास आसा. देखून, भारतीय-आर्य भाशे कुळांत कोंकणीची सुवात थारायतना, सामकी सुरवे सावन सुरवात करची जाल्यार, हो साडे तीन हजार वर्सांचो संदर्भ आमकां हिसपांत घेवचो पडटलो. कोंकणी भाशेचो इतिहास भारतीय-आर्य भाशे कुळाच्या इतिहासाचोच एक वांटो.

सुनीति कुमार चटर्जींच्या मत्तान, 'आर्यांचें भारतांत येवप पुर्विल्ल्या इतिहासांतली तितलीशी पोरणी घडणूक न्हय... हे घडणुकेचो काळ ख्रिस्ता आदल्या दुसऱ्या हजारकाच्या मध्या परस फाटीं व्हरूंक येना. घडये हाचेय परस वेळान ही घडणूक घडिल्ली आसूं येता.' [१] ख्रिस्ता आदीं सुमार देड हजार वर्सां पयलीं आर्य भारतांत आयले अशें मानलेंय जाल्यार, भारतांत जी भास ते घेवन आयले तिणें भाशेच्या इतिहासीक विकासाचे दोन पांवडे हुपिल्ले - पयलो, प्राचीन भारतीय-येवरोपी पांवडो, आनी दुसरो, भारतीय-इराणी पांवडो.[२] भारतीय-येवरोपी भाशे कुळाचो भारतीय-आर्य पांवडो भारत भुंयेचेर विकसीत जालो.

भारतीय-आर्य भाशे कुळाच्या विकासाचेय तीन पांवडे मानतात-

१. पोरणे भारतीय-आर्य भाशेचो पांवडो (काळ: ख्रिस्ता आदलीं १५०० ते ६०० वर्सां, अदमासान)

२. मदले भारतीय-आर्य भाशेचो पांवडो (काळ: ख्रिस्ता आदलीं ६०० ते ख्रिस्ता उपरांतचीं १००० वर्सां, अदमासान)

३. नवे भारतीय-आर्य भाशेचो पांवडो (काळ: ख्रिस्ता उपरांतच्या १००० वर्सा सावन, अदमासान)[३]

चटर्जी बरयतात, भारतीय इतिहासाचो विचार करतना, भारतीय इतिहास संवसारीक इतिहासाचोच एक वांटो, आनी मुखेलपणान, भारताक तेंकून आशिल्ल्या उदेंते कडल्या हेर वाटारांतल्या इतिहासा कडेन तो सामको जोडिल्लो आसा ही गजाल आमी मतींत दवरूंकूच जाय.[४]

पूण कोंकणीच्या इतिहासा संबंदान आयजवेर जें बरोवप जालां तातूंत हे गजाली संबंदान एकमत दिश्टी पडना. भारतीय-आर्य कुळाच्या भुगोलीक विस्तारा (Indo-Aryan Linguistic Continuum) पसून कोंकणीक मातशी कुशीक काडून तिच्या इतिहासीक विकासाचो विचार केल्लो पळोवंक मेळटा.

देखीक, नागेश सोंदे सांगतात, कोंकणी प्राकृताच्या शौरसेनी-महाराष्ट्री पंगडांतल्या उपजल्या. पश्चिमी हिन्दी, राजस्थानी, सिंधी आनी गुजराती ह्यो तिच्यो लागींच्यो भयण भासो. सोंदेंच्या मत्तान, मराठी प्राकृताच्या मागधी पंगडांतल्यान आयल्या आनी पुर्वे कडली हिन्दी, बिहारी, बंगाली आनी उडिया मराठीच्यो लागींच्यो भयणी.[५]

श्रीपाद देसायांक्रूय कोंकणी आनी मराठीचीं मुळां वेगळीं दिसतात. तांच्या मत्तान, गुजराती आनी राजस्थानी वांगडा कोंकणी अपभ्रंशाच्या नागर आनी उपनागर बोलयांतल्यान वयर सरल्या, जाल्यार मराठी अपभ्रंश आनी मिश्र प्राकृताच्या मिश्रणांतल्यान आयल्या.[६]

जुझे पेरैरा बरयतात, 'अनार्य प्रदेशांत सारस्वत ब्राह्मण आनी चाड्डी (पंजाबी 'छड्डा'? चाड्डे) उत्तर भारतीय बोली घेवन आयले. दक्षिणेंत येतना वाटेर तांणी पश्चीम भारताची इल्ली नागरी प्राकृत आनी चडशी दखखनाची महाराष्ट्री - प्राचीन भारताची गितां भास - घेतली. आठवें शतमान म्हळ्यार ते कोंकणांत पाविल्ले. प्राकृतांच्या ह्या मिश्रणांतल्यान दोन शतमानां उपरांत कोंकणी उदेली.'[७]

आर्. के. राव सांगतात, 'कोंकणीचीं पाळां - मुळां एके वेटेन एके प्रोटो ऑस्ट्रलॉयड भाशेंत - पुर्विल्ले मुंडारींत - आसात, तर दुसरे वेटेन वेदीक दायजांत आसात.'[८]

एन्. पुरुषोत्तम मल्ल्यांच्या मत्तान, 'आयची कोंकणी पुर्वी मागधींतल्यान आयल्या आनी तिचेर बरोच 'दार्दीक' वा, भारतांतले

सगळ्यांत पोरणे 'प्रकृती'चो - पैशाचीचो - प्रभाव आसा.'[९]

एल्. सुनीता बाई बरयतात, 'कोंकणीची इतिहासीक फाटभूंय आनी प्राचीन भारतीय इतिहासीक परंपरा हांचो लागींचो संबंद आसा. पुर्विल्ले भारतीय ब्राह्मणी संस्कृतायेचो कोंकणी भाशेचेर खूब प्रभाव आसा. कोंकणींतले प्राचीन नाद, तिचे भितल्ली हडप्पा संस्कृतायेंतली तशी वेदीक आनी संस्कृत उतरावळ, हे पुरावे - कोंकणींची पाळां-मुळां वेदीक संस्कृतायेंत तशीं प्राचीन भारतीय (न्हंयचे देगे वयले) संस्कृतायेंत आसात, हें सिद्‌ध करपी.'[१०]

'कोंकणी उत्तर-पश्चिमी पंगडांतली एक गौडी भास. उत्तरे कडल्या, कोंकणांत वसणूक करून राविल्ल्या ब्राह्मणांनी ही भास कोंकणांत हाडली'[११] ह्या स्कंद पुराणाच्या सह्याद्री खंडाच्या आधारान घडिल्ल्या जे. जेर्सन दा कुन्यांच्या मत्ताचो प्रभाव वयर दिल्ल्या कांय जाणकारांच्या मत्तांचेर पळोवंक मेळटा. हीं मत्तां चडशीं हेरांच्या अभ्यासाचेर आनी थोडीं-भोव उतरावळींतल्या सारकेपणाचेर आधारिल्लीं आसात. भाशेचे बांदावळीच्या आनी वेवस्थेच्या अभ्यासाचेर उब्या आशिल्ल्या इतिहासीक आनी तुलनात्मक भासविज्ञानाच्या कसाक तीं उणीं पडटात. मराठी-कोंकणीचो संघर्श आनी कोंकणी अस्मितायेची चळवळ हो सांस्कृतीक-राजकी संदर्भूय ह्या मत्तांक आसा हाची जाणविकाय कोंकणीच्या इतिहासा संबंदान मांडिल्ल्या वेगळ्या वेगळ्या मत्तां कडेन पळेतना अभ्यासप्याक बाळगुची पडटली.

कोंकणीच्या इतिहासा विशींचीं बरपां वाचतना वेगळ्या वेगळ्या जाणकारांनी वेगळ्या वेगळ्या प्राकृत आनी अपभ्रंश भासांचे उल्लेख दिल्ले मेळटात. हाकाय लागून कोंकणीच्या विद्यार्थ्यांचो घोळ जाता. वामन शिवराम आपटेंचो संस्कृत-हिन्दी कोश सांगता, संस्कृत ('संस्कृतम्') म्हळ्यार घांसून पुसून चक्क केल्ली, शुद्‌ध भास.[१२] प्राकृत ('प्राकृतम्') म्हळ्यार, संस्कृत भाशेंतल्यान आयिल्ली, तिचे कडेन खूब सारकेपण आशिल्ली एक गांवगिरी वा थळावी बोली. हेमचन्द्र ह्या बाराव्या शतमानांतल्या प्राकृत भासांच्या नांवाजत्या व्याकरणकारान 'प्राकृतम्' ह्या उतराची केल्ली व्याख्या आपटे आपणाल्या कोशांत दितात - **'प्रकृतिः संस्कृतं तत्र भवं तत आगतं च प्राकृतम्.'**[१३]

तुलनात्मक वाङ्मयविद्येचे एक म्हत्वाचे जाणकार- रामकृष्ण गोंविंद भांडारकर सांगतात, प्राकृत भासांचीं व्याकरणां चडशीं व्युत्पत्तीशास्त्राच्या तत्वाक धरूनूच बरयल्लीं पळोवंक मेळटात. संस्कृत ही मूळ भास वा 'प्रकृति', वेगळे वेगळे नादांचे आनी व्याकरणाचे बदल घडून हे प्रकृतींतल्यान - संस्कृत भाशेंतल्यान - प्राकृत भासो कश्यो घडल्यात तें हीं व्याकरणां दाखयतात.[१४] प्राकृत भासांच्या व्याकरणाचेर स-एक बरपां मेळटात; तांतलें सगल्यांत पोरणें वररुचीचें *प्राकृतप्रकाश*, ते उपरांत हेमचन्द्राचें *हैमव्याकरण* (बारावें शतमान) ही म्हायती भांडारकर दितात.[१५] वररुचीच्या व्याकरणांत महाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची ह्या चार प्राकृत बोलयांचीं व्याकरणां आयल्यांत. हांतले महाराष्ट्रीक वररुचीन मुखेल प्राकृत मानल्या. ताच्या व्याकरणांतलीं णव प्रकरणां महाराष्ट्री संबंदान आसात आनी उपरांत उरिल्ल्या तीन प्राकृत बोलयांचेर एक एक प्रकरण आयलां.

हेमचन्द्राल्या व्याकरणांतूय अशेच तरेची मांडावळ आसा म्हूण भांडारकर सांगतात. फकत तातूंत 'महाराष्ट्री' हें नांव येना. हे बोलयेक फकत 'प्राकृत' म्हणिल्ली मेळटा.[१६] भांडारकाराल्या मतान, वररुचल्ली 'महाराष्ट्री' वा हेमचन्द्राची 'प्राकृत' जैन साहित्याची भास आशिल्ली जावंक जाय.[१७] खासा हेमचन्द्र जैन धर्माचो पंडित आशिल्लो.

शास्त्रीय भास-विचाराच्यो परंपरा धर्मीक परंपरां कडेन जोडिल्ल्यो आसात हें आमी विसरूंक फावना. संस्कृत, अरबी, चिनी, जपानी, ग्रीक, लातीन ह्यो संवसारांतल्यो म्हत्वाच्यो व्याकरणीक परंपरा. धर्मीक मळार भाशेन म्हत्व जोडलां, धर्मीक कारणांक लागून लोकांक ही भास शिकची पडल्या तेन्ना तिचो व्याकरणीक नदरेन अभ्यास जाला. जैन आनी बौद्‌ध धर्माच्या उदेवा उपरांत प्राकृत भासांक भारतीय समाजांत म्हत्व आयलां आनी तांचीं व्याकरणां तयार जाल्यांत.

व्याकरणकार जाका 'अपभ्रंश' म्हणटात त्या भाशीक रुपां भितर भारतीय-आर्य भाशेच्या विकासाचो फुडलो पांवडो पळोवंक मेळटा- प्राकृत आनी आर्विल्ल्यो भासो हांचे मदल्या भाशीक रुपांचो पांवडो.[१८] सुनीति कुमार चटर्जींच्या उतरांनी हो 'Late MIA [Middle Indo-Aryan]' पांवडो.[१९]

'संस्कृत', 'प्राकृत' आनी 'अपभ्रंश' ह्या उतरांचे अर्थ, वा, भाशेच्या इतिहासीक विकासाच्या संदर्भांत तांचे काळ स्पश्ट जाले तरी कांय प्रस्न उरतातूच -

संस्कृत भाशेचें व्याकरण 'घांसून पुसून चकचकीत केल्ले शुद्‌ध भाशे'चें चित्र आमकां दाखयता. हाचो अर्थ, घांसून पुसून चकचकीत जावंक नाशिल्ल्यो 'अशुद्‌ध' भासोय पुर्विल्ल्या समाजांत आशिल्ल्यो जावच्यो पडल्यो नात? ह्या आदल्या 'अ-संस्कृत' भासांचीं चित्रां खंय सोदप?

प्राकृत भासांची व्याकरणां संस्कृत भाशेची प्रकृती घेवन जल्मा आयिल्ल्यो कांय उपरांतच्यो, समाजांत म्हत्व जोडिल्ल्यो भासो कश्यो आशिल्ल्यो तें आमकां दाखयतात. हांगाय भर 'मुखेल' प्राकृत भासांचेरूच दिल्ली मेळटा. हेर प्राकृत भासांच्या चितारपाचेर खंय पुरायेन भरवंसूंक येना.[२०] हाचो अर्थ, ह्या मदल्या काळाचेंय चित्र अर्दुकुटें जावचें पडलें ना?

आमचे मुखार एकूच मार्ग उरता — आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य भासांच्या सारकेपणांचो आनी वेगळेपणांचो अभ्यास करून, तांच्या आदारान आदल्या प्राकृत भासांच्या काळाचेर उजवाड घालपाचो. म्हळ्यार, सुरवात 'सुरवे' सावन न्हय, तर 'आयज' सावन करून फाटल्या काळाचो थाव घेवप. सुनीति कुमार चटर्जी हो मार्ग सुचयतात.[२१]

हें सगलें आमी मतींत घेतात तेन्ना एक गजाल स्पश्ट जाता -

कोंकणी भास खंयच्यान आयल्या - खंयचे प्राकृत भाशेंतल्यान, खंयच्या अपभ्रंशांतल्यान - ताचो सोद घेवप निखालूस सोंपें न्हय. (कोंकणीच कित्याक, खंयचेय आर्विल्ले भारतीय-आर्य भाशे संबंदान हें म्हणूं येता.) हो सुमार तीन-साडे तीन हजार वर्सांचो प्रवास. तीन-साडे तीन हजार वर्सांच्या ह्या रानांत कोंकणीच्या पावलांच्या कुरवांची सुलूस आमकां मेळटाच, ना न्हय. पूण ती नितळ निवळ उतरांनी मांडपाच्या यत्नांत आमी सत्या पसून पयसूच वतात.

आर्विल्ल्या तुलनात्मक आनी इतिहासीक भासविज्ञानाचे वावरा पद्दतीचो आदार घेवन, कोंकणीचे व्याकरणीक बांदावळीच्यो बारीकसाणी हिसपांत घेवन, भारतीय-आर्य भाशे कुळाच्या इतिहासीक नकशाचेर कोंकणीची सुवात दाखोवपाचो शास्त्रोक्त यत्न सुमित्र मंगेश कत्रे हांगेल्या 'The Formation of Konkani' (1966) ह्या प्रबंधांत दिश्टी पडटा. झुल ब्लॉक हांच्या *'ला फॉर्मास्यों द ला लांग मारात'* (मराठी भाशेची बांदावळ), १९१९ ह्या बरपान मुळावण घाल्ले परंपरेंतलोच कत्रेंचो हो अभ्यास. भास-विज्ञानाच्या मळार कोंकणीचेर हे तरेचें दुसरें पुस्तक अजून निर्माण जावचें आसा.

'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ' (१९४९) ह्या शणै गोंयबाबाल्या बरपांतूय कोंकणीचे व्याकरणीक घडणेची तिच्या हेर भयण-भासांचे घडणे कडेन बारीक तुळा करून कोंकणीच्या एका एका व्याकरणीक खाशेलपणाचो इतिहासीक थाव घेतिल्लो पळोवंक मेळटा. कोंकणी आनी मराठी भितल्लीं व्याकरणीक वेगळेपणां उजवाडांत हाडप हो ह्या बरपाचो हेत आसलो म्हूण ताचें भासविज्ञानीक मोल निखालूस उणें जायना. कोंकणींत तरी, ह्या बरपा आदीं आनी उपरांतूय असले तरेचो वावर जाल्लो पळोवंक मेळना.

INDO-ARYAN
Northwestern
Central
Eastern
Dardic (Kashmiri & others)
Pahari (Nepali & others)
Lahnda (Sindhi, Panjabi etc.)
Midland
East-Central
Sinhala
Hindi-Urdu
Bihari (*Magadhi*)
Oriya
West - Southwest
West
Southwest
Gujarathi
Rajasthani
Konkani
Marathi

कोंकणीच्या स प्रातिनिधीक बोलयांच्या आधारान केल्ल्या अभ्यासा वयल्यान कत्रे ह्या निश्कर्शाचेर पावतात- कोंकणी भारतीय - आर्य भाशे कुळाच्या दक्षीण-पश्चीम पंगडांतली भास. मराठी आनी गुजराती तिच्यो सगळ्यांत लागींच्यो भयणी. पूण कोंकणींत कांय भारतीय-आर्य भाशे कुळाच्या मध्य-भारतीय पंगडाचींय लक्षणां आसात. कोंकणीचे उतरा बांदावळीच्यो कांय बारीकसाणी ही भास मराठी पसून वेगळी म्हणपाचें स्पश्टपणान दाखयतात. कोंकणींत जायते कडेन भाशीक विकासाचो आदलो पांवडो सांबाळून उरिल्लो पळोवंक मेळटा. नादांचे बांदावळीच्यो बारीकसाणी पळेल्यो जाल्यार कोंकणी आनी मराठी एकेच प्राकृत बोलयेंतल्यान जल्मा आयल्यात म्हणपाचें स्पश्ट जाता.[२२]

कत्रे प्राकृत बोलयेचें नांव घेनात, हें म्हत्वाचें. (शणै गोंयबाबूय तें घेनात.)

नीज उतरावळीच्या अभ्यासाच्या आधारान कोंकणी बोलयो मराठी आनी गुजराती भासांक सगल्यांत चड लागींच्यो आसात अशेंय कत्रे सांगतात.[२३]

आर्विल्ल्या भारतीय-आर्य भासांच्या भाशीक रुपांच्या आदारान भारतीय-आर्य भासांचो आदलो पांवडो कसो आशिल्लो ताचो थाव घेवपाचो एक यत्न प्रबोध पंडित ह्या भासविज्ञानिकान केल्लो.[२४] पंडितांच्या अभ्यासाचो आदार घेवन अशोक केळकर आर्विल्ल्या भारतीय - आर्य भासांचे फांटे आनी पंगड हे भाशेन दाखयतात.[२५]

*(ह्या पानार दिल्लो तकटो पळोवचो.)*

भारत भुंये वयल्या भारतीय-आर्य भाशेच्या भुगोलीक विस्तारांत कोंकणी सगळ्यांत निमाणी - सामकी दक्षिणे कडली - भारतीय-आर्य भास. हे भाशेचे उत्तरे कडेन आनी उत्तर-उदेंते कडेन तिची सगळ्यांत लागींची भयण - मराठी, तर दक्षिणे कडेन आनी दक्षीण-उदेंते कडेन द्रविडी भाशे-कुळांतली कन्नड, ह्यो भासो आसात.

कर्नाटक राज्याच्या दक्षीण कॅनरा जिल्ल्यांत (हो तुळू भाशीक वाटार) आनी केरळच्या कोची-एरनाकुलम वाटारांत (हो मलयाळम भाशीक वाटार) कोंकणी लोकांच्यो वसणुको आसात. ह्यो मुखेलपणान पुर्तुगेज राजवटीच्या काळार गोंय सोडून गेल्ल्या कोंकणी लोकांच्यो वसणुको - बळयां क्रिस्तांव करपाच्या पुर्तुगेज सरकाराच्या धोरणाक लागून गोंय सोडून गेल्ल्या पोरण्या काबिजादींतल्या हिन्दूंच्यो आनी सतराव्या-अठराव्या शेंकड्यांतल्या इंकिजिसांवाच्या छळाक लागून सोडून गेल्ल्या क्रिस्तांवाच्यो.[२६]

गोंय भारतांतलें कोंकणी भाशीक राज्य. पूण स्वतंत्र भारतांत भाशावार प्रान्त-रचनेच्या धोरणा प्रमाण भाशीक तत्वाच्या आदारान घडयल्लें कोंकणी राज्य न्हय हें. आयचें आमचें गोंय, रवीन्द्र केळेकार म्हणटात तशें, पुर्तुगेज वसणूकवादी राजवटीचें स्मारक एक.[२७]

गोंयचेर पुर्तुगेजांनी साडे चारशीं वर्सां राज्य केलें अशें आमी म्हणटात. पूण *खंयच्या* गोंयाचेर? गोंयचो आयचो नकसो दाखयता त्या पुराय वाटाराचेर न्हय. तांतल्या फकत कांय कुडक्यांचेर.

१५१० वर्सा पुर्तुगेज गोव्हेर्नादोर आंफोस द आल्बुकेर्क हाणें विजापूरच्या सुल्ताना कडल्यान - युसूफ आदिलशाह कडल्यान - फकत तिसवाडी (ईल्यश) वाटार घेतलो. १५४३ च्या अदमासाक ताणें ह्या वाटाराक जोडून आशिल्ले - उत्तरे कडलो बार्देस आनी दक्षिणे कडलो सालसेत (तेन्नाच्या सालसेत वाटारांत आयचो मुरगांव तालुकोय आसपावतलो) हे दोन वाटारूय घेतले. ह्यो पुर्तुगेजांच्यो 'पोरण्यो काबिजादी'.

१७६३ वर्सा पुर्तुगेजांनी मराठ्यां कडल्यान फोंडें घेतलें. १७६४ वर्सा सौंदेच्या राज्याचेर म्हैसूरच्या हैदर अलीन घुरी घाली. (सौंदें आयच्या कर्नाटकाच्या उत्तर कर्नाटक जिल्ल्यांत आसा.) तेन्ना सांगें, केपें आनी काणकोण ह्या वाटारांचेर सौंदेच्या राजाचो शेक आशिल्लो. हैदर अलीचे घुरये वेळार सौंदेच्या राजान हे वाटार तात्पुरते पुर्तुगेजांच्या हातांत दिले. पूण सौंदेचो राजा हैदर अलीचे घुरयेंतल्यान सांवरलोच ना आनी सांगें, केपें आनी काणकोण पुर्तुगेजांच्या शेका खालाच उरलें. १७८१ ते १७८८ हे मजगतीं पुर्तुगेजांनी सावंतवाडीच्या भोसल्यां कडल्यान पेडणें, दिवचल आनी सत्तरी हे वाटार घेतले. फोंडें, सांगें, केपें, काणकोण, पेडणें, दिवचल आनी सत्तरी ह्या अठराव्या शतमानाच्या दुसऱ्या अर्दांत पुर्तुगेज 'Estado da India' चो वांटो जाल्ल्या भागांक 'नव्यो काबिजादी' म्हणटात. आयचें आमचें गोंय, हे भाशेन, १७८८च्या अदमासाक घडलां.[२८] हें गोंय १९ डिसेंबर १९६१ मेरेन पुर्तुगेजांचे सत्ते खाला उरलां आनी आयज भारत देशांतलें कोंकणी राज्य जालां.

गोंयच्या ह्या इतिहासाचो ताचे सामाजीक, सांस्कृतीक, भाशीक जिवितावेर प्रभाव पडले बगर रावंक ना.

पुर्तुगेजां आदीं गोंयचेर - केन्ना आयच्या पुराय गोंयचेर, तर केन्ना ताच्या कांय कुडक्यांचेर - कितल्योश्यो राजवटी येवन गेल्यात. तिसरें शतमान ते सोळाव्या शतमाना मेरेन हांगा सातवाहन, भोज कोंकण मौर्य, राष्ट्रकुट, चालुक्य, शिलाहार, कदंब, बहामनी, विजयनगराचे राजा आनी बिजापूरचो आदिलशाह हांची सत्ता आशिल्ली अशें जाणकार सांगतात.[२९]

सुनीति कुमार चटर्जींच्या मत्ता प्रमाण भारतीय-आर्य भाशे कुळाचो आर्विल्लो काळ धाव्या शतमानाच्या अदमासाक सुरू जालो अशें मानलें जाल्यार कदंब काळा सावनचो (१० वें ते १४ वें शतमान) गोंयचो इतिहास भाशीक प्रभावाचे नदरेंतल्यान कोंकणीच्या अभ्यासा खातीर सगल्यांत चड म्हत्वाचो अशें म्हणूं येता.

हांगा एके गजालीची मुजरत नोंद करन दिसता - कत्रे बरयतात, मध्य युगांत कोंकणी वाटाराचेर राज्य केल्ले खंयचेच राजवटींत कोंकणी राजकारभाराची भास नाशिल्ली. मध्ययुगांतल्या खंयच्याच इतिहासीक बरपांत कोंकणी भाशेक वा कोंकणी भाशिकाक राजाश्रय मेळिल्ल्याची नोंद ना अशेंय ते सांगतात.[३०]

इतिहासीक घडामोडी आनी उलोवप्यांचे सांस्कृतीक बांदपास हिसपांत घेवन भारतांतल्या कोंकणी भाशीक वाटाराचे ना.गो. कालेलकर तीन वांटे करतात - उत्तर कोंकणी वाटार, मध्य कोंकणी वाटार आनी दक्षीण कोंकणी वाटार.[३१] उत्तर कोंकणी वाटारांत महाराष्ट्राच्या रत्नागिरी जिल्ल्यांत घोळपी कोंकणी बोलयांचो ते आसपाव करतात. ह्या बोलयांचो मराठी भाशे कडेन खूब लागींचो संबंद आयला. कालेलकरांचे 'दक्षीण कोंकणीं'त कर्नाटकाच्या उत्तर कॅनरा जिल्ल्यांतल्यो कोंकणी बोलयो येतात. ह्या वाटारांत शिक्षणीक आनी सांस्कृतीक मळा वयली मुखेल भास कन्नड जाल्ल्यान थंयच्या कोंकणी बोलयांचो कन्नड भाशे कडेन लागींचो संपर्क आयला. 'मध्य कोंकणीं'त गोंयच्यो कोंकणी बोलयो येतात. हांगा कोंकणीचो पुर्तुगेज भास आनी पुर्तुगेज संस्कृताये कडेन लागींचो संबंद आयला.

कोंकणी भाशेचो अभ्यास करतना, कोंकणी वाटाराचो इतिहास-ताचेर राज्य करून गेल्ल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो राजवटी, इतिहासीक घडामोडींक लागून जाल्ले कोंकणी वाटाराचे आनी कोंकणी भाशीक समाजाचे कुडके, ह्या इतिहासाचो आनी भुगोलाचोय आमच्या समाजीक-सांस्कृतीक जिवितावेर पडिल्लो प्रभाव - हांचो सगळ्याचो आमकां विचार करचो पडटलो.

---

१. 'The beginning of the Aryan ingress to India was comparatively a late event in ancient history... it looks unlikely that this event can be placed at a date earlier than the middle of the 2nd millenium B.C. It may even be later.' Suniti Kumar Chatterji. *Indo-Aryan and Hindi*. 1960 (Calcutta: Firma K. L. Mukhopadhyay. 1969 Rpt.) 18.

२. वयलोच संदर्भ, पानां : 18, 19.

३. अदीक म्हायती खातीर पळोवचो, वयलोच संदर्भ, पानां: 1-137.

४. 'We have to take Indian history as a part of world history, as being intimately connected with that of the lands of the Near East particularly.' वयलोच संदर्भ, पान: 18.

५. नागेश सोंदे, *कोंकणी भाशेचो इतिहास* (मुंबय: वासंतिक प्रकाशन, १९८१) ३३, ३४.

६. श्रीपाद रघुनाथ देसाय, *कोंकणी भाशेची कुळकथा, कोंकणी शब्दकोश*-IV (पुणें: सौंदर्यलहरी प्रकाशन, १९९०) १३.

७. 'Into a non-Aryan country came the Sarasvat Brahmins and the *Tsaddi* (the Punjabi Chaddas? Chardos) bearing with them a Northern Indian speech. In their trek southwards they took over some of the Nagari Prakrit of Western India and more of the Maharashtri of the Northern Deccan - ancient India's song-language. By the eighth century they were already in the Konkan. The amalgam of the Prakrits had, two centuries afterwards, given rise to Konkani.' José Pereira, *Literary Konkani: a Brief History*. 1973 (Panaji: Goa Konkani Akademi 1992)8.

८. '...Konkani roots go into a proto Australoid tongue to ancient Mundari on the one hand... and to the vedic ancestry on the other.' R.K. Rao, "A Brief History of the Konkani Language," *The Konkani Language: Historical and Linguistic Perspectives*, eds. V. Nithyanantha Bhat & L. Suneetha Bai (Kochi: Sukrtindra Oriental Research Institute, 2004) 24.

९. '...Konkani of today which is the direct off-shoot of Eastern Magadhi has got a good deal of "Dardic" influence i.e. *Paisachi Prakriti*, the most ancient among 'Prakritis' of India'. N. Purushothama Mallaya, "History of the Konkani Language", वयलोच संदर्भ, पान: ३०.

१०. 'The historical background of the Konkani language is closely connected with the ancient historical tradition of India. This language has

been greatly influenced by the ancient Indian Brahmanical culture. The primitive sounds, Harappan lexemes, Vedic and Sanskrit vocables found in Konkani, are evidences to the fact that the Konkani language had its roots in the Vedic as well as the ancient riverine cultures of India'. L. Suneetha Bai, "Antiquity of the Konkani Language", वयलोच संदर्भ, पानां: 52,53.

११. '[Konkani] is one of the Gaudian languages of the north-western group, imported into the Konkan by a colony of Brahmans from the north.' J. Gerson da Cunha, *The Konkani Language and Literature,* 1881. (New Delhi: Asian Educational Services 1991 Rpt.) 8.

१२. वामन शिवराम आपटे, *संस्कृत-हिन्दी कोश.* १९९७ (दिल्ली: न्यू भारतीय बुक कॉर्पोरेशन १९९८) १०५१.

१३. वयलोच संदर्भ: ६८४, ६८५.

१४. R.G. Bhandarkar, *Wilson Philological Lecturers* (Poona: Bhandarkar Oriental Research Institute, 1974) 80.

१५. वयलोच संदर्भ, पान: 79.

१६. वयलोच संदर्भ, पान: 80.

१७. वयलोच संदर्भ, पान: 82.

१८. वयलोच संदर्भ, पान: 122.

१९. Chatterji 1969:90.

२०. पळेयात: Bhandarkar 1974:80, Chatterji 1969:89.

२१. 'All that can be done, with some certainty of obtaining positive results will naturally have to be in connexion with the New Indo Aryan languages which may be taken as a base for MIA.' Chatterji 1969: 89.

२२. 'Taking into account all the main features of Konkani we may now definitely assign it to the South-Western group (having Marathi and Gujarati as its nearest kin) with a tinge of the Central group (Hindi, especially in the dative postposition *-ka*). The differentiations noted in the formation of the direct singular of masculine nouns in their extended form and the divergent postpositions for the dative clearly mark off Konkani as a separate language from Marathi, preserving in many respects an earlier stage of development. Its position as a separate language (and not as a mere dialect) is thereby proved, but phonological considerations show that both belong to a common parent Prakrit.' S.M. Katre, *The Formation of Konkani* (Pune: Deccan College, 1966) 173, 174.

२३. '[a] consideration of the vocabulary shows that in its purely inherited form the dialects of Konkani are nearest to Marathi and Gujarati.' वयलोच संदर्भ, पान: १७२.

२४. P.B. Pandit, "Relationship in Language", *Seminar Papers in Linguistics* (Katmandu: Institute of Nepal and Asian Studies, Tribhuvan University) 85-98.

२५. Ashok R. Kelkar, "Marathi Language." हातबरप, *The Encyclopaedia Asiatica Vol. IV: Language and Literature* खातीर तयार केल्ली नोंद.

२६. पळेयात: Rocky V. Miranda, "Caste, Religion and Dialect Differentiation in the Konkani Area", International Journal of the Sociology of Language 16 (1978): 77-91.

२७. पळेयात: रवीन्द्र केळेकार, ''संयुक्त गोंय जालेंना जाल्यार कोंकणी लोक शेणटलो.'' महाकोंकण सुदर्शन. संपा. सुहास दलाल. केपें: प्रतिभा प्रकाशन, २००३, १३-१५.

२८. अदीक म्हायती खातीर पळोवचें: Pratima Kamat, *Farar Far: Local Resistance to Colonial Hegemony in Goa (1510-1912), (Panaji: Institute Menezes Braganza, 1999) 23-25.*

२९. अदीक म्हायती खातीर पळेयात: वयलोच संदर्भ: 12-23; V. R. Mitragotri, *A Socio-Cultural History of Goa from the Bhojas to the Vijayanagara* (Panaji: Institute Menezes Braganza, 1999) 33-41.

३०. Katre 1966: 175,177.

३१. ना. गो. कालेलकर, 'कोंकणी' *भाषा आणि संस्कृति.* (मुंबई: मौज प्रकाशन, १९६२) १०५-१२१.

----



# तरूण मानतां देशाक सुंदर फुडार आसा

**रवीन्द्र केळेकार**

संवसारांतल्या सगळ्याच धर्मांनी आपली पत होगडायल्या. धर्म जल्माक आयिल्ले मनशाक 'बऱ्यांतलो बरो' मनीस करपा खातीर. ताच्यांत ज्यो देवाच्यो बडी आसात तांकां पोसवण दिवन ताका 'देवत्व' जोडून दिवपा खातीर. पुणून मनीस 'मनीस' उरलो ना. ताच्यांत दैत्यांच्यो बडी आशिल्ल्यो तांकां पोसवण मेळ्ळी. आनी तो 'दैत्य' जालो, आनी ह्या दैत्यान सगळे धर्म आपणा हातांत घेवन तांकांय 'दैत्यांचे धर्म' करून उडयले.

ख्रिस्ती धर्मूच घेवंया. तो कित्या खातीर जल्माक आयिल्लो? मनशांक 'शेजाऱ्याचेर' मोग करूंक शिकोवपा खातीर. दुस्मानाचेर मोग करप सोंपो. शेजाऱ्याचेर? शे... शेजाऱ्या सारको दुश्ट कोण ना अशेंच मनीस आतां मेरेन मानीत आयिल्लो. ताका 'ना, तूं म्हणटा तें खरें न्हय... शेजारीय तुजे इतलोच बरो. मातसो लागीं वचून पळे,म्हणटकूच कळटलें' हें प्रत्यक्षांत दाखोवन दिवपा खातीर. दुर्दैवान तो आपणाले जल्मभुंयेंतलो - जेरुझालेमांतलो - उठून रोमाक पावलो. रोमी लोक 'जे आमच्या पंगडांत नात ते आमचे दुस्मान, तांकां ना करून उडोवपाक जाय' ह्या ज्यूलियस, ऑगस्टस, काय्युश (कालिगुला) सारकेल्या उरफाट्या काळजाच्या सम्राटांच्या संस्कारांत वाडिल्ले. तांणी जे ख्रिस्ती न्हय तांकां ख्रिस्ती करपाक, जे ख्रिस्ती जावंक तयार नात तांकां ना करपाक तांचेर तरांतरांच्यो आगळिको केल्यो. इतलेंच न्हय, तर तांचे आड झुजां करून तांकां ना करपाचोय यत्न केलो.

ख्रिस्ती लोकांनी संवसारांत जितल्यो आगळिको केल्यात, जितलीं झुजां घडोवन हाडल्यांत तितलीं इतिहासांत दुसऱ्या खंयच्याच धर्माच्या लोकांनी घडोवन हाडूंक नात.

संवसारांत सवस्तकाय नंदची म्हूण इस्लामी धर्माचो जल्म जाल्लो. इस्लाम ह्या उतराचो अर्थूच 'सवस्तकाय मानपी, सवस्तकाय घडोवन हाडपी' धर्म असो जाता. ताणें कितें केलें? जंय जंय तो गेलो थंय थंयची सवस्तकाय ताणें भंगयली. 'जे इस्लाम मानिनात ते काफीर' अशें मानून तांचेर जुलूम केले. इस्लामान संवसारांत जितली सवस्तकाय भंगोवन उचांबळाय हाडल्या तितली दुसऱ्या खंयच्याच धर्मान हाडूंक ना.

हिन्दूधर्म तर आपणाक सहिष्णुतायेचो - सोंशीकपणाचो - कांदो मानीत आयला, पुणून ह्या 'सोंशीक' धर्माक 'सुधारक' बुद्ध सोंसलो ना. ताणें बुद्धाक 'बुद्द' (म्हळ्यार मूर्ख) मानून ताका मानतल्यांचो छळ केला. ताच्यो मुर्ती मोडल्यात, फोडल्यात. शंकराचार्या सारक्या एका हिन्दू आचार्यान तर सुधन्वा नांवाच्या एका हिन्दू राजाक

खुबळावन तांकां समुद्रांत बुडोवनूय मारल्यात. इतलेंच न्हय तर बुद्धाक तागेले जल्मभुंयेंतलोय धांवडावन घाला.

जे भुंयेर बुद्ध जल्माक आयिल्लो ते भुंयेर तो आयज ना. भायर, आशिया खंडांत तो सगळे कडेन पातळ्ळा!

ह्या 'सोंशीक' हिन्दूधर्मान हालिंच्या काळांत बुद्धा उपरांतच्या सगळ्यांत व्हड एका युगपुरसाची - महात्मा गांधीचीय - हत्या घडोवन हाडल्या.

धर्म दैत्यांच्या हातांत वचत पसून खंयचोच धर्म मानपी मनीस दुसऱ्या मनशा कडेन मनीस म्हूण पळेना. ताका मनीस मानिना. तो हिन्दू, मुसलमान, ख्रिस्ती, बौद्ध, शिख ह्याच रुपांत ताका पळेता. इतलेंच न्हय, तर देशांकूय तो ख्रिस्ती देश, मुस्लीम देश, बौद्ध देश म्हूण वळखता.

पुणून काळ नांवाचें एक तत्त्व इतिहासाचेर शेक चलयता. तें कितेंच आसा तशेंच उरूंक दिना. सगळें बदलीत रावता. भारताच्या इतिहासांत ताणें कितलेशेच बदल घडोवन हाडल्यात. तें म्हणटा, ह्या देशांत सगळ्यांनी बदलूंक जाय. मुसलमान फकत मुसलमान म्हूण ह्या देशांत रावंक जायना. तो बदलूंक जाय. आपूण भारतीय, फकत मुसलमान न्हय, अशें ताका दिसूंक जाय. क्रिस्तांवूय बदलूंक जाय. ताकाय आपूण भारतीय, फकत क्रिस्तांव न्हय अशें दिसूंक जाय.

आनी हिन्दू? ताणेंय बदलूंक जाय. आपूण भारतीय. फकत हिन्दू न्हय अशें ताकाय दिसूंक जाय.

बदलूंक सगळ्यांनी जाय. ते बगर आमी 'राष्ट्र' घडोवंक पावपाचे नात.

काळबळान सगळे बदलल्यात. हिन्दूय बदल्ला. ताका खबर ना. एका काळार सगळ्या हिन्दूंनी शेंडी दवरूंक जाय म्हणपाचो एक संकेत आशिल्लो. शेंडयेक हिन्दुत्वाची कुरू मानताले. म्हज्या भुरगेपणांत हांव सगळ्यांच्या माथ्यार भोंवरो आनी शेंडी पळेतालों. आयज? भोंवरो शेंडी खंयच दिश्टी पडना. जानवें हें ब्राह्मणपणाचें लक्षण आशिल्लें. आयज? म्हजे पिळगेंतल्या कोणाच्याच गळ्यांत जानवें दिश्टी पडना. सगळ्यांनी मूज करून घेतल्या. पुणून कांय दिसांनी जानवें सोडून दिलां. पुडवें? तें तर आतां म्युझियमांत दवरपाचें जालां. ताचेय दीस सोंपल्यात. काल पयर मेरेन हिन्दू पाटार बसून जेवतालो. आतां सगळ्यांगेर मेजां कदेलां आयल्यांत. पन्नास साठ वर्सां आदलो हिन्दू आयज खंयच पळोवंक मेळना. शंबर वर्सां आदलो तर प्रागऐतिहासीक काळांत वचून बसला.

हिन्दू रुपान बदल्ला तसो विचारानूय बदल्ला. तागेल्या धर्मशास्त्रान समुद्रयात्रा निषिद्ध मानिल्ली. समुद्रयात्रा केली जाल्यार जातूय बुडटा, धर्मूय बुडटा अशें हिन्दू मानताले. दोतोर शिवराम बळवंत राव बाशारॅल जावन पुर्तुगालच्यान आयलो जाल्यार ताका ताच्या कुळदेवाची - मंगेशाची - भेट घेवंक मेळूंक ना. 'प्रायश्चित' घेवचें पडलां. आनी **बरेच यत्न केले उपरांत** तें मेळ्ळां. आयज? हजारांनी हिन्दू अमेरिका, कॅनडा, इंग्लंड, ऑस्ट्रेलियेंत वचून रावल्यात. तांची जातूय बुडूंक ना, धर्मूय बुडूंक ना. मदीं मदीं ते जाणटेल्यांक मेळपाक घरा येतात आनी देवळांत वचून कुळदेवाची भेटय घेवन येतात. तांकां कोण आडायना. तें कित्याक? खासा पर्तगाळचे स्वामीच अमेरिकेक वचून कसलो तरी 'ट्रीटमॅन्ट' घेवन आयल्यात! काळबळान हिन्दूंले धर्मसमजूय बदलल्यात अशें म्हणचें पडलें ना?

मुसलमान? सुरवातेच्या काळांत तो कसो आशिल्लो, खबर ना. पुणून इराक इराण अरबस्तान देशांतल्या मुसलमानांक तो मुसलमान सो केन्ना दिसलोच ना. ताका ते 'हिन्दू' म्हूण वळखत आयल्यात. पोटा खातीर तो मुसलमान देशांनी वचून रावला. पुणून जांवंय वा सून सोदपा खातीर सदां हिन्दुस्तानांतूच आयला. (म्हज्या ह्या हिन्दुस्तानांत भारत, पाकिस्तान आनी बांगला देशाचोय आसपाव जाता). मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानांक तो संस्कृतायेचे नदरेन सदांच 'परकी' दिसला. ताच्यो चाली-रिती मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानां सारक्यो न्हय. जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याची 'सटी' करपाची चाल खंयच्याच मुसलमानी देशांत ना. हिन्दुस्तानी मुसलमानांत ती चलता. घोव भायर पडले उपरांत 'सती' वचपाची चाल खंयच्याच मुसलमानी देशांत ना. हिन्दुस्तानी मुसलमानांत ती आशिल्ली. हे चालीक ते 'जौहर' म्हणटाले. असल्यो कितल्योश्यो चाली हिन्दुस्तानी मुसलमानां मजगतीं चलतात. त्यो मुसलमानी देशांतल्या मुसलमानांनी हिन्दूंच्यो मानल्यात.

धर्माच्या मळार मुसलमान आनी हिन्दू वेगळे तर भाशेच्या मळार एक. रवीन्द्रनाथ आनी काझी नजरूल इस्लाम दोगूय बंगाली कवी. (दोगांयची लिपी एक. हें गोंयकारांक सांगचें पडटा, दुर्दैवान.) वायकम महमद बशीर आनी तघळी शिवशंकर पिल्ले. दोगूय मलयाळम भाशेचे दोन व्हड साहित्यकार (लिपी एक). सिंधी मुसलमानांची आनी सिंधी हिन्दूंची भास एक, लिपीय एक, साहित्यूय एक. उर्दू लेगीत जितली मुसलमानांची तितलीच हिन्दूंची. उर्दू बरपावळीचे वाडीक मुसलमानांचो हातभार लागला ताच्याकूय चड हिन्दूंचो लागला. हिन्दूंच्या सांगाताक लागून जितलो मुसलमान बदल्ला तितलोच मुसलमानांच्या सांगातान हिन्दू बदल्ला. सूफी संप्रदाय मुदलांतलो इराणी. तो हिन्दुस्तानांत आयलो आनी वेदान्तान प्रभावीत जावन हिन्दुस्तानी जालो. हिन्दुस्तानी सुफींक लागून हिन्दूंचो भक्तिमार्ग जो ल्हानसो रोंपो आशिल्लो तो कितल्याश्या खांद्यां ताळयांचो एक व्हड रूख जालो.

काळबळान हिन्दू बदल्ला. मुसलमानूय बदल्ला. बदलूंक नाशिल्लो तो क्रिस्तांव - रोमन कॅथलिक चर्चाचो. ताचें कारण, तो हिन्दुस्तानांत घेवन आयले पुर्तुगेज, आनी रोमन कॅथलिक चर्च हें पुर्तुगेज राजवटींत Instrumento da Civilização e Influencia Nacional म्हूण सुमार साडेचारशीं वर्सां वावुरलां. लोकांक क्रिस्तांव करपा परस तांकां पुर्तुगेज करपाक चड वावुरलां. ख्रिस्ती धर्म इंग्रजूय घेवन आयले. पुणून तो दुसऱ्या एका चर्चाचो (कॅथलिक न्हय). तें आर्विल्ले येवरोपेव संस्कृतायेचें वाहक जालें. 'आर्विल्ले' जावप हो इंग्रजांचे राजवटींत सगळ्या शिक्षीत हिन्दू मुसलमान लोकांचो हावेस जावन पडिल्लो. इंग्रजां भाशेन उठप बसप, खावप पियेवप, चलप उलोवप असो तांचो समज जाल्लो. उकतेपणीं सोरो पियेवप आनी अभक्ष्य भक्षण करप हेंवूय तातूंत येतालें. ह्या समाजाक

स्वदेशीची दीक्षा दिवपाचें काम रवीन्द्रनाथ गांधी सारकेल्यांक करचें पडलां. दोगांयची 'स्वदेशी'ची चळवळ फकत अर्थीक मळा पुरती बंदिस्त नाशिल्ली. तांगेले स्वदेशींत देशी भासो, देशी भेस, देशी संस्कृताय हांचोय आसपावं जातालो. तरूय 'शिकिल्ल्या' भारतीयांक इंग्रजी भास, इंग्रजी साहित्य, इंग्रजी संगीत, इंग्रजी नाच, इंग्रजी चाली-रितींची ओड सदांच उरल्या. आयजूय आसा. देखून ख्रिस्ती लोक बदलूंक जाय, तांणी भारतीय जावंक जाय हो विचार पुर्तुगेजांचे आनी इंग्रजांचे मुस्तींत हांगा रुजवणा येवप कठीण आशिल्लें.

तरूय 'चर्च बदलूंक जाय, ताचें भारतीयकरण जावंक जाय, येशूचें 'इंग्लीश गॉडा'चें रूप बदलून ताकाय देशी रूप दिवंक जाय' अशें म्हणपी 'कॅथलिक पंथा'चो एक पाद्री आशिल्लो. स्वराज्याच्या आरंभाच्या काळांत. मुम्बयंत ठाकुरद्‌वाराक दाबुल चर्चांत 'प्रीच' करतालो. तो म्हणटालो, 'येशू जल्मान ज्यू आशिल्लो. 'ओल्ड टॅस्टमॅन्ट' आमी वाचतात तो तागेली फाटभूंय समजून घेवपा खातीर. आमचो 'ओल्ड टॅस्टमॅन्ट' हिन्दू धर्म. आमी ख्रिस्ताचो फकत धर्म घेतला. ताची फाटभूंय आमची मानूंक ना. आमची फाटभूंय हिन्दू. हिन्दू मजगतीं जशे शैव हिन्दू, वैष्णव हिन्दू, शाक्त हिन्दू आसात तशे आमी 'कॅथलिक हिन्दू' जावन वावरूंक जाय. 'ते पासत, बरो क्रिस्तांव जातलो जाल्यार बरो *कोंकणो* जावंक जाय. ना जाल्यार आमी *गांवठी सायब* जावन पडटले.' मुम्बयच्या आर्चबिशपाक तागेलें हें 'प्रिचींग' सोंसलें ना. ताणें ताचें 'प्रिचींग' बंद केलें आनी ताचो छळ सुरू केलो. म्हत्वाचें म्हळ्यार, हो छळ आपणाक राष्ट्रवादी मानतल्या आनी स्वतंत्र जाल्ल्या भारताचें वजन वापरून 'पोप' जावंक सोदतल्या कार्डिनल वालेरियान ग्रासीयश हाणें केल्लो. ज्या पाद्रीचो ताणें छळ केल्लो ताचें नांव आशिल्लें फादर ऍच. ओ. माश्कारॅन्यश' ताका ताणें पिसो थारायलो आनी पयलीं पुण्यांत आनी मागीर बांद्र्याक आग्नेल आश्रमांत व्हरून दवरलो. ताचेर तरांतरांचे आळ घाले. ताच्या उश्या कडेन एक चोळी मेळ्ळी म्हूण लेगीत आळ घालपाक तो अनमनलो ना. कॅथलिक चर्च जेन्ना कोणाचोय छळ करता तेन्ना इंकिझिसांवांचे मुस्तींतल्या पाद्री सारकें क्रूर आनी दुश्ट जाता. पाद्री हिटलर मुसोलिनी परस पाश्ट जातात.

पुणून एक दीस चर्चाचें मुख्यालय -खासा 'वॅटिकनू'च - बदल्लें. फकत काळबळान न्हय, तर काळाचीं पावलां वळखून समजून करून बदल्लें. विज्ञानाच्या आनी मार्क्सवादाच्या प्रभावान येवरोपांतले शिकिल्ले सवरिल्ले बुदवंत लोक येशू पसून पयस वचपाक लागल्यात तें वॅटिकनान पळेलें. देखून सगळ्या क्रिस्तांवांचो एकवट जावंक जाय अशें एका पोपाक दिसलें. ताणें सगले ख्रिस्ती पंथ एकठांय हाडपाच्या हावेसान खासा वॅटिकनांतूच 'एक्युमेनिक कौंसिल' नांवाची एक माची सुरू केली. सगळ्या ख्रिस्ती पंथांच्या मुणयाऱ्यांक पाचारून हाडले. ख्रिस्ती पंथां मजगतीं जे मतभेद आसात ते धर्मपुस्तकांतल्यान लेगीत काडून उडोवपाची तयारी दाखयली. हो वावर चलिल्लो आसतनाच जाणटे पिरायेक लागून तो पोप संवसाराक अंतरलो. ताचे गादयेर आयिल्ल्या दुसऱ्या पोपान एक पावल मुखार घालें. 'फकत ख्रिस्ती पंथांचेर हावळ आयल्या अशें न्हय तर संवसारांतल्या सगळ्या धर्म पंथांचेर ती आयल्या... सगळ्या धर्मपंथांक एके माचयेर हाडून तांचे मजगतीं 'संवाद' घडोवन हाडूंक जाय' अशें म्हणून Inter-religious Dialogue नांवाची एक कार्यावळ सुरू केली. एक फावट पोप जाल्लो मनीस वॅटिकन सोडून भायर खंयच वचना. हो वेगळ्या वेगळ्या देशांक भेट दिवंक लागलो. तो भारतांत आयला तेन्ना डॉ. राधाकृष्णनांक ताणें सुवर्णपदकूय दिलां. सगळ्या धर्मपंथांक एकठांय हाडपाचो वावर ताणें पोटतिडकेन केला. ताचे उपरांत आयिल्ल्या पोपान आनीक एक पावल मुखार घालें. 'आफ्रिकेंत चर्चाचें आफ्रिकीकरण जावंक जाय. भारतांत भारतीयकरण जावंक जाय अशें तो म्हणपाक लागलो. चर्चांक थळावें रूप दिवपाचो हो वावर सगळे कडेन सुरू जालो. देवस्पणाची भास निवळायली. हिन्दी गुजराती तमिळ तेलुगू भाशेन गोंयांतूय देवस्पण आतां थळावे 'शुद्ध' कोंकणींत चलपाक लागलां. पाद्रीक आतां 'याज्ञीक' म्हणटात. 'आल्ताराक' 'यज्ञवेदी' म्हणटात. हालिंसराच्या पाद्रींचें मीस आयकुचें. एक लेगीत फिरंगी उतर मिसांत मेळपाचें ना. नितळ सरळ सोंपी कोंकणीच आयकूंक मेळटली. 'नवो करार' शुद्ध कोंकणींत आयला (नागरींतूय). 'डायलॉग' चो वावर भारतांत सगळे कडेन चलता. गोंयांत पिलारचें सेमिनारींत चलता. जॉन पेरेइरा नांवाचो एक निर्मळ, सच्छील याज्ञीक 'सोलिडारिटी सॅल' नांवाचो (सर्वसमन्वय) मंच चलयता. वर्सान वर्स दोन दिसांची 'Live-in' नांवाची एक कार्यावळ चलयता. सकाळची आनी सांजची प्रार्थना गायत्री मंत्रान सुरू जाता. 'भजनां'नी भरिल्ली आसता. हिन्दू क्रिस्तांव दोन दीस एकठांय रावतात. एकठांय जेवतात. एकठांय संवाद सादतात. सुभाष आनंद नांवाचो एक याज्ञीक (मूळचो गोंयकार) पुण्यांतसून नेमान ह्या 'संवादा'क येता. ताची हिन्दूधर्माच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगांचेर जीं उलोवपां जातात तसलीं हांवें गोंयच्या खंयच्याच हिन्दूच्या तोंडांतसून आयकूंक नात. इतलीं तीं 'अभ्यासपूर्ण' आसतात.

कॅथलिक चर्च बदल्लां. बदलत आसा. दुर्दैव म्हळ्यार 'कॅथलिक लोक बदलूंक जाय... वॅटिकना कडलो संबंद तांणी तोडूंक जाय' अशें म्हणपी आमच्या 'प्राचीन आनी उज्ज्वल संस्कृतायेच्या' अभिमान्यांक तांगेल्या ह्या वावराचो अदमास लेगीत ना. कित्याक? हो वावर 'धूमधडाक्या'न चलना म्हूण? रुढींच्या माल्यांत सांपडिल्ल्या लोकांक बदलतले जाल्यार तो 'थंडसाणे'नूच चलूंक जाय. नाजाल्यार तो आंगलट येता. दुदांत म्हेळांय घालें जाल्यार ताचो प्रभाव धूमधडाक्यान चलिल्लो दिश्टी पडना. दुसऱ्या दिसा दुदाचें धंय जाता तेन्नाच दिश्टी पडटा. उपरांतूच धंयांतल्यान लोणी काडप, लोणयाचें तूप करप हे तरेचें धोरण आशिल्लें हें.

ह्या धोरणांत क्रिस्तांवां भाशेन मुसलमानूय बदलतले आशिल्ले. भायले मुसलमान तांकां पयलीं सावन हिन्दू मानीत आयिल्ले. ते आतां म्हणटले आशिल्ले, आमी हिन्दू नासूं. पुणून आमी भारतीय. फकत मुसलमान न्हय.

पुणून दोन विघ्नां आयलीं. एक लोकशायेचें, दुसरें सेक्युलरिझमाचें. लोकशायेन जाती ना जावंक दिल्यो नात. उरफाट्यो घट केल्यो. तर सेक्युलारेझमान वेगळ्या वेगळ्या धर्मसंप्रदायांक एकठांय येवंक दिले नात. तांकां वेगळेच दवरले.

स्वराज्य मेळचे पयलीं बादशाह खान, डॉ. जाकिर हुसेन, मौलाना

आझाद, युसूफ मेहरल्ली, रफीक झकेरिया सारके 'राष्ट्रीय' मुसलमान आशिल्ले. हिन्दूंक ते जवाहरलाल, सुभाष बोस, राजेंद्र प्रसाद, राजाजी हांचे सारकेच दिसताले. बीबी अमतुस सलाम आनी रैहाना तैयबजी सारकेल्यो तर महात्मा गांधींक धुवो म्हूण मेळिल्ल्यो. आयज राजकी मळार असलो एक्क मुसलमान पळोवंक मेळना. मेळटात ते सैयद शाहबुद्दीन वा सैय्यद अब्दुल्ला बुखारी सारकेले. 'फकत' मुसलमान. कोणूय सेक्युलर मुसलमान वेंचणुकेक उबो रावंक आंवडेला तेन्ना खंयच्याच सेक्युलर पक्षान ताका तिकेट दिवंक ना. 'तुज्यांत मुसलमानांचीं मत्तां हाडून दिवपाची तांक ना' अशें सांगून कडेक दवरला. असल्या वातावरणांत मुसलमान कसो बदलतलो, आनी कित्याक बदलतलो? मुसलमानांचो फुडार आता तांच्या नियतीच्या हातांतूच दिवन उडोवचो पडटलो.

एका निर्शेल्ल्या मनशाचीं हीं उतरां कशीं दिसतात? ही परिस्थिती पळोवन कोणूय निर्शेतलो. पुणून एक गजाल मोठ्या अभिमानान सांगूंक सोदतां - आयुष्यांत हांव केन्नाच निर्शेवंक ना. म्हज्यांतल्या अदम्य आशावादान सगळ्या निर्शेण्यांचेर जैत जोडलां. रामकृष्ण विवेकानंद गांधींचो देश हो. ह्या देशांत सगळे धर्म मनशाळटले आनी एकामेकांच्या हातांत हात घालून ते एक दीस एक धर्म कुटुंब ह्या देशांत उबे करतले हे विशीं म्हाका इल्लोय दुबाव ना. उशीर जावं, पुणून ते ह्या पांवड्यार चडटलेच चडटले.

एके गुजराती कवितेन म्हाका सदांच प्रेरणा दिल्या-

*छे लांबा प्रवासो, ने टुंकी* (मोटवी) *छे दृष्टि*
*ने कमजोरीथी तो भरी आखी सृष्टि*
*अमृतनु टीपुं* (थेंब) *मळे ना मळे पण*
*थती रे'ती* (शिंवरत आसा) *वण मागी* (मागी नासतना)
*विष केरी* (विक्खाची) *वृष्टि*
*निराशाता कारण, हजारो हुंभाळुं* (चलतां)
*छतां मानु : मानवतुंनं भावि रुपाळुं* (सुंदर).







# स्मरणीय शब्द-पांडुरंग

**रमेश भगवंत वेलुस्कार**

मार्ग इंडियाच्या डिस्कवरी इंडिया अभियाना खातीर गोंया सावन गेल्ल्या विद्यार्थ्यां बरोबर हांव दिल्लीक आसलों. डिस्कवरी इंडिया टीम हौजखासच्या परिसरांत आसलेल्या श्री अरविन्द आश्रमांत राबित्याक आसली. रातची आठ-साडे आठांची वेळ. आमची टीम एका रुमांत त्या दिसाचो लेखाजोखा करपा खातीर एकठावल्ली. दीस आसलो ७/११/२००८. अचानक फोन खणखणलो. म्हटल्यार म्हजोच मोबायल. हांव रुमा भायर गेलों. कवी कोशकार पांडुरंग भांगी हांचो पूत सुरेश भांगी उलयतालो. जिवितांत पयलेच फावट आमी दोगूय फोनार उलयताले. तो सांगतालो, ''सुमार अर्दवर जालें, बाबाय गेलो.'' हें आयकलें आनी म्हाका दिसलें, म्हजे कुडी वयलो, म्हज्या मना वयलो ताबो वयता. हांव खोल खंय तरी कोंसळटांशें दिसलें. हांवें तसोच म्हाका सांवरलो. कोंकणीचे साहित्य धारे वेलें एक दिव्य काव्यनक्षत्र कोंसळून पडलेलें.

श्री. पांडुरंग भांगी हांची वळख खंय आनी कशी जाली ताची तशी याद जायना. पूण ती १९७० च्या सुमाराक जाल्ली जावंक जाय. 'इंडियन एक्सायज' हांगा ते काम करताले. ते थंय खंयच्या तरी खात्याचे अधिकारी आसले. म्हजो कवी इश्ट शंकर परुळेकारूय थंयच काम करतालो. अदीं मदीं हांव ताका मेळपाक थंय वयतालों. तेन्नाच केन्ना तरी तांची वळख जाल्ली आसपाची शक्यताय आसा. ह्याच काळांत म्हजीय कविते कडची संवकळ वाडटाली. परुळेकारूय कविता बरयता आसल्याकारणान आमचें मेळप वाडटालें. त्या काळार हांव कोंकणी वांगडा मराठीय बरयतालों.

१९६९ च्या २६ जानेराक जाल्लें कोंकणी भाशा मंडळाचे काव्यस्पर्धेंत म्हाका ''कविराज'' पुरस्कार मेळ्ळो. अनवळखी आसलेलों हांव कोंकणी चळवळींत वळखीचो जालों. बरयतूय गेलों. ह्या पुरस्कारान रेडिओचें आमंत्रण दिलें. बाकीबाबांची भेट जाली. श्री. विष्णु नायकांची भेट जाली. बऱ्याच लोकांच्यो वळखी जाल्यो. एक दीस, आवाजाची नकसूद जाण आसलेलो ऑल इंडिया रेडिओचो साहित्यीक निवेदक पुरुषोत्तम सिंगबाळ म्हाका म्हणपाक लागलो की कवी भांगी म्हजे कवितेची तुस्त करताले. तांकां म्हज्यो कविता आवडटात हें समजतकूच बरेंऽ दिसलें. 'हरशीं हो सदग्रहस्थ सट्ट करून कोणाचें आवडलें अशें म्हणटना आयकूंक येना. तो मेकळ्या मनान तुजे कवितेचेर उलयलो,' सिंगबाळान सांगलें. होच पांडुरंगबाब भांगी हांचो म्हाका जाल्लो पयलो परिचय.

ह्या परिचया उपरांत तांकां केन्ना मेळप असो मनांत निर्माण जाल्लो प्रश्न. कोणें कोणें सांगलें, ते लोकां कडें तुटकपणान वागतात. दुसऱ्यांचें बरोवप बी तांकां व्हडलेंशें मानना. पूण तांकां म्हजी कविता आवडटा जाल्यार म्हजे कडें तें कित्याक तुटकपणान वागतले? मागीर एक दीस हांव आनी पुंडलीक नायक तांगेर गेले. तांणी आमचें उमेदीन स्वागत केलें. हें स्वागत तांच्या पणजेच्या मळ्यांतल्या घरा जालें. मळ्यांत पांडुरंगाचें देवूळ आसा. ह्या देवळाच्या शेजरा वा फाटल्यान तांचें घर. एकामेकां शेजरा वा एकामेकां फाटल्यान रावतले हे दोन पांडुरंग मळ्यांत सुखान नंदताले. आतां मात तो पंढरेचो पांडुरंग आपल्या देवळाचो जीर्णोद्धार करून घेत थंय उबो आसा.

फाटलीं ३८ वर्सां हांव कवी पांडुरंगाक अदीं मदीं भेटत आसलों.

भेटेक चड दीस जाले जाल्यार ते म्हाका रकाद धाडटाले. केन्ना फोन करताले. मळ्यांतलें हें घर तशें भाड्याचें. पूण तांच्या ल्हानपणा सावन खंय ते थंय रावताले. घरांत भितर सरता थंय एक ल्हान बल्कांव कशें जें एके वटेन सालांत आनी घरांत भितल्ले वटेन उकतें जातालें. साला मुखार आसलेल्या जनेलांतल्यान देवळाची फाट दिसताली. देवूळ आनी भांग्यांचें घर हांचे मदीं एक ल्हानशी पायण जांतल्यात तांच्या कुशीनच्या घरांतले लोक येतना वतना दिसताले. आमच्यो चडश्यो भेटी हेच बल्कांववजा सुवातेर जाताल्यो. पांडुरंगबाब जनेला सकल्ल्या एका धाकटुल्या वोल्तेराचेर बसताले. दिसाचें हें जनेल उकतें आसतालें. ताचेर फुलांच्यो एक दोन कुंड्यो आसताल्यो. तांच्या उजव्या हाताक आसलेल्या शटकोनी मेजार पुस्तकांची रास. दावे वटेन पुस्तकांच्यो आलमारी. गंभीर मुखामळाची ही व्यक्ती. तकलेंत कितल्याश्याच विचारांच्यो राशी घेवन चिंतनमग्न अवस्थेंत तांकां थंय पळोवंक मेळटालें. तांच्या माथ्यार जनेलाचे चौकटीची प्रकाशवंत आभा पळोवंक मेळटाली. तांकां मेळलेल्या वेळार तांणी वाचलेल्या बरपा विशीं उलयतना, तांतल्या मिस्कील वा उत्कट प्रसंगा विशीं सांगतना तांच्या तोंडार जोगला वरी एक हांसपाची रेग लखलखून वयतना दिश्टी पडटाली. तांच्या उलोवपांत कविताच चड आसताली. जिणेंतल्या प्रसंगांचेर उलयतना तांतल्या काव्यात्म आंगाचेर ते बोट दवरताले. अशे जागे हुडकून काडपाक तांकां मजा येताली. ल्हवू ल्हवू तांकां शब्दां विशीं वेगळेंच आकर्शण जावपाक लागिल्लें. शब्दांच्या अर्थां परसूय शब्दां फाटल्यान आसलेल्या सांस्कृतीक धन संवेदनाचो रुपकार तांकां जावपाक लागलेलो. हे खातीर तांकां जाणवल्ले आनी प्रभावीत करपी शब्द तांणी एकठांय करपाक सुरूय केल्लें. हांतल्यानच तांचो शब्दकोश रूप घेत गेलो. तांकां जाणवल्लो शब्द, ताची व्युत्पत्ती, ताची जिवीतकथा, ताचो समाजाच्या मनांत वसतलो संदर्भ, ताची लोकांनी केल्लो वापर अश्या वेगवेगळ्या नदरकोनांतल्यान ते पळयत गेले. बरयत गेले. बरेच फावट तांणी बरयल्ल्यो एन्ट्री ते म्हाका वाचून दाखयताले. म्हजे कडलो लघुनिर्वाण संस्कृत शब्दकोश, मराठी बायबल, अशीं काय पुस्तकांय हांवें तांकां हो वावर करतना दिल्लीं. बरेच पावट तांचे कडें कोशांतल्या कांय गजालींचेर भासाभास जाताली. केन्ना केन्नाय ते हे भासाभाशे उपरांत शब्दांचे बरयल्ले एंट्रींत फावो तो बदल करून घेताले.










त्या शब्दब्रह्मांत घुस्पून गेल्ल्या कारणान तांच्या कविता लेखनाचेर परिणाम जालो. आपल्या जिवितांत तांणी तीन कविता संग्रह दिले. *"दिश्टावो"*, *"अद्रष्टाचे कळे"* आनी *"चांफेल्ली सांज"*. तांच्या कवितांची खासियत म्हटल्यार उतरांचो उणो वापर. पूण वापरलेल्या उतरांत संवेदनाची अचूकसाण तशेंच संदर्भांचीय अचूकसाण पळोवपाक मेळटा. हाका लागून कवितेचें शिल्प पकदस्त जाल्लें अणभवाक येता. १९७२ त तांचो *दिश्टावो* उजवाडाक आयलो. हरशीं तांणी कविता गंभीरपणान बरोवपाक सुरू केली तो काळ गोंयचे सुटके उपरांतचो. १९७१ च्या सुमाराक तांची कविता कोंकणींतल्या नियतकालीकांनी अदींमदीं वाचपाक मेळटाली. तशी चुकुनूच म्हटल्यार उपकारता. ही सुमार ७१तली गजाल. हांव डॉ. र. वि. पंडित हांच्या आल्तिना वयल्या घरा, म्हणचे फ्लॅटार, गेल्लों. हो फ्लॅट शिरोडकार बिल्डिंगेंत आसलो. हांगा आमचें यो वच आसतालें. एक दीस पंडितांनी एका सुंदर अक्षरांतलें कवितांचें बाड दाखयलें. मातशी नदर मारली जाल्यार सकसतायेन भल्लेल्या कवितांचो संग्रह. कोणाचो हें मात तांणी सांगलें ना. तांतल्यो कांय कविता लक्ष दिवन वाचतकूच हांव त्या कवितांच्या मोगांतूच पडलो. ते मेरेन हांवें कोंकणींतले जे संग्रह वाचलेले ते फकत हाताच्या बोटांर मेजपा इतलेच आसले. बया भावांचो, *"सड्यावेलीं फुलां"* शां.वि.कामतांचो *"खाजक्यां करंड"*, बाकीबाबांची "पांयजणां", र. वि. पंडित हांचे पांच कविता संग्रह जे म्हज्याच गांवांतल्यान आयल्ले, मनोहरराय सरदेसाय हांचे *"गोंया तुज्या मोगा खातीर"* आनी *"जायात जा‍ी"*, १९६९ त प्रकाशीत जाल्लो माधव बोरकार हांचो 'चंवर' आनी पंडितांनी दाखयल्लो तो हस्तलिखीत संग्रह. तो भांग्यांचोच आसलो हें उपरांत कळ्ळें. तांणी बरोवपाकूय उसरांच सुरू केल्लें. तांचें काव्य लिखाण चडशें गोंयच्या स्वातंत्र्या उपरांतचे.

दिश्टावो १९७२त प्रसिद्ध जालो. ह्या काव्य संग्रहाच्या प्रकाशनाक सुमार पंचवीस तीस लोक आसले. श्री. गुरुदास पै हांणी तो आपल्या सोबीत साहित्य प्रकाशना तर्फे उजवाडाक हाडलेलो. पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलांतल्या एक क्लासरुमांत हो सुपुल्लो सुवाळो जाल्लो. नागेशबाब, मनोहरबाब, रवीन्द्रबाब, डॉ. पंडित, शंकर भांडारी, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, प्रकाश पाडगांवकार, माधव बोरकार, गुरुदास पै, विष्णू नायक, शंकर परुळेकार, आंतोन पियेदाद मोरायस अशे कांय लोक उपस्थीत आसले. समारंभात भौ. भांग्यांक मदीं

## हांव वतलों

**– पांडुरंग भांगी**

हांव वतलों, त्या वेळारय
सवणीं गायत आसतलीं
आनी तिनसांजच्या वेळार
दारामुखावेले मोगरेक
रसरसून मोगरीं फुलतलीं.

आयचे वरीच तेन्नाय बी
मळब रंगत रावतलें
म्हगेल्या घराच्या आंगणांत आनी पोरसांत
गीम आपलो खेळ खेळून वतलो
जीण फुडें फुडेंच वचत रावतली
हांव मात सगळ्यांकच पारखो जातलों.

म्हज्या घराचो लामणदिवो
तो मात पेटत आसतलो
आनी हांव नासुनय
ब्रम्ह जाल्लो म्हजो अंश
संवसाराकडेन
नवें नातें जोडून रावतलो.

*(दिश्टावो, पान ३१)*

बसयल्ले आनी तांच्या दोनूय कुर्शीनी म्हाका आनी माधव बोरकार ह्या तरणाट्यां कवींक बसयल्ले. रवीन्द्रबाब उलयल्ले. आनिकूय कोण उलयल्ले. त्या वेळार मौज प्रकाशनाच्या पुस्तकां कडें सर्त करपी कविता संग्रह कोंकणींत आयल्ले बद्दल खूब बरें दिसलेलें. आतां गेल्या चार दसकांच्या काळांत कोंकणी कवितेन आपलो खुब्ब विकास घडोवन हाडला. हाची जाणीव जाता तेन्ना मन भुल्लसता.

ते उपरांत १९८२त *''अदृश्टाचे कळे''*आनी २००० त *''चांफेल्ली सांज''*. हे तिनूय संग्रह म्हटल्यार कोंकणी कवितेचें खास पांडुरंगी तटस्थतायेचें रूप म्हणून वैशिश्ट्यपूर्ण. ह्या संग्रहांतली भास ही भांग्यांनी घडयल्ले आपले अनुभूतीचें पाजण आसलेली. ती त्या काळाचेंय दर्शन घडयताली. तांचे *''चांफेल्ले सांजे''*क साहित्य अकादेमीचो राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो. आपल्या स्वास्थ्याक लागून भांगीबाब ह्या साहित्य अकादेमीच्या सुवाळ्याक दिल्लीक वचूंक पावंक नासले. अकादेमीच्या जाळवणदारांनी तांचे खातीर पणजे कला अकादमीच्या कृष्णकक्षांत खास सुवाळो करून तांकां हो पुरस्कार भेटयल्लो.

भांगीबाबान भाशांतराकूय महत्व दिल्लें आनी बरीं भाशांतरां दिवपाचो यत्न केल्लो. गुरुदेव रवीन्द्रनाथ टागोरांचें 'चित्रा' नृत्यनाट्य तांणी कोंकणींत हाडलें. ताचे वांगडा ''बिदाय अभिशाप'' हेंय बी भाशांतरीत केलां. *सालोमे, ईडिपस, आषाढ का एक दिन,* हींय नाटकां तांणी भाशांतरीत केल्यांत. *मारिनैरु* हेंय नाटक अणकारलां. तांणी केल्लीं सगळीं भाशांतरां नाटकांचीं आसलीं आनी सगळीं नाटकां काव्यात्म आसलीं.

तांचो शब्दकोश दोन खंडानी प्रकाशीत जाला. हें प्रकाशन गोवा कोंकणी अकादेमीन केलां. *कोंकणी शब्दसागर* ह्या नांवान प्रसिद्ध केल्लो हो शब्दकोश फकत उतराक उतर दिना. ह्या कोशा वरवीं कोंकणी मनशाक आपले शब्दसंपत्ती विशीं आसलेली जाण दिश्टी पडटा. हीं उतरां लोकांनी कशीं वापरल्यांत, तीं वापरतना तांची जीब कितली चोखंदळ आसा हाचेंय दर्शन जाता. तेच बराबर उतरा फाटल्यान आसलेलें सांस्कृतीक संचीत आनी मनशांनी केल्लें प्रगतीचें दर्शन हेंय ह्या कोशाचें वैशिश्ट्य. भारतीय विद्वानांनी आनी चड करून महाराष्ट्रीय विद्वानांनी ह्या कोशाक भरपूर दाद दिल्या. भारतीय कोशां मदींय ह्या कोशाक खाशेलें अशें स्थान आसा. कोंकणी भास कितली कसदार, कितली दमदार हाचें दर्शन घडोवपी हो कोश. गोवा कोंकणी अकादेमीन भांगीबाबांची एक सुपुल्ली डायरीय प्रसिद्ध केल्या.

जीण भर कविता, शब्दब्रह्मांत रमपी हो कवी निमण्या काळांत अधिकाधीक अंतर्मुख जायत गेलो. इश्टागतींचो गोतावळो मुळांतूच कमी, तशांत आपल्याच विश्वांत एकरूप जावपाची वृत्ती. आदीं मदीं हांव तांकां मेळपाक वयतालों. माधव बोरकारूय तांकां मेळटालो. ७.११.२००८ ह्या दिसा सांजवेळा तांणी आपले जिवीत परिपूर्ण केलें. सुमार ८३ वर्सांचो काळ ते व्रतस्था सारके जगले. कोंकणी चळवळीच्या लखलखत्या पर्वांत मिसळपाक ते केन्नाच गेले नात आपल्या व्रतांत ते शब्दब्रह्माची पुजा, अर्चा करपांत ते इतले एकरूप जाल्ले की लोकांत भरसुपाचें तशेंच चळवळीच्या दबाजाच्या चकचकटांत वचपाचें ते विसरुनूच गेल्ले.

कोंकणी साहित्याच्या विश्वांत आपल्या मोलादीक साहित्याचो वांटो सुगूर करून हो शब्दप्रभू अज्ञाताचे यात्रेक गेला. आतां तांकां मेळपाक तांचोच एकाद्रो काव्य संग्रह उकतो करून हांव तांच्या काव्य विश्वांत देंवून तांचे कडें संवाद साधपाचो यत्न करतां. आपली वळख करून दिवपा खातीर तांणी पुर्तुगेज महाकवी फेर्नांद पेस्सोआ हांची एक कविता तांच्याच 'दिश्टाव्यां'त दिल्ली, तांतलीं उतरां म्हज्या ओंठार आयलीं.

*सेर पुयेता*
*ऑ नांव अ मिन्य आंबिसांव*
*ऑ अ मिन्य मानैरा*
*द इश्तार सौझीन्यु*

*(कवी जावप ही म्हजी उमळशीक न्हय. ती म्हजी वृत्ती. एकटेपणांत एकरुप जावपाची.)*





# गोंयचें स्वातंत्र्य

## गोंय मुक्तीलढ्याचेर काणी

*आपणालो नातू बाब रौनक पै खोत हाका बरयल्ल्या एका पत्रांत भांगीबाबान गोंय मुक्ती लढ्याची काणी सांगिल्ली. ती हांगा दिल्या. तश्या तशी. बरपांच्या नेमांतूय बदल करी नासतना.*

**- संपादपी**

आमगेलें ल्हानशें सुंदर गोंय, सदांच दुसऱ्यांच्या शका तळा उल्लें. केन्नाच गोंयकार राजा जालो ना. सातवाहान, भोज, मौर्य, शिलाहार, चालुक्य, कदंब, बहामनी, विजयनगर, आदिलशाही आनी निमाणें पुर्तुगेज हांणी हांगा राज्य केलें.

आदिलशहाकडल्यान आल्बुकेर्कान १५१० वर्सा गोंय जिखून घेतलें. पैलीं धर्म, मागीर साम्राज्य अशें पुर्तुगेजांचें धोरण आशिल्ल्यान, तांणी १५३० सावन बाटाबाटीक आरंभ केलो. ताका लागून जायते हिंदू आनी तेच नवे क्रिस्तांव, गोंय सोडून शेजारच्या राज्यांनी पळून गेले.

पुर्तुगेजांच्या सत्तेआड जायते उठाव जाले. पिंतांचें बंड जालें. राण्यांचीं तीन बंडां जालीं. राणे कशेच आटापाक येनात, हें पळोवन फिर्ग्यांनी तांच्या संकेश्वरच्या स्वाम्याक आपोवन हाडून, तांचेकडेन तह केलो. तांचे हक्क तांकां परत दिले.

१९४६ वर्साच्या जून म्हैन्यांत, डॉ. राम मनोहर लोहिया गोंयांत आयिल्ले. गोंयांत ते विसव घेवपाक आयिल्ले. गोंयच्या लोकांक कसलेंच नागरिक स्वातंत्र्य ना म्हणपाचें तांणी पळेलें. १८ जून १९४६ दिसा, आपूण मडगांवा जाहीर सभा घेतलों म्हणपाचें लोकांक कळयलें. तांचे सभेक लोकांची गर्दी जमली. पुर्तुगेज सरकारान, तांकां भाशण करचे पैलींच धल्ले. पुर्तुगेज सरकारची ही करणी लोकांक मानली ना. स्वातंत्र्याची जोत कांय गोंयकारांच्या काळजांत पेटिल्लीच आशिल्ली. देखून दो. त्रिश्तांव ब्रागांस द कुन्य, लेक्षिमीकांत भेंब्रे, पुरशेबाब काकोडकार हांणी सभाबंदिचो हुकूम मोडलो. पुर्तुगेज सरकारान तांकां धल्ले. णव णव वर्सांची तांकां बंदखणीची ख्यास्त दिली. ही बंदखण भोगपाक तांकां पुर्तुगाल, मोसांबिकि, आंगोल हांगा धाडले.

१८ अक्टोबर १९४६ धरून सत्याग्रहाची चळवळ सुरू जाली. सत्याग्रह्यांक धरून आग्वादचे बंदखणींत घाले. कांय जाणांक पुर्तुगालचे बंदखणींत धाडले.

१९५४ वर्सा भौ. विसुबाब लंवदो हांणी आझाद गोमंतक दलाची स्थापना केली. हें दल पुर्तुगेज सरकाराकडेन गनिमी झूज झुजतालें. १९५४ च्या जुलै मयन्यांत तांणी शस्त्रांनीच दादरा आनी नगरहवेली हांगासल्ली पुर्तुगेज सत्ता निखळायली.

नॅशनल कोंग्रेस गोवा ही संस्था त्रिश्तांव ब्रागांस कुन्य हांणी १९३० वर्सा गोंयांत स्थापन केल्ली. उप्रांत तिजें ऑफिस मुंबै व्हेलें. हे कोंग्रेसीन १९५४ वर्सांच्या पंदरा आगोस्ताक गोंयांत सत्याग्रही धाडपाची मांडणी केली. १९५५ वर्साच्या १५ आगोस्ताक सबंध भारतांतले सत्याग्रही गोंयांत येवपाक आयले. ते गोंयच्या सरादिचेर पावतकीर पुर्तुगेज सरकारान तांचेर आर्माच्यो गुळयो घाल्यो. ताका लागून जायते सत्याग्रही जिवानिर्शी मेले. उप्रांत भारत सरकारान आपल्या नागरिकांचेर सत्याग्रहाखातीर गोंयांत वचपाचेर बंदी घाली.

पुर्तुगेज सरकार सत्याग्रहाक बधना हें पळोवन, कांय जुवान फुडें सल्ले. तांणी ह्या नांवान एक वांगड स्थापन केलो. ह्या दोगांच्याय झटापटिंनी दोंशी वटेनचे कांय लोक मेले. थोडे जखमी जाले.

गोंयांत जाल्ल्या उपयांनी पुर्तुगेज सरकार हालना. हें भारत सरकाराच्या ध्यानांत आयलें. निबराबगर लोखंड पाजना ह्या न्यायान, भारत सरकारान १९ देझेंब्र १९६१ चे मध्यानरातीर गोंय, दीव आनी दामांव हांगा सैन्य घुसैलें. थंयची पुर्तुगेज सत्ता निखळावन, त्याच दिसा म्हळ्यार १९ देझेंब्र १९६१ ह्या दिसा ते तीनय प्रदेश स्वतंत्र केले.

गोंय हो भारताचो भागच आशिल्लो आनी आसा. आज स्वतंत्र भारताचे स्वतंत्र नागरिक ह्या नात्यान आमचो कारभार आमच्याआमींच चलैतात.





# दिसपटी

To get from your gifts the sum of pleasure
You must judge the world by a kindlier measure.

**- Goethe to Schopenhauer**

शांताराम आमोणकार

**स्वातंत्र्यदीस,**
**मुंबय, ता. १४.८.१९४७**

हिन्दुस्तानाक वसाहतीचें राज्य मेळूंक आतां तीन वरां सतरा मिनटां उरल्यांत. आयज बारा वरांचेर हिन्दुस्तानचे लोक आपल्या राज्याचे अधिकार हातांत घेतले. सगळ्या हिन्दुस्तानांत तशें पळोवंक गेल्यार आयचो हो दीस मोठे खोशयेचो आसूंक जाय आसलो, पुणून तशी गजाल ना नशिबांत! आयज लोकांचो एक वांटो स्वातंत्र्य मेळिल्ल्याचो आनंद कशे तरेन भायर फोडचो म्हणून तकली खाजयता तर तांतलोच दुसरो वांटो आपली तकली धडार उरत मूं म्हणून संशयांत आसा. गेलो ती दीस खरो, फायचो दीस कशे तरेन दोळे उघडीत म्हणपाचें तांचे मतीक सांगूंक येना. नाका तें स्वातंत्र्य अशें घडीभर तांकां दिसता. दुःखांत तांच्या जिवाक ज्यो ख्यास्ती भोगतात त्यो सुद्धां एक वेळ कांय न्हय दिसतात तांकां, पुणून फाल्यांचे येवजणुकीन तांकां चड बेजार केल्यात. अशे परिस्थितींत खंयच्या मनशाक हे जात्रेची खोस भोगीन दिसत!

**स्वातंत्र्यदीस, ता. १५.८.१९४७**

काल रातचे साडे णवांक भायर सरून रातचे दोन सवाय दोन पर्यंत हेडले. आयज सकाळीं इकरा वरांचेर गोंयकारांचे सभेक गेल्ले. सांजची मिरवणूक पळेली.

**शुक्रार, ता. २२.८.१९४७**

कोणूच मनीस वायट नासता. तागेले गूण दिसपाक अदीक उणो वेळ लागत. एक एक दीस ही बरेली वट दिसता संवसाराची. पूण सदां मात मुळचो म्हगेलो सभाव उबो रावता आनी आड्डून म्हणटा, मनशाक भुलूं नाका! ताचें बरेपण देखाव्याचें. कोणा कडेनूय विस्वासान चलपाची माणसुकी ह्या संवसारांत ना! खंयचें खरें आनी कोणाचें खरें? अणभवा प्रमाण एक वेळ एके वाटेन मन ओडटा तर रोखडेंच दुसरे गजालीर विस्वास दवरता!

**शेनवार, ता. २३.८.१९४७**

आमच्या घराक वजूच आसा ही, कितेंय करता सवरता तें शिमे भायर वचून करप. आमगेल्या करण्यांक धर मेर ना. म्हज्या आज्या मेरेन हें अशें चल्लां तें ह्या दोळ्यांनी हांव पळेत आयलां. ते पयलीं कितलीं वर्सां हें चलतालें हें मात खबर ना म्हाका. पुणून नवो गूण मात न्हय हो आमचो. म्हगेलीय गजाल तीच.

कोणाय मनशाचेर विस्वास दवरल्यार अती दवरप. कोणाच्याय फाटल्यानूय लागल्यार तेंच. कोणा कडेनूय कसलीय गजाल सांगल्यार, हांव सांगतां तें योग्य जाग्यार पडटा काय ना, कोणाकूय सांगप म्हळ्यार कितले पसून सांगप, कितें कितें उलोवप, कितलो वेळ उलोवप, सगळो सपनांत आशिल्ले भाशेन कारभार.

सगळो संवसार संयमाचेर आधारून आसा. कितेंय शिमे भायर पावलें जाल्यार तें निसर्गाचे विरुद्ध आशिल्ल्यान ताचे पसून दर एकल्याक वांकडें भोगले शिवाय सुटका नासता. संवसाराचे नेम कोणा खातीर रावनात. कोणाची चूक-माक तांकां लागू जायना, उज्याक हात लागलो की मागीर तें चार वर्सांचें पोर जावं, ना जाल्यार णव्वद वर्सांचें थोर जावं, जावं दादलो, जावं बायल, श्रीमंत वा गरीब - कोणाक म्हळ्यार कोणाकूच मानिना. आपल्या नेमा प्रमाण चलता. मनीस शिमे भायर पावलो की मागीर ताचें मन कितलेंय लखख आसूं, त्या उपपाचें मोल दंडाच्या रुपान ताका खंयच्या ना खंयच्या मार्गार, आज ना फाल्यां भरचेंच पडटलें.

म्हजीय आज गजाल घडल्या ती हीच. कसलोच संयम ना

जाला. जिबेर जो एक वेळ खूब ताबो आसलो तो आज खंयचे खंय नाच जाला. जी जिबेची गत तीच बाकीच्या इंद्रियांची (ज्ञानेंद्रिय आनी कर्मेंद्रिय). हाचो परिणाम हांव ना म्हळ्यार आज भोगतां आनी फुडें भोगतलों. आज म्हज्या शरिराची दुबळी स्थिती, मनाची चोरा भाशेन अवस्था आनी भायली सगळी परिस्थिती हाका म्हजे बगर दुसरो कोण कारण आसा? काळजाक हात घालून आज ना फाल्यां म्हजे म्हाकाच म्हणचें पडटलें, हांवेंच हें सगळें केलें, जाणून सवरून सगळें केलें, नकळून चुकुनूय खुबशें घडलें. पुणून सगळ्याचें पातक भोगपाचें मात सुटचें ना.

मनशाक आपलोच मोग आसता. आपले दर एके करणेंत एक हांव लिपून बशिल्लो आसता, आनी त्या 'हांवा'क मातसो जर धको बादत, मनीस पिसावल्ले वरी जाता. थोडे खेपो तर आपल्याकूच आपूण फटयता, नाजाल्यार तें पटयता. खूबदां जिणेंत आपले आपल्याकूच ह्या आपल्या कडेन झगडचें पडटा. आनी हातूंत केस करपी, न्याय दिवपी आनी पातक करपी सगलो आपले आपुणूच जाल्ल्यान खऱ्याच्या कसाक आपल्याक लागपाक खुबूच त्रास जातात. मनशाक धा लोकांनी फटींग म्हळ्यार पत्करलो. पुणून ताचे ताणेंच फटींग म्हळ्यार ताच्या जिवाक उजो पेट्टा सामको.

म्हजे बाबतींत म्हाका इतलें भियेवंचेलें ना. न्याय दिता आसतना खंय जुवीज चोराचे बरे गूण आनी वांगडे गूण बरे करून ध्यानांत घेता, ताचें सारकें मेजमाप करुनूच ताच्या पदरांत न्याय घालता. तशेंच म्हाका करूंक जाय. म्हगेले बरे गूण आनी वांकडेय सारके तरेन मांडपा खातिरूच हें बरोवचें अशें म्हज्या मनांत आज मेरेन घोळटालें. म्हजे म्हाकाच सुधरुपाचो हो एक ल्हानसोच यत्न करचेलो थारायला हांवें. जें चार लोकांक सांगपाचो आनी तांच्या न्यायाच्या आसना मुखार आपल्याक उबो करून घेवचेलो म्हाका धीर जायना तेंच हांगा म्हजे कडेनूच कबुलात करप. हे पेल्यान हें बरोवपाचो दुसरो मोठो हो हेतूच ना.

## बुधवार, ता. ३.९.१९४७

मनशाक आपले जिणे संबंधान जावं सगळेच मनीसजातीचे जिणे संबंधान आपल्या मेंदवाचे गरजे प्रमाण थोड्यो गरजो आसतात. संवसारांतल्या कांय लोकांक पांच रुपयांत संवसार करपाक जमता. कांयक धा पंदरांत. पुणून कांय लोकांक मेळटा तेंय थोडें आसता. कारण तांच्यो गरजो आनी त्या गरजांची तराच अशे तरेची आसता की एका सांच्यांत तांगेलें कांयच बसना. कसलेंय बंधन तांच्या जिणांक मेर बांद घालूंक उणें पडटा. तेच तरेन मनशाच्या मनाच्यो, बुद्दीच्यो गरजो आसतात. थोड्यांक असो स्रापूच आसता, तांचें जिणेंच अश्या विचित्र घडणुकांचें आसता की संवसारांतल्यो चुको आनी अुणींदुणींच तांची नदर सारकी सोदीत बसता. आनी, सगळी जीणभर स्वस्थताय, शांती असलीं उतरां फक्कत आयकुपा वाचपा पुरतींच तांचे वळखीचीं आसतात. तीं अणभवपाची संद संवसारांत तांकां केन्ना मेळचना. ह्या असल्या मनशांतलोच हांव एक. म्हाका खरें म्हणटा जाल्यार अंतराचे ओडीन दिसता की मनशाच्या जावं कसलेय वस्तीच्या वायट गजालीं कडेन मनीसमात्रान नदर दिवं नये. पुणून हें बुद्धीचें मत. बुद्धीच्या राज्यांतूच ताचो म्हाका उपयोग जाता. मात बुद्धीची नदर चुकून मनशाच्या राज्यांत पांय दवरलो की हांव एके कडेन, बुद्द दुसरे कडेन आनी मन मात आपलें तेंच म्हणणें खरें करून दाखयता. ह्या मनशा कडेन जर अमूक गूण बरे आशिल्ले तर सगल्या संवसाराक ताच्या बाकीच्या गुणांचो उपयोग जातलो आशिल्लो; अशे जाणविकायेन ताच्या दोशांचेर म्हजी नदर हळू हळू थिरावता. संवसाराची त्या अवचिन्न देवान घडणूच अशे तरेन केल्या की दर एका मनशांत आनी एक एके खबरींत एक tendão de Aquiles, एक दुर्योधनाची मांडी, जावं एक कर्णालें कवच आसताच. आनी ही संद ताचे सगळे जिणेची माती करताच करता. बारीक नदरेन संवसार कडें पळोवंक गेल्यार हें बरे भाशेन नदरेक येता. सगळें सामर्थ्य आसुनूय कांय मनशांची जीण जी फुकट गेल्ली दिश्टी पडटा ती ह्याच एका घातमाऱ्या रहस्या खातीर. तशें तें कित्याक जावचें हाचें कोडें कोणाक सुटत?

## बिरेस्तार, ता. ४.९.१९४७

आयज भौ. गणेशबाब कुडचडकार हांगा आयिल्लो. काल तिनसांजे वेलो साडे सात वरांचेर घरा यो जाल्यार तो आनी ताचे बरोबर आयिल्लो गुरुदासबाब करमली, दोगूय जाण, शिवाय सच्चित, राया बी बशिल्ले आशिल्ले.

खूब उलोवचेली जी पाडी सवंय म्हाका बऱ्याच वर्सां पयलीं लागून गेल्या ती ना करपाचे तयारेक लागपा खातीर यत्न करचेली म्हजी मना पसून इत्सा. मन आसा कोणाच्या हातांत? हीच मुखेल अडचण. मनाचेर म्हणचेच तोंडाचेर, येवजणुकांचेर, कर्तुत्वाचेर, सगळ्या सगळ्याचेर कोंत्रोल आसपाक तशेच तरेचो मनीस लागता. म्हजो मनाचेर शेक चलना म्हणपाचें म्हाका सदांच दिसत आयलां. पुणून ती गजाल सर्वस्वींच खरी न्हय! आतां खूबसो यत्न केल्यार म्हजो बरोच फायदो जातलो. इतलेंच न्हय, म्हजे जिणेंत जरी ताचो म्हाका कांयच फायदो जालोना, तरी पूण म्हाका नुकसानी तरी येवची नाच, पुणून हेर लोकांक पसून हिताक पडटलें अशी म्हजी मना पसून खात्री जाल्या.

म्हज्यांत हेर मनशां सारके खूबशे वांकडे गूण भरल्यात. सर्वसामान्य मनीस हांव. हातूंत म्हाका अजाप कांयच दिसना. परतें, म्हजे कडेन तशें कांय संग्रहाक नाशिल्लें जाल्यारूच अजाप! हे गूण ना जाले नात. म्हणचेच, ते ना केले शिवाय कांय आपशींच ना जावंचे नात. म्हजेंच काम हें. मनीसपण जोडचीं आर्मां घेतलीं आतां... अशीं कवींच्या तोंडांतल्यान उतरां येतात. मना पसून येतातूय जावंये. पुणून अशें आसून मनीसपण न्हयच तर ताची श्री ग पसून काडपाची तांची ताकद नासता. अशें आसतना म्हजे सारकेलो मनीस हे नश्टे गूण सोडपाची तयारी करतलो म्हणटा म्हळ्यार कितें! केदें धाडस हें! धारिष्ट्य अशें उतर ताका मराठी भाशेंत लायतात. हांव सामकोच कनिश्ट, हीण, फातर अशें म्हाका केन्नाच दिसलेंना. जाता तितले खरेपणान बरोवचेली इत्सा धरुनूच ह्यो फोली भरपाचें मनांत हाडलां. म्हणटकच वेलेचाराक तरी विनय कित्याक? म्हजी खात्री आसा, हांव जसो व्हड मनीस न्हय तसोच सामकोच हीण, उणाकूय न्हय!

म्हज्यांत बरें किर्तें आसा तें जाणा जावचेली गरज आसा खरी, पूणून आज मात न्हय! हें काम फाल्यांर उडयल्यार नुकसान ना. पुणून, दोश खंयचे, तांचें प्रमाण किर्तें? ते आयले कशे आनी कित्याक? आनी, इतलें सगळें जाणा जातकच, ते ना करचेलो उपाय कितें? हाची सगळ्याची येवजणूक बरे तरेन करून तातूंतसून मुक्त मुक्त जालों, बरें आसा. ना जाल्यार आपणें येत्न केलो, साधलो ना अशें तरी मनाक मातशें समाधान. इल्लीशीच जायना, पुणून हीच थंडसाण थोडी न्हय! आपणें आपले तकली प्रमाण यत्न करुनूय आपणाक अपेस आयलें हाचें मनशाक वांकडें दिसले बगर रावना. पुणून ही मनाची अवस्था मनशाक सकयल व्हरचेलिना, जाता तितली ताका वयरूच धुकलतली!

हे फुडें घाळ रावन उपकारना. आज घडून वता तें पदरांत पडटा. फाल्यांचें पदरांत पडचेलें थंयच उरून परांर पडटा! चड उलोवप. दुसऱ्याक लागऽ सारकें उलोवप, गरजे शिवाय उलोवप, अशीं हजार लचांडां म्हजे कडल्यान खिणा खिणांत घडटात! तशेंच हजार मनशांच्या भानगडींनी पडप, मागीर त्या भानगडींक जोडून आनीक जोडलफडीं; आनी, हें सगळें थातारून धरता म्हणसर आपलो वेळ फुकट वगडावप. शक्तीची वाट, पयशाची (नाशिल्ल्या पयशाची) वाट, इतलेंय करून मनाक घडीभर समाधान ना. जिवाक थंडसाण ना. शरिराक उसरपत ना. आपलें काम आपणें करचेंच. पुणून जें काम तोलना तें कित्याक आंगार? फाल्यांच्यान जर ह्या कामाक लागलों जाल्यार ओवतुब्र पसून मेकळो जावन वतलों. फाल्यांच्यानूच नेटान कामाक लागप! दुसरें म्हळ्यार मनशाची जोडी सारकीच मोड आसूंक जाय. सुबेज खर्च करपाचो अधिकार ताका ना! जोड वाडोवप आनी मोड उणी करप! लोकाक तरी पयशे उपकारतले!

### आयतार, ता. ७.९.१९४७

हें बरोवपा फाटल्यान कसलो हेत आसा? हें बरोवचेली गरज कितें? अशे कांय प्रस्न म्हजे म्हाकाच गोंदळायतात. ह्या वेल्या प्रस्नांक जाप आसा, आनी ती आसा म्हणुनूच ह्यो फाटल्यो चार वळी बरोवन पडल्यो. मनाचें समाधान हो एक हेत.ते भायर - जे प्रस्न संवसारा फुडें जावं वळखीच्यां फुडें दवरपाक म्हजें मन फाटीं-फुडें सरता, म्हजी आनी लोकांची आवड एक न्हय आशिल्ल्यान, तें तांकां मानत काय, तांचे फुडें खरें सांगल्यार तें तांकां रुचत काय, तें आयकून घेवचेली गरज तरी तांकां दिसत मूं, सहानुभूतीन हाचेर येवजुपाक तांकां वेळ मेळत मूं, अश्यो हजार अडचणी मना फुडें उब्यो रावल्यो आनी म्हणुनूच, अशें हें बरयल्यार हे सगळे प्रस्न कसलीच आडखळ नासतना मेकळे जावन आपणें मनांतलो ओग भायर घाल्ल्याचें समाधान तर मेळटाच. शिवाय, आपल्या मनाची वाड कशे तरेन जाता हाचेंय निरिक्षण करतलो जाल्यार हें फाटलें वाचून पळोवपाक मेळटलें. कोंकणी भास लेखक म्हणून हांव हाताळूंक शकना. म्हाका बरोवंक येवचेंना अशें न्हय. पुणून ताची आवड नाशिल्ल्यान तकालस घेवचेली गरजूच दिसना.

संवसाराक आदर्श दिवपी हांव बुद्धूय न्हय. आनी, संवसारा कडल्यान ख्यास्ती भोगुनूय तें नेणार, ताचो गुन्यांव ना; देवा, ताच्या अपर्बुद्धीपणाची काकुळट कर, ताका कास्तीग भोगोवं नाका, अशें म्हणून हांसत हांसत खुरसार वचपी ख्रिस्त म्हात्मोय न्हय हांव.पुणून ज्या मनशांत बरे गूण आसात तांचें कौतूक करप, तांचे कडेन आत्मीयतेन पळोवप, तांचे खातीर केन्नाय 'आयज तुज्या उगडासान दुकां दोळ्यांत आयलीं, जंयचे थंय्र सुकोवन हांवें तुजे पुजेक पायलीं,' हातूंत सांगिल्ल्या भावार्थान तांच्या उगडासा कडेन नदर दिवप आनी, ज्या लोकांनी संवसारांतल्या कांय पवित्र आत्म्यांक फाटीं घालून आपलें फटकिरें मोठेपण मिरयलें तांकां मनांतल्या मनांत चार गाळी मारप, तांचो तिरस्कार करप, तसल्या लोकांच्यो करण्यो उकताडाक हाडून तांची कोडूझार बिंगां संवसाराक दाखोवप, अशें मनांतल्या मनांत करप. कारण, संवसारा फुडें ह्यो सगळ्यो गजाली दवरूंक जी ताकत लागता, जो निर्धार जाय पडटा तो म्हजे कडेन ना. म्हणून मनांतल्या मनांत पिंरगुपा शिवाय हांव आनीक कितें करतलों?

काल गोवा हिन्दु असोसिएशनान भौ. डॉ. शिरगांवकार हांच्या उगडासाक तांच्या enlarged फोटोंचो अनावरण समारंभ केलो. खामसुत्र्यांचो खेळ केलो तांणी. ज्या अध्यक्षान तें काम केलें ताका तांचे संबंधान कसलीच खबर नासली. जे उलोवंक उठले जावं जांकां उठयले (दोतोर कामत आनी नाडकर्णी, एम्. ए) ह्या दोगांकूय कांयच खबर नासली. आनी उबे रावन तांणी इतलेंच सांगलें!

### शेनवार, ता. १३.९.१९४७

आतां थारावण्यो चड जाल्यो. थोड्याच प्रमाणांत जावं, पुणून काम जावंक जाय प्रत्यक्ष. ता. १५ सेतेंब्र, म्हणचे परां, सोमाराच्यान जाता तितलें मुये रुपान जायना, पुणून काम करप तोंड धांपून. आजूच भौ. राया खांडेपारकार, वसंत शिंक्रो, म्हाबळेश्वर सरदेसाय, लोली, काशिनाथबाब बी सगळ्यांक म्हणून दवरलां, सुलूस दिल्या, म्हगेल्या कारभाराची. आतां हे फुडें म्हजी सापूच थोडी आशा तांणी करची हे तरेची मागणी तांचे कडेन केल्या आनी तांणीय तिका आपली मान्यताय दिल्या, मागीर तातूंत खोस आसूं जावं नासूं!

आतां पर्यंत हाचो ताचो संवसार करपाक शक्ती प्रमाण स्रमलों. हें फुडें म्हजें काम. ज्या कामाचो धा जाणांक आनी म्हजे म्हाकाच चड उपयोग जायत अशें, आस्त बाळगून आसां तें चित्रावचेलें काम आनी, म्हजी प्रकृती सारके तरेन सांबाळचेलें काम.ते खातीर वावुरतलों म्हणटां. फाटली म्हजी वागणूक पळेल्यार आनी बारकायेन येवजिल्यार हातूंत व्हडलोसो अर्थ ना. पूण यत्न मात करतलों नेटान. मागीर पदरांत पडटा तें खरें!

काल दोतोर झ्युलियांव मिनेझिस हांकां पावणे दोन वरांचेर तांचे कोंसुल्तोरींत मेळूंक गेलों. भौ. बाबला शिंगबाळ ह्या भुरग्या बरोबर. म्हज्याय मनांत वचचेलें आसलेंच. ते भायर ताचोय हट ध्यानांत घेवन गेलों तागेर म्हळ्यार जाता. म्हज्यो येवजणुको ताचे फुड्यांत पयलीं बाबलान दवल्लेल्योच. मागीर काल ते संबंधान आमचें उलोवणें जावन म्हयन्यांतसून एक कार्टून तांकां दिवचेलें थारायलें.

### बुधवार, ता. १७.९.१९४७

फाल्यां भौ. काशिनाथबाब नायक *'कोंकणी मुळावें पुस्तक'*

नव्यान भायर काडटात. आतांच तांगेल्या छापखान्यांत फावट मारली तर ते त्याच वावरांत आशिल्ले म्हणून परतलों.

काल रातीं भौ.कवी बाकीबाब बोरकार हांगेर, म्हणचे वसंतबाबांगेर, वचून आयलों. तांणी म्हाका साडे आठ वरांचेर आपयल्लो. ते प्रमाण गेल्यार 'आमच्या गोंया'चो मजकूर टायप करचेलें तांचें काम चलिल्लें, नेटान.

तांचे कडेन जाल्ल्या उलोवपांत कोंकणी भाशे संबंधान प्रयत्न जावंक जाय, तो फावऽ आशिल्ल्या नेटान आनी जाता तितले बेगसार जाल्यारूच उदरगत अशें ठरलें. ते खातीर 'कोंकणी साइत्य संघा'च्या 'दालगाद सेंत्रां'त जांकां कोंकणी भाशे संबंधान वावुरचेली इत्सा आसा अश्या लोकांनी त्या संघाच्या कुडांत, म्हणचेच सेंट सेबास्टियन इस्कोलांत, म्हयन्यांतल्यान दोन वा तीन फावट जमून थंय कोंकणीच्या कामा संबंधान एकामेकां कडेन उलोवचें सवरचें, ते भायर, दुसऱ्या भासांतलीं बरींशीं बरोवपां घेवन तीं कोंकणींत हाडचीं आनी ते संबंधान, म्हणचे,तातूंतल्यो चुको, कोंकणी भाशेची शुद्धताय अश्या संबंधान सविस्तर उलोवचें म्हणटकच खुबशें काम जावन (कोंकणी भाशेची घडण, शुद्धताय, विचारांची घडण, एकामेकांचीं मत्तां) सगळ्यांक ताचो फायदो मेळ्ळे बगर रावचोना. हे भायर, जांकां स्वतंत्र साहित्य घडोवचेली उमळशीक आनी ताकत आसा तांणी तशें करचेंच. कानडींत जावं रोमी लिपयेंत जें बरेलें साहित्य आसत तें पसून देवनागरींत हाडचेली व्यवस्था करप. आनी जमल्यार हातूंतली बरेली बरपावळ छापून उजवाडाक हाडचेलें काम आंगार घेवन 'आमच्या गोंया' सारकें जावं दुसरें सोळा पानी म्हयनाळें काडचें. दर एकल्यान आपल्याक तांकता ते पयशे म्हयन्याचे अमकेच तारके पसून थंय हाडून दिवचे.

ह्या सगळ्या कामाक पयली खबर म्हळ्ळ्यार भुरगे. लोकांची आनी तांगेल्या तरेकतरा मत्तांची पर्वा करची पडटा ती ह्याच वेळार. आज सकाळीं फुडें विष्णु कृ. नायक - धारवाडच्या कोंकणी मंडळाचो सेक्रेतार आशिल्लो ताका- वचून मेळ्ळों. मागीर ज. रा. धोंड, दो. राया खांडेपारकार हांकां गांठले. नायकांचे वळखीचे दोग जाण भुरगे म्हळ्ळ्यार, मनोहर सरदेसाय - लक्षुमणरावाचो चलो, आनी दुसरो हेगडो देसायांचो चलो. हांकां भौ. बोरकारांची गांठ घालपाक सांगलां. आतांच खंय धोंड आनी खांडेपारकार वचून आयल्यात बाकीबाबागेर. आनी फाल्यां चवथीच्या म्हुर्तार रातच्या साडेआठ वरांचेर बाकीबाबागेर सगळ्यांनी जमप. भौ. काशिनाथबाबांक सांगलां, फ्रांसिस्क मारतिरीस मेळ्ळ्यार तांकांय हे संबंधीची सुलूस दिवची म्हणून.

आतांच विष्णु नायक आनी वसंत शिंक्रो येवन गेल्यात.

आज म्हजो आनी लोलीचो वाद जालो. हे पयलींय जायतेदां ते तरेचे वाद जाल्यात आमचे भितर, नाशे न्हय! तेन्ना हें आमकां दोगांकूय नवें न्हय. एकामेकांचे सभाव आमी वळखून आसात.

वाद जावपाक कारण कोण? हांव! कित्याक? तेंच सांगपा खातीर आतां बसलां. सदांचेंच वादाचें कारण! पयर इयुलियांवागेर गेलां आसतना ताणें म्हाका दोन पत्रकांशीं दिल्लीं, जालें, तीं हांवें हाडिनाफुडें सदांचेच संवयेक लागून ऑफिसांत वचना फुडें हाका दाखयलीं. जे कळकळीन तीं हांवें मुद्दम ताका दिल्लीं ताका जाप कशी मेळची? तो काम करीत बशिल्लो, बेकार नाशिल्लो. ताणें फर्र करून तीं चाळिल्ले बशेन करून कुशीक उडयलीं आनी आपलें काम करूंक लागलो. हांवें पांच मिनटां येवजिलें. म्हज्या मनाची, म्हळें, ह्या मनशाक पर्वाच ना. तेन्ना ताका जाणोवन दिवपाक जाणून बुजून हांवें फट् करून तीं काडलीं आनी भितर उडयलीं, ते बरोबर ताका जाग आयली. हांवें म्हळें सॉरी! ताचो राग तो ओंकलोच. म्हळें, म्हजी तुका येदोळ खंय पर्वा आसली, की हांवें तुजी पर्वा राखची! ताका सांगलें, तुका तीं पळेन दिसलीं नात; ओगीच मेजार कसल्या कामाक म्हणून भितर दवरलीं.

आज कितें जालें, हांव हाका 'कोंकणी साइत्य संघा'ची गजाल सांगूंक लागलों जाल्यार हो तकली सकयल घालून आपलें काम करीत बसला. मात पसून तकली वयर करी नासतना आयकता आनी काम करता. म्हाका दिसतालें, मन लावन ताणें आयकुचें म्हणून. मदींच उलयतां उलयतां म्हळें, हाका तकली वयर करून आयकुचेंशेंय दिसना. हांव सांगतां ताचें मोल दिसना, म्हणटकच थांबयलें. वता आसतना म्हळें, तुका मेकळो वेळ मेळटलो तेन्ना सांगतां. हाचे वेल्यान वादाक आरंभ. निमाणें ताणें म्हळें, आपूण सरळ आनी मेकळ्या मनान दर एकदां तुजे कडेन चलतां. तू मात आपले संबंधान संशय घेता. इतलेंच न्हय, तर वांकडो ग्रह करून घेता; आपूण आपल्याच्यान जाता तितले बरे तरेन चलतां, तुजे कडेन. हे फुडें जर तुका तातूंत संशय दिसता, जावं वांकडें दिसता, जाल्यार तुका जाय ते प्रमाणें तूं चल. तूं तुजे वाटेन, हांव म्हज्या मार्गान!

खरेली खबर म्हळ्ळ्यार, म्हाका खऱ्यांनीच कोणेंय मनीसपणा भायऱ्यो गजाली करतकच वांकडें दिसता. मागीर तो बरोबरचो जावं, तिरायत जावं, वा सोयरो धायरो, म्हाका राग आयले बगर रावना. जाता तितलें सोंशीकपण दाखयतां हांव. पुणून दुसऱ्या मनशाक आपूण करतां तेंच खरेलें अशें दिसता तेन्ना दुसरो इलाज ना जावन मागीर कुशीक रावतां हांव जाता तितलो. रावतां, म्हणचे परस रावचेंशें दिसता म्हाका, इतलेंच. मनाचेर तेदो ताबो नाशिल्ल्यान म्हाका दिसला तें सगळेंच करूंक मेळना.

हो भुरगो सगळो बरो. ते बद्दल म्हजें कांयच म्हणणें ना! पूण ताचे कडेन एक वांगडो गूण आसा. ताका आपल्या मोठेपणाची खुबशी घमेंड आसा. आतां परिस्थितीन ती खुबशी चेपल्या म्हणून जे तरेन वचपाची तो मार्ग समूळ बंद जावन दुसरे तरेन भायर सरता. कोणाक आपूण व्हड मनीस दिसता, कोणाक आपले तकलेची, कोणाक बरेपणाची, तरेकतरेची घमेंड आसता. ना अशें न्हय. मनिसूच आमी! पुणून मनशाक दुसऱ्याची पर्वा नासप हें तितलेंशें बरें न्हय. आज समाजांत बुद्धीक चड मोल जाल्ल्यान काळजाचें, भावनेचें, मनाच्या व्हडपणाचें मोलूच ना जालां. जंय थंय अशेंच चल्लां! भावनांचें मोल हें फकाण जावन पडलां. मनशाची जावं समाजाची जर आज दुर्दशा जाल्या आनी जाता जाल्यार ताचें कारण हें एक. आनिकूय बारीक बारीक आसतलींच. मनीसपणा संबंधान, दुसऱ्याचे भावने संबंधान मनशाची बेपर्वा!

रावजीचें [पांडुरंग भांगी] कार्ड हातांत पडलें. पयलेंच कार्ड जावंये हें. सदांच पत्र येतालें!

(मुखार चलता)





# डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांसा कुत्राचो उगडास करतना

**मोळनीगु द आताईद**

डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांसा कुत्रा हांचें पुराय नांवः आंतोन्यु सेबाश्तियांव दुश रेमेद्यूस फ्रांसिश्कु तोमे त्रिश्तांव द ब्रागांसा कुत्रा. तो मुरगांव तालुक्याच्या कुवेली गांवचो. ताचो जल्म चांदरा ताचे आवयच्या आवय-बापायच्या घरा जालो, एप्रिलाचे दुसरेर १८९१ वर्सा. ताचें कुटुंब श्रीमंत खानदानी भाटकारांचें. आनी घराब्यांत वातावरण उकत्या मेकळ्या मनाचें. असल्याच वातावरणांत ल्हान-व्हड जावन, डॉ. टी.बी. कुत्रा दिव्य, विशाल, लांब-रुंद नदरेचो जाता. ताचें मुळावें शिक्षण आपल्या गांवांत आनी लिसेव पणजे शारांत जाता, पूण पुर्तुगेज वसणुकेंत अशीर आनी मोटवे दिश्टीन दिल्लें शिक्षण ताका मानना. तो पाँडिचेरी आनी उपरांत फ्रांसांत पारीसांतल्या सॉरबॉन विश्वविद्यालयांत आपलें उंचेलें शिकप करता आनी इंजीनियर जाता. थोडो काळ पारिसाक नोकरी करता.

पारिसाक स्वास मेकळेपणाचो. हो स्वास डॉ. टी.बी. कुत्रा उंगता, भोगता आनी तातूंत भरून, ताचें मन अदीक लांब-रुंद, विशाल जाता. विद्वांनां कडेन तो संपर्क सादता. तांतलो एकलो विद्वान रॉमां रॉलां. मेकळेपणान भासाभास करतल्या संस्थांचो वांगडी जाता आनी तातूंत तो क्रियाशील भाग घेता. साम्राज्यवादा-विरोधी संघटनेचो सदस्य जाता आनी रोखडोच आपल्या देशाचे स्वतंत्रतायेचें आनी गोंयचे सुटकेचें चिंतता. फिरंग्यांचो जुलूम आमच्या शाक, चड करून, गोंयाक कितलें फाटीं आनी पाश्ट दवरता तें तो आपले वजनदार लिखणेन अखख्या जगाक कळयता.

डॉ. टी.बी. कुत्रा फकत एक चिंतपी आनी बरोवपी न्हय. तो एक कार्यकर्तो. १९२६ वर्सा तो फ्रांस सोडटा आनी भारतांत परतता, आनी तेन्ना थावन भारताचे स्वतंत्रतायेचे आनी गोंयचे सुटकेचे लडायेंत सामकोच गुल्ल जाता. ह्या झुजाक आपणाक सगळोच अर्पिता. ताचे सांगणे प्रमाणें, "गोंय भारताचो एक अविभाज्य भाग. भारताची स्वतंत्रताय गोंयची स्वतंत्रताय. गोंय आनी भारत वेगळें करूंक जायना. भारताचे स्वतंत्रताये पासत जी चळवळ चलता ती गोंयचेय सुटके पासत आसा." देखून, भारताचे स्वतंत्रताये पासत झुजतले काँग्रेसीचोच फांटो तो गोंयां स्थापता, गोंयचे सुटके पासत झुजूंक.

विचार, लिखणी आनी कार्य डॉ. टी.बी. कुत्राचीं झूज-हत्यारां. ह्या हत्यारां वरवीं ताणें गोंयकारां मदें जागृताय हाडली.

१८ जून १९४६: क्रान्ती दीस, गोंयच्या इतिहासांत भोव म्हत्वाचो. ही गोंयच्या सुटके-झुजाची सुरवात. गोंयचे सुटकेची ज्योत हे तारकेर पेटली. ती पेटयतल्या मुखेल्यांतलो एकलो डॉ. टी.बी. कुत्रा. तो गांवानगांव भोंवून मनां उजवाडावपी क्रांती-ज्योत पेटयता. लोकांचीं काळजां हुलपायतलें एक आगटें तो निर्मिता. सर्गेस्त कविराज डॉ. मनोहरराय सरदेसाय 'अठरा जून' हे कवितेंत कितल्या उमाळ्यांनी हो क्रान्ती दीस गायता.

डॉ.टी.बी. कुत्रान जायतें बरयलां. गोंयां, गोंया भायर, भारतांत तशें भारता भायर येवरोपांत. ह्या ताच्या बरपांत ताचो एकूच हेतू दिश्टी पडटा- भारत आनी भारतीय संस्कृताय हांची सगळ्यांक जाणवीक करप, भारतीय मनशा ठांय आपल्या देशाचो आनी विद्येचो अभिमान जागो करप, आपल्या गोंयकार भावां-भयणींक एक जाण करून दिवप- गोंय म्हणजे भारत आनी गोंयचे संस्कृतायेचें मूळ भारतीय. गोंया भितर जर कितेंय खाशेलेपण आसा, तर तें हेरां भारताच्या प्रांतांक आसा तसलेंच. आनी हीच आमच्या देशाची गिरेस्तकाय.

गोंयकारांच्या काळजां-मनांनी एक बाण कसो आरपार रोंबपी

ताचें बरप म्हळ्यार, ''गोंयकारांचें विराश्ट्रीयकरण'' (Denationalization of Goans) राष्ट्र-भक्ती, देशी संस्कृताय, लोक-वेद, चाली-रिती, देशी भासो आनी लिपी ह्या सगळ्या गजालींनी पुर्तुगेज शेकान आमकां कसले पाश्ट दशेर पावयले. आनी आमचो स्वाभिमान कसो भंगयलो तें डॉ. टी.बी. कुञा ह्या बरपांत कडक उतरांनी आनी तथ्यां दिवन आमकां सांगता.

सुटके उपरांत चित्र मातशें बदल्लां जायत, पूण चड न्हय. कित्याक, विराश्ट्रीयकरणाचे घाय आनी दाग उरल्यात आनी आमच्या पाड्या नशिबान ना जावपाचे सोडून वाडतूच आसात. देखून डॉ. टी.बी. कुञाचें पुस्तक 'गोंयकारांचें विराश्ट्रीयकरण' अदीक म्हत्वाचें दिसता. आयज फिरंग्यांची राजकी जुलूमशाय सोंपल्या, पूण आमच्या मना वयली जुलूमशाय अजून उरल्या. जायत्या गोंयकारांक आजून दिसता, जितले आपूण पश्चिमी जातात तितले सुदारतात म्हूण. हें गोंयकारांचें मनाचें गुलामपण. तेंच अदीक पाश्ट. ताचेर आमी नेटान झूज मांडल्यार, डॉ. टी.बी. कुञाची याद आमी अमर करतले.

गोंयकारां मदें वसतल्या विराश्ट्रीयकरणाचीं व मनाच्या बंदेपणाचीं थोडीं उदाहरणां आमी पळोवंया. तीं कोणाची टिका करूंक म्हण दिना तर सुदारप येता जाल्यार हाडूंक दितां, कित्याक, चुकी मानून घेवप हेंच सुदारपाचें पयलें पावल.

पयलें उदाहरण : जायते गोंयकार म्हणटात, गोंयची अस्मिताय भारतीय न्हय. गोंयाक खाशेलेपण दिलां तें पुर्तुगेजांनी. जेन्ना पुर्तुगेज गोंय आपल्या ताब्यांत घेता तेन्नाच गोंयचो इतिहास सुरू जाता. ही एक अस्सल फट. पुर्तुगेज सत्ता गोंयां स्थापचे आदीं, गोंय एक 'एकक' (Unit) आसलें. उत्तरेक कुडाळ आनी दक्षिणेक कारवार, हल्याळ आनी सुपा हेय वाठार गोंय 'गोमंत' वा 'अपरान्त' घडटाले. ह्या एककाचो इतिहास भोव पुर्विल्लो. तेच भाशेन, आमची संस्कृतायूय पुर्विल्ली. श्रीः जेराल्द पेरेयरान बरयल्लें पुस्तक "An Outline of Pre-Portuguese History of Goa" हें सिद्ध करता. पुर्तुगेज सत्ता गोंयां उरून, पुर्तुगेज संस्कृतायेचो गोंयकाराचेर प्रभाव पडला हातूंत दुबाव ना. पूण गोंयचे अस्मितायेचें मूळरूप भारतीय आनी तें बदलूंक ना.

दुसरें उदाहरणः जायते गोंयकार सांगतात, गोंय महाराष्ट्राचो एक अविभाज्य भाग, आनी गोंयची संस्कृताय आनी भास मराठी खंय. ही कसली फट ती जाणा जावंक शणै गोंयबाबाचें ''येवकार अध्यक्षांलें उलोवप'' वाचल्यार पुरो.

तिसरें उदाहरणः जायते गोंयकार तरणाटे गोंयांत आपणाक फुडार ना म्हणटात आनी पुर्तुगेज नागरिकत्व घेवन येवरोपाक वतात आनी थंय रावतात. ह्या तरणाट्यांक पुर्तुगेज नागरिकत्व मेळटलें, जाल्यार पुर्तुगेज कायद्या प्रमाणें, तांच्या आवय-बापायनूय, जे केन्नाच गोंयां भायर वेचेनात, पुर्तुगेज नागरीक जावंक जाय. म्हणटच, गोंयकार पुर्तुगेज नागरीक गोंयां भायर आनी गोंयकार पुर्तुगेज नागरीक गोंयां, भितरूय थोडे न्हय, हजारांनी. पाश्ट गत गोंयां रावतल्या गोंयकार पुर्तुगेज नागरिकांचीः आपल्या गोंयांत आपूण परकी. आनी भारतीय नागरिकत्व सोडून दिवंक तांकां कसलीच भीड व लज दिसना. कित्याक, आपूण भारतीय म्हूण तांकां अभिमान ना. हें पळोवन डॉ. टी.बी. कुञा आपले समाधींत लोळटा आसतलो. शेकीं, जर सुटके उपरांत गोंयकार पुर्तुगेज नागरीक जातात तर पुर्तुगेजांक गोंयचे धांवडावंक इतलो त्याग कित्याक करूंक जाय आसलो? स्वाभिमान इबाडलल्या ह्या गोंयकारांक फिरंग्यांची जुलुमशाय म्हळ्यार कितें, सुटका म्हळ्यार कितें, सुटके झूज म्हळ्यार कितें - हाचो समजूच ना.

चवथें उदाहरणः जायते गोंयकार, एका धर्माचें नांव पर्यान घेवन, रोमी लिपी कोंकणीचे दायज म्हूण सांगतात आनी चळवळ करतात, आनी रोमी लिपयेंत बरयलली कोंकणी एक वेगळी भास जाल्ले परी 'रोमी-कोंकणी' म्हणटात. कोंकणी एक भारतीय भास म्हणटच एक भारतीय लिपीच तिची लिपी जावं येता. येवरोपी लिपी तिका सोबना आनी असले लिपयेंत तिचे उच्चार सारके बरोवंक येनात, ते भंगतात. दुसरे वाटेन, कोंकणीक आपली अशी वेगळी लिपी नासली तरी संस्कृताची देवनागरी लिपीच तिची सभावीक लिपी, कित्याक, कोंकणी संस्कृताची धूव, हें सत्य मनांत दवरून अखखो कोंकणी समाज एकवटीत करूंक, कोंकणी भास एकरुपी करूंक कारवारा १९३९ वर्सा जाल्ल्या अखील भारतीय कोंकणी परिशदेन एका मतान थाराव घेतलो, कोंकणीचीं लिपी देवनागरी म्हूण सगळ्या कोंकणी लोकान हेर लिपयो इल्ल्यो इल्ल्यो सोडून दिवन देवनागरींत कोंकणी बरोवंक सुरू करूंक वावुरचें म्हूण. परिशदेन उलोय मारिल्लो. हो थाराव लांब दिश्टीचो आनी कोंकणीच्या हिताचो. पूण तरी हे रोमीवादी आपसुवार्थी, धर्मवादी आनी कोंकणी-द्रोही हें हीत पळोवंक सोदिनात.

पांचवें उदाहरण : जायते गोंयकार आपल्या उतरांनी न्हय तर कर्तुपांनी, कोंकणी भाशेक इतली उणी लेखतात की ती मुळावें शिक्षण पर्यान दिवंक उपकारना खंय. इतलेंच न्हय, घरांत पर्यान ती उलोवंक फावना. इतलें गोंयकारांक इंग्लीश भाशेचें पिशें लागलां : ''खंय वताय, गोंयकारा'' - स्वर्गेस्त पाद्री मॅरिन दुखेस्त जावन विचारतालो.

सोंपयतना दोन शेरेः

पयलोः गोंयकारां मदलें विराश्ट्री करण उमटून काडून थंय राश्ट्रभक्ती आनी गोंयचो मोग मूळ धरिल्लो आमी पळोवंक सोदतात ज़ाल्यार आतांच आमी वावराक लागपाची गरज आसा. आमी सुरू करूंक जाय भुरग्यां थावन, तरणाट्यां थावनः घरांनी, शाळांनी, देवळांनी, सभांनी, सगळ्या सुवातांनी हे बाबतींत डॉ. टी.बी. कुञा आमकां देखः ताणें ह्या कारणा पासत ''गोंयकार तरणाट्यांची संघटना'' (The Goan Youth League) स्थापिल्ली.

दुसरोः देशभक्तीची आनी गोंयभक्तीची देख वयर थावन मेळूंक जाय : आमचे मदले प्रतिश्ठीत मनीस भारतीय मन आनी चाल आपली करीत, आपल्या घरा कोंकणी उलयत, आपल्या भुरग्यांक कोंकणी शाळांनी धाडीत, आपले सुवाळे आनी आमंत्रणां कोंकणींत करीत, तेन्ना हेरूय लोक तेंच करतले.

*(६-९-२००८ ह्या दिसा डॉ. त्रिश्तांव ब्रागांझा कुन्याचे ५० वे पुण्यतिथी निमतान पणजे टी.बी. कुन्या हॉलांत घडोवन हाडिल्ल्या परिसंवादांत वाचिल्लो पेपर.)*





# हिशोब

## शीला कोळंबकार

नवें वर्स येता. त्या वर्सा सावन डायरी बरोवपाची अशें हांव चिंततां. तें वर्स वता. डायरी तशीच कोरी. आसूं. भंगूं! पाडपडूं!! मुखावेल्या वर्सा बरोवची अशें चिंतून बरयना. म्हज्या निश्चयाक म्हजो आळस खावन उडयता. अशीं वयाचीं साठ वर्सा गेलीं. आतां ह्या वर्सा बरयतलें अशें चिंतलें. आतां चिंतता तें साधत जाल्यार अवदसा कित्याक बादत, अशें जायना जाल्यार पुरो.

कविता *येता*. तशी डायरीय *येता* काय? खबर ना. पूण त्या दिसा ती आयली. बरोवचीशी दिसली. तशी ती येवपाक कारण आसलें.

आदल्या दिसा गायनाच्या प्रोग्रामाक गेल्लें. कार्यावळीचें नांव 'समन्वय'. गायक आसले रशीद खाँ आनी शंकर महादेवन्. रशीद खाँ शास्त्रीय संगितांतलो मेस्ट्रो. दुबावूच ना. म्हजो आवडटो गायक. शंकर महादेवन सुगम संगितांत देंवला. पूण ताका कर्नाटक संगीत बरें येता आसूंक जाय. ना जाल्यार रशीद खाँ बरोबर जुगलबंदींत वांटो घेवपाचें धाडस ताका जावचेंच नासलें. ती जुगलबंदी हिंदुस्तानी संगीत आनी कर्नाटक संगीत हांची आसली.

शंकर महादेवन म्हाकां आवडटा. ताचोय आवाज सुरेल. मुख्य म्हळ्यार, मनीस अतिशय नम्र, आनी तो वता थंय 'शंकर महादेवन' ह्या वलयाचें चेपण दुसऱ्यांचेर हाडिना. आपले वांगडा दुसऱ्यांचेंय गायन तो फुलयता. तो आपले वांगडा एक आनंद घेवन येता. आनी तो आनंद अत्तरा वरी सगळ्याक परमळटा.

काल दोगांयची जुगलबंदी आसली. रशीद खाँ शंकर महादेवनाक खावन उडोवचो ना मू? मदीं एक दुबाव बी आसलो. पूण तशें काय जालें ना. किशोरी आमोणकार म्हणटा तशी ती जुगलबंदी नासली. ती आसली युगलबंदी. दोगूय इतले समरसतेन गायले... षण्मुखानंद हॉल गच्च भरिल्लो. पयलीं यमन, मागीर देस, ठुमरी, तराणा आनी निमाणें भैरवी जाली. कोणेंच आपूण दुसऱ्या परस श्रेष्ठ अशें दाखोवचे यत्न केले नात. दोगूय मजा घेत, आनंद दीत गायले. दोगांयचे सूर कानांत, मनांत, सपनांत, निनादत उरले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं जाग आयली ती शेवण्यांच्या गाण्यान. म्हळें, पासयेक वचुंया. उठलें. तयार जालें. गेलें पासयेक. सोसायटीच्या कंपावंडांत पासयो मारल्यो. हरशीं भायर वचून व्हड पासय मारूं येता. पूण वाटेर रस्त्याचे कडेक भुरगीं बसतात. सकाळीं फुडें तो देखावो बरो दिसना. कंपावंडांत बरें. थंय बरीं झाडां आसात. पयलीं लागता ती बोर. बरीं बोरां पडटात.

पयरची गजाल. शेजान्नी वांगडा वतालें. हांवें म्हळें, "बरीं बोरां पडल्यांत न्हय? काडुंया?"

"नाका. शी! थंय ते चौकीदार थुकतात. ताचे परस विकतीं बोरां हाडून खाल्लीं बरीं!"

... आतां विकूंक हाडटात तीं बोरां खंयच्यान हाडटात, खबर ना. दोळ्यां आड मसंड पाड...

हांव ओगी रावलें. म्हाका येवजलें. म्हजी भयण शशी. पणजे मॅडीकल कॉलेजांत शिकताली. थंयच हॉस्पिटल आसलें आनी मॉर्गूय मॉर्गा कडेन दोन बोरी आसल्यो. मॉर्ग धुतात तार्चे उदक बोरींक मेळटालें. त्या दोनूय बोरींक मोट्टीं आनी गोड बोरां लागतालीं. (तीं गोड आनी रुच्चीक आसात अशें खातले सांगताले.) थंयचें एकूय बोर शशीन केन्ना खावंक ना वा घरा हाडूंक ना.

आमचे थंयच्या एका घरांत एक जाणटेलो भायर पडिल्लो. तांच्या घरार दुदया वाल आशिल्ली. त्या वर्सा त्या घरार खुब्ब दुदी लागिल्ले. अशें जाता ताका 'मडें पीक' म्हणटात खंय. तीं बोरांय बी तशींच काय?

शी सायबा! मुंबयचे बोरी वेल्यान हांव गोंयां कित्याक पावलें...

मुखार दोन झाडां आसात पारजताचीं. सकाळीं तांचो अरळ परमळ आयलो. मन प्रफुल्लित जालें. पारजताचीं धवीं फुलां. केसरी देंठ झाडा पोंदा कोणें रांगोळी घाल्ले वरी.

याद जाली. टी.व्हीर एके बायलेन पारजताच्या फुलांची रांगोळी दाखयल्ली. तिणें एक कार्डबोर्ड घेतिल्लो. ताचेर बारीक खिळे मारून घेतिल्ले. रांगोळेक थिबके घालतात तशे! ताचेर तिणें तीं फुलां परते वटेन तोंपिल्लीं. म्हळ्यार पाकळ्यो सकयल, देंठ वयर. म्हाका तिची लक्तुबाय दिसली.

वाटेर एक निवलकांड्यांचें झाड आसा. ताका बरे तांबडे कळे आयल्यात. कॅक्टसाक फुलां? दिसलें, सैमांतली दर एक वस्त दुसऱ्यांक खोस दिवंक सोदता. मोन्यांनी. आमकां मात तें केन्नाच कळना. कळना, काय आमी लक्ष दिनात?

मुखार गेलें. थंय एक फोणकूल आसलें. फोणकुलांत उदक. तें पळोवन म्हाका गोंयां आशिल्ले म्हजे भयणीची याद जाली. तें सदांच सकाळीं भोवंक वता.

अशेंच एक दीस गेल्ले कडेन पावस पडलो. चिखोल जालो. ताचे पांय चिखलांत म्हेळे जाले. अशेंच फोंडकूल आसलें. तातूंत बरें उदक आसलें. पांय धुवपाक म्हूण ताणें तातूंत पाय घालो. तें उदक हून आसलें. ताचें आंग शिरशिरलें. घरा आयलें. कितलो तरी वगत तें शाबू, डॅटॉल लावन पांय धुतालें. ही गजाल ताणें म्हाका सांगिल्ली. आतां फोणकूल दिसलें काय म्हाका ताची याद जाता. तोंडार आपशींच हांसो उदेता.

ही म्हजी भयण म्हजे वरीच सैमपिशी. गोंयां खुब्ब पावस पडलो, ताका म्हजी याद जाता; रस्त्या देगेर तणांत बारीक, नाजूक फुलां दिसलीं, ताका म्हजी याद जाता. सांजेर मळबांत रंगीत कुपां आयलीं. राती कडलें चान्नें, मळबांतलें इंद्रधनुष्य, दर्याचीं ल्हारां, दुरगांचेर मांडिल्लो विलुदी शेळो, रस्त्या देगेर फुलिल्लो गुलमोहर, सांतोणीचो परमळ... कितें आनी कितें म्हूण ना. शेवण्यांचीं भिरीं, किलांट्यो

मारीत वचपी कीर... पोन्न्या सिनेमांतलें एकाद्रें पद... सगळें सगळें भुरगेपणांतलें आमचें अणभवविश्व... ताका म्हजी याद दिता.

घसघशांनी पावस रकता तेन्ना तें म्हाका फोन करता. फोना वेल्यान म्हाका पावस आयकयता आनी हांव हांगा चिंब भिजतां... म्हज्या दोळ्यांत ओलसाण... ताच्याय दोळ्यांत तींच दुकां... इतले पयसुल्ल्यान तीं म्हाका दिसतात. मागीर कितलो तरी वगत भुरगेपणांत घुस्पल्ल्यो यादी सुटाव्यो जावन दोळ्यांतल्यान झरत आसतात. म्हज्याय आनी ताच्याय बी... मदीं एक फोन वाजलो.

"हॅलो?"

"कोण उलयता?" हांव विचारतां.

"तूं कोण उलयता?" एक उर्मट पुरुशी आवाज. तो आवाजूच पलतडीं आशिल्ल्या मनशाची कालेत दाखयतालो. हांवें फोन दवरलो.

पेपर वाचूंक घेतलो. पेपरांतली म्हजी आवडटी गजाल म्हळ्यार व्यंगचित्रां आनी वाचप्यांचीं पत्रां. स्थळ, काळ, वेळ आनी मनशांचीं नांवां वेगळीं. सूड द्वेश, धर्म, जात आनी पयसो हांचे मदीं मनीसपण शेणलां.

पूण आयज एक मातशी वेगळी बातमी वाचली तेहरानची. थंयच्या कोणें तरी गिनीज वर्ल्ड रिकोर्डा खातीर एक व्हड सँडविच केली. ताचे खातीर ७६० कील शहामृगाचें मांस आनी ५७० कील कोंबडेयेचें मांस घालपाचे आसले. आतां ही सँडविच करूंक तितलीच व्हड सुवात जाय. म्हूण ती पार्कांत तयार केली. खूब लोक ती पळोवपाक जमले. सँडविच पळोवन आनी तिच्या वासान लोकांची भूक चाळवली. ताणी सँडविचीचेर धुरी घाली आनी ती खावन उडयली. 'गिनीज'चे लोक येवन तिची लांबाय रुंदाय घेवचे खातीर बी लोक रावले नात.

बातमी वाचून हांसोय आयलो आनी वायटूय दिसलें.

बाजारांत गेल्लें. पेनाची रिफील सोंपिल्ली. दुकानकारान म्हळें, "रिफिलीक पस्तीस रुपया पडटले. दिवं?" म्हळ्यार ताका म्हणचें आसलें, पस्तीस रुपयांची रिफील तुका परवडटली? हांवें म्हळें, "म्हजें पेन इतलें म्हारग. म्हारग पेनाची रिफील म्हारगूच आसतली न्हय? खेरीज हांव कितें पयलेच खेपे हाका रिफील घालिना. हाचे पयलींय बी हांवें घाल्या. तेन्ना दिवची आसल्यार दी. नाजाल्यार हांव दुसरे कडेन वतां."

वाटेर एक पोलीस मोटरसायकलीचेर बसून कोणाची तरी वाट पळेतालो. ताचे कडेन हॅल्मेट नासलें. हांवें ताका विचारलें, "तुजें हॅल्मेट खंय?" इतले मजगतीं तो पोलीस कोणाची वाट पळेतालो तो पोलीस इन्स्पेक्टर आयलो. ताणें विचारलें, "कितें जालें?" हांवें म्हळें, "हाचें हॅल्मेट खंय? दुसरे स्कुटर नाजाल्यार मोटरसायकल चलयतात ताका तुमी दंड दितात. तुमी नेम करतात. नेम करतल्यांनी नेम मोडपाचे नासतात.

मोटरसायकल चलोवपी पोलीस म्हणूंक लागलो,

"म्हाका बारा वरां मोटरसायकल चलोवची पडटा. इतलो वगत हांव हॅल्मेट घालून बसलों जाल्यार म्हजे ताळवेर एकूय केंस उरचो ना."

दुसऱ्या पोलीस इन्स्पेक्टरान विचारलें, "तुमी××× ची आई न्हय?"

हांव शॉकाद: "तूं ताका खंय वळखता?"

"हांव ताचे वांगडा शिकतालों.

हांवें म्हळें, "आरे, तुमीय बी तुमच्यो तकल्यो सांबाळात. तुमीय म्हूण आमचींच भुरगीं न्हय रे?" हांवें तांतले तातूंत सारयलें.

"ना आण्टी, आमी काळजी घेतात. तुमी हुस्को करूं नाकात. आनी जाणा आण्टी, हॅल्मेट घालून गाडी फांस चलोवपी पोलीस वेगळे आसतात. तांकां स्पेशल ट्रेनिंग दिल्लें आसता. आमी फक्कत गस्त घालतात. आमच्यो ह्यो मोटरसायकली भाड्याच्यो आसतात. तांकां मातशें कितेंय जायत जाल्यार ताचे पयशे आमच्या पगारांतल्यान कापतात. तरीकूय, आण्टी तुमी इतले मायेन हे विचारलें म्हूण धन्यवाद!

दुसऱ्या दिसा परथून डायरी बरोवंक घेतली. काल कितें बरयल्लें तें वाचलें. गेल्लो दीस चोवीस वरांचो. आठ वरां न्हिदेंत गेलीं. दनपरां जेवन थोडो वगत न्हिदलें. दनपारची जेवन एक न्हीद काडप हाचे इतलें दुसरें सूख ना. म्हणजे, उरिल्लो वगत हांवें खंय वापरलो? इतले दीस, इतले म्हयने, इतलीं वर्सां... खंय गेलीं? इतलीं वर्सां हांव जगलें. म्हळ्यार हांवें केलें कितें? त्या जगपाक अर्थ हाडचो हांवें यत्न केलो? आतां फाटल्यान वळून पळेतना हांव हो हिशेब कित्याक मांडटां? कोणा खातीर? तसो जिणेक अर्थ आसा काय? तरी हांव जगतां. नाका जाल्ल्या प्रस्नांनी घुस्पून हांव घुंवत उरलें. घुंवता घुंवतां अवचीत एक कविता आयली.

दीस येता, दीस वता
रात येता, रात वता
रातदिसाच्या चाका मदीं
जीण म्हजी हुंबकळटा

जल्माक येवन केलें कितें?
खालें, पिलें, जेवलें,
आनी सुसेगात न्हिदलें
ना म्हळ्यार
म्हज्याच नाकर्तेपणाचेर
जळून जळून इल्लें रडलें

भवसागरांत म्हजें तारूं
फुडें फुडें वता.
आलतड केन्नाच सुटल्या.
पलतड खबर ना.
मदले मदीं हांवें रडचें दुकार
दूक असलें
जें गाळूंय नज
न्ही गिळूंक नज...

आरे, हांव म्हूण कितलें पिशें! जें जालें तें गेलें. तो भूतकाळ जालो. भविष्याच्या पोटांत कितें आसा कोणाक खबर? आसा तो आयज. तो आनंदात सारल्यार कसो?



# याद आसा तुका...!



जयमाला दणायत

"कितें गो बाये, हालीं म्हणून खुबूच विसर पडूंक लागला म्हाका! सकाळीं दूद गॅसार दवरलें आनी मातशें हॉलांत येवन बसलें, तें आटून आटून ताची रबडी कशी जाली."

"तुजेंच न्हय, हालीं सगळ्यांचेंच जाता अशें. त्या दिसा हांवें उदक तापोवंक दवरलें आनी मातशें भायर आयलें तें विसरुनूच गेलें. उदक आटून सुकून तोप तांबडो काळो जावन वास आयलो. तेन्ना याद जाली, हांवें उदक दवरिल्लें म्हूण. तोप करपलो तो करपलो, वेल्यान गॅसय काबार जालो. सामकीच पाड पडल्या याद!"

"जाता गो तशें केन्ना-केन्नाय. इतलें कित्याक वितरागता तूं? पयर म्हजी भाजी करपूंक ना?"

दोगी तिगी पस्तिशीच्यो बायलो रस्त्यार आमच्या दारा मुखार उब्यो रावन खबरी करताल्यो.

"भंगलें व्हरून हांचें. आगो, इतलीं तरणीं ताठीं तुमी, आनी असो विसर पडटा? आमचे कडल्यान अशें जाल्लें जाल्यार सोड म्हणपाचें. 'दस सरलीं आनी पांच उरलीं' म्हणून; पूण तुमी – इतल्या तन्नेपणांतच असलीं उलोवणीं? शेऽ..." एकली जाणटेली तांचेर ताणशेली.

"तुमचें बरें आसा गे. ल्हानपणा सावन बरें बरें पौश्टीक खायत आयल्यांत. आमच्या नशिबांत हें सगळें भेसळीचें खाण आनी दुशीत उदक, घाणयारें हवामान! म्हणून अशे हे तरातरांचे दुष्परिणाम भोगचे पडटात." एकलेन म्हळें. "तातूंत आयच्या ह्या गतिमान जगांत घडयाळीच्या कांट्या वरी जीण जियेवची पडटा. तिवूय सतत सर्तीची, सामकी जल्मता सावन! ताचेच हे सगळे परिणाम भोगतात आमी." दुसरेन म्हळें.

तीं उलोवन गेलीं. तांचें उलोवणें आयकून म्हजेंय विचारचक्र सुरू जालें. खरेंच, आयचे हे पिळगेक कितल्या तरांचे हे त्रास भोगचे पडटात - ल्हानपणा सावन सतत ही सर्तीची जीण जियेवची पडटा. भुरग्या मनार लेगीत कितले ताण-तणाव; ताका लागून तांचो मेंदू सतत एका दडपणा सकयल चेपिल्ले वरी जाता; मागीर हें असलें विसरप, यादी उरप ना भुरगेपणांतूच सुरू जाता. फुडलें पाठ-फाटलें सपाट करीत जीण घालोवची पडटा. जाणटेपणांत एक बरें आसा... मनीस विसरता, याद उरना- आतां एक वस्त दवरिल्ली पट्ट करून याद जायना; जावं कोण कोण कोणाकूय वळखूंक लेगीत विसरतात. पूण अशें तिशी पस्तिशींत विसरप म्हळ्यार सामकीच हावळ आयल्या म्हणपाची मनीस कुडीचेर!

पयलीं काळांत, आजो दोळ्यांचें वक्ल तकलेर दवरून भोंवता आनी सगळे कडेन सोदता, सगळीं हांसतात आनी धाकटुलो नातू 'कान कान' करून ताका तें दाखोवन दिता अशें घडटालें. 'प्रोफसर विसरभोळ्या'च्यो काणयो आमी विनोदाचें एक महत्वाचें आंग म्हणून आयकून हांसून सोडून दितालीं. गडकऱ्यांच्या नाटकांतलें विनोदी पात्र विसरभोळो गोकुळ - बावडो यादी उरपा खातीर उपरण्याच्यो गांठी मारून मारून ताचें गांठवल करून उडयतालो आनी मागीर खंयची गांठ कित्या खातीर मारिल्ली तेंच विसरून वतालो. ल्हानपणांत 'विसराळू विनू'ची काणी जण एकल्यान वाचल्या जातली! म्हळ्यार, विसरप, याद उरप ना - ताचे वेल्यान विनोद जावप - हांसप आनी सोडून दिवप! पूण आयच्या काळार विसरप ही गजाल हांसून सोडून दिवपा सारकी गजाल उरूंक ना. ती एक गंभीर बाब जाल्या आनी हाचेर बारीकसाणेन विचार करचेलो वेळ आयला.

जशें जशें देशांतलें उदयोगीकरण वाडलें, मनशाचें रावप करप सुखसोयींनी भरलें, हातांत थोडो भोव पयसो घोळूंक लागलो, तश्यो तश्यो कुडीच्यो पिडा वाडत गेल्यात. हालीं मनीस आपले कुडीचो वापर करूंक विसरला. मागीर चार पांच मिनटांच्या जाग्यार वचूंक लेगीत ताका रिक्षा-टॅक्सी, वा कार-बस लागता. पांयांनी चलपाचें विसरायेरच पडिल्ले वरी जालां. हीच गजाल कुडीच्या हेर अवयवांची! ताका लागून वेगवेगळ्या नव्या नव्या पिडांचे भकीक तो पडूंक लागला. पयलीं काळार काळजा दुयेंस, ब्लड प्रेशर, डायबेटीस असल्यो पिडा गिरेस्तांल्यो असोच समज आशिल्लो. त्यो पिडा आतां गरीब आनी मध्यमवर्गियांची फाट सोडिनात. ल्हान पिरायेंतच नाका नाकाशिल्ल्या दुयेंसांनी मनशाक ग्रासला. असल्या पिडांनी मनशाचे स्मरणशक्तीचेर वायट परिणाम जाता. डायबेटिसान तर येवजुपाचे शक्तीचेरच घणाघात जाता म्हणटात. हें यंत्रयूग - कम्प्यूटर यूग! सगळ्यांच्यो तकल्यो कम्प्यूटरायज्ड जाल्यात, आनी मेंदवाचें काम कमी जायत चल्लां. अर्थात पोल्युशनाचें आनी पर्यावरणाचें संतुलन इबाडिल्ल्याचे परिणाम जाल्यातूच. वाडटे ताण-तणाव तर मनशाची फाट सोडिनात. हाका लागून विसर चड पडूंक लागला.

भुरगेपणांत आमच्या आंगांत आकलन शक्त आनी स्मरणशक्तीय चड आसता. ल्हान भुरग्यांचे बाबतींत तर दोन ते पांच वर्सांचो काळ खूब म्हत्वाचो आसता. पाठांतरूय बरें जाता तें भुरगेपणांत. ल्हान भुरगें जितल्या सहजपणान खंयचीय भास आत्मसात करता, तितलीच

ती जाणट्या मनशाक शिकप कठीण जाता. कारण मनीस जाणटो जाता तितली ताची स्मरणशक्त कमी कमी जायत वता. आतां मात येदींशीं भुरगीं लेगीत कितेंय विचारल्यार ''आ, विसरलें'' म्हणून जीब चाबतात तेन्ना आमचीच तकली बरी दिसता!

मनशाक बुद्द आसा, स्मृती आसा देखून तो हेर मीनजातीं परस, जनावरां परस वेगळो आसूंक जाय. आमच्या पूर्वजांच्यो - म्हालगड्यांच्यो-यादी खूब म्हणजे खुबूच सुपर्ब म्हणूंक जाय! कारण पुरातन काळांत जेन्ना बरोवपाची वा छापपाची कला अवगत नासली, तेन्ना फकत आपले तकलेंत सगळें गिन्यान सांठोवन दवरून, तोंडी पाठांतरा वरवीं जण एका मळावेलें ज्ञान, खबरी नवे पिळगे मेरेन पावोवपाचो वसो आनी शक्त ह्या स्मृतींनीच मनशाक दिल्ली. पूण आतां फकत सगळें यादींत - स्मरणांत-दवरचेली शक्त, मनशाची ही तांक कमी कमी जायत गेल्या.

हाची एक मामी आसली. हांव तर तिका कम्प्युटरूच म्हणटालें. तिची स्मरणशक्त आकांत! सोयऱ्यां धायऱ्यां मदल्या सगळ्यांची लग्नां केन्ना, खंयच्या वर्सा, खंयच्या दिसा, खंयच्या म्हुर्तार जाल्लीं- सगळें सगळें तारके वारा सयत सांगताली. सगळ्यांचे वाडदीस तिचे सामके तोंडपाठ! अकस्मात एक दीस साद्या दुयेंसाक लागून टेस्ट करची पडली- तिका सामकी हाय-डायबेटीस सांपडली. बरें म्हणून बरें ना तर कोमांतूच वचपाची खंय. तेन्ना सावन बरी ना जाली. सगळें तेर्र एकटी भोंवपी बायल, घरा भायर सरूंक बरोबर मनीस लागूंक लागलो. यादीन सामको मार खालो. कितेंच धड याद उरना जालें. ''तुजो कम्प्यूटर मोडलो गो,'' म्हणून दोळ्यांत दुकां काडलीं. म्हाकाय खूब वायट दिसलें. शेवटाक तर इतली वायट परिस्थिती आयली की सादें जेविल्लें खाल्लें पसून याद उरना जालें. म्हाका वळखताली, पूण आपल्या भुरग्यांची लेगीत याद विसरली. पोन्यो शेल्मा मुर्स्तींतल्यो खबरी परती परती सांगताली. एकूच खबर परत परत विचारताली. केन्ना कोणाक वळखताली, केन्ना ना अशें जाल्लें. डायबेटिसान मेंदवाच्या पेशींचेर खर हल्लो केल्लो.

म्हजी मांय तशीच अंयशीं वर्सां मेरेन बरी आशिल्ली. यादीन सामकी घट! आठेक दीस मातशी थंडी म्हणून जाली, बरी ना म्हणून हॉस्पिटलांत व्हेली. ॲडमीट करची पडली. सात-आठ दीस थंय कितें उरली आनी मागीर वर्सभर बरीच नासली. म्हाका कितें जालां, म्हणून येतल्या-वेतल्यांक विचारताली. चल्याच्या साखरपुड्याक, लग्नाक आसुनूय ताचें लग्न केन्ना जालें काय विचारप! लग्न जालें ना जाल्यार ही सून कशी घरा आयली, हाचेर मात तिचे कडेन जाप नासली. पूण त्या वर्सभराच्यो यादी तिच्या मेंदवांतल्यान साप्प पुसून गेल्ल्यो. दोतोर सुखठणकाराचेंय डायबेटिसाक लागून अशेंच जाल्लें. एकूच खबर परत परत सांगप -यादी उरप ना. यादींनीच मार खाल्लो. लोकांच्यो ह्यो खबरो आयकून करून म्हाका एके तरेचो भंयसो दिसता. कारण म्हजे तकलेच्या विचित्र दुखण्यान म्हजींय तन्नेपणांतलीं वर्सांच मेंदवांतल्यान पुशिल्ले वरी जाल्लीं. आतां कोणेंय, भयणींनी बी, याद करतकीच याद जाता; तरी लेगीत ती याद वचप, अशें विसरप म्हणचे मरणप्राय दुःख जावचेली अवस्था! भुरगेपणांतल्यो यादी, कॉलेज लायफ, लग्नाच्या पयल्या वर्सांतल्यो यादी- कोडू गोड अणभव येवंजप, भुरग्यांचें भुरगेपण येवजप कितलें खोशयेचें आसता! पूण ताचोच विसर पडप म्हणचे, मागीर तांतली गोडी सोंपता. यादींनी मनशाचे जिणेची गोडी दुणावता पूण विसर पडल्यार ती उणावता!

''याद आसा तुका, आमी आपलिपांनी खेळटालीं... चिंचे मुळां लिपतालीं.'' हाची जाका याद उरना आनी मागीर दुसऱ्यांनी ती याद करून दिवची पडटा तो सामको पातकी म्हणूंक जाय. आनी अशी ही परिस्थिती आपल्याचेर येवप म्हळ्यार जितेपणीं मरणूच! न्हय, मरणापाश्ट; कारण, मरणान मनीस एकदांच सोंपता, पूण असल्या जगपान सदांच जायतीं मरणां मेल्ले वरी जाता अशें म्हाका तरी दिसता.

आमच्या तत्वज्ञानांत स्मृती आनी मोह हाका एक खाशेलो असो अर्थ आसा - खाशेलें म्हत्व आसा. मनशाचो नाश कसो कसो पांवड्या पांवड्यान जाता हाची एक वळेरी आनी कारण परंपरा कृष्णान आपले गीतेंत सांगल्या-

*क्रोधात् भवति संमोहः संमोहात् स्मृतिविभ्रमः ।*

*स्मृतिभ्रंशादी बुद्धी नाशो, बुद्धिनाशात् प्रणश्यति ।।*

म्हणचेच, रागाक लागून मनीस मोहपाशांत घुस्पता. मोहाक लागून ताची याद तथर बिथर जाता. ताका लागून बुद्धीचो नाश जाता बुद्धी नश्ट जातकीच मागीर अधःपात जाता. उपनिषदांनीय स्मृतीचेरच भर दिला. *''कृतोस्मर, कृतम् स्मर।''* म्हणचे, आपूण कितें करता ताचो आठव कर. कर्म करता ताचें स्मरण दवर. बौद्ध वाङ्मयांतूय यादींचेर असोच भर दिला. आपल्या जल्मा सावन मरणा ताकीत, म्हणचे, भुरगेपणा सावन मरण यो मेरेन, सारके बदलत वचपी जिणेंतल्या एकपणाचो - एकत्वाचो धागो म्हळ्यार स्मृती - ह्यो यादी! हांव कोण हाची सातत्यान जाणविकाय करून दिवपी वा हांव तोच, तोच हांव, हें ज्ञान मनाक करून दिवपी शक्त म्हणचे स्मृती! हांव कोण, म्हजें कर्तव्य कितें? हांव खंय चल्लां- हाची जाणीव आसता ती यादींनीच!

आतां हांव कोण ह्या प्रस्नाचो संबंद महाभारताचे नदरेन ''ह्या संवसारांत म्हजें स्थान कितें?'' ह्या प्रस्ना कडेन आसा. आनी आपणालें कर्तव्य कितें हें त्या स्थानाचेर निंबून आसता. मनीस जल्माक येता तो 'को अहम्' करतूच येता. ताका 'सोअहम्' समजून घेवंक एक आख्खो जल्म पुरो पडना. तो आपले आपणाकूच पुरायेन समजून घेवंक शकना. तो जल्माक येता तो पूर्वजल्माच्यो कुरवो घेवनूच!— पूण त्यो कुरवो, त्यो खुणो कसल्यो हाची ताका स्मृती, म्हणजे याद नासता. कांय असामान्य आसामीच त्यो यादी घेवन जल्मतात. उदाहरणूच दिवचें जाल्यार कृष्ण! तो अर्जुनाक सांगता, *''बहुनि मे व्यतीतानि जन्मानि''* - आपणें जायते जल्म घेतल्यात. कांय जाण अशे पुनर्जल्माच्यो यादी वांगडा घेवनच जल्मतात. (आतां पुनर्जल्म आसा काय ना हो वादाचो प्रस्न आसत.) पूण आमी पेपरांनी बी वाचतात- कोणूय ल्हान भुरगो म्हजे पयलींचे आवय-बापूय अमके कडेन आसात म्हणून पयसुल्ल्या खंयच्याय गांवाचें वा राज्याचें नांव सांगता-थंयच्यो खाणोखुणो बरोबर वळखता. ते भाशेन, आदले संदर्भ दिता जे आयच्या ताच्या जल्मा परस साप्प वेगळे

आसतात. आनी ते खरेय थारतात. थंय वचून पळयल्यार त्यो खाणोखुणो जुस्ताजुस्त तश्योच मेळटात. कांय सामक्या तीन-चार वर्सांच्या भुरग्यांक वेगवेगळ्यो कला वा खेळ, गणीत, संगीत, बुद्धीबळ हातूंत जात्याच वेगळी बरी गती आसता. हेरां परस ते ते कलेंत ते खूब म्हणजे खुबूच प्राविण्य मेळयतात. ती तांची पूर्वपुण्याय - तांच्या पयल्या जल्माची, गतजल्माची, स्मृती तांकां आसता म्हूण. आमचे सारकेल्या सामान्यांनी निदान ह्या एकाच जल्माच्यो यादी तरी अखंड उरच्यो म्हूण जतनाय घेवची पडटा. मरणाच्या खिणा मेरेन पुराय शुद्धीर, साबुद्धीर आसपाची जी इत्सा पयलींचे जाणटेले उकतायताले ते हेच पासत! हेच निष्ठेचेर आधारिल्ली आसली ती इत्सा!

''उत्तरायणांत, शुक्लपक्षांत, दिसा उजवाडा, पुराय शुद्धीर आसतना मरण येवप बरें'' अशें गीतेंत म्हळां तें हेच पासत! आपली याद नश्ट जावंक फावना होच एकमेव ध्यास हांगा दिश्टी पडटा.

भीष्माचो स्मृतीभ्रंश केन्नाच जालो ना म्हणटात. अर्जुन संमोहांत पडलो, तरी पूण कृष्णान ताका वाटायलो. ताचें आपणालें स्मरण ताका कृष्णान करून दिलें आनी मागीर अर्जुनूय *'सिदान्ति मम गात्राणि, मुखंच परिशुष्यति'* म्हणत गलितगात्र जावन पडिल्लो तो आपणाल्या स्वकर्तव्याचे निष्ठूर यादीन पुराय जागो जावन उबो रावलो - *''नष्टो मोहः, स्मृतिर्लब्धा''* म्हणून ताणेंय आपल्या कर्तव्याची जाण धरून तें पुरायेन पार पाडलें.

अशे तरेच्या स्वधर्माची खर जाणीव द्रोणाक नासली. अश्वत्थाम्याक तर पुराय आत्मविस्मृति जाल्ली अशें म्हणचें पडटलें. स्वधर्म गेलोच, परधर्मूय साध्य जालो ना अशी ताची आवतिकाय जावन पडली. ताची खबर आयकल्यार तर *परधर्मो भयावहः* अशेंच म्हणचें पडटलें. ब्राह्मण म्हणून जल्माक आयलो आनी बापायन मेळयिल्ल्या राज्याक लागून राजा जालो- क्षत्रीय धर्म आपणायलो शस्त्र अस्त्र विद्या शिकलो. मुखार ताणें भयंकर शस्त्रांचो वापरूय केलो; पूण तो दुर्योधनाक झुजांत जैत मेळोवन दिवपा खातीर न्हय, तर सर्वनाश जातकीच फकत आपणालो सूड घेवचे पासत! आनी आपलो बचाव करूंक राखण करचे पासत! ताणें आपलें ब्राह्मण्य पयलींच शेणयिल्लें, क्षत्रियत्व ताका केन्नाच साध्य जालें ना आनी शेवटाक मरणा परसूय भयंकर अशें चिरजीवन ताका प्राप्त जालें.

अशें सांगतात की एक अमोघ अशें अस्त्र अर्जुनाक मारपाक ताणें सोडलें आनी अर्जुनानूय ताका जाप म्हणून प्रतिअस्त्र सोडलें. दोनूय अस्त्रां एकामेकांक आपटल्यार आतां आखख्या संवसाराचो - ह्या जगाचो - संहार जातलो, विनाश जातलो, हें जाणून व्यासऋषी मदीं पडलो. ताणें अर्जुनाक अस्त्र फाटीं घेवचेली विनंती केली. अर्जुनान अस्त्र फाटीं घेतलें, पूण अश्वत्थात्म्याक सांगून लेगीत ताणें आपलें अस्त्र फाटीं घेतलें ना, वा, ताका तें अस्त्र फाटीं घेवंक जमलें ना. त्या अस्त्रान पांडवांचो नाश जालो ना, पूण अभिमन्युचे बायलेच्या म्हळ्यार, उत्तरेच्या गर्भार तें अस्त्र पडलें अशी पुराणकथा आसा. पांडवांनी गुरुपुत्र म्हणून अश्वत्थात्म्याक जितो सोडलो. ''हांव उत्तरेच्या भुरग्याक जितो दवरतलों'' अशें कृष्णानूय तांकां वचन दिलें. पूण मागीर अश्वत्थात्म्याक जो स्राप दिलो तो इतलो भयंकर आसलो की त्या जिते रावपा परस मरण पत्करिल्लें बरें अशें तांकां जावंक फाव!...

''कितलींशीं हजारांनी वर्सां तूं जियेतलो, पृथ्वीचेर रानांवनांनी जळपतलो, तुज्या माथ्या वेल्या भळभळट्या घायाचेर तेल घालपाची लोकां कडेन भीक मागत भोंवतलो, पूण कोण जितो मनीस तुका लागीं करचो ना.'' हो तो स्राप! हेर सगळे वीरगतीक पावले. तांकां झुजांत वीरमरण आयलें. अश्वत्थामो मात मरणा पाश्ट भयंकर अशी जीण जियेलो. अजून हे पृथ्वीचेर आपल्या भळभळपी घाया सयत तो हेडत आसता अशें म्हणटात. हें जालें महाभारताचें कथानक - हे स्मृती विस्मृतीचेर!

पूण तशें पळेल्यार मनशाची तकली ती केदी? त्या येद्याशा मेंदवांत हजारांनी पेशी आसल्यो तरी मनशाच्यो सगळ्योच यादी तकलेंत सांचून उरत जाल्यार नव्या दिसांच्या नव्या यादींक दवरूंक जागो पावपाचो ना, म्हूण सैमान वा घडये काळानूच कांय तेंपान कांय यादी तकलेंतल्यो काडून उडोवन नव्या यादीं खातीर जागो करचे पासत हो विसरपाचो मार्ग आपणायला, वा हो वर मनशाक दिला जावंये अशें मनाक दिसता. आपलो सामके लागींचो, सामको मोगाचो मनीस आपणाक सासणाचो अंतरलो म्हणटकीच मनाक कितले त्रास जातात; विसरूं म्हळ्यार विसर पडना! अशा वेळार काळ हेंच वखद म्हणटात. मागीर ल्हवू ल्हवू दिशीं माशीं त्या यादींची तीव्रताय कमी कमी जायत वता, त्यो यादी पुसट पुसट जायत वतात, आनी अशा वेळार विस्मृती म्हळ्यार, विसर पडप हो वर कसो दिसता. नाजाल्यार तकलेंत यादींची एक विचित्र जटा कशी जावन बसतली- सोडूं म्हळ्यार सुटावी न जावपा सारकी! सोडोवंक गेल्यार चडूच चडच घुस्पत वतली- एकाद्रे मावलेच्या जाळ्यांत कीड-मूय जावं जळेर-मूस सांपडटा आनी तो तांतल्यान वाटावपाक धडपडटा आनी चडूच घुस्पत वता- तशें कितेंशें ते तकलेंतल्या यादींचें जातलें - एके तरेची विचित्रूच जटा कशी जावन वतली भितल्ले भितर!

हालीं तर मनशांचे लागेबांधे, एकामेकां विशींची बांधिलकाय म्हणा, कमी कमी जायत गेल्या म्हणूंक जाय. तांच्यांतलें आपलेपण शेणत चल्लां. भुरगीं आवय-बापायक विसरतात, भांवडां भांवडांची याद दवरिनात, इश्टमित्रांचे ऋणानुबंध उणे जायत चल्ल्यात. सोयऱ्यां-धायऱ्यां मदलें आपलेपण कमी कमी जायत चल्लां; आतांचे पिळगेक तर सगळीं नातीं अणभवूंक मेळचनात. ''हम दो, हमारा एक'' च्या ह्या जमान्यांत तें शक्यूच ना! तरी लेगीत मन कांचवेता, मनाक एके तरेचो विचित्र भंयसो दिसता- मनशाचें मनीसपण शेणत चल्लां- म्हणजेच मनीस आपलें मनीसपणूच विसरत चल्ला. हालीं सतत घडपी घडणुकांनी हेंच दिसून येता. दिसान दीस हीच प्रचिती येता. एका पेपरांत सदांचीच पूण वेगळी खबर : आपल्याक प्रायव्हसी मेळना, टी.व्ही., व्हिडिओ, सिनेमा जाय तेन्ना, जाय तशे पळोवंक मेळनात, आजये बरोबर आपली कूड शेअर करची पडटा म्हणून एका ल्हान, शाळेंत वचपी नातवान आजयेकूच मारून उडयली ही ती खबर! - हें आयकून कोणाचोय मनीसपणा वेलो विश्वास उडून गेल्यार अजाप ना. आनी म्हणुनूच आयज मनीस आपलें मनीसपण विसरत चल्ला; ताका ताची विस्मृती जाल्या अशें म्हणप बास्कळ जावपाचें ना.





# योकोसो जपान

हर्षा शेटये

आमी जपानाक वचपाचें थारायलें तेन्ना म्हजे मुखार देंवतीं पारखीं आशिल्लीं सुंदर घरां आनी तांचे मुखार उबी आशिल्ली जपानी बायल अशें एक चित्र झळकून गेलें. हाचें कारण म्हळ्यार, म्हज्या भुरगेपणांत म्हज्या आज्याक कोणें तरी जपानी आयणे आनी वणटीक लावपाक जपानी बायलेचें चित्र दिल्लें. सुंदर फुलांफुलांचो किमोनो घाल्ली, एका हातांत आयणो, दुसऱ्या हातांत रंगीत सत्री, पांयांक रंगीत जोतीं, बॅकग्रांवडार जपानी घरां. तें चित्र पळोवन म्हजे मावशेन पॅचवर्क करून ती जपानी बायल पड्ड्यार जिवी केल्ली. मागीर कितलींशीं वर्सां तो पड्डो आमगेर दाराक लायिल्लो दिश्टी पडटालो.

दिल्ली विमानतळाचेर 'जाल एरवेज'च्या विमानांत चडटना म्हज्या दोळ्यां मुखार ती 'जपानी लेडी' परतीय उबी रावली. 'किमोनो' घाल्ली एअरहॉस्टेस आमकां येवकार दितली अशें येवजीत हांवें विमानांत पांय दवरलो. पळयत जाल्यार दारार राविल्ल्या स्कर्ट-ब्लावज घाल्ल्या जपानी सुंदऱ्यांनी कमर बागयत *'कोन्निचिवा कोन्निचिवा'* (हॅलो) म्हणत आमकां येवकार दिलो. एकीचें नांव कावासाकी आनी दुसरेचें तुली. विमानांतले प्रवासी चडशे जपानी, आमचे बराबरचीं तीस-चाळीस जाणां सोडलीं जाल्यार.

रातचीं आठ वरां जाल्लीं. विमान वयर वतकीच पयली ज्यूस आयलो. मागीर पॉपकॉर्नां बशेन कसल्या तरी जपानी धान्नाच्यो ल्हायो आयल्यो. दर एका सिटा फाटल्यान स्क्रिन आशिल्लो. ताचेर भारतीय वेळ आनी जपानी वेळ दाखयताले. जपान भारता परस साडेतीन वरां फुडें. थोड्या वेळान जेवण आयलें. जपानी प्रवाशांक जपानी जेवण दिल्लें. तिकीट बूक करतना सांगिल्लें तशें आमकां

'एशियन व्हेजिटेरीयन मिल' आयलें. जेवण जातकीच च्या आयली. जपानी टी जाय काय विचारीत 'आशी' नांवाची एअरहॉस्टेस आयली. जपानी च्या कशी लागता ती घेवन पळोवया म्हळें. पळयत जाल्यार दूद, साकर नाशिल्ली पाचवी च्या. कसाया वरी. हाका कितें म्हणटात, हांवें विचारलें. तिणें सांगलें, *'ओऽऽच्या' हें 'ओऽऽच्या'* तिणें एका खास ढंगान म्हळें. ओ म्हणटना श्वास ओडून भितर घेवप आनी च्या म्हणटना श्वास सोडप. सामकें प्राणायाम केल्ले बशेन.

फाटोफाट मे नांवाची सुंदरी 'इंग्लीश टी, इंग्लीश टी' करीत आयली. हाका जपानी भाशेंत कितें म्हणटात म्हूण विचारलें जाल्यार तिणें सांगलें, *'कोऽऽच्या.'*

स्क्रिनाचेर खंय खंय पावतात तें दाखयतालीं. कानपूर, डाक्का काडीत आमी चिनांत पावलीं. हांव बेश्टेंच पिश्या बशेन 'ग्रेट वॉल ऑफ चायना' बी दिसता काय म्हणून पळोवपाक लागलें. चिनाची ही वणत अंतरिक्षांतल्यान दिसता म्हणटात. पूण ती बिजिंगांत आसा.

विमानांतले सहप्रवासी गाड न्हिदेंत आशिल्ले. दत्तराज न्हिदेंत हुळहुळटालो. मदींच जपानाक पावलीं काय म्हणून विचारतालो आनी परतो न्हिदतालो. हांव सकयल पळयत आशिल्लें. चिनांतल्या शारां वयल्यान विमान उडटना सकयल शारांतल्यो लायटी लकलकताल्यो. ग्युयांग, नामझिंग काडून शांगाय पावलीं . भायल्या मिट्ट काळखांत पसून लायटींच्या उजवाडा वयल्यानूच शांगाय शाराचे भव्यतेची कल्पना येताली. म्हजे घडयाळींत रातचीं दोन वरां जाल्लीं. हांवें स्क्रिना कडेन नदर व्हेली. शांगाय काडून विमान आतां 'यॅलो सी' वयल्यान उडूंक लागिल्लें. भायर पळयत आसतना भर्र करून काळखाचो पड्डो कोणें तरी ओडून कुशीक काडलो आनी लखख उजवाडांत सुर्याचो गुळो दिश्टी पडलो. आरे, हें अशें कशें? फांतोड जावचे पयलीं तांबशीं किरणां कशीं दिश्टी पडटात? ल्हवू ल्हवू बाळ सुर्या वयर सरता अशें सुर्योदयाचें वर्णन करूं येता. पूण हांगा तशें जावंक नाशिल्लें. पयलीं नाटकांत बी एक पड्डो वयर काडटकीच ताचे फाटल्यान आशिल्लो दुसरो पड्डो दिश्टी पडटा तशें कितें तरी जाल्लें. हांव दोळे फोडून पळयत रावलें.

हेवटेन सकाळ जाली म्हणून हवाई सुंदऱ्यो ब्रेकफास्ट घेवन आयल्यो. परतीय *'ओऽऽच्या'* करीत एकली पाचवो कसाय घेवन आयली. जपानी प्रवासी न्हिदेंतल्यान उठून ओऽऽच्या पिवंक लागिल्ले. ब्रेकफास्ट हातांत घेतलो खरो, पूण मध्यान रातीं अडेज-तीन वरांचेर कितें खातलीं आशिल्लीं? इतले म्हणसर विमान बरेंच हालूंक लागलें. सुंदऱ्यो जाग्यार गेल्यो. भायलें हवामान बरें ना; पावस झडटा, पटो घट बांदात, सुचोवणी जाली. बेश्टीच तकलेंत एक कीड हुळहुळ्ळी. भुंयकांप बी जायना मूं? आमचें जपानाक वचपाचें थारलें तेन्ना दत्तराजान फट्ट करून म्हणिल्लें, जगांत सगळ्यांत चड भुंयकांप जपानांत जातात म्हूण. तो शाळेंत प्रश्नमंजुषा सर्ती खातीर शिकिल्लो. हाच्या तोंडांतल्यान नियती बी उलोवं नाशिल्ली मूं? भितरलें खंयचें तरी अंधश्रद्धाळू मन जागें जालें. पूण भुंयकांप जाता जाल्यार जमीन हालतली, आनी आमी तर जमनी परस कितलींशींच फूट वयर आशिल्लीं. अशें येवजून हांवें तकलेंतली कीड काडून भायर उडयली आनी साकर बी घालून *'कोच्या'* पिलें. भायर मळबांत काळेच ढग दिसताले. पावस झडटालो. पाड पडूं! हांवें पावसाक दोन गाळी मारल्यो. आतां हो पावस असोच झडत रावल्यार आमी जपानाक आनी कितें भोंवतलीं.



चार वरां जाल्लीं. जपानाक निकतींच सकाळचीं साडेसात जातालीं. विमान नारितो विमानतळाचेर देंवतालें. विमानांतल्यान भायर सरतना एअरहॉस्टेसीन कमर बागोवन *'आरिगातो'*, म्हळ्यार थॅंक्यू, म्हळें. विमानांतल्या दारांतल्यान सोमतीं मोनोरेलांत भितर सरलीं. दोशीं वटेन हारशे आशिल्ले. सकयल कितें चल्लां तें दिश्टी पडटालें. ॲयरपोर्टार भितर सरलीं. दारांत उबे आशिल्ले चलयेन कंबर बागोवन *'योकोसो जपान'* म्हळें. म्हळ्यार, 'वेलकम टू जपान'. आमी उदेत्या सुर्याच्या देशांत पाविल्लीं.

**देखणें महानगर - तोक्यो**

नारितो विमानतळा वयल्यान तोक्योक वचपाक बशींत बसली. आमी जे कंपनीचो टूर बुक केल्लो ते कंपनीची गायड लिझा कावाची आमका व्हरपाक आयिल्ली. मोटवेशें गोरेपिट्ट - हळडुवसार गोरपाणीचें, बारीक दोळ्यांचें वांटकुळ्या तोंडावळ्याचें चली. बशीचो ड्रायव्हर खंयचेय कंपनीचो डायरेक्टर सोब सारको आशिल्लो. फॅर्राद कपडे घाल्लो. बशींत वयर चडटल्याक आपणाले बारीक दोळे आनिकूय बारीक करून हांसून येवकार दितालो.

मळबांत काळ्या कुपांनी दाटी केल्ली पावस एक सारको झडटालो. जपानाच्या पयल्या दर्शनांतूच, थंयच्या रस्त्यां वयल्यानूच, सोबीतकायेची कल्पना येताली. रस्त्याचे दोनी वटेन सुंदर फुलझाडां दोळ्यांक सुखायतालीं. मदीं मदीं शेतां दिश्टी पडटालीं. शेतांनी लुवणी सुरू आशिल्ली. पावसांत गोंयांत दिश्टी पडटा तसलेंच दृश्य. शेतां दिसतात थंयच आसात, रोखड्योच व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगी दिसताल्यो. पूण त्या बिल्डिंगां मुखार आशिल्लीं पाचवींचार झाडां व्यवस्थीत कापिल्लीं आशिल्लीं. कश्याय कशीं वाडिल्लीं न्हय. भायर दिश्टी पडपी कितेंच चुकचें न्हय म्हणून हांव जनेलांतल्यान भायर पळयत आशिल्लें. लिझा बशींत चिंवचिंवत आशिल्लें. जपानाच्या इतिहास भुगोलाचें रिव्हिजन चलिल्लें. म्हजे कान लिझाच्या उलोवण्या कडेन आशिल्ले आनी दोळे जनेला भायर. सकाळचे ऑफीस अवर्स जाल्ल्यान ट्राफीक खूब आशिल्ली. परतीं परतीं सिग्नलां लागतालीं.

आमचें बुकींग शिनागावा स्टेशना मुखावयल्या प्रिन्स हॉटेलांत आशिल्लें. हें हॉटेल म्हळ्यार ३६ मजली पॉश इमारत. एक व्हड टॉवर कसो. तातूंत कितें ना म्हूण ना. हॉटेलांत भितरूच मनोरंजनाचे एक मिनी शार वसयलां. थिएटरां, डॉल्फीन पूल, एक्वेरीयम, लग्नां रिसेप्शनां करपा खातीर दर एका मजल्यार एक एक हॉल. फुलांची सुंदर आरास. तिचें आनी वर्णन करपाक म्हाका येवचेंना. सकयल्या मजल्यार 'कनव्हीनियन्स स्टोअर' म्हळ्यार घरगुती सामान मेळपाचो जागो. ॲम्यूजमॅंट पार्क. ज्युवेलरी शॉप... आमचो रूम आशिल्लो

बाविसाव्या मजल्यार. आमी रोखडींच फ्रॅश जावन तोक्यो भोंवपाक भायर सरलीं. उटंगाराचो पावस पडटालो. म्हजे कडेन एकूच सत्री आशिल्ली.

सगळ्यांत पयलीं आसाकुसा वाठारांतलें आसाकुसा कॅनॉन टॅम्पल पळोवपाक गेलीं. ६५० वर्सां पयलीं हांगा खारव्यांची वस्ती आशिल्ली. दोग खारवी भाव हानामारी आनी ताकेनारी सुमीदा न्हंयंत नुस्तें पागूंक गेल्ले. तेन्ना तांकां थंय कॅनॉन बोधीसत्वाचो पुतळो मेळ्ळो. तो तांणी उदकांत सोडलो. पूण, तो तांणी उदकांत सोडचो आनी तांकां तो परतो मेळचो अशें कितलेशेच फावटीं जालें. तेन्ना त्या गांवच्या मुखेल्यान तो पुतळो आपल्या घरांत स्थापन केलो.

भितर सरतनाच पयलीं कामिनारीमोन म्हळ्यार व्हडली गेट लागता. कामिनारीमोन म्हळ्यार 'थंडर गेट' (गडगडाची गेट). तिचेर व्हडले व्हडले तांबडे आनी काळे जपानी लायपांव हुमकळटात. ते लापयांव म्हळ्यार पावसाचो गडगडो, काळीं कुपां, जोगलां हाचीं प्रतिकां. हे गेटींतल्यान भितर सरतकीच सरळ लांबचे लांब वाट लागता... नाकामीझ... भारतांतल्या खंयच्याय देवळा भायर ल्हान ल्हान दुकानां आसतात तशींच हांगाय आसात. तरातरांचे जपानी मिठायेचीं, जपानी हॅण्डिक्राफ्टाचीं, रंगरंगयाळे आयणे, रंगीत सत्र्यो, रंगीत कपडे... रंगांचो उत्सव कसो. हें देवूळ ६४५ वर्सा बांदिल्लें. कॅनॉन म्हळ्यार 'गॉडेस ऑफ मर्सी'. हे दयेचे देवते कडेन शारिरीक व्याधी ना करपाची शक्त आसा. मागीर आनीक एक गेट लागता. 'होझोमोन'. हिका तेंकून आसा पांच मजली पागोडा आनी सेन्सोजी देवूळ. म्हळ्यार आसाकुसा कॅनॉन टेम्पल. १९४३ वर्सा जाल्ल्या बॉम्बहल्ल्यांत ह्या देवळाक उजो लागिल्लो. मागीर तें पयलीं आशिल्लें तशें परतें बांदून काडलें. ताकाच तेंकून त्या दोन खारवी भावांक आनी गांवच्या मुखेल्याक मान दिवपाक श्रायन बांदलां. आसाकुसा श्रायन (Shrine) ताका 'शिंतोजी श्रायन' म्हणटात. थंय वतकच ताळयो मारप आनी देवाक उलो करप. थंय मुर्ती बी कांय नासता. थंय एक व्हडली बांय आसा. थंय वचून पांय धुवपाचे. ते भायर एक उदकाचें कुंड आसा. ताचेर चार कडेन फातराचे ड्रॅगन आसात. तांच्या तोंडांतल्यान उदक पडटा. थंय दवले दवरिल्ले आसतात. ते भायर थंय एक कुंड पेटत आसता. तातूंतलो धुंवर भावीक आपल्या दुखऱ्या भागाचेर घेतात. तातूंत ती दुख कमी जातात अशें मानतात.

लिझान सांगलें, हांगा फाटल्या सप्तकांत सांजो परब मनयली म्हूण. सगळो आशिकुशीचो वाठार सजयतात. तोक्योंतले वांड्यावाड्या वयले लोक एकठांय जावन त्या त्या वाठारांतल्या देवळांतल्यो मुर्त्यो पालखेंत म्हळ्यार 'मिकोशीं'त बसोवन खांदार घेवन नाचत नाचत येतात. फाटल्या हजार वर्सां सावन ही परब हांगा मनयतात.



पावस तर पडत आशिल्लो. देवळा भायर आशिल्ल्या दुकानांनी वचून देड हजार येन दिवन एक सत्री घेतली. सत्री 'मेड इन चायना.'

दनपार जाल्ली. पोटाक भूक लागिल्ली. जेवपाक आमी आसाकुसा वाठारांतल्या 'हॉटेल शागोरिका' ह्या बांगलादेशी हॉटेलांत गेलीं. मालक बांगलादेशी, रांदपी नेपाळी, वेट्रेसी जपानी. जेवण भारतीय पद्धतीचें. लिझाक तें हॉटेल बांगलादेशी मनीस चलयता म्हूण खबरूय नाशिल्लें. 'गुद इंदियन रेस्टॉरंट' म्हणत आशिल्लें.

आकिहाबारा इलॅट्रीक टावन थंय लागींच. हांगा सगळ्यो इलॅक्ट्रॉनिक वस्तू मेळटात. 'मेड इन जपान' कॅमेरा, मॉबायल फोन, टी.व्ही., विडियो गेम्स, तीन चार दुकानां भोंवलीं. एका एका नगाच्यो किंमती पळोवन दोळे घुंवले. तितल्या प्रेसान हांगा बऱ्यांतले बरे लॅपटॉप मेळपाचे. तातूंत आनी पावसाचें शिरशिरप चालूच आशिल्लें. सत्री धर, खंयय शेणत म्हूण दत्तराजाचो हात धर, नाकाच त्यो भानगडी म्हणत परतीं हॉटेलांत गेलीं. रातभर न्हिदूं नाशिल्लीं. दोळे झेमताले.

हॉटेलांत येवन आरमार उकती करून युकाता भायर काडलो. युकाता म्हळ्यार सुती किमोनो. सकाळच्यान म्हाका किमोनो घाल्ली एकूय बायलमनीस दिश्टी पडूंक नाशिल्ली. हो युकाता तरी घालून उमेद भागोवया म्हळें. किमोनो घालतना ताची दावी वेट वयर येवपाक जाय आनी उजवी पोंदा अशें वयर येतना म्हाका लिझान सांगिल्लें. फक्त मनीस मरतकीच निमणे यात्रेक भायर सरतना ताका धवो किमोनो घालतात तेन्ना ताची उजवी वेट वयर आसता. युकाता घालो आनी ताणून दिलें. जाग आयली तेन्ना सांजचीं स वरां जाल्लीं. फ्रॅश जावन कपडे बदलून सकयल गेलें. पळयत जाल्यार थंय लग्नाचें रिसेप्शन आशिल्लें. न्हवरो व्हंकल वयर चडटालीं. फोटोग्राफर तरेकवार पोजींनी तांचे फोटो काटडाले. न्हवरो सूट घालून जाल्यार व्हंकल येवरोपी झगो घालून. इतल्यान दोन बायलो म्हाका सोबीत किमोनो घालून येतना दिश्टी पडल्यो. एकटेन काळ्या रंगाचो घाल्लो. ताचेर भांगरा कोराचे जरीन, जपानी घरांचे डिझायन भरिल्ले. दुसरेन लॅव गुलाबी रंगाचो घाल्लो. दोगांनीय खासा जपानी पद्धतीन केंस वळयल्ले आनी माथ्यांत गुलाब खोयिल्लो. तांकां पळोवन तांचे म्हऱ्यांत उबें रावन म्हाका एक फोटो घेन दिसलो. हांवें तशें विचारतकीच दोगीय बायलो हांसल्यो. 'यॅस यॅस' म्हणूंक लागल्यो इंदियन? तिणें विचारलें. तातूंतली एकली आशिल्ली व्हंकलेची आवय आनी दुसरी व्हंकलेची भयण. न्हवऱ्या व्हंकलेचोय फोटो घेतलो. इतले म्हणसर लिझा थंय पावलें. ताका हांवें म्हळें, किमोनो घाल्ली जपानी बायल-मनीस सामकी खानदानी दिसता, तरी तुमी तो कित्याक घालिनात? तेन्ना लिझान सांगलें, किमोनो

न्हेसपाक दोन दोन वरां लागतात. २८ वर्सांच्या लिझान फकत दोनूच खेपे खंय किमोनो घाला. एकदां, युनिव्हर्सिटीची डिग्री घेतना आनी दुसरे खेपे ताका वीस वर्सां पुराय जाल्यांत त्या दिसा.

हॉटेला मुखारूच शिनिगावा रेल्वे स्टेशन. त्या दिसा शेनवार. स्टेशना वयल्यान मनशांचे चोमेच चोमे भायर सरताले. पूण एके शिस्तीन. चडशे ऑफिसांतल्यान घरा येवपी लोक. तिकेट काडले बगर स्टेशनार भितर सरपाक मेळना म्हणून हांव परतलें. पावस झडत आशिल्लो. असोच पावस झडल्यार फायचो दीस फुकट वतलो. हांवें तशें लिझाक म्हळें मात, 'नो नो, नोत तू वली. तुमालो इज अ शनी दे,' ताणें म्हळें. कितें, हांवें परतें विचारलें, 'यॅस, यॅस ब्रायत शनी दे...' आरे, हें येदोळच्यान 'सनी डे' म्हणटालें दिसता. आनी हांव बाबडें 'शनी देव' समजलें. साडेसाती बी हांकांय बादता काय दिसलें. ताणें सांगलें, आतांच टीव्हीर सांगलां, फाल्यां पावस पडचोना. चकचकीत उजवाड आसतलो म्हणून. इतलो विश्वास हांचो हवामान खात्याचेर. पळोवया. फाल्यां सकाळ जायनाफुडें खरें फट कितें तें कळटलें.

आमची बस आयली. ड्रायव्हर सामको अपटुडेट कपडे घाल्लो. हांगा एक बरें, कपड्यां वयल्यान कोण मालक, कोण नोकर हें आमचे सारकेल्याक कळपाक मार्ग ना. जेवपाक आमी रोपोंगी वाटारांतल्या 'देवी फ्यूजन' ह्या भारतीय रेस्टॉरंटांत गेलीं. जेवून परतीं हॉटेलांत आयलीं. इतले बेगीन न्हीद कांय येवची नाशिल्ली. आमचे बराबर पार्ल्याचें रवीन्द्र काळे आनी तांची फामील आशिल्ली. ते चाळीस एक खेपे जपानाक येवन गेल्यात.

तांणी म्हळें, ट्रेनीन एक पासय मारून येवया. स्टेशनार आमच्या देशांत आसता तसो प्रवाशांचो जावं कुलींचो बोवाळ ना. फकत ॲनांउसमॅंटस् - 'द ट्रेन इज अबाउट टू अरायव्ह', 'प्लीज स्टॅन्ड बॅक बिहायन्ड द यॅलो लायन', मागीर ट्रेनीं अनाउसमॅंट. 'धिस इज शिबुयू स्टेशन', 'थॅंक यू फॉर चुझींग धिस लायन'. 'टेक केर, द डॉर्स आर क्लोझींग नांव.' ते भायर स्टेशनाचीं नांवां भितर बशिल्ले कडल्यान स्क्रीनाचेर दिश्टी पडटात. स्टेशना भायर आयलीं. स्टेशना भायर कुत्र्याचो एक पुतळो आशिल्लो. कुत्र्याचो सो पुतळो...? उपरांत कळ्ळें, हो कुत्रो खंय मालकाचो इमानी नोकर म्हणटात तसलो. ताचो मालक ऑफिसाक वचपाक सदांच सकाळींफुडें स्टेशनार वतालो. ताचे बराबर हो कुत्रो येतालो. तो ट्रेनींत बसतकीच परतो येतालो. सांजवेळचो मालक येवपाचो वेळ जातकीच परतो येतालो आनी ताची वाट पळयत उबो रावतालो. पूण एक दीस ताचो मालक काळजाचो आताक येवन ऑफिसांत आसतनाच मेलो. कुत्रो सदचे वरी ताची वाट पळयत उबो रावलो. तो तसोच उपाशीं थंयच बसून रावलो आनी एक दीस मेलो. तेन्ना ताच्या धनयाच्या घरच्यांनी पयशे एकठांय करून ताचो थंय पुतळो बांदलो. आतां थंय म्युनिसिपालिटीन सोबीत बाग केल्या आनी बसपाक बांक दवरल्यात. मोगांत पडिल्लो मनीस थंय वरांचीं वरां खंय आपल्या मोग्याची वाट पळयत बसता.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं हॉटेलांतल्याच हापुना रॅस्टॉरंटांत ब्रेकफास्ट घेवपाक गेलीं. एकाच बराबर १५०-२०० लोक ब्रेकफास्ट घेताले. सगळे चडशे जपानी चिनी आशिल्ले. घडये कोरियनूय बी आसत.



चार-पांच तरांचे बुफे ब्रेकफास्ट आशिल्ले. एका टेबलार तर ४०-५० तरांच्यो नुस्त्यांच्यो पती. भाजिल्लें ईल नुस्तें, उकडिल्लें नुस्तें, सुशी, सोबा नुडल्स, कसलो तरी 'काल्द' बावलांनी घेवन घेवन पियेताले. आमी फकत पाव-जॅम बटर आनी ज्यूस फळां खालीं. जपानी चिनी लोक थंय बावलांत शीत घेवन चॉप-स्टिकांनी धरून खाताले. हे लोक जर ब्रेकफास्टाकूच लंच खातात जाल्यार लंचाक कितें खातात काय? लिझाक विचारचें पडटलें. ओऽऽचा आनी कोऽऽचाचे वाटेक मात हांव गेलें ना. नॅसकाफे थंय नाशिल्ली.

बसींत बसपाक भायर आयलीं. खरेंच मळब सामकें निवळ आशिल्लें. लिझाचे भाशेंत 'ब्रायत शनी दे'. हांगच्या हवामानखात्याक मात वालोर दिवचो पडटलो. बसींत बसून ओदायबा वचपाक भायर सरलां.ओदायबा रेंवेचो भराव घालून केल्लो एक जुंवो. ओदायबाचो उच्चार लिझा ओऽऽदायबा असो करतालें. ओदायबाक २५ मजली टीव्ही स्टेशन आसा. ॲक्सलेटरा वयल्यान सोमतें सातव्या मजल्यार वचप. सातव्या मजल्या वयल्यान लिफ्टान २५ व्या मजल्यार वचप, थंय वांटकुळो ऑबझरवेटरी रूम. हो सांवड प्रुफ रूम. थंय लाफ-फन म्हूण एक चॅनल आसा. तुवें येवन थंय उलोवपाचें. लायव प्रोग्राम. तूं टीव्हीचेर येता. हो बॉलाच्या आकाराचो ऑबझरवेटरी रुम फुजी टीव्हीचें सिम्बॉल. हांगच्यान तोक्योचे सरभोंवतणच्या वाटाराचें सोबीत चित्र दिसता. बे ऑफ तोक्यो. हातूंतल्यान यो-वच करपी बोटी. ओदायबाक तोक्योच्या वाठारा कडेन जोडपी रेनबो ब्रिज. हो पूल दोन मजली. वयल्यान मोनोरेल धांवता. पोंदच्यान गाडयो. हो पूल म्हळ्यार ओदायबाचें वैभव. ओदायबाचें सिम्बॉल. रातचो तो रंगरंगायाळ्या लायटींनी सामको सुंदर दिसता. पयसल्यान पळोवन तोखेवपाचो. आयचे पयरस काल रातीं पयसुल्ल्यान ताचें खरें रूप दिसतालें.

हांगच्यान मळब निवळ आसल्यार फुजी पर्वतूय बी दिसता खंय. पयसुल्ल्यान तोक्यो टॉवर दिसतालो. पळोवपाक पॅरिसांतल्या आयफल टॉवरा बशेनूच. पूण ताचे परसूय मातसो ऊंच. व्हडलें वारें वादळ आयलें जाल्यार तो खंय हालता.

पॅलॅट टावन हे सुवातेर टॉयोटा कंपनीचो व्हड शोरूम आसा. हांगा फकत टॉयोटाच्यो तरेकवार गाडयो पळोवपाक मेळटात. बसून पळोवपाक आनी चलोवपाकूय. 'टॉयोटा युनिव्हर्सल डिझायन शोकेसीं'त आतां मेरेनच्या सगळ्या टॉयोटा गाडयांचे मॉडेल आसात. हातूंतल्यो फकत पांच-स गाडयोच भारतांत मेळटात. ह्यो गाडयो म्हळ्यार जपानी टॅक्नॉलजी कितली फुडें पावल्या हाची गवाय. हातूंतली म्हाका आवडिल्ली गाडी 'द वॅलकॅब फ्रॅन्डमेटीक मुद्दाम अपंगूळ लोकां खातीर निर्मिल्ली. ड्रायव्हराचो सीट भायर येता. व्हिलचेरा वयल्यान ताका तांचेर बसपाक मेळचें म्हूण. आनी असली एकूच गाडी न्हय कितल्योश्योच गाडयो तांणी तयार केल्यात. अपंगूळ

मनशान म्हणून एकाच मॉडेलाचेर कित्याक समाधान मानचें, ताकाय गाडयांचे वेगवेगळे मॉडेल चलयनशें दिसचेंना तर! खरेंच, व्हालोर जपानी तकलेक. इतलेंच न्हय, तर फुडारांत कसल्यो गाडयो येवंक शकतात ताचीय एक 'झलक' थंय दाखयिल्ली. थंय भुरग्यां खातीर गाडी चलोवपाचींय प्रात्यक्षिकां जातात. तांचे खातीर खास मॉडेल तयार केल्यात. शोरुमांत रस्ते तयार केल्यात. रस्त्या वयल्या सिग्नलां सकट. थंय नांवां दिवन पंदरा मिनटांक चार भुरग्यांक त्या रस्त्या वयल्यान गाडयो चलोवपाक मेळटात. दत्तराज आनी तो चान्स सोडटा? ताणेंय टॉयोटा गाडी चलोवपाची आपली उमेद भागोवन घेतली. थंयच भुरग्यां खातीर ॲसँब्ली कोर्स, मॅकानिकाचो अर्दा वराचो कॉर्स, आशिल्लो. भुरग्यांक गाडयेचो टायर कसो बदलप तें शिकयताले. गाडये बद्‌दल बारीक बारीक माहिती दिताले. भुरगीं पाने, दिसपीस घेवन उमेदीन शिकतालीं. कोर्स जपानी भाशेंत आशिल्ल्यान आपल्याक वचपाक मेळना म्हूण दत्तराज तोंड फुगोवन बसलो.

थंय मुखारूच 'व्हीनस फोर्ट' आसा. तातूंत ल्हान भुरग्यांक लागता तें सामान, म्हळ्यार कपडे, खेळणीं हांचो व्हडलो शोरूम आसा. थंय भुरग्यांक खेळपा खातीर वेगळी सुवात दवरल्या. लाकडी झोपाळे, घसरगुंडी, ल्हान भुरग्यांक न्हिदपाक पाळणें... आवयन भुरग्यांक थंय सोडपाचीं आनी हुस्को सोडून शॉपींग करपाचें.

तोक्यो वेळेर आशिल्ले डिक्स बिल्डिंगेंत आमी दनपरां जेवपा खातीर गेलीं. थंय चायनीज, थाय, इटालियन, जपानी, कोरियन, इंडियन सगळीं रेस्टॉरंटां आशिल्लीं. थंयच्या रेस्टॉरंटांनी जे कितें जिन्नस पदार्थ मेळटात ते सगळे भायर शोकेसींत डिसप्ले केल्ले आसतात. आनी तांचेर तांची किंमत बरयिल्ली आसता. आमी खजाना ह्या इंडियन रेस्टॉरंटांत गेलीं. थंयूय बी भायर 'मॅन्यु' डिसप्ले केल्लो. पूण तें पळेना फुडें कळ्ळें, हें खरें न्हय, मेणाचें करून दवरलां म्हूणन. प्रॉन्स करी आनी रोटी (इंडियन ब्रॅड). कालच्यान हांव फटवतालें तर, सगळें डिसप्ले केल्लें खरेंच समजून. जेवपाक व्हडली लायन आशिल्ली. इंडियन बुफे जेवण. दर एकट्याक बाराशें येन. चडशे जपानी 'इंडियन करी'चे रुचीन आयिल्ले. आमचे मुखारूच एकटो जपानी चार पांच वर्सांच्या चल्याक घेवन उबो आशिल्लो. वाटकुळ्याच तोंडाचो गोरो गुबगुबीत भुरगो. नांव सांग म्हळ्यार फूट्ट करून नांव सांगलें. दत्तराजाक पळोवन हांसूंक लागलो. पयलींच ताचे दोळे दिश्टी पडना आशिल्ले. दोळ्यांच्या जाग्यार एक बारीक चीर. तो हांसतकीच ताचे दोळे सामकेच धांपताले. आमचे बराबर आशिल्लो मुंबयचो सतीश भद्री दत्तराजाक सदांच चाळयतालो, जपानाक येवन तुजें नाक चेपत गेलां, दोळे बारीक जावपाक लागल्यात म्हूण. त्या भुरग्याक पळोवन दत्तराज मातसो आबूज जालो. मम्मा, म्हजेय दोळे इतले बारीक जातले काय म्हूणन विचारूंक लागलो. त्या चल्याचो बापूय म्हज्या कपड्यां कडेन पळोवन 'धिस इज साली (साडी?, काय म्हूण विचारूंक लागलो.' 'नो, नो धिस इज नॉट साली. धिस इज सलवाल कमीज' म्हूण सांगलें. ताका साडी न्हेशिल्ली बायल दाखयली. 'ओ... ओ... यू हॅव तू नॅशनल ड्रेसीस. व्ही हॅव ओन्ली किमोनो'.



'यू लायक इंदियन फूड?' हांवें ताका विचारलें. प्रॉन्स करी, चिकन करी आनी पापड खावपाक तो मुद्‌दाम थंय येता खंय. जेवण बरें आशिल्लें. स्टाफूय हिंदी उलयतालो. जेवन भायर आयलीं. सगळ्या रेस्टॉरंटांनी गर्दी आशिल्ली. म्हाका दिसता, आयतारा तोक्योंत घरा कडेन कोण रांदिना. चडशीं जोडपीं आशिल्लीं. जेवपाक येवपी. हांवें लिझाक विचारलें. लिझा सदचे वरी हांसलें. तुजें खरें, यंग कपल्स चड येतात. सबंध आठवडोभर तांकां एकामेका खातीर वेळ दिवंक मेळना.

आनी एक मजेची गजाल म्हळ्यार, जपानी लोकांक कुत्र्यांचें पिशें. हे कुत्रे बास्केटांत घालून व्हरपाक मेळयत तेदे. बाबागाडयेंत इल्ल्या इल्ल्याश्या कुत्र्यांक घेवन हीं यंग कपल्स फिरतालीं. इल्लोसो कुत्र्याचो पेटो आसता ताचे परसय ल्हान कुत्रे. कुत्र्यांक तरेकवार रंगांचे कपडे घालूस केसांक लांस बी बांदून. लिझा, हें कितें? लिझान सांगलें तें आयकून म्हजी तकली भेरेल्ले वरी जाली. ताणें सांगलें, तोक्योंत खूब म्हारगाय आसा. चडशीं नवीं जोडपीं येदेशे एके कुडींत रावतात. तांकां भुरग्यांचो खर्च परवडना. बायलमनशेक नोकरी करचीच पडटा. ते खातीर भुरगीं नाकात म्हणून भुरगीं जावंक दिना आसतना रावपी जोडप्यांची संख्या तोक्यांत दिसान दीस वाडत आसा. मागीर थोड्या दिसांनी भुरग्यांचें उणें भरून काडपाक हीं असलीं ल्हान कुत्रीं पोसतात. तांकां तरेकवार कपडे घालून तांचे लाड करतात. सुटये दिसांनी तांकां बाबागाडयेंत घालून फिरूंक व्हरप. स्पेशल कुत्र्यां खातीर आशिल्ल्या पार्लरांनी व्हरप. हांकां भुरगें आसप परवडना. पूण कुत्र्यांचे लाड करप परवडटा. दत्तराज त्या कुत्र्यांक पळोवन भुल्लूसून गेलो. कॅमेरा घेवन फोटो काडीत रावलो. 'सोव्हिनीर' म्हूण तोक्योंतलें कितें तरी घेवंक जाय आशिल्लें. भितर 'वन डॉलर शॉप' आशिल्लें. कितें मेळटा तें तरी पळोवया म्हूण भितर सरलें. हातांत काडिल्ली वस्त 'मेड इन चायना.' जपानी बावल्यो बी इतल्यो सवाय कश्यो? पळयत जाल्यार सादे मातयेच्यो. घरा व्हरता म्हळ्यार फुट्टात तसल्यो. फक्त चिनी मातयेचें एक माजर बरें दिसलें तें घेतलें. इतले म्हणसर दत्तराज बोवाळ मारीत भितर सरलो. मम्मा, बेगीन यो, भायर शिगमो येता. भायर येवन पळयत जाल्यार खरेंच, खांदार पालखी घेवन ५०-६० लोक वोस्सयऽऽ वोस्सय म्हणत नाचत येतात. चडश्या दादल्यांनी निळो मोटव्या हाताचो कोट घाल्लो. ह्या कोटाक खंय हॅपी कोट म्हणटात. ताचे फाटीर जपानी भाशेंत कितें तरी बरयिल्लें आशिल्लें. पालखेंत एक देवाची मूर्त आशिल्ली. थंय पालखेक 'मिकोशी' म्हणटात. जपानाक तशीं वाड्यावाड्यार ल्हान ल्हान देवळां खूब आसात. लिझाचे भाशेंत 'लोकल देयती'. थंयचे लोक तांकां वर्सातल्यान एकदां पालखेंतल्यान भोंवडावन थळाव्या लोकांक राखण दितात. पूण 'वोस्सय-वोस्सय' म्हळ्यार कितें तें ताकाय सारकें सांगूंक जमलें ना. म्हज्या हातांतलें माजर पळोवन, हें कितें तें खबर आसा तुका?, ताणें म्हाका विचारलें. तर तें माजर म्हळ्यार खंय मानेकी-नेको. म्हळ्यार 'लकी

कॅट. ताचो हात पळय ताणें वयर उबारला. तें खंय व्यावसायीक मुद्दाम आपल्या आस्थापनांत दवरतात. ते सगलो वेळ खंय 'कम लक, कम मनी' म्हणत आसता. हांवें शो-पीस म्हूण घेतिल्लें माजर म्हाका लक हाडटलें तें आयकून बरें दिसलें. भारता बशेन जपानांतूय अंधश्रद्धा आसात तर!

जपानी सम्राटाक थंयचो लोक देवाचो मान दितात. ताका ते सुर्याचो अवतार मानतात. जगांत सध्या तशीं थोडींच सम्राटांचीं घराणीं उरल्यांत. तातूंतलीं दोन फामाद घराणीं म्हळ्यार, एक इंग्लंडचें राजघराणें आनी दुसरें जपानांतलें राजघराणें. पूण दोनूय घराण्यांत खूब फरक आसात. इंग्लंडचें राजघराणें सगळ्या समारंभाक हजेरी लायता. पूण जपानाचें सामकें नदरकैदेंत आशिल्ले बशेन फकत दोनूच खेपे सामान्य जनते मुखार येता. एकदां सम्राटाच्या वाडदिसाक, जनतेक उद्देशून भाशण करतना, सद्याचो सम्राट आकिहितो हाच्या वाडदिसा, म्हळ्यार २३ डिसेंबर ह्या दिसा, आनी दुसरे खेपे जपानी नव्या वर्सा दिसा. जानेवारीक. सम्राट आकिहितोक दोग पूत. धाकल्या पुताक दोगी चलयो. व्हडलो युवराज सामान्य जपानी चलये कडेन (मासाको) लग्न जाला. जपानी राजघराण्याक वारस जाय. जपानी जनतेक ती चिंता सतायताली. ते खातीर प्रिन्सेस माकासोचेर खूब दडपण आयलें. तिका चली जाली. तिचो मानसीक समतोल बिघडलो. तातूंत जपानी जनते खातीर बरी गजाल घडली, म्हळ्यार, धाकल्या युवराजाक दोन चलयांचेर चलो जालो. आनी अख्ख्या जपानांत खोशयेचें ल्हार उसळ्ळें. पूण राणी मासाकोक मात डिप्रेशनाचो रोग लागलो. हरशींय जाल्यार जपानांत बायलमनशेक दादल्या परस कमी योग्यतेची मानल्या. भारतांतले बशेन थंयूय चलो जल्माक येवप म्हळ्यार अभिमानाची गजाल. आमचे वांगडा आशिल्ले रवींद्र काळे हांणी एक गजाल सांगली. ते सॉफ्टवेर इंजीनियर. कामा खातीर आत्रा पयऱ्यान जपानाक येतात. एकदां खंयचे तरी कंपनींत ते गेल्ले कडेन थंयचे चलयेन येवन थंय च्या सर्व्ह केली. परत येवन च्याचीं रिकामी कपां व्हेलीं. तांकां दिसलें, ऑफिसांत च्या बी दिवपी चली आसतली म्हणून. मागीर तीच चली आपलो प्रॉजेक्ट घेवन उलोवपाक उबी रावली, तेन्ना ती सॉफ्टवेर इंजीनियर तें पळोवन तांकां अजाप जालें. तिचेय परस सकयल्या पदार आशिल्ल्या दादल्यांक लेगीत तिणें च्या हाडून दिल्ली.

सम्राटाचो राजवाडो खूब भितर आसा. थंय मेरेन वचपाक मेळना. पूण भायली बाग भोंवन पळोवपाक मेळटा. थंयचो फातरांनी बांदिल्लो पोरणो 'डबल पूल' थंयच्या सौंदर्यांत भर घालता. सगळो वाटार सुंदर. आमी भायल्या रस्त्यार बस पार्क केल्ली. पूण त्या दिसा आयतार आशिल्ल्यान तो रस्तो पब्लिक ट्रान्सपोर्टा खातीर बंद आशिल्लो. पूण ल्हान-सान भुरगीं थंय आपल्यो सायकली घेवन हुसक्या विरयत भोंवतालीं. आयतारा खंय सरभोंवतणचे लोक थंय सायकली चलोवपाक येतात. आनीक एके बशीन थंय अपंगूळ भुरगीं आयिल्लीं, व्हिलचॅरा सकट. खंयचे तरी समाजसेवा संस्थेन तांकां भोंवडावंक हाडिल्लीं. त्या भुरग्यांक पळयत जाल्यार सगळीं हात पाय लागनात तसलीं. तकली सुद्दां जाग्यार उरनाशिल्ली. तकलेक दोनी वटेन उश्याचो आदार दिल्लो. बस खासा व्हिलचेरां दवरपा खातीरूच केल्ली.



तोक्योंत भोंवतना 'म्हाका खेळण्यांच्या दुकानांत व्हर, म्हणून दत्तराज फाटीक लागतालो. निमाणें हांवें लिझाक सांगलें. तें म्हणपाक लागलें, आता आमी गिंझा एरियेंत वतात. थंय बऱ्यांतले बरे टॉय पार्क आसात.

ताणें आमकां 'चुओ-कू' हे सुवातेर आशिल्ल्या हाकुहीनकान टॉय पार्कांत व्हेलीं. पांचूय मजले तरेकवार खेळण्यांनी गच्च भरिल्ले. निकतींच जल्मल्ल्या भुरग्यां खातीर खेळणीं, तरेकवार खिळखिळे, मुठी, सॉफ्ट टॉयज... मातशीं चलपाक लागतकीच हातांत दोरी धरून ओडपाचीं खेळणीं, जपानी पारंपारीक लाकडाचीं खेळणींय थंय आशिल्लीं. लाकडी घोडो, हात धरून चलोवपाचो तीन रोदांचो गाडो... इलॅक्ट्रॉनीक खेळणीं तर विचारूंच नाका. थंय एक बरें, भुरग्यांक खेळपा खातीर खेळणीं दवरिल्लीं आसतात. तीं हातांत घेवन, खेळून, चलोवन, पळोवन मागीर जाय जाल्यार विकतीं घेवपाचीं. दत्तराज भुल्लुसून कितलींशींच खेळणीं घेवन खेळ्ळो. मागीर ३००० येन दिवन एक गाडयो उखलून व्हरपाची क्रेन घेतली. 'मेड इन चायना'. १५०० येन दिवन बुलेट ट्रेन 'मेड इन तैवान'. तरेकवार बावल्यो पळोवन एक बावली घेयन शी दिसली. आद्याक दिवपाक म्हूण एक बावली घेतली. 'मेड इन थायलंड'. कॅशरान सांगलें, तुमचे कडेन पासपोर्ट आसा जाल्यार तुमका धा टक्के डिसकांवट दितात. हें सगळें लिझा इंटरप्रिटराचें काम करतालें म्हणून कळ्ळें येद्या व्हडल्या टॉय पार्कांत इंग्लीश उलोवपी कोण नाशिल्ले.

तिनसांज जायत आयिल्ली. भायर रस्त्यार लायटी पेट्टाल्यो. आयतार आशिल्ल्यान रस्त्यार चड गाडयो नाशिल्ल्यो. तोक्योंतलो गिंझा हो झगमगपी भाग. हांगा नायट क्लब्ज, पब्ज वचत थंय भोंवतना दिसतालीं. मातसो वेळ थंय भोंवन जेवपाक परतींय एका इंडियन हॉटेलांत गेलीं. शिख कबाब, तंदुरी चिकन, चिकन बिरयाणी... मँगो पुडींग... हॉटेल इंडियन म्हणिल्लें. पूण तें आशिल्लें पाकिस्तानी. जपानांत पाकिस्तानी आनी बांगलादेशी रेस्टॉरंटांक लेगीत इंडियन रेस्टॉरंटूच समजतात. हें पाकिस्तान्यांक आनी बांगलादेशियांक मानवता आसतलें काय कितें, कोण जाणा! म्हाका मात आवडलें. हांवें तशें लिझाक म्हळें मात, तें म्हाका म्हणटा, ते इंडियन फुडूच सर्व्ह करतात, म्हणटकच ते इंडियन रॅस्टॉरंट जालेनात तर? हांवें म्हळें, भारत पाकिस्तानाच्या जेवणा-खाणांत व्हडलो कांय फरक ना. आयकून ताका व्हडलें अजाप जालें. जेवन हॉटेलांत परतीं आयलीं. हॉटेलांत आजय एका लग्नाचें रिसेप्शन आशिल्लें. व्हडल्या व्हडल्या गाडयांनी लोक येताले. पूण सगळ्यांनी युरोपी धर्तीचे कपडे घाल्ले. जपानी किमोनो खंयच दिसलोना. कोणाक तरी पावोवन टॅक्सी वताली. जपानी टॉयॉटा टॅक्सींत बसून पळोवया म्हळें. टॅक्सी ड्रायव्हराक पयलींच सांगलें, १००० येन भाडें जाता तितलेच किलोमिटर भोंवडावन परत हॉटेलांत हाड. ताणें 'यॅस यॅस' म्हळें. शिनागावा स्टेशना कडल्यान सरळ रस्त्यान व्हेलीं. हेवटेनच्यो तेवटेनच्यो इमारती

दाखयल्यो. टॅक्सी उबी केली आनी म्हणूंक लागलो, १००० येन जाले. आरे देवा, हाचो कितें तरी गैरसमज जाला. हरशीं ताका 'बॅक टू हॉटेल' म्हणून सारकें सांगिल्लें. पूण ताका 'यॅस्' आनी 'नो' हाचे वयर इंग्लीश कळनाशिल्ली. परतोय ताका समजावन सांगपाचो यत्न केलो. ताणें टॅक्सी घुंवडायली आनी आमकां परतीं हॉटेलांत हाडून पावयलीं. खरें म्हळ्यार, आतां मिटरा वयल्यान टॅक्सीचें भाडें दोन हजार येन जाल्लें. सद्गुरून ताचे कडेन हजार येनाच्यो दोन नोटी दिल्यो. ताणें हांसत्या मुखान मान बागोवन १ नोट परती दिली. आनी हांसत हांसत टॅक्सी स्टार्ट केली. आपल्याक सारकें समजलेंना ही आपली चूक समजून ताणें पयलीं थारायिल्लेच पयशे घेतले. अशें फकत जपानांतूच घडूंक शकता अशें दिसलें.

तीन दीस आमी तोक्योंत रावलीं. तिसऱ्या दिसा सकाळीं एका दिसाक जाय तितलेंच सामान दवरून बाकीचें कुरियरान हिरोशिमाक धाडून दिलें. हॉटेलांतूच ती व्यवस्था आशिल्ली. हिरोशिमाकूय आमचें प्रिन्स हॉटेलांतूच बुकींग आशिल्लें. मागीर ब्रेकफास्ट घेवन शिनागावा स्टेशनार गेलें. सकाळचे पिक अवर्स. ऑफिस टायम. गाडयेचो डबो खंय लागतलो तें प्लॅटफॉर्मार बाणान दाखयिल्लें आसता. थंय लोक थंडसाणेन उबे रावतात. खंयच बोवाळ ना, धुकलप ना. गाडी थांबतकीच गाडयेंतले देंवपी देंवतकीच चडपी वयर चडटात. प्रवाशी चडटकीच दारां आपशीं बंद जातात. केन्ना केन्ना गर्दी खूब आसता तेन्ना अर्दे प्रवासी दारार उरतात. तेन्ना, प्लॅटफॉर्मार हातांत धवे ग्लव्ज घाल्ले 'पुशर्स' उबे आसतात. ते लोकांक भितर घालून दारां बंद करतात. वयल्यान एक ट्रेन धांवता तेन्ना पोंदा आशिल्ले सब वे वयल्यान आनिकूय ट्रेन वता. सांजवेळां तर भुंयारी रेल्वेंतल्यान लोकांचे चोम्यांचे चोमे भायर सरतात. कपड्यां वयल्यान तरी कोण व्हडलो अधिकारी आनी कोण सादो कामगार हें म्हाका वळखूंक आयलेंना. सगळ्यांचे कपडे फॅर्रांद. लिंप्प. पिंजके, बुरशे कपडे घाल्लो एकूय मनीस म्हाका दिसलोना. भिकारीय दिश्टी पडलोना. दीसभर काम करून पुरो जाल्लो असलोय एकलोय दिसलोना. स्टेशना वयल्यान येवपी सगळेच सामके टवटवीत दिसताले. निकतेच ऑफिसांत वचपाक भायर सरिल्ले बशेन अशें म्हळ्यार अतिशयोक्ती जावची ना. आनीक एक गजाल म्हाका लोकांक पळयतना जाणवली. ती म्हळ्यार, सगळ्यांच्या कपड्यांचो रंग धवो, काळो नाजाल्यार लॅव चॉकलेटी, लॅव निळो, असो. सदचे जिणेंत जपानी मनीस तांबडो, पाचवो, केसरी, गुलाबी अशे रंगरंगयाळे कपडे वापरिल्लो दिसलोना. पोंदच्यान मनशांचो एक चोमो भायर सरतालो. तातूंत म्हाका एक जाणटी बायल दिश्टी पडली. तिची पिराय ८०-८५ आसूंक जाय. कमर सामकी सकयल बागवल्ली. सकयल पळोवनूच तिका चलचें पडटालें. तिणेंय काळ्या धव्या कोराचो व्हिस्तीद घाल्लो. हातांत एक पर्स आशिल्ली. कोणाचोच आदार घेना आसतना झेब्रा क्रॉसिंगा वयल्यान क्रॉस करून ती रस्त्याचे दुसरे वटेन गेली. स्टेशना मुखावयल्या प्रॉविजन स्टोरांत हांव भितर सरलें. सदचे वापरांतले जिनस थंय आशिल्ले. हांवें मुद्दम नुस्तें वचून पळयलें. थंयचें फामाद, सोरपाच्या तोंडा बशेन तोंड आसपी 'ईल' नुस्तें, विस्वणा बशेन पोस्तां, तोंकये बशेन एक नुस्तें, ते भायर सुंगटां, कालवां, कुल्ल्यो... सामक्यो प्लास्टीकच्या पिशव्यांनी पॅक करून... नुस्त्या बाजारांत आनी वचपाची गरज ना. आनी, गोंयचे बशेन खारें नुस्तेंय. बरो धवोफुल्ल गालमो, सुकीं सुंगटां, सुकयल्लें ईल नुस्तें. आनीक कितें काय म्हळ्यार, चकचकीत मोतयाळें. हें मात बरें धबधबीत करून खायनशें दिसलें. गोंयांत हालीं तेंपार मोतयाळें सोदून लेगीत मेळना. दत्तराजान थंय चॉकलेटी घेतल्यो. एक सुंदर जाळयेचे पिशवेंत घालून बरो बो बी लावन पॅक करून दिल्यो. थंयच्यान हॉटेलाच्या कनव्हीनियन्स स्टोरांत भितर सरलें. पळयत जाल्यार ती जाणटी बायल थंय 'रेडी मिल' विकती घेता. थंय प्रोव्हीजन स्टोरांनी बी तयार जेवणां मेळटात. शीत, ताचेर काळे तीळ फांफुडिल्ले. एके वाटयेंत सालाद नाजाल्यार उकडिल्ल्यो भाजयो आनी एक ग्रील केल्लो नुस्त्याचो कुडको. हें जेवण पेपर प्लेटींत घालून पॅक करून बी दवरिल्लें. हें जेवण ४५० येन ते २५०० येन मेरेनच्या मोलाचें जेवण आशिल्लें. स्टेशना वयल्यान आयिल्ल्या खूबश्या लोकांनी हें 'रेडी मिल' व्हेलें. घरा कडेन वचून रांदपाचो आनी वावर ना.

तोक्योक खऱ्यो पळोवच्यो त्यो थंयच्यो ट्रेनी आनी स्टेशनां. ट्रेनी जमनी पोंदच्यान धांवतात, जमनी वयल्यान आनी ताचे वयर आशिल्ल्या आनीक एका मजल्या वयल्यानूय धांवतात. तोक्योची रेल्वे सिस्टम जगांतली सगळ्यांत इफेक्टीव सिस्टम खंय. सामकी तोखेवपा सारकी.

निमण्या दिसा डिनराक वचचे पयलीं तोक्यो मेट्रोपोलिटन ऑब्झर्व्हेटरी हे इमारतींत आयलीं. लिफ्टान ४५ व्या मजल्यार गेलीं. संबंद तोक्यो शार नदरेच्या आंवाठांत आयलें. काळखांत नियॉन लायटीच्या उजवाडांत झगमगपी शार. तोक्यो टॉवर, रेनबो ब्रिज... सामकें देखणें शार. हे इमारतींतल्या सकयल्या मजल्यांचेर सरकारी कार्यालयां आसात. तोक्यो शाराक सदांच भुंयकांपाचो भंय आसता. ते खातीर खंय खंयचेय इमारतीची बुन्याद घालतना तिचे वयर रबर घालतात. जनेलाचे हारशे अशे तरेन बसयतात की भुंयकांप जालोच जाल्यार हारशे निखळून इमारतीचे भितल्ले वटेन पडटले. इमारती भायल्या लोकांक तांचो त्रास जावचोना. हांगा वयर सोव्हिनिर्स, पोस्ट कार्डां विकपाक आशिल्लीं. हांवें विकतीं घेतिल्लीं पोस्टकार्डां विकतल्यान फुलांफुलांचो डिझायन आशिल्ल्या पाकिटांत पॅक करून दिलीं.

तोक्यो येदें व्हडलें महानगार. पूण लिंप्प, चकचकीत. रुंद, सुंदर रस्ते. मदीं एक दोन कडेन तोक्योंतल्या रस्त्यां वयल्यान चलतना म्हाका हांव बेंगळूरच्या महात्मा गांधी रस्त्या वयल्यान चलिल्ल्याचो भास जालो. जावं म्हळें, तोक्योंतल्या रस्त्यां कडेन सर्त करपी एक तरी रस्तो भारतांत आसा. तोक्योंत वता थंय लोकांची गर्दी. पूण चोरांचो भंय ना. दुकानांतल्यो सेल्स गर्ल्स हांसऱ्या तोंडाच्यो. इंग्लीश येना म्हणून हांसत हांसत सांगताल्यो. रस्त्या वयल्यान व्हडल्यो व्हडल्यो गाडयो धांवताल्यो. पूण सगळ्योच चकचकीत, निकत्योच शोरुमांतल्यान भायर आयिल्ले बशेन. पोरणी, रंग गेल्ली, चेपां पडिल्ली एकूय गाडी म्हाका दिसली ना. देखणें तोक्यो शार म्हाका खूब आवडलें.





# मनाचीं क्षितिजां रूंदावपी पुस्तक

श्याम वेरेंकार

डॉ. आंतोनियु बेर्नार्दु द ब्रागांझ पेरैरा (१८८३-१९५६) हांणी मूळ पुर्तुगेज भाशेंत दोन खंडांनी बरयल्ल्या Ethnografia da India Portuguesa (१९२९-१९४०) ह्या ग्रंथाच्या दुसऱ्या खंडाचो इंग्लीश अणकार हालींच उजवाडा आयला, 'Ethnography of Goa, Daman and Diu' ह्या नांवान. डॉ. मारिया आवरोरा कौतु हांणी हो अणकार केला आनी संवसाराचे एके नामनेचे प्रकाशन संस्थेन - Penguin Books Ltd., England हिणें-तो उजवाडा हाडला.

अणकार खूब बरे तरेन, मन लावन, कश्ट घेवन केला. तो बरो जमलाय बी. वाचतल्याक समाधान जावंकूच जाय. मूळ लेखकाच्या मनांत प्रवेश करून मारियाबायन ताचे अणभव, विचार इंग्लीश उतरांनी प्रकट केल्यात. आमच्या काळजा मेरेन पावयल्यात. आमचे मतीक, बुद्धीक ते आफुडटात.

गोंयचो मोग, भौसाचो कळवळो आनी मूळ लेखका बद्दल आदरभाव आशिल्ल्यान ह्या अणकाराक मूळ पुस्तका परस चड महत्व आयलां. सादीं, सोंपीं, म्होंवाळ उतरां आनी ल्हवपीक शैली हांकां लागून तो  वाचनीय जाला. मारियाबायन पुस्तका खातीर खास बरयल्लें Introduction (वळख) अप्रतीम जालां. हो एक स्वतंत्र निर्मितीचो आविश्कार. हें लिखाण करतना तांणी केल्लो रियाज आनी स्वाध्याय नदरेंत भरता. ही 'वळख' वाचतल्याक गोंयच्या इतिहासा कडेन पळोवपाची नवी नदर दिता. पुर्तुगेजां काळा वेले राजकीय, सामाजीक आनी सांस्कृतीक चळवळीचेर तांणी पसय घाल्या. मनांतले समज गैरसमज नश्ट केल्यात. निजाची प्रतिभा, साधना आनी शैली तोखेतले जाल्यार सगळ्यांत पयलीं हें Introduction वाचुंकूच जाय. तातूंत जिणेंत घडटल्या आनी घडूं येत अश्या बदलांचो विचार केला. फुडलें वाचन करचे पासत मार्गदर्शनूय केलां. तेच वरी, आदरावळ आनी उतरावळूय पुस्तकाक जोडल्या.

पुस्तकाची बांदावळ आनी भितरली मांडावळ चित्त आकर्शीत करता. पुस्तकांत सुमार ११६ फोटो पानां आसात. दुर्मीळ अशे फोटे काळाच्या कुपां आड जाल्ल्यो वस्तू, गजाली दोळ्यां मुखार उब्यो करतात. हें पुस्तक आयचे तरणे पिळगेक, चड करून विद्यार्थ्यांक आनी संशोधन करतल्यांक, खूब उपेगाक पडूं येता. पुस्तकाचें मोल आसा ६९९ रुपया.

पुस्तकाचो बरोवपी, दोतोर ब्रागांझ पेरैरा एक न्यायाधीश, देशभक्त, लेखक आनी नीज गोंयकार. गांवान साश्टींतलो, उतोड्डेंचो. तांचें आजोळ गांव चांदरा.

दोतोर ब्रागांझ पेरैरालें गोंय म्हळ्यार पुर्तुगेज काळा वेलें गोंय.

India Portuguesa, Estado da India - गोंय, दामांव आनी दीव. विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दोन दसकां मेरेन आकारा आयिल्लें गोंय.

तांचें पुस्तक म्हळ्यार गोंयच्या समाजाचो (दामांव, दीव भितर आसपावता) खोलायेन आनी बारीकसाणीन केल्लो मोलादीक अभ्यास. हांगाच्या समाजाची घडण कशी जाल्या? ताचीं इतिहासांत रुजिल्लीं पाळां-मुळां, ताच्या आदर्शांच्यो आदार-शिळा, आचार-विचार, लोकवेद, समाज संघटना हाचे विशीं समजून घेवपाची उमळशीक आशिल्ल्या वाचप्यां खातीर हें पुस्तक बरयलां.




ह्या पुस्तकांतली म्हायती मेळोवंक आनी तिचो अर्थ लावंक, इतिहास, मानववंशशास्त्र, भलायकीशास्त्र, भारतीय संस्कृतीशास्त्र, लोकवेदशास्त्र, समाजशास्त्र आनी सरकारी उजवाडावणी हे सारक्या विंगड विंगड बरपांचो आदार घेतला.

गोंयचो इतिहास खूब दीर्घ. ताची समाज रचणूक खुबूच घुस्पागोंदळाची. ह्या समाजाचें भौरंगी रूप आटोवन, सार रुपान सांगप भोवच कठीण. अश्या ल्हानश्या पुस्तकांत हांगासल्ल्यो सगळ्यो थळाव्यो रुढी आनी वेगवेगळे समाजीक आकृतीबंध आनी बारकावे उकतेपणान मांडप सोंपें काम न्हय. गोंयच्या समाजांतले विविधतायेचीं वेगळेपणां आनी एकचाराचीं घटां सांगपाचो ह्या पुस्तकांत थोडो-भोव यत्न जाला.

ह्या पुस्तकांत मानववंशशास्त्र आनी हेर शास्त्रांची किचकट परिभाशा ना. सादी सोंपी शैली वापरल्या. एकदम वस्तुनिश्ट विचार करतल्या लेखकाचे विचारसरणीचें पडबिंब तातूंत पडलां. ह्या पुस्तकांतूय व्यक्तीनिश्ट अशी नदर अदिंमदीं दिसूं येता. पूण खंयचेय एखाद्रे विचारसरणीचें समर्थन करचे खातीर खंयच सत्याचो विपर्यास करूंक ना.

गोंयच्या फाटल्या इतिहासांत कितलीं झुजां, रणखेवां, धर्मकोल्लां आसलीं, पूण कोंकणी मनाचो मूळ गाबो तोच उरलो. गोंयचे हिंदू, मुसलमान, क्रिस्तांव एकाच लोकमनांतल्यान (folkmind) आकाराक आयल्यात. भारतीय संस्कृतायेचे आचार विचार तांणी आपणा भितर केळयल्यात. गोंयच्या सैमाच्या वाऱ्यार तांचो पिंड पोसला. ह्याच एकचाराची गवाय म्हळ्यार हें पुस्तक.

गोंयचो वाठार, हांगचो लोक, ह्या लोकांचे 'तो सकलो, तो वयलो, तो भायलो' अशे वेगवेगळे थर, जाती वेवस्था, पोट जाती, उपजाती, धर्मभेद, जाती कणकणी बदलपी आचार-विचार, चाली-रिती, भयरोजोळोप जल्म, लग्न, मरणा वेळार पाळपाच्यो रिती-रविसी, विधी, नेम, गांव, गांवपण, गांवकारी, भाटकार-मुंडकार संबंद, भलायके वेवस्था, गांवठी उपचार पद्दत, शिक्षण वेवस्था, शेतकामत, नुस्तेमारी, हेर उद्देगधंदे, वेपार, वेवसाय, येरादारी, खेळ, जागर, शिगमो, नाटकां, कार्नव्हाल, भांगरां-शिंगरां आनी हेर वस्तू..., हांगचे देव, देवळां, देवस्पण, वैजकी, धाडी, भगत, प्रसाद-पाकळी, गिरे, शकून अपशकून बी लोकवेद, हांगच्यो सण-परबो, जात्रां-फेस्तां, मनरिझवणेचीं साधनां, वादयां, गायन-भजनां, आरती, अभंग, ख्याल, ठुमरी, गझल, दादरा, ओवी, तराणा, देखणी, मांडे, धुलपदां बी (हांचे कांय नमुने ह्या पुस्तकांत सुल्फा सयत मांडिल्ले मेळटात) ...हें सगळें इतिहास, मानववंशशास्त्र, समाजशास्त्राच्या आदारान, दाखले, संदर्भ दिवन सांगलां. बरोवपी खासा एक जुवीज जाल्ल्यान ताणें तटस्तपणान अभ्यास केला.

Ethnografia da India Portuguesa हो एक मोलाचो असो सोद प्रबंध. ह्यो सगळ्यो गजाली वाचतकच जो वट्ट प्रभाव अणभवाक येता तो प्रभाव म्हळ्यारूच गोंयची अस्मिताय. हें पुस्तक गोंयकारांच्या सांस्कृतीक दायजाचें दर्शन घडयता. हो बरोवप्याचो अस्मितायेचो सोद. A Search for Goan Identity.

गोंयचे समाज-वेवस्थेंतली विविधताय आनी एकचार हांचीं पाळां-मुळां भारताच्या अथांग इतिहासांत रुजिल्लीं आसात. हें मतींत धरून ह्या पुस्तकांत जाती वेवस्था तेच भाशेन कुटुंब संस्था, गांव, गांवपणां, गांवकारी, देव-देवस्की हांच्या कार्याचें बारकायेन विवेचन केलां.

गोंयांत राबितो करपी आद्य लोक कोण हें वळखप कठीण. तांचे विशीं कसलोच लेखी पुरावो मेळना. जी तोंडी परंपरा आसा तीय व्हडलीशी उपकारचिना. तरी आसतना मानववंशशास्त्रा वयल्यान विंगड विंगड जमातीं विशीं जी जाणकारी आमकां मेळटा तिच्या आदारान हांगसर राबितो करून आशिल्ले आद्य लोक कोण ते विशीं आमच्यांनी थोडोभोव अदमास करूं येता. तोच अंदाज हांगा तेळपाचो यत्न जाला.

हें पुस्तक पांच प्रकरणांनी वांटलां.

पयलें प्रकरण गोंयचे भुंयवर्णने संबंदान आसा. ह्या प्रकरणांत गोंयच्या वाठाराच्यो शिमो, हांगच्यो खळखळून व्हांवपी मांडवी, जुवारी, म्हादय बी न्हंयो, हांगचे दोंगर - वागेरी, कातलांची माउली, झर्मे, सालेली, बोरयेचो सिद्धनाथ, पाइडेंचो चंद्रनाथ, थंयचीं झाडां-पेडां, शेतां-भाटां, कुळागरां, गोंयच्यो मनभुलयण्यो दर्यावेळो, माणकुलीं बंदरां, हांगचें हवामान, रुतुचक्र, ह्या वाठाराची बदलती लोक संख्या (१८९४ वर्सा ४,९४,३८६; १९३१ वर्सा ५,०५,२८१), राज्यवेवस्था- पोरणी काबिजाद (सोळाव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांनी घेतिल्लें गोंय) आनी नवी काबिजाद (अठराव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांनी घेतिल्लें गोंय), तेच प्रमाण दामांव आनी दीव हांचीय भुगोलीक वर्णना - हो सगळो तपशील ह्या प्रकरणांत आयला.

दुसरें प्रकरण आसा जाती वेवस्थे संबंदान.

तिसरें प्रकरण भौतीक जिविता संबंदान आसा. ह्या प्रकरणांतले पोट-विशय अशे आसात- भलायकी शास्त्र आनी शरिराचो सांबाळ,



जेवण-खाण आनी पुश्टीक आहार, कपडे-लते, शिरंगार बी, घराची बांदावळ (फर्निचर, लाकडी सामान, आयदनां सयत), येरादारीचीं साधनां (जमनी वेली आनी दर्यांतली येरादारी), जियेवपाचीं साधनां, राखणे गवळ्यांचें जिवीत, नुस्तेमारी, शेतां-भाटां, उद्देग-धंदे, वेपार वेवसाय आनी नागरीक सेवा, आनी शस्त्रां-अस्त्रां.

चवथें प्रकरण आध्यात्मीक जिविता संबंदान आसा. हातूंत भास, हिंदूंच्यो शाळा, हिंदूंलीं वखदां, हिंदू धर्म, इस्लाम, भारतीय संगीत, ह्या विशयांचेर म्हायती आयल्या.

पांचवें प्रकरण समाजीक जिणे विशीं आसा. ह्या प्रकरणांत कुटुंब, एकत्र कुटुंब, जल्म, लग्न, मर्ण, संपत्ती/आस्पत, कोमूनदाद पद्दत, भाटकार-मुंडकार संबंद, देसाय भाटकारांल्यो जमनी, दायज आनी येरांस, दायकी/येरदेरी, साक्षी पुरावे हे पोट-विशय आयल्यात.

ते भायर, पुस्तकांत आदारवळ आनी टिपो, आनी दोन म्हत्वाच्यो पुरवण्यो (१. झाडां, रोप आनी झिलकूट, २. जाग्यांचीं नांवां) आसात.

वाचप्याक पुस्तकाच्या खेरीतपणाचो आनी बरोप्याचे अभ्यास करपाचे रितीचो अदमास मेळचो म्हूण हांव हांतल्या फकत एक-दोन प्रकरणांचेर पसय घालतां.

**जाती वेवस्था**

गोंयांत हिंदू, क्रिस्तांव आनी मुसलमान अशे तीन मुखेल धर्मांचे लोक रावतात. तांतल्या हिंदूं मदीं जाती खूब. गोंयांत जाती, जमाती, पोटजाती हांचो घुस्पागोंदळ जाता. हांतले कांय जाण आपणाक वयले आनी दुसऱ्या कांय जाणांक सकले समजतात. खुबश्या जातीं मदीं रोटी-बेटी वेव्हारूय जायनात. कांय जाती एक दुसऱ्यागेर जेविनात वा लग्नाचीं नातीं जुळयनात. गोंयच्या क्रिस्तांवां मजगतींय जाती आसात. ऊंच-उणाकपण आसा. तांचेय भितर सोंपेपणान आंतरजातीय लग्नां जायनात. सोळाव्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांत क्रिस्तांव जाल्लो हो समाज आयज लेगीत धर्मांतरा आदल्यो जाती पोटळून बसला.

हिंदू जातींतल्या ब्राह्मणां मदीं कितल्योश्योच पोटजाती आसात. चितपावन, कराडे, पाद्ये, जोयशी (हे चडशे देवळांनी पुजा करतात, हांकां भट म्हूण वळखतात); गौड सारस्वत (वा बामणां) मदीं पांच मुखेल भेद आसात- स्मार्थ (आडवे), साश्टीकार, बार्देसकार, पेडणेकार आनी कुडाळदेसकार. हांकां 'पंचगौड' म्हणटात. स्मार्थ आनी वैष्णव हेरांक् उणाक जातीचे समजतात. आनी तांचे मदीं लग्नां जायनात.

हेर मुखेल जाती अश्यो आसात: मराठे, वाणी, गुरव, सोनार, कांसार, मेस्त वा सुतार, लोहार, कांकणकार वा वळार वा बोगार, शिंपी, खारवी वा गाबती, गोसांय वा जोगी, पिड्डुककार, भांडारी वा सुदीर आनी कमरपायक (रेंदेर), कुंबार, आगरी वा मीठगावडे, गावडे, परीट वा मडवळ, म्हाले वा हजाम वा न्हावी, तेली, धनगर, गवळी, लिंगायत, गुजीर, म्हाळशी, पेरणी, भावीण आनी देवळी, कलवंत आनी गाण वा गायक, चेडवां आनी फर्जेंत वा चेडे वा बंदे, म्हार आनी चांबार निमण्या दोन जातींक अस्पृश्य मानताले.

दोतोर ब्रागांस पेर्रैरान दर एके जातीची आनी तिचे पोटजातीची उत्पत्ती, तांचीं मुखेल कामां हांचें व्हडे बारकायेन वर्णन केलां.

गोंयच्या क्रिस्तांवां मदींय बामण, चार्डो वा चार्डी, गावडे, सुदीर अश्यो जाती आसात. ह्या जातीं भितरूय पोटजाती आसात. मुसलमानां भितरुय जाती आसात. दामांव आनी दीवच्या समाजांतूय जाती वेवस्था आसा. तिची जाणकारी आमकां पुस्तकांत मेळटा. दामांव-दीवच्या क्रिस्तांवां भितर मात जातीचो वेगळेचार ना अशें बरोवपी म्हणटा.

**भौतीक जिवीत**

भौतीक जिविताच्या प्रकरणांत तर गोंयकारांचे जिणे पद्दती विशीं खूब बारीकसाण घेवन दिल्ली म्हायती आयल्या. देखीक, ह्या प्रकरणाच्या 'भलायकीशास्त्र आनी कुडीची जतनाय' ह्या पोट प्रकरणांत बरोवपी आमकां सांगता, हिंदू लोक सकाळीं उठनाफुडें तोंड आनी पांय धुतात. काजूच्या वा आंब्याच्या पानांनी दांत घांसतात. जेवणा पयलीं न्हावन-धुवन स्तोत्र म्हणटात. जेवचे पयलीं आनी जेवले उपरांत तोंड, पांय, हात धुतात. कुचकुचून घोंट घेतात आनी पान सुपारी खातात. 'आडकात्री' घेवन सुपारी फोडटात, पानाक चुनो लायतात, केन्नाय वेलची, लवंग आनी कात खावच्या पानाचेर पसरायतात आनी चाबून खातात. पच्च करून थुकतात. तशें केल्ल्यान स्वास शुद्ध जाता आनी जिरवण बरी जाता अशें मानतात. रुप्याचें 'दांतुलें' तशेंच 'कान साफ करूंक कानुलें'आनी नाखटां बारीक करूंक 'नाकशिणें' वापरतात. न्हाले उपरांत पांयांत लाकडाच्यो पादूक

घालतात. चंदनाचो, गोपी चंदनाचो तिबो लायतात. पिंजरेचो तिबो करतात. वैष्णव लोक शंख, चक्र, गदा, पद्म ह्यो मुद्रा आंगार काडटात. नेमान खोबरेल तेलान आंगाक मसाज करतात, माथ्याक तेल घालतात, जेवचे पयलीं मुकटो/कद न्हेसतात, घरांत जुतें घालिनात, सोयऱ्यांक पानसुपारी/गुडगुडी दितात...

बरोवपी भोंवडेचीय वर्णना करता. भोंवडी म्हळ्यार कास/शिकार. मराठा आनी देसाय बरे कासादोर. ते भोंवडी कशे काडटाले, खंयच्या मोनजातींचें वा सुकण्यांचें कास करताले तांचीं कोंकणीं नांवां बरोवप्यान दिल्यांत.

करमणुकी खातीर गोंयकार कितें करताले ताची म्हायती आयल्या. गायन, वाद्यां वाजोवप, खेळप ( पागो, सोकटें, पाशे, कांगां, पेस, ताबलां, वाग, गुडफळें, नोटी), जागोर (गावडे आनी कुणबी हांचे भितर चलपी), बांयचेर खबरी मारप - हे तरेची करमणुकीच्या साधनांची वळेरी पुस्तकांत आयल्या.

गोंयकारांलीं विंगड विंगड जेवणां-खाणां हांची पुस्तकांत विस्तारान म्हायती आयल्या. चड करून शीत, रोस, वडे, वर्ण, शाक-भाजयो, तोणाकां, नासण्याची आंबील, उड्डां दाळीचीं सान्नां, पातोळ्यो, आठवल बी जिनस कशे रांदतात हाचें बारकायेन वर्णन केलां.

हिंदू लोक दिसाक तीन खेपे जेवतात- सकाळच्या धांक पेज, वांगडा आंबली, मिस्कूट, पापड, भाजी वा चटणी; दनपारचीं बारा ते दोन मुखेल जेवण (शीत आनी हुमण वा रोस), रातच्या आठांक वा उपरांत रातचें जेवण. कोणूय परकी आयल्यार आग्रो करून पंगतीक बसयतात. हिंदू बायलां पाकशास्त्रांत भोव फिशाल म्हणपाचीय म्हायती आमकां बरोवपी दिता. कित्याचेर जेवतात- पितळी, ताटां, केळी खोले, पत्रावळी ताचीय बारीकसाण बरपांत आयल्या. कडी दोण्यांनी दितात. जेवणा पयलीं चित्रावळ घालतात, तेंय सांगलां.

हिंदूंच्या कपड्यांची तर बरोवप्यान चित्रां सकट विसकटावणी केल्या - काबाय, धोतर-पुडवें, आंगोस्तर, वालो, तोपी, पागोटें, रुमाल, फेटो, मुंडासो- सगल्याची बारीक म्हायती आयल्या. सकल्या वर्गाच्या लोकाचो भेस कसो आसतालो ताचीय खबर आयल्या (काश्टी, लंगोट, वालो, कांबळ, मुंडासो). भांगरां-शिंगरांची तर वळेरीच दिल्या - बाळी, चोवकुडो, कंठो, हार, बाजूबंद, पेटी, गोफ, मुदी... साडयांच्या नांवांचीय वळेरी आयल्या- चंद्रकला, तोपचिलो, गुजरी, बायक, पातळ, चुनडी, हे भाशेची.

येरादारीचीं साधनां दिल्यांत. देखीक, माचूल, दोळी, पाळणें, मेणो, पालखी, व्हडें, पडाव, पनेळ, गलबत, बातेल्यांव, पातमारी, सांगोड, मुचवो, कोटयो... हांचीं चित्रांय दिल्यांत.

नुस्तेकार आनी शेतकामत्यांच्या जिवितांतल्यो कितल्योश्यो बारीकसाणी आमकां ह्या पुस्तकांत मेळटात - रोवप, नडणी करप, मळणी करप, आसडप, फांफडप, सूप धरप; हे खातीर वापरपाचीं आवतां, आयुधां; रोयतात तीं बीं बियाणां हांचेर पसय घाल्या. मूळ कोंकणी नांवांय दिल्यांत.

**आध्यात्मीक जिवीत**

आध्यात्मीक जिविता वयल्या प्रकरणांत खूब म्हत्वाची म्हायती आयल्या. देखीक, भाशे विशीं आमकां बरोवपी सांगता, गोंयच्या लोकांची भास कोंकणी, पूण हिंदू आपणाल्या भुरग्यांक मराठी शाळेंत घालतात. खाजगी आनी कामा धंद्याच्या वेव्हारा खातीर मराठीचो वापर करतात. मराठी पुस्तकां आनी वर्तमानपत्रां वाचतात.

हिंदूंची शाळा कशी आसताली ताचीय म्हायती बरोवपी आमकां दिता. तो आमकां सांगता, मुळाव्या शाळांनी सांतोणाच्या बोर्डार (फळ्यार) धुळाक्षरां काडूंक शिकयताले. कांय कडेन बारीक कोंड्या बडयेन केळी पानार अक्षरां बरयताले. शणैमाम भुरग्यांक पाटयेर अक्षरां काडूंक शिकयतालो ("श्री गणेश" काडप). तांचे कडल्यान एकूच गजाल खूब खेपो वाचून आनी बरोवन घेतालो. मागीर ती तांकां पाठ जाताली. आंकडे मेजप, कविता पाठ म्हणप हें तांचे संवकळेचें जातालें. चड करून शाळा देवळाचे कुशीक वा अगरशाळेंत चलताल्यो. ४ ते १२ वर्सां मेरेनचीं भुरगीं (चले-चलयो) शाळेंत वतालीं. आवय चलयांक कपडे शिवूंक आनी स्तोत्रां म्हणूंक शिकयताली. भटजी जावंक सोदपी संस्कृत शिकतालो. देवशास्त्र, अध्यात्म, नक्षत्र विज्ञान, भविष्य, भलायकी शास्त्र बी शास्त्रां कडेन वचून शिकताले.

२८ नोव्हेंबर १५४८ दिसा हांगाच्या बिशोपान राजाक चीट बरोवन देवपुजेच्या पुस्तकांचेर बंदी हाडूंक हुकूम मागलो. ३१ जुलै १५९३ दिसा, 'विक्री पत्रां' Sale Deed बी केळी पानार



बरोवपाचेर मनाय हाडली. हाचे फुडें तीं कागदारूच आसूंक जाय अशें फर्मायलें, असलीय म्हायती हें पुस्तक दिता.



देवता, इश्ट देवता आनी गृह देवता वा वास्तू देवता. ते भायर, लोक-जिणेंतल्या देवस्पणांत येवपी हेर 'कुळां'चीय वळेरी पुस्तकांत आयल्या. देखीक, बेताळ (भुतांचो मुखेली), ब्रह्मो वा मुंजो (मूज जाल्लो सोडमूज जावचे पयलीं मरता तो, रुमडार रावपी), संबंद (निपुत्रीक मरता तो), देंवचार (झाडा-पेडार रावपी), खवीस (मुसलमान वा हिंदू भायल्या मनशाचें भूत), रुद्री (रगत वचून मरता ताचें भूत), आळवांटीण (भुरगें जातना मरता ती), अवगत (भश्टी बायल मरता ती), देवगत (गुरवार आसतना मरता ती)...

ह्या पुस्तकाक शिमो-मेरो खूब आसात. एकहाती लिखाण करतना घडये अशें जाता जावंये.

देखीक, हांतलें चडशें बरप उंचेल्या हिंदू जातींतल्या समाजाचेर पसय घालपीच आसा. मदीं मदीं क्रिस्तांव, मुसलमान, पारशी, गुजीर हांच्या समाजांची थोडी दखल घेतल्या. दामांव-दीवाचेरूय आनीक खूब बरोवं येतालें. तळागाळांतल्या लोक जीवनाची दखल घेवंक ना. खरें म्हळ्यार हो वावर युनिव्हसिर्टीचो, अकादमींचो वा हेर संस्थाचो. वेगवेगळ्या विशयांचे तज्ञ एकठांय करून, सर्वेक्षण करून बरे तरेन नियोजन केलें जाल्यारूच हो वावर पुराय जावं येता.

ह्या पुस्तकाचें खाशेलेपण म्हळ्यार, भितर दिल्यात ते दुर्मीळ फोटे आनी आदल्या तेंपार वापरांत आशिल्ली कोंकणी उतरावळ. आयज आमी ही भास विसरल्यात. आयच्या तरनाट्यांक तर तांतलें कांयच खबर ना. देखीक, आदल्या भांगरां-शिंगरांचीं कोंकणी नांवां, रांदचे-कुडींत वापरांत येवपी आयदनांचीं नांवां, गोंयचें अशें खाशेलें रुचीक खाण-जेवण; सुकणीं-सावदां, झाडां-पेडां, तरेकवार दुयेंसां आनी तांचेर आशिल्लीं गांवठी वखदां; येरादारीचीं साधनां, विंगड विंगड तरांचीं नुस्तीं, नुस्तें मारपाच्यो पद्दती, शेतकामत आनी शेता-भाताचीं कोंकणी नांवां बी आयज आमी विसरूंक लागल्यांत. ह्या पुस्तकाचो आनीक एक गूण म्हळ्यार, कोंकणी, पुर्तुगेज, इंग्लीश उतरां तशीच थोडी-भोव Scientific Terminology ह्या पुस्तकांत आसपावन घेतल्या. हीं सगळीं एकठांय केल्यार एक ल्हानसो उतरावळीचो कोश जावं येता.

गिन्यानाचो मुखेल उद्देश, आमच्या मनाची क्षितिजां रुंदावप हो आसता. त्या हेतून हें पुस्तक बरयलां. तें वाचून गोंय, दामांव आनी दीव, हांगच्या समाजीक तत्वा विशीं; एक चिकित्सक जाणविकाय जागी जातली आनी आमचो इतिहास, परंपरा आनी वर्तमानकाळ हांचेय विशींच्या विचारांक नवी चालना मेळटली अशी म्हाका आस्त आसा.

एक आगळें वेगळें पुस्तक हें. जण एका अभ्यासकान वाचुकूंच जाय हे भाशेचें.



### समाज जीण

समाज जिणें वयलें प्रकरणूय भोव म्हत्वाचें. आदल्या काळार 'कुळा'क आशिल्लें म्हत्व, घराब्याची वा कुटुंबाची जापसालदारकी, कुटुंबाच्या जाणट्या वांगड्याच्या नांवान भराण्याची सय-संपत चलोवपाची प्रथा, हे विशींची बारीक म्हायती बरोवपी आमकां दिता. बायल-मनीस वांज उरूंक फावना, भुरगें ना जाल्यार तें जावचें म्हूण ती कशी नवस करता, कांय जातींनी चवथी दिसा नागड्यांनी फुगडी घालपाची चाल कशी आसा, पयलेच खेपे बायल-मनशेक गुरवारपण येतकच तिची अर्थ-अपुर्बाय कशी जाता (फुलां बी माळून), गिराणा दिसा तिका कशी न्हिदोवन दवरतात, चलो भुरगो जातकच कशी खोस मनयतात, भुरग्याच्या जल्मा उपरांतच्यो हेर भोगावळी- नाळ पुरप, सटी पुजप, बारसो करप, मूज बांदप आनी हेर संस्कार, एक म्हयनोभर बाळंतिणीक कसो पुराय विसव दितात हाची म्हायती ह्या पुस्तकांत आयल्या.

### इलाज पद्दत

खंयचोय रोग वा दुयेंस जातकच ताचेर उपचार करचे पासत भोंवतणी मेळपी झाडां-पेडांचो पालो, पाळां-मुळां हांचो वापर करप हो पिळग्यांनी चलिल्लो उपाय आसलो. रोगाचीं लक्षणां समजून घेवन जाणटीं बायलां वखदां दितालीं. पथां पाळप हातूंत म्हत्वाचें आसता.

एका काळार गोंयांत खंय रामबाण वखदां दिवपी वैज आसले. भुरग्यांचीं दुयेसां, हाडांचीं दुयेंसां, पोटखणें, रगत पडप बी रोग हमखास बरे करपी वैज आसले. मुताची, नाडीची, दोळे, खाकेंतली धमनी हांची तपासणी करून वैज वखदां दिताले. एक वैज मरतकच तो दितालो तसल्या वखदांचें पुस्तक दायजान पुता कडेन पावतालें. असलें पुस्तक गुपीत दवरताले. दुसऱ्याच्या हाताक लागूंक दिनासले. कामीण लासप, मंत्र म्हणून झाडो घालप, रगत काडूंक जळवो लावप बी उपाय करताले, हें पुस्तकांत सुमार सत्तरां वयर दुयेसां आनी वखदांचीं नांवां दिवन सांगलां.

पुर्विल्ल्या काळा वयले लोक दुयेंसां जातात तीं एक तर भूत-बाधेक वा दिश्टीक ना जाल्यार रेंचाक लागून जातात अशें मानताले. कांय वेळा देवाचें रागणें, वाडवडलांचें रागणें हाकाय लागून दुयेंसां जातात अशें समजताले. मागीर अवसर, घाडी, बंट, ज्योतिशी हांचे कडेन धांवताले. प्रसाद पाकळी घेताले.

हिंदू धर्म, हिंदूंचे देव, देवांचीं नांवां, ह्या नांवांचे अर्थ, तांचीं देवळां हांची एक व्हडली वळेरी पुस्तकांत आयल्या. देवता म्हळ्यार ल्हान देव. तांचे पांच वांटे केल्यात - ग्राम देवता, स्थान देवता, कूळ




### कोंकणी कवितेंतलो समृद्ध काव्याविष्कार

# ‘एक कृश्ण-कळी’

आशा मणगुतकार

सु. म. तडकोड हांणी मराठी वांगडा कोंकणींतूय मौलीक स्वरुपाचें लेखन केलां. मराठींत तीन कवितासंग्रह *(‘रानमौन’, ‘तितिक्षा’, ‘ताबा’)*, एक कथासंग्रह *(‘डोळ्यांतले जग’)*, एक ललित-लेख संग्रह *(‘हिरवळ आणि होरपळ’)*, समीक्षा *(‘मराठीच्या प्रवासातील वाङ्मयीन पाऊलखुणा’*, ‘*पु. शि. रेगे : व्यक्ती आणि वाङ्मय’)*, एकांकिका संग्रह *(‘कोथरूडच्या बागेत आणि सहा मराठी रङ्गिका’)* अश्या कांय पुस्तकांनी तांचें बरप उजवाडा आयलां.

तडकोडांचीं, कोंकणींतूय कांय पुस्तकां *(‘कोंकणी समीक्षणः तत्त्व आनी प्रयोग’, ‘र. वि. पंडितः जिवीत आनी वावर’, ‘कथा-अरुण’* (अरुण सिंगबाळ हांची कोंकणी कथा, संपादीत) प्रकाशीत जाल्यांत. पूण फाटलीं तीस वर्सां कोंकणींत कविता तांच्या कवितांचे झेले उजवाडाक येवंक नासले. हालींच तांच्या वेंचीक कवितांचे दोन झेले *(‘एक कृश्ण-कळी’*, २००७ आनी *‘पांयजेल’*, २००८) प्रकाशीत जाले. ह्या झेल्यां वरवीं कोंकणी कवितेचे समृद्धींत निश्चितूच भर पडल्या.

अष्टपैलू कोंकणी साहित्यीक पुंडलीक नारायण नायक हांणी ह्या कवितासंग्रहांच्या प्रकाशनाच्या निमतान भाशण करतना तडकोडांनी आपणाले प्रतिभे वरवीं कोंकणी कवितेंत स्वतंत्र दालन उकतें केलें, अशें म्हळें. कविवर्य माधव बोरकार हांणी ह्या पुस्तकाचेर बरोवन धाडिल्ल्या तांच्या लेखांत तडकोडांचे कवितेच्यो विशेशतायो सांगतना तातूंतली पृथगात्मताय दाखोवन दिल्ली.

*‘एक कृश्ण-कळी’* हो ४८ उत्कट प्रेमकवितांचो एक संग्रह. ह्या कवितांतली प्रेयसी आनी प्रियकर स्वतःच्यो भावना उकतायतना अभिजात संयम आनी विवेक अश्या गुणांचें दर्शन घडयतात. तांच्या कवितांतलो मोगी आनी मोगिका कागाळ करतात, तेन्ना तातूंतल्यान अभिजात प्रणय संकेत ते जातात.

कवीन अस्तुरेच्या विंगड विंगड वयोगटांतल्या भ्रम-विभ्रमाच्यो छटा काव्यात्म भाशाविश्काराच्या माध्यमांतल्यान दाखयल्यात. विशेषतः ‘अयशीं वर्सांचें तूं फूल-पाकुले’ हे कवितेंत तर जल्माक आयिल्ले बालिके सावन तिच्या अंयशीं वर्सां मेरेनचे प्रेयसीचें वर्णन वाचूंक मेळटा. देवीच्या स्वरुपांतली (‘हांव गवर’) अस्तुरी तर लोभस दिसता. प्रेयसीच्यो उत्कट भावभावना आनी तिचे वांगडा पिशें जाल्लें सैम (‘अतुषार गोपांत तूं!’) - अजून म्हज्या वाचनांत येवंक ना.

*मळब तेळटा नीळनीळसर जावन*

*शेकानशेक पांखारिल्ल्या*
*जुयेच्या झोपाखाला*
*हरियाळेच्या मत्त तनरेंत*
*उदारें जावन आड पडिल्ल्या तुका...*

तडकोडांच्या कवितांतल्यान राधा आनी कृष्ण हांचे मजगतीं आशिल्लो, रम्यमनोहर नात्याचो, पूण एके तरेचो (कांय फावटीं पारंपरीक तर कांय फावटीं अपारंपरीक) अलौकीक गोफ आकाराक येता. तातूंत 'अवेळीची राधा' ही कविता तर अप्रतिमूच! दर एके स्त्रींत एक राधा लिपिल्ली आसता. तिच्या चित्तांत सभावीक दिमाख आसता. त्या दिमाखाकूय अहंकाराचें सौंदर्य दशिल्लें आसता.

*अवेळीची राधा थबकलो कृश्ण*
*तिणेय चुंबले वोंठ ताचे उश्ण*
*चोळी जाली ओली बोटां फिरी रानी*
*तुज्यांतली राधा अशी कशी मानी?*

प्रेयसीची कूड, घडये प्रियकराक वश जावं येता. परंत, स्वतःच्या सौंदर्यान मत्त जाल्लें तिचें चित्त अहंकारांत गुल्ल आसता. दर एके प्रेयसींत अशी एक मानी राधा आसता. पूण प्रियकराचे मतींत मात ही गजाल येवंक पावना. हे कविते वरवीं रसिकांक अस्तुरेचे कुडींतलो काम आनी तिच्या सभावांतलो अहंकार हांचे मजगतचें द्वैत अणभवाक येता.

'एक कृश्ण-कळीं'तली रचना अशीच सौंदर्यलुब्ध उतरावळीच्या माध्यमांतल्यान लयबद्ध जाता:

*कृश्ण हिण्यां कृश्ण तिण्यां*
*यमुनेच्या जळीं*
*चन्दनाच्या काळखांत*
*एक कृश्ण-कळी*

कृष्ण हांगसर-थंयसर दिसता, यमुनेच्या जळांतूय ताची भेट जाता; पूण चंदना वरी परमळीत जाल्ल्या प्रितीच्या घनदाट उपवनांत एक कृश्णमय जाल्ली कळी अजून फुलूंक ना, कृश्ण तिका अजून मेळूंक पावंक ना. प्रणयानुरक्तींत वावुरतना ही वेदना जपून दवरपी ती *कृश्णकळी* म्हळ्यार राधा!

*एक कृश्ण-कळींत* मोगी आनी मोगिका हांच्या विंगड विंगड सभावांची एक आर्ट गॅलरीच उकती जाता अशें म्हळ्यार जाता. जण एकली प्रेयसी सुंदरूच आसता अशें न्हय. तडकोडांचे कवितेंतली एक प्रेयसी तर कुब्जा आसा, मोगिका काळ्या माजराचो उगडास करून दिवपी, तशीच ती एक अतविषा आसा, ती चुटकचुमणी आसा, तिचो उगडास 'अदया'य (दया न दाखोवपी) आसा आनी 'कातरूय' (वेदनेन कातर करपी! 'याद तुजी येता'). ती 'लेस्बियन'य आसा.

प्रियकरूय तितलोच अनवट, हटी! तो तिका सोडून वता. तशेंच तो 'हांव चित्रकार तर तूं चित्रावी, म्हज्या पदाची' अशें आर्जवान म्हणपी. तो प्रियकर उनाड तसो पण वरदानूय दिवपी. तो एक सहचर जावन येता. तो 'गे'य आसा. तो तिचे कडेन, अचकीत, कितें न्हय कितें मागपी, हट्ट धरपी आसा:

*फांती माळटात ही तुजे हे केंस*
*भरजरी लुगड म्हजेखातीर न्हेंस*

आतां मेरेन तडकोडांचे कवितेच्या आशयाच्या आनी विशयाच्या संबंदान नोंदी केल्यो. आता तांच्या कवितेंतल्या आविश्काराच्या संबंदान निरीक्षणां मांडूंक जाय. आशयाक आनी आविश्काराक सुघट घाट (फॉर्म) लाबूंक जाय. भाशाविश्कार आनी रचनातंत्र हांचे वरवी कवितेक तो घाट लाबूंक पावता.

तडकोडांचे काव्य निर्मणेंत, समकालीन मोगाच्या विंगड विंगड स्वरुपांचें चित्रण जाता. ह्या मोगाच्या कवितांनी एके तरेची मिश्किलताय वावुरता. 'हांव मॉडर्न आनी तूंय बी' हे कवितेंत ही मिश्किलताय समकालीन जिणेचेर प्रखर उजवाड घालता, तशेंच मोगाचें रुपडें कशेंय आसूं, ताका सैमाचे वेंगेंतूच थाकाय मेळटा, म्हणपाची गवाय मेळटा.

प्रेयसी आनी प्रियकर हांचे मजगतीं अद्वैत आसता. ही पारंपरीक जाणविकाय. तडकोडांच्या कांय कवितांनी तर संवाद सादपी व्यक्ती प्रेयसी, काय प्रियकर म्हणपाचें होलमना. अशें जावपा फाटलें कारण, त्या दोगां मजगतीं आशिल्ली अद्वैताची भावना. प्रेयसी आनी प्रियकर हांचें हें अद्वैत सादपी विश्व एके तरेचें तर हेर वटेन वेव्हारी, संवसारी लोकांचें विश्व! संवसारी लोक मोगांत घुस्पल्ल्या जिवां विशीं कितें चिंततात काय? तडकोडांचे 'अस्कडी' हे कवितेंतलो मोगी (कांय मोगिका?) म्हणटा:

*पुराय संवसार घराभितर कांचवेल्लो, तो*
*आमकां रावता,*
*ही अस्कड केन्ना सोड्टले आनी म्हण*

*दोगांय एकठांय जालीं*
*म्हणटकच दोनांचे दोन कशे?*
*दोगांचो वाद, रात नादावली*
*आयकात वादांचे मौन कशे...* (दोन म्हळ्यार एक)

तडकोडांचें क़वितेंत विरामचिन्नांक भोवच म्हत्व आसा. हे कवितेंतल्यो ह्यो निमाणच्यो वळी बरोवन जातकच कवीन शुद्धलेखनाच्या नेमाक पाळो दिवन पूर्णविराम दिवंक ना.

पादाकुलक वृत्त खूब कठीण. तडकोडान त्या वृत्तांत अनुपमेय तश्योच प्रासादीक ढंगातल्यो रचना केल्यात:

*संसार राणी भोगमळाची*
*भास मुलायम देवकुळीची*
*चिकचिक पिशी पिटकुळीची*
*चुट्टक चुमणी देवफुलांची*

*'एक कृश्ण-कळी'* ह्या संग्रहांतलो शब्दाविश्कार, शब्दक्रीडा (कितलेशे फावट तर तातूंतलें संस्कृतपाटव कोंकणी वाचप्याक विस्मित करता.) एके वटेन लोभस तर दुसरे वटेन अर्थव्याप्ती साधक अश्या दोनूय स्वरुपांत आसा म्हणपाचें होलमता हाका लागून काव्यरचनेची कलात्मकताय वाडत गेल्या:

'अखण्ड चन्द्रन्हाण', 'अदया तूं', 'अवजाळी काळोख', 'आकूळ-पिकूळ चांफलें', 'घट्ट घट्ट उतरां', 'चंचळ नगरदिवे', 'ज्वर पिशांतूर संभोग चतुर', 'नेणटेलो उजवाड', 'पावशी रात', 'फुल्लकन्' फुलपी

जुयेची कळी, 'रतिकेलीन् राधा-कृश्ण' अश्या शब्दरुपांक अभिजात काव्याची सया लाबल्या. तडकोडांच्या कवितांनी 'अमुरपिके सताड अस्तन्ते'र 'रितीं सपनां'य वावुरतात.

तडकोडांच्या ह्या कवितांची एक विशेशताय म्हळ्यार तांकां लाबिल्ली लयबद्धताय. ती कलात्मक शैलींतल्यान आयल्या. ते लयबद्धतायेन कांय वळींक सुभाशितायेचीय सया मारता:

*कुड करी घन घन*
*भूंय करी सण् सण्*
*चंचळ नगरदिवे*
*मळबय पावसाय*
*काळखाच्या पर्जळांत*
*चंचळ जोगूल गाय*

*आर्त असो अन्तर्नाद*
*वसवस गन्ध-कळी*
*मोनेळांत घेय*
*चंवर चंवर दुळी* ('भारार भार आयलो')

तडकोडान आपणाले कवितेंत परस्परविरोधी उतरांचो प्रयोग करून अचकीत धक्को दिवपी अर्थच्छटा सादल्या: 'कुलवधू तूं कृश्णपिशी तूं', ('आयलो वसन्त आयलो वसन्त'), 'अमुरपिक्या जिणेंत कासाविशी खडेगांठ', ('अमुरपिक्या जिणेंत'), 'तुजीं पदां गावंक हो संवसार / पूण ताचेकडेन ना पदां, ना उतरां...' तशेंच 'सुख-मरणाची वेदी' ('तुजें स्तवन'), 'तूंच असो एक मिटिल्ली देग अनिच्छ व्हठांची' ('रतिमुद्रा'). तडकोडांचे कवितेंत 'कळो' ह्या पुरुशी उतरा परसय कोमल, नाजूक, अळंग, निर्मळ-नितळ अशे भावमुद्रेची निर्मण करपी 'कळी' (एक कृश्ण-कळी) हें उतर नकसूदपणान सोबून दिसता.

कांय जाणांक जेन्ना सकारात्मक, अभिजात स्वरुपाच्या विचारांची मांडावळ करूंक जमना, तेन्ना ते नकारात्मक, तोड-फोड करपी आचारात्मक मांडावळ करूंक सोदतात. तांकां तात्वीक बसका नासता. देखीक, संवेदनाशील साहित्यिकांचे बरपावळीचे वांटे घालूंक मेळनात. साहित्यिकांचीं विंगड विंगड तासां आसतात; पूण तांचे पासत ''ही भटाची खाणावळ, ती मालवणी खाणावळ, ही कॉण्टिनॅण्टल खाणावळ'' अशें म्हणिल्ले वरी साहित्यिकांचे संवेदनाशीलतेची वर्गवारी करप, हें साबुद्दपणाचें लक्षण न्हय, तशें करप समा न्हय. हो *सौंदर्यवादी*, तो *अस्तित्ववादी* अशें म्हणप म्हळ्यार साहित्यिकांच्या नकसूद साहित्यीक वावराचो नियाळ घेवपा बदला, कृत्रीम, कृतक आनी असाहित्यीक संवेदनाशीलतेची जतनाय घेवपी लोकांचे विंगड विंगड कंपू घडोवप. बरो साहित्यीक केन्नाच एकेच वृत्तीची जतनाय घेवन बसना. ताची भावमुद्रा वो भावतंद्रा (मूड) जशी लागता, तसो तो बरयता.

एकाद्र्या साहित्यिकाच्या बरपाचेर अमके अमके विचारसरणीचो प्रभाव पडला, वा ते विचारसरणीचीं तत्त्वांय सोदूंक संद आसा, अशें म्हळ्यार जाता. परंत, संबंदीत काळ आनी परिस्थिती हांचे विशींचें तारतम्य विसरायेर घालून चलचेलें ना. ज्ञानेश्वराच्या बरपांत *सौंदर्यवादी* आनी नामदेवाच्या बरपात *साम्यवादी* विचार मेळटात, अशें म्हळ्यार समा जातलें व्हय? प्लेटोचीं मत्तां समर्थ रामदासांक मानवल्लीं अशें म्हळ्यार कितें दिसतलें?

ज्यू धर्मीय इटालियन संशोधक सीझर लोंब्रोसो (१८३५-१९०९) हाणें साहित्य, भाशाशास्त्र, पुरातत्त्व आनी अपराधा विशींच्या विद्यांचो खोलायेन अभ्यास केल्लो. ताणें जन्मजात अपराध्याचीं लक्षणां मांडून दाखयलीं. ताचो *'दी मॅन ऑफ जिनियस'* (१८८९) ह्या माथाळ्याचो अभ्यासपुराय ग्रंथ विचारवंतांक धक्को दिवन गेलो. ताचे पयलीं १८८०त ताणें 'पिशांतुरपणाची कला' ह्या अर्थाच्या माथाळ्याचो लेख बरयिल्लो. तातूंत ताणें *प्रतिभा ही पिशांतुरपणाची भयण* अशें म्हणिल्लें. ताणें तशें बरयिल्ल्यान पाप-पुण्याचे गजालीचो वो सामाजीक अव्यवस्थेचो लाब उठोवन व्यवसाय करतल्यांक उस्तुरें गेल्लें. तांणी ताका न्हयकारलो. तरीकूय कोणाकूय साहित्यिकाचे प्रतिभेचें अस्तित्व न्हयकारूंक जमचेलें ना.

दुर्बोधताय हीच उत्तम बरपाची विश्लेषक कुरू, अशें म्हणटात. एकाद्र्या साहित्यिकाच्या बरपाचो अर्थ कळना जायत जाल्यार तो दोश वाचप्याचो, साहित्यिकाचो न्हयच न्हय. बरोवप्यांन मांडिल्ल्या अर्थवैभवांचो प्रत्यय आपणाक येवचो अशें वाचप्याक दिसता जायत जाल्यार ताणेंच तो अर्थ समजून-उमजून घेवपाची तांक वाडोवंक जाय. कलावंताची तंद्रा लागपाक विशिश्ट घडणुको, प्रसंग जापसालदार आसतात.हे विशींची जाण वाडोवंक जाय.

एकादया साहित्यिकाचे मुखार वचून दुसऱ्या एका साहित्यिकान कितलो विकास सादला, अशें विचारूं येता. देखून तडकोड हो '*सौंदर्यवादी* कवी काय *अस्तित्ववादी* कवी?'' असो प्रस्न म्हजे मुखार उप्रासना. ''ताणें काव्यात्मकताय कितली राखून दवरली''; ''ताचे कवितेंतल्या उतरांचें स्वरूप कशें?''; ''पुर्विल्ले कवितेंत कितली भर पडल्या?''; ''ती एक केन्द्री वो भौकेन्द्री?'' ''ताचे कवितेंतली भावरम्य तंद्रा ही आत्मकेन्द्री काय कलात्मक काय कृत्रीम?'' असले प्रस्न म्हाका विचारूंक आवडटले.

हे फाटभुंयेर तडकोडांचे कवितेंत रचनाबंधाचें रुपडें पळयत जाल्यार गदयात्मकताय ना, पदयात्मकताय आसा अशें म्हणचें पडटा. तांचे कवितेंत कथनात्मकते परसूय उत्कट भावात्मकताय आसा. तांची प्रेमकविता ही द्वैत-अद्वैत अश्या नात्याच्या संबंदान उप्राशिल्ली उत्कटताय सहजपणान उकतायता. ती पसरट जायना. ती नकसूदपणान अभिव्यक्ती करता. तडकोडांच्या *'एक कृश्ण-कळी'* ह्या कोंकणी कवितांच्या झेल्यांत भाशाविश्काराचें नवें ओडलायणें क्षितीज दिसूंक लागता, अशें म्हणूंक येता. पारंपरीक आनी नवे संकेत हांचें मिश्रण तडकोडांचे कवितेंत दिसता.

ह्या पुस्तकाचें दर्शनी रुपडेंय धादोसकाय दिता. कवितेच्या सभावाक न्याय दिवपी कागदाची निवड आनी सुरूप छापणावळ हाका लागून हें पुस्तक मनलुभावणें जालां, अशें म्हणनशें दिसता. हांव एक घरकान्न आशिल्ल्यान तांदूळ वेंचपाची उपमा दिवन म्हणनशें दिसता की भांगरसाळ जावं वा बासमती, तांदूळ वेंचतना तातूंतले माणकुले फातर जर काडले नात जाल्यार शीत-कडी जेवतना उंडी भायर उडोवची काय ती तशीच गिळची, तेंच खीणभर कळनाशें जाता. तशें ह्या पुस्तकांतल्या कांय कवितांच्या संबंदान म्हणूं येता.

कांय मुद्रणदोश टाळिल्ले जाल्यार कांय बऱ्या कवितांच्या वाचनाची खोस उणावची नाशिल्ली.

तशेंच, तडकोडाच्या वट्ट बरपांत येवपी गतकालीन व्याकरणांतल्या 'परसवर्णा'चो उपसर्ग वाचकाक सतायता. आपणाल्या दायजाक दसून रावपाची वान्सा आपणाक मुखार वचूंक दिवची ना; पूण संवसार मुखार वचत रावता, म्हणपाची गजाल कविवर्य तडकोड मतींत घेवंक कित्याक राजी नात, म्हणपाचें होलमना. एक फावट, हे विशीं हांवें तांकां विचारिल्लेंय. तेदेवेळार, "एकाद्र्या वाठारांतले भाशेचेर राज्यकर्त्यांचे भाशेचो शेक आसता अशें आमी समजतात. आयज आमच्याच लोकांचो शेक आसुनूय आमचे उतरावळींत उर्दू, फारसी, अरबी, इंग्लीश अश्या भाशांतल्या उतरांचो वापर कारण नासतना वाडत चल्ला. ह्या भासांची पालसणां पडत रावतलीं, आनी एक दीस कोंकणी ना नपश्चात जातली. हो भंय रावबहादूर व्ही. पी. चव्हाण, सुमित्र मंगेश कत्रे हांचे सारक्या गोंयकार नाशिल्ल्या विद्वानांनीय उकतायला. हेर भासांतल्या उतरांचेर आमी कित्याक निंबून रावचें? आयज आमच्या उलोवण्यांत अकरा (*इकरा*), कमी (*उणें*), काम (*वावर*), खड्डे (*फोणकुलां, फोणारे, फोण*), खत (*सारें*), चुलतभाव (*बापोलभाव*), डाग (*खत*), पश्चिम (*अस्तंत*) म्हाका फरक पडना (*म्हाका कांयच पडिल्लें ना*), म्हाका खबर आसा (*हांव जाणां*), रस्तो (*मार्ग*) अशीं उतरां सर्रासपणान येतात. दुर्दैवान ते विशींची आमकां खंतूय ना. आमच्या संपन्न दायजांतल्यान आयिल्लीं कोंकणी उतरां विसरून हेर भासांतल्या उतरांचो स्वीकार कित्याक करचो? *परसवर्णा*चीय तीच गजाल! जेन्ना खंयचींय उतरां आमचे भाशेंत येवंक सोदतात, तेन्ना तांणी आमचे भाशेचो सभाव आपणावंक जाय; तीं तशें करूंक कांचवेतात, अशें दिसत जाल्यार तांचे पासत आमी कित्याक पडमूर जावंचें?" अशें तांणी म्हाका विचारिल्लें. ह्या सुदीर्घ प्रस्नांचे *सरबत्ती*चेर (ह्या उतराक कोंकणी उतर कितें काय?) हांव कितें जाप दितलीं आशिल्लीं?

कवी म्हळ्यार एकलो, निजसुरो, निखटो अहंमन्य भावमुद्रेंत वावुरपी आत्मो न्हय. तो पारंपरीक भास सांबाळून दवरता. तेच प्रमाण सजगपणान आपणाल्या दायजाचीं पाळां-मुळां सांबाळून दवरूंक मजत करपी नवे भाशेची निर्माणी करता. हरिवंशराय बच्चन ह्या हिन्दींतल्या महान कवीन 'मधुशाला' ह्या कवितांच्या झेल्यांत होच वावर केलो. मराठींत पुरुषोत्तम शिवराम रेगे हांणीय तोच वावर केलो. कोंकणींत शणै गोंयबाब हांणीय तेंच दायज चलयलें. ही भाशीक वा सांस्कृतीक बांधिलकी. ही वस्तुस्थिती आसल्यारूय निखळ, निखठो कवितेचो विचार मांडटना, म्हाका ही बारीकशी *स्वत्वाची व्हडविकाय गावपी* गजाल पचोवन घेवप, तितलें सोंपेपणान जमना. कवितेचो विचार काव्याच्या आंगान जावंक जाय. देखून ह्या कवितेच्या झेल्या वरवीं कोंकणींतली एक बऱ्यांतली बरी कविता वाचपाचें समाधान मेळ्ळें, अशें म्हणचेंशें दिसता.

एक कृश्ण-कळी,
सु. म. तडकोड,
केदार प्रकाशन गृह, पणजी,
पानां: ८८, मोल: १२५ रुपये.



# पिसोळ्याच्या पाखा...

तुकाराम रामा शेट

शिगम्याचे दीस. धोल ताशे वाजोवपाक हात फुरफुरतात. शिगम्यांतलीं गितां गावपाक उमेद येता. नव्यो कविता रचपाक कवीकूय उर्बा येता. हांव तर शिगम्याच्या वातावरणांत घुसपतां. अचळय ल्हानपणा साकूनचीं शिगम्यांतलीं गितां वंठांर येतात. '...*इल्लीशी पेटारी सामराची/तितून बसल्या केळबाय भांगराची। शबय शबय शबय...* 'वेरेंचो दत्ता म्हज्या सपनांत येता. सगळी रात जीव म्हजो तळमळटा... आनी ह्या गितां वांगडा एक कविताय म्हाका याद येता... तिचें शब्दरूप म्हजे मुखार उबें जाता-

*पिसोळ्याच्या पाखा*
*उडों नाकां*
*उडों नाकां*
*दोळ्यांतुल्या दुका*
*झडों नाकां*
*झडों नाकां...*

*पिसोळ्याच्या पाखा*
*उडोन चल*
*उडोन चल*
*दोळ्यांतुल्या दुका*
*झडोन चल*
*झडोन चल...*

ही कविता शी म्हाका भर शिगम्याच्या दिसांनी याद जाली? ही कविता तर म्हजी न्हय आनी हें शिगम्यांतलें गितूय न्हय. पूण ती याद जाली. ती याद जावपाक आनी यादींत उरपाक तशींच कारणां आसूं येतात.

कवी रमेश वेळुस्कारांची ही कविता म्हाका आवडल्या आनी आवडटा. आनी, आपल्याक आवडपी मनीस वा कृती याद उरता अशें म्हाका दिसता. आवडप व्यक्तीसापेक्ष आसता.

ही कविता वाचतकूच वा आयकतकूच एक भावावस्था तयार जाता. ही भावावस्था वाचप्याक झपाट्टा. हे भावावस्थेचो तातूंतल्या प्रसंगाचो हळुवार, तितलोच करूण पूण सखोल, छाप मनाचेर उदेता. खरें म्हणल्यार हे भावावस्थेचोच परिणाम पुरो, ही कविता याद उरपाक. फुडें यादीचे प्रक्रियेंतल्यान ही कविता आवडपाक लागता आनी, आवडपांतल्यान याद उरता. कविता चडशी आत्मनिश्ठ आसता. कवितेंत प्रसंग, संदर्भ, विस्तार चडशे आसनात म्हूण ती वाचप्याच्या पूर्व अणभवांचेर समजून घेवची पडटा.

ही कविता आयकून बरेच दीस वतात. एक दीस कवी रमेश ही कविता भुरग्यां मुखार सादर करता - *पिसोळ्याच्या पाखा । उडों नाकां । उडों नाकां...* ही कविता भुरग्यांक भावता. जादू जाल्ले वरी तांचेर प्रभाव पडटा. तेन्ना ही कविता भुरग्यांची कविता - बालकविता जाता. पिसोळ्याचें पांख भुरग्यांचें पांख जाता. भुरगीं ही कविता आपली कविता म्हूण इन्जॉय करतात. पिसोळ्याचें पाख उडोन वचपाचे

गमती वांगडा, दोळ्यांतुल्या दुखांनी प्रगट जाल्ले करूण भाव भुरगीं आपल्या सांगाता घेवन वयतात, जे तांकां फुडें मॅचुअर जावपाक उपकारा पडुंये.

एक दीस कवीन हे कवितेचे निर्मणे फाटली खबर सांगली. पोन्नी गजाल... ताची आजी खूब बरी नासली. आजी बरीच जाणटी. ती दुयेंसान हांतरुणार पडलेली. तिचेर उपचार चलताले. ती बेगीन बरी जावची ही सगल्यांची इत्सा आनी प्रार्थना. ती जाय जाय दिसताली. ती मरून वचची न्हय अशें दिसतालें. पूण खूब तेंप ती बरी जाली ना. ती हातरुणार उरली. ती आयज मरता काय फाल्यां मरता अशे मरणावस्थेंत आसली. तशें मरण कोणाक चुकना. तिचो नातू म्हणजे कवी स्वता हें दूख आनी ही दशा अणभवतालो. तिची ती अवस्था कवीक सोंसूं नजो जाताली. हे अवस्थेंतल्यान तिणें 'सुटप' बरें अशें ताका दिसतालें. मागीर ह्या एकूण अणभवांतल्यान ही कविता जल्माक आयली.

पयलीं आपली आजी वचची न्हय, हें पिसोळ्याचें ल्हवसार जाल्लें पांख उडून वचचें न्हय आनी आपल्याक दूख जावचें न्हय अशें ताका दिसतालें. पूण फुडें निसर्गीक स्थिती अशी येता, तातूंतल्यान मनशाक ह्या संवसारांतल्यान उडून वचचेंच पडटा. हे खातीर कवी म्हणटा - *पिसोळ्याच्या पाखा / उडोन चल / उडोन चल / दोळ्यांतुल्या दुका / झडोन चल / झडोन चल....*

दोळ्यांतलें दुकूय झडून वचप हेंय तितलेंच निसर्गीक जितलें मनशाच्या वांट्याक दूख येवप. जिवितांत ज्यो कांय अपरिहार्य वा नैसर्गीक गजाली घडपाच्यो आसतात त्यो घडपाच्यो रावनात. हें जिवितांतलें मर्म. ताका येवकार दिवपाक मनशाक कळपाक जाय हाचो साक्षात्कार हांगा घडटा.

निसर्गांत जें घडटा ताका आडावप शक्य नासता. तें घडपाचेंच. पिकिल्लें फळ झडपाचेंच. पिसोळ्याच्या पाखाच्या प्रतिकांतल्यान हांगा उबी जाल्ली स्थिती उडून वचपाचीच, आनी तितलेंच मरणा उपरांत जाल्लें दूख व्हांवून वचपाचेंच. कवी निसर्गांतलें सत्य, तुमचे आमचे जिणेंतलें निसर्गतत्त्व सांगता. आनी अजाप म्हणल्यार, त्या निसर्गतत्वाक येवकारताय.

ही कविता पिसोळ्याच्या पाखाक आनी दोळ्यांतुल्या दुकाक उद्देशून आसा. 'पिसोळ्याचें पाख' कवीची वा तुमची आमची आजी वा प्राणप्रिय मनीस. 'दोळ्यांतुलें दूक' कवीचें तशेंच तुमचें आमचें दूख. हातूंतलो अणभव आत्मनिश्ठ आसलो तरी तो वैश्वीक. सगळ्यांचो. हे कवितेंत नातू आनी आजी हें नातें आसा तरी तें वेगवेगळ्या नात्यांतल्यान येता. म्हाका दिसता, कवीन ही नात्याचेर बरयल्ली सुरवातीची कविता. ते उपरांत ताणी मातये संबंदाच्या नात्याच्यो बरयल्ल्यो 'माती' ह्या कविता झेल्यांतल्यो कविता. *'तनरजोती', 'हिरण्यगर्भ'* ह्या अश्योच नवीं नवीं नातीं जोडून बरयल्ल्यो जैतिवंत कविता. कवीक सगल्यांत मित्रत्वाचो वा म्हणुया नात्याचो साक्षात्कार जाता. आपले आजयेच्या, आपल्या आवडट्या मनशाच्या नात्यांतल्यान फुडें विकसीत जाल्ले हे नातेसंबंद.

'पिसोळ्याच्या पाखा' ही कविता म्हाका आवडटा. ती म्हजेर प्रभाव घालता. हाचे फाटलें कारण, ही कविता वाचतकूच जे भावावस्थेंतल्यान हांव वयतां ताचो पयलीं म्हाका अणभव आयला, आनी आतां ताची परती अनुभूती मेळटा, अशें आसुंये. म्हाका याद जाता, हय, हे अवस्थेचो अणभव म्हाका पयलीं मेळ्ळा. म्हजो व्हडलो भाव अपघातांत बेसुद्द जाल्लो... तो कोमांत गेल्लो. तो हातपांय हालयतालो, धडपडटालो, जगपा खातीर काय मरपा खातीर, हांव नकळो. तो कोमांत बरेच दीस उरलो आनी हांव ताचे फुड्यांत ताका सांबाळीत. ही कविता वाचून त्या प्रसंगाची याद येता आनी ती भावावस्था परती जागी जाता.

ही कविता म्हाका चड आवडटा कारण, हे कवितेच्या वाचपान म्हज्या **आवडट्या मनशाची याद** जागी जाता आनी तांचे संबंदीचो भावात्मक अणभव जागो जाता. कवीकूय ही कविता बरीच आवडटली. ती तर ताचे आवडटे आजयेचीच कविता आनी विसरूंक येवचो ना असो प्रसंग. तोय दूख दिवपी, शोकाचो प्रसंग. दुखाचे वो शोकाचे प्रसंग मनीस विसरना खंय. ते परते परते याद जातात. ते प्रखरतायेन आयिल्ले आसतात. शोकाची वा दुखाची भावना चड उत्कट आसता. तातूंतल्यान सर्रास दोळ्यांत दुकां येतात. चड भावात्मक प्रसंगांत दोळ्यांत दुकां येतात.

आवय दर मनशाक आवडटा. तिचेर बरयल्लें रोखडेंच लोकांक भावता. तशेंच आपल्या नात्यांतल्या मनशां विशीं, भुरग्यां विशीं बरयल्ले आसत जाल्यार चड लागता. देखीक, भुरग्याचीच आवयक चड याद येता. सांगपाचें जाल्यार, मनशाक आपल्या चडांत चड लागच्या मनशाचें लागता. ताका पयशिल्ल्या, मनशाचें व्हडलेशें पडिल्लें आसना हो मनीस सभाव.

कवीन बरयलां तें आपल्या लागच्या मनशाक लागपी आसत जाल्यार तें वाचप्याक भावता. 'आवयचे हात' ही म्हजी कविता वाचून एका कवीन म्हाका मुजरत ती कविता आवडिल्ल्याचें सांगलें. तें दूख सामके तीव्र भावनेन बरयल्लें आसत जाल्यार तें अदीक भावता. हांव हेच उत्कृश्ट साहित्याचे निकश अशें म्हणना, पूण मनशाक साहित्यकृती आवडुपाचे आनी याद उरपाचे प्रक्रिये विशीं सांगतां. हें म्हजें व्यक्तिगत मत. दुखदर्द आशिल्ली ट्रेजडी वा शोकांतिका आमकां चडशी कित्याक भावता, याद उरता हाचें कारण हातूंत सोदूं येता.

आवयक भुरग्याची याद येता वा खंयच्याय मनशाक आपल्या प्रिय मनशाची याद येता, ती फकत ताच्या नांवान येना तर ती ताच्या रंगरुपान आनी भावनीक स्वरुपांत येता. तशीं 'पिसोळ्याच्या पाखा' ही कविता याद येता तेन्ना तिच्यांत आसपी फिजिकल आनी अन्फिजिकल घटकां सयत येता. तिच्या अर्था सकट आनी शब्दां सकट वंठांर येता आनी भावरुपान आमच्या मनांत पातळटा. हें सगळें घडटा तिचे सुबक रचने खातिरूय. हे रचनेंत 'ल्हानपण' आसा, सोबीतपण आसा. दोन शब्दांची एक माणकुली वळ. असल्या बारा सानुल्या वळींची ही ल्हान कविता. तातूंत वळींचें रिपिटिशन. ती मनांत गणयत रावता. वंठांर येता. ध्वनीचीं वलयां वाडटा. तोंडांत घोळपी ओपारींचें, सुभाषितांचें ल्हानपण आनी तितलेंच अर्थाचें ठाशीवपण हे कवितेंत येता. *'सूर्यबिंब बचके एवढे। तरी प्रकाशे त्रैलोक्य थोकडे'* अशे तरेन हांगा जाता. आशय आनी अभिव्यक्ती

हांगा एक जाता. हांगा आसा कवितेची सुबक रचना आनी मनस्पर्शी आशय.

कवी रमेश वेळुस्काराचे कवितेक बरेच कडेन लोकवेदाचो घाट आसता आनी तातूंत शब्दकळा तशीच येता. हे कवितेकूय ताचो परिसस्पर्श जाला. तशेंच ही कविता लयेंत धोलता आनी तालान पदन्यास करता. ह्या सगळ्याक लागून वाचप्याच्या मनाक ती चड भिडटा.

ही कविता फकत एक शब्दचित्र न्हय तर तें भावनीक चलचित्र. हातूंत एक ॲक्शन आसा; एकामेकांचे विरुद्ध दिकेन वचपी तरी एकामेकांक संबंदीत. एक पिसोळ्याचें पाख उडपाची आनी दुसरी, दोळ्यांतलें दूक झडपाची. पिसोळ्याचें पांख - पिसोळें न्हय - ल्हव, सुकें, हुबपा सारकें पांख. 'दोळ्यांतुलें दूक' वोलें आनी जड. पूण दोनूय सुटपाक पावल्यांत - एक वयर हुबपापक आनी दुसरें जडावल्लें वोलें दूख सकयल पडपाक. तशेंच, पयलीं सांगिल्ले भाशेन, ही सैमीक क्रिया. कवितेंत व्यक्त जाल्ले भावावस्थेंत एक टॅन्शन आसा. हें टॅन्शन 'दोळ्यांतुल्या दुका, रुपान निस्तून वयता. हीय एक सैमीक प्रक्रिया.

कविते फाटली कवीचे आजयेची काणी समजतकच तर कवितेचो प्रभाव अदीक गाड जाता. तशेंच हे कवितेंत एक कथा आसा हें कविता वाचतासतना समजता. ही कविता एक कवनकाणी जाता. कवनकाणी, गावनकाणी हो एक आदीकाळा पसून चलत आयिल्लो कवितेचो प्रकार. त्यो जनसामान्याचेर चड प्रभाव घालता म्हूण तर गावनकाणयो आजून याद उरल्यात. अशी ही कविता, तिका प्राणप्रिय मनशाचे काणयेची फाटभूंय, देखून याद उरपा सारकी.

१९७९ वर्सा *मोरपाखां* कविता झेल्यांत आयिल्ली 'पिसोळ्याच्या पाखा' ही कविता आयज २००८ वर्सा लेगीत भावता. २७ वर्सांचो एके पिळगेचो, काळ उलगलो तरी ती वाचप्यांच्या मनांत जिवी आसा.

कवी रमेशाच्यो कलात्मक अश्यो सौंदर्यपूर्ण कविता आनी ही कविता हातूंत म्हाका फरक दिसता. निसर्गाचो देखाव वा चित्राकृती पळयतकूच कलात्मक सौंदर्याचो आनंद मेळटा. जसो तांच्या *मोरपाखां* कविता संग्रहांतल्या कवितांनी मेळटा. 'मोरपाखां' हे कवितेंत गूढ अर्थूय गावता. पूण 'पिसोळ्याच्या पाखा' हे कवितेंत ते परस चड अशें भेट्टा. हे कवितेत भावनीक सौंदर्य आनी जिविताचें सौंदर्य लाभता. ताचेच वांगडा जिवितांतलें निसर्ग-तत्व होलमता - जें उडून झडून वचपाचेंच आसता. चित्र पळोवन भूक भागचे परस प्रत्यक्ष भुके वकतार हुनहुनीत रोसा शिताच्यो उणयो जेविल्ल्याचो आनंद ही कविता दिता. जेवणाच्या रसायनांत तुमची कूड पोसता, रसरसता, तशे तरेन जिविताचें रसरशीत मर्म ही कविता भेटयता. ताचो आनंद चड खरो. हातूंतल्यान जिविताची जाणीव जाता. जिविताची समज वाडटा. *'अरे संसार संसार। जसा तवा चुल्ह्यावर। आधि हाताला चटके। तेव्हा मिळते भाकर'* हे बहिणाबाईंचे कवितेंत सर्वसामान्यांच्या येवपी जिविताचें दर्शन घडटा, तर रमेशाचे कवितेंत थोड्याच भाग्यवंतांक जावपी जिविताची वेगळी अनुभूती मेळटा. म्हणून हांव ही कविता परत कानामनांत सादयतां-

*पिसोळ्याच्या पाखा*
*उडों नाका*
*उडों नाका*
*दोळ्यांतुल्या दुका*
*झडों नाका*
*झडों नाका...*

*पिसोळ्याच्या पाखा*
*उडोन चल*
*उडोन चल*
*दोळ्यांतुल्या दुका*
*झडोन चल*
*झडोन चल...*

परत परत याद जावपी आनी लोकवेदाच्या पांवड्यार पाविल्ली ही कविता आमच्या सगळ्यांच्या काळजांत रुजत रावंदी.





# नडणी

श्रुति शाळगांवकार

शेतां मुखेलपणान दोन तरांचीं आसतात - 'भड्डीं' आनी 'खाजन'. दोंगरार कसतात त्या शेतांक भड्डीं शेतां म्हणटात. दर्या कुशीकच्या खाऱ्या उदकांतल्या शेतांक खाजन शेतां म्हणटात.

भाताच्यो तरेकवार जाती आसात. कांय परंपरेन आदल्या काळा सावन चलत आयिल्ल्यो तर कांय विज्ञानान आर्विल्ल्या काळार विकसीत केल्ल्यो. दोडगी, करंगूट, खोचरी, दामगो, सोट्टी, नवान, जिरें, साळ, कोथमीर हीं कांय आदल्या काळा सावन गोंयांत चलत आयिल्ल्या भाताचीं नांवां, तर ज्योती, जया, मधू, आयटी, आयरेट, बासमती हीं भाताच्या नव्या जातींचीं नांवां.

शेताक तरेतरेचो वावर करचो पडटा. तांतलो 'नडप' हो एक म्हत्वाचो वावर. नडप म्हळ्यार शेतांतली नाका आशिल्ली, वा, मुखेल पिकाक नडटा ती वनस्पत हुमटावन काडून उडोवप. हे नडटा ते वनस्पतीक 'नडणी' म्हणटात.

भातांक नांवां आसात तशीं नडण्यांकूय नांवां आसात. ते ते तरेच्या भातांत, ते ते तरेचे मातयेंत, ते ते तरेची नडणी तयार जाता. शेतांत वावर करतल्यांक नडणेचीय बरी वळख आसता.

### नडणेच्यो कांय तरा

### भड्ड्या शेतांनी जावपी नडणी

**१. कुरनाणाचें आळ:** ही नडणी 'ज्योती' जातीच्या भाताच्या शेतांत जाता. भाताचो रोव घालता तेन्नाच तीय रुजता आनी इल्ली इल्ली करून जमनीचेर आपणाल्यो वेली फांकरायता. हिका कणसां कशीं फुलां येतात.

**२. पल्लें:** ही नडणी भड्ड्या शेतांनी रुजता. भाता बरोबर तीय वाडटा. वयले नडणे वरीच ती जमनीचेर आपल्यो वेली फांकारून वाडटा.

**३. बिमलो:** ही नडणी पावसांत तशी गिमांतूय थंडाय मेळत जाल्यार किल्लता. तिचीं मुळां बारीक भिंगरां वरी आसतात. तिचीं पानां शेंकऱ्या वरी लांब आनी सुळसुळीत आसतात. बिमल्याचें मून (मूळ) जितलें लांब जायत वता तितलो तो अदीक मातता.

**४. घोणो:** शेतांत तरवो लायले उपरांत (भाताचे थाम रोयले उपरांत) ही नडणी किल्लता. ती भाताच्या थामा वरीच दिसता आनी देखून फकत शेतांनी वावुरतल्यांक वळखूंक येता.

**५. हरयाळी:** ही नडणी पावसाळ्यांत वा गिमांत थंडायेक रुजता, आनी जितली थंडाय मेळत तितली मातत वता. ती शेतांनी जाता तशी पोरसांनी वा मळांनीय वयर सरता. हिचो वापर देवकार्यांत जाता. असल्या वेळार तिका दुर्वा म्हणटात. हरयाळेंत वखदी गुणूय आसतात.

**६. मेखो वा माखो:** ही नडणी पावसाळ्यांत किल्लता. हेर नडण्यां वरी ती चड फांकारना, तर एकेच सुवातेर झोंप कशी जाता. तिका धवीं फुलां येतात. मेल्ल्यांचो म्हाळ वाडटात तेन्ना हो मेखो पिंडाचेर घालतात.

### खाजन शेतांत जावपी नडणी

**१. मुळणो:** ही नडणी भाता बरोबरूच वयर सरता आनी भाता वरीच दिसता. तिच्यो पालयो (पानां) रुंद आसतात. मुनांत ती झोंप कशी आसता पूण मदीं बडये वरी सरळ वाडटा आनी तेंगशेर तिका नासण्या वरी कणसां येतात.

**२. तांवस:** ही नडणी भाता वरीच बारीक आसता. तिका तवश्या वरी वास येता. ती आंगान पोकळ आसता, तिची पालय लांब आसता आनी तिका शेंकऱ्या वरी फुलां फुलतात.

**३. तांट:** ही नडणी वर्साचे बाराय म्हयने जमनीर सरपटी वाडटा. ती भेंडान रुंद आसता. तिका शेंकऱ्या वरी फुलां येतात.

**४. ल्होवो:** ही नडणी थंडायेक उत्पन्न जाता. ती झोंपा वरी मातता आनी बडयां वरी उबी लांब जाता. तिका केंसरां वरी फुलां येतात. गर्मेन ही नडणी मरता.

'पल्लें' ही नडणीय खाजन शेतांनी जाता.







# दुःखा दुवाळे

**महाबळेश्वर सैल**

कुळारच्या लोकाक स्नेहाचो गर्भपात करून ताका मेकळें करचें अशें दिसतालें. तांणी तशी तयारीय सुरू केल्ली. स्नेहाकूय समजायल्लें. पूण घोवा घरचो लोक सामको हाचे आड आसलो. ते म्हणटाले, आमच्या कुळाचो दिवो स्नेहाच्या पोटांत आसा. आमचो रोहीत परतो येतलो. खरें तर स्नेहा हाका लागून मोठ्या धर्मसंकटांत सांपडिल्लें. ताकाय कुळारच्या लोका बशेन हातूंतल्यान मेकळें जावचें अशें दिसतालें...

स्नेहालो घोव रोहीत लग्नाक वर्स जावचे पयलींच अपघातांत सांपडून मेल्लो. त्या दिसा पावस खूब पडटालो. माड झाड पावसांत भिजून जशें कुडकुडत उबें आसलें. मळबांत उठिल्लें काळें झडून वयता म्हणसर परतें काळें उठ्ठालें. दुसऱ्या दिसा वडांपुनव आसली. स्नेहा पावसाक जुमानी नासतना शेजारचे एके बायलेक घेवन उदक माडयत बाजारांत गेल्लें. येतना हळद-कुकूम, कांकणां, सवाशिणींल्यो ओटयो भरूंक पांच पोल्कां कपडे, घेवन येयल्लें. आनीक वडाक न्हेसोवंक सुता रिळां.

घरा पावंक चड सांज जावंक नासली. पूण काळ्या कुपांतल्यान काळोख दाटून आयल्ल्यान रात जावंक पाविल्ले वरी दिसताली. तें घरांत येवन पोती दवरून आंगा वेलें ओलें बदलता थंयच आसा, कोण तरी मोटरसायकलीचें घरघरतें इंजीन तशेंच सोडून धांवत दारांत आयलो आनी ताणें मांवाक सांगलें, 'रोहीतालें स्कूटर निसरून तो पडलो आनी ताका आतां सरकारी हास्पिटलांत व्हयला.'

खरें तर तो स्कूटर निसरून पडिल्लो तेन्नाच तकली आपटन जाग्यारूच सोंपिल्लो. हास्पिटलांत डॉक्टरान दाखल लेगीत करून घेतलो ना. भायले भायर तपासलो आनी म्हटलें, *'ही इज नो मोर.'*

मागीर पोलीस हास्पिटलांत येवन पंचनामो करून, हास्पिटलांत घेवन आयल्ल्याचीं स्टेटमँटां घेवन कूड घरच्यांच्या ताब्यांत दीसर रातचीं बारा वरां जावन गेल्लीं. आवय बापायलो एकलोच पूत, तांच्याच दारांत मडें जावन पाविल्लो. मुखाल्ले तीन दीस स्नेहा रडचें विसरून फक्कत पोटांतलो गर्भ सांसपितालें. कोणूय येवन रडटें उलोवन ताका रडोवचो यत्न केल्यार ताका राग येतालो. तागेलो खरो तर रोहीताचेर खुब्ब मोग आसलो. पूण पोटांत तीन म्हयन्यांचो गर्भ आसलो. हें पोटांत सोडून तो उठून गेलो म्हण तें किंवाट्यान थरथरतालें. ताका गर्भ धरतकीर कुळारचीं, घोवा घरचीं कितली ताची अपुरबाय करतालीं, ताका समाधान भोगतालें. पूण आतां मात ताका हें गर्भारपण, आवयपण, हें चिंवांचें फुलप, सगळें बुरशें, सगळी एक ख्यास्त कशी दिसताली.

रोहीत गेल्ल्याचें दुःख सगळ्यांक आशिल्लेंच. ताचे पेल्यान कुळारचीं आनी घोवा घरचीं हांचे मर्दी एक मोनें, दुबावी झगडेंच चलिल्लें. घोवा घरचीं कुळारचे लोक स्नेहालो गर्भ पाडत म्हण दुबावान पळयतालीं, ताका राखतालीं. पूण कुळारच्या लोकाक ताका हातूंतल्यान बेगीचे बेगीन मुक्त केल्लें जाय आसलें, हाची सुलूस घोवा घरच्या लोकांक लागिल्ली जावंये. रोहीताच्या मरणाचे दीस जातकीर आवय बापूय ताका चार दिसां खातीर कुळारा व्हरूंक उठले तर मांव म्हणूंक लागलो, 'जड आंगाचें तें. बरेंच ना. आतांच कित्याक व्हरूंक जाय? मागीर येतलें सावकाश...'

बापायन इल्ल्या तीखपणानूच म्हटलें, 'शास्त्र आसा तशें. मरणाचे दीस जातकीर ताका कुळरा व्हरून हाडूंक जाय. दुःख इल्लें हलकें जातलें. घुसमट्टा तें पळयलें ना तुमी? भितल्ल्यान रडटा तें, भायल्यान दिसना तुमकां.'

मांव कांय वेळ वोगीच रावलो. मागीर ताणें सट्ट करून म्हटलें, 'राखूंक जाय ताका. तागेल्या गर्भाक चड-उणें जावंक दिवंक फावना. हांव जाणा, रोहीतूच आसा तागेल्या पोटांत. परतो जल्मतलो तो. आमच्या घराब्याचो दिवो, एकलोच पूत गेलो म्हगेलो.' तो रडूंक लागलो.

स्नेहा म्हन्यांतूच उबें आशिल्लें. आयकून तें सुन्न जालें. ताचीं चिंतनां मेल्ले वरी जालीं. कितलीं सपनां, कितली हौस बाकी उरिल्ली! आतां तेवीस वर्सांचीच तर उमेदी पिराय. कशें काडटलें हांव आयुश्य! मरतलें बेगिनूच. मागीर भितल्ल्यान अचकीत एक आश्वासन मेळिल्ले वरी जालें, तुमी 'दोगांनीय' वांगडाच मेल्लें कितें वायट! सुट्टलीं दोगांय. मागीर दीसभर मरणाचीं, जीव दिवचींच चिंतना तकलेंत घुंवतालीं. केन्ना दिसतालें, आपणाक दुःखा दुवाळे लागल्यात आनी आपूण वांज गुरवारपण भोगतां.

मागीर ताका ल्हव ल्हव कळून आयलें, आतां आपूण एक रांड चली म्हण आपणालें मोल सगळे कडेन देंवलां. हांव लग्ना भायलो अनौरस गर्भ पोटांत वाडयतले वरी लोक चुरचुऱ्यान, उणाक नदरेन पळयतात.

मर्दींच ताका दिसतालें, मांव, मांय सांगतात तें खरेंच आसतलें, म्हज्या पोटांत तांच्या कुळाचो दिवो वाडटा आसतलो. ताका व्हाळून उडोवन कशें जातलें? फाल्यां तांचो दिवो तांचे सुवादीन करचो आनी मेकळें जावचें. मागीर ताका होलमलें, ह्यो गजाली वजाबाकी करच्यो इतल्यो सोप्यो न्ही.

ते कुळारा आयिल्ल्या दुसऱ्याच दिसा रोहीतालो एक विधवा मावशी ताचे सरीं आयली. स्नेहाची खुशाली घेवंक, ताका

राखूंक आयल्ले वरी दीसभर ताचे भोंवतणी गणमणत रावली. सांजचें तिणें स्नेहाले आवयक ल्हवूच म्हटलें; 'भावोजी, बाय भियेल्यांत, तुमी स्नेहाल्या गर्भाचें कितेंय करीत म्हण. हुस्क्यांत आसात.'

आवयक राग आयल्ले वरी जालो, 'ताणें जिवीतभर हेंच घेवन बसचें? पोटांतल्या तीन म्हयन्यांच्या गर्भाक लागून जिणेची वाट लावन रडत बसचें जिवीतभर? ताका कसलें सूख नाका?'

रोहीताची मावशी झगडूंक उठिल्ले वरी उलयली, 'गर्भ-भुरगें तांगेल्या चल्यालें, सुनेलें, तांगेल्या घराब्याचें. तुमचें न्ही व्हाळून उडोवंक. गुन्यांव जातलो तो तुमचो. भावोजी तुमचेर केस केले बगर रावचो ना.''

'तुमचें तें कांय लागना आमकां आनी आमचेंय कांय नाका. स्नेहाच थारायतलें आपलें कितें तें.'

स्नेहा लागींच आसलें. तें होळोम काडून रडूंक लागलें, 'तुमी झगडूं नाकात गे. तेंकां जाय तशेंच करतां हांव. तेंगेलो पुतूच आसा म्हणटात न्ही...' निमाणीं उतरां ताणें उबगणेनशीं उलयलीं.

मागीर रोहीताले मावशेन स्नेहाक ल्हवूच म्हटलें, 'येतना तुका घेवनूच यो म्हटलां.'

दुसऱ्याच दिसा तें तिचे वांगडा घोवा घरा आयलें. धाकलो भाव पावोवंक येयल्लो तो रोखडोच परत गेल्लो. आतां कुळारच्यां वांगडा वोगीच पयसुल्लेपण आयल्ले वरी जाल्लें.

सववो म्हयनो लागसर तांणी स्नेहाक घरांतल्यान भायर सरूंक दिलें ना. एक दीस स्नेहा आडवळेर काराथे भाजी चिरूंक बशिल्लें. ताणें मांयक म्हटलें, 'तो येवंक चलोच जातलो म्हण कशें सांगतलो?'

मांयन एकदम आवाज ताणत म्हटलें, 'येतलो, तोच येतलो. तोच आसा तुगेल्या पोटांत.'

'स्नेहान मनांत म्हटलें, 'पिशें घेवन बसल्यांत तुमी हें.' मागीर ताका दिसलें, ह्या लोका कडच्यान एक भास घेवची, म्हज्या पोटांत चली आसल्यार फाल्यां तुमी कितें करतलीं काय म्हण? पूण तांचें तें वागप चलप पळोवन मुखार कितें उलोवची ताका इच्छाच जायनासली.

सव्या म्हयन्यार तें एक दीस कुळारा आयलें. घरांत कसली खोशी नासली, किण्ण थंडसाण पातळिल्ली. ताच्या 'फुलां' विशींतर कोण कांयच उलोवचो नासलो. ताची व्हडलीशी अपुर्बायूय नासली. स्नेहाक दिसतालें, कसलें हें मोनें गर्भारपण, जिवाक कांच लावपी. ताका दीसभर रडत ना तर न्हिदुनूच रावचें अशें दिसतालें. केन्ना रोहीताची खुब्ब खुब्ब याद येताली. तो आसल्यारच खरें आसलें!

एक दीस आवयन एक नवी साडी हाडली आनी घडी मोडनासतना मोन्यांनूच बशिल्ले कडेन ताचे मांडयेर दवरली. स्नेहाक घळ्ळ जावन रडूंक आयलें. तें उठून आवयक मिठी मारुन हामेऱ्यांनी रडलें. बापूय, धाकलो भाव, भयण लागींच आसलीं. तीं फक्कत सुन्न पळयतालीं. खरें तर स्नेहाच्या गर्भारपणा विशीं, पोटांतल्या भुरग्या विशीं कुळारच्यांक कसलीच उमळशीक नासली.

स्नेहाक दिसलें, हें कांय आतां म्हजें घर न्ही. म्हजें घर तें घोवालें घर. दुसऱ्याच दिसाक तें घोवा घरा परतलें. मांयन तर केन्ना ताच्या फुलां विशीं, गर्भार जेवणा विशीं कांय उलयलेंच ना.

णव म्हयने भरले आनी पोटाचो घेर खुबूच वाडलो. चलतना धांप लागताली आनी सारक्की हूम सकल देंवताली. ताका चार म्हयन्यांचें गुरवार आसतना एकूच फावट मांय मांवान हास्पिटलांत व्हयल्लें. मागीर कोणें कसली खबर केली ना.

केन्ना मांय घरा येयल्ल्या कोणाकूय रडत आकूळपिकूळ जावनशी सांगताली, 'येतलो म्हजो पूत, येतलोच तो. ताच्या पोटांत तोच आसा. फाल्यां ताका पळयल्यारच दुःख इल्लें विसरूं जायत म्हज्यान. ना तर मरतलें हांव.'

आयकोन स्नेहा मनांत म्हणटालें, कसलीं पिशेपणां करतात हीं! म्हजेर घालून सोडलां, म्हजेंच कितेंय बरें वायट जाल्यार बरें आसलें! जीव दिल्यार बरें हांवें!

पोटांत दुखूंक लागतकीर ताका हास्पिटलांत घालूंक मांव, मांय आनी ती मावशी घेवन आयल्लीं. कळीत करतकीर कुळारच्यान आवय, बापूय, धाकलो भावय आयल्लो. कोण कांयच उलयनासलो. चड हुस्कोय लागला अशें दिसनासलें. एकच उमळशीक आसली सगळ्यांक, चलो काय चली!

रातच्या इकरांक ताका ॲडमीट केल्लें. रातभर वेण्यांचे दुखीन वळवळत आसलें. डाक्टरान सिजेरियन करुंया म्हटल्यार मांवान इतले बेगीन नाका म्हटलें. बापूय तर सामको मान उडोवनूच बशिल्लो. आवय फक्कत रातभर देवाक पाराथताली. आवय बापायक दोगांकूय घडये दिसतालें, भुरगें गेल्यार उपकारता पूण म्हजे धुवेक वाटय. तेन्ना मांव मांयक दिसतालें जावंये, कितेंय जाव पूण 'भुरगो' वाटावल्यार पुरो.

सकाळीं साडेसंक तें सैमीकपणानच बाळंत जालें. ताका चली जाल्ली. रोहीता वरी सांवळें, नाक स्नेहा वरी इल्लें बसकेंच.

चली जालां म्हण आयकतकीर मांय, मांवाचेर काळोख रकयल्ले वरी जालो. मांय कासावीस जाल्ले वरी थंयच्या बांकार बसली. मावशी बेठीच 'शा, शा' करताली. भुरग्याक पळोवंक म्हण ती भितर गेली तेन्ना ती घुम्म मोनी आसली आनी चडूच काळखी चेहऱ्यार दाटून आयल्ली.

ती भुरग्याक पळोवन भायर आयली आनी रोखडीच भायले भायर घरा वचूंक गेली. वयतना ती स्नेहा सरीं, तागेल्या आवय बापाय सरीं कांयच उलयली ना.

मुखाल्ले तीन दीस स्नेहा हास्पिटलांत आशिल्लें. तीन दिसांत एक्कय फावट तीं हास्पिटलांत आयलीं नात. बापायच्यान रावंक नज जावन निमाणें फोन केलो. 'स्नेहाचे खबरेक, ताका व्हरूंक तुमी कोणूच आयले नात!' म्हणटकीर मांवान थंड आवाजांत म्हटलें, 'आमी आतां चल्याच्या दुःखांतूच मरचें. आमचें आतां कितें उरलां, आमी हाडून कितें करतले?' ताणें उतर तुटयल्ले वरी फोन दवरलो.

चवथ्या दिसा सकाळींच आवय बापूय स्नेहाक, तेगेल्या चली-भुरग्याक घेवन घरा आयलीं. स्नेहा तोंड धांपिल्ले बांयंत पडिल्ले वरी जाल्लें.

आवयन म्हटलें, सगळे कडच्यान फटयलें म्हजे धुवेक. आयुश्य खुंटिल्ले वरी काडून घेतलें. चल्याचे आस्तेन लग्न ना, घोव ना, घरूय ना केलें!





# अशेंच एक दीस

शुधा खरंगटे

"बाजारांत वचून नुस्तें हाडूंक जाय गो..." अशें आईन म्हणना फुडें घरांतल्या सगळ्यांक कितें न्हय कितें कामां येवजतात... आनी हांव मात ज्युस्तूच आईक सांपडटां.

अशें हांवें म्हळ्यार आई म्हणटा, "हाका कारण कोण? तूंच न्हय?"

तिगेलेंय खरेंच! म्हाका कामांत आशिल्ल्याचें नसतें सवंग करून कंडो हालोवंक जमचना.

घरांतलीं सगलीं पटपटीत न्हावन-धुवन मेकळीं जातात. आपापल्या कामाक लागतात. हांव मात झाडाच्या कुंड्यांक उदक घाल, देवा खातीर चार फुलां काडून दवर, दीपू कडेन किरायत बस... अशें करतां करतां फाटीं उरतां न्हावपाचें. तसो बाबूय अजून न्हावंक नासलोच. पूण आई म्हाकाच सांगता, "चल गो, न्हावचे पयलीं नुस्त्या बाजारांत मातशें वचून यो. ह्या वेळार नुस्तें बरें ताजें मेळटा आनी मातशें सवायूय आसता."

आतां ही खबर हांवेंच आईच्या कानार घाल्ली. पूण आयकतल्याक दिसपाचें, हीच सद्दां बाजारांत वचून नुस्तें बी हाडटा.

"आई गे, आज बाबूक धाड न्हय बाजारांत, नाय जाल्यार ह्या दिसांनी दीसभर ताचो तो खेळ..."

"आगो, आयताराक मॅच आसा ताची! प्रॅक्टिसेक वता खंय तो..."

"आनी कमल..."

"आई, हांव न्हालां आं! हांव वचचें ना. म्हाका वीट येता थंय वचपाक!"

आतां नुस्तें गिळपाक सगळ्यां मुखार हें!... हाका नुस्त्या बगर उंडी ताळ्या सकल देंवना... नुस्तें हाडूंक वचपाक मात वीट दिसता??

आनी म्हाका कांय नुस्तें जिवाक जायच, अशें ना. ताल्ल्यांच्यो बी तर म्हज्यान हिंवळाणी सोंसूंक जायनात. आतां सुंगटां, विस्वण बी तळिल्लें आसल्यार तें एक घोस्तान खातां हांव! आनी नुस्तें नाका म्हळ्यार आई रोखडीच तापता, "आगो, गोंयचें भुरगें तूं! आनी नुस्तें खायना म्हळ्यार हांसतलो कोणय!"

हांव बाजारांत वतां म्हणपाचें कळना फुडें दीपू फाटल्यान लागलो- "ताई गोऽऽ हांवूय येतां गो तुजे बरोबर... हांव तुका त्रास दिवचो ना... खरेंच, नुस्त्याची पोती बी धरतलों ...ताई गोऽऽ, हांव तुजे बरोबर बाजारांत..."

दीपूचें तें अपुरबायेचें लागोळेपण, तें हांसप, मुरगुटप... तो बोंचो करून 'हांव येता गोऽ' म्हणप, आनी हांवें ताच्या हांसपांत

विरून खिरून वचप... सदचेंच तें!

एका हातांत पोती, दुसऱ्या हातांत दीपू - हांव चल्लें बाजारांत!

ह्या दिसांनी विस्वण बरेऽ येवंक लागिल्ले. पूण अजून सवाय जावंक नासले. फाटल्या दोन समनांत पळय बांगड्यांनी विटयलां... सोंसपाचें न्हय. वीस रुपयांक धाकलो पांटलो भरून बांगडे मेळटाले. पूण आईन म्हणप, 'पन्नास रुपयांक तीन बांगडे खावपाची रूच ह्या सवाय बांगड्यांच्या कप्यांक ना गो बाये!''

नुस्त्या मार्केटांत पावल घालतनाच थंयचो तो मिस्तुराद वास... ती गर्दी... घामसाणी... तातुंतूच वळखीची नुस्तेकांन्न मेळ्ळ्यार ती आनी ''हॉर गो बाय, सॉवाय आसा...'' म्हणत ओडणी धरून ओडपाक कमी करी नासली. खरें म्हळ्यार ह्या बाजारांत येवप म्हळ्यार एक यागूच कसो! तातूंत आनी, दीपू बरोबर...!!

हांवें कुशीक रावनूच एक बरो सो, ल्हान पूण ताजो दिसपी कळवो पारखिलो.

''कसो दिला गे?''

''व्हॉर बाय, व्हॉर! फॉकॉत दॅडशें रुपाय!''

''ताजो आसा मूं?''

''आवोय! कितें उलोयता गो? तुका आनी हांव फोटोयतां? चोय, चोय...''

नुस्तेकान्नीन कल्लें उकतें करून तांबडोच रकशेल्लो भाग म्हाका दाखयलो.

घासाघीस...? वांटपणां...?? हेर कडेन तीं! हांगा नुस्त्या बाजारांत न्हय!!

हांवें देडशें रुपये काडून दिले. विस्वण पोतयेंत उडयलो. आनी दीपूचो हात धरून लागलेंऽ चलूंक.

''ताई गोऽ!''

''किदें जालें रे? मुती जाता?''

''ना. हांवें तुका त्रास दिवचोंना म्हूण पयलींच सांगिल्लें न्हय.''

''मागीर, चल तर सडसडीत. वत आयलें, पळय...''

''पूण हांवूय मातसो पळयतां न्हय...''

''कितें पळयता?''

''विस्वण ताजो आसा जाल्यार...''

आतां हो नाखटा येदो पोर विस्वण पारखितलो!!

मागीर म्हाका याद जाली, नुस्तेकान्नीन कल्लें उकतें करून म्हाकाच दाखयिल्लें... दीपूक दाखोवंक नासलें...

''म्हाका दाखय गोऽ! दाखय न्हय... दाखय न्हय...''

जालें! आतां घरा पावसर ''दाखय न्हय'' चालू उरतलें. रस्त्याचे कुशीक उबें रावन पोती उकती केली.

दीपू एऽद्दे व्हडले दोळे वाटारून नुस्तें पळोवंक लागलो. कळव्याच्या आंगार व्रत पडून तो रुप्या बशेन चकचकतालो आनी ताचोय दोळो वाटारिल्ले बशेन सरळ दोळ्यांक दोळो दितालो.

''ताई गो, दोळो पळय... कसो पळयता न्हय?''

''हय आं... चल, या आतां घरा.''

''ताई, तो म्हाकाच कित्याक पळयता गो?... पळयता न्हय!...

''पिशा, विस्वण मेला आतां... ताका दिसना...''

''मागीर आमी ताका खावप?''

''हय तर!'' मनांत म्हळें, *जीवो जीवस्य जीवनम्*

''ताई, म्हाका दोळो जाय...''

''कितें?'' हांवें आंग काडलें. आतां हाका दोळे काडून दिवप?

''हांव ताचो दोळो खातलों...'' दीपून म्हळें. आनी म्हजें आंग-पांग शिरशिरलें.

''बरें! बरें! आईक सांगया मागीर. आतां चल पळोवया... पावलां उखल... वत येतलें...''

''हांव धरतां ताका ताई...''

''आरे, तो जड आसा. तुज्यान जावचें ना.''

''पूण हांव धरून पळयतां न्हय...?''

''दीपूऽ... तुवें त्रास दिवचो ना म्हणिल्लें...''

''पूण हांवें खंय मुती जाता म्हळ्या...?''

दीपूच्या कोंतान 'मुती जाता' म्हणप म्हणजे त्रास दिवप...

''पळय, तुका दोळो खावंक जाय न्हय? मागीर आमी बेगीन बेगीन घरा पावया... मागीर आई विस्वण कापतली. हुमण करतली. दीपू मागीर खातलो दोळो...''

''असोच खाल्यार कितें जाता? बरो लागना? ताई, हांव हरवें नुस्तें खावन पळोवपी...''

''हरवें नुस्तें...? शिजय नासतना? कसो खातलो...?''

''तशेंच गो! गाजर खातात न्हय, तशें, नाजाल्यार काकडे बशेन...''

हांव शॉकाद! चायनीज रेसिपींत हरवें नुस्तें घालतात खंय! हाका चायनीज आवडटालेंच!

मागीर म्हळें, ''खा बाबा खा! जाय तशें खा! पूण पयलीं एकदांचीं घरा पावया...''

दीपूक तें पटलें. नुस्त्याचो हात सरळ म्हजे ओढणेक पुसून ताणें म्हजें बोट धरलें.

''शीऽऽ! कितें हें? म्हजे ओढणेक घाणी आतां...''

मोठेलेच दोळे आनिकूय मोठे करून ताणें म्हळें, ''...शी:? ...घाणी?? आमी खातलीं न्हय तें??...''

आवयस् देवा! हें म्हाका उरफाटें भरलें! हांवेंच ताका सांगिल्लें, खावपाचे वस्तीक 'शीऽ!' म्हणप ना... बरें बरें म्हणून खावंक जाय. ताका लागून तो नाका जाल्ली भाजी लेगीत 'बरी... बरी' म्हणत वांकडीं तिकडीं तोंडां करून खातालो...

''आरे, पूण...'' हांव सामकेंच शेळेलें!, ''म्हजी ओढणी घा... खराब जाता न्हय?''

दीपूची संवयूच ती. चॉकलेट खाली, म्हऱ्यांत आशिल्ल्या कपड्यांक हात पुसून मेकळो जावप. मामाच्या लग्नांत आयस्क्रीम खावन आवयचे पैठणीक हात पुशिल्ले तेन्ना सणसणीत थापट खावन लग्नांत बॅंड वाजयिल्ले बशेन कितलो वेळ ताचें पेपारें वाजत आशिल्लें.

घरा पावकतच दीपूच्या दोळो खावपाच्या हट्टा वेल्यान बरोच खवदळ जालो.

''शी:ऽ!'', ''आंवंय! आंवंय!'', ''हें आनी नाका जाल्लेंच'' अशे तरेकवार उद्गार आयकुनूय दीपून म्हळें, ''हांव दोळो खातलों म्हळ्यार खातलोंच!''

निमाणे कडेन एक दोळो हुमणांत घालचें थारलें...

तरी बरें, ह्या बोवाळांत 'हरवो कुडको' खावपाची खबर विसरायेर पडिल्ली. हांवें ल्हवूच आईच्या कानार तीय खबर घाली.

तिका पोटांत धवळलें खंय आयकून...

''अवचिन्नच पोर!... एक एक नवेंच काडटा...''

''दीपू आनी अवचिन्न गे?'' हांवें हांसत म्हळें. तशी आई मातशी बेजारलीच म्हजेर.

दीपूच्या जल्मा वेळार आपाक टायफॉयड जाल्लो. आपाल्या पोटांत कांयच धरनासलें आनी अशक्तपण खूब आयिल्लें. परतो परतो जोर येता म्हूण दोतोर लेगीत भियेल्लो. पूण दीपू जालो तेन्नाच्यान जोर मातसो थाऱ्यार पडिल्लो. इल्लो इल्लो करून आपा बरो जाल्लो. आनी म्हणून त्या बाळकाचें नांव दवरिल्लें - 'जयदीप.'

त्याच सुमाराक दादाक प्रमोशन मेळ्ळें. रेशाताईचें लग्न थारलें. मागीर हें सगलें श्रेय दीपूच्या नांवार!

जय मेळोवपी, बऱ्या पांयगुणाचो, शुभशकुनी - अश्यो तरेकवार अपुरबायो दीपूच्यो. हाका लागून तो बरोच हट्टी जाल्लो.

हांव हांशिल्लें म्हूण आईच्या मनाक बी लागलें काय?? मागीर हांवें लाडाविल्ले बशेन आईच्या गळ्यांत हात घाले. ''आई गेऽ... वत लागलें पळय कितलें...'' म्हळें. आई रोखडीच सारकी जाली. म्हणूंक लागली, ''येदी व्हडली घोडी जाली लग्नाची, आनी कसलीं भुरगेपणां गो हीं? गळ्यांत पडटा म्हज्या? फुडल्या वर्सा तुजें लग्नाचें पळोवपाचें जालें... चल पयलीं, न्हा बेगीन,... मागीर तुकाच वेळ जातलो कॉलेजीक वचपाक.''

हांव बेगी बेगीन न्हालें... कडयेन इल्लें शीत जेवलें... दीपूच्या ह्या सगळ्या बोवाळांत बारा जावन गेल्लीं...

''आगो, मातशें सवका जेव गो! इतलें बाजारांत वचून नुस्तें घेवन येता तूं, पूण तुज्या तोंडांत पडप कुस्तारूच जाता. हें पळय... तव्यार घालां पोस्त. खा आनी चल...'' वयनीचो आग्रो.

''नाका वयनी. मॅथ्साचो पिरिएड चुकल्यार खाल्लें पोस्त पचचें ना... आतां दीपूचो दोळो खावपाचो प्रोग्राम मात चुकतलो म्हाका...''

हांव आनी वयनी मागीर जोडयेन पोटभर हांसलीं.

धांवतूच म्हणटात तशी बस धरली. आज तरी पिरिएड चुकचो ना...?... काय चुकतलो?? आनीक खंयचोय चुकल्यार जातालो... मॅथ्साचो चुकूंक जायना...

आजय बसींत पप्पू दिसलो. हालींसराक आत्र्या-पयऱ्यान सिटी बसींत दिसताच तो! खंय वता काय दुकान बी सोडून? देवाक खबर!!

''कितें गो? खरशेलें सामकें?'' ताणें विचारलें.

हो पप्पू म्हळ्यार एक सवंगूच सामकें!

कॉलेजांत आसतना सदांच चलयांची फकाणां मारप, मस्कऱ्यो करप... बारावेक दोन खेपो गड्डो खाल्लो खंय... एक नंबरचो छंदी... एक जाल्यार एकूच धरतलो. मर्दी क्रिकेट खेळपाक लागिल्लो. मागीर घेऽऽ क्रिकेट एके क्रिकेट! परिक्षेच्या दिसा लेगीत क्रिकेटीची प्रॅक्टीस! शेवटाक घरच्यांनी आनी प्रोफेसरांनी मेळून क्रिकेट सोडयली जाल्यार मागीर नाटकां करूंक लागलो. कसलोय पार्ट मेळूं, नाटकाची येसाय चुकोवप ना. पिरिएडस् चुकोवप. रात रात जागरणां करप. निमाणें फेल जालो. मागीर नाटक सुटलें. आनी अकस्मात जो अभ्यासाक पेटलो - दर वर्सा फर्स्ट क्लास! असलें हें रत्न!

मंदा कडच्यान सगळें कळप म्हाका. मंदा म्हजी सामकी जिवाची इश्टीण! पप्पूची बापोलभयण. घरांत खंय पयलीं पयलीं ताका 'पप्पू' ह्या नांवान उलोच मारी नासलीं. काकान म्हणप, ''घोडो जालो घोडो! येदो व्हडलो!... फकत दांगांनी वाडला.... अक्कल म्हणटात ती ना...''

काकीन जेवतना हिणसावप... ''गीळ, गीळ... गिळपाक सगळ्यांत फुडें... गिळून... गिळून मातला पळय कसो एरंडाचो रूख कसो!''

मंदाच्या व्हडल्या भावान - दादान-म्हणचें, ''आतां हो रेडो कॉलेजांत चलयांचीं फकाणां मारूंक लागला खंय! चड शिंगां फुटल्यांत रे तुका?''

पप्पून तोंड धांपून ओग्गी रावप.

मंदाच्या फाटल्या दोगूय भावांक सनी-मनीक मात पप्पूभाई जिवाक जाय आसलो.

काकूट बाबड्या पप्पूची! ताच्या ल्हानपणांत खंय ताचीं आवय-बापूय, मंदाचीं काका-काकी, ताका घेवन शिर्डीक वतालीं. गाडयेक ॲक्सिडॅंट जालो. आवय-बापूय आक्ताक सोंपलीं. पप्पू वांचलो... सगळें तोंड कंवच्यांनी भरिल्लें खंय ताचें! अजून लेगीत ताच्या तोंडार देवी येवन वतकच उरतात तसल्यो मावो सगल्याक आसात.

मंदान म्हाका घरांतल्यो सगळ्यो खबरी सांगप. आपले आवयक दोश दिवन पप्पूची वट घेवप. मंदाच्या मतान, तो लांब-रुंद, साधारण रुपाचो, सांवळो खडबडीतसो दिसपी पप्पूभाई म्हळ्यार खरोच 'ग्रेट!' सनी-मनीचो तर तो हिरो! तांच्यो सगळ्यो केशी, सगलीं केस्तांवां थंडसाणेन आयकून घेवपी आनी तांकां बरेऽ सल्ले दिवपी तांचो पप्पूभाईच!

ताचे सल्लेय बी विचित्रूच आसताले. हांवें आनी मंदान केन्नाकेन्नाय ते याद करून पोटभर हांसप.

शेजान्नील्या संजून सदांच रडी खेळप. आनी विचारल्यार सनी-मनीच्या नांवान बोवाळ मारप. संजूची आवय मागीर तांगेर येवन ''म्हज्या संजूक सनी-मनी सामके पिडटात गेऽऽ, पळय आं, सांबाळ बाये! त्या पप्पू बशेन जावन पडत ते...'' म्हणप. मागीर मम्मीनूय बी सनी-मनीकूच तापोवप. शेवटाक सनीन बेजार जावन पप्पूक सांगलें. पप्पून ताचें सगळें आयकून घेतलें आनी सांगलें, ''आरे, त्या संजूच्या सोंडकुटार एक फुलय आनी तुजो पोलो चोळींत किळांच मार; संजून मारलो म्हणून रड...''

आनी हें वखद बरोब्बर लागू पडलें.

सनीक धुकलून उडोवन 'म्हजो डाव आतां' अशें म्हणून संजू रडी खेळूंक लागलो ते बरोबर सनीन संजूच्या पोल्यार अशें थापट दिलें... आनी, 'आवय गेऽ, आईऽ म्हाका संजून मारलो गेऽ...' करीत आपलो पोलो चोळीत व्हडल्यान रडूंक लागलो. संजू सगळोच गडबडलो. पोलो तर ताचोच दुखतालो... आनी हो सनी कित्याक रडटा?... इतल्यांत संजूची आवयूच बोवाळ आयकून भायर आयली. ''तूंय बी लागलो आतां मारामारी करपाक?'' अशें म्हणून तिणें वेल्यान संजूचोच कान पिळ्ळो.

तेन्नाच्यान संजू सारको ताळ्यार आयलो. सनी-मनीचे वाटेक वचना जालो.

अशें हें पप्पूचें सवंग! म्हाका विचारतालो, ''कितें गो? वेळ जालो आज?''

हांवें हांसून 'हय' म्हणून तकली हालयली.

''आनी तूं खंय चल्लो तर?'' हांवें विचारलें.

''हांव मगो? खंय ना! असोच आयिल्लों, तुकाच मेळपाक...'' आनी कॉमीक केल्ले बशेन आपल्या त्या घोगऱ्याशा आवाजांत मोठ्यान हांसलो.

म्हाका ताची तिडक मारचे बदला हांसुंकूच आयलें... फाटल्या दिसांनी मंदान घरांतल्यो ज्यो खबरी सांगिल्ल्यो त्यो आयकून म्हाका आतां ताचो राग येवचे बदला व्हडविकूच दिसताली.

मंदाल्या पप्पाचो व्यापार... ताचें दुकानांत बरेंच लुकसान जाल्लें. देणेकार पासयो मारूंक लागिल्ले. तातूंत ताका हार्ट-ॲटॅक आयलो. मम्मी सगळीच काचाबूळ... तरी मंदालो दादा - व्हडलो भाव-बँकेंत ऑफिसर आसलो. ताचो आदार आशिल्लो. ताचे फाटलो नरेन तर आतां सी.ए. जावन बरोऽ जोडूंक लागिल्लो. पूण दोगांय भावांचीं मदीं मदीं झगडीं-केस्तांवां चालूच आसलीं. तातूंत दादाची बदली पुण्याक जाली. तो वयनीक आनी धाकल्या अमीक घेवन पुण्याक गेलो. मागीर पप्पाक कळ्ळें, ताणें मुद्दामूच पुण्याक बदली मागून घेतिल्ली. पप्पा सामको सतरवितर जालो. नरेन तर अमेरिकेक वचपाचे खटपटींत आनी शेवटाक तो गेलोच अमेरिकेक. पप्पाक कितें करचें तेंच कळना जालें.

आनी अशा वेळार पप्पून सगळो भार आपल्या माथ्यार घेतिल्लो. देणेकारांक धिरान तोंड दिवन पप्पाचो बिझनेस सांबाळिल्लो. दीस-रात कश्ट करून सगळें परतें जाग्यार घाल्लें. 'बोंद्रे ॲन्ड सन्स' हें नांव मार्केटांत परतें थिराविल्लें.

इतलेंय करून तसोच सादो-सरळ. आपणें कितें व्हडलें केलें अशें ताणें केन्नाच खंयच दाखोवन दिवंक ना. कॉलेजाच्या चले-चलयांनी तर पप्पूक पळोवन म्हणप -''एऽ बोंदऱ्या, आयलो रे?'' पप्पून रागार जावप ना... हांसप आनी ओगीच रावप.

बारा धा जाली. पिरिएड सुरू जालो जातलो. दुसऱ्या स्टॉपार कॉलेजाच्या स्टुडंट्सां बरोबर ते दोगूय 'कुरपणे' बसींत चडले. तकलेर टोप घाल्ले बशेन वाडयिल्ले तांचे ते केंस पळोवन सगल्यांनी तांकां नांव दवरिल्लें 'कुरपणे'. तांकां पळयतनाच सगळ्यो चलयो सादूर जाल्यो. हांवेंय मुद्दम काकणांक लावन दवरिल्ले हूक काडून उकते केले. दोगांय कुरपण्यांची थारिल्ली पद्दत. खंयचेय चलये म्हऱ्यांत उबें रावप, बास्कळ उलोवप आनी व्होल्त आयलें म्हणटकच चलयेच्या आंगार लकून पडप आनी किटकिटप. आनी मागीर हूक तोंपल्यार बोबाट मारप.

आज ही कुरपण्यां जोडी म्हजे म्हऱ्यांत येवन थारली. हांव कुशीन सरूंक हांगा-थंय पळोवंक लागलें. इतल्यान पप्पून म्हळें, ''आगो,ते मुखार वतात. तांकां वाट दी मुगो! नाजाल्यार अशें हांगा येवन उबें राव पळोवया...'' हांव मागीर सुशेगाद ताचे म्हऱ्यांत उबें रावलें. दोनूय कुरपणे मोन्यांनी कुशीक सरले. पप्पूच्या देहाक पळोवन कॉमॅंट करपाचोय तांकां धीर जालो ना जातलो.

म्हाका तेन्ना मंदाचीं उतरां याद जालीं- ''आतां घरांत सगळ्यांक पप्पूभाईचो आदार कसो दिसता. पप्पा म्हणटा, हो पप्पू म्हणचे व्हडलो खांबो कसो. दर खेपे उबो रावता, आदार दिता... तो आसा म्हणून पप्पा-मम्मीक धीर येता'' हांवें मनांत म्हळें, आज तांचो हो खांबो म्हाका आदार दिवंक उबो रावलो. म्हज्या विचारांचें म्हाकाच हांसूंक आयलें.

कॉलेजाचो स्टॉप येतकच पप्पूक 'बाऽय' करून हांव देंवलें. पप्पूय हात हालयत तोंडभर हांसलो. ताचें तें राकट, खडबडीतशें तोंड सामकें फुलून आयिल्लें.

इतलीं धांव-धांव करून आयलें पूण मॅथ्साचो पिरिएड सुरू जाल्लोच! सर बोर्डार सम सोडयतालो. हो मॅथ्साचो सर मातसो चक्रम! केन्ना रागार जायत, केन्ना तापोवर्णी पडत, नेमूच नासलो. पूण आज म्हजे ग्रह बरे आसले. म्हाका दारांत पळोवन मानेनूच 'भितर सर' अशी कुरू करून तो बोर्डा वटेन परतलो. हांवें बेगीबेगीन भितर सरून मंदा म्हऱ्यांत बसकण मारली. आमचें हें थारिल्लेंच. मंदाचें आनी म्हजें! पयलीं पावता ताणें दुसऱ्याक जागो धरप.

पूण आज मंदाक कितें जाल्लें, कोण जाणा! सामकेंच उचांबळ शें जाल्लें... क्लासांत आपूण लक्ष दिनाच, म्हाकाय कांयच आयकूंक - बरोवंक दिना. परतें परतें ''आगो, तुका एक मजा सांगपाची आसा.'' करीत आसा. म्हाका अशीऽ तिडक मारली ताची! ताचे कडेन लक्षच दिलें ना. नोटस् घेत रावलें. मागीर तें चाळवल्ले बशेन म्हजी विणी ओड, खंयचो कार्देन हालय अशें करूंक लागलें.

सगळो पिरिएड म्हाका डिस्टर्ब करून जालें. आतां पिरिएड सोंपलो तशें म्हज्या हाताक धरून ओडटा. हांव ताका रागान पळयतां हें आतांच जाणवल्ले बशेन म्हणटा, ''नंदू, चल भायर या. तुका एक मज्जा सांगूंक जाय.''

''आतां नाकाच. सगळे पिरिएड सोंपतकच मागीर घरा वतना सांग.'' हांवें म्हळें.

तशें मंदा फुगार जावन बसलें. पूण पिरिएडस् सोंपतकच म्हज्या हाताक धरून ओडितूच म्हाका भायर घेवन गेलें. आनी हुमाणें घाल्ले बशेन पिसाय म्हाकाच विचारता, ''आतां वळखय पळोवया... कितें मज्जा आसतली ती?''

''म्हाका खंय खबर तुजी मज्जा? तूंच सांग...'' हांवें म्हळें.

''आगो, आमच्या नरेनभाईचें लग्न थारता.''

''पूण तो अमेरिकेक आसा मुगो...''

''फुडल्या विकाक येता घरा. लग्न करून वतलो खंय. पर्मनंट ग्रीन कार्ड मेळ्ळां न्ही ताका आतां...''

''बरें मगो! आमचे नणंदबायेक आतां नवी वयनीबाय येतली तर... मज्जा गो तुजी, खरेंच!'' हांवें मंदाच्यो मस्कऱ्यो केल्यो.

''आगो, खोंटलेभर फोटे- नक्षत्रां आयल्यांत. बऱ्या बऱ्या चलयांचे... सुंदर सुंदर फोटे... आनी काल नरेनभाईचो फोन आयिल्लो. ताणें फोनार पप्पाक कितें विचारलें, जाणा तूं?'' आनी मंदा म्हाका कोंपरान धोंगशिता धोंगशिता...

''कितें? सांग मगो... नाजाल्यार चल बेगीन. बस येवची जाली...''

मागीर एक एक उतर सवकासायेन उलयत मंदान म्हळें, ''तें नंदिनी... शेजारचें काण्यालें... ताचें कितेंय नक्षत्र बी आयलां जाल्यार सांगात...'

अजापान काय भंयान कोण जाणा, म्हज्या काळजांत कच्च जालें. तोंडूच धरिल्ले

बशेन जालें म्हजें. मंदा मात आपलेच उमेदीन सांगत आसलें, ''पप्पान हें नंदिनी कोण काय विचारलें, मागीर मम्मीन सांगलें 'आमगेल्या मंदाली मैत्रीण पळयात, नंदू... सदांच आमगेर येता, पळयात. मंदा बरोबर अभ्यासाक... गोरेंपिट्ट... एक शिवड... लांब केसांची विणी घालपी... मोठश्या हांसऱ्या दोळ्यांचें. सभावान गोड... अभ्यासांत हुशार तशेंच घरांतलें सगळें करपाकूय हुशार... अशें आनी तशें... मम्मी सामकी भुल्लुशिल्ले बशेन जाल्या. तूं सून मेळटली म्हणून...''

हांवें फाटीर एक धुमको घालो तेन्नाच मंदाची बडबड थांबली. आनी मागीर सिरिअस जावन ताणें विचारलें, -''नंदू, खरें सांग आं, नरेनभाई कडेन लग्न जावन अमेरिकेक वचपाक तुका आवडटलें?''

हांव ओग्गी, सामकें वाचा धरिल्ले बशेन! म्हजी विचार करपाची शक्तूच कोणें चोरून व्हेल्ले बशेन... मंदा म्हजो खांदो धरून हालयता, खुनायता... 'एऽ नंदुऽ...नंद्याऽऽ... उलय मुगो!''

म्हज्या दोळ्यां सामकार मंदाच्याच रुपाचो, गोरोपिट्ट रुबाबदार नदरेन उबो रावलो...!!

आनी मागीर एक एक याद जावंक लागली.

एक दीस तांच्या दारांतूच आमची टक्कर जाल्ली. म्हजी तकली हातांत धरून ताणें म्हणिल्लें, ''चल, परती तकलेर तकली आपटी... नाजाल्यार दोन तकल्यो येतल्यो. आनी मागीर हांसतूच म्हजी तकली आपले तकलेर आपटिल्ली.

''आगो मंदीबैल, तुजो नंदीबैल आयलो पळय...'' अशें म्हणून म्हज्यो मस्कऱ्यो करपी नरेन...

''काल खंय गो तूं? आयलेंना अभ्यासाक?'' अशें म्हणून म्हजी विणी ओडपी नरेन...

हांवें ताच्यो सगळ्यो मस्कऱ्यो फकाणांचेर व्हरप. हांसप आनी ओग्गी रावप. ताच्या मनांत म्हजे विशीं अशें कितेंय आसतलें अशें हांवें केन्नाच चिंतलें लेगीत ना.

मंदानूच म्हाका हालोवन हालोवन विचारांतलें जाग्यार हाडलें.

''आतां कितें? मज्जा एका मनशाची!! एकलें मनीस आतां फॉरेनाक चल्लें. मागीर आमची वळख तरी उरत काय...?'' मंदाली बडबड परती चालू जाली.

''मंदाऽऽ... मंद्याऽऽ...''

''कितें गे वयनीबाय...?''

''भुल्लुसपाची गरज ना. म्हाका अजून तरी लग्न जावपाचें ना. आनी हें फायनल म्हणचे फायनल...''

''आगो... पूण...''

''पूण बीण कांय ना... हांवें सांगलें न्ही, म्हाका इतले बेगीन लग्न जावपाचें ना, आनी हें फायनल म्हणचे...''

तशें म्हाका चाळयत मंदान म्हळें, ''आयकलें तुजें, फायनल म्हणजे फायनल... पूण हें घरा वचून तुज्या घरच्यांक सांग. आमची मम्मी हो वेळ मेरेन तुमच्या घरा वचून सगळें फायनल करून बसल्या जातली... चल... बेगीन... घरा.. वचुया.''

हांव आनी मंदा ताकतिकेन बसस्टॉपार पावलीं. आमच्या दोळ्यां मुखार बस सुटली...

''आतां दुसरी बस येयसर हुमकळया हांगा...'' मंदान पोले फुगोवन म्हळें.

म्हजे परस मंदाकूच घरा पावपाची चड ताकतीक दिसताली. हांवें नरेना कडेन लग्नाक ना म्हणिल्ल्यान वायट दिसचे बदला मंदा म्हाका चडूच उमेदीशें दिसलें.

म्हळ्यार, हांव नरेनाची बायल जावप हें मंदाक पसंत ना तर...?!

आनी म्हाका...?? म्हाका कितें दिसतालें?

नरेना सारक्या देखण्या, कर्तबगार तरणाट्यांचेर चलयेकारांच्यो उडयो पडप समाच आसलें.

म्हजी आई आनी आपा - तीं कित्याक ना म्हणटलीं? आपाचें आनी आईचें केन्ना तरी जाल्लें उलोवणें म्हज्या कानार पडिल्लें-

आई म्हणटाली, ''अंदूचें हें कॉलेजीचें वर्स सोंपतकच नंदू खातीर सोयरिको पळोवंक लागात आं... वर्सां खंय रावतात?... अशींच धांवतात...''

आनी आपान म्हणिल्लें - ''तुवें सांगचे पयलींच हांव भुरग्यांची खबर काडूंक लागलां...''

आतां ही मागणी घालून आयिल्ली असली सोयरीक आई-आपा सोडतशें म्हाका दिसना.

पूण नरेनाची याद काडल्यार म्हज्यां मनाक कितेंच कशें जाणवना? नरेनाची मूर्त दोळ्या मुखार आयल्यार हांव भितल्ल्यान फुलून कशें येना...? देहाची ओड... मनाची ओड... हें सगलें कळना जावंक हांव कितें कुकूलें ना आतां...

विसावें वर्स म्हळ्यार चल्यां विशीं आकर्शण, ओड दिसपाचेंच वय हें...!

पूण म्हाका नरेना विशीं असली ओड केन्नाच दिसली ना!

पयलीं येतना वतना तकलेर अशेंऽ थापट मारप. केन्ना विणीच ओडप - अशें ताणें जायत्यावेळा केलां. हांवें तें सदांच हांसपाचेर व्हेलां...

अकस्मात आनीक एक विचार म्हज्या मनांत आयलो.

म्हजेच भितर कितेंय उणेपणां नात मूं?

तशें हांवें जायतें वाचिल्लें... आयकल्लेंय बी!

थोड्या चलयांक चल्यां विशीं आकर्शणूच नासता. चड कित्याक? भिकू बाबाले सोनाताईक व्हडा दबाज्यान लग्न करून बऱ्या मोठ्यांगेर दिल्लें. आनी तें घोवाक लागीं लेगीत घेना म्हूण म्हयन्या भितर ताका घरच्यांनी परतें कुळारा हाडून पावयिल्लें...

म्हजें लग्न केल्यार तशें बी कितेंय जायना मूं? देवा सायबा! आतां हांव करूं तरी कितें?

हांव मनांतल्यान बरेंच भिलें.

मागीर मंदाकूच विस्वासांत घेतलें...

''मंदाऽ, हांव अशें कशें गो? म्हाका कांयच कित्याक जाणवना गो?... म्हाका आयुश्यांत खंयच्याच चल्या विशीं ओड अशी दिसलीच ना.... केन्नाच दिसली ना...! हांव खरेंच लग्नूच जावचें ना.... केन्नाच ना...

''एऽ पिश्या, हांव तुज्याच वयाचें न्ही? हांव खंय केन्ना...?''

''आनी तो रोहीत मुखावेल्यान पासयो मारूंक लागतकच...''

''एऽऽ, चूप! ओग्गी बसता काय ना तें!''

हांवें मंदाच्या तोंडार नदर मारली. गोरेच पोले तांबशे जावंक लागिल्ले... दोळे सपनेताले... तोंडार हांशें... आनी लजय बी...

हेंच्च तें!... म्हाका कित्याक भोगना हें?

हो उमाळो म्हज्या काळजांत कित्याक उगरमना?

"आतां गो?... कितें करपाचें?" मंदान विचारलें.

"हो आतां नसतोच चक्रव्यूह जालो मुगो!"

आमच्या दोगांच्याय घरां मदीं सामकी दाटी आशिल्लीः दोनूय घरांतल्यांचीं मनां दुखय नासतना म्हजो न्हयकार कसो तांचे मेरेन पावोवपाचो?

मंदान आनी हांवें थंयच बसून जायतीं कारणां सोदलीं ...कॅन्सल केलीं. दोळ्यांहुजीर दोन सिटी बसीस आयल्यो... गेल्यो... आमच्यो तकल्यो एकवटावन आमी लग्न नाका म्हणपाचीं निमित्तां सोदीत आसात...

"हांव क्रिस्तांव आशिल्लें जाल्यार मारिया बशेन हांवय सांगतलें आसलें घरच्यांक, म्हाका माद्री जावची खोस आसा म्हणून..." हांवें बेजारून म्हळें.

आतां येतली ती बस निमाणी... मागीर आनीक बस ना...

म्हाका घरा वचपाकच भंय दिसूंक लागलो.

अकस्मात स्फूर्त आयिल्ले बशेन मंदान म्हळें, "आयचो दीस कशें तरी सांबाळ गो. हांव पप्पूभाईक विचारून कसली तरी युक्त फाल्यां तुका सुचयतांच!... शूअर...!"

पप्पूभाई! पप्पूचें नांव आयकुनूच म्हज्या तोंडार एकदम हांसोच फुल्लो... तो एक सवंगसो... सुचयतलोय कितेंय मजेशीर उपाय!!

आनी मनांत एक विचार लेगीत आयलो. त्या नरेना बदला पप्पू विशीं म्हाका विचारिल्लें जाल्यार...?!

म्हज्या मनांतल्या विचाराचें म्हाकाच हासूंक आयलें. शीः! कसलो विचार करतां हांव पिश्या बशेन? पप्पूचो?

पूण खरेंच पप्पूच्या विचारान काळीज म्होंवेल्ले बशेन... आंग-पांग फुलून आयिल्ले बशेन कशें...?

हॅट!... खरेंच पिशें काय कितें हांव?!

दुसरे वटेन मनाक दिसलें, "आरेच्या! म्हाकाय अशें भोगता तर! हांवूय हेर चलयां बशेन कोणाच्या तरी विचारान मनांत म्होंवेवंक शकतां तर...!!

तरीच!!!... केन्ना केन्नाय, हांव पिश्या बशेन वागतालें. अभ्यास करून जालो... घरा वचचो वेळ जालो तरी हांव मंदागेर बसुनूच रावतालें... ह्या ना त्या कारणान पप्पू घरांत येयसर रावप. ताच्यो दोन कॉमिको आयकून मागिरूच हांसत घरा वचप...

मंदा कडेन खबरी मारतना लेगीत कान ताची सुलूस घेताले...

हाचो अर्थ, म्हाका पप्पूची ओड दिसताली?!

अकस्मात जाणवल्लें तें सत म्हज्या मनाच्यान कशेंच सोंसूंक जायना जालें.

तकली गिरगिरिल्ले बशेन जाली.

तरीच!... तरीच बसींत चडटना दोळे पप्पूक सोदूंक भिरभिरताले. ज्या दिसा तो येवंक ना त्या दिसा मनान विचारपाचें, 'आज पप्पू कित्याक येवंक ना काय?, आनी मागीर सगळो दीस कितें तरी शेणिल्ले बशेन जावचें मनाक...!!

निकत्याच जाणवल्ल्या ह्या गोड विचारांत बुचकळत रावचेंशें दिसूंक लागलें... खूब तेंप, अनंत काळा मेरेन त्या सुखांत घुसमटत रावचें...!!'

पूण आतां हो चडूच घुस्पागोंदळ जावन पडिल्लो.

किते करूं?.... कशें सांगूं...?!

"मंदाऽऽ..."

म्हज्या काळजांतलो कलकल मंदाकूय म्हज्या उल्यांतल्यान जाणवलो जातलो. ताणें म्हजो हात धरून विचारलें, "नंदूऽ, कितें जालें गो?"

मागीर हांवें म्हळें, "मंदा, हांव तुजी वयनी जावंक तयार आसां. पूण हांव कितें सांगतां तें तुजे -म्हजे भितरूच दवर..."

आनी मंदाचें तोंड एकदम निर्शेलेंच! ताणें म्हळें, "म्हणचे?... इतलो वेळ ज्यो जाणवायो सांगतालें... सगळें नाटकूच गो नंदू??"

"नाटक न्हय... हांव तुजी वयनी जावंक एका पांयार तयार... पूण नरेनाची बायल न्हय..."

मंदा मातशें घुसपलेंच! पूण दुसऱ्याच खिणाक ताचें तोंड सामकें खोशयेन फुलून आयलें.

"नंदूऽ... म्हणचे... पप्पूभाई गोऽ?"

हांवें लजतूच 'हय' म्हूण मान हालयल्या मात, ताणें म्हज्या गळ्याक जी वेंग मारली, हांव घुसमटलें!!

ताच्या दोळ्यांत खोशयेचीं उदकां... तोंडांतल्यान हीं उतरां... "सामकें म्हज्या काळजांतलें उलयलें गो तूं!!"

आनी मागीर एक एक सांगूंक लागलें. "पप्पूभाई गो, दिसांतल्यान एक खेपे तरी तूं दिसचें म्हूण कितें कितें आयडिया काडटालो. म्हाका हाची सुलूस लागली तेन्ना हांव खरेंच कळवळ्ळें गो ताचे खातीर...! खंय तूं रुपेस्त-गुणेस्त सुंदरी... आनी खंय म्हजो हो रांकट... खडबडीत पप्पूभाई! पूण मनान खरो भांगर गो तो... आनी तुजेर जीव ओंवाळटा गो तो सामको... आज हांव सामकें खोशयेन भरलां... खऱ्यांनीच.

मागीर मंदालीं नाटकां सुरू जालीं.

वरदान दिवंक देवतेन हात उबारिल्ले बशेन हात उबारून ताणें म्हळें, "बाळका,हांव प्रसन्न जालां तुजेर... जाय तो वर माग म्हजे कडेन..."

हांवेंय मागीर नाटकीपण करीत बाग घेवन ताका पांयां पडत म्हळें, "देवते पाव! म्हाका वाट दाखय..."

आनी मंदाची बुद्द केन्नाच न्हय ती सुपरफास्ट चलूंक लागली.

"नंदू, तुजो तो पयलें बक्षीस मेळिल्लो निबंद याद आसा तुका? याद कर, तुवें कितें बरयिल्लें? भारतीय संस्कृताय... तिचो न्हास... अमेरिकेक आशिल्ल्या भारतियांचे फुडले पिळगेचेर जाल्ले वायट परिणाम... तुवें बरयिल्ले सगळे मुद्दे याद कर. सामके पाठ कर आनी घरा वचून सांग, तुका अमेरिकन जिणेची ॲलर्जी आसा. तांकां सांग, नरेनभाई भारतांतूच रावतलो - जाल्यार तूं लग्नाक तयार - एका पांयार तयार आसा म्हणून... आगो, हांव तुका दोळे धांपून सांगतां न्ही, तूं वा अमेरिका असो पर्याय दवरल्यार नरेनभाई अमेरिकाच वेंचून काडटलो.

हांवें खोशयेन मंदाच्या हातार ताळी दिली.

धांवत धांवत आमी निमाणी बस धरली तेन्ना तन-मन कशें ल्हव-पीक जाल्लें...!!!





# अभयारण्य

**प्रकाश पर्येकार**

गोरवांक वाड्यांत बांदून आवडू खळ्यांत भितर सरलें. वेंगेंतलीं लाकडां तेणें पडवेर दवरलीं. न्हेसण फाफुडीत तें खळ्याचे म्हेरेर बसपाक गेलें. घरा फुडलें हें खळें केल्यार सात-आठ दीस जाल्यात. आजय सकाळीं फुडें आवडून खळ्याक शेण काडलां. कोंबड्यांनी हांगा थंय हागून खळ्यांत हळशीक केल्ली. तें खळ्याच्या म्हेरेर येवन बसलें. सांज जाल्ल्यान भोंवतणच्या वातावरणांत थंडसाण आसली. ह्या दिसांनी तिळसांजच्या वेळार थंड वारो व्हांवता... आवडून सरभोंवतणी नदर माल्ली. पयस दोंगर रानांत काळोख दाटून येयल्लो. आतां कांय वेळान घरा भोंवतणचो सगळो वांठार काळखांत बुडून वयतलो. असो काळोख दाटून येतकच आवडूचें हें रानघर काळखाचोच एक भाग जाता. आनी ह्या घरांत एकलोच कोणूय आसतकच सगळेंच भयाण दिसपाक लागता.

खळ्याचे भायले वटेंत आसलेल्या उकड्डार कोंबडी आपल्या पिलांक घेवन भोंवताली. काळोख पडलो तरी ती कितें तरी उस्तून खावपांत दंग आसली. 'ग्योऽऽ ग्योऽऽ', आवडून कोंबडेक आपयली. तशी ती कांकारपाक लागली. आवडूचीं हेर कोंबडीं रातचीं घरा फुडें आसलेल्या पणसाच्या झाडार बसतात. घराचे फाटले वटेन गोरवांचो वाडो आसा. थंय चंपी कुत्रें दोंगरा वटेन तोंड करून कोणाक तरी एक सारकें भोकतालें... रानांतल्या सावदांचो सराव मेळटकच तें अशेंच तोंड वळसर भोंकता. आतांय तेचें अशेंच जालां आसपाक जाय. कांय वेळान वाड्यांत पाडूक हांबेवपाक लागलें. 'आयज पाडकाक पियोंक पाणी दिवंक ना. पाड पडों म्हाज्या उगडासाक.' आपल्याकूच खेपीत आवडू म्हेरे वयलें मोठ्या कश्टान उठलें. घरांत वचोन तेणीं कळसोभर उदक हाडलें आनी तें वाड्या वटेन गेलें.

आवडूक कामाक वेळ काळ लागाना. एकदां हातीन घेतलेलें काम तें अर्दवट सोडून दिना. सुशेग घेय नासताना काम करपाची तेची ती मुळचीच संवय. गिमाच्या दिसांनी आवडू गोरवांक वाड्यांत बांदिना. घराचे फुडले वटेन सरभोंवतणी वंय करून तें वाड करता. हे वाडींत गोरवांक पावसाळो ये मेरेन बांदतात. दिवाळी जाली. आतां रोखडीच वाड करपाक जाय. काल तें आनी तेचो पूत वासू रानांत वचोन दोन भरे खूंट घेवन येयल्लीं. वयल्या रानांत आनीक दोन भरे खूंट काडून दवरल्यात. भरो बांदून ते घरा हाडपाचे. आयज सांजच्या मायत्याक ते खूंट हाडपाचो आवडूचो बेत आसलो. पूण आयज पुराय दीस तेणें कश्टांचें काम केलें ना. दनपारां जेवच्या पयलीं सदांच तें कपडे उमळपाक न्हंयचेर वयतालें. आयज तेणें कपड्यांक हात पासून लायलो ना. कसलेंच काम करी नासतना आवडूक आयज खुपच पुरो जालां. तेचे हात पांय वळून येयल्यात. तकली जड जाल्या. सगळें आंगूच जड जालां...

आवडू पाडकाक उदक दिवन येयलें. तेचे फाटल्यान जमनीचो वास घेत चंपी येयलें. कोंबडी आपल्या पिलांक घेवन घोंटाक वचोन बसलेली. पडवेर कोनशाक वटकोन दवरलेली पांज काडली आनी आवडून पिलांक आनी कोंबडेक धांपलीं. आवडू तशेंच खळ्यांत येयलें. चंपी शेपडी हालयत तेच्या पांयां कडेन

घुटमळोंक लागलें. आतां घरा भोंवतणचो वांठार काळखांत दाटून गेल्लो.

आवडू खळ्यांत उबें रावोन काळखाचोच एक भाग जावन भोंवतणचो काळोख आपल्या दोळ्यांनी भरून घेतालें... आयज तें अशें काळखांत विरगळोन कित्याक गेलां? रानांतल्यान देंवोन सकयल येयल्ल्या त्या थंड काळखांत आयज तें कोणाक सोदता काय? कश्टांचें काम करी नासतना आयज तें इतलें सुकून भागून कित्याक गेलां? एकादें तसलेंच कारण आसल्या शिवाय आवडू मनांतल्यान केन्नाच हालना. हालपाक तें पोकळ काळजाचें काय न्हूं. हो दाटून येयल्लो रानकाळोख तेका भियेवंक शकना. काळखाच्या सांगातान तें फाटलीं साबार वर्सां ह्या एकुलया रानघरांत जियेता. कितलीं वर्सां जातलीं काय आवडूच्या लग्नाक? आंकड्यांचो हिशोब तेचे कडेन घडये नासतलोय बी. पूण अंदाज तरी नक्कीच आसा. कोंबडीं बसता त्या घरा मुखावयल्या पणसाक आनी आवडूच्या लग्नाक सारकींच वर्सां जाल्यांत. आपलें लग्न जाल्लें त्याच वर्सा आपल्या मांवान तो पणसाचो रोपो मिर्गार लायलेलो म्हणपाची तेका घट याद आसा. व्हडलें चेडूं वासंती जाल्लें त्या वर्सा सकयल मळयेंतले ते ऊंच दिसपी चार माड तेच्या घोवान लायलेले. वासू जाल्लो त्या वर्सा आवडून आपूण नेमां मारून मळयेंत बाकीचे माड लायलेले... आवडूचो घरकार भातू भायर पडलेल्याक तीन वर्सां जाल्यांत. पूण त्या वर्साची कुरू मात तेच्या घरा भोंवतणी कांयच ना. आपल्या घोवाची याद येतकच तें चडूच खंती जालें.

आयज दनपरां आवडू सकयल मळयेंत गेल्लें. ते मळयेंत माड, केळी आनी कांय पेरींची झाडां आसात. हे बागायती मदीं ल्हानशें सांतेरीचें देवूळ आसा. ही सांतेर आवडूच्या घराण्याची कुळदेवी. बागायत भोंवले उपरांत आवडू त्या देवळांत कितलो तरी वेळ बसोन रावलेलें. थंयच्यान मागीर तें न्हंयचेर गेल्लें. थंय तें खडपाचेर बसून न्हंयच्या खळखळट्या पात्राक पळयत बसलेलें.

दनपारां तेणें चुलींत आग पेटयली ना. आयज रांदपाची तशी तेका इच्छा जाली ना. बागायत भोंवतना तेणें एके केळीक घड बगलेलो. त्या घडाचीं चडशीं केळीं पिकलेलीं. तेणीं तीं पिकलेलीं केळीं खाल्लेलीं तितलींच. चंपी उपाशीं आसा हें आवडूच्या लक्षांत येतकच तें तशेंच बेगीबेगीन घरा येयल्लें. रातचें उल्लेलें शीत तेणीं तेका वाडून परतं तें घरा सकयल्या घोटकाच्या झाडा पोंदा येवन बसलेलें.

घरा भोंवतणच्या रानांतले रातकिडे आपल्या सुरांत एक सारके आड्डताले. कसलें तरी एक सुकणें विचित्र आवाज काडून दोंगरा वटेन रडटालें. त्या सुकण्याच्या आवाजान आवडू भानार येयलें. आपले भोंवतणी काळखाचें साम्राज्य दाटलां म्हणपाचें तेचें तेकाच कळूंक नासलें. हो दाटून येयल्लो काळोख आपणाक खावंक येता असो विचार तकलेंत येतनाच आपणेन आजून तुळशीक दिवो लावंक ना म्हणपाचें तेच्या लक्षांत येयलें. तेणें वगत केलो ना. पडवेर दवरलेलीं लाकडां तेणीं वेंगेंत घेतलीं आनी तें भितर रांदचे कुडींत गेलें. काळखांत अदमासान तेणें चुली पाट्या वयलें फस्क सांसपिलें. काडी पेटोवन तेणीं थंयच लागीं आसलेली चिमणी पेटयली. इतलो वेळ काळखांत बुडून गेल्लें तें दोन कुडींचें ल्हानशें घर उजवाडान भल्लें... दुसरी एक चिमणी सोदून तिवूय पेटयली आनी भायर पडवेर हाडून दवरली. तें तशेंच तुळशी कडेन गेलें. तुळशी पेडये वयलें निरंजन घेवन तें देवाऱ्यांत गेलें. लामणदिवो आनी निरंजनांत वाती घातल्यो. तेल घालून दोनूय दिवे पेटयले. निरंजन घेवन तें तुळशी कडेन गेलें. आवडून कमरेचो पदर काडलो आनी ओणव घालून हात जोडले. कांय वेळ तें थंयच पेट्ट्या निरंजनाक पळयत उबें रावलें आनी पळयतां पळयतां तेच्या दोळ्यांनी दुकांक वाट करून दिली...

लग्न जावन सून म्हण ह्या घरांत येयले उपरांत आवडू आयज मेरेन दोन-तीन फावट रडलां. वाड्यांत बांदलेलें वासरूं वागान माल्लेलें तेन्ना तें पयले फावट रडलेलें. कसलोच गुन्यांव नासतना झाडां माल्ल्यांत म्हणो फॉरेश्टरान आपल्या घरकाराक धरून पुलिसेंत व्हेल्लो तेन्ना तें दुसरें फावट रडलेलें. आनी कोणूय एके बायलेन आपलो घोव मरतकच हुयेली मारून रडचें तशें आवडू आपलो घोव भायर पडलेलो तेन्ना रडलेलें... पूण आयच्या तेच्या त्या रडपाक वेगळोच अर्थ आसा. ह्या तिनसांजच्या वेळार तेच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवपा फाटल्यान तशें कारण आसा.

हय, आयज सकाळचीच गजाल. आवडू पाणी हाडपाक कळसो घेवन न्हंयचेर वचपाक भायर सरतालें. इतल्यान तेच्या चेड्यान तेका थांबयत म्हटलें,

'आवय, मात्सी राव. तुकां काय सांगोक जायें.'

'सांग. आयकतां.'

'हांगा तरी यो.'

'सांग तूं, आयकतां मी हांगासून...'

'अशी हांगा यो गेऽऽ.' आपलो पूत आपणाक काय तरी म्हत्वाचें सांगपाक आपयता अशें मनांत हाडून आवडू तेचे लागीं गेलें.

'आवय, आमी हें घर सोडून कुमठळ गांवांत रावपाक या.' वासूचीं तीं उतरां आयकून आपल्या पुताक कितें जाप दिवची तें तेका समजलें ना. तें तेंच्या तोंडाक बगीतच रावलें.

'आवय, सांग मगे, आमी थंय चिऱ्यांचें घर बांदुया. देवळा कडल्या धानूकाकान घर बांदपाक जमीन दितां म्हणो सांगलां.' ह्या वेळारूय आवडूच्या तोंडांतल्यान एक लेगीत उतर भायर सरलें ना. आवडूचे ओंठ थरथरपाक लागले. तेची जीब मोनी जाली. आपल्या दोळ्यां कडेन काळोख दाटून येता अशें तेका त्या खिणाक दिसपाक लागलें.

'आवय, अशी ओगी कित्याक? सांग गे.' आपली आवय कांयच उलयना ती बगून वासू थोडोसो भियेल्ले वरी जालो. आपणें घेतिल्लो हो निर्णय आपले आवयक मानवचो ना हें वासूक पयलींच खबर आसलें. तेका लागोन वासू आपल्या मनांतली ही गजाल फाटले कितलेशेच दीस आवयक सांगपाक फाटीं-फुडें जातालो. आयज धीर करून वासून आपलें मन आवय कडेन उकतें केल्लें. आपली आवय कांयच उलयना तें बगून तेणें फुडें म्हटलें,

'फॉरेश्टाचे जमनींत आसलेले बाकीचेय गांव सरकार उठोवपाचो आसा खंय. आयज ना फाल्यां आमकांय हो गांव सोडून वयचेंच पडटलें. हरशीं म्हणो ह्या रानांत रावोन कसलो फायदो...?' आपल्या पुताच्या तोंडांतलीं हीं

उतरां आयकोन आवडूच्या दोळ्यांत दुकां दाटून येयलीं. पदर ओडून तिणें दोळ्यांक लायलो. तिचे तकलेची एका अर्दातली शीर तटतटपाक लागली. तिची तकली भेरेली. तिचो मोनेळ आजून सुटूंक नासलो. आतां तिचे दुकांनी भल्लेले फकत दोळे उलयताले...

'आवय, रडटा कित्याक? ह्या रानांत आमी आनीक कितलीं वर्सां रावतलीं? सरकारान आमकां हांगासरल्यान चलात म्हणचे पयलीं आमी दुसरे कडेन या. कुमठळ हो मोठो गांव. थंय बऱ्या वायटा खातीर शेजारी आसतले... थंय शाळा आसा. अंदूच त्या गांवांत दांबरी रस्तो जाला. आतां थंय सकाळ-सांज बस येतली खंय...' वासू तिका आपले परीन एक एक मुद्दो पटोवन सांगतालो. पूण ती भरलेल्या दुकांनी वासूक थीर नदरेन बगताली.

'आवय, सांग मगे. म्हाका तुजे कडल्यान उतार जाय..' वासूच्या ह्या उतराक आवडू जाग्यार उबें आसा थंयच्यान आइडलें,

'ह्या गोरवांक वाग्याच्या फुडयांत घालुया? चार गोटे पोटांत पडटा तें सर्द शेत पडींग उडोवया? तुज्या बापायन करून दवरलेल्या मळयेंतल्या उत्पन्नाचेर कायमचें पाणी सोडुया? तुजे जाण्टेले हांगाच जाले आनी हांगाच मेले. तेंका हांगाच सोडून आमी दुसऱ्यांच्या गांवांत रावोंक या? आनी सांतेरीक दिवो-वात कोण लायतलो? हें सगळें सोडून आमी कुमठळ्या गांवांत जयपतीक पावतलीं?'

'पूण फॉरेश्टर...'

'फारिश्टरांचो भंय म्हाका घालता? सरकारान सगळ्या गांवांक उठयले तरी मी मात हांगासरलें कशेंच वयचेंना. सरकार केदो आसा तो बगतां मी... येवनी सरकाराच्या मनशांक. एक एकल्याचे दोंके कोयत्यान चांचायना जाल्यार ही नांवाची कडवळकारीन न्हू... तुकां जायो थंय तूं चल. मी मात ह्या कडवळी गांवांतच मरतलें.' आवडू उतरा कणकणी उजो ओंकीत उलयतालें. आपली आवय इतली हट-नेट करतली अशें वासून केन्नाच चिंतूंक नासलें. भार येयलेले वरी ती तावा तावान उलयली आनी कांय वेळान आपलेच भितर बडबडीत कळसो घेवन न्हंयची वाट चलपाक लागली.

कडवळ गांव गोंयचे शिमे भितरलो निमाणो गांव. हो गांव कुमठळ गांवा पासून देड वराचे वाटेर आसा. तशें पळोवंक गेल्यार कडवळ गांव हो नांवा पुरतोच गांव. शंबर सवायशें वर्सां पयलीं एकाच कुळाचीं हांगा पांच घरां आसलीं. एका वर्सा रानांतल्या कणकींक कांटो येयल्लो. रानांतले सगळेच गांव कणकीच्या कांट्याक लागोन खूश आसले. कडवळचीं हीं पांचूय घराणीं त्या वर्सा खुपच उमेदीन आसलीं. अंदू कणकीचो कांटो एकठांय करून दवरूंक मेळटलो. फुडले स म्हयने बरे वयतले. कारण कांट्याचें पीठ करून भाकरी करपाक मेळटा... सगळ्यांनी कांटो एकठांय केलो. पूण त्या वर्सा जालें भलतेंच. त्या रानवाठारांत धाम येयली. कसल्या तरी रोगाक लागोन घरांतलीं मनशां मरपाक लागलेलीं... सात-आठ दिसा भितर एकल्याच घरांतलीं तीग जाणां मेलीं. तेंचेर आकांत येयलो. सगळ्यांनी सांतेरीक हात जोडले . कडवळ गांव सोडून वचपाचें थाल्लें. पांचांतलीं तीन घराणीं घांटार पळोन गेलीं. एक घराणें गोंयांतल्या कुमठळी गांवांत वचोन रावलें. 'सांतेरी, राख गे आमकां. तुकां हें थळ मानावलां. तुजी सेवा करपाक कोण तरी ह्या गांवांत जायो...' आवडूच्या घराण्यांतल्या जाणटेल्यान देवीक सांगणें केलें आनी आवडूच्या घराण्यान थंयच रावपाचो निर्णय घेतलो.

कडवळ गांवा भोंवतणीं अयस पयस मेरेन अटंगें रान पातळ्ळां. घराचे उत्तरेक सकयल म्हादय न्हंय व्हांवता. तिच्या व्हांवत्या उदकाचो खळखळ कानार सादता. आवडूचें घर उंचवट्यार आसा. पावसाळ्यांत न्हंय भरतकच आवडूच्या घरा कडल्यान व्हांवती न्हंय दिसता. घर आनी न्हंयचे मदीं लांबचे लांब आडवी मळी आसा. न्हंयचेर वयतलो जाल्यार हे मळयेंतल्यान चलत सकयल वयचें पडटा. न्हंयेतले चाळीचे गुळगुळीत गुणे हाडून हे मळयेक दुरीग बांदलां. ह्या दुरगार भितर आवडूच्या घराण्याची ल्हानशी बागायत आसा. घराचे अस्तमतेक सकयल सर्द शेत आसा. पावसाळ्यांत हें शेत कसतात. दक्षीण आनी पुर्वेक दोंगर आसात. ह्या दोंगरार आवडून काजींचें रेन केलां.

कडवळ गांवा लागीं गोंयचो सगळ्यांत लागींचो गांव म्हटल्यार बोंदीर गांव. ह्या गांवांत पावतलो जाल्यार चलोन वराची वाट आसा. बोंदीरा फुडें काजरेझाट गांव आसा. ह्या गांवांत पावपाक आनीक पंदरा वीस मिनटां जाय. हे दोनूय गांव काडून मुखार मेळटा तो कुमठळ गांव. दुसरे वटेन पूर्व दिशेक कर्नाटक राज्यांतलो कृष्णापूर गांव आसा. हो गांव कडवळ गांवा पसून वराचे वाटेर आसा. ह्या सगळ्या गांवांक जोडपी कच्चो रस्तो आसा. हो रस्तो आवडूच्या घरा सकले वटेन आसलेले मळयेक तेंकोन गेला. कृष्णापूरचे लोक ह्याच रस्त्यान वाळपय बाजाराक येतात वयतात.

आदल्या वर्सांनी कुमेर शेत कसपाक साबार गांवांतले लोक ह्या रानांत येताले. मिर्गार पावस पडपाक सुरू जातकच कासादर कास करपाक ह्या रानांत भोंवताले. आतांय ह्या रानांत कास जाता. हालींच्या वर्सांनी शारांतले लोक कृष्णापूर गांवांत गाडयो घेवन वयतात. रानभोंवडेच्या निमतान गिमाळ्यांत तरणाट्यांचे पंगड ह्या रस्त्यान येताना वयताना दिश्टी पडटात. कोणूय वाटसरू गजाली करीत गेल्यार तेंची जाग आवडूक घरा कडसून मेळटा.

ह्या रान रस्त्याचे वाटेर चार पांच पानशिरे लागतात. पानशिरे म्हटल्यार रानव्हाळ. हे पानशिरे पावसाळ्यांत उपाट भरून व्हांवतात आनी गिमाळ्यांत ते सुकून सडसडीत जातात. भर पावसाळ्यांत खंयच्याय एका गांवांत वयतलो जाल्यार तशें जोखिमेचें काम. कारण, ह्या पानशिऱ्यांचेर सांकव बांदल्यार आलतडच्यान पलतडी वचपाक मेळटा. ना जाल्यार आपआपल्या घरा भायर पांय कांडपाचो ना. पावसाळ्यांत न्हंयचें रूप धारण करून ते पानशिरे व्हांवतात... अशा वेळार त्या झुलत्या सांकवा वयल्यान जीव मुठींत घेवन पलतडी वयचें पडटा. हें सगळें एकाद्या अनवळखी वाटसरूचे कल्पने भायलेंच म्हणपाचें...

कृष्णापूरचो घारू आनी गणपत आपल्या कामाच्या निमतान गोंयांत गेल्ले. घरा परततना पाणयाच्या निमतान आवडूगेर ते सांजवेळार भितर सरले. गजाली करता करतां गणपतान अभयारण्यांची गजाल काडली.

'गे कडवळकारणी... तुमचो सरकार तुमकां हांगासून उठयता खंय?' अभयारण्या

संबंदान चड जाणून घेवपाक घारून आवडूक प्रस्न केलो.

'सरकार उठयता तेन्ना बगया. फाटलीं दोन-तीन वर्सां जालीं, सरकार आमकां उठयता उठयता म्हणटा.'

'जमनीचीं कागदां आसा तेंकां सरकार पयशे फारीक करतलो खंय.' गणपतान पयश्यांची गजाल काडली.

'घरां बांदपाकय पयशे दितोलो म्हणटात. तुकांय घराचे आनी जमनीचे भरपूर पयशे मेळटले.' आवडू कडवळकारणीक भरपूर पयशे मेळटले. पयशे मेळटकच तें आनी तेचो पूत एके रातीन श्रीमंत जातलीं अशें चित्र घारून आपल्या मनात रंगयल्लें. घारूची आनी गणपताची म्हण हेतूंत कांयच चूक ना. कारण येताना ते दोगय बोंदीर आनी काजरेझाट गांवात गेल्ले. त्या गांवांतल्या घरा घरांनी कोणाक कितले पयशे मेळटले हीच चर्चा चलताली.

'कडवळकारणी, हें सगळें खरें आसा. पूण आमी क्रिशणापूरकार मात आतां मरचेले जाले. तुमचो सरकार हो रस्तोय बंद करतलो खंय.'

'आतां आमकां ही वाट चुकली. गिमाळ्यांत आमी काजी घेवन वाळपय बाजाराक वयताले तें पासून आमकां गावाना दिसता.' निमणे कडेन ते दोगय खंती जाले. खरें म्हटल्यार अभयारण्याचो भंय तेंचेय तकलेंत रिगलेलो. बारीक मोठ्या कामाक ते सदांच गोंयांत येताले. ही वाट कायमची बंद जाली जाल्यार तेंकां मागीर वयर खानापूरा वयचें पडटलें.

ह्या रानवांठाराक अभयारण्य म्हण घोशीत करचे पयलीं चुकून एकादो गोर्द ह्या रानांत पावतालो. फाटल्या दोन वर्सांच्या काळांत आतऱ्या पयऱ्यान गोर्द दिश्टी पडटा. ह्या रानांत आतां सगळेंच बदल्लां. रानांत उकती सुवात आसा थंय रानखात्यान आतां कांट्यांची सरी मारपाक सुरवात केल्या. फाटल्या पावसाळ्यांत तेंच्यांनी थंय वेग वेगळे तरेचीं झाडां लावपाक सुरवात केल्यांत.

पोरूं शिगम्या कडली गजाल. दनपारच्या वेळार सकयल रस्त्यार झीप थांबली. फॉरेश्टाचो व्हडलो सायब जॉन आरावजो आपल्या हेर सांगात्यांक घेवन नीट आवडूगेर गेलो. आवडू कडेन गजाली करतां करतां तेणें तेचे कडेन जमनीचीं कागद-पत्रां मागलीं. आवडून वासूक माळ्यार चडयलो. माळ्या वयली लाकडाची पेटी वासून धवळून बगली. पूण तेच्या हातीक कसलेंच कागद लागलें ना. आपल्या बापायन आपल्याक जमनीचीं कागदां केन्नाच दाखोवंक ना हें वासूक घट खबर आसलें. 'आवय कागदां ना गेऽऽ' माळ्याक लायलेले निसणी वयल्यान सकयल देंवतां देंवतां वासून आवयक जाप दिली. वासू सकयल देंवलो. आरावजो सायबा फुड्यांत आवडू मोनेळ पांगरून वगीच रावलें. वासूय कांयच उलयलो ना. तीं दोगांय वगीच आसात तीं बगून सायब उलयलो.

'तुमचे कडेन हे जमनीचीं कसलींच कागद पत्रां नात जाल्यार फॉरेश्टाच्या रेकॉर्डा प्रमाण ही जमीन सरकाराची जाता.' सायबाचीं उतरां आयकना फुडें आवडूच्या काळजांत कच्च जालें.

'आमी इतलीं वर्सां ह्या कडवळ गांवांत रावतात... तरी आसताना जमीन सरकाराची कशी?'

'तुजें बरोबर आसा. पूण कायद्यान जमीन तुमच्या नांवार जाय न्हूं.'

'हे जमनींत आमचो सरद आसा. वयल्या दोंगरार आमच्यो काजी आसात. सकयल मळयेंत माड आनी केळी आसात. हें सगळें उत्पन्न आसताना आमची जमीन कशी न्हूं?'

'आमकां उत्पन्नाचें कांय लागना. आमकां जमनीचीं कागद-पत्रां जाय. आनी जमनीचीं कागद-पत्रां आसल्यार पासून तुमकां हांगासल्ल्यान वोयचें पडटलें.'

'सकयले मळयेंत आमचें देवूळ आसा... आमी सांतेरीक सोडून खंय वचपाचें?'

'जमनीचीं कागद-पत्रां आसल्यार सरकार तुमकां जमनीचे पयशे दितलें. तुमी केल्लें उत्पन्न आनी घराचो वालोर करून तेंचेय पयशे मेळटले... सरकारान घेतलेल्या निर्णया आड तुमकां वचपाक मेळचेंना.' बापूय आसताना वासून केन्ना जमनी विशीं विचारलें ना. तेंचे हे जमनीचीं कागदां आसात काय नात हें तेका कांयच खबर ना. त्या फॉरेश्टरान सांगलेली गजाल आयकोन आवडू मनांतल्यान गळसून गेल्लें. सायबाचीं उतरां आयकोन आवडूच्या काळजाचें पाणी पाणी जाल्लें. सायबाक आनीक कितें विचारतलय जाल्यार तेच्यांत त्राण उरोंक नासलें. तेचें आंग पांग थरथरपाक लागलें. वयतना त्या सायबान वासूक सकयल रस्त्यार आपोवन व्हेलो. तो सायब बरोच वेळ वासू कडेन जमनी संदर्भांत उलयतालो.

ते रातीं आवडूक न्हीद पडली ना. दुसरे दीस तें सकाळीं फुडें उठलें आनी कोदाळी आपल्या जांवयागेर गेलें. जमनीची खबर तेच्या कानार घातली. जांवयान वेळ केलो ना. तो आपले मांय वांगडा तसोच कडवळी येयलो. दुसरे दीस सकाळीं फुडें वासूक घेवन तो पयलीं पंचायतींत आनी मागीर मामलेदार कचेरेंत गेलो. दोनूय कडेन जमनीच्या कागदांची चवकशी केली... जमनीची कसलीच नोंद तेंकां थंय मेळ्ळी ना. वासून सगळी खबर आवयक येवन सांगली. ती आनीक निराश जाली. बोंदीर आनी काजरेझाट गांवांतले लोक अभयारण्या संदर्भांत आमदारा कडेन वचपाचे आसात म्हणपाची खबर वासूच्या कानार पडली. तो तेंचे वांगडा आमदारा कडेन गेलो. आपले जमनीची खबर आमदाराक सांगली.

'तुमकां सगळ्यांक अभयारण्यांतल्यान भायर सरचेंच पडटलें. नांवार जमनी आसात तेंकां जमनीचे पयशे मेळटले. बाकीच्यांक घर बांदपाक जागो आनी पयशे सरकार दितोलो. अभयारण्यांतली जमीन कोणाकच मेळची ना.' आमदारान सगळ्यांक उद्देशून सांगलेली गजाल आयकोन वासू निराश जावन घरा परतालो.

आवडूचें लग्न वयाच्या तेराव्या वर्सा जाल्लें. तेचे आवयचें घर घांट माथ्यार आसलेल्या गवाळी गांवांत. आवडूचें लग्न जाल्लें त्या वेळार म्हादयच्या ह्या रानांत मोठ्या प्रमाणांत लोक कुमेर शेतां कसताले. संवसारपाडवो जातकच शेंकड्यांनी लोक पाळ, कुराडी आनी कोयते घेवन ह्या रानांत येताले. आपणाक जाय तें रान मारताले. माल्लेल्या ह्या रानाक मागीर मिर्गा पयलीं उजो घालताले. मिर्गार शेतांत नाचणो पेरताले.

कडवळ गांवाचे शिमे भितरलें रान तोडपाक आवडूच्या घराण्याचें उतर जाय पडटालें. कारण तींच ह्या गांवाचीं गांवकारां. शेतकाराचें सगळें देवस्पण गांवकार ह्या नात्यान हेंच घराणें करतालें. शेतांतलीं कणसां काडून, तीं बडोवन जातकच जण एकलो शेतकार दोन कुडोव

नाचणे हाडून आवडूगेर पावयतालो... फुडें कुमेर शेतांचेर सरकारान बंदी घातली. मागीर ह्या रानांतलो लोकांचो वयवाट बंद जालो. बोडके जाल्ले दोंगर परतून झाडांनी भल्ले. सगळे कडेन दाट अटंगें रान पातळ्ळें... मुखार सरकारान जमनीची सर्वे करपाचें काम हातींत घेतलें... आवडूच्या मांवाक त्या वेळार कुमठळ गांवांतल्या लोकांनी जमनीचे सर्वे संदर्भांत सांगलेलें. ही जमीन आमच्या पुर्वजांची. तिची सर्वे कित्याक करूंक जायी? आमची जमीन कोण व्हरतलो... त्या वेळार आवडूच्या मांवाचो असो समज जालो. आपले हे जमनीची सर्वे करून घेतली ना. फुडें ती करची अशें तेच्या घरांतल्यांक कोणाकच दिसलें ना.

'तुमकां सगळ्यांक अभयारण्यांतल्यान भायर सरचेंच पडटलें.' आमदाराच्या त्या उतरांनी वासूची न्हीद खळलेली. ते घटके सावन वासू आपल्या कडवळ गांवांतल्यान भायर सरपाक सोदतालो. आपणें आतां ह्या रानांत रावोन कसलोच फायदो ना. एक दीस आपणाक हें घर सोडून दुसरे कडेन वचोन रावचेंच पडटलें ह्या निर्णया कडेन वासू पावलेलो. बोंदीर आनी काजरेझाटींतल्या लोकांक खंय तरी पयस घरां बांदपाक जमीन दिवपाचे आसात. तेका लागोन सरकारान घर सोड म्हणो सांगचे पयलींच आपणेन कुमठळ गांवांत जमीन घेवन घर बांदल्यार कशें जायत? हो विचार तेच्या मनात हालींसाराक एक सारको घोळटालो.

शेत लुंवपाक तेची लग्न केल्ली भयण वासंती आठ दीस रावोन गेल्लें. वासून सर्द शेतांचीं सगळीं कामां पुराय केल्लीं. भात मळपाक कृष्णापूरचो बाळा चार दीस मानायपणाक येयल्लो. मागीर तेणीं एकवट्यानच तण सुकोवन तें कुडयेर चडयल्लें. आतां कांय दिसांनी सुरू जातलें आसलें तें काजी बेणपाचें काम. आयज सकाळीं घरांतल्यान भायर सरून वयताना वासून आपले आवयक कांयच सांगलें ना. तेका तशें तिका सांगचें अशें दिसलें ना. आवय न्हंयचेर गेल्या ती बगून तो आडवाटेन सकयल रस्त्यार गेल्लो आनी मागीर रानांत दिसनासो जाल्लो...

न्हंयचेर साकून उदक घेवन यो जाल्यार आवडूक वासूची जाग मेळ्ळी ना. लागींच खंयसरूय गेल्यार तो आपले वांगडा सदांच चंपीक आपोन व्हरतालो.चंपी पडवेर बसोन आसलें. आवडून उदकाचो कळसो घरांत व्हरून दवरलो. चंपीक घेवन तें सकयल मळयेंत गेलें. थंयसर तेका वासू थायो पडलो ना. 'म्हाका सांगा नासताना खंय गेलो हो पोर?' आवडू आपले भितर बडबडलें. आनी कुमयांच्या मळार गोरवां चरतात थंय तें वचोन येयलें. आपलो पूत वासू ना तें बगून आवडू खुपच अस्वस्थ जाल्लें. दनपार चडोन सांज जातां जातां तेची ती अस्वस्थताय वाडत गेली. सकाळीं घरांतल्यान गेल्लो वासू तिनसांज मेरेन परत घरा येतलो अशें तेका मना पासून दिसतालें. पूण तशें कांयच घडलें ना...

तुळशीक दिवो लायतना आवडूक परत वासूची याद येयल्ली. आपली आवय रानांतल्या ह्या घरांत एकटीच आसा हेची वासूक पुराय जाणीव आसा. बापूय मेले उपरांत तो चडसो भायर वसतेक केन्ना रावलो ना. ह्या दिसांनी मदीं मदीं वासू दिसाचो घरा कडेन सारको नासतालो तरी आवय जेवन न्हिदचे पयलीं तो घरांत भितर सरतालो.

चंपी भोंकपाक लागलें. सकयले वाटेन कोण तरी गजाल करीत वयतात म्हणपाची आवडूक सुलूस लागली. वासू वांगडा कोणाक तरी घेवन घरा वटेन येता आसतलो अशें आवडूक खिणभर दिसलें. कांय वेळान तो आवाज रानांत विरगळून गेलो.

आवडून चुलींत उजो केलो आनी आदन दवरलें. आपले वांगडा वासूकय तांदूळ घातले. भायर जाग येतकच आवडू पडवेर येतालें आनी सुलूस घेतालें. जेवण रांदून जातकच आवडून कांय वेळ वासूची वाट पळयली आनी तें जेवलें. रातच्या जेवणा उपरांत आवडू आनी वासू सद्दां पडवेर कांय वेळ बसोन गजाली करतात. पावसांत आनी मुखार शिंयाळ्या दिसांनी भायर पडवेर परसो पेटलेलो आसता. थंडी पडपाक आतांच सुरवात जाल्या. आजून आवडून पडवेर परसो पेटोवपाक सुरवात करूंक नासली. आपणेन आयज परसो पेटोवंचो अशें तेच्या मना कडेन बेश्टेंच दिसलें. तें भितर गेलें. चुलींतल्यो जळट्यो कोलत्यो हाडल्यो. खळ्याक तेंकून आसलेलीं दोन मोठीं लाकडां हाडलीं. आवडून परसो पेटयलो. आवडून परशा कडेन बसून सुपारी खाल्ली.

वासू येयलो ना. आवडूय तेची वाट बगून वाजेलें. तें भितर गेलें. हातरूण घातलें आनी आड पडलें. खंय गेलो काय हो पोर? कुमठळी वचोन रावचेलें कोणें घातलें तेच्या मनांत? लोकांचें म्हणो पाड पडलां. तेंच्यांनी फितयला आसतलो म्हाज्या वासूक. होय अर्दे तकलेचो... हांगा आमचो जमीन जागो आसताना दुसऱ्यांच्या गांवांत वचोन पडचेलें हेका कसलें कारण? त्या फारिश्टाच्या भंयान? फॉरेश्टाचो तो सायब तेच्या दोळ्यां मुखार उबो रावलो. जमनीच्या कागदां वयल्यान तेंचे भितर जाल्लो वाद तेच्या कानांत घुमूंक लागलो... तशें तें रागान फणफणलें. ह्या फारिश्टरांचें आतां काय तरी करचेंच पडलें. तेंकां आतां येवनीच हांगा... एक एकट्याक नागडे करून कशे धांवडयतां तें बग.

आवडू फांतोडेर उठलें. झिळमिळट्यार गोरवांच्या वाड्यांत गेलें. दूद काडलें आनी च्या करून घेतली. वयतना गोरवांक सोडयलीं आनी आपणें कुमठळची वाट धल्ली. तें नीट धानूगेर गेलें. धानू घरांत नासलो. आवडून घरच्यां कडेन वासूची चवकशी केली. 'वासू पयर येयल्लो तितलोच... गांवांतय खंय दिश्टी पडोंक ना.' घरच्यांचे जापेन आवडू निर्शेलें.... गांवांतल्या कांय लोकां कडेन तेणी वासूची चवकशी केली. कडवळकारीण आपल्या पुताक सोदता म्हणपाची गांवभर फाम जाली... ह्या रानवांठारांतले लोक तिका आवडू ह्या नांवान कोण वळखनात.सगळे तिका कडवळकारीण म्हणटात. वासू ना म्हणो-कळटकच गांवचे सगळेच लोक वासूची चवकशी करपाक लागले. पोरान जिवाचें बरें वायट करूंक नासल्यार पुरो. मनांतल्या मनांत आवडू पुटपुटलें. तेणें आसली तशी घरची वाट धल्ली. वाटेन येताना काजरेझाट आनी बोंदीर गांवांत वचोन वासूची चवकशी केली. थंय तेका वासूची खबर मेळ्ळी ना. आवडू जड पावलांनी आसलें तशें घरा परतलें.

घरा कडेन यो जाल्यार आवडूची धूव वासंती पडवेर बसल्या ती तेका थायी पडली. आवयक घरा वटेन येता ती बगून तें उठलें.

'आवय खंय गेल्ली गे? कितलो वगत मी तुजी वाट बगतां.'

'कालच्यान वासू ना. मुळो खंय गेलो कोण जाणा.'

'तूं बेश्टीच सोदता तेका. वासू आमगेर आसा. काल दनपारां येयला तो आमगेर.'

'आवयक हांगा एकटेक सोडून तुमगेर पावलो तो?' तिणें आपलो राग उकतायलो.

'तूं पयलीं पाणी पिये बगया. सगळें सांगता तुकां.'

'मी सकाळीं फुडें कुमठळी सोडून येयलें तेका.'

'तूं बेश्टोच हुस्को करता तेचो... खंय वयतोलो तो तुकां सोडून.'

'हांगा ह्या रानांत रावचेलें ना खंय तेका.'

'घराचो आनी आपल्या लग्नाचो विशय काडलो तेणीं म्हाज्या कडेन.'

'मी लगीन जावं नाका म्हटलां तेका?'

'ह्या रानांत तेज्या वांगडा खंयचें चेडूं लगीन जातलें गे आवय? आतां वय जावन गेलें तेचें.'

'कित्याक जावचेंना. मी जालेंना लगीन तुज्या बापाय कडेन? तेन्ना काय आसलें ह्या रानांत? शेजारी पाजारी पासून कोण ना. सगळे दायजी पयलींच पळोवन गेल्ले ह्या गांवांतसून...'

'पूण आतांचीं चेडवां रानांत रावोंक सोदूं नाकात?'

'कित्याक रावचिंनात...? मामाच्या चेडवा कडेन लगीन जा म्हणो शंबर फावटी सांगलें मी तेका. तो म्हाजें आयकता खंय?'

'घांटा वयलें चेडूं नाका जाल्यार तेचे फाटीक कित्याक लागता तूं?' वासूच्या लग्ना संबंदान आवय आनी धुवे मदीं बरीच भासाभास चल्ली.

दुसरे दीस सकाळीं वासंती आपल्या घरा वचपाक भायर सरलें. आवडू आपल्या चेडवाक सकयल मळये मेरेन पावपाक गेलें. 'वासूचो हुस्को तूं करूं नाका. आपूण परत घरा वयचोना म्हणो हट्ट धरून बसला तो. मी समजायतां तेका. तो लग्नाक तयार आसा जाल्यार मीच बगतां तेका चेडूं... आनी लग्न करुनच घेवन येतां मी तेका हांगा.' दोळ्यांत दुकां हाडीत वासंतीन तिका समजायली. धूव आपणाक धीर दिवन गेल्या, पूण वासूचें तिका खरेंपाण दिसा ना जालें. वासू खूप हट्टी. एकदां दांतान धल्लेलें तो सोडिना हें आवडूक खबर आसलें.

चार दीस अशेच गेले. सकाळीं धाच्या सुमाराक सकयल रस्त्यार जीप थांबली. चार पांच जाण जिपींतल्यान सकयल देंवले. बुटांचो आवाज करीत आवडूच्या घरा कडेन गेले. आवडू पणसा तळा कुराड घेवन बसलेलें. तें त्या कुराडीक निसण्याचेर घांसून धार काडटालें. फॉरेश्टाचे मनीस येयल्यात हें बसलां थंयसून तेका कळ्ळें. आवडू उठलें आनी खळ्यांत येयलें.

'कडवळकारणी, तुकां सरकाराची नोटीस आसा. हो मीर्ग येवचे पयलीं तुमकां हांगासरल्यान वयचें पडटलें.' फाटले फावट येयल्लो तो दुसरो सायब हें आवडूक कळपाक वेळ लागलो ना.

'काल दीसभर आमी बोंदीर आनी काजरेझाट गांवांतल्या लोकांक नोटिसो दिल्यात. आयज आमी तुकां नोटीस दिवंक येयल्यात.' अशें म्हणत त्या सायबान दुसऱ्या एका कागदार आवडूचो आंगठो घेतलो आनी नोटीस तेच्या हातींत दिली. आवडू कांयच उलयलें ना. तेणें ती नोटीस मुकाट्यांनी घेतली.

'तुजो चेडो दिसना. तो खंय गेला?'

आवडू वोगीच रावलें. तेणीं जाप दिली ना.

'आगे उलय मगे. फाटले फावट आरावजो सायबा कडेन बरी नेटा नेटान उलयताली. आतां कित्याक वोगी?' फाटले फावट सायबा वांगडा येयल्लो गोर्द आपलो आवाज वाडयत उलयलो.

'तुमचे पंचायती कडेन फुडल्या म्हयन्याचे धा तारकेक मिटींग आपयल्या. आयच्यांन मिटिंगेक वीस दीस आसात. ते मिटिंगेक मंत्री, आमदार, कलेक्टर, मामलेदार, सरपंच सगळे येतले. सरकारान तुमकां गोमळार जागो दिवपाचो थारायला. त्या दीस तुमकां घरां खातीर जमीन दितले. जमनीचीं कागदपत्रां ना तेंकांय सरकार पयशे दितोलो खंय. तूं घरा रावोन तुज्या चेड्याक बी धाडशीत. तूं आसतना चेड्याक धाडल्यार तुमकां कांयच मेळचेंना. तुकांच थंय वयचें पडटलें... कळ्ळें मगे?' सायबान तिका समजावणेच्या सुरांत सांगलें. तिणें ह्या वेळार फकत तकली हालयली. आपले भितर गजाली करीत ते सगळे सकयल गाडये कडेन वचपाक गेले. आवडू तेंकां नदरे आड जाय मेरेन बगीत रावलें.

वासंती कडवळी येवन गेल्ल्याक णव दीस जाल्ले. कुमठळचो धानू वासूचो चुलतकाक. एका काळार धानूचें घराणें कडवळ गांव सोडून गेल्लें. आवडू कुमठळ गांवांत येवन वासूक सोडून गेलें म्हणपाची खबर तेका तेच्या घरच्यांनी दिल्ली. मदीं तो आवडूगेर येवन वासूची आपुणय चवकशी काडटां म्हण सांगोन गेल्लो. तेचे उपरांत आवडूगेर कोण पावलो ना. रागान गेल्लो वासू आतां घरा येतोलो म्हणपाची आशा आवडून सोडून दिल्ली...

सुर्या अस्ताक वयतालो. सकयल मळये कडेन दुरगाक तेंकून आवडूचीं गोरवां चरतालीं. सांजचीं हांगा चरपाचीं तेंची सदचीच संवय. काळू बैल थंयच आसलेल्या ल्हान कुमयाच्या झोंपाचेर परत परत झडापे घालतालो. शिरबो बैल नाकांतल्यान फुस्कार सोडीत उजव्या पांयान जमीन खल्लितालो... कांय वेळान मळयेंत भितर सांतेरीच्या देवळा कडेन मारांडे पेटले. त्या मारांड्यांच्या आवाजान गोरवां भुजलीं. दुरगाक तेंकून चरपी तांबू गाय शेपडी तायट करीत वाड्याचे दिकेन धांवली. तिचे कुशीक चरपी दुदाचें ल्हान वासरूंय कान फांकारून आपले आवयचे फाटल्यान तितल्यात नेटान धांवलें. वयर खळ्यांत रावून चंपी कुत्रें मोठ्या मोठ्यान भोंकपाक लागलें. ते भोंकीत भोंकीत सकयल घोटकाच्या झाडा मेरेन येयलें. जागीन कोंबडीं काकारपाक लागलीं. देवळांतल्यान भायर सरून कोण तरी पांच-स जाणां आवडूच्या घरा वटेन वचपाक लागलीं. त्या सगळ्यांक बगून चंपी आतां नेटान भोंकपाक लागलेलें...

घोटकाच्या झाडा कडेन पावतकच त्या लोकां भितर आसलेलो वासू फुडें गेलो. तेणें चंपीक हडकिलें. वळखीचो आवाज कानार पडटकच तें शेपडी हालयत वासू कडेन येयलें. तेच्या पांयांत तें घश्टे मारपाक लागलें. मागीर तेच्या फाटल्या फुडल्यान एक सारकें नाचपाक लागलें. तीं सगळीं खळ्यांत पावलीं. घराचें दार सताड उकतें आसलें. वासंती पडवेर गेलें आनी आवयक उलो माल्लो.

'आवय, भायर योऽऽ...वासू येयला...' भितरल्यान आवय जाप दिना तें बगून वासंती घरांत भितर गेलें. वासू आपले बायलेक तेंकून उबो आसलो. वासूचे दोळे आतां दारा कडेन थिरावल्ले. तो आपले आवयची वाट

बगतालो. लग्न जालां म्हणो काय म्हणटली म्हाका म्हाजी आवय? रागान तापतली? काय आपले सुनेक बगून खुशालशी जातली? वासूची बायल शकुंतलाय आपली मांय भायर येवपाची वाट बगताली. वासंती एकटेंच घरांतल्यान भायर येयलें. 'बाबू, आवय घरांत ना मरे. तिनसांजच्या वेळार खंय गेली काय?' वासंती कळवळून उलयलें. 'आसतली खंय तरी लागींच. गोरवांक काय आजून बांदूंक ना. अशें घर उकतें सोडून वयतली तरी खंय?' वासंतीच्या घोवान वासंतीक धीर दिलो.

आपले आवयन सुनेक ओवाळून घरांत भितर घेवची अशें वासंतीक मना पासून दिसतालें. आवय घरांत ना म्हणो कळटकच वासून वेळ काडलो ना. 'भावोजी, तूं तिका न्हंयचेर आसा जाल्यार बगून यो. मी सकयल शेता कडले पायरी कडेन आवय आसा जाल्यार बगून येतां.' अशें म्हणत वासून नेटान पावलां उखल्लीं. तो मळिल्ले वाटेंतल्यान शेता वटेन धांवपाक लागलो. शेताचे वयले वटेन पायरीचें झाड आसा. त्या झाडाच्या मुळांत एक मोठो काळेत्री गुणो आसा. घरांत केन्नाय आपल्या वांगडा आवय झगडली जाल्यार ती त्या गुण्या कडेन वचोन बसता हें वासूक खबर आसलें. आतांय ती थंयच आसतली अशें चिंतून वासू धांवतच थंय गेलो.

सगळीं खळ्यांत उबीं रावून वासूची वाट बगतालीं. वासंतीय आपले आवयक हांगा थंय सोदतालें. घरांत भितर तें एक दोन फावट वचोन येयलें. माळ्याक निसण लावन दवरलेली. आमकां बगून माळ्यार बी चडोन बसोंक ना न्हूं? मनांत बेश्टोच विचार येवन गेलो. वासंती माळ्यार चडलें. थंय तेका कोण दिसलोना. परत आसलें तशें देंवून तें भायर येयलें. घरा भोंवतणच्या झाडांचेर वासंतीन बेश्टीच नदर माल्ली. 'पायरी कडेन आवय ना' वासू खर्शेत उलयलो. काय वेळान वासंतीचो घोव येयलो. 'न्हंयचेरूय ना ती. भितर सगळे मळयेंत सोदली. ती खंयच दिसोंक ना...' आपली आवय लागीं लागसाराक खंयच ना म्हण कळटकच वासू भियेलो. दोंगरा वटेन तोंड करून वासून नेटान चार-पाच कुंकारे घातले... परती जाप येयली ना. वासंतीनय आवयक उल्यार उले घातले.

'बाय गोऽऽ, व्हदळ घरा कडेन येताना म्हाका पाडूक सुटकें दिसलेलें. आवय घरांत आसल्यार दुदाच्या पाडकाक ती अशी सोडोवन घालचिना... शेर्त ती खंय तरी घर सोडून गेल्या', आपले भयणीक सांगतां सांगतां वासूचे दोळे दुकांनी भल्ले. वासंतीचो ताळो दांटून येयलो.

वासूची बायल शकुंतला तोंड इल्लेंशें करून खळ्याचे म्हेरेर वग्गी बसलेली. तेका तेंकून बसलेली तेची गांव मैत्रीण चिंतेस्त दिसताली. 'आवय लागींच खंय तरी आसतली. आतां रडों नाका. व्हकले-न्हवऱ्याक पयलीं घरांत भितर काड.' घोवान धीर दितकच वासंती आपले दोळे पुशीत घरांत गेलें. एका ताटांत पेटयल्ली दिवली, हळद-कुकूम आनी तांबयान पाणी घेवन तें भायर येयलें. व्हकल आनी न्हवरो हुमऱ्यार उबीं रावलीं. वासंतीन दोगांयच्या पांयांर पाणी घातलें. कपाळाक हळद-कुकूम लायलो. ओवाळणी केली. व्हकलेक हात दिलो आनी तिका घरांत भितर घेतली.

'आवयचे सोदीक आतांच कुमठळ गांवांत वचोन येवया.' वासून आपलें मत मांडलें. तेणें कपडे बदल्ले. कमरेक आकडी बांदली. तिका कोयतो लायलो. फस्क बोल्सांत घातलें. उजवाडा खातीर टॉर्च घेतली. वासू आनी तेचो भावोजी कुमठळी वचपाक भायर सरले. वयताना ते दोगूय देवळांत भितर सरले. सांतेर देवीक दिवो लायलो आनी हात जोडले. आपली आवय मेळची म्हण वासून देवीक सांगणें केलें.

ते आतां नेटान कुमठळची वाट चलपाक लागले. झपाझप पावलां उखालतालीं. तेंच्या पांयांक गती आसली. वयतना बोंदीर आनी काजरेझाट गांवांत ते भितर सरले. वासून आवयची खबर विचारली. तिका कोणेंच बगूंक ना म्हण कळटकच ते फुडली वाट चलपाक लागले. दोगय कुमठळी धानूगेर पावले.वासूची आवय ना म्हणो कळटकच धानू भियेलो. कांय दिसां पयलीं आपल्या पुताक सोदपी आवय आयज तीच घर सोडून गेल्या म्हणो कळटकच तोवूय दुखखी जालो. 'मी येतां तुमच्या वांगडा.' धानू तेंच्या वांगडा कडवळी येवपाक भायर सरलो. वयताना गांवांत विचारपूस केली. पूण कांयच फायदो जालो ना.

रातच्या धा वरांच्या सुमाराक ते तिगय कडवळी पावले. कुमठळी गांवांत आवय ना म्हण कळटकच वासंतीन आकांत केलो. धानूकाका वांगडा येयला तो बगून तेका मातशें बरें दिसलें. 'आतां रातची तिका खंय सोदप? फाल्यां सकाळीं उठून कृष्णापूरा या. थंय ना जाल्यार तशेच गवाळी तिच्या आवय घरा वचोन येवया.' धानून मांडिल्लें मत सगळ्यांक पटलें.

सकाळीं उठोन वासू आनी धानूकाका आवयचे सोदीक भायर सरले. पयलीं कृष्णापूर आनी मागीर ते गवाळी गेले. कृष्णापूरच्या चार-पांच घरांनी भोंवोन जाणटेल्यां कडेन विचारपूस केली. वासूचे आवयक कोणेंच आपल्या दोळ्यांनी बगूंक ना. बगल्यार तिका सोदपाक बरी. अशें मत सगळ्यांनीच उकतायलें. दनपार जाता म्हणसर ते गवाळी पावले. चवकशी केली. आपली आवय थंयसरूय पावली ना म्हणो कळटकच वासू थरथरलो... चार गांवकारांक एकठांय करून ब्राह्मणी मायेच्या देवळा कडेन गेले. 'कडवळी लगीन करून दिल्ल्या तुज्या चेडवाक घरा कडली वाट दाखय.' देवीक सांगणें केलें. वासूचो मामा तेंच्या वांगडा कडवळी येवपाक भायर सरलो....

आतां वासूक खुपच पुरो जाल्लें. तो मनांतल्यान खंती जालो. आपली आवय घरांतल्यान भायर सरून वचपाक आपुणूच मूळ कारण अशें तेका परत परत दिसपाक लागलें. आपणें कित्याक म्हणो राग केल्लो? कित्याक म्हणो मी तिका सांगी नासताना घरांतल्यान भायर सरोन गेलों? भावोजीन आपले भयणी कडेन म्हाजें लगीन लायलां. आपूण आतां लगीन जालां, मी आतां एकटों ना. शकुंतला म्हाजी बायल. शकुंतला कडवळी खूप फावटी येवन गेलां. आमच्या गांवाचें सगळें तेका खबर आसा. तरी आसताना तें म्हाजे कडेन लगीन जालां. घरांत आपली मांय ना म्हणो तें आतां खूपच दुखखी जालां आसतलें. दोळ्यांत दुकां भरून तें रात भर वग्गी बसलेलें. जागेंच आसलें तें रात भर... शकुंतला तेच्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें. चलतां चलतां वासू चिंतेस्त जालो. तेचीं पावला जड जालीं. धानूकाका आनी तेचो मामा बरेच फुडें पावलेले...

कडवळी पावता म्हणसर सांजचीं चार जाल्लीं. वासंतीन केल्ल्यो भाकऱ्यो खावन धानूकाका आपल्या घरा गेलो. वासूचो मामा आपले भयणीचो सोद घेवपाक वाट मेळटा ते वाटेन वयतालो. आनी रानांत कुकारे सोडटालो... वासू शेता कडल्या पायरीच्या झाडा कडेन वचोन येयलो. मागीर तो कांय वेळ देवळांत बसलो. तसोच तो न्हंयचेर गेलो. सुर्या अस्तमतेक गेल्लो. एका गुण्यार बसोन तो उदकाच्या प्रवाहाक पळोवपाक लागलो. म्हादय न्हंय व्हांवताली... खळखळटाली... सरभोंवतणी काळोख दाटून येतालो.

मोनेळ खामरून घरांत वगी बसलेलें शकुंतला परत तेच्या दोळ्यां मुखार उबें रावलें. भयण,भावोजी, मामा सगळीं आपआपल्या घरा वयतलीं... मागीर ह्या रानांत मी आनी शकुंतला दोगांच... म्हाजे आवयक ह्या कडवळ गांवांतल्यान वचपाचें नासलें. हांगाच रावपाचो तिचो हट्ट. ती खंय तरी रानांतूच आसतली. ह्या रानांत रावपाचें तिणें आपलें उतर खरें केलां आसतलें. आतां ह्या अभयारण्यांतले सगळे गांव सरकार उठयतलो... आतां आवयचे इत्से आड वचोन म्हाका हो गांव सोडचो पडटलो? पूण आवयक ह्या रानांत सोडून ह्या गांवांतलो कसो भायर सरप?

काळोखं दाटलेलो. वासू आपल्या जाग्या वयलो उठलो. तो घरची वाट चलपाक लागलो. रस्त्यार पावतकच तो उबो रावलो. तेणें आपल्या घराचो थाव घेतलो. घर काळखांत बुडून गेल्लें. रानांत रातकिडे किरकिरताले... तो जड पावलांनी परत घरा कडली वाट चलपाक लागलो. इतल्यान तेचीं पावलां अचकीत थांबलीं. कोण तरी वाटसरु रस्त्यान गजाली करीत येतात म्हणपाचें तेच्या लक्षात येयलें. वासू घोटकाच्या झाडा पोंदा वचोन सकयल बसलो. त्या वाटसरूंच्यो गजाली आतां वासूक स्पश्ट आयकूंक येताल्यो.

'कडवळकारणीचो पोर धड न्हूं. तो सारको आसल्यार कडवळकारीण घर सोडचिना आसली.'

'जीव दिला आसलो तिणें.'

'जीव दिवचिना ती. रानांत आसतली खंय तरी.'

'वासू लगीन आनी जाला खंय.'

'दुसऱ्याच्या भुरग्याक त्रासांत घालूं नसल्यार पुरो तेणीं.'

गजाली करीत ते तशेच फुडें गेले. आतां तेंच्यो त्यो गजाली रानांतल्या काळखांत विरगळून गेल्ल्यो. बसला थंयच वासूक कांपरी लागली. हय मीच दोशी. म्हाकांच लागोन हें सगळें घडोंक पावलें... वासू स्वताकच खेपूंक लागलो. 'वासूऽऽ', घरा कडल्यान वासंतीन नेटान उलो घातलो. तसो तो भानार येयलो. तो उठलो. आपली तकली आतां चडूच जड जाल्या म्हणपाचें तेका जाणवलें. वासून कश्टान पावलां उखल्लीं आनी तो घराचे दिकेन चलपाक लागलो...

कडवळकारीण ना म्हणपाची फाम आतां सगळ्या रानगांवांनी जाली. कोण म्हणटा, आवडू कडवळकारणीन वासूच्या रागान जीव दिला... कोण म्हणटा, कडवळकारीण पिसावल्या आनी ती घांट माथ्यार भोंवता... कोण म्हणटा, सरकाराचे पयशे आपणाक मेळपाक जाय म्हणो तिच्या पुतानच तिका जिती माल्ल्या... कोण म्हणटा, आवडू कडवळकारीण रानांत लिपोन रावल्या आनी फॉरेश्टरांक ती मारपाक सोदता... कोण खरो आनी कोण फट हें ह्या अभयारण्या शिवाय आतां कोणाक विचारप?







# हिशाप

माया खरंगटे

**ओ**ऽ इनास, आयज वोसपा बोबाव सो रे? च्यावे रावनाय?

- ना रे माटीन, फुडल्या सुमनांत बाब येता. गोर लींप कोरूं जाय न्हुरे? कामेऱ्यां आपोयल्यांय.

- बाब येता? तुका बोबाव तोर. सुशेगाद बोसपा दीस सोंपले तुजे.

- आसूं रे, भुता बाशेन गारांत रावपा वाज येयलोलो.

- बाब एकलो येताय रे?

- ना, नॅल्सन बाब बी सोगलीं येताय.

- तूं आतां बिजी जालो तोर, वोस वोस, आमी बेकार थोवोय.

- कुले तासाय.

- तासताय, तासताय आनी चावूय पिताय, तूं वोस.

- हें रोजमारी फूंय पावलें! फोबऱ्यो मेवतोच सोगलें इसोत्ता. कोणें फूंय फोबऱ्यांनी घोवा सांडोयलेलो.

- सोकार्यी सोकार्यी बोबाट कित्या मात्ता रे इन्सू?

- तुकाऽ सोदतालों. येदो उगोत जालो मीस सोंपून, गारा बेगीन पावों जाय म्हूण नेणा?

- वोय फोरेंच, चोल बेगीन या. कामेऱ्यां येतेलीं.

इनास आनी रोजमारी हेर सांगात्यांक रावनासतना चलपाक लागलीं. हरशीं मीस सोंपले उपरांत इनास गाड्या वयली च्याव घेतले बगर घरा वच नासलो. आज तांकां ताकतीक आसली. चांदरा इगर्जे कडल्यान कॉटांत चलत वचपाक बरोच वेळ लागता. सकाळच्यो बशी मेळनात. पयल्या मिसाक वतलीं जाल्यार चलतूच येवचें पडटा. रोजमारीक आनी इनासाक चलत फिरपाची संवय. तीं घसाधस पावलां उखलून गजाली करीत चलपाक लागलीं.

इनासाक पयरूच मुंबयच्यान नॅल्सन भाटकाराची चीट आयिल्ली. नॅथन भाटकार जायत्या तेंपान पुर्तुगाला साकून येवपाचो आसलो. तो पयलीं मुंबय नॅल्सनागेर आठ दीस रावन मागीर तीं सगळींच गोंयांत येवपाचीं आसलीं.

- फाटल्या वोर्सा व्हडलो बाब होनये घेवन गेलोलो तो आजून येयलो ना.

- तूं आहा न्हू रे, गार, बाट, सांबावपाक, बाबा केसो हुस्को ना. तूं एक पोयसो इंगा तिंगा कोरचो ना म्हूण जाणा तो.

- फोरेंच रोजी, आमी तेंगे गार बाट साबावतांव आनी तीं आयतें हावपा येताय म्हूण तूं बोबाव मात्ताय न्हूं, चोय बाटकार कितू बोरो तो. हांव दितां तें घेता तो. होनी पूण हें तें इचान्न हिशेब घेताली. हालीं तेंपार येसो इस्वास कोण कोणाचेर दोत्ता?

- तुयें बाबाक आंगा खांदार फेवोयला म्हुणटा मुरे? तो तुका पायचे सुवातेर मानता, आनी हिशोब केसो घेतोलो तो? 'आंकल' म्हुटले बगर तुका जाप कोत्ता?

- ओय गो रोजी, आमकां बुरगीं दिलीं नाय सायबीणमांयन म्हूण आमी खोंती जातालीं. पूण हे दोगूय बाब आनी इव्हानबाय आमकां आपणागे मांय-पाय केशीं कोत्ताय.

- तितलेच उपकार वोयल्या सायबाचे. आयजकाल जोल्मा घायलो बुरगीं इचान्नाय. तिंगां ल्हानपोणां सांबावलेलीं म्हूण कोण याद दोत्ता?

- तूं जाणाय रोजी, ती रितीनबाय आठ बुरग्यां मांय. तियेगे पांचूय पूत आनी धुवो गोंयांतूच इणयां-तिणयां रावताय, तोरी जाणटे

मांयक कोण चोयनाय. गोर सोगलें मोडोन गेलां. इली कूड सारकी कोरून लेगीत तिका रावपा दिली ना. ती बाडी व्हिसेंतीगे भितोडे रावताली. व्हिसेंतीन तियेक फाटले पोडयेर हाट घालून दिली म्हूण सांग.

-ओय रे इन्सू, तियेगे बाडे चुरचुरे. व्हिसेंत तिका चोयता म्हूण बोरें. इतू बुरग्यां ओल्मा घालून येफेत कितें? रितीनबाय दुसऱ्यां दारांत.

-म्हूण सांगोतां, तूं रोडों बोसोता न्हूं, आमकां बुरगीं नाय म्हूण, चोय, बुरगीं आसलोल्यांगे फोबोर.

-फोरें तुजें इन्सू. आमी बाबागे पालासींत राया बोरी रावताय, तेचें गार बाट तेंचे पोरोस आमी चोड बोगतां.

- तुगे पोटांत तुमोर जालो तेदना व्होनयेन कित म्हुणलो जाणा मुगो?

- वोय तोर, हांव इसोत्तां, तियेन म्हुणलोलें, पोयशां तोण तूं चोयनाका, तें हांव चोयतां. म्हुजें रोजमारी बोरें कोन्न तूं म्हाका हाडून दी. म्हुजे पासोत मीस लेगून मागून घेतलो तियेन. आपरेशना सोगळो देश्पेस तियेन केलो नुरे?

- आमकां केदना येगळीं लेकलीं ना तेणीं कोणेंच. म्हाका उगडास लेगून ना रोजी आमगे गाराचो. हांव मांय बाराबोर ह्याच गाराच्या फाटल्या कुडांत रावोन होड जालां. आसोलना फूंय तोरी आमगे गोर आसलोऽ फूंय. मुगे पाय मोत्तोरीच चार वोरसां म्हाका हांक्या मारोन मांय इंगा येयली. पोत्तून आनी आसोलना ती गेली ना. हांव होड जातोरीच केन्नाय आमगे होंपी जागो चोवन येतालों. आतां आमगे कांय ना तिंगा. लोकांनी शिमिटां गारां बांदल्यांय.

- आसूं रे, एका शिमिटा गारा पोरोस हे पालासींत आमकां कित उणें आहा? भाटकार पोयस पोयस रावताय. आमगे गोर जालां ही पालास. बोरी कोन सांबावपा जाय आमी.

- फोरेंच देवागे उपकार. ह्या होडल्या बाटकारा पोरोस हांव मातसो ल्हान. तो शिकूंक बोसता तेन्ना म्हाकाय बरोवंक वाचूंक शिकोयला तेणें. रोमांसी हाडून आपूण वाचतालो. म्हाकाय वाचूं दितालो. तेतुनूच चोड शिकों पावलों हांव. आब्बा, केसो घोस्ता जाणा, रोमांसी.

- इन्सू, बाटकारागे उगडास येयलो म्हुण्टरीच तूं पोत्तून नेण्टो जाता मुरे.

- होय गो, म्हुगे तोन्नाटेपोण बाटकारा सांगाता गेलें. केसो दीस आसले ते. पोत्तून येवपा ना.

- म्हुणोन बाटकार गेलो तेदना होड्डें बोडोवन रोडलो तूं. तेगे पूत तेचो वोर्सा वोर्सा उगडास कोत्ता कितें, देव जाणा. तूं मात इंगा वोर्सा वोर्सा मीस कोत्ता.

- तेगेल्या पोयशांनी तेजो उगडास कोत्तां. आनी बाटकारा पासत मुज्यान कित कोरूं जाता?

- उलोयतां उलोयतां कितू बेगीन गारा पावलीं चोय.

- हीं सोगलीं येयलीं.

सात-आठ वर्सां पयलीं नॅथन काजार जावन बायलेक घेवन पोर्तुगालाक गेल्लो. थंयच तागेर दोन चलयो जाल्ल्यो. ताचे कंपनीन ताका बरी पुर्तुगेज कळटा म्हणून एक प्रॉजॅक्ट करपाक पोर्तुगालाक धाडिल्लो. प्रॉजॅक्ट पुराय जाले बगर ताका भारतांत येवंक मेळनासलें. पूण व्हडली भाटकान्न ताका दर एके चिटयेंत गोंया येवपा विशीं बरयताली. आपल्या जाणटेपणाची तिका खात्री नासली. फोन केल्ल्या वेळार ती ताका विचारताली, "तुगे बुरग्यांचीं तोंडां चोय नासतोनाच हांवें मोरपा मुरे?"

नॅल्सन मुंबय आनी नॅथन पोर्तुगालाक. दोगांयचे यादीन व्हडली भाटकान्न खंती जाताली. इव्हान मर्दी केन्नाय येवन तिका मेळून वतालें. हालींसराक ती बरी पासार जायनासली. देखून नॅल्सनान तिका मुंबय आपल्यागेर हाडून दवरिल्ली. मुंबय येवन तिका वर्स जायत आयिल्लें. आतां तिका गोंयची ओड लागिल्ली. ती नॅल्सनाचे फाटीक लागताली.

- तुमगे बोमाय कितलीय बोरी आसूं, मुजो जीव इंगा फुगार जाता. माका मुज्या गोंयांत होरून पावोय. तो पोर्तुगाला, तूं इंगा खोशयेन रावाय. तुमकां गोर नाका. म्हाका वोसुंदी म्हुज्या गारा. पालासींत रावन येयल्ली बायल हांव. तुमगे ह्या कुडां भोंवन पांय दोत्ताय मुजे.

नॅल्सन तिका पावयतां पावयतां करून थातारतालो. जाणटे आवयक एकली गोंयांत दवरप, ताका मान्य नासलें. भुरग्यांक सुटी पडटकच सगळीं जाणां गोंयांत येवन म्हयनोभर रावपाचो तो विचार करतालो.

त्या दिसा नॅल्सन घरा आयलो तो उमेदीची बातमी घेवन. पोर्तुगालचो प्रॉजॅक्ट सोंपोवन नॅथन भारतांत परततालो. हे कंपनीची शिर्विसूच सोडून तो गोंयांत स्थायीक जावंक सोदतालो. कंपनी कडेन ताणें तसो पत्रवेव्हार केल्लो. आतां मुंबय येवन पांच स दिसांत कंपनीचे वेव्हार पूर्ण करून तो गोंयांत वचपाचो आसलो.

बायल भुरग्यांक घेवन नॅथन येता ही खबर आयकून व्हडली भाटकान्न खोशयेन फुल्ली. आतऱ्या-पयऱ्यान हांगा दुखता थंय दुखता, तकली कणकणटा म्हणपी भाटकान्न खडखडीत बरी जाली. नवे उमेदीन गोंयां वचपाचे तयारेक लागली. तिका चड खोस जाल्ली ती नॅथन गोंयांत रावंक येता म्हणून.

तीं सगळीं गोंयांत येवन विशेक दीस जाल्ले. घरांत सदांच गडबड. लोकांचें यो-वच, लोकांगेर घरांत पार्ट्यो, आनी कितें कितें. हांचें वचप चालूच आसलें. व्हडली भाटकान्न पुतां कडेन उलोवंक सोदताली. रोजमारी कडेन तिणें कितले फावट ह्या विशयाचेर भासाभास केल्ली. रोजमारीनय तिका फोर्स केल्लो.

त्या दिसा नॅल्सन आनी नॅथनाक खंयच भायर सरपाचें नासलें. तिळसांजचो तेर्स सोंपतकच नॅथन टी.व्ही. चॅनल घुंवडावंक लागलो. आनीक सात आठ दिसांनी नॅल्सन मुंबय वचपाचो आसलो. ते पयलीं तांचे कडेन उलोवपाची संद भाटकान्न सोदताली. आज तिका संद मेळ्ळी. तिणें दोगांय पुतांक आनी सुनांक हॉलांत आपयलीं आनी म्हळें,

- नॅल्सन, तूं बोमाय वोयचे पोयलीं नॅथना बाराबोर वोसून मोडगांवां गोर सोदाय.

- गोर कित्याक गे मामी?

- कित्या म्हुणल्यार? नॅथन, तूं आतां गोंयांत रावपा म्हुणटा नू रे?

- ओयी, इंगा रावतेलों म्हूण सांगलें न्हूं तुका.

-म्हूण मोडगांवां गोर, फ्लॅट कितेंय चोय म्हुणटां हांव.

- मामी, कितें जालां तुगेलें? मोडगांवां गोर कित्या जायें. हें येदें व्होडलें गोर आसा

न्हू. नॅथन इंगा रावतेलो.

- इंगा? तूं इंगा रावपा म्हुणटा? ना, ना, बाब, तूं इंगा रावपा मात चिंतनाकाय.

- कित्या गे मामी? काय बोरें आमगे पालास कोशें गोर इतू तेप बोंद आसलें म्हूण जीव चुरचुरतालो आमगेलो. तरी रोजबाय आनी इनासअंकल सांबावताय म्हूण इतू बोरें उल्लें तें.

- जाणां रे. हांव हेंचे बाराबोर इंगा रावतेलीं. तूं तुज्या बायल भुरग्यां घेवन मोडगांव राव. तुका इंगा रावपा मेळपा ना.

- कित्या काय म्हुणटां हांव. म्हाका इंगाच्यान धांवडावपा लागल्याय?

- बाब, मामी सांगता तें आयकुचें, तुज्या बोऱ्या सांगोता ती.

- रोजबाय, तूंय तेंच सांगोता. आमी येतोरीच वेंग मारोन रोडटा मुगे तूं, हें गोर सोडून खुंयच वोसनाकाय म्हुणटाली तूं.

- वोय रे बाबा, गोंय सोडून वोसनाका म्हुणटालीं हांव. मोडगांव इंगा मुरे.

- पूण कित्या काय म्हुणटां हांव. मुगे गांवां, मुगे गोरा रावपा आस दोरून हांव सोगलें सोडून येयलां.

- कित्या जाणा बाबा... कित्या जाणा...

- सांग गे मामी, कित्या येशी फाटीं फुडें येताय?

- बाबा, ह्या वाड्या शिराप आहा.

- केसोऽ शिराप?

- बाबा,एशें म्हुणटाय, हूब वोर्सा फाटीं इंगा चंदरसेन राजाचो पालास आसलो. ताचे भोंवतणी व्हडलो कोट आसलो. म्हूण ह्या पुराय वाड्याक कोट म्हुणटाय.

- मागी? इतूंत शिराप कोणाचो?

- इंगा पालसीचेर दुसऱ्या राजान गुरी गायली. आनी सोगले दादले झुजांत मेले. तेंगे बायलो बांगरां शिंगरां काडून उडोवन इंगाचे कुशावोती न्होयेंत जीव दिवपा गेल्यो. जीव दिवचे पोयलीं तेणी शिराप गायलो फूंय.

- मामी केसो होबरी घेवन बोसल्याय गे? ह्या गांवाक शिराप बादताय ते हे जोमनीचे. तिका पाड घालून लोक पोयशां हाटल्यान दांवताय न्हूं. तेच शिराप हे.

- मामी, शिरापा फोबोर फोरी म्हूण प्रॉव्ह कितें आहा गे?

- पोयलीं आयकून गेयाय रे, मागी फोरें काय फोट तें चोयाय.

- बोरें, बोरें, कितें शिराप गायले तांणी?

- तांणी म्हुटलें फूंय हेन फुडें ह्या वाटारांत एक बायल आयाव उरची ना. कोण फामील घेवन इंगा वोसूंक पावचोना. आनी बाबा, फोरेंच सोरभोंवतोणी चोय तूं, होड होड गारां आसाय. तितूं कोण रावोना. पेल्या गारांत आंकवार सुकोरीनबाय आनी तेगे चोड शिकोप गेवन पिसो जाल्लो बाव आहा. त्या फुर्सा बोगले आसलेल्या गारांत शिमयांव आंकोल भुता बोशेन एकलो रावता. ताचीं बायल बुरगीं ताका सोडून गेलीं. आमगे लायनींत दोनूय गारांनी आमगे बाशेन गोर सांबावपी कोणूय तेगे फामील घेवन रावताय. गारांतलीं मुनशां फूंय फूंय रावताय... बाबा, ह्या वाड्या वोयले चोडशे लोक भायर वोसून बोऱ्या पावल्याय. इंगा रावतेल्यांक बरकत ना. देकून म्हुणटां, तूं मोडगांव गोर गेवन राव. मोडगांव चांदोर चोड पोयस ना.

- मामी, मामी तूं फुंयच्या तेंपांत जियेता? हिस्ट्रींतल्यो गोजाली गेवन बोसल्याय? लोकांनी गांव सोडलो तो शारांनी रावूं जाय म्हूण. शारांनी लायफ इझी आसोता.

- आनी मामी, लोक आमचे बाशेन शिर्विसे लागोन, भुरग्यां इस्कला लागोन खूंय खूंय रावूं गेल्याय. सोगले गांव वोसाड जाल्याय. त्या गांवांक कोणागे शिराप बादल्याय?

- लागल्याय. तेंकांय शिराप बादल्याय जोमनीचे. नॅल्सन, सोगल्या गांवांक दुडवांचे, पोयशांचे शिराप बादताय. गांव, गारां, बाटां शेतां पाड घालून सोगले बायर धांवताय. इंगाचें मेकळें वारें सोडून, धुंवरा शारांत इल्ल्याश्या रुमांनी फुगार जावन रावताय.

- खरेंच नॅथन,तुगे चिंतोप म्हाका सामकें मानोवलें. तूं राव इंगा, आमगे इतू शेत पाड जावन गेलां. ह्या दिसांनी बोंवन चोयलां आमी. तूं तेची उस्तवारी कोर. रिटायर जातोरीच हांवूय येतां.

- यो, नॅल्सन, तूं जाणा न्हूय, म्हाका शिर्वीस कोरपाचीच नासली. पापान फोर्स केलो म्हूण गेलों हांव शिर्विसेक. आतां हो गांव आनी हांव.

- म्हुणटरीच, तूं इंगाच रावतेलो?

व्हडले भाटकान्नीन नॅथनाक आडावपाचे जायते यत्न केले. झगडें लेगीत केलें. पूण नॅथन आनी नॅल्सनाचो असल्या कुड्ड्या भावार्थांचेर मात्तूय विश्वास नासलो. भावांक मेळूंक आयिल्ल्या इव्हानानूय आवयक पिशांत काडली आनी भावांक तेंको दिलो.

नॅल्सन सुटी सोंपोवन मुंबय गेलो आनी नॅथन मनांतले विचार सत्यांत हाडपाचे तयारेक लागलो. व्हडले भाटकान्नीन थोडे दीस नॅथनाचेर राग धरलो. पूण ताणें जे तरेन शेता-भाटाचो वावर हातांत घेतिल्लो तें पळोवन ती खोशी जाली. पूण मदीं मदीं त्या स्रापाची गजाल तिका येवजताली. आनी मनांतल्यान भंय दिसतालो. मागीर ती सायबीणमांयक हात जोडून हातांतल्या कोतांतले (माळेचे) मणी ओडून मन थीर करपाचो यत्न करताली.

- रोजमारी, कित चिंतीत बोसलां? भाटकान्नी फाटल्या फुडल्यान भोंवपा काम ना आयज?

- इन्सू, मुजीं फोकाणां कोत्ताय? तूं आयज इंगा केसो? बाबा फाटल्यान गेलो ना?

- कितेंय सांग रोजमारी, बाबान ह्या पोडींग शेता-भाटाक नेवो जीव दिलो. बांगार केलें.

-होय तोरी, ती शिरापा बिरांत लेगीत फोट केली.

- जांव, होडले बाटकान्नीक जाणटेपोणांत बाबान खोशी दिली.

- चोड कोरून, तिये मोनांतली शिरापा बिरांत ना केली.

- तूं खोशी मुरे इन्सू, बाबा वांगडा मोटरान भोंवों मेवता म्हूण? मुको उलोवपा लेगीत उगोत मेवना तुका.

- रोजमारी, तूं धाकले बाटकान्नी बाराबोर इस्कुटारार बोसोन बाजरां वोयतोना माका चोयता तोरी?

-तुका कित्या चोवपा जाय आतां, बाजरांत माका जायतो लोक मेवता चोवपाक.

- ओयी? उगडास दोर हां.

- आरे! सायबा मुज्या! कितू उगोत जालो चोय, भाटकान्नीन फिरजांतल्यान निस्त्या भायर काडून दोवोर म्हुटलोलें. तूं बोस रे इन्सू, हांव येतां.





# दामू

**शॉतॅश बारॅत**

दामूचें चिंतीत बल्कांवार बसून ऑक्ल पुसतालों. मुखावेल्यान येतलो वळखीचोसो दिसलो. ऑक्ल नाकार दवरतां जाल्यार तो आग्नेल. दामूचो शेजारी. म्हणलें, हाका खबर आसतली, दामू कलकत्याक सावन परतो आयला काय ना तो. पंदरा दीस फाटीं आपूण ताकतिकेन कलकत्याक वतां म्हूण सांगून गेल्लो तो. उपरांत ताची कांयच खबर नासली. फकत मर्दीच एक फोन आयल्लो. ''कायतानबाब, हांव बरो आसां. घरच्यांक सांग, हुस्को करी नाकात म्हूण. काम जातच हांव रोखडोच परततां,'' अशें म्हणत फोन सकल दवरचे आदींच ''शिरीची खबर कितें रे?'' अशें हांवें विचारना फुडें, ताका दुसरो उपाय नासून म्हाका थोडी खबर सांगची पडिल्ली. आतां आग्नेला वरवीं कळून आयलें, दामू कालूच परतला म्हूण. इतलेंच न्हय, तर कोणाच लागीं उलोवंक सोदिना, एका कोणशाक बसून आसा, येतना कोणाच्यो तरी अस्त्यो हाडल्यात, आनी बराबर एके बायलेक आनी ल्हान भुरग्याक घेवन आयला म्हूण.

हांव पेंचांत पडलों. अशें कितें जालें तर दामूक? तो तर सामको धिरिश्ट. कसल्याय प्रसंगाक फुडो करूंक दोन पावलां मुखार घालपी असलो. फाटीं न्हय. ओगीच शिरीचो उगडास जालो. म्हणलें, आनीक वेळ वगडावन उपकारना. आनी हांव लागलों चालीक... दामूचेर नियाळ करतां करतां, कांय विचार मनांत येवंक लागले...

तशे दामू इतले लागींचे इश्ट म्हाका भोव थोडे. सामके हाता बोटार मेजूंक मेळत तितले. कितल्या वर्सांची आमिझाद काय आमची? बरो उगडास जायना. तो मराठीची चवथी काडून पुर्तुगेजीचो प्रिमेर ग्राव करूंक आयल्लो, आनी म्हजे बगलेक, एकाच बांकार बशिल्लो. तो उगडास केल्यार हे खबरेक पांच दसकां अदीक जातलीं काय दिसतात म्हाका. थोडो तेंप पुर्तुगेज भास नवी जाल्ल्यान मातशी आडखळ जाल्ली खरी पोराक. पूण तसो तो हुशार आशिल्ल्यान ती रोखडीच समजून घेतिल्ली. शिवाय ताचो बापूय दोतोर कॉश्ता म्हऱ्यांत बुतकेर कसो काम करी. ताकाय पुर्तुगेज भाशेचें बरें गिन्यान आसलें. ताचोय दामूक खूब आधार जाल्लो. हांव मुखार लिसेव शिकूंक गेलों. दामू मात इंग्लेजीक गेलो. तेन्ना म्हाका खूब वायट दिसलें. पूण विष्णूबाब, दामूचो बापूय, फुडार चिंतपी मनीस आशिल्लो.

त्याच वर्सांनी भारताक स्वतंत्रताय मेळिल्ली. आनी पुर्तुगेजांकूय गोंय सोडून फाटीं फुडें वचचें पडटलें ही खबर विष्णूबाबाक बेस बरी आशिल्ली. मागीर पुर्तुगेज शिकोवन चल्याक पुर्तुगालाक धाडपाचो? म्हाका तर हो विष्णूबाबाचो गूट दामू कडच्यान खूब वर्सांनी कळून आयल्लो. गोंय स्वतंत्र जातकूच. ते आदीं दामूच्या जिवितांत जायतें घडून आयल्लें. बापूय न्हिदिल्ले कडेन देवाधीन जाल्लो. सामको 'मॅसिव्ह' म्हणटात तसलो काळजाचो आताक आयल्लो. ''कितले

पावटी विष्णूक हांवें सांगिल्लें, सिगरेट ओडपाचें सोडून दी म्हूण; पूण कोणाचें कोण आयकून घेता?'' शांताबायेक आनीं भुरग्यांक बुजवण दितना दोतोर कॉश्तान उलयल्ल्या उतरांचो म्हाका आयजूय उगडास आसा. पूण दामूचेर मळबूच कोंसळिल्ले भशेन जाल्लें. तो त्याच वर्सा पुण्याक वचून एसएससी परिक्षा दिवन आयल्लो. बऱ्या गुणांनी पास जाल्लो. मुंबय वचून सीए जावपाची ताची इच्छा आशिल्ली ती इच्छाच उरिल्ली. बापूय भुरगोच गेल्ल्यान घरची सगली जबाबदारी दामूचेर पडिल्ली. दामू फाटल्यो तेग भयणी आनी निमाणो श्रीपाद. तो सामको ल्हान, दोन वर्सांचो. तांचे दोगांयचे मदें सुमार पंदरा वर्सांचें अंतर. पूण दामू तसो धीर सोडपी न्हय, आतां लागींचीं सोयरीं बी हळू हळू पयस जावंक लागिल्ली, तरी. आतां तांकां दोतोर कॉश्ता कडल्यान मागून सॅम्पलाचीं घटसाणीचीं इंजेसांवां आनी बाटल्यो कोण हाडून दितलो आशिल्लो? शिवाय, विष्णूबाबांक एका फाटल्यान एक करून तीन चलयो तांचो थोडो तरी भार हांच्या माथ्यार पडलो जाल्यार?

एक एक पावटी चिंतल्यार म्हाका दामूची तोखणाय करतां तितली थोडी दिसता. संवसारा कडल्यान खूब शिकलो तो! हार केन्नाच मानलिना. झुजत रावलो. ट्युशनां दिवंक सुरवात केली. उपरांत एके खाजगी शाळेंत शिकोवंक लागलो. हें करतना दीस कशे उदेले आनी राती कश्यो आयल्यो हें नियाळूंक वेळ पसून मेळूंक ना. आपल्यो मनांतल्यो भावना खंय तरी धांपून दवरच्यो पडल्यो. तेगूय भयणींक चड ना जाल्यार थोडें तरी शिक्षण दिलें ताणें. आनी तांचो संवसारूय बरे तरेन करून दिलो. तें करता म्हणसर ताचो आपलो संवसार सामको कुशीक उरलो. उरलो म्हळ्यार, ताणेंच तो कुशीक दवरलो. भयणींक लागून ताका चली दिवपाक लोक फाटीं-फुडें जातात म्हूण कळून येतच, दामू लग्नाच्या संस्काराचेर एके तरेन विटूंक सो लागलो. हो दोश ह्या संस्कारांत ना, तो लोकांच्या स्वार्थी चिंतनांत आसा, हें कोडू सत दामूक समजायता म्हळ्यार कितलींच गरजेचीं वर्सां धांवलीं.

आनी हो दामूचो भावनां कडलो खेळ भोव थोड्यांक समजतालो. रुपडीं घालून भोंवपाक तो बरोच हुशार जाल्लो. तो केन्ना कितें चिंतता हें समजूंक बरेंच कठीण जातालें. एकल्याक जाका हें उमाणें सोडोवंक येतालें, तें म्हाका. म्हणून जायते पावटी गजाल हाता भायर वता शी दिसताली तेन्ना तो म्हाका आपल्यागेर आपयतालो ना जाल्यार आपूण आमगेर येतालो. मागीर आमी एक दोन बियरीच्या ग्लासां बराबर, ल्हानपणांतले उगडास काडीत काडीत, तकले वेलें वजें ल्हव करताले.

हाचे मदीं आनीक एक गजाल घडली जी घडूंक नाका आशिल्ली. तेगूय भयणींचो फुडार दोळ्यां मुखार अरिश्ट कसो येवन उबो राविल्ल्यान धाकट्या शिरीचेर, म्हणचे श्रीपादाचेर, मातशें दुर्लक्ष जावंक लागलें. शिवाय, बापायच्या चिंतूंक नाशिल्ल्या मर्णान आवयचेर आदींच जाणटेपण हाडिल्लें. म्हणून तो खंय वता, कोणा बराबर भोंवता, ताचे इश्ट कोण, ह्या गजालीं कडेन मातशी आडनदर जाली. तसो दामून ताका बरें नांव आसलल्या इस्कोलांत घाल्लो आनी तो शिकतालोय बी बरो. एसएससी पसून तो बऱ्या गुणांनी पास जाल्लो, चड करून विज्ञान आनी गणितांत. म्हूण, दामून ताका फुडलें शिकप करचे खातीर म्हापशेंचे एके नांव-लोकीक आशिल्ले कॉलेजींत भरती केल्लो. बोर्डर कसो रावपाची वेवस्था केल्ली.

पूण जायते पावटी दुर्दैव येतना चारूय वटांनी येता अशें म्हणटात. शिरीक शाळेंत आसतना बरे इश्ट मेळूंक नासले. थोड्यांचे आवय-बापूय गिरेस्त धंदेकार आशिल्ले जाल्यार कांय जाणांचे तारवार ना जाल्यार गल्फांत काम करपी आशिल्ले. ह्या भुरग्यांक पॉकेट मनी उदका भाशेन मोडपाक मेळटाले. हिशोपा भायर पयसो, कोण विचारतलो ना आनी हाता कडेन मेळपी नाका आशिल्ल्यो ताळण्यो, जश्यो, गुंगे वखदां भरशिल्लीं पिवणां, पान मसालो, सिगरेटी, इंटरनॅटा वयलीं पोजडीं फिल्मां आनी दुसऱ्यो बुरश्यो गजाली. हांकां लागून त्या तरणाट्यांची दिशा वायटा कडेन घुंविल्ली.

णववेंत-धावेंत आसतना शिरी ह्या भानगडींनी मातसो घुसपूंक लागिल्लो. तरीय, तो घरा आशिल्ल्यान, ताच्या दादाची, म्हणचे दामूची, आनी हेर घरच्यांची चड ना जाल्यार थोडी पूण ताचेर नदर उरताली. आतां म्हापश्यां पावतच शिरीक रान सामकें मेकळें जाल्लें.

भयणींच्या संवसारांत घुसपल्ल्यान दामूक धाकट्या भावाची वाट लागता हें मात पूण कळूंक नासलें. आनी, कळून आयलें तेन्ना सगलो संवसारूच दोळ्यां मुखार कोंसळिल्ले वरी जालो. तितले म्हणसर खूब वेळ जाल्लो...

ताकतिकेन येवन मेळ म्हूण प्रिन्सिपलान रेकाद धडिल्लो. त्या दिसांनी निमाणी भयण, कल्याणीचे सोयरिकेचो बोवाळ चलतालो. ''शिरी हॉस्टॅलांतल्यान ना जाल्यार दोन दीस जाले'' म्हूण प्रिन्सिपलान सांगलें तेन्ना दामूचो आवरोच उडलो. ''देवा, म्हजें कितें चुकलें काय?'' म्हूण शीण करीत ताणें आनी हांवेंय बी शिरीक सोदपाक संवसार आरतो परतो केल्लो. पूण खंयच जाग लागलिना पोराची. ताच्या बरोबरच्यांनी भियेत भियेत एक गजाल सांगिल्ली. तो जायते पावटी एके नेपाळी कशे दिसपी चलये बराबर कळंगूटचे वो हणजूणचे वेळेर दिश्टी पडटालो म्हूण. म्हूण आमी नेपाळ पसून माडोवन आयले.

हे खबरेक आतां पांच वर्सां जायत आयल्लीं. अकस्मात पंदरा दिसां फाटीं दामूक एक पत्र आयलें. कलकत्त्याच्यान. तें थंयच्या एका दोतोरान धाडिल्लें. भितर शिरीच्चें कॉलेजींत आसतना केल्लें आयडॅंटिटी कार्ड आशिल्लें आनी दोतोराच्या हॉस्पिटलाचो फोन नंबर. ताचे वेल्यान जायत्यो गजाली कळून आयल्यो. सुमार तीन वर्सां फाटीं, पुलिसेन एका वाटेर पडून आशिल्ल्या तरणाट्याक गंभीर अवस्थेंत हॉस्पिटलांत हाडिल्लो. ताच्या आंगार तो कोण तें वळखुपाची कसलीच खुणा त्या वेळार मेळूंक नाशिल्ली. दोतोरान ताका तपासतच तो सोऱ्याक, घुंवळे वखदांक लागून आनी जेवण-खाण सारकें नाशिल्ल्यान हे गतीर पावला म्हूण अदमास केल्लो. दोतोर आपल्या वेवसायांत हुशार आसलो. शिवाय मनिसूय खूब दयाळ आसलो. म्हूण शिरी सुमाराचो जातकीर आपुणूच जावन दुसऱ्या पिडेस्तांक आनी हॉस्पिटलांतल्या कामदारांक आधार करूंक लागलो, तेन्ना दोतोरान ताका तात्पुरतो कामाक दवरलो. तरीय शिरी आपले विशीं कांयच उलयनासलो. फकत म्हयन्यांतल्यान एक-दोन पावटी, सुमार सात-

आठ दीस नाच जातालो. परतो येतालो तो मात सामके बेसूरवाणे अवस्थेंत. "पोरान किते तरी मनाक लावन घेतिल्लें. म्हणून, ताणें हीं वेसनां सोडूंक प्रयत्न केल्यार पसून तीं ताका कशींच सोडन दिसनासलीं," दोतोरान सांगलें. तेन्ना दामूच्या दोळ्यांतल्यान झरे व्हावूंक लागले.

"शिरी निमाणे पावटी आयल्लो तेन्ना मात आमच्यांनी कांयच करूंक जालें ना. पूण हे पावटी ताच्या बोल्सांत आयडँटिटी कार्ड मेळ्ळें आनी तुमचो पत्तो कळ्ळो. ताणें एक धाकटें बॅग दवरलां. कूड मॉर्गांत बरे तरेन सांबाळून दवरल्या" म्हूण सांगतच दामू त्याच दिसा कलकत्त्याक वचूंक भायर सरिल्लो. वचचे आदीं म्हाका सांगून गेल्लो.

हांव दामूगेर पावलों तेन्ना सांज जायत आयल्ली. मातसो शिरशिरो पावस पडटालो. लागींचे इश्ट, सोयरे, शेजारी भायर-भितर सरतले दिसताले. हांव भितर सरलों तेन्ना दामूचे मांडयेर एक दोन वर्सांचो गोरो पिट्ट माणकुलो बशिल्लो आसलो. ताका पळोवन आंग शिर्रर जालें. दिसलें, हो धाकटुलो शिरीच न्हय मू, आपल्या दादाचें मांडयेर बसला तो? भितर नदर मारली. शांताबाये म्हऱ्यांत धवी साडी न्हेशिल्ली एक नेपाळी कशी दिसपी भुरगीच बायल बशिल्ली आसली.

दामून म्हाका पळोवन धाकट्याक घट वेंगेंत धरलो. बोल्सांत हात घालून म्हजे लागीं एक चीट दिली. आनी लागलो रडूंक... हांव चीट वाचूंक लागलों...

मोगाळ दादा,

हीं दोन उतरां तुका बरयना जाल्यार म्हाका खरेंच भोगसणें मेळचें ना. कितें करूं दादा? हांव जाणां, तूं आजुनूय विचार करता आसतलो, तुजें कितें चुकलें काय म्हूण. ना. तुजें कांयच चुकूंक ना. चुकलें तें म्हजें. म्हज्या स्वार्थानूच म्हजो घात घेतलो. सगळ्यांक दिश्टी पडटालें, तूं शालिनी, शीला आनी कल्याणी ताईक लागून कितलो धडपडटालो तो. आनी हेवटेन म्हाका दिसतालें, तूं म्हजेर दुर्लक्ष करता. खरें सांगू दादा? असलीं चिंतनां म्हज्या इल्ल्याश्या मनांत कित्याक येवंक लागलीं तें म्हाका आयज पासून कळना. घडये तू म्हजो दादाच न्हय, बाबाय आसलो, एक रोल मॉडलूय आसलो, म्हणून काय? आसूं. हांव जाणां, तुका हांव रसायन-शास्त्रांत एक व्हड विद्वान जाल्लों जाय आसलों म्हूण. म्हणून तुवें म्हाका म्हापश्यां धाडललो. पूण थंय हांव अधिकूच एकसुरो जावंक लागलों. आनी तें एकसुरेपण पयस करपाक म्हाका सिगरेटी, कोला, इश्टां कडल्यान फुंक्याच्योच मेळूंक लागल्यो. हांचे बरोबर एक दीस हणजूणा गेल्ले कडेन म्हाका मनीशा मेळ्ळें. हांव खरेंच सांगतां दादा, हांवें ताका पयस करूंक जायते उपाय केले. हांवें ताका भेश्टावपाक तुजें नांव घेतलें, तिगूय ताईचें घेतलें, आईचें घेतलें आनी शेवटीं कायतान मामाचें पसून घेतलें. पूण कांयच उपयोग जालो ना. कशेंच फाट सोडिना जालें. सगलेच म्हणूंक लागले, नेपाळच्या चलयांक हांगा बरें नांव ना म्हूण. तुजें, आईचें आनी तिगूय ताईच्या घरच्यांचें नांव गांवांत इबाडचें न्हय म्हूण हांव तोंड घेवन पयस गेलों. थोडो काळ नेपाळांत लिपून रावलों. तूं आनी कायतान मामा म्हाका सोदूंक आयल्ले ती खबर म्हज्या कानार पावलली. त्या दिसा हांव खूब रडलों, दादा. दिसलें, एकूच धांव मारून तुजे आनी कायतान मामाचे वेंगेंत येवन विरगळचें शें. तरीय काळजाचो घट फातर केलो आनी सगल्यो भावना मुठींत धरून रावलों. आईचें चित्र सद्दां दोळ्यां मुखार येवन उबें रावता तेन्ना हांव खूब खूब रडटां, दादा. पूण कितें करूं? दुसरो उपाय ना ताका. आनी आसाय जाल्यार म्हाका तो जमना. दादा, कांयच केलें ना रे हांवें. फकत तुका त्रास मात दिले. आनी निमाणो आनीक एक दितां. म्हाका एक चलो आसा. ताका नांव दामोदर घालां. मनीशाक ताचीं घरचीं खूब त्रास करतात. जाता जाल्यार तांकां व्हरून तुजे आनी आईचे नदरे खाला दवरल्यार म्हाकाय घडये इल्लेंशें पुण्य मेळत. मनांतल्यान म्हज्या दादाचे आनी आईचे निमणे पावट पांय धरतां. तिगूय ताईक आनी कायतान मामाक म्हजो निमणो नमस्कार.

तुजोच,

शिरी

हांव दामू कुशीक बसून दोळे पुशीत धाकट्याचे केंस सांसपीत रावलों.





# तडव

## अरुण शाखरदांडे

चंदवा, तिचो घोव परशु, चार म्हयन्यांचो ल्हान पूत आनी पांच वर्सांची धूव, चवगांय जाणां बस स्टॅण्डाच्या कोनशाक बशिल्लीं. पूत रडटा म्हूण तिणें पुताक दुदाक धरिल्लो. पूण आवयच्या पोटांत अन्न ना जाल्यार दूद खंयचें सुट्टलें! तिका आनी तिच्या भुरग्यांक एक वेळचें लेगीत अन्न मेळनासलें. तिचीं पोकीं थानां लुचू लुचून पोर थकून गेल्लो. ताणें मोट्या मोट्यान किळच्यो मारूंक सुरवात केली. चंदवाचें काळीज कळवळ्ळें.

चंदवान किरवंटीचे ल्हान पिशवेंतले चार रुपया काडून घोवा कडेन दिले आनी कुशीकच्या शॉपार मेळटा तें थोडें दूद हाडपाक सांगलें. सामानांत खंय तरी पोराचो बोम आसलो, तो सोदून तिणें तिचे धुवेक बोम धुवन हाड म्हूण सांगलें. धूव बोम धुवपाक कुशीकच्या नळार गेली.

बस स्टॉपा वयलो वॉचमॅन तांकां दोनदां हटकून गेल्लो. तो तांकां थंयसून धांवडोवंक सोदतालो. तीं बेळगांवचे बशीची वाट पळयतात अशें तिच्या घोवान वॉचमॅनाक सांगिल्लें. पूण आतां खंय वचचें, कितें करचें, तेंच ठरनासलें. खंयसुनूच आधाराचो एक धागो लेगीत हाताक सांपडनासलो. बेकार घोव आनी दोन भुरगीं आशिल्ले चंदवाच्या संवसाराचें व्हडें दर्यांत वयर सकल जातालें. तरी चंदवान आशा सोडूंक नासली. तिचे सारक्या दळिद्री मनशांक फकत आशेचोच आदार आसलो. तेच आशेच्या किर्णाचेर पावल घालीत ती कशी तरी दीस काडटाली.

सभोंवतणी विशाळ बसस्टॅण्ड दिसतालो. चारी वटयां शेंकड्यांनी बशी येताल्यो,शेंकड्यांनी बशी वताल्यो. हजारांनी लोक येताले आनी वताले. म्हातारे, तरनाटे, भुरगीं, बायलां, दादले सगळे आपापल्या पोटा फाटल्यान. तांकां निरोप दिवपी वा व्हरूंक येवपी लोकांची गर्दी जाल्ली. वाटे वयल्या मनशांक मस्तूल लोक फुडें सरताले. चंदवा आनी भुरग्यांक कोनशाक बसपाक जागो मेळ्ळो म्हूण बरें जालें. शेंकड्यांनी लोक हेवटेनसून तेवटेन वताले पूण कोणूच वळखीचो दिसनासलो. घोवाक दूद हाडपाक उशीर जाल्ल्यान चंदवाक भंय दिसलो. तिणें धुवेक बापायक सोदूंक धाडली. कांय वेळान घोव आनी धूव दूद घेवन आयलीं. बोमांतलें दूद पोर नेटानेटान ओडूंक लागलो. कालच्यान ताच्या पोटांत कांयच पडूंक नासलें.

चंदवा बेळगांवच्यान दोन कोस पयस आशिल्ल्या गांवांतली. तिच्या बापायचें आनी आवयचें पटनासलें. दिसपट्टीं झगडीं. पोटाक लागून चंदवाचो बापूय मेळटा तें काम करतालो. पूण केन्ना केन्ना दोन दोन दीस काम मेळनासलें. चंदवाक एक ल्हान भाव आनी भयण आसलीं. चंदवाचे आवयन दुसऱ्या दादल्याक लागीं केल्लो. ते खातीर बापूय सोरो पियोवन तिका धोडायतालो. चंदवाच्यान हें सगळें सोसूंक जायना जालें. काल पयरची ल्हान चंदवा आतां आंगान भरूंक लागिल्ली. कसलेंय वायट-बरें अन्न तिच्या देहाक पोसवण दितालें. रेब्याचे जमनींत आळूं वाडचें तशी ती वयर सकल भरूंक लागिल्ली.

मागीर एक दीस शेजारच्या शंकरू वांगडा ती बेळगांवां पळून गेली. बेळगांवां इश्टाच्या रुमार संद गावली तशी शंकरून चंदवाक आपले पोंदा घेवन मस्तिली. चंदवा नव्या अनुभवान पयलीं कांचवेली पूण मागीर तिकाय जिविताच्या त्या आंगाचें आकर्शण दिसलें. दोन तीन राती चंदवाक भोगून जातकीच शंकरून तिका गोंयांत हाडून कोणागेर तरी कामाक दवरली आनी मालकिणी कडल्यान

दोन हजार रुपया घेवन तो पसार जालो. चंदवाक ते मालकिणीगेर रावचेंच पडलें. आतां परतून वचपाक वाट उरूंक नासली.

एकदां कसलें तरी सामान हाडपाक मालकिणीन चंदवाक बाजारांत धाडिल्ली तेन्ना तिका परशु दिसलो. तो थंयच दुकाना भायर ट्रकांतसून तांदळाचे साक देंवयतालो, हमाली करतालो. परशुची नदर मेळटकच चंदवान मान सकयल घाली. कांळुदर गरयेचें हांयस खावपाची तयारी दाखयतालें.

मागीर परशु चोरून चंदवाक मेळूंक लागलो. एक दीस मालकीण तिच्या मनशां वांगडा खंय तरी जात्रेक गेल्ली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं परतून येवपाची आसली. तेन्ना चंदवान परशुक घरा आपयलो. परशु वाटूच पळेतालो. ते राती चंदवा सपनांतली राणी जाल्लें आनी परशु राजा. शृंगाराच्या चाळ्यांत दोगांय जाणां कितले फावट न्हाली, तांकांच कळ्ळें ना. फांतोडेर परशु गेलो खरो, पूण ताणें घाल्लें तें बीज वाडूंक लागलें. चार म्हयन्यांनी सगळी गजाल उक्ताडार येतकीच मालकिणीन चंदवाक घरा भायर काडली. परशुन एक रूम भाड्यान घेतलो. आनी चंदवा ताचे वांगडा रावूंक लागलें. मागीर कांय म्हयन्यांनी ताका ती धूव जाली.

परशु बाजारांत हमाली करतालो आनी चंदवा धुवेक वांगडा घेवन दोन घरांतलें काम करताली. आयदनां घांसप, कपडे उमळप, सान्न मारप.

परशु खरो नागपूर वटेनचो. बापाय कडेन झगडीं जावन कोणा तरी इश्टा वांगडा तो कामाक म्हण सांगली पावलो. घरा आनी केन्नाच परतून वचचों ना अशें ताणें थारायल्लें. सांगली सुमार पांच स म्हयने जातकीच थंयचो कोण तरी गोंयांत बरी मजुरी मेळटा म्हूण ताका घेवन गोंयांत आयिल्लो.

परशु आतां पयलींचो उरूंक नासलो. अर्दी मर्दी सोरो पियोवंक लागिल्लो. मटको लायतालो. केन्ना केन्ना पयशांक पादिसेर जातालो. चंदवाचे सपनांतले दीस आतां करपून गेल्ले. त्याच दिसांनी ती दुसरे खेपे गुरवार जाली. आनी चार म्हयन्यां फाटीं तिका पूत जाल्लो.

चार दिसां पयलीं तांचेर अरिष्ट कोसळ्ळें. सुमार पांच म्हयन्यांचें भाडें दिवंक ना म्हूण पात्रांवान तांकां रुमा भायर काडिल्लीं. कितें करचें तें चंदवाक कळनासलें. बाजारांतल्या चडश्या दुकानदारां कडल्यान परशुन ह्यो त्यो अडचणी सांगून हात उश्णे दुडू घेतिल्ले. बाजारांत आतां ताका कोण पातयेनासलो. तो वता थंय ताचे कडल्यान येणे आशिल्ले पयशे मागताले. म्हूण तो वाठार सोडून तीं व्हडल्या शारांतल्या बस स्टॅण्डार पाविल्लीं. किरवंटीचे पयशे काबार जायत आयिल्ले. आनी परशु कांयच कानामनार घेयनासलो. एकाच जाग्यार बसून विडयो फुंकतालो.

फाटले पांच दीस चंदवाच्या आंगाक उदक लागूंक नासलें. सगळ्या देहाक म्हेळ चिकटिल्लो आनी घामसाणीचो वास मारतालो. खुद चंदवाकूच तो वास सोंसूंक जायना जालो. पुताक परशु कडेन दिवन चंदवा बस स्टॅण्डाच्या एका कोनशाक आशिल्ल्या टॉयलेटा कडेन गेली. थंय न्हावपा खातीर पांच रुपया दिवचे पडटाले. तिणें परशु कडल्यान पांच रुपया घेवन पयलीं धुवेक न्हाणोवन काडली. ती परत आयली तेन्ना पूत परशुचे मांडयेर न्हिदिल्लो. दोन दीस जाल्ले, परशु कांय उलय नासलो. कसलो तरी विचार ताच्या मनांत चलिल्लो. कितेंय विचारलें जाल्यार फकत 'हूं हूं' करतालो.

तो दीस तांणी बस स्टॅण्डारूच काडलो. परशुन हेवटेन तेवटेन हमाली करून पन्नास एक रुपया मेळयले. एका दिसाचो तरी प्रस्न मिटलो. परशु हरशीं आंगान घटमूट. हालिंसरा सोऱ्याचें व्यसन लागत सावन मातसो आंवळिल्लो. रुमांतल्यान धांवडायत सावन ताची तकली जाग्यार नासली. पयलीं तो एकलोच आसलो. पूण आतां तिगां मनशांची जापसालदारकी ताच्या भुजांर पडिल्ली. सोऱ्यान आनी मटक्यान ताका पादिसेर केल्लो. पयशे जोडपाची ताकद ताका आशिल्ली. पूण ताचें मन थाऱ्यार नासलें. कशें तरी करून परशु आपलें संवसाराचें व्हडें तारी कडें पावयतलो अशी आस्त चंदवाक आसली.

दुसऱ्या दिसा दनपारां उबाळ सामको वाडलो. चंदवाचें आंग घामान उकडूंक लागिल्ले वरी जालें कुशिकूच परशु काम नाशिल्ल्यान वणटीक तेंकून बशिल्लो आनी कितें तरी येवजितालो.

चंदवान न्हावन घेवपाचें थारायलें. पुताक तिणें परशु कडेन दिलो. परशु कडल्यान पांच रुपया घेतले. पिशवेंतली एक पोन्नी साडी काडली आनी हातभर तुवालो घेवन ती बस स्टॅण्डाच्या टॉयलेटांत न्हावपाक गेली. तिची धूव तिचे वांगडा आयली तेन्ना तिणें धुवेक कुशीक व्हरून भावाचेर लक्ष दवरूंक सांगलें आनी ती न्हावपाक गेली.

आंगार उदक पडटकीच तिका थंडसाण दिसली. आंगाचो घाम देंवतकच तिचें मन प्रसन्न जालें. माथ्या वयलें वजें सकल देंविल्ले वरी जालें. जड जाल्लें आंग ल्हवसार जालें. फुडें केन्ना न्हावंक मेळत हाची शास्वती नासली. सगळें आंग तिणें घांसू घांसून काडलें. मनांतलो सगळो म्हेळ व्हांवून गेल्ले वरी ती ल्हवपीक जाली. जगपाचो नवो धीर तिका आयलो. परशु सोरो सोडटलो, मटको खेळचोना. तिचेर पयलीं बशेन मोग करतलो. आपली धूव आनी पूत व्हडलीं जातलीं. शाळेंत वतलीं. आपल्याक बरे दीस येतले. हांगाच खंय तरी एक ल्हानसो रूम मेळ्ळो जाल्यार तीं परत आपलो संवसार उबो करतलीं आसलीं. अशें येवजीत चंदवा आपले तकलेर बालदेंतलें उदक ओतयताली.

चंदवाक आपले आवयची याद आयली. तांच्या गांवा सावन सुमार धा कोसांचेर आशिल्ले गडा वयले देवीचेर तिचे आवयचो भोव विश्वास. चंदवा तिचे आवय वांगडा चार पांच फावटीं तरी गडा वयले देवीचे देवळेंत पावल्या आसतली. चंदवान देवीचें नांव घेतलें. देवी पाव म्हळें. आंग पुसून साडी न्हेसून ती भायर आयली.

तिची धूव भावाक मांडयेर घेवन बशिल्ली आनी बापायन दिल्लो लॉलिपॉप चोखपांत भोव गुल्ल आसली. मर्दी मर्दी ती आपल्या भावाच्या वंठांक लॉलिपॉप लायताली. आज मेरेन धुवेन लॉलिपॉप चोखूंक नासलो. बापायन आपल्याक लॉलिपॉप दिला म्हूण ती बापायचेर खूब खोशी आसली.

परशु थंय नासलो. चंदवान पुताक मांडयेर घेतलो आनी धुवेक विचारलें - बापूय खंय? धूव लॉलिपॉप चोखीत आसली. तेन्ना चंदवान तिचे फाटीर धुमको घालो आनी विचारलें - खंय गो तुजो बापूय?

धुवेन बस स्टॅण्डाचे एके वटेन बोट दाखयलें. कोणें तरी आपयला आसतलो

हमालीक अशें येवजून चंदवा परशुची वाट पळेत बसली. सुमार वरभर जालें. परशु दिसलो ना. चंदवान धुवेक हेवटेन तेवटेन धाडून बापूय दिसता काय म्हूण पळोवपाक सांगलें. धुवेन फुडें सरून सभोंवतणी नदर मारली. पूण बापूय दिसलो ना. आनी बरोच टायम गेल्लो. चंदवा अस्वस्थ जाली. पुताक धुवे कडेन दवरून तीय बसस्टॅण्डार चारी वटयां सोदून आयली.

सांज जावंक लागिल्ली. अचकीत मळबांत उदेंते कडल्यान काळीं कुपां भरूंक लागलीं. वारो सुटलो. जोगलां चमकूंक लागलीं. काळोख दाटूंक लागलो.

चंदवा चक्रावल्ले बशेन जाल्ली. पयलीं तिणें आशिकुशीक आशिल्ल्या मनशांक विचारलें, आपल्या घोवाक-परशुक पळयला काय म्हूण. परशुन लॉलिपॉप घेतिल्ल्या पसऱ्यार वचून ताची चवकशी करून आयली. पूण मेळटा तो आपल्याच कामांत आसलो. दुसऱ्या कडेन लक्ष दिवपाक कोणाक वेळ नासलो. परशुन दूद हाडिल्लें त्या दुकानाचेर ती वचून आयली. दोन चार फावटी टॉयलेटा कडेन वचून थंयच्या मनशा कडेन परशुची वासपूस केली. परशु न्हावपाक बी भितर गेला आसत म्हूण टॉयलेटांत वचून आयली.

जोगलांचो गडगड मारून अवेळच्या तडव्या पावसाचे मोठे मोठे थेंब पडूंक लागले. पावसाचो नेट वाडलो. सुसाट वारो सभोंवतणी भोंवऱ्या वरी गरगरूंक लागलो. स्टॅण्डा वयले लोक आडसाक पळ्ळे. नेटाचो पावस घसघसूंक लागलो. सगळे कडेन उदकूच उदक जावंक लागलें.

एके वटेन परशुचेर कसलेंय अपसरण आयलां आसतलें म्हूण चंदवाक भंय जालो. कोण पयशे वसुलीक बी येवन परशुक जबरदस्तीन घेवन वचूंक ना न्हय? असो विचार तिच्या मनांत आयलो. चडशे लोक आपापल्या घरा पावल्यात आसतले अशें तिका दिसलें. धुवेक भूक लागिल्ली. ती चंदवा कडेन कितें तरी खावपाक मागताली. पयलीं धुवेचे फाटीर तिणें एक धपाटो घालो खरो, पूण मागीर तिका धुवेची काकुळट दिसली. कुशीकच्या हॉटेलांत व्हरून तिणें तिका वडापाव घेवन दिलो. आपूण उदक पियेली. पिशवेंत तिणें सांसपून पळेलें .तेन्ना तिणें लिपोवन दवरिल्ल्यो पन्नासांच्यो दोन नोटी मेळ्ळ्यो.

आतां रात पडूंक लागिल्ली. वॉचमॅन येवन तिचेर आड्डूंक लागिल्लो. तेन्ना तिणें वाचमॅनाचे पांय धरले आनी आयची रात आपल्याक धांवडोवं नाका अशें सांगलें. वाचमॅन जाणटोसो आसलो. ताका तिची काकुळट दिसली. वॉचमॅन गेलो तेन्ना तिका रडूंक आयलें.

रात वाडटा तशी चंदवा गडा वयले देवीचें नांव घेवंक लागली. देवीक तिणें आंगवण केली. घोवा वांगडा पुताक आनी धुवेक घेवन तिच्या पांयार घालून घेतां म्हूण सांगलें.

मध्यान रात जाल्ली. चंदवाच्या पुताक आवयचे कुशींत सुस्त न्हीद लागिल्ली. तिची धूव कुशीक लवंडिल्ली. भुंयेन तोंड उकतें करून गिळिल्ले वरी परशु नाच्च जाल्लो. चंदवाच्या दोळ्यांत परतून परतून उदक येतालें. काळजांत हुंवार आयिल्लो. ती पुताक आनी धुवेक सांसपिताली. पावसाचे झडीची थंडसाण तांचे मेरेन पावताली. भायर तडयो पावस भार आयिल्ले वरी धुमशाण कांडटालो.





# दो रे मी फा... सा रे नी सा

**मुकेश थळी**

'स्का य' टेलिविजन न्यूज चॅनलाचो हांव गोंयचो एकमेव वृत्तप्रतिनिधी. खंयचो ह्या वेवसायांत पडलों, अशें एकेकदां दिसता. घे धांवपळ. बातम्यां फाटल्यान. तिळसांजचे कात्रेर दीसभर काम करून थकून घरा पावतकच त्राण उरना. गाडी वेवस्थीत पार्क केली.

हे नवे बिल्डिगेंत आयल्यार सात म्हयने जाले. डबल बॅड रूम फ्लॅटांत या म्हूण बायलेन पिरपिरें सुरू केल्लें म्हणून हांगा पावलीं. नवीच कॉलनी.

व्हडली गेट. वॉचमॅन. भायर-भितर सरतना ह्या गुरख्याचो सलाम. पार्किंगाक मेकळी वेव्रस्थीत सुवात. वाठारूय बरो. आदली कॉलनी तसलीच, दशाकाडी!

बॅग घेवन सकयल देंवलों.

बिल्डिंगेक तेंकुनूच आयस पयस व्हड अशें तें घर सदांच नदरेक पडटा.

आदल्या पुर्तुगेज तेंपावेलें, जनेलांचें, सोप्यांचें, सोपणांचें, बल्कावांचें. खानदानी अशा क्रिस्तांव घराब्याचें. कोणाचेंय लक्ष ओढून घेवपी.

अकस्मात त्या घरांतलो घरकार झुडून आयिल्ले भशेन म्हजे मुखार उबो.

- तुमगे बिल्डिगेंतलें सोगलें म्हेंयें उदोक व्हांवोत आमगे घाराच्या आंगणांत पावता. म्हेयें, बुरशें उदोक. दिसोना तुमकां?

- जालां कितें तुजें?

- जालां कितें इचात्ताय? तें चोय. मालेरिया आनी हेर डिसीसीस जावन मोराय म्हुण्टाय आमकां?

पयलींच दिसाभराच्या कामान जीव जाम जाल्लो. म्हाका एकल्याकूच हो जाब विचारता म्हणजे किदें? ही बिल्डींग म्हजी एकल्याची? तकली भडकली.

- म्हाकाच किद्याक विचारता तूं? हांव कोण बिल्डर, काय सगले कॉलनीचो एकटोच पात्रांव?

- तूं सोसायटीचो ट्रॅजरर आहा वो ना?

- हय आसांच. पूण सोसायटीचो प्रेजिडँटूय आसा, सेक्रेटरी आसा... आनी ही पद्धत तुजी? किंवाट्यान तणतणपाची? रीत आसा तुमकां...?

- रीत आहा. तूं रितीचो दिसलो, शिकिल्लो, शिंतिदाचो. देखून तुका पोयलीं सांगलें.

- शिंतिदाच्या मनशा कडेन शिंतिदान पावल घालून विनंती करूंक जाय.

तो इल्लो इल्लो थंड जालो. वाद पालवलो. तें व्हांवपी उदक उपाय करून उपरांत संबंदितांक सांगून थांबयलें.

मजा म्हणजे, ह्या वादान ताची आनी म्हजी इश्टागत जाली. जुळ्ळी. कितें कोण जाणा! अशे कितलेशेच जाण म्हजे कडेन झगडुपाक आयल्यात आनी दाट बरे इश्ट जाल्यात.

सायमन! स्मार्ट आनी हुशार. बँकेंत काम.ताची बायल लुसी. इश्कोलांत टीचर. एकलेंच चली सिंथिया. सुंदर. पांचवेंत शिकता. आमच्या बाबू परस दोन वर्सांनी ल्हान. आवय भशेन गोरें- गोमटें, बापाय भशेन तरतरीत.

सायमनाच्या त्या घरांतल्यान घसघसपी संगीत वाडोभर घुमतालें. निनादतालें. तांची डिजिटल रिकॉर्डर सिस्टम, स्पिकर्स अती अर्विल्ले, इम्पोर्टेड. संगीत आयकुचें जाल्यार

असलेच सिस्टिमीचेर.

सायमना कडल्यान शिकपा सारक्यो खूब गजाली आशिल्ल्यो. वक्तशीर. दुसऱ्याची प्रायव्हसी जपपी. फोन करून आदीं ॲपॉयटमॅंट घेतले बगर येवचोच ना. आयलोय जाल्यार वेळाचें भान पक्कें. खबरी करतलो, पूण वाक्यान वाक्य जपून. संपादीत करून उलयल्ले भशेन. वागणें सामकें शालीन आनी चकचकीत. ताचे इंग्लीशीचो कोणाकूय दुस्वास दिसचो. सफाईदार. कार्रेगाद उच्चार. ती इंग्लीश आयकतूच रावची अशें दिसचें.

आमचे इश्टागती मजगतीं एक म्हत्वाचो दुवो सांदलो. तो म्हणचे संगीत! संगिताची आवड. सायमनाच्या पाश्चिमात्य संगिताच्या जाणिवांची 'हार्मनी' आनी म्हज्या भारतीय संगिताचे तोंडवळखीची 'मॅलडी' हांचो सुमेळ सादत आमचें इश्टागतीचें संगीत सिंक्रोनायज जावन वाजूंक लागलें.

सायमनाक संगिताची आवडूच न्हय, जाण आशिल्ली. भारतीय शास्त्रीय संगिता विशीं जाणून घेवपाचीय ताची जिज्ञासा तोखेवपा सारकी. तशें म्हजें शास्त्रीय संगिताचें ज्ञान जुजबी. पूण सायमनाक पाश्चात्य संगिता विशीं खोलायेन ज्ञान आशिल्लें. भारतीय संगिता विशीं जाणून घेवपा खातीर तो म्हजे कडेन चर्चा करी. हांवूय ताका कळटा तें सांगी.

एक दीस तो आयिल्ले कडेन हांवें शिवकुमार शर्माची सीडी म्हजे सिस्टिमींत घाली. म्हजी प्लेयर सिस्टम सादी. सायमना भशेन गडगंज न्हय.

सायमन वळखलो.

- 'सानतूर'.

- हय, संतूर. शत तारो. शंबर सरयो. हें वाद्य शिवकुमारानूच विकसीत केल्लें.

- हो रागा खुंयचो?

- हो राग जयजयवंती.

राग ह्या विशयाचेर तो खोलायेन विचारी. राग येनासतना म्हजी जितली झेप, तितलें हांव प्रांजळपणान सांगी. रागाचो मूड, रस, भाव, वेळ, हे विशीं.

- सायमनाची बायल कोल्ली. तोंडार सदांच काळोख. उलोवपाक आनी मिक्स जावपाक नाकाच तिका, आमगेलेन म्हणलें.

- आगो, आसता एकेकल्याचो सभाव. चड उलयल्यार धवळे करपी म्हणून तुमीच नांवां दवरतात.

- तोंडार हांसो केन्ना फुलिल्लो पळेला? सदांच सुतकी. सांजे आदेसभर त्या गार्डनांत पडिल्लें आसता.

- काय बरें गार्डन फुलयलां पळेलां तांणी! पयर दुदी, पोपायो तिणेंच धाडिल्ल्यो मुगो?

- तातूंतय सुवार्थ आसताच. खतखतें तांकां खूब आवडटा. तें धाडलें ना?

- हयच जाल्यार. सायमनान पयर सरळ सांगलें, 'म्हाका कोंकण्यांलें शिवराक जेवण चोडूच मानवता.'

- लुसीकूय आवडटा. पयर तोंडाक भोव आवडलें म्हूण सांगी.

- तुजे कडेन उलयलें मुगो?

- तितलेच दोन शब्द. पयर बाबूक मातसो ट्युशनाक धाडूं काय विचारल्यार, वेळ ना म्हूण सांगलें.

- आं, म्हणून तुका लुसीचो राग?

- एक दीस बाबूची अपुरबाय केल्ली पळेल्या ताणें? सायमनान तरी? नाजाल्यार तुकाच त्या सिंथियाचो घे पुळको.

- आगो, लुसीची भयण पयर गल्फाक सावन आयिल्ली तेन्ना सायमनानूच येंदो व्हडलो फॉरेन चॉकलेटींचो डबो धाडिल्लो मुगो बाबूक? तुका बेंबीक आवडटा म्हूण लुसी केन्नाय धाडटा मुगो...

- तें धाडूं. पूण बाबूची होमवर्काची डिफिकल्टी विचारपाक धाडटां म्हणल्यार लेगीत निमित्त करून लाटायता. कसली टीचर तर ही...

- आगो, पूण दुसऱ्याचे प्रायव्हसींत आपणें कित्याक रिगचें?

बायलां कडेन वाद जिकचो आसल्यार खंय तो टाळचो. वाद बेठोच वाडत म्हूण हांवें वर्ल्ड स्पेस रेडिओ ऑन करून तातूंत तकली गुथिल्ले भशेन केली. हे यंत्रणे विशीं सायमनानूच म्हाका सांगिल्लें. कितलेशेच रेडिओ चॅनल, गझल, गितां, शास्त्रीय संगीत, तरेतरेचे पाश्चिमात्य संगीत चॅनल... सायमनाक लागून हांव इल्लें इल्लें वॅस्टर्न आयकुपाक लागलों. पणजेंतल्या म्युझीक शॉपांनी ताचेच वळखीन म्हाकाय सीडी, डीव्हीडी विकत घेतना थोडी सूट मेळूंक लागली.

'शक्ती' ग्रुपाची एनसॅम्बल कार्यावळ कला अकादमींत जावपा आशिल्ली. हांव आनी सायमन गेले. झकीर हुसेनाचें तबलें, सेल्वगणेशाचें घटम, श्रीनिवासाचें मांदोलीन आनी शंकर महादेवनाचें सुरेल गायन आनी जुगलबंदी. सुसुत्र. दुदांत साकर म्हूण जॉन मॅकलॉलीनाचें इलॅक्ट्रीक गितार.

तो एक दिव्य अणभव आशिल्लो. पराकोटीच्या संगीत दिग्गजांनी घडयल्लो अप्रूप असो आविश्कार. कानाचीं फुलां करून अचळय झेलचो असो. मॅकलॉलीनाची भारतीय तालशास्त्राची जाण पळोवन म्हजे परस सायमनूच चड चाट पडलो. दुगूण तिगूण... लयेचें चलन, हय, सगल्यो बारीकसाणी ताच्या आंगांत भरिल्ल्यो हें हाताच्या तळव्याचेर दुसरो हात आर्थून-पर्थून दवरून तो मात्रा मेजतना कळटालें. ताल, लय, ठेके हीं गणितां मॅकलॉलीनाच्या रगतांत मुरिल्लीं. विदेशी संगीतकारान भारतीय तर्कशास्त्राचें गणीत इतले सहजतायेन आत्मसात केलें कशें हें कुवाडें सुटनाशिल्लें. उत्स्फूर्त आनी सहज अशी ती कार्यावळ पळोवन आमी दोगूय वेगळ्याच विश्वांत पाविल्ले. उलोवपांत वा चर्चा करपांत अर्थूच नाशिल्लो. तातुंतूच उफेत रावचें अशें दिसलें.

अकस्मात आमच्या न्यूज चॅनलान दिल्लीक एक ताकतिकेची बसका दवरली. राष्ट्रीय पांवडयाची बसका. सगल्या प्रतिनिधींक आपयल्ले. म्हाकाय वचचें पडलें. हेड ऑफिसाचे वेपार अशेच! ऐन त्या वगतार कळयतात. तिकेट बूक करूंक वेळ तरी खंय आशिल्लो? दोन दीस उरिल्ले.

विमानाच्यो तिकेटी मेळना जाल्यो. अखेरेक राजधानी एक्सप्रेसीच्यो तिकेटी आवाशिवा करून मेळ्ळ्यो. ह्या प्रवासांत एक अणभव घेतलो. धाकटुल्या स्पिकरांतल्यान वाजपी कुणुकुणू संगीत. व्हॉल्यूम उणो. पूण सुखद. पियानो वरवीं गाजिल्ल्या, अज्रंवर हिंदी फिल्मांच्यो धुनी वाजताल्यो. दिल्लीक पावसर हांवें तें एन्जॉय केलें.

जो वादा किया वह निभाना पडेगा...

लग जा गले...

सावन का महिना...

कुणुकुणू वाजतकच ही धून कसल्या गिताची हे विशीं कान सांसपून पारखुपाचो यत्न करचो. कसलें गीत तें कळना फुडें घे आनंद जावचो.

लोळत, पुस्तकां-पेपर वाचीत, ह्यो धुनी आयकत गाडी केन्ना आगऱ्याक पावली, कळ्ळेंच ना. हांवें त्या युनिफॉर्मांतल्या भुरग्याक आपोवन टिप बी दिली आनी सहज वासपूस केली.

- पियानो धून बजानेवाला कलाकार कौन है?

तो सरळ गेलो आनी सीडीच घेवन आयलो.

- साब, ये देखो!

हांवें नांव वाचलें. ब्रायन सायलस.

दिल्लीक पावलों. मिटींग दोन दिसांची भोगावळूच कशी. बाकीच्या चॅनलांक सर्तीत कशे आडवे घालचे हीं लॅक्चरां! तें सोंपतकच कनाव्ट प्लेसींत भितर सरलों. कॅसेटींच्या दुकानांत.

- ब्रायन सायलस है आपके पास?

- तेरह व्हॉल्यूम हैं। 'नॉस्टॅल्जीक ट्यून्स,। यह देखो। ती तर एक मेजवानीच आशिल्ली.

तेराय सीडी हाडल्यो. गोंयांत पावतकच येतिश्ट आयकल्यो. घरकान्नीक साडी हाडिल्ली म्हूण माणसुकी. सीडींत तिका रस आसपाचो प्रस्नूच नाशिल्लो. चॅनल सर्फ करतना, अकस्मात एक दीस सहारा चॅनलाचेर 'ब्रायन सायलस शो' ही कार्यावळ पळयली. दर बुधवारा अर्द वर तिचें वितरावण जातालें. अप्रतीम कार्यावळ. सिरियलांनी काम करपी एक देखणी, सफाईदार हिंदी उलोवपी निवेदिका, एक गॅस्ट कलाकार. सॅट डिजायन, मांडावळ खुबूच सुंदर. सगळेंच सुटसुटीत आनी देखदिणें. नेमान पळोवपाक लागलों. संवयूच जडली. रातीं साडे धा ते इकरा म्हणटकच बायलेच्यो सिरियलीय चुकनासल्यो.

गॅस्ट आर्टिस्ट म्हूण एक दीस जया बच्चन आयिल्ली. तिचे आवडीची गितां ब्रायनान पियानोचेर वाजयलीं. त्या अव्रांवर अश्या हिंदी गितांची गोडी पियानोंतल्यान परत ताजी जाली.

'अमिताभाकूय तुजें पियानो वादन खूब आवडटा. अदींमदीं तो सीडी आयकता.' जया सांगताली.

'फार्टी मुंबय जाल्ले म्हजे एके कार्यावळींत तो स्वता आयिल्लो.' ब्रायनान सांगलें.

अमिताभाचें आवडीचें एक गीत ब्रायनान वाजयलें. सदचे भशेन कार्यावळ सोंपतना मेहमान कलाकाराक दितात तो कुकुलो पियानो ब्रायनान जया बच्चनाक भेटयलो. तिणें तो हाताच्या तळव्यार दवरलो. आपयनासतना आपखोशयेन सोबीत फुलपाकुलें हाताचेर अळंग येवन बसचें तितलो सुंदर तो दिसतालो.

'बहुत खुबसूरत, बहुत अच्छा।' तिणें म्हणलें.

तो इल्लोसो पियानो म्हाकाय खूब आवडलो. कुकुलो आनी सुंदर. मेजार शो-केसीचेर दवरपाक बेस बरो.

सायमनाच्या घरांत एक शो-केस आसा. ताचेर कितलींशींच कुकुलीं, माणकुलीं, इल्लींशीं वाद्यां आसात. व्हॉयलीन, गितार, ट्रम्पॅट, मांदोलीन, सॅक्सोफोन... पियानो मात नाशिल्लो... असलो माणकुलो पियानो मेळ्ळ्यार सायमनाकूच भेट दिवप ही गांठ मनांत घाली.

एक दीस सायमन आयिल्लो तेन्ना खबरी जातकच हांवें ब्रायन सायलसाची सीडी घाली.

- हो जादू आयक.

आँसूं भरी हैं यह जीवन की राहें...

मुकेशाल्या गिताची धून वाजताली.

अकस्मात कितें तरी म्हत्वाची याद जाल्ले भशेन सायमन उठलो आनी 'सॉरी आं', अशें म्हणून काम आसा अशें सांगून कडसरलो.

म्हाका मात तें विचित्रूच कशें दिसलें.

तें संगीत ताका आवडटलें, पियानो विशीं तो उलयतलो, म्हाका शिकूंक मेळटलें म्हूण हांव उमेदीर आसलों. खंयचे कडेन कांयच ना. उमेदीच्या बोमाड्याचो वारोच गेलो.

सायमनान म्हाका संगिताची एक वेगळीच नदर दिल्ली. तो जाणकार रसीक आसुंये अशें दिसतालें. संगिताचेर उलयतना वा नव्यो गजाली जाणून घेतना हांव सभावा प्रमाण नवें आयकतकच भुल्लुसतालों. म्हाका तेन्ना तिरतिरिल्ले भशेन जातालें. सायमन मात संगीत योगी कसो संगिताचेर उलयतालो वा धीरगंभीरपणान कान दिवन संगीत आयकतालो. स्थितप्रज्ञ कसो.

ऑस्ट्रियन पंगडाची एक एन्सेम्बल कार्यावळ शारांत जावपा आशिल्ली. झिदर,हार्प आनी गितार हांची जुगलबंदी. सायमनान आग्रो केलो म्हूण हांव गेलों. हेर भारतीय शारांनी कार्यावळ करून ते संगीतकार गोंयांत आयिल्ले. कार्यावळ रंगली. नवीं वाद्यां, नव्या वाठारांतलें संगीत आयकून हांव भारावन गेलों. सायमनूय.

ते उपरांत एक दीस 'अवघा रंग एक झाला' हें संगीत मराठी नाटक गोंयांत आयलें. हांवें सायमनाक आग्रो करून व्हेलो. कला अकादमींत. नाटकाचें कथानक खुबूच आकर्शक आनी मोनेळ घालपी. पारंपारीक वातावरणांत वाडिल्लो कीर्तनकार. ताचो पूत आर्विल्ल्या पॉप संगिताचो बाज दिवन आर्विल्ले पिळगेक कीर्तन पाजूंक पळेता. सुरवेक बापायचो खर विरोध. मागीर अखेरेक ताका पट्टा आनी शेवट गोड! संगिताचो रंग एकूच, भितरल्यो सया विवीध जावं, हो संदेश!

संगितांतलें काळाक अनसरून प्रगट जाल्लें तें नाटकांतलें फ्यूजन, सादरीकरण, अभिनय सायमनाक खूब आवडले. तो रंगून गेलो. नाटक जातकच आमी मिरामार गेले. पोट भरून उलयत रावले.

ताणें म्हणलें - हालीं तेंपार हें फ्यूजन लोकांक आवडोंक लागलां. काळा पोरमाण टेस्टूय मुदार जाता.

- हय रे. सामकें खरें. खास करून तरनाटे पिळगेक ही मिक्स-भाजी चड मानवता.

- तोरणाट्यांकूच न्हूय, आमच्या क्रिस्तांवांच्या काजरांक लेगीत सोगलेच हिंदी पॉप मागतात. खास कोन्न, पंजाबी न्हिदम बा आसलोलें.

- सायमन, तुज्या बायक तूं म्युझीक शिकपाक कित्याक घालिना?

- शिकोप इबाडटेलें देखून. म्युझीक म्हुटल्यार ह्या दोर्या भाशेन. तातूंत शेणूंक जाता.

- सायमन मातसो गंभीर सो जावन उसळपी ल्हारांक पळोवंक लागलो. मातसो सदळ बेसूर प्रस्न सुटलो काय कितें, अशें म्हाका दिसलें.

नाटकांतली ऑर्गना वयली नांदी सायमनाकूय आवडिल्ली. त्या वाद्या विशीं ताणें विचारलें.



- हें इन्स्ट्रुमॅण्ट हालीं वापरिनात?

- हालीं संगीत नाटकांच पयलीं जातात खंय? पूण भुरगेपणांत ह्या ऑर्गनाचेर आयकल्ल्या नाट्य गितांची याद जायनाफुडें आंगार कांटो फुलता.

- हार्मोनियम वा सिंथेसायझर कांयच न्हूय. पावरफुल इफॅक्ट. सायमनान म्हणलें.

- म्हाका एक सांग, हो ऑर्गन आनी पियानो हातूंत साम्य आनी फरक कितें?

सायमनाची चर्याच बदल्ली आनी नकळटना, अनायासे हांवें आनीक एक बाश्कळ प्रस्न घालो काय कितें अशी मनाक चुटपूट लागली. पूण हुशार सायमनान खिणांत विशयूच बदल्लो.

- तुका खबर आसा, म्युझीक इज द कॉम्बिनेशन ऑफ सायलन्स अँण्ड नॉय्ज.

- वा! वा!

हांव तो विचार आयकुंनूच उसळ्ळों.

संगीत म्हणल्यार शांतताय आनी बोवाळ हांचो सुमेळ. शांतताय हेंय एके तरेचें संगितूच!

त्या विशयाचेर आमी खूब उलयले. हांवेंय ज्ञान पर्जळायलें.

- गीत चलतना खिणा खातीर सबंद वाद्यवृंद थांबता. गायक पॉज घेता आनी अकस्मात शांततायेचे चिमटीभर रिते सुवाते उपरांत गायक आनी ऑर्केस्ट्रा घालून घेतात.

- रायट! ती रिती स्पेस सोगल्यांकूच जाय. फ्यूजन जाता तातूंतय जाय... इश्टागतीच्या मुज्गांतूय जाय!

सायमनान मक्याचें कणस खावपाक सुरवात केली. हांवेंय कणसाक घांस मारलो. पूण सायमनान म्हाका कोपर मारलो काय? इश्टागतींतले रिते खांची विशीं तो कित्याक उलयलो काय?

ल्हारां उचांबळ जावन उसळटालीं!

- ह्या ल्हारांचो दांस पळेतकच म्हाका जयजयंथी रागाचो उगडास येता.

- जयजयवंती, हांवें म्हणलें.

पियानो विशीं हाका कसली ॲलर्जी आसा काय? हो विशय सायमन कित्याक टाळटा? ताचे धुवेक संगिताच्या क्लासाक कित्याक घालिना हें विचारलें हेंच चुकलें काय? आपल्यो खाजगी पर्सनल गजाली बुरखूं नाका हे कुरवेचे संकेत दिवन तो म्हाका शिटकायना मूं?

- कितें चिंतताय रे...?

- थंय दोनापावला लागसार दिसपी त्या त्रिभुज वाठारा कडेन दर्याचो संगम घडला त्या 'फ्युजना'कडें पळेतालों. मातयेचो आनी दर्याचो संगम.

- तूं कितें तोरी गायतालो...

- खोशी आसतकरूच मनीस गुणगुणटा. संगीत नासल्यार जीण साप अळणी.

- ... पूण केसलें गीत तूं...

- शंकर भांडाऱ्यालें फामाद गीत:

*नाचता तालार ल्हारार ल्हार*
*झुवारेचीं पांयजणां*
*वाजता सुरार एक तान*
*मांडवीचीं मांदोलिनां...*

सायमनाचें कणस सोंपत आयिल्लें...

- जाणा सायमन, ह्या गितांतल्या काव्य उतरांनी हिंदू - क्रिस्तांवांचो एकचार दाखयलाच. कंपोझिंगूय वॅस्टर्न आनी भारतीय संगिताचें फ्यूजन करून केलां.

दो रे मी फा...

सा रे नी सा...

कणसाची देंठी उडोवन सायमन म्हज्या गळ्यांतले सूर ल्हारां गाजार आयकत रावलो. कान टवकारून. ताचे मुदयाळे केंस वाऱ्या तालार उसळत रावले.

पयस उदकांतल्यान एक व्हडली अवजड मिनाची बार्ज गेली. व्हडली धूड कशी. ते बार्जीन उदकाची शांतिकाय आनी लय खुबळायली. भोंवरे फाफसले. आनी त्या फेणेरांत एक धाकटुली नुस्तेमारी बोट वयर सकयल नाचली, धोल्ली, थरथरली. पलटी मारून ती शेंवटता काय जाली. ना... ती परत ल्हवू ल्हवू थीर जाली. आमी पळयत उरले.

गोंयांत पयलींच बातम्यो उण्यो. कांयच घडना.पूण पत्रकारान हुंगो आसचो पडटा. कसलीय घटना बातमेंत रुपांतर करपाची कळाशी खऱ्या पत्रकारा ठांय आसपाक जाय. कला अकादमी आपल्या सगल्याच विभागांचो विस्तार करूंक पळयता. संवसारीक नामना मेळयल्ली संस्था. संगीत विभागा खातीर एक गडगंज पियानो तांणी पयर हाडला. किंमत अंयशीं लाख! आवयस! पियानो इतलो म्हारग आसता?

बरो पियानोच नाशिल्ल्यान कला अकादमीच्या एनसेम्बल कार्यावळींनी पियानोवादक केन्नाच येनात खंय. परां उक्तावणाची कार्यावळ. संवसारीक नामनेचो पियानोवादक रीचर्ड क्लायडरमन हाचो शिष्य क्लायव्ह डिमेलो सोलो कॉन्सर्ट दिवन उक्तावण करतलो. मोठी बातमी. येदो व्हडलो, इतलो म्हारग पियानो. वाजोवपी येदो म्हान, पयलेच खेप भारतांत येता. तोय गोंयांत!

बातमी! हाका बातमी म्हणटात.

आमच्या चॅनला खातीर राश्ट्रीय बातमीपत्रांत संगीतमय गोंयची ही बातमी वेगळोच रंग हाडटली. हांवें दिल्लीक चीफ एडिटराक फोन करून पयलींच स्लॉट राखून दवरपाक सांगलें.

पयले रांकेंतले दोन पास कला अकादमीन

हाका धाडले- मिस्टर आनी मिसेस सुधीर गायक. मिसेसीक संगिताची ॲलर्जी. म्हजे केतलेशेच इश्ट तिच्या पासार उडयो मारून घेवपाचे. कारण तिकेटी एकाच दिसांत सोंपिल्ल्यो. विदेशी पर्यटकांनी रांको लावन झगडीं केल्लीं.

सायमनाक फोन केलो.

- सायमन, पास आसा. तिकेटी सोंपल्यात. भांगराची संद.

- सॉरी, बँकेंत काम वाडलां. टायमूच मेळोना.

- शेनवार हाफ डे मरे!

- मुंबयचो डीएम आयला. फाल्यां कॉन्फरन्स आसा. ताची तोयारी चोल्ल्या.

पास वगडावंक फावना म्हूण हांव इश्टाक डॅनियलाक वांगडा घेवन कार्यावळीच्या दोन वरां आदींच कला अकादमींत गेलों.

बँक स्टेजींत म्हाका पळेना फुडें कार्यावळ अधिकारी प्रभुदेसाय धांवत आयलो. टीवीचेर कवरेज मेळटा म्हणटकच हे लोक फाटल्यान लागतात.

- बरें केलें, बेगीन येवन.

- म्हाका वाद्याचें शुटींग घेवंक जाय. पियानो विशीं आनी आयच्या वादक कलाकारा विशींय माहिती जाय.

- बरें आसा. हांव म्युझीक विभागाच्या डायरेक्टराक तुमचे सुवादीन करतां.

प्रभुदेसाय गेलो.हांवें म्हज्या कॅमेरामॅनाक पियानोचें वेगवेगळ्या कोनांतल्यान शुटींग घेवपाक सांगलें. माचयेर सजावट आकांताची केल्ली. थेटर भरपाक लागिल्लें. हिप्पीच चड.

इतल्यान प्रभुदेसाय आयलो.

- ही मिसेस ब्रॅण्डा मिनेझीस. डायरेक्टर. ती तुमकां माहिती दितली.

ती बोवाळांतूच आशिल्ली. कारण तिचेर संयोजकाची जबाबदारी आशिल्ली.

- फकत पांच मिनटां दियात. हांवें विनंती केली.

-ओके.

तिणें सांगपाक सुरवात केली. आपणाचेर कॅमेरा जोखला हें माचये वेले तयारेचे गडबडींत तिका खबर नाशिल्ल्यान निवेदनांत सहजताय आयिल्ली.

- ''पियानो हें तंतूवाद्य. इटलींत नांव पियानोफोते. पियानो म्हणल्यार मोव. फोते म्हणल्यार मोटो. हातपट्ट्यो, स्वरतारे आनी तांचेर आघात करून नाद निर्माण करपी ल्हान तुतये हे वाद्याचे मुखेल घटक.

''अठराव्या शतमानांत हें वाद्य चड नांवारुपाक आयलें. भारत ब्रिटीश शेका खाला आनी गोंय पुर्तुगेज सत्ते खाला आशिल्ल्यान तें आमच्या देशांत पावलें. प्रतिश्ठीत आनी खानदानी घराण्यांनी हें वाद्य आसप म्हणल्यार मोटेपण आनी गिरेस्तकायेचें लक्षण अशें मानतात.

''मोझार्त, बाक,बिदोवन हांणी पियानो संगितांतलीं अव्वल कम्पोझिशन्स रचलीं.''

हांवें कॅमेरामॅनाक तिचो क्लोज-अप घेवपाची कुरू केली. इतल्यान शुटींग चल्लां हें तिका कळ्ळें आनी ती शिटूक जाली. केंस-बीस सारके करूंक लागली.

- आयच्या कलाकारा विशीं सांगात. हांवें प्रस्न केलो.

- येदो म्हान पियानोवादक भारतांत येता, तोय गोंयांत हें आमचें भाग्य. ताच्या बोटांचो आनी ह्या नव्या पियानोचो जादू आतांच प्रत्यक्ष अणभवया!

श्वास रोखून सगले बसले.

तो आयलो आनी ताणें प्रेक्षकवर्गाचीं काळजां जिकलीं! अद्‌भूत.

शोपां ह्या कलाकारान पियानो संगितांत जी नाजूकसाण आनी गोडसाण हाडिल्ली खंय, ती ताच्या बोटांतल्यान आनी पियानोच्या स्वरांतल्यान निस्तली आनी पातळ्ळी.

म्हज्यांतल्या रिपोर्टरा परस हांवें म्हज्यांतल्या रसिकाक चड जागो दवरलो. दोळे भरून, कान भरून कार्यावळ एन्जॉय केली. दोन वरां केन्ना सोंपलीं, कळ्ळेंच ना. भायर आयलों.

प्रदर्शन भरिल्लें. त्याच कलाकाराच्या सिडींचें. कांय सीडी विकत घेतल्यो. इतल्यान कुशीक लक्ष गेलें. थंय कुकुले पियानो विकूंक दवरिल्ले. सुंदर! सहारा टीव्ही वयले कार्यावळींत भेट दिताले तश्शे! चकचकीत! पॉलीश केल्ले!

म्हजे खोशयेक सुवात उरूंक नाशिल्ली. सोमतोच विकत घेतलो. आसूं म्हारग!

गाडी स्टार्ट मारतनाच लक्ष गेलें. मळबांत कुपां भरिल्लीं. दाट दाट. वाडत वतालीं. पावस मांडिल्लो. केन्नाय घालून घेतलो. संगिताचे धुंदींत आनी खोशयेंत उफेत घरा पावलों. गाडी पार्क केली. तडक सकयल सायमनागेर गेलों. गिफ्ट पेपरांत गुठलायल्लो कुकुलो पियानो पोतयेंत घालून. ताच्याच रॅकार बरो सोबतलो तो.

बॅल मारली! सायमनान दार उगडलें.

- सायमन, तूं पिसो. वगडायलें तुवें. पाश्चात्य संगिताची गोडी तुवेंच म्हाका लायली. आयज कला अकादमींत जें घडलें रे... कितें सांगूं... सर्गीय अविश्कार... यू मिस्ड इट... हाचे परस व्हडली ख्यास्त तुजे सारक्या संगीत रसिकाक ना. नाच्च.

शांत सायमन अकस्मात खोळसांनी रडूंक लागलो.

- तूं नेणा... पियानोन म्हाका ख्यास्त दिल्या. ताचे परस व्हड ख्यास्त आसूंक नजो.

हांव अजाप जाल्लों. बोधूच जायना जालो.

- टेक इट इजी, सायमन. कितें जालां?

रडत रडत सायमन दुख्खाची वेदना उसायतालो.

-म्हुजो शेपाय व्हडलो पियानिस्त. पाय रॅबॅक वाजोवपी. शेपायाचो एक आंतीक पियानो माळयेर आसलो. व्होडलो. आदलो... म्हाका पोयलो बाब जाल्लो. किथ. देड वोर्साचो आसलो. ह्या सालांत दिमखुऱ्यांनी चोलोत खेवतालो. माळयेर दुरुस्तीचें काम चोलतालें. पेंटींग... ओचकीत माळयेचे धोडे वोयलो पियानो खाला पोडलो. भुंयकांप जाल्ले भशेन आवाज... आनी बाबडो किथ... खाला खेवतोना ताचेर येदो व्हडलो पियानो पोडलो...

भुरग्या भशेन रडपी सायमनाक हांवें पोशेलो.

जोगूल-गडगड हांचे सयत भायर घोग्यांनी पावस रकतालो. वादळी!

- फिनीश रे. जिणेंत भुंयकांप जालो. सोगलें जालें रितें रितें... दुसरें बाय जालें... सिंथिया. पोत्तो तिसरो चान्स घेवं नाका, लुसीचे भोलायकेक रिस्क आसा, देखून दोतोरान शिटकायलें. लुसीक डिप्रेशनांतल्यान भायर सोरपाक वोर्सां गेलीं. दूख विसोरपाक हांवें पोत्तो मुज्गाचोच आदार घेयलो. पियानो. पाड पोडों तेजें. पियानोन जिणेंत व्हॅक्यूम हाडलो... मुज्ग नासल्यार हांवूय पिसो

जावपाचो रे... खोऱ्यांनीच. विसोरपाक सोऱ्यांत बुडपाचो... लुसी गार्डनिंगांत जीव खेळोवपाक लागलें. विसरोंक ना रे तें... तुज्या पुताक पोयतोच ताका किथाची याद येता?... जोबोर दूख. मागीर तें रोड रोड रोडटा.

सायमनाच्या ओंठांतल्यान उतरांच फुटना जालीं. डायरेंतल्यान किथाचो फोटो काडून म्हाका दाखोवन तो उरिल्ल्या दुकांक वाट मेकळी करून दिवंक लागलो.

किथाचो फोटो दुकांतल्या अधूंक धुसर हारशांतल्यान हांवें पळयलो. धारदार नाक. मुदयाळे केंस. कुकूलो सायमन कसो.

म्हज्यान पळोवं नजो जालें. कान फुटसर गडगड मारून भायर पावस घसघसतालो. कसले तरी आघाती स्वरांचे कर्कश तुतये आदळिल्ल्याचे भास कानांक जाताले.

हांवें म्हणलें: सॉरी आं.

सायमन कळवळ्ळो.

- संगितान खोस दिल्या. पियानोन ख्यास्त. आनी संगितान दूख सोंसपाक घोटाय. पूण विसरोंक जायना...

सायमनाच्या माथ्या वयल्यान हांवें हात भोंवडायलो. ताका थातारलो. जिणेंतल्या रितेपणा विशीं उलोवन सायमन ल्हव ल्हव जातालो.

जड पावलांनी हांव पोती घेवन भायर आयलों.

पावसाची निमणी दडक थांबचे पयलींची पिरंगण आनी पिरपीर चलताली.

चपचपीत भिजिल्लों. घामान, दुकांनी काय वावझडीन, कित्यान तोंड डबडबिल्लें हें म्हाकाच खबर नासलें.

बॅल मारली. बाबून दार काडलें. तो टीव्ही लावन बशिल्लो.

भिजिल्ले अवस्थेंत कपडे बदलिनासतना हांव दुसऱ्या रुमांत वतां हें रांदचे कुडींतल्यान दवलो घेवन भायर आयिल्ली बायल तटास जावन पळेताली.

सरळ गेलों. कपड्यांची आरमार उगडली. कुकुल्या पियानोची कास कपड्यांच्या घडयां पोंदा खोल खोल मुळाक रोमली. दिसना अशी.

भायर दवरल्यार सायमनाक दिसतली!

म्हाकाय नदर घालपाची नाशिल्ली!!

आनी ती भायर मारपाचें धाडस नाशिल्लें!!



# कविता

– निलबा खांडेकार

हजारांनी वर्सां सावन
काळाचे दिगंतखोल प्राचीनतेंत
हे पृथ्वीचे वाटे वयल्यान
चलतां हांव रातीच्या काळखांतल्यान...

आशिल्लों हांव महाभारताच्या उद्योग पर्वांत
आनी मांडोन आयिल्ल्या
हस्तिनापूराच्या काळखांत
म्हज्याच पूर्वजांचें रगत आडसाक घेवन
सुस्तेल्ले पृथ्वीक पळयतां हांव
माधवी, तुजो इदवास पळयतां हांव
तुज्या बंद वोंठांतल्या तुफानांतल्या
आवाजाचो अंदाज मेळटलो, हाची
प्रतिक्षा करीत
पळयतां हांव
आदीम काळखाच्या शिरंतरांत
चक्रवर्ती सम्राट ययातीच्या उदरांतले
देवकन्ये भशेन रूप तुजें माधवी,
सूर्य उजवाडा इतलें निस्तेज...
चिर नाविन्याचें...
अखंड कौमार्याचें...

आयजूय तुज्या स्वरुपाच्या कंचन-वैभव
दीपस्तंभा भशेन
क्षितीज तेंमीर झगमगतना
देंवतां हांव तुज्या काळखांत
सोंपणां मेजीत



संस्कृतीच्या कोयराक दांग मारतना
जमना तुका न्हयकारूंक
आनी तेच संस्कृतीचे गोडवे आयकतना
तुजे सावन पयस धावुंकूय जमना
आयजूय तुका सरसकट चितारतना
रंगांनी उरता ती फकत वेदना
जी जर्मीन वा उदक उसपीतना
मेळपा सारकी नासता.

माधवी,
हांव पळयतालों
संवसारांतल्या सगळ्या बायलांक
एकठांय करून
तांचे दरेके वेदनेंत
तुवें भोगिल्ल्या यातनांच्यो कुरवो
तशें,
तुजे कडें सगळें आशिल्लें
कूळ, वंश, तरनाटेपण आनी
राजमहालांचें क्षितीज पळोवन
राजवंश दिवपी गर्भाशय
पूण नाशिल्ली तोंड उगडपाची तांक
कित्याक तर बायल जातींतल्या संस्कारांचे
आनी तीन तीन सम्राटांच्या
बलात्कारा उपरांतूय
तुवें गिरयले तेच पाडे
तेन्ना हांव आयकतालों
तुज्या वेदनांकीत काळजान
हड्डें बडोवन मारिल्ल्यो हुयेली
ज्यो आयजूय
संस्कृतीच्या प्रासादांच्यो
अभेद्य वणटी फोडून
म्हज्या कानां मेरेन पावतात
म्हणोनूच घडये
दरेका आवाजांत
म्हाका तुज्याच आवाजाचो भास जाता
पाझर फुटिल्ले हिरकणयेच्या काळजांत...
वादळांत सांपडिल्ल्या झाडांपेडांत...
जाळांत सांपडिल्ल्या नुस्त्याच्या फडफडाटांत...
रानांतल्या काळखांत सांपडिल्ल्या वाटसरूंत...

ाधवी,
ुज्या जिविताचो हिशोब
ाठशें शामकर्णी घोड्यां कडें करप
ुज्या गर्भाशयाचे फॅक्टरींत
फकत राजपुत्रांचें उत्पादन जावप
आनी तरीय तूं आवय जावची
भुरगीं नाशिल्ली
सवाशीण जावची घोव नाशिल्ली
तुवें आटोवन उडोवचे दुदाचे पाझर
आनी सुकोवन उडोवचीं दोळ्यांतलीं दुकां
काळजाच्या दोळ्यांनी, दरेक
राजमहाल सोडटना...

हे सगळे खेळ आशिल्ले
गालवाच्या षढयंत्राचे
जें नशीब म्हण तुज्या नांवार
पिताखन दवरलें
तरीय हाच्यो जापो
तुजे कडें आशिल्ल्यो जावंये
तुज्या बंद वोंठां भितर
आयजूय, त्याच बंद वोंठां भितर
जल्म-जल्म व्हांवयत आसा
पौरुशाचें वजें
कोण ना कोण तरी माधवी

माधवी,
कित्याक दाखयलेंना तुवें
सृश्टी-निर्मितीचें गर्व,
कित्याक हांगासल्ल्या सनातनी
कर्तृत्वांनी जीर्ण जाल्ले संस्कार
नश्ट केलेनात
कित्याक बदल्लोना भुगोल
सांचिल्ल्या ह्या कोणांतलो?
खरें म्हळ्यार
जगाचे निर्मिती खातीर
तुज्यांतल्या बायलपणाची गरज आशिल्ली
म्हण त्या तिनूय चक्रवर्ती राजांकूय
तुजी गरज आशिल्ली
तूं म्हणजे सृजन
तू म्हणजे निर्मिती
तू म्हणजे बळ
घडये त्या बळाची तुका जाण आशिल्ली
घडये नाशिल्लीय

खरेंच सांग माधवी,
केन्नाच दिसलेंना तुका
कोणाची तरी मोगिका जावपाची
रागार-फुगार जावन
नदरांच्या म्हासागरांत बुडून वचपाची
कोणें तरी आपली वाट पळयत तिश्टुपाची
अथांग म्हासागराच्या ल्हारां कडें
अगाध मळबाचे निळाये कडें पळयत
जिणेचीं सपनां पळोवपाची...

रानांत वाग आनी वागीण खंय
एकदांच एकठांय येतात
संभोगा खातीर
आनी परत त्या रानांतल्या काळखांत
मिसळून वयतात
घडये परत ना मेंळपा खातीर
पूण तूं तर मनीस आशिल्ली माधवी
भौतीक विश्वाचे उत्क्रांतीची
तांच्या सामाजीक वातावरणाच्या
स्वरुपांची
सैमाचेर प्रभाव दाखोवपी
ताच्यांत बदलाव हाडपाचें
अमर्याद सृजन सामर्थ्य तुज्यांत आशिल्लें

मानवतेचे अधोगतीच्यो
तुज्या सोबीत सुंदर शिलाच्यो
फाळयो शिंवून
कपयाळें पांगरून
चक्रवर्ती सम्राटांची धूव
आशिल्ल्याच्या पेजान
घडये काळीज चेपून वयतालें तुजें
तुजी तुका कसलीच
पायभूत दीक ठरय नासतना
आनी येवजीतना
'धुवेच्या वोंठांर जितलें हांसप
तितलें सूख बापायच्या जिवितांत
जर ती धूव हांसलिना
तर काळोख शिंपडत रावता
चोंय वशीं बापायच्या-'
माधवी, ह्या तुज्या चिंतनांनी
सस्कृतींतलीं खणकुलां मात रुंदावत गेलीं

माधवी, तुजें रूप लुट्टना
तुजो भोग घेतना
तुका वासनाधीन करतना
तांणी मनशांतल्या पशुत्वाचें गायन केलें
आनी भविश्याकूच कुसत दवरलें
मळब आनी जमीन
तांणी दिवन उडयलीं
धर्मांध कसायांच्या हातांत
आनी त्याच कसायांनी
कितल्योश्योच माधवी
अशोच झंवून उडयल्यो
तांच्या भावनांचो कोयर करून

तुजे मुखार आशिल्लो काळोख
आनी फाटल्यानूय आशिल्लो काळोख
फाटल्यान साक्षी म्हूण उरिल्ल्या काळखाकूय
केन्ना फुटलेनात दोळे
म्हणोनूच तिनूय सम्राटां उपरांत
विश्वामित्रान केलो बलात्कार
हजारांनी वर्सांच्या काळखा उपरांतूय
केन्ना उजवाडाचे धारेर आयलोना
ताच्या महर्षीपदाक बाधा घेवन
आनी तूं भितरले भितर पिसडत गेलें
वसूमना, प्रतर्दन, शिबी आनी अश्टक
ह्या तुज्या चारूय पुतांचें
कर्तुत्व धांपून दवरून
तुज्या आवयपणाचे अधिकार
उल्के वरी उडोन
तुजे जिणेर
वेदनेन केल्लें हस्ताक्षर पळयत



माधवी,
शाश्वत मुल्यांचे गजाली खातीर
शब्द पैजेक लावपी कवी हांव
उजवाड आनी स्वातंत्र्य
ही जगाची शक्त
आनी कविता जगाची उर्जा, हें मानपी
वळखतां हांव तुज्या बापायक
जाणें आपली भोग वासना भागोवंक
आपल्याच पुताचे खोशयेक
तिलांजली दिवंक लायली,
संभोग म्हटल्यारूच मोक्ष
आनी ते खातीर तरनाटेपण गरजेचें
अशें समजुपी
त्याच चक्रवर्ती बापायन
दाखयली तुका तपोवनाची वाट
स्वयंवराच्या भरिल्ल्या बाजारांतल्यान
हांगसल्ले संस्कृतींत
चलना बायलांचो वंश म्हण.

बायल सोंसता
सगळें सोंशीत रावता
अन्यायाचे आघात युगान यूग
रानांत-वनांत
गांवांत-नगरांत
राजमहालांत-झोपडपट्टींत...
तशे तुवेंय सोंसले माधवी,
सोंशिकतेचो अंत दाखयनासतना
तरीय उलयलिना केन्नाच
जळत रावली मनांतल्या मनांत
जीणभर
पुरुशी जुलमां मुखार
नतनम्र जावन
सगळे अपमान
नि:शब्द
सहन करून
आनी मनांतलो उजो घेवन
तशीच गेली त्याच पावलांनी
तूं भूमिकन्या

येवजून चलतां चलतां
ही गंभीर विचलताय
अणभवतां हांव मनांत...
कित्याक आयकूंक येता काय म्हाका
निर्मितीनूच केल्लें वेदनेचें रुदन
कित्याक दिसता काय म्हाका
झडून गेल्ल्या पानांचो रुतू
कित्याक दिसता काय म्हाका
नखेत्रांनी झडून गेल्लें
विधवेंतलें मळब
आमुडल्यार लेगीत
न उडपी सुकणीं
आनी नदरां सामकार क्षितीज तेंमीर
मोडून पडिल्लो सूर्यास्त...

माधवी,
तुवें गळयल्लीं दुकां
हे मातयेचे कुशींत रिगल्यांत
पूण ते मातयेन
दिलिना तुका ऊब
तिणेंच अंदिल्लो तुजो गळो
आनी तूं आयकत उरलें
दर खिणाक
भेड्ड्या, मोन्या, कुड्ड्या मरणाचीं थंड पावलां
तुज्या दरेका स्पंदनांत
तिणेंच चुकयलो तुजो अंदाज
ह्या शिरंतरांनी उजळपाचो
वाडपाचो
तांक घेवपाचो
आनी समस्त तुजे जातीचो
हजारांनी वर्सां सावन...

हे माधवी,
सोंशिकतेक नाशिल्लो जाल्यार
सहस्याक्ष, सहस्त्राशिर असो
मातून येणोर जाल्लो
पुरुशी अहंकाराचो स्राप
– तर ही शोकांतिका जावचीच नाशिल्ली
ही शोकांतिकाच न्हय?



## एक ॲडल्ट कविता

**– काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

आमगेर आसा माजर
आमगेर आसा सुणो
तेंकां सदांच हांव घालतां उणो

आमगेर आसा मम्मी
आमगेर आसा डॅडी
डॅडी आमचो चलयता गाडी

आमगेर आसा आजी
पूण आमगेर ना आजो
आजी म्हटा म्हाका तूंच आमचो आजो

आमगेर आसा टीव्ही
आमगेर आसा फ्रीज
भाव ना भयण कसली भाऊबीज

आमगेर आसा हांव
आमगेर हांव एकलोच
मम्मीक विचारलें, कित्याक उरलों हांव एकलोच

आमगेर ना विमान
आमगेर ना घोडो
डॅडीच्या उश्या पोंदा आसा, न फुलयल्लो बोमाडो





*दोन दीर्घ कविता*

– हनुमंत चंद्रकांत चोपडेकार

## *एक चीट ... मोगाळ आईक*

मोगाळ आई,
नमस्कार.
तुजें पत्र पावलें.
वाचून खंत भोगली
काय खोशी
हाचेर अजून
निर्णय जावचो आसा.
पूण अजाप पळय
एकूय शब्द बरोवंक नाशिल्ल्या
तुज्या पत्रांत
उतरांची उणीव
कशीच भासली ना.
खऱ्यांनीच आई,
अशे कशे गे
तुजे मोने शब्द
अख्खें मळबूच पेटयतात.
...
आई,
हांव जाणां
तूं रागार जाल्या.
आनी कसो सांगूं तुका
पत्र बरोवपाक
वेळूच मेळना.
जाणां हांव
फाटले दिवाळेक
हांव पावलोंना
तसो
चवथीकूय एक रात
रावलोंना
आतां मेचे सुटयेंत
भुरग्यांचे कँप सुरू जाल्यात
धाकटो केरळाक जाल्यार
व्हडलें मैसुराक या म्हूण
फाटीक लागलां
फट कित्याक उलोवं
आतां घडये
पावसा उपरांत
चवथीकूच...
आई,
तूं म्हणटाली न्हूं
गांवा पलतडीं गेल्लें सवणें
परत केन्नाच येयना
शारांतल्या झगझगांत ताका
गांव याद जायना.
पूण आई,
खऱ्यांनीच खरें सांगता
चकचकता तें सगळेंच
भांगर नासता, कारण
शारांत जगतना
दर खिणाक मरचें पडटा.
हांगा
मन अस्वस्थ जाता
शिरंतरां कांचवेतात,
कलकलतात, शिरशिरतात
आनी
अशा आकांताच्या खिणाक
एकूच वाट दिसता
ते वाटेकूच पावलां फुट्टात
तीच म्हाका म्हज्या
सुपुल्ल्या गांवांत हाडून सोडटा.
....
शेतां-भाटां पणसा साटां
धोल-ताशे मातये घुमटां
झाडां-झुडपां दोंगर-न्हंयो
काण्णां-चुन्नां गोड्यो बांयो
सगळें सगळें दिसूंक लागता
आनी
कपला सकयल्या जनेलांतल्यान
स्पश्ट जायत वयता
हय-न्हयशें एक धुंवरट चित्र
...
खाऱ्या बांदा वयलें तें
करंगुंटाचें शेत
मोळून उडयल्ली ती
बेवारशी तणा घुडी
आनी तातूंत शिरकल्लो
एक एक भाता-दाणो सोदपी
तुजे लाचार हात
आनी,
आनी दिसूंक लागता
पिनके खोंपी पोंदा पिनके शेंदरेर
तेंकिल्लीं आमचीं उपाशीं पोटां
तेन्नाच आयकूंक येता -
भायर खळ्यांत तें कुसां भात
कांडिल्ल्याचो काळीज पिळपी
आवाज...
ना आई ना,
तें मुसळ लाकडी वायनार न्हय
आतां दर दिसा दर खिणाक
म्हज्या हड्ड्याक कांडटा
कांड कांड कांडटा
दोळ्यांतलो ओलो कुंडो
भायर सरासर कांडटा...
उपरांत दिसतात
पेजेचो निवळ आनी कुंयां घेवन
म्हज्या तोंडा कडेन येवपी
खिणां पडिल्ले, वतांत करपल्ले
तुजे मायेस्त हात.
खरें सांगतां आई,
ह्या नाटकी शारी उजवाडांत
जेन्ना जेन्ना हांव दिपकावतां,
लडफडटां, धडपडटां
तेन्ना तेन्ना तुजे तेच हात
म्हाका साथ दितात.
जगपाक स्फूर्त दितात...
जगपाक स्फूर्त दितात...



## एक चीट
### ... सुरबूस आईक

खरें सांगूं आई,
तुज्या त्या हातांची
रुचूच वेगळी.
कशें म्हूण कोण जाणा
तुवें शिजयल्लें
तुज्या स्पर्शान पावन जाल्लें
तें वखदी किरायतें लेगीत
तेन्ना गोड लागतालें
जिबेर उरतालें
पोट साफूच न्हय
सात्वीक उरतालें
...
जिबे वयल्यान उगडास जालो
आई,
दर दिसा दनपारां,
रातच्या जेवणा वेळार
तुजी पोट-तिडकीन याद येता
आनी मेजा वयल्या ताटांत
नाचूंक लागतात -
ताल्ल्यांचें, बुराट्यांचें सुकें
लाळया खुब्यांचें, तिसऱ्यांचें दबदबीत
सुक्या बांगड्यां-सुंगटांची किसमूर
खरशाण्यांचें सुंगटांचें रुचीक हुमण
तिपऱ्यांचें, काळुदरांचें, करणकाटल्यांचें
वारोळ्यांचें, कुल्ल्यां-सांगटांचें
आमट तीख आमड्यांची हुड्डमेथी,
खळांतली आमली, आमलेचें सांसांव
स्वता मुरून आमचेर घातिल्लें बेसांव
सांग आई, सांग कसो विसरूं सांग??
हातांत पानढुडू नासतनाय
आमच्या रित्या पोटांची खळगी
भरपी तुजी ती मोनी, निशब्द
धडपड, धगधग,
तळमळ....
ती कुड्डुकेची, मसकाची
ताळखिळ्याची, किल्लाची भाजी
तें तेरें, पोरसांतलें आळूं
सांग आई सांग
हो रगता-आंवडो कसो गिळूं?
....
ना आई ना
शारा वटेन उडिल्लीं सगळींच
सगळींच सवर्णी
एकसारकीं नासतात
तातूंतलें एखादें दिपकावता
पूण शेणना...
चकचकीत तिजुल्ल्यांनी
सजयल्ले भुंयेरूय
पांय घट्ट रोवनूय तें
निर्धारान उबें रावता
मुयेक पांय दवरूंक
सुवात नाशिल्ले गर्देंतूय
तें एकटेंच उरता
आनी जाणा आई,
ह्या एकसुरेपणाचे कांटे
जेन्ना जेन्ना ताच्या
मनाक तोपतात
तेन्ना तेन्ना ताच्या
ताळ्याची ओलसाण सुकता
शारांतले घुस्मटींत
घुस्मट्टां घुस्मट्टांच
तें
गांवचो नितळ वारो सोदता
तुजो माये-झरो सोदता
...
तुजो माये झरो सोदता.





## मनांत म्हज्या

– माधव बोरकार

मनांत म्हज्या येता तूं
म्हज्या गळ्या भोंवतणी
तुजे सुरंगी हात गुंफपी
ओंठांर म्हज्या तुज्या ओंठांनी
जायां जुयांचो परमळ फुलोवपी
आनी रगताच्या तोलार
ल्हारांचो आवेग झेलपी.

येता तूं मनांत म्हज्या
शांत शितळ चांदन्याची तळी जावन
इंद्रनीळ सपनांचीं पांखां लावन
सांजवेळचे रंग सगळे
फुलां वरी केंसांत माळून
नक्षत्रांचो साज आनी
अस्टांगार असो जडोवन...

तूं येता मनांत म्हज्या
फांतोड जशी गांवांत तुज्या.



– बाळकृष्णजी कानोळकार

कोण हांव?
कोण हांव?

पडला म्हाका प्रस्न
कोण हांव?

प्रस्न तसो पुराणपोरणो
जालो तरीय ताल्ल दिणो
मेळत म्हाका कोणूय शाणो
सांगीत म्हाका
कोण हांव.

कोण हांव?
हांव एस्सी?
हांव नेणों
हांव एसटी?
हांव नेणों
कांय हांव ओबीसी?
हांव नेणों

हांव नेणों
हांव नेणों
खऱ्यांनीच हांव नेणों
खंयची म्हजी एबीसी

हांव कोण?
हांव वळार काय कांसार
हांव म्हार, मांग, चामार?
कांय मटकी फुटको कुमार?
भट काय भगत वाणी?
बिरामण वो बामण केणी?
काय घरदार शेणिल्लो लमाणी?



हांव कोब्रा?
हांव देब्रा?
हांव सोब्रा?
हांव झेब्रा?
हांव साब्रा?
हांव बाब्रा?
हांव द्रब्रा?
हांव हब्रा?
चिंतून चिंततां
जीव जाता घाबराघुब्रा.

सीकेपी कांय जीएस्बी?
कोणी लुब्ध्यान रुजत घाली
जाती पातीची ही बिब्या बी?

शेट थवय चाती गवय
घाडी फर्जंत चेडू भावय
बापूय कोण कोण आवय?

मडवळ न्हावी नायक गाबती
मेस्त्री खेत्री जातींची पालमात्री
आंगभर कोणें मारली?

हांव सुर्वे राणो ताम्हण
बर्वे वर्दे दीक्षित सोमण
कांय नवो काळो बामण?

तुमकां खबर ना?
स्वतंत्र भारतांत आयज
दर एका समाजामदीं
दर एके जाती–पाती
दर एके काती कणकर्णी
नवेच ताल्ल बामण
तयार जाल्यात
पेजात जाल्यात

पेडांपेडांचीं जानवीं घालून
गडगंज मूज करून
आपणा आपणाले आनी
जातीपातींच्या बाबांचे आवयकृपेन

आतां आमी –

आमी खऱ्यांनीच बामण जाल्यात
आमी पुराय बामण जाल्यात
आमची धोंपरांतली कोंपरांत पावल्या
आमी बामणां फुडले बामण जाल्यात
आमी खंयचे खंय पावल्यात

हय! आमी सतपणी
बामण जाल्यात
गवाय जाय म्हणटा?
आमकां जण एकल्याक जाल्या ती
क्षूद्रतायेची आफट
दिसना भावा तुका?

जायत्या नाका आशिल्ल्या
आरक्षणांच्या पोरसांत
घुस्पलां हांव
शेणलां हांव
फारवलां हांव
पोरको जालां हांव जेन्ना

तेन्ना
तेन्ना तेन्ना म्हाका
एकूच प्रस्न पडला
होच प्रस्न पडला
सदांच तो पडटा म्हाका
सदांच तो छळटा म्हाका
सदांच तो दागता म्हाका
तीनत्रिकाळ कोंचता

आनी भिरकटावन उडयता शेंवटून
अंतपार नाशिल्ल्या
हुंबरो–दार नाशिल्ल्या
अथांग अवकाशांत

पांया पोंदा माती ना
माय मळबा नातीं ना
स्वर्गय ना ना नरक
असो अचाट अधांतरी हांव
नागत नागवल्लो त्रिशंकू.



# प्रतीक ईश्वराच्या आविश्काराचें

**_ प्रकाश पाडगांवकार**

हांवें मातयेक विचारलें:
तूं कोण कितें? कितली तुजी पिराय?
तिणें सांगलें:
हांव आंग पृथ्वीचें
म्हजी पिराय अब्जावधी वर्सां
हांव अविनाशी पृथ्वीचे सगळे भोग भोगीत
मातयेच्या रुपान सासणाची उरतलीं.

हांवें फळां-फुलांच्या भाराक विचारलें:
तूं परतून परतून कसो फळटा फुलता?
तुज्या मुळांचो अक्षय स्रोत खंयचो?
ताणें सांगलें:
हांव पृथ्वीच्या जिणे तत्वांचें अमृत्वाचें सार
चंवरून पिकून घमघमप हो म्हजो सहजधर्म.

हांवें दर्याक विचारलें:
तूं सहस्त्र युगां ल्हारार ल्हारां खेळयत
तुजें अखंडीत गायन करता तें कोणा खातीर?
ताणें सांगलें:
हांव म्हज्या मनाचो किमयागार
म्हजे मन-अवस्थे प्रमाण
रावतां नाचयत ल्हारार-ल्हार
केन्ना शांत, उचांबळ, केन्ना आकांताळीं
म्हजेच मस्तेंत रचणाऱ्याक होरायतां.

हांवें धतरेिक विचारलें:
तूं कित्याक ओडटा तुज्या आंगार
चादर काळखाची
जाचेर नखेत्रांचीं माणकां मोतयां
लखलखत आसतात?
तिणें सांगलें:
हांव कोटी ब्रह्मांडाच्या सांगातान रात सारून
फांतोडेर देवते उषेच्या पांयांर
म्हज्या रुतु-वैभवाचीं फुलां ओंपतां.

हांवें सुर्याक विचारलें:
तूं सुवर्ण अग्निधारी तेजवंत अखंडीत लखलखपी
तुज्या दोळ्यांर कशी दाटना
उजवाडाची साय?
आनी कोण हाडटा, तुज्या दोळ्यांक थाकाय?
सुर्यान सांगलें:
हांव तारो स्वयंभू उजवाडाच्या गर्भाचो
उजवाड म्हजो स्वास, उजवाड म्हजो उस्वास
उजवाडांतूच वसता म्हज्या अमृत्वाचें वास्तव्य
म्हज्या लखलखपी किर्णांनी नंदता
माणकां मोतयांचो पुंजो
सगळे वटेन स्वैर उधळत वचपी, शिंवरत वचपी.

मागीर म्हज्या मनाचीं सप्त-मळबां
झंकारूंक लागून
अंतस्कर्णांतल्यान आयली जाप:
ईश्वरीच्या कुसव्यांतल्यान जाली जशी
कोटी ब्रह्मांडांची उत्पत्ती
तसोच जल्मलों हांव
म्हज्या आवयच्या कुसव्यांतल्यान
हांव मनीस अजरंवर
एक दीस एकवटतलों
पृथ्वीच्या अब्जावधी वर्सांचे मातयेंत
उरपाक सदाकाळा खातीर माती जावन
सैम फळयत चराचराच्या रुपान.
हांव प्रतीक ईश्वराचें
ताच्या उन्नत जावपी अनंतकाळाच्या आविश्काराचें.





## चार कविता

**– रमेश भगवंत वेळुस्कार**

१

तरा तरांची
शरिरां
आंगार चडोवन
वारो
सवन धर्तरभर
भोंवता

आमी आपले
रुपड्यांक भुल्ले
प्राणतत्व
आमकां कळ्ळेंच ना

रुपड्यांनी रचलेल्यो
काणयो
आमी खऱ्योश्यो धल्ल्यो
आनी शेंपड्यो तायट करून
आपलें तेंच
खरें म्हणपाक
एकामेकांच्यो तकल्यो फोडल्यो

आमजीं झुजां पळोवन
वारो
मुमुरख्यांनी हांसता
आनी कोणें तरी
निर्माण केल्लें
शरीर
आंगार चडोवन
भोंवडेक वयता



२

हांवें
नदर वयर केली

आनी कितें पळयतलों
मळबाक
वचत थंय
वचत थंय
आंचळूच आंचळ

पुश्ट गगन गायेचे,
पौश्टिकतायेन तुडुंब

मळब म्हणूंक लागलें
जाय तितलें लुचून घे
हात न लायतां

धतरिचेर
घट्ट पांय रोवन
हांवें म्हाकां
बोमलेदेंठांतले पोटतिडकीन
मळबा वटेन शेंवटिलो
तायट मानेची
लांबूच लांब
गगनलांब मान जावन हांव
मळब आंचळा मेरेन पावलों

वर्सांचेर वर्सां गेलीं
आंचळ लूच
सोंपना
आंचळांचीय संख्या म्हजे
मतीक मातूय कळना
खंयच्या काळा
सांगतेचो वेळ येत
आकळणा

सगळें तुमकां
सांगलें आतां
पूण कितलें
तुमकां कळ्ळें
तें मात
म्हाका खबर ना.

३

खेळ
रंगांत आयल्लो

एका सांजवेळा
एका फुलपाकुल्याची
अद्भूत कोरियोग्राफी
मळबाच्या तळा
रैम सांगातान
हांव म्हजी
मानेळ केळयतना

सगळ्याक
पूर्वाय झुळझुळ व्हांवतालो

सवन मळबान
खेळयल्ल्यो
कुपांच्यो माणकुल्यो शिंपयो
आंगभर
घनगंभीरतायेन

आनी कितें सांगूं
मळबाच्या
सगळ आंगांतल्यान
सर्वरंगी फुलपाकुल्यांचीं
भिऱ्यार भिरीं
भिरभिरत येवंक लागलेलीं

कांय खिणांतूच
मळब व्वा ऽ व !
मळबूच दिसना जालें
जे वटेन पळय
ते वटेन
फुलपाकुलींच फुलपाकुलीं

फुलपाकुलींच फुलपाकुलीं
काय फुलपाकुल्यांचें अटंगें रान
काय फुलपाकुल्यांचें गडद गगन
काय अद्भूतांचें धन

माणकुलें पाकुलें
ज्या मुखा मुकार
रभिर नर्तन
रीत म्हणूंक लागलें
ामी तुज्या आंगार बसूं?''

चे स्वर आयकून
ंवे ल्हंवेन
जो देह
द सतार जालो

वात
विं झंकारतूच म्हटलें,
ांगार आसलेलीं
ीं उश्णीं वस्त्रां
हाकां गळोवंदी

आनी म्हणटां म्हणटां
र्ती भिरभिरत येवन
म्हज्या आंगार येवन
अशीं चिप्प बसलीं
की हांव म्हजो
फुलपाकुलांगी आकार सोडल्यार
खंय नाच्च जाल्लों,
हें कोण'कूच कळप
अशक्य नासलें
आनी म्हजो
पाकुलाकार तरी समजप
खंय सें पें आसलें।

बाकी सगळीं
आसमंतांतल्या सगळ्या
झाडां पेडांर
दोंगोर दोंगुल्ल्यांर
भूंय भुंयेर
अशे तरेन बसलीं
की सवन संवसार
फुलपाकुलांग जावन गेलो

आनी बाकी
उडत उडत
झेतान मिरोवंक लागलीं
हें एक अद्‌भूत
रंगविश्व आनी
आकारविश्व आसलें
आनी हांव अचळय
कुडींतल्यान
भायर येवन ही
अनाकलनीय विस्मिताय
भोगूंक लागलों

मनात आयलें
म्हज्या आंगार बसलेलीं
पाकुलीं
म्हाकां असोच उब्या उब्यांनी
घेवन उडूंक लागलीं जाल्यार!

आनी कितें सांगूं
मंद लयेंत
म्हाका जतनायेन घेवन तीं
खऱ्यांनीच उडूंक लागलीं
फुलपाकुल्या झाडापेडाक,
वाली फुलांक
न्हयां
तळयांक
आनी आकर्शक
आकारसर्गीक स्पर्श करीत

आनी एक
पळयात तुमकां
आयकूंक येता जाल्यार
सवन पाकुल्यांनी
आपल्या पांखांच्या
थरथराटान
निर्माण केल्लें
अवर्णनीय संगीत



पळयात
ही स्वरस्वर्गीय मैफल
तुमकां भोगूंक जमता जाल्यार

आतां मात
म्हाका आयकूंक दियात

आतां हांव
ह्या स्वरांच्या अंतराळांत
कूड विरगळावन
पेंवतां

पेंवतां पेवतां
म्हजे नदरेक
दिसलो दर्या
जाचेर येतालीं ल्हारां
फुलपाकुल्यांचीं
आनी न्हंयो
जातूंत उदक व्हांवनासलें
व्हांवतालीं
फुलपाकुलींच फुलपाकुलीं

फुलपाकुलीं!
फुलपाकुलीं!!
फुलपाकुलीं!!!





४

वझऱ्याची
चंचल पांवली
लय माळून
जंय जंय नाचली
झर भर्जर
जावन अनावर
खोल खोलाय
जाली ओली

तळ
आपल्याच मनचो
फोडून
ते घसघस
व्हांवत देंवलो
अदृश्य रुपानूच
अचळय
म्हज्या शिरंतरांनी
व्हांवलो

ताच्या मनांत
सोंसलीं सपनां
अख्खें
रान फुलोवपाचीं
आनी मदूर पाकळ्यो
फुलांचेर
फुलपाकुलीं भुलोवपाचो

हें रान
गोठेतां दोळ्यांत
मन थक्क
थाकायेन भरचें
चिंतांची तगमग
जळोवन, मन
मन आपसूक
मळब जावंचें

वझऱ्याच्या
पाणयांत पांय
हांव बुडोवन
झुळझुळ जगतां
म्हज्या दु:खांचे
खर सागर घेवन
हें पाणी
खळखळ पळटा

वझऱ्याची
व्हांवती तंद्रा
रुंवा रुंवार
मंद्र ल्हारेता
आनी शिरंतरांनी
झरझर
वझरोच जावन झरता



## नांगर

— आर. एस. भास्कर

"आनी कितले काळ अशें
फांत्यारपारार वतल्लें शेतांत"
नांगर खंद्यार मारन
शेता वाटेन चलता वेळा
कोण तरी विचारता म्होण
रस्त्यार थांबून चोयलो फाटल्यान
हुसार आसा बैल मोन्नो
वेगवेगीन चलून येता
आनी मागीर आसतलें कोणें
विचारांची म्हज्या मोडली व्हांवती?
खेती विशीं खूब उलयतालें
बापायचीं उतरां यादींत आयलीं –
"नांगर मरे रावतलें सदांकाळ
पूर्वजां कडें दीत नातें!"

२

पणजाल्या आज्जाल्या बापाल्या हातांतल्यान
पावलां नांगर आतां हातांत म्हज्या
कुळयेची चाली खेती आसून
राखून आयला आज मेरान
कुळपरंपरा मुखार व्हरूंक
चेल्या भुरग्याक दिवंक ना देवान
हात पाय हालता मेरान
जातल्लें आपणाक जोत घालूंक
उपरांत कोण धरतलो नांगर
घराण्यांत एकलोय दादलो नासल्यार!
व्हाडून येता धूव पृथ्वी
कुळा खातीर मोग वावुरपी
नांगर धरूंक भूंय कसूंक
पावतलें चेडूं शेतांत फाल्यां?



– सुधीर कोडकणी

तुरकेमटीच्या तळ्याक आज भोचि खुशी,
सुत्ता-पुनवेक मेळतात – नारलाच्यो राशी!
तळ्या-सुन्वान आसत-फात्तरा वणती,
चिंचेचो रुक चोयता- उदकांतल्यो गंमती!
भूंयकोट किल्लो इदूरचो पळयता निलखून,
खुशी ताक्का-सगडांक तळ्या लागी देखून,
नार्ल घेवन येत्तले – जान सगड भाविक,
कोटा बागला लागी-वत्तात बग्गून,
देवी-दर्शन घेवून माग्गीरी – तळ्या लागी येत्तात
पर्तून!
रुमाल हळदुवें, लाल, धंवें घाल्लेले,
पैलवान पोंवतले- येत्तात बग्गेन राब्बून,
आंगवाली सगडं – दित्तात सकयल सोडून,
तळ्यांत देंवतातित मात्र-काष्टीमात्र राख्खून!
गांवातुले सान-होड जान येत्त आसतां,
पूजे-सामान, नार्ल घेवनु ताटांत,
तळ्या-पूजन कोर्नु ते भक्तिने,
नार्ल सोड्तातित – तळ्यांत थाटांत!
पोंवतल्या गेली आत्तं- उमेद चोंवका,
धांवतात-पोंवतात ते सुसरे वारी,
सूर-सूर, काड्तात ते नार्ल सोद्दून
ताज्जो होड्लो पुंजो जातां पळेया माग्गिरी!
भूंयकोट किल्ल्या दीकान मैदानांत,
येत्तात विकच्याक -आलेपाकवाले,
झांवळाच्यो पेळ्यो-विकपी आनी –
चेरडांमनं भुलोवपी – खेळणीवाले
'मारव्या'भशेन केद्‌ना सरता वेळ,
तेन्ना काळजांत म्हज्या फुलतात कळे,
चोयता चंद्रकीर्णान भांगराळलेले-
हांव-तुरकेमटीचें शांत-तृप्त तळें!

(बग्गेन=शोडें, बाजून; बग्गून=वाकून; आंगवाली=कपडे; झावळाच्यो पेळ्यो=नारलाच्या पानांचे केल्लेलें पाकीट)

## *भूल*

उलय नासतना भुलयतातित, अबोलीचि ही सोबित फुल्लं,
परमळान कशी धुंद करतात, जाय-जूय मोगरी आनी वोवळं!
पागारादीकान मोग्गान फुलल्यात,
तांबडी-गुंज कशीं दशर्णी-फुल्लं,
कोणागेली आत्तं वाट पळयतात,
की आपल्याच मर्दी, जाल्यात गुल्ल?
पाखी भोवता हांगा सावन थंई,
फांतोड वेळार ताक्का कसले जाई?
फुल्लां-परमळ हुंगून जायने की –
कळ ना ताक्का – वचचे खंईं?
सूर्यदेवाच्या उजवाडां थावन
लिपून-निप्पून हूनसाण आयली,
थंडसाण सोंपली आनी जाग्रत आयली
जाणीव जाल्ली तेन्ना, मागीर भायली!
म्हगेल्या हित्तलांत तुर्मी-येंवन वचात,
फुल्लांक मगेल्या तुमी-चोवन वचात,
बाळांक तोखणाय-दिवन वचात,
फुल्लांवारी मोग्गाळ-जावन वचात!



(पागार=कढडा; हित्तल=आंगण, बाग)



# पांच कविता

**– सु. म. तडकोड**



## १
## खंय तरी भितर...

साबार आंकवार खीण कशे गच्च जावन आयल्यात हे नवे वास्तूंत; आनी

तोखयता चंवर अनवळखी घुंवळेक
रात धारेर येता...

गच्च गच्च भुंयेंत
उदे लिक्क प्रकाश;
रिगिल्ले दिठयेंत
तुट्टा काळखा पाश

अनावर पाशांत
लिपलां एक नातें;
तळमळटा खोल
धगधगता पातें

हुंबरो लिपोवन दवरलो हांवें हे नवे वास्तूचो मस्तेपणाक हुवार येतलो म्हूण

आंकवार खीण वसवसून जिणे पांयांर ओंपतां;
उतराक उतर लावन भास फुलूंक लागल्या,
मर्णाकय धुंद करपी कविता लिपी सोदता...

## २
## दर्याक उतर बादता

जीण सजूंक सोदता
आनी कवी जिणेची विस्कटावणी करूंक लागता;
ती गर्भवती जावंक सोदता
आनी हो तो तिच्या स्वतंत्रपणांत गुल्ल जाता;
रूख फळूंक सोदता
आनी चित्रकार मल्लूक मारिल्ले वरी ताचेर रंग थापता;
मनशाचे सुवादीन दर्या ना पूण
ताच्या सांगातान दर्याक उतर बादता...

## ३
## फांतोड्ड भेरेल्या

फांतोड्ड भेरेल्यां,
कारण कालूच कोणाक वायट सपन पडलें;
सपनां खरीं जायनात तरीकूय
कांय जाणांक तांचें जिवीत त्या सपना भशेन दिसता...

फांतोड्ड भेरेल्या,
कारण कांय जाणांच्या आवयांक घोवान धोडायिल्लें आसता;
कोण कोणाक धोडाय धोडायता
कारण धोडावपी मनोरुग्ण आसतात...

फांतोड्ड भेरेल्या,
कारण कांय सपनांचे कॅनव्हास पिंजिल्ले आसतात;
तिच्या रंगवर्णांक आपणावपाची तांक
कांय जाणांच्या सपनांत नासता...

फांतोड्ड आतां पयलीं येताली तशी येवंक सोदिना
कारण क्षितिजाचेर येवपा पासत तिणें उबारिल्लीं कोमल पावलां ओडून,

एक नश्टो, आपणालीं वायट सपनां
सजोवंक सोदता, हें तिणें वळखलां...

४

## कांय जाणांनी

काय जाणांनी दवरल्या अडेच्या कांट्यांची आटी माथ्यार,
उतरां सोदीत, नकलामी करपाचें रगत व्हावंक दिवन;
तांकां फुलां दिसनात, दिसल्यारय तीं बाविल्लीं,
तांकां मुमुरखें हांशें दिसना कोणाच्याच मुखामळार,
दिसल्यारय तें करपल्लें;

हांसपाक जाय तेन्ना हासूंकच जाय आनी
करंदाय मारपा वेळार ती मारुंकूच जाय;
तशें करपाचें सोडून साबार जाण जाय तें करतात देखून ही व्यथा!

खंय तरी भितर मेरेन ही व्यथा भेरेल्या,
ही व्यथा आयकुपाचे भावमुद्रेंत कोणूच ना.



५

## स्पर्श आसचो

स्पर्श आसूं अबोल आनी
आसचो चन्द्रीम फुलतो
निरंतराचो सोद घेवूं
उदेवो सुर्या दुलतो

ना म्हजें, ना तुजें म्हणपी
पदां, आसूं तुज्या दोळ्यांत
गावपी रान बुल्लुसल्लें
नुलयल्ले उले तालांत





## पुनर्जल्म

– **नूतन साखरदांडे**

पुनर्जल्म आसा काय किर्ते, हांव नकळों
पूण आसलोच जाल्यार
जायन दिसतलें
म्हाका एक झाड.
झाड,
न्हय रानांतलें
न्हय पोरसांतलें
झाड–एके कुंडेंतलें
नित्यनेमान फुलपी
केन्नाच न बावपी
अशें झाड
तेंय बी तुज्या
पिकाळ हातान
रोयिल्लें...



*दोन कविता*

**– परेश नरेंद्र कामत**

## *शुभंकर*

भर पावसांत
भरतेर खवदळिल्ल्या
दर्याच्या
ऊंच ऊंच घोंगेतल्या
उसळट्या ल्हारांचो
धवोफुल्ल
शुभंकर उजवाड
उजळायता
म्हजें काळीज.

त्या उजवाडाची
ओली ओली शुभ्रविलोदी झांक
दैंवत काय
म्हजे कवितेच्या उतरां-उतरांत?
उतरांच्या गर्भाशयांत?...





## *गर्भगाबणी सांज*

व्हंटयेन व्हंट
तट्टटून
पिंगट पिंगशी सांज येता;
रंगाचे भोंवरेंत
मळबूय
फुला भशेन फुलून घेता.

अळंग झोपाळे
भल्ल्या दिशांचे
मनांतल्या मनांत रावता हालत;
गुंजतांबडी
धग मळबाची
शिरंतरांनी घुंवत घुंवत...

रंगरंगयाळी
माथ्यार होळी
जिणेचीय धुळवड जाता;
गर्भगाबणी
सांज फुलतना
फांतोडेचो इल्लो रंग घेता.







– राजश्री सैल

तुका जाय तशें वागतां
तूं सांगतां तें आयकतां
तुजे शिवाय म्हजें जिवीत शुन्य
म्हजे घर तुजे आवडीचें
घरातल्यो वस्ती तुका जाय तश्यो
घरा मुखावेल्या पोरसांत तुजे आवडीचीं
झाडां
घरांत जेवण शिजता
तुका जाय तशें
खतखत्याक मसालो
तुजी आवय काडटा
तशें
दाळीक फोण्ण
आत्यें मारता तशें
तुका चले जाय
जाले तिगूय चले
तुका जाय तशें
घडये देवाकूय तूंच चड
आवडटा आसुंये
ज्या दिसा कुळारचो
हुंबरो हुपलो,
जालें हांव मोनी बावली
घरांतल्या कितल्याश्याच
वस्तीं मदली एक वस्त कशी
तुका जाय तशी
तुका जाय तेन्ना हांव हय हय म्हणटां
तुका नाका तेन्ना ना
आयज अचकीत
अशें कशें जालें



खंयच्यान वादळ हुबलें
काय धर्तरी तुटली
केन्नाच जगलें ना
तुजे शिवाय
आनी आयज अचकीत
तूं उठून गेलो जिवितांतल्यान
आतां करप कितें
जाप ना फकत प्रस्न
शेंकड्यांनी चोम्याचोम्यान
कुकूम पुसूं
मंगळसुत्र तोडूं
कांकणां फोडूं
काय गच्च दोळे धांपून
सती वचूं
आयज पयलेच फावट दिसलें
जिवितांतलें शुन्य
खूब व्हड व्हड जायत चल्लां
काय चारय वटेन वेगवेगळ्या
आकाराच्या शुन्यांची गच्च
जात्रा भल्ल्या
भरिल्ल्या दोळ्यांनी
रित्या मनान
रित्या हातांनी
रित्या कपलान
हांव पळयतां
तुजे पूत
तुजेंच बिंब पडबिंब कशे
उबे हातांत म्हज्या
जिविताची अदृश्य
दोरी घेवन



# दोन कविता

**– सुशीला नि. हळर्णकार**

## *पक्वान...*

आवयनच रांदलेलें
जेवण रुचीचें
आवयन केल्लें
खाण रुचीचें
अशें म्हाका
कित्याक दिसचें?
खाल्लें तरी
आनीक जायशें
कित्याक दिसचें?
म्हाका हें कुवाडें
सुटून सुटना
म्हज्या पोटाची
भूक भागना
जेवण खाण
सगळेंच सुरबूस
चिंततनाच लागली
आवयची सुलूस
आई! तुवें
शिजयल्लें अन्न
कितें घालून
जाता पक्वान्न
पुता म्हज्या
जेवण सादेंच
तशें काम
सगळें सदांचेंच
पूण झिजोवन
म्हजी काया
तातूंत इल्ली
घालतां माया
पवित्र मनान
अन्नपूर्णेच्या आशिर्वादान
मेळ्ळां म्हाका
मायेचें वरदान



## *तुजें म्हजें नातें...*

कांट्यांतल्यान गुलाब फुल्लो
चिखलांतल्यान कमळ फुल्लें
तुज्या म्हज्या नात्यांत
किसर कित्याक उरलें?

फळांचे जडायेन
झाडय नमळाय शिकलें
तुज्या म्हज्या नात्यांत
विघ्न खंयच्यान आयलें?

वांकडे तिकडे न्हंयेंत
अमृतपान करूंक मेळ्ळें
तुज्या म्हज्या नात्यांत
वीख कोणें कालयलें?

वातीच्या उजवाडान
घर म्हजें लखलखलें
तुजें म्हजें नातें
सुवार्थी केन्ना जालें?

पावसाची सुलूस लागतकच
कोगुळाकय गायन सुचलें
तुजें म्हजें नातें
बेगडी कशें जालें?



## *ओंवळां*

**– गोरक शिरसाट**

तूं जागता म्हूण
रात रावचिना
तूं न्हिदला म्हूण
सकाळ बावचिना
–

कितले आयले
कितले गेले
सगल्यांक दिसता
आमीच पयले
–

रात म्हाका चाळयता
म्हजो मोग जळयता
–

मोगाची सांज आयल्या
सुर्या देवा मावळ नाका
आतांच प्रीत फळ्ळ्या
तिचेर रातीचें सावळ नाका.





## ...न कविता

**– संहिता कुलकर्णी**

### ...शें कशें?

निष्पाप पावस
भुरग्या भशेन
तुका चिप्प भिजयता
तेन्ना तूं रागार जाता!
आनी मस्तो लंपट वारो
तुका चाळयता
तेन्ना तू लजेता
मनान चंवरता!

### ठोकशाय!

लोकांचें–
लोकां खातीर
लोकांनी वेंचिल्लें सरकार
लोकशाय!
पयशांचें
पयशां खातीर
पयशांनी वेंचिल्लें सरकार
ठोकशाय!

### कुयदाद

कितली कुयदाद करतात तीं
आर जाल्ल्या
हांथरुणार पडिल्ल्या
जाणटेल्याची!

घरखर्च–
भुरग्याचें शिक्षण–
सोरो–
चैनी–
ताच्याच पेन्शनार चल्लां!



## रात

**– सुफला रुद्राजी गायतोंडे**

दीस सरलो
कळ्ळोच ना, केन्ना करो.
रात जाली म्हूण
तुवें कुडींतली
वात पालयली
आनी कुडींत
गुपाट काळोख
बिण्ण काळोख
रात मात
पेटत आशिल्ली
वात पालवली
म्हूण
रात खंय पालवता?
रात वाडत आसता
रात पेटत आसता...



## दोन कविता

**– महेश पारकार**

### पान

सैमरुखाचें एक पान हांव
इतलीं सगलीं पानां
तांचें खंय कोणाक पडलां?
पूण म्हूण त्या पानान
नाचपा–धोलपाचें खंय सोडलां?

### रुख

सोंशीकपणाची हांव
रुखा लागीं तुळा करतां
पूण तुळा केली म्हूण
हांव रूख जायना
म्हजे बशेन तो म्हूण
खोशी मात जातां.









# एक झुज दर्या कडेन




**मूळ इंग्लीश: अर्नेस्ट हेमिंग्वे (ओल्ड मॅन अँड द सी)**
**अणकार : नरेंद्र काशिनाथ कामत**


आपलें व्हडें घेवन दर्या भितर एकटोच पागपी तो एक जाणटो मनीस!

फाटले चवदच्यांयशीं दीस ताका एकूय नुस्तें गावूंक ना. पयले चाळीस दीस तागेले दावणीचे गरयेक एकूय नुस्तें लागलेंना तेन्ना ताचे वांगडा वचपी भुरग्याक तागेल्या घरच्यांनी सांगलें, ''म्हातारो सामकोच बाद जाला'', आनी मागीर तांचे सांगणेन तो दुसऱ्याल्या व्हड्यार गेल्लो, आनी थंय ताका एकाच सप्तकांत तीन व्हडलीं नुस्तीं गाविल्लीं.

सदांच रितें व्हडें घेवन येवपी त्या जाणटेल्याची भुरग्याक काकुळट येताली. मागीर तो तागेल्या व्हड्या वयलीं दोरयांचीं कंवडळां, वांकाचो भालो आनी चोंचीचें कोयतूल, नाच्च जाल्यार दोलकाठयेक गुठलायल्लें शीड तडीक हाडूंक ताका आदार करतालो.

जाणटेल्याच्या व्हड्याच्या शिडाक पिठाच्या पोतयांच्यो कपयो गाठायल्ल्यो. आनी तें कवळ्ळें म्हणटकच सासणाचेच हारीचो बावटो कशें दिसतालें.

जाणटेलो किडकिडीत आनी हाडकुळो आशिल्लो. ताचे मानेक फाटले वटेन मिरयो पडिल्ल्यो. उश्ण देसांतल्या दर्याच्या उदका वयल्यान परतल्ल्या सुर्याच्या किर्णांनी जाणटेल्याच्या पोल्यांचेर कातीचे पिडेचो काळो पुळेर फुटिल्लो आनी तो ताच्या मुखामळाचेर दोनूय वाटांनी सकल मेरेन पाविल्लो.

दर्यांतलीं व्हडलीं व्हडलीं नुस्तीं वयर ओडटना ताच्या हातांचेर तांसाचे दोरयेचे खोल घाये पडिल्ले. पुणून तातूंतल्या एकाय घायाक आतां जीव नाशिल्लो. फुटाळ्यो गेल्ली नुस्त्या विरयतची पोन्नी पडींग जमीन आसची तशे ते आशिल्ले.

दोळे सोडले जाल्यार जाणटेलो सामकोच जिरजिरो जाल्लो. तागेल्या दोळ्यांचो आनी दर्याचो रंग सारको आशिल्लो. तांच्यांत सदांच खोशी खेळटाली आनी तांणी केन्नाच हार मानूंक नाशिल्ली.

''सांतयागो शेपाय म्हाज्यान पोत्तें तुजे बाराबोर वोसोंक जातेलें. आमचे लागीं आतां इले पोयशेय आसाय!'' व्हडें बांदिल्लें थंयसून तडीक येतना भुरग्यान जाणटेल्याक म्हळें.

जाणटेल्यान भुरग्याक पागूंक शिकयल्लो. आनी त्या पोराचोय जाणटेल्याचेर चड जीव आशिल्लो.

''नाका रे बाबा! तुगे आतां व्होडें बोऱ्या नोशिबाचें! तेचे वांगडा राव!''

''पूण आमी एशेच सात दीस नुस्त्या बोगोर केशे पोत्तून येयलोले, आनी मागीर तीन सुमनां मेरेन आमकां घे म्हुणोन नुस्तें केशें गावलेलें तेचोय तूं उगडास कोर न्हूं!''

''म्हाका उगडास आसा रे!'' जाणटेल्यान म्हळें, ''आनी म्हाका फोबोर आसा, तूं म्हाका

सोडोन गेलेलो तो, तुका म्हगे पागपाचो दुबाव येयलेलो देखून न्हूं!''

''म्हगे पायन सांगलोलें सोडोंक! हांव भुरगो न्हूं! हायें तेचें आयकों नाका?''

''होय तोरी! तुयें आयकोंक जायें!'' जाण्टेल्यान म्हळें.

''पूण तेंकां जाल्यार भोरवोंसो ना!''

''तेंकां नासो रे! पूण आमकां आसा न्हूं!'' जाणटेल्यान म्हळें.

''व्होय!'' भुरग्यान जाप केली. ''चोल, वोयल्या तावेर्नांत तुका एक बियर दितां. घेतोलो न्हूं! मागीर हें सोगलें सामान घारा कोडेन व्होरोंया!''

''नाका कित्याको? बोरे पागतेल्यां मोदीं बोसोन घेवंया.''

ते वयल्या माळ्यार गेले. खूबश्या पाग्यांनी जाणटेल्याचीं फकाणां केलीं. पुणून जाणटेल्याक तांचो राग आयलोना. ताका पळेतकच जाणट्या पाग्यांक वायट दिसतालें. पुणून ते तशें दाखय मात नाशिल्ले. ओगीच हेवटेन तेवटेनचें, व्हांवत्या उदका विशींचें, ना जाल्यार उदकांत उडयल्ले गरये विशींचें, नाच जाल्यार, 'वारो जावो तेसोच आसा' अशे तरेचें कितेंय उलयताले, आनी ताका सांबाळून घेताले.

त्या दिसा जांकां चड नुस्तें मेळिल्लें, ते थंय पयलींच येवन कामाक लागिल्ले. आपणालीं व्हडलीं नुस्तीं चिरून ती तांणी दोन फळयांचेर ताणून घाल्लीं. मागीर दोन पाग्यांनी त्यो फळयो उबारल्यो आनी जाता नजऽ करून नुस्तें दवरपाच्या घरा कडेन व्हेल्यो. थंय ते बर्फ घेवन येतल्या ट्रकांची वाट पळेताले. ते ट्रक तांकां हवानाच्या बाजाराक व्हरपाचे आशिल्ले.

जांणी शार्क नुस्तें धरिल्लें, तें तांणी दुसरे तडी वयले फॅक्टरींत व्हेल्लें. थंय आंकड्यार घालून एके घटशे लाकडाचे मुंडारेचेर पातलायल्लें. मागीर तांचें फिग्द कातरून काडिल्लें, तांचे पाखांटे कापिल्ले, साल सोलिल्ली आनी कुडके करून ते खारावंक घाल्ले.

उदेंतेच्या वाऱ्या वांगडा शार्कांचे फॅक्टरी कडल्यान बंदराचे दिकेन सदां नुस्त्याची हिंवसाण येताली. पुणून आज मात वाऱ्यान फाट फिरयल्ली आनी उत्तरेचे दिकेन वचून तो थंयच पडिल्लो. ताका लागून थंय हयन्हयशीच हिंवसाण आशिल्ली. तावेर्नांत मात खूब खोशी आशिल्ली आनी बरें वतूय आशिल्लें.

''सांतयागो,'' भुरग्यान म्हळें.

''कितें रे?'' म्हाताऱ्यान विचारलें. ताच्या हातांत कोप आशिल्लें आनी तकलेंत खूब पयलींच्यो यादी घोळटाल्यो.

''भायर वोसोन तुजे पासोत थोडे ताल्ले हाडों?''

''नाका! भायर वोसोन बेसबॉल घेवन यो चोवंया! व्होलयो मारपा इतू ताको आसा म्हुजे हातींत. आनी रोडेली घुंवडायतेलो पागेल!''

''पूण म्हाका वोयचेंशें दिसोना शेपाय! तुज्या सांगातान हांयें पागलेंना जाल्यार लेगून तुका सोदां शिरीं पोडचें येशें दिसोता म्हाका!''

''तुयें आयज म्हाका बियर दिली न्हूं? आतां तूं फोरेपुणीचो दादुलो जालो.'' जाणटेल्यान म्हळें.

''म्हाका तुयें पोयले फावटीं व्होड्यार व्होयलेलो तेदना हांव केदो आसलों रें शेपाय?''

''पांच वोर्सांचो! आनी तूं जाणा, एक दीस जितें फोडफोडीत निस्तें ओडटोना तूं मेलो येशें दिसोलें म्हाका. व्होडें फुटोंक पावलोलें. उगडास आसा?''

''व्होय व्होय! म्हाका सोगलो उगडास आसा! तें निस्तें व्होड्यार व्होडल्या व्होडल्यान शेपटी बोडोयतालें, आंग घाडायतालें, बोसपा फोळें तेणें मोडोन घायलेलें. तुयें म्हाका मोका वाटेन एके घोलींत घायलेलो. तिंगां सोगलीं ओलीं दोरां आसलेलीं. तेचो सारको उगडास आसा म्हाका! सोगलें व्होडें थोरथोरतालें! आनी तो आवाज! कुलाडीन झाड कातोच्चें तेसो तूं त्या निस्त्याक दांड्यान धोडायतालो, आनी म्हुजें सोंगलें आंग रोगता वासान भोल्लेलें.''

''तुका ह्या सोगल्या गोजालींचो फोरेपोणीं



उगडास आसा? ओव हायें तुका तें केदना तोरी सांगलोलें रे?''

''आमी दोगूय पोयले फावटीं बाराबोर गेलेले न्हूं तेदनाच्या सोगल्या गोजालींचो उगडास आसा म्हाका!''

जाणटेल्यान आपल्या वतान करपल्ल्या दोळ्यांनी ताचे कडेन पळेलें. ते नदरेंत विस्वास आशिल्लो, आनी खूब मोग भरिल्लो.

''तूं म्हुगे चेडो आसलेलो जाल्यार हांव तुका म्हुजे बाराबोर व्होरपा जुगार फेवतोलों आसलों. पूण तूं आसा तुगे मांय-पायल्लो. आनी आतां जाल्यारी तूं त्या बोन्या नोशिबा व्होड्यार आसा!''

''हांव ताल्ले हाडों? गोरयेक लावचीं हांयसां फूंय मेवतात तें फोबोर आसा म्हाका!''

''आदिंचे इले उल्ल्या रे मुकोडें! हायें ते पेटलांत मिठाक मान्न दोवोल्ल्याय!''

''चार तोरी जिते फोडफोडीत हाडटां!''

''एकू!'' जाणटेल्यान म्हळें. ताची आस्त आनी ताचो विस्वास इल्लोय उणो जावंक नाशिल्लो. आनी आतां जाल्यार वाडट्या वाऱ्या वांगडा ताका चडूच ताजबाण आयिल्ली.

''दोन!'' भुरग्यान म्हळें.

''बोरें बाबा, दोन!'' जाणटेल्यान मानून घेतलें. ''तुयें ते चोरोंक नात मुरे?''

''चोरीन लेगीत! पूण हे हायें इकते घेयल्याय!''

''जांव पुता, देव बोरे कोरूं तुका!'' जाणटेल्यान म्हळें.

जाणटेलो सामको सादो आशिल्लो. आपली नमळाय पळोवन ताका अजाप जाल्लें. पूण ती आपले भितरूच आसा, आनी ती तशी आसपांत लज दिसपा सारकें वा स्वाभिमान वगडावपा सारकें कांय ना, हें तो जाणा आशिल्लो.

''उदका ओड एशी तिगली जाल्यार, फाल्यां दीस बोरो वोसों येता!'' ताणें म्हळें.

''फूंय वोयतोलोय तूं?'' भुरग्यान विचारलें.

''वारो घुंवलो जाल्यार लेगीत पोत्तून येवंक जावचेंना इतू पोयस!'' उजवाड जावचे आदीं म्हाका वोसोंक जायें!''

''मुगे पाग्याक हांव पोयस वोसोंक लायतेलों!'' भुरग्यान म्हळें. ''तुगे गोऱ्याक व्होडलें निस्तें लागलें जाल्यार म्हुज्यान तुगे आदाराक येवंक जातेलें!''

''पूण तेका पोयस वोसोंक मानवोचेंना!''

''ना ना! तेज्यान देखोंक जावचेंना एसलें एक सोवणें निस्त्या फाटल्यान उडटा एशें सांगोन हांव तेका गाद्या फाटल्यान धांवडायतेलों!''

''इतू पिडडेर जाल्याय तेगे दोळे?''

''तो कुड्डो जाला म्हुटल्यार जाता!''

''ओजाप न्हूं? तेसो तो कांसवां फाटल्यान केदना वोसोंक ना! तेसो गेल्यार दोळे पिड्डेर जाताय!''

''पूण तूं जाल्यार कितू वोर्सां सान कांसवां कासाक वोयता. पूण तुगे दोळे आजून बोरे आसाय!''



''हांव ह्या सोंवसारा भायलो मुनीस पोरा!''

''पूण व्होडलें निस्तें धोरपा इतू ताकोद आसा न्हूं तुकोडें?''

''म्हाका जाल्यारी तेशें दिसोना! आनी तेच्यांत इल्यो मांडण्यो आसाय!''

''चोल, सामान घेवन या न्हू घोरा कोडें?'' भुरग्यान म्हळें. ''मागीर म्हुज्यान पागेल घेवन ताल्ले पागोंक वोसों येता!''

तांणी व्हड्यांतलें सामान भायर काडलें. जाणटेल्यान शिडाची दोलकाठी खांदार घेतली आनी भुरग्यान तांसदोरयेचीं काफयेकोराचीं कंवडळां, नुस्तें धरपाचो चिमटो, कोयतुलां असल्यो वस्तू भरलेलें पेटूल उबारलें. गऱ्याक लावपाच्या हांयसांचें पेटूल व्हड्याच्या तोल्दा मुळा दवरलें, आनी व्हडलें नुस्तें वयर काडटकच ताका धोडावपाचो बोडोवणोय थंयच दवरलो. जाणटेल्याच्यो वस्तू कोण व्हरचो नाशिल्लो, पूण शीड आनी दोरयो वांगडा घेवप गरजेचें आशिल्लें. दंवान तांची वाट लागूं येताली. चोराचो व्हडलोसो भंय नासलो जाल्यारूय तांसदोरयेचीं कंवडळां आनी कोयतुलां थंय सोडून वचप म्हळ्यार सामकोच हुस्को नाशिल्ले वरी जातलें अशें जाणटेल्याक दिसलें.

जाणटेल्याचे खोंपी मेरेन ते दोगूय वांगडा आयले आनी उकत्या दारांतल्यान भितर सरले. शीड गुठलायल्ली दोलकाठी जाणटेल्यान वणटीक तेंकोवन दवरली आनी भुरग्यान पेटूल आनी बाकीचें सामान ताचे कुशीक दवरलें. दोलकाठी ते खोंपीचेच लांबयेची आशिल्ली.

खोंप माडाच्या घटश्या, वातड चुडटांनी शिंविल्ली. भितर एक बाज्ज, एक मेज आनी एक कदेल आशिल्लें. घश्टून निवळ केल्ले जमनीर एक कोळशाची शेगडी आशिल्ली. घटशीं आनी वातड चुडटां एकार एक दाव्हून दोरयेन आंवळून बांदिल्ले, आनी वयल्यान बरें लिंपण केल्ले पिंगशा कोराचे वणटीचेर एक जेझूचें आनी एक कोब्रेचे सायबीणमांयचें अशीं दोन पांयजेलां आशिल्लीं. त्या दोन पांयजेलां मदीं म्हाताऱ्याच्यो खूबशो यादी एकटावल्ल्यो. पयलीं केन्ना तरी ते वणटीचेर ताचे घरकान्नीचो फोटू आशिल्लो, पूण त्या फोटवा कडें पळयतकच ताका सामकेंच एकसुरपणशें दिसूंक लागलें म्हणून ताणें तो थंयसून काडिल्लो आनी एका कुरकुटांत आपल्या निवळश्या खोमसा मुळा दवरिल्लो.

''तुकोडें खावंच्या कितें आसा?''- भुरग्यान विचारलें.

''तोपूलभोर उकडें शीत आनी निस्तें! तूं खातोलोय इलें?''

''नाका! हांव घोरा कोडें वोसोन जेयतोलों. चूल पेटोवंक जायी?''

''नाका! हांव पेटोयतां मागीर! नाजाल्यार थोडडें शीत जेयतोलों!''

''हांव पागेल घेवन वोसों?''

''बोरे बाशेन!''

थंय पागेल नाशिल्लें, आनी तें केन्ना विकिल्लें तेंवूय भुरग्याक खबर आशिल्लें. पुणून असलीं नाटकां ते सदांच करताले. थंय उकड्या शिताचें तपलें ना, आनी नुस्तेंय ना, हेंवूय भुरग्याक खबर आशिल्लें.

''ओंयशीं आनी पांच हो बोन्या नोशिबा

आंकडो!'' जाणटेल्यान म्हळें. ''सोमोज, हायें पांयशीं किलां वोयलें एक व्होडलें निस्तें हाडलें जाल्यार तेका चोवन तुका कितू खोशी जायत?''

''हांव पागेल मेवता जाल्यार चोयतां आनी ताल्ले हाडोंक वोयतां. तूं देरांत वोताक बोसशी?''

''व्होय बोसतां! म्हुकोडें कालचो पेपर आसा. बेसबोला फेळाचें कितें जालां तें चोयतां.''

कालचो पेपर हेंवूय एक नाटकूच काय कितें हाचो भुरग्याक दुबाव आशिल्लो; पुणून म्हाताऱ्यान बाज्जे वयल्या होतुणा मुळच्यान पेपर काडलो.

''पेरिकोन दिलेलो हो म्हाका गादये कोडें मेवलेलो तेदना!''

''ताल्ले गावतकीर हांव रोकडों येतां! तुगे आनी मुगेले एके कोडेन झेलांत घालोन दोवोत्तां. आमच्यांनी फाल्यां तेंचे वांटे घालोंक जातेलें. हांव पोत्तो येयलों म्हुण्टोकीर तूं म्हाका बेसबोलाचें कितें जालां तें सांग!''

''यांकी केदना हारचे नाय रे!''

''म्हाका जाल्यारी त्या क्लीवलँडाच्या फेळप्यांची भिरांत दिसोता!''

''पोरा, यांकींचेर दोळे धांपोन इस्वास दोवोर! त्या उशार डिमेजिओक विसरों नाकाय!''

''म्हाका जाल्यारी डिट्रोमच्या वागांची आनी क्लीवलँडाच्या इंडियनांची भिरांत दिसोता!''

''सांबाव पोरा! नाजाल्यार फाल्यां सिनसिनाटीचे तांबडे आनी शिकागोचे धोये हेकां लेगीन भितोलो तूं!''

''तूं सारको वाच आनी मागीर सांग म्हाका हांव पोत्तो येतोच.''

''ओंयशीं आनी पांच नुमराचें एक सोर्ती कावतेल घेयल्यार केशें? तुका केशें दिसोता? फाल्यां ओंयशीं आनी पांचावो दीस म्हुणोन म्हुणटां!''

''घेवंक जाता!'' भुरग्यान म्हळें. ''पूण तुयें हेचे आदीं ओंयशीं आनी सात दिसांचें रिकॉर्ड केलेलें तेचें कितें?''

''शे! तेशें दुसरे फावटीं घोडटा म्हूण आसा? पूण ओंयशीं आनी पांच नुम्राचें मेवोत म्हुणटा?''

''म्हुज्यान जातलें हाडोंक!''

''एकू कावतेल पुरो! ईस आनी पांच रुपोय पोड्टेले न्हूं? कोण दितोलो आमकां ते उश्णे?''

''तें म्हुज्यान लेगीत घेवंक जातेलें. पूण हांव म्हुणटां, उश्णें घेवचें न्हूं! पोयलूं रीण काडचें आनी मागीर हातींत भिकेची कोटटी!'' भुरग्यान म्हळें.

''ऊब मेवोत एशें कितेंय घाल शेपाय आंगार! सेतेंब्रा म्हुयनो आसा हें इसोन्नाका!

''व्होडल्या निस्त्या तेंप न्हूं?'' जाणटेल्यान म्हळें. माया म्हुयन्यांत कोणेंय आपणाक पागी म्हुणोन घेवचें!''

''बोरें, हांव वोयतां ताल्ले हाडोंक!'' अशें म्हणून भुरगो गेलो. तो परतो आयलो तेन्ना जाणटेलो कदेलीचेर सुस्त न्हिदिल्लो. आमोरी जावंक आयिल्ली. भुरग्यान हांतुणांतली एक पोन्नी मिलिटरी कांबळ काडली आनी कदेली फाटल्यानच्यान जाणटेल्याच्या खांद्यां वयल्यान घाली. ते खांदेय अजापांचेच आशिल्ले. जाणटे जावनूय तांच्यांत कडकसाण आशिल्ली. जाणटेलो न्हिदिल्लो आसलो, आनी ताची तकली फुडें लकिल्ली आसली जाल्यार ताचे मानेच्यो मिरयो चडश्यो दिसनाशिल्ल्यो. तागेल्या खोमसाक कपयो आशिल्ल्यो. ताका लागून तें तागेल्या शिडा बशेनूच दिसतालें. कपयांचो रंग विटिल्ल्यान तें मुळचें खंयच्या रंगाचें आशिल्लें हेंवूय कळनाशिल्लें.

जाणटेल्याचे केंस पिकिल्ले आनी तो दोळे धांपतालो तेन्ना ताच्या मुखामळाचेर जितेपणाचें कसलेंच लक्षण दिसनाशिल्लें. पेपर ताच्या धोंपराचेर पडिल्लो आनी ताचेर ताच्या हातांचें वजन पडिल्ल्यान सांजेवेळच्या वाऱ्यान तो उडून वचूंक नाशिल्लो. ताचे पांयूय उकते आशिल्ले.

भुरग्यान ताका तसोच न्हिदूंक दिलो. थोड्या वेळान तो परतून आयलो तेन्नाय जाणटेलो न्हिदिल्लोच आशिल्लो.

''शेपाय ऊठ!'' ताच्या धोंपरांचेर हात दवरून भुरग्यान म्हळें.

जाणटेल्यान दोळे उकते केले. पयसुल्ले भोंवडे वयल्यान येवचो तसो तो ल्हवू ल्हवू जागो जालो आनी हांसलो.

''कितें गावलें तुका?'' ताणें विचारलें.



''रातीचें जेवोण!'' भुरग्यान म्हळें, ''फूं य बोसोंया?''

''म्हाका जाल्यारी भुकूऽ ना!''

''जेवंक यो चोवया! तूं जेयलोना जाल्यार तुज्यान पागोंक जावचें ना!''

''म्हुकोडें आसा रे जेवोण!'' जाणटेल्यान पेपर गुठलायन म्हळें. मागीर तो उठलो आनी कांबळीची घडी करूंक लागलो.

''कांबोळ तेशी आसदी आंगार!'' भुरग्यान म्हळें. ''हांव जितो आसा म्हुणसोर तुका उपाशीं पोटार पागोंक दिवचोंना!''

''तूं चोड वोर्सां जिये म्हुज्या पुता, आनी जिवाकूय सांबाव तुज्या!'' जाणटेल्यान म्हळें, ''बोरें, तुयें कितें हाडलां आमकां खावंक?''

''काळे चोवळेची उसोळ, शीत, केळ्या फोडी आनी इली खीर!''

''भुरग्यान माळ्ये वयल्या तावेर्नांतल्यान त्यो सगळ्यो वस्तू एका दोन खणांच्या डब्यांत घालून हाडिल्ल्यो. ताच्या बोल्सांत कुलेर-कांट्याचे दोन जोड आशिल्ले. ताणे ते कागदाच्या लेसांत बरे तरेन वेगळे वेगळे गुठलायल्ले.

''कोणें दिलें रे तुका हें?''

''तावेर्नाच्या धोनयान, मार्टीनान!''

''तेका बोरें मागचें पोडलें हायें!''

''तेचे हांयें पोयलूं उपकार आठोयल्याय!'' भुरग्यान म्हळें. ''तुका आनी ते पोत्तून आठोवची गोरोज ना!''

''तेका केदनाय तोरी व्होडल्या निस्त्या पोटकोळ दिवचें पोडलें!'' तेणें आमचे पासोत एशें हें खूबशें फावटीं केलां न्हूं?''

''व्होय तोरी!''

''तेशें जाल्यार तेका पोटकोळा पोरोस चोड कितेंय दिवचें पोडलें! आमकां खूबसो उपेगाक पोडटा तो!''

''तेणें दोन बियरीय धाडल्याय!''

''म्हाका जाल्यार दोब्यांतली बियर चोड गोस्ताक वोयता!''

''जाणा हांव! पूण ही बाटलेंतुली! हेच्यू बियेर! हांव तेगल्यो बाटल्यो पोत्तून धाडटोलों!''

''कितू मोग कोरशी रे पोरा म्हुजो!'' जाणटेल्यान म्हळें. ''जेवया न्हूं?''

"हांव तुका तेशें म्हुणटालों!" भुरग्यान हांसून म्हळें.

"आतां हांव रेडी आसां!. हात धुवंच्या इलो वोगोत जालो!"

"फूंय धुयले काय हेणें हात?" भुरगो चितूंक लागलो. "उदकाचो नोळ दोन रोस्ते काडोन फुडें आसा! शे:! हेचे पासोत इलें उदीक हाडोन दोच्चें पोडलें! एक साबांव आनी एक तुवाल! हें केशें येयलेंना म्हुजे मोतींत? तेचे पासोत एक बोरेंशें खोमीस हाडोंक जायें आनी एक जाकेट, शिंया पासोत! आनी बोरेशे मेय आनी एक कांबोळ लेगीत हाडोंक जायी तेका!"

"तुगे खीर बेस बोरी आसा!" जाणटेल्यान म्हळें.

"बेसबोलाचें कितें जालें?" भुरग्यान विचारलें.

"आमेरिकान तोर्ना मँटांत 'यांकीज' जिंकतेले. हांव सांगोतां!" जाणटेल्यान म्हळें.

"पूण आयज ते हारले, शेपाय!" भुरग्यान ताका सांगलें.

"शे:! तें कांय न्हू! तो डिमेजियो सारको फॉर्मांत येयला!"

"पूण तेंच्यांत येगळे गोडे आसाय!"

"जालें रे तें! पूण तो आसतोकीर फेळ रोकडो घुंवता! ब्रुकलीन आनी फिलाडेल्फिया हेंचे भितूर जावंचेल्या फेवांत हांव ब्रुकलीनाचेरू आपोस लायतालों! म्हाका तेंगेली 'दिक सिस्लोर' आनी पोन्न्या माळा वोयल्या फेवाचो आयजूय उगडास येता!"

"तेचे बाशेन दुसरो फेवपी जालोना न्हूं? इतू पोयस बोल मारपी दुसरो कोण चोयलोना हायें!"

"तो माडये वोयल्या तावेर्नांत येई त्या ओगताची याद आसा तुका? म्हाका तेचे बाराबोर पागोंक वोयचें एशें दिसतालें. पूण तेका इचारोंक जोमोनासलें. तेदना हांयें तुका इचारोंक सांगलोलें, पूण तुका लेगीत तें जोमलेंना! फोरे न्हूं?"

"व्होय व्होय!" तेदना ती व्होडली चूक जाली. तो येतोलो आसलो आमच्या बराबोर! आमकां तें जिवीतभोर पुरो आसलें!"

"म्हाका त्या व्होड डिमेजिओ बाराबोर पागोंक वोयचें शें दिसोता. तेजो पाय पागी आसलो फूंय! आमचे बाशेनू दोयदिरांत दीस काडल्या आसतेले तेणें न्हूं? आमकां कितें जायें तें बोरें कोवतेलें आसलें तेका!"

"व्होडलो सिस्लर आनी तेजो पाय केदना गोरीब नासले. तेजो पाय म्हुजे इदादीच्चो आसलो तेदना मॅचीनी फेवतालो फूंय!"

"हांव तुगे इदादी आसलों तेदना, आफ्रिकेंतुल्या चार शिडां व्होड्यार कुंया फुडें उबो रावतालों आनी तेदना हायें सांजे पारार शींव लेगीत देखल्याय तिंगाचे येळेर!"

"म्हाका फोबोर आसा! तुयें सांगलोलें तें म्हाका!"

"आमी आफ्रिकेचेर उलोवचें ओव बेसबोलाचेर?"

"बेसबोलाचेर! म्हाका त्या व्होड जॉन जोटा मॅकग्रेथागेलें कितेंय सांग!" भुरग्यान म्हळें.

"तोवूय पोयलीं वोयल्या तावेर्नांत वोयतालो. पूण चोऽऽड कोडोक! उलोवंक



चोड सुबेज! आनी पिलो तेसो कोणाकू आयकनासलो. तेगे तोकली जितू घोड्याचेर चोलताली तितू बेसबोलाचेर चोलताली. तेगे बोल्सांत सोदां घोड्यां नांवाच्यो चिटयो आसताल्यो. फोनार लेगीत तो घोड्यांचीं नांवां सांगतालो."

"तो चोड बोरो मॅनेजेर आसलो न्हूं? मुगे पाय जाल्यार म्हुणटा, तेचे बाशेन दुसरो मॅनेजेर जावंचो ना!"

"तो हिंगा सोदां येतालो म्हुणोन! जाणटेल्यान म्हळें. "ड्युरेकोरान वोर्साक एकदां हिंगा येवचें थांबोवंक नासलें जाल्यार तुगे पायक तो व्होडलो मॅनेजेर दिसतोलो आसलो."

"पूण तुगे मोतींत फोन्यांनी व्होडलो मॅनेजेर कोण? लूक काय मायक गोंसालेझ?"

"म्हाका जाल्यार दिसोता, ते दोगूय सारके आसलोले."

"आनी सोगल्यांत बोरो पागी तूं न्हूं?"

"न्हूं. न्हूं, हांव न्हूं! म्हुजे पोरोस बोरे आसलेले म्हाका फोबोर आसात!"

"आसोत!" भुरग्यान म्हळें, "फूबशे बोरे पागी आसोत. पूण तुजे बाशेन एकलोय जावंचोना!"

"व्होडलो फावोर केलो बाबा तुयें म्हुजेर! तुयें म्हाका खोस भोगोयली! पूण आमकां फोटी थारावपा इतू व्होडलें निस्तें म्हाका गावोना जाल्यार पुरो!"

"पूण तुजे मोदीं ताकोद आसा एशें म्हुणटा न्हूं तूं? मागीर तुका हारोवपा इतू व्होडलें निस्तें आसोंकू फावोना!"

"हांव म्हुणटां तितू ताकोद नासोत म्हुज्यांत, पूण मांडण्यो फूब आसाय! आनी हांव सोवाय भितूर सोडपी न्हूं!" जाणटेल्यान म्हळें.

"पूण तुयें आतां न्हिदोंक जायें! मागीर तुका बोरी हुशारकाय मेवतेली. हांव ह्यो वोस्तू तावेर्नांत व्होरोन दितां."

"बोरें तोर! तुजी रात बोरी वोसों म्हुज्या पुता! फांत्यार येवन जागोयतां तुका!"

"तूं म्हुटल्यार म्हुजें आलार्म घोडयाल!" भुरग्यान म्हळें.

"म्हुगेलें घोडयाल म्हुटल्यार म्हुजी इदाद!" जाणटेल्यान म्हळें. म्हातरे मुनीस फांत्या पारार कित्याक उठ्ठात कायी? दीस इलो व्होडलो देखूंक मेवतोलो एशें दिसोता आसतेलें तेंकां न्हूं?"

"कोणा फोबोर! म्हाका जाल्यार इतू फोबोर आसा, भुरगे चोड येळ न्हिदताय आनी सुशेगाद न्हिदताय!"

"हांव याद दोवोन्न तुका फांत्यार उठोयतां!" जाणटेल्यान म्हळें.

"तेणें उठोयलेलो म्हाका नाका! बोरें दिसोना!"

"म्हाका फोबोर आसा रे तें!"

"बोरो सुशेगाद न्हिदे, शेपाय!"

भुरगो भायर गेलो. ते दोगूय काळखांतूच जेविल्ले. जाणटेल्यान आपलें कालसांव देंवयलें आनी तो काळखांतूच न्हिदूंक गेलो. ताणें कालसांवाची चुमळ केली, तिचे भितर पेपर घालो आनी ती उश्याक घेतली. मागीर ताणें आपणाक कांबळींत गुठलावन घेतलो आनी बाज्जे वयल्या उक्त्या स्प्रिंगांचेर पेपर धांपून ताचेर न्हिदलो.

रोखडोच ताचो दोळो लागलो आनी थोड्याच वेळान ल्हानपणांत आफ्रिकेंत

काडिल्ल्या दिसांचीं सपनां तो पळोवंक लागलो.

दर्याच्यो लांबूच लांब आनी भांगरा कोराच्यो देगो, रुप्या बशेन धव्योफुल्ल वेळो, इतल्यो धव्यो,तांचे कडें पळेल्यार दोळे लेगीत दिपकावताले. दोंगरांचे ऊंच ऊंच सुळके,व्हडले व्हडले पुडी कोराचे दोंगर. तो सदांच रातचो त्या वेळांचेर रावतालो. सपनांत दर्याचो गाज आयकतालो. थंयच्या लोकांचीं व्हडीं तडीक येतना पळेतालो. धक्या वयल्या डांबराचो आनी कुसक्या काथ्याचो ताका वास येतालो. फांतोडे वयलो तोडवो वारो आफ्रिकेचो वास वांगडा हाडटालो आनी ताच्या नाकापुडयांनी सोडटालो.

फांतोडे वयलो वारो नाकांत गेलो म्हणटकच तो उठ्ठालो आनी कपडे घालून भुरग्याक उठोवंक वतालो. पूण ते रातीं फांतोडे वयलो वारो बेगिनूच आयिल्लो. सपनां पडपाक सुरवात जावंचेल्या वेळार तो आयला अशें पळोवन जाणटेलो परतून न्हिदिल्लो आनी दर्यातल्या बेटां वयल्या धव्याफुल्ल सुळक्यांचीं आनी तरातरांच्या वेळांचीं, केनेरी बेटा वयल्या व्हडीं नांगरून दवरपाच्या जाग्यांचीं सपनां पळोवंक लागिल्लो.

ताका केन्नाच वादळाचीं सपनां पड नाशिल्लीं, न्हय बायलांचीं. व्हडल्या व्हडल्या नुस्त्यांची, झडद्यांचीं, मुठी मारपाचीं, इतलेंच न्हय तर ताचे बायलेचीं लेगीत सपनां ताका पडनाशिल्लीं. तो सपनां पळेतालो कांय जाग्यांचीं, दर्याच्या देगांचीं आनी तांचे वयल्या शिंवांचीं. माजराच्या ल्हान पिलां बशेन ते खेळटाले. तांचेरूय तो भुरग्या इतलोच मोग करतालो. पूण भुरगो मात ताच्या सपनांत केन्नाच येनाशिल्लो.

तो उठलो, उकत्या दारांतल्यान ताणें चंद्रिमा कडें पळेलें, कालसांवाची घडी उसयली आनी तें आंगार चडयलें, खोंपीच्या दारा भायर वचून मुतलो आनी मागीर वयले वाटेन भुरग्याक उठोवंक गेलो. फांतोडे वयल्या शियान ताचें आंग कुडकुडलें. पूण कुडकुडटां कुडकुडटांच आंगांत हुनसाण येता हें ताका खबर आशिल्लें आनी आतां रोखड्योच ताका व्हलयो मारपाच्यो आशिल्ल्यो.

भुरगो न्हिदिल्लो त्या घराच्या दाराक भितल्ल्यान खिळी नाशिल्ली. ताणें दार उकतें केलें आनी तो उकत्या पांयांनी ल्हवूच भितर गेलो.

भुरगो भायलेच कुडींत सुस्त न्हिदिल्लो. चंद्रीम देंवते कडेन आशिल्ल्यान भितर आयिल्ल्या ताच्या उजवाडांत जाणटेल्याक तो सारको बरो दिसतालो. जाणटेल्यान भुरग्याचो एक पांय ल्हवूच उबाल्लो तसो भुरगो जागो जालो आनी ताणें जाणटेल्या कडें पळेलें. जाणटेल्यान मान हालयली. मागीर भुरग्यान कदेली वयलें कालसांव ओडून काडलें आनी बाज्जेचेर बशिल्लो थंयच आंगार चडयलें.

जाणटेलो घरा भायर येतकच भुरगोय ताचे फाटल्यान भायर आयलो. तो अजुनूय न्हिदांत आशिल्लो. जाणटेल्यान ताका खांदा वयल्यान हात घालून म्हऱ्यांत ओडलो आनी म्हळें, "म्हाका चोड वायट दिसोता!"

"शे:! कित्या पासोत? तुयें कोरोंक जायें तेंच केलां!"

ते सकयल्ले वाटेन जाणटेल्याचे खोंपी कडें आयले. खांदार व्हड्यांच्यो दोलकाठयो घेतिल्ले खूबशे पागी तेच वाटेन उकत्या पांयांनी काळखांतल्यानूच वताले.

खोंपी कडें पावतकच भुरग्यान पेटलांतलीं तांसदोरयेचीं कंवडळां, वांकाचीं कोयतुलां आनी चिमटो ह्यो वस्तू भायर काडल्यो. आनी जाणटेल्यान शीड गुठलायल्ली दोलकाठी खांदार घेतली.

"तुका काफी जायी?" भुरग्यान विचारलें.

"हें सोगलें सामान पयलूं व्होंड्यांत दोवोरया आनी मागीर घेवंया!"

पाग्यां खातीर सकाळीं फुडेंच उगडिल्ल्या हॉटेलांत तांणी दुदाच्या रिकाम्या फोलिणांतल्यान काफी घेतली.

"न्हीद केशी जाली तुजी शेपाय?" भुरग्यान विचारलें. खरें म्हळ्यार भुरग्याच्या दोळ्यांचेर अजुनूय न्हीद आशिल्ली. अर्दकुटे न्हिदेंतल्यान उठून येवप म्हळ्यार ताचे सारक्याक ती सोंपी गजाल नाशिल्ली.

"फोस्कोलास! फूब बोरी जाली मानोलीन! आज म्हाका चोड उमेद येयल्या!"

"म्हाका लेगीत!" भुरग्यान म्हळें. आतां म्हाका तुगे वांट्याचे ताल्ले हाडोंक जाये! गोरयांक लावचेलीं जितीं हांयसांय हाडचीं आसाय! तेगे सोगलें सामान तोच हाडटा! दुसऱ्यान कितें हाडलोलें मानवोना तेका!"



"आमजेलें सोगलें खेरीत न्हूं? तूं पांच वोर्सांचो आसोत सान हांव तुका सामान हार्डोक दितालो."

"म्हाका उगडास आसा तेचो!" भुरग्यान म्हळें. "हांव रोकडो येतां शेपाय! तुका जाय जाल्यार आनीक एक काफी घे! आमजेली उदारी आसा हिंगा!"

ताल्ले आनी हांयसां हाडपाक भुरगो उकत्या पांयांनीच पोवळ्यांच्या फातरां वयल्यान चलत गेलो.

जाणटेलो सवकसायेन काफी पिलो. त्या दिसा ते काफये बगर ताच्या पोटांत कितेंच वचपाचें ना हें तो जाणा आशिल्लो. ते खातीर ताका ती पिवंकूच जाय आशिल्ली. हालीं तेंपाक ताका खाणाचो वीट येतालो. म्हणून तो दनपारचें जेवण लेगीत हाडी नाशिल्लो. व्हड्याच्या येऱ्या कडले सुवातींत ताणें एक उदकाची बाटली दवरिल्ली. ती ताका दीसभराक पुरो जाताली.

भुरगो ताल्ले आनी दोन हांयसां पेपरांत गुठलावन घेवन आयलो. मागीर ते दोगूय उकत्या पांयांनी रेंवेंतले फातर माडयत व्हड्या म्हऱ्यांत गेले आनी तांणी व्हडें उबारून उदकांत धुकळ्ळें.

"बोरो कोन्न वोस रे शेपाय!"

"तुंवूय बोरे भाशेन राब म्हुज्या पुता!" म्हाताऱ्यान म्हळें. मागीर ताणें व्हली व्हड्याच्या धोंड्याक बांदली आनी नेट लावन तिचें पातें दर्यांत धुकळ्ळें. तो तें व्हडें ताणीत ताणीत काळखांतूच पराये भायर काडूंक लागलो. बाकीच्या देगांचेर बांदिल्लीं व्हडींय दर्यांत वचपाक लागिल्लीं. आनी तांच्या व्हलयांचो ताणटना जाल्लो आवाज जाणटेल्याच्या कानार येतालो. पूण चंद्रीम आतां दोंगरा पलतडीं आशिल्ल्यान तीं व्हडीं ताका दिसनाशिल्लीं.

चडशीं व्हडीं मोन्यांनीच वतालीं. तांच्या व्हलयांचो आवाज तितलो कानार पडटालो. पूण मदल्यानूच खंयच्या तरी व्हड्याचेर कोण तरी उलयतल्याचो आवाज येतालो. बंदरांतल्यान भायर सरतकच सगळीं व्हडीं वेगवेगळीं जालीं, आनी दर एकल्यान आपलें

व्हडें नुस्तें मेळपाचें दिकेन आमुडलें.

आपूण पयस वतलों अशें येवजुनूच जाणटेलो भायर सरिल्लो. ताणें आपले जमनीचो वास फाटीं सोडिल्लो. दर्याच्या फांतोडे वयल्या वाऱ्या वांगडा आयिल्ल्या नितळ वासांत तो आतां भितर सरिल्लो. ताणटां ताणटां मर्दीच ख़ाडयेंतलें एकाद्रें तणाचें पातें उदकाचेर लकलकतालें. तो ज्या जाग्यार पाविल्लो थंय दर्याची खोलाय चाळीस माड आशिल्ली. म्हणून त्या जाग्याक पागी लोक व्हडली बांय म्हणटाले. थंयसर व्हांवत्या उदकाचो झोत उदकाचे अचकीत जाल्ले ऊंच अशे वणटीक आपटतालो. आनी उदकांत भोंवरे तयार जाताले. ताका लागून सगळे तरेचीं नुस्तीं त्या जाग्यार एकठांय जातालीं. थंयच्या खोल बुराकांत बारकेलीं सुंगटां, मोतयाळें आनी बुरांट्यांचे चोमे एकठांय जाताले आनी राती कडेन वयर आयले म्हणटकच व्हडल्या नुस्त्यांच्या पोटांत वताले.

जाणटेल्याक त्या काळखांत फांतोड लागीं पावल्या म्हणपाचें कळ्ळें. आनी ताणटां ताणटां नुस्त्याचो उदकांतल्यान चलतनाचो थरथर आनी काळखांतल्यान वयर उडी मारतना जाल्ली तांच्या पांखाट्यांची फडफड ताच्या कानार येवंक लागली.

उडटीं नुस्तीं जाणटेल्याक चड आवडटालीं. तीं तागेलीं इश्ट आशिल्लीं. पुणून दर्या वयल्या सवण्यांची मात ताका काकुळट येताली. चड करून नाजूकश्या काळ्या 'टर्न' सवण्यांची. तीं सदांच कितेंय तरी सोदिल्ले बशेन भोंवतालीं. पूण तांकां कांयच मेळनाशिल्लें. त्या सवण्यांची जीण आपले परसूय चड कश्टांची अशें ताका दिसतालें.

''व्होडल्या सोवण्यांचें ओव चोर सोवण्यांचें व्होडलेंशें ना! पूण एसल्या आकांताच्या दुश्ट दोर्या कोडें झुजपाचें आसतोना देवान ह्या बारकुल्या सोवण्यांक इतू नाजूक आनी सोबीत कोन्न जोल्माक तोरी कित्या घायल्यां कायी? दोर्यो सोबीत आसा. मोगाळूय आसा, पूण मोदीं खुबोळ्ळो म्हणटोच तो चोड दुस्मान जाता आनी त्या ओगतार हीं धाकटुलीं चींव चींव कोरीत खोशयेन उडटेलीं, बुडयो मान्न ओन्न सोदतेलीं सोवर्णी तेचे सामकार चोड दुबळीं जाताय!''

तो दर्याक आपली इश्टीण मानतालो. स्पॅनीश लोक दर्याचेर खोशी आसतात तेन्ना ताका इश्टीण म्हणटात. ताचेर मोग करपी केन्ना केन्नाय एकाद्रे बायले विशीं मस्कऱ्यांनी उलोवचें तशे दर्या विशीं उलयतात. थोडे लोक बोऱ्यांचो उपेग आपणाल्यो तांसदोरयो हुबोवपाक करतात आनी शार्क नुस्त्याच्या फिग्दांचेर लाखांनी रुपये जोडून मशिनाच्यो बोटी विकत्यो घेतात. ते दर्याक 'इश्टा' अश्या दादल्याच्या नांवान उलो मारतात. केन्ना केन्नाय ते ताका झगडाळ, ठिकाण अथवा वैरीय म्हणटात. पूण जाणटेलो मात सदांच ताका बायलेच्या रुपांत देखतालो. दिवप वा न दिवप हें तिचे खोशयेचें, ना दिलेंय जाल्यार, तिका तें शक्य नाशिल्लें म्हणून दिलेंना, अशें तो मानतालो. बायलेचेर परिणाम करचो तसो चंद्रीम दर्याचेर परिणाम करता अशें ताका



दिसतालें.

तो सवका सवता ताणटालो. तशें ताणिल्ल्यान ताका कश्टूय जायनाशिल्लें. उदकाच्या झोतांत मर्दीं मर्दीं जाल्ले भोंवरे सोडले जाल्यार दर्या शांत आशिल्लो. उदकाच्या व्हांवपाचेरूच ताणें चडसो विस्वास दवरिल्लो.उदकाची ओडूच ताचें चडशें काम करताली. सकाळ जायत आयिल्ली आनी ताचे कल्पने परसूय तो चड पयस आयिल्लो.

''फाटलें पुराय सेमान ते बांय कोडेन फूब फोटपोट केली; पूण कांय मेवलेंना! आयज 'बोनिटा' आनी 'आल्बाकोर' निस्तीं आसाय ते वाटेन व्होडें व्होयल्यार बोरें! ल्हान निस्त्या बाराबोर व्होडलेंय निस्तें गावोंक आसा!'' जाणटेल्यान चिंतलें.

सकाळ जावचे पयलींच ताणें हांयसां उडयल्लीं. उदकाचे ओडी बराबर व्हडें चलतालें. एक हांयस चाळीस वांव मुळा गेल्लें. दुसरें पंचात्तर आनी तिसरें आनी चवथें निळ्या उदका सकल शंबर ते सवायशें वांव मुळा. हांयसाचें भोपशें उरफाटी तकली करून गऱ्याक फारायल्लें आनी गऱ्याचें फाटलें नेडें तांसदोरयेक घट्ट शिंवून बांदिल्लें. गऱ्याचें तोंक आनी ताची बाग जित्या ताल्ल्यांनी लिपयल्ली. ताल्ल्यांच्या दोनूय दोळ्यांतल्यान गरो गुंथिल्लो. ताका लागून गऱ्याचेर ताल्ल्यांची एक अर्दी माळूच घाल्या अशें दिसतालें. व्हडल्या नुस्त्याक आवडटा तसलें बरें रुचीक मांस लायनासतना गऱ्याचो इल्लोय जागो उकतो दवरूंक नाशिल्लो.

भुरग्यान जाणटेल्याक टुना आनी आल्बाकोर जातीचीं दोन ल्हान नुस्तीं दिल्लीं. तीं शिशाच्या गुळ्यां भशेन सगळ्यांत खोल आशिल्ल्या गऱ्याचेर हुमकळटालीं. दुसऱ्या गऱ्याक घट्टशी निळी दोरी बांदिल्ली, आनी हळडुव्या रंगाचें एक पोन्नें जेक यंत्रूय बांदिल्लें. पोन्ने जावनूय गरे अजून बरे आशिल्ले आनी तांकां नुस्त्याक भुलोवपी रुचीक असो ताल्ल्यांचो वास आशिल्लो. गऱ्याक बांदिल्ल्यो दोरयो लापसा इतले जाडयेच्यो आशिल्ल्यो, आनी त्यो मुद्दाम तयार केल्ले झाडाचे पांचवे बडये भोंवतणी गुठलायल्ल्यो. उदकांतलीं हांयसां मातशीं हाल्लीं म्हणटकच ती बडी उदकांत बुडटाली. एकेका गऱ्याक चाळीस वांव लांब दोरयेचीं दोन फंवडळीं आशिल्लीं. ते भायर, भितर शिलकेंत आशिल्ल्या बाकीच्या दोरयांक त्यो दोरयो बांदूंक येताल्यो. म्हणटकच एकाद्र्या व्हडल्या नुस्त्याक सुमार तिनशें वांव पयस धावूंक मेळटालें.

जाणटेल्यान व्हड्याचे कुशीक आशिल्ल्यो तिनूय बडयो उदकार उफेतना पळेल्यो आनी गऱ्यांच्यो दोरयो तायट आनी नीट उब्यो उरच्यो म्हणून तो व्हडें ल्हवू ल्हवू ताणूंक लागलो. आतां खूब उजवाड जाल्लो आनी खंयच्याय ख़िणाक सुर्याचो उदेव जावपाचो आशिल्लो.

सुर्या दर्यांतल्यान मातसो वयर सरलो तेन्ना जाणटेल्याक तडीक आसतना उदकाच्या नेटान हेवटेन तेवटेन शिवरिल्लीं आनी आतां लागीं जाल्लीं खूबशीं व्हडीं उदकाचेर उफेतना दिसलीं. थोड्या वेळान सुर्या तापूंक लागलो आनी दर्याचेर वत आयलें. तो सामको वयर येतकच सपाट उदकाचेर चकचकपी किर्णांक लागून जाणटेल्याच्या दोळ्यांक कश्ट जावंक लागले आनी मागीर तो ते वटेन पळेनासतना ताणूंक लागलो. ताणें उदकांत पळेलें तेन्ना दोरयो तायट जावन खोल उदकाच्या काळखांत

गेल्ल्यो.

उदकाचे खोलायेच्या काळखांत खंयच्याय जाग्यार नुस्तें मारपाक तयार आसचो म्हणून ताणें गऱ्यांच्यो सगळ्यो दोरयो तायट दवरिल्ल्यो. थोडे पागी त्यो उदका वांगडा सदळ सोडटात. ताका लागून तांकां सारको अदमास येना. साठ वांव पयस गेल्यार त्यो तांकां शंबर वांव गेल्ले बशेन दिसतात.

तो मनांत येवजितालो, "हांव हांयसां फूब बोरे तोरेन लायतां, पूण हालीं तेंपाक म्हजें नोशीब् फुटलां! पूण कोणें सांगचें, आयज सादोंकूय आसा! येता तो दीस नेवो आसोता! नोशीब बोरें जाय म्हुटल्यार फोरें, पूण मनशान चुकोंक फावोना! मागीर नोशीब उगोडटा तेदना तो तोयारेंत उत्ता!

सूर्या आतां दोन वरांनी वयर आयिल्लो. आतां जाणटेल्याक उदेंती कडें पळेल्यार कश्ट जायनाशिल्ले. खूब पयस तडी लागसारआतां तिनूच व्हडीं उदकाचेर धोलतना दिसतालीं.

जाणटेलो मनांत म्हणटालो, "जोल्मभोर ह्या सोकाळच्या वोतान म्हुज्या दोळ्यांक तोरास केल्याय! पूण ते आजून बोरे उल्ल्याय! ओस्तोमतेच्या सुर्या कोडें म्हुज्यान दोळ्यां मुखार काळोख येनासतोंना आजून चोवंक जाता! फोरें म्हुटल्यार सांजवेळा लेगीत वोताक नेट आसोता, पूण सोकाळचें तें चोडू कोडोक लागोता!"

इतले म्हणसर व्हड्या फुडें ताका एक शिपाय सवणें दिसलें, आपले काळे पांखाटे उरफाटे उबारून ताणें एकदम झोंपय मारली आनी परतून वयर वचून तें घुंवडाळ्यो काडूंक लागलें.

"मेवलें जातेलें तेका कितें तोरी!" जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. "तें बेश्ट्यो भोंवड्यो काडचेंना"

आपलें व्हडें सवका सवका ताणीत सवणें घुंवडाळ्यो काडटालें ते दिकेक ताणें व्हेलें. ताका ताकीद नाशिल्ली. ताणें गऱ्यांच्यो दोरयो तायट आनी नीट दवरिल्ल्यो. पूण आतां तो उदकाच्या झोतांत आयिल्लो. ताका लागून तागेलें ताणप सारकें आशिल्लें तरी व्हड्याची चाल मातशी नेटाची जाल्ली. तो सवण्या फाटल्यान लागूंक नाशिल्लो जाल्यार मात व्हडें इतल्या नेटान चलचें नाशिल्लें.

सवणें मळबांत आनिकूय वयर गेलें आनी घुंवडाळ्यो काडूंक लागलें. ताचे पांखाटे मात लेगीत हालनाशिल्ले. ताणें अचकीत झोंपय मारली. तशीं उडटीं नुस्तीं वयर येवन जिवाच्या आकांतान उदका वांगडा धांवतना जाणटेल्यान पळेलीं.

"गादो, गादो, व्हडलो गादो!" जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. ताणें आपली व्हली व्हड्याक बांदली आनी थंयची एक दोरी काडून तिच्या तोंकाक एक सरी गुठलायली. ते सरयेक एक गरो आशिल्लो. त्या गऱ्याक ताणें आपणा कडें आशिल्ल्या ताल्ल्यांतलो एक ताल्लो लायलो. एके वाटेन ताणें ती दोरी उदकांत सोडली आनी तिचें दुसरें पोंत व्हड्याचे फाटले वटेनच्या एका गांचाक घट्ट बांदलें. मागीर ताणें तसलीच आनीक एक दोरी तयार केली. आनी ती गुठलावन एके कुशीक सावळेंत दवरली. मागीर तो परतून ताणूंक लागलो आनी तें सवणें कितें करता तें बारीकसाणीन पळोवंक लागलो.

तो हें सगळें पळेता आसतनाच त्या सवण्यान आपले पांखाटे वांकडे करून झोंपय मारली आनी परतून एकदां पांखाटे फडफडायत तें त्या उडट्या नुस्त्या फाटल्यान लागलें. जाणटेल्याक उदकाचेर मातशी उंचाय कशी दिसली. त्या बारकेल्या नुस्त्या फाटल्यान डॉल्फीन लागिल्ल्याची ती कुरू आशिल्ली. उडट्या नुस्त्याच्या चोम्या मुळच्यान डॉल्फीन धांवताले. आनी तीं उडटीं नुस्तीं कशीं धरूंक जायत तें पळेताले. "फूप गादे आसात दिसोता हिंगा!" जाणटेल्यान मनांत म्हळें. "सोगल्याक आसाय ते! आतां उडट्या निस्त्याचें फोरेपोण ना! ह्या सोवण्याक जाल्यार कांय मेवचें ना! उडटीं निस्तीं तेंचे पोरोस बोळिश्ट आसाय आनी ती धांवताय चोड नेटान!"

तीं उडटीं नुस्तीं परतून परतून उडयो मारतालीं. तांचे कडें आनी त्या सवण्यांच्या गरजे भायल्या चाळ्यां कडें तो बारीकसाणीन पळेतालो. "तो चोमो जाल्यारी गेलो म्हुज्या हातींतुल्यान!" ताणें मनांत म्हळें. "ते चोडू नेटान धांवताय. एकाद्रो चुकोन उल्लो जाल्यार मेवोत; आनी मुगलें तें व्होडलें निस्तें तेंचे भितूर फूंय तोरी आसतेलें. हिंगा आसोंक जायें तें!"

जमनी कडलीं कुपां आतां दोंगर कशीं



वयर आयिल्लीं. दर्याची देग पयसुल्ल्यान पांचवी रेग कशी दिसताली. आनी तिचे फाटल्यान आशिल्ल्यो दोंगुल्ल्यो निळसार पुडीकोराच्यो दिसताल्यो. उदक आतां गाड निळें जाल्लें. जांबळें दिसपा इतलें गाड. त्या गाड निळ्या उदकांत पळेतकच ताका थंय तांबड्या रंगाच्या तेलाचें सोबीतशें नक्षीकाम दिसलें. आनी उदकांत पडिल्लीं किर्णांय आतां वेगळींच दिसतालीं. ताणें भितर गेल्ल्या तायट दोरयां कडें पळेलें आनी उदकाचेर आयिल्लो खूबसो तेंव पळोवन ताका खोशी जाली. चड नुस्तें मेळपाची ती कुरू आशिल्ली. सुर्या वयर गेल्लो आनी उदकाचेर ताचो एक वेगळोच उजवाड पडिल्लो. तसो उजवाड पडप आनी जमनी वयल्या कुपांक आकार येवप म्हळ्यार वारो बरो आसतलो म्हणपाचें लक्षण आशिल्लें.

सवणें आतां नदरे आड जाल्लें आनी उदकाचेरूय आतां कांयच दिसनाशिल्लें. मदीं मदींच खंयसरूय वतांत हळडुवसार दिसपी 'सर्गासो' जातीच्या तणांचीं थिगळां मात दिसतालीं आनी जांबळट रंगाचो 'पोर्तुगीज मॅन ऑफ वॉर' जातीच्या नुस्त्याचो चकचकीत आनी बुळबुळीत पोतकोटो व्हड्याचे लागींच उफेतालो.

"उदकांतली होळशीक! हात रांडग्या!" जाणटेल्यान गाळ घाली.

जाणटेल्यान आपले व्हलये वयल्यान ओणोव घालून पळेलें जाल्यार त्या झरमाच्याच रंगाचीं ल्हान भोपशीं ताच्या घोंसाचे सावळेंतल्यान मदीं मदीं पेंवतालीं. त्या भोपेश्यांक ताचें वीख बादनाशिल्लें पुणून मदींच गऱ्याचे दोरयेक चिकटून झरमाचे थोडेशे धागे वयर आयले आनी जाणटेल्याची नदर भोपशा कडें आसतना ताच्या हाताक आनी दंडाक ते जांबळट आनी बुळबुळीत धागे चिकटून उरले जाल्यार थंय विखाचे वालीन वळ काडचे तशे वळ येताले. झरमाच्या विखाक लागून तो जागो चाबकान फोडून काडचो तसो तांबडोच जातालो.

सुर्याच्या किर्णांत इंद्रधोणूच्या रंगाचे ते फुगे सुंदर दिसताले. पुणून तांचे इतली फटकिरी वस्त दर्यांत दुसरी खंयचीच नासतली.

दरयांतले व्हडले कांसव तीं झरमां खातना पळोवन जाणटेल्याक मजाच दिसताली. कांसवांक झरमां दिसलीं म्हणटकच ते निट्ट येताले आनी दोळे धांपताले. दोळे धांपले म्हणटकच तांचें आंग सामकें घट्ट जातालें. खंयच मोवसाण उरनासली. मागीर ते विखाळ्या झरमांक तांगेल्या धाग्यांच्या घोंसा सयत गिळटाले. तें पळोवपाक जाणटेल्याक खूब आवडटालें. आपल्या पांयांचे खरखरीत तळवे तांचे फाटीचेर दामून ते आपली लांब मान वयर करून पळेताले तें पळोवपाकूय ताका मजा दिसताली.

पांचव्या रंगाचे कासव ताका आवडटाले, आनी चड नेटान धांवपी घोणी सारकीं सवणींय! पूण आंगार हळडुवीं कट्टीं आशिल्ले, अबरगत कशी दिसपी आनी दोळे धांपून झरमां गिळपी कासवाकडेन इश्टागतीचें नातें आसुनूय ताका वीट दिसताली.

कांसव धरपाच्या व्हड्यांत साबार वर्सां काम करुनूय ताका तांचे विशीं चड उत्सूकताय नाशिल्ली. ताका तांची चड करून काकुळटूच दिसताली. लाकडाचे मुंडारे भशेन घट्ट आनी व्हड्या इतली लांब फाट आशिल्लो टनभर वजनाचो कांसव आसलो जाल्यारूय ताची ताका काकुळट दिसताली.

कांसवाक कापून ताचे कुडके केले जाल्यार ताचें काळीज खूब वेळ मेरेन उडत उरता म्हूण कांय लोक तांचे कडें निश्टूरतायेन वावुरतात. जाणटेल्याक दिसलें, आपलें काळीज लेगीत कांसवा भशेनूच आसा आनी आपले हात-पांय लेगीत तांचे सारकेच आसात. आपणाक शक्ती येवंक जाय म्हणून तो कांसवांचीं धवीं तांतयां खातालो. सेतेंब्र ओतुब्राच्या म्हयन्यांत दर्यांत व्हडलीं नुस्तीं येतात तेन्ना आपणाक बळ येवचें म्हूण अख्खो मायाचो म्हयनो तो तांतयां खातालो.

पागी लोक देगे वयल्या खोपटांत बल्ल भरून शार्क नुस्त्याच्या फिग्दाचें तेल दवरताले. तातूंतलें एक कोप तेल तो सदांच पियेतालो. खंयच्याय पाग्यान येवचें आनी तें पिवचें. थोडे पागी ताच्या सुवादाक विट्टाले. पूण न्हय त्या वेळार उठून पागपाच्या कामा परस तें वायट नाशिल्लें. भारकुणीच्या जोराचेर वखद म्हणून तरी तें बरें आशिल्लें.

व्हदळचें सवणें परतून घुंवडाळ्यो काडटना जाणटेल्याक दिसलें.

''मेवलें दिसोता तेका निस्तें!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें. उडटीं भोपशीं उदकाचेर आयिल्लीं ताका दिसलीं नात! गऱ्याक लावपाचीं हांयसांचीं नुस्तींय खंयच दिसनाशिल्लीं. फकत एक बुरांटो हवेंत उडिल्लो दिसलो. ताणें एक घुंवडाळी घेतली आनी तकलेन उदकांत उडी मारली. वतांत तो रुप्या बशेन चकचकलो. ताचे फाटल्यान रोखडोच आनीक एकलो आयलो आनी मागीर आनीक आनीक आयले आनी उदक खवदळ करीत चोंयवटांनी उडयो मारीत हांयसां फाटल्यान धांवूंक लागले. नुस्त्याचे भोंवतणी घुंवडाळ्यो काडीत ते ताका धांवडायताले.

''तीं नेटान धांवलीं नात, जाल्यार म्हुज्यान तेंका धोरोंक जातेलें!'' जाणटेल्यान मनांत म्हळें. नुस्तीं धांवतना उदक सामकें धवें करतालीं. आनी मागीर त्या बोवाळांत बारकेलीं भोपशीं उदकाचेर वयर सरतकच तें



सवणें थंय अचकीत झोंपय मारतालें. हें सगलें जाणटेलो बारीकसाणीन पळेतालो.

''ह्या सोवण्याचो म्हाका चोड उपेग जाता!'' जाणटेल्यान म्हळें. इतल्यान ताच्या पांयां मुळा आशिल्ली दोरी मातशी ओडिल्ले बशेन जाली. ते दोरयेचें कंवडाळें ताणें थंयच दवरिल्लें. रोखड्योच ताणें व्हल्यो सोडल्यो आनी दोरी ओडून धरली. दोरी ओडटकच गऱ्याक लागिल्ल्या ल्हान 'कुपा' नुस्त्याची जडसाण आनी फडफड ताका समजली. तो दोरी ओडूंक लागलो. दोरी ओडटा तितली फडफड चड जाताली. त्या कुपा नुस्त्याक ओडून काडून व्हड्यांत उडयतना ताची निळी काळी फाट आनी भांगरा कोराच्यो कडो जाणटेल्याक दिसल्यो. व्हड्याचे फाटले वटेनच्या जाग्यार वतांत बंदिस्त असो तो 'कुपा' पिशांतूक नदरेन पळेत व्हड्याचे नाळीर येवन पडलो. आनी आपली फडफडपी शेपडी फळयेचेर आपटीत जीव सोडपाक लागलो. जाणटेल्याक ताची काकुळट आयली. ताका तरासांतल्यान वाटावपा खातीर ताणें ताच्या बोडकार दांडो घालो आनी मागीर फोंफार मारून ताका नाळे कडले सावळेंत उडयलो. पूण अजुनूय तो फडफडटालो.

''आल्बाकोर!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''हांयसाक बोरो! हो कांय न्हूं म्हुटल्यार पांच कील तोरी आसोंकू जायो!''

तो अशे तरेन व्हडल्या व्हडल्यान केन्नाच्यान उलोवंक लागिल्लो हाची ताका याद नाशिल्ली. पयलीं एकटो आसतकच तो पदां म्हणटालो. नुस्त्याच्या नाजाल्यार कांसवांच्या शिकारेच्या व्हड्यार रातच्या वेळार तो व्हड्याचें येरें धरूंक बसतालो तेन्नाय गायतालो. भुरग्यान तागेल्या व्हड्याचेर वचपाचें थांबयलें तेन्नाच्यान ताका आपले भितरूच उलोवपाची संवय लागिल्ली आसूंक जाय! पूण ताका ताची सारकी याद जायनाशिल्ली. भुरगो आनी तो वांगडा पागताले तेन्ना गरज पडल्यारूच उलयताले. रातच्या वेळार गजाली करताले. ना जाल्यार वायट वाऱ्याक लागून वादळ बी जावपाचें आसल्यार उलयताले. दर्यार आसतना उणें, जाय तितलेंच उलोवप म्हळ्यार एक बरी गजाल. जाणटेलो ती गजाल खरी मानतालो आनी आपुणूय तसोच वागतालो. पूण हालीं मात मनांतले विचार तो व्हडल्यान उलयतालो. पूण त्या उलोवपाचो दुसऱ्याक तरास जावपा सारको नाशिल्लो.

''हांव येसो उलोयतोना दुसऱ्यान आयकोलें जाल्यार तो म्हाका पिसो म्हुणटलो!'' जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. ''पूण हांव पिसो न्हूं जाल्यार तेंची हायें पोर्वा कित्याक कोची? व्होडल्या लोकांक तेंचे कोडें उलोवंक रेडिओ आस्ताय. आनी ते रेडिओ बेसबोला फेळ सारको तेंच्या फुड्यां हाडटाय!''

इतले म्हणसर ताच्या मनांत विचार आयलो, ''हो येळ बेसबोलाचेर चिंतपाचो न्हूं! एके गोजालीचेर आतां चितोंक जायें! जेका लागोन हांव जोल्मोलां! ह्या भोपश्यां मोदीं एक तोरी व्होडलें निस्तें आसोंकू जाये. ओन्ना फाटल्यान धांवतेल्या आनी वाट चुकलेल्या आल्बाकोराक तितू हायें धोल्ला! हीं चोय निस्तीं पोयस धावोंक लागलीं. उदका मोदें आसा तें सोगलें आयज उत्तोर-उदेतीं वाटेन धांवताय! तेशें जावपाची ही येळ कायी?

ओव म्हाका आजून फोबोर ना एसलें वाऱ्या सिनाल न्हूंय मू हें?''

आतां ताका दर्यादेगेची पांचवी रेग दिसनाशिल्ली. निळ्या दोंगराचीं माथीं मात बर्फाची तोपी घालची तशीं धवसार आनी तांचे फाटलीं कुपां बर्फाचे व्हडले दोंगर कशीं दिसताली. दर्या सामको गाड निळो दिसतालो आनी ताचे भितर सुर्याच्या किर्णांक लागून लांबोडे -त्रिकोणी मणी तयार जाताले.

दनपारच्या वतांत उदकांतल्या तेंवान तयार जाल्ले इंद्रधोणूचे रंग आतां ना जाल्ले आनी उदकांत खूब खोल गेल्ल्या गऱ्यांच्या दोरयां कडें पळेतना निळ्या उदकांत फकत चकचकीत मणीच दिसताले.

आतां सगळीं नुस्तीं उदका मुळा गेल्लीं. असल्या नुस्त्यांक पागी लोक भोपशीं म्हणटाले. आनी तीं बाजारांत विकूंक व्हरतकच वा हांयसांच्या बदलाक दितना त्या त्या नुस्त्याक जें कितें नांव आसता तें तें नांव घेताले. आतां सुर्या चडूच तापूंक लागिल्लो. जाणटेल्याचे मानेक फाटल्यान वत लागतालें आनी फाटी वयल्यान घाम देंवता हें ताका कळटालें.

''म्हुज्यान व्होडें येशें सोडोन इली न्हीद काडोंक जातेली!'' ताणें येवजिलें. ''जाग येवची म्हुणोन पांयाच्या आखोण्याक दोरी बांदल्यार बोरी! पूण आयज ओंयशी आनी पांचावो दीस! आयज हांयें बोरें निस्तें पागोंकू जायें!''

इतल्यान ताची नदर दोरयां कडे गेलीं. ताणें तयार केल्ल्या पांच बडयांतली एक बडी उदकांत बुडटाली.

''देव बोरे कोरूं!'' ताणें म्हळें, आनी व्हडें मात लेगीत हालय नासतना व्हली फिताच्या धोंड्याक बांदली. मागीर तो गऱ्याचे दोरये म्हऱ्यांत गेलो आनी आपल्या उजव्या हाताचो आखोणो आनी ताच्या म्हऱ्यांतलें बोट हांचे मदीं ती ल्हवूच धरली. ती ओडटा वा तिचेर वजें आयलां अशें मातूय दिसनाशिल्लें. ताणें दोरी तशीच घट्ट धरली. दोरी परतून हयन्हयशी ओडली, अदमास येवपा इतली.

उदका मुळा कितें चल्लां हें जाणटेल्याक दिस्त कळ्ळें. लागीं लागीं शंबर पुरूस मुळा एक 'मार्लीन' नुस्तें गऱ्याच्या तोंकाक आनी ताच्या बाकीच्या आंगाक लायिल्ले ताल्ले खातालें, आनी हातान घडयल्ल्या गऱ्याचें तोंक एका ल्हानश्या 'टुना' नुस्त्याचे तकलेंतल्यान भायर आयिल्लें.

जाणटेल्यान दोरी उजव्या हातांत धरली आनी दाव्या हातान ती बडयेंतल्यान सारकी सोडयली. आतां ती दोन बोटांतल्यान खोल उदकांत सोडिल्ली जाल्यार लेगीत नुस्त्याक कांयच समजुचें नाशिल्लें.

''ह्या म्हुयन्यांत इतू पोयस येयलेलें हें निस्तें बोरें व्होडलें आसों जायें!'' जाणटेल्यान मनांत म्हळें.

''ताल्ले खा गो निस्त्या, खा तूं! उपकार कोन्न खा तेंकां! ते कितू जिते आसाय जाणा? पांच माड सोकोल थोंड उदकांत आसा मुगो तूं काळखांत! आनीक एक भोंवडी मान्न यो आनी मागीर खा तीं हांयसां!''

तितल्यांत ताका गऱ्याची दोरी मातशी ओडिल्ले बशेन दिसली. मागीर ती चडूच नेटान ओडली. गऱ्याक लायिल्ल्या ताल्ल्यांचीं बोडकां गऱ्यांतल्यान सोडोवपाक नुस्त्याक मातशीं कठीण जाल्लीं जावंक जाय. फुडें मात कितेंच घडलेंना.

''यो गोऽ यो, निस्त्या, पोत्तून एकदां यो!'' जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. ''तेचो वास तोरी घेवन चोय! कितू सुवादीक आसाय जाणा? ते पोयलूं खा आनी मागीर बोकडो (टुना) आसा तिंगां! बोरो घोटमूट, थोंड आनी देखणो लेगीत! लोजों नाकाय निस्त्या, लोजों नाकाय! खा तेंकां!''

आखोणो आनी बोट हांचे मदीं दोरी धरून गऱ्यांक लायिल्ल्यो बाकीच्यो दोरयो हालतात काय म्हणून पळेत जाणटेलो उबो राविल्लो.

''दोर्या भितूर आसलेलें तें निस्तें वोयर तोरी येयलां आसतेलें ओव सोकला तोरी गेलां आसतेलें!'' तो इतलें म्हणटा म्हणसर परतून एकदां दोरी ल्हवूच हालली.

''खातेलें तें! व्होय व्होय खातेलें!'' जाणटेल्यान बोबाट मारून म्हळें, ''देवा, तूं आदार कोर रे. तेका तीं हांयसां खावंक!''

तरी आसतना नुस्त्यान तीं खालीं नात. तें केन्ना गेलें हेंवूय जाणटेल्याक कळ्ळेंना.

''तेच्यान वोसोंक जावचेंना! जेझू लेगीत जाणा! तेच्यान जावंचेंना वोसोंक! तें भोंवडी मारोंक गेलां. हेचे पोयलूं तें गोऱ्याक लागलेलें आसोंक जायें, आनी तेचो तेका उगडास येयला जातोलो!''



इतल्यान दोरयेक एक घचको बसलो, आनी जाणटेलो खोशी जालो.

''ती तेगेली एक भोंवडी आसलेली!'' ताणें म्हळें, ''तें हांयसां खातेलेंच!''

गऱ्याची दोरी इल्ली इल्ली ओडटाली आनी जाणटेल्याक खोशी भोगताली. इतल्यान ताका घट्ट आनी जड अशें कितें तरी पोरशेलें. ती जडसाण नुस्त्याचीच आशिल्ली. तो बेगीन बेगीन दोरी सकल सोडूंक लागलो. राखून दवरिल्ल्या दोरयांच्या दोन कंवडळांतलें एक कंवडाळें ताणें सकल सोडलें. हातांतल्यान दोरी ल्हवू ल्हवू सकल देंवतना जाणटेल्याक नुस्त्याची जडसाण कळटाली. खरें म्हळ्यार ती दोरी तागेलो आखोणो आनी बोटांतल्यान आपशींच सकल देंवताली.

''कोणा कास्ता रे बाबा हें निस्तें! हांयस तोंडान धोन्न धांवताय! आतां तें घुंवोन येतेलें आनी हांयस गियटेलें!'' ताणें मनांत चितलें, पूण व्हडल्यान म्हळेंना, ''बरी गजाल जर तोंडान उलयली जाल्यार ती तशी केन्नाच घडना.'' हें तो जाणा आशिल्लो. तें नुस्तें कितलें व्हडलें आसतलें हाचो ताका अदमास आयलो आनी खोल उदकाच्या काळखांत तोंडांत टुना शिरकल्ल्या त्या व्हडल्या नुस्त्याचे भोंवडे विशीं तो येवजूंक लागलो. त्या खिणाक ताका तें थंयच थांबलां कशें दिसलें. जडसाण मात जाणवतालीच. मागीर जडसाण जशी जशी वाडूंक लागली तशी तशी ताणें आखोण्यान आनी बोटान दोरी चिड्डून धरली. पूण जडसाण चडूच जाली आनी ती नीट सकल वचूंक लागली.

''तेणें खायलो तो!'' ताणें म्हळें, ''आतां हांव तेका तो बोरे तोरेन खावंक दितोलों!''

ताणें आनिकूय दोरी सोडली आनी ती सकल पावतकच राखून दवरलेली दोरयेचीं दोन कंवडळां दाव्या हातान बेगिबेगीन सोडलीं. तांचो गोळ करून उदकांत सोडिल्ले दोरयेन तांकां गांठ मारली. आतां तो तयारेंत रावलो. ताचे कडें अजुनूय चाळीस वांवा लांबयेचीं

दोरयेचीं तीन कंवडळां आशिल्लीं. ते भायर हातांतलें एक कंवडळ तो आतां वापरतालो.

"आजून इलो खा तो! सारको बोरो खा!" ताणें म्हळें.

"गोऱ्या तोंक तुगे पोटांत वोसोन तूं मोरो म्हुणसोर खायत राव!" हें ताणें मनांत म्हळें.

"यो, यो, सोवका यो, मागीर तोपितां तुका म्हुगेलें कोयतूल! बोरें आसा! आसा मू तूं तोयार? जालें तुगे पोटभोर खावन? आतां चोय आं!" ताणें व्हडल्यान म्हळें आनी दोरी नेटान आपटिली. हात वयर उबारलो आनी परतून परतून आपटिली. आपलें सगळें बळगें एकवटान आनी नेट लावन तो दोरी हेवटेन तेवटेन झिडपूंक लागलो.

पूण सगळें फुकट गेलें. तें नुस्तें ल्हवू ल्हवू फुडें सरूंक लागलें;आनी जाणटेल्याच्या ताका आंगूळभर लेगीत उबारूंक जालेंना. तागेली तांसाची दोरी घट्ट आशिल्ली आनी व्हडल्या नुस्त्या खातिरूच ती तयार केल्ली. जाणटेल्यान तें दोरयेचें कंवडाळें फाटीर घेतलें आनी दोरयेक चडूच नेट दिलो तेन्ना मणी फुटचे ते बशेन उदकाचो शेनोव वयर उसळ्ळो. थोड्या वेळान उदकांत सूंऽऽ असो आवाज जावंक लागलो. ताणूंक बशिल्लो ते आडयेक फाट लावन जाणटेल्यान खूब नेट करून दोरी ओडून धरली. व्हडें आता इल्लें इल्लें वायव्य दिकेन वचूंक लागलें.

नुस्तें सवकासायेन फुडें वतालें. तें आनी व्हडें दोगांय जाणां उदकांतल्यान ल्हवू ल्हवू भोंवडी करतालीं. बाकीचीं हांयसां उदकांत आशिल्लीं पूण आता कितेंच करूंक जावचें नाशिल्लें.

"म्हुजे बाराबोर भुरगो जाय आसलो!" जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. "हायें ओडचेलें निस्त्याक, पूण हें निस्तें म्हाका ओडिता! म्हुज्यान दोरयो तायट करोंक जाताय तेश्यो तेज्यान त्यो तोडच्याक जाताय! म्हाका कोशेय बाशेन तेका ओडोन धोरोंकू जायो! आनी तेका जायी तेदना दोरी सोदोळ सोडोंक जायी! तें फुडें ओव सोकोल वोसोना हो देवाचो उपकार! तें सोकोल गेलें जाल्यार म्हुज्यान कितें कोरोंक जातेलें? आनी तें सोकोल वोसोन मेलें जाल्यार लेगीत म्हुज्यान कांय कोरोंक जावचेंना! पूण हांव कितेंय तोरी कोत्तोलों! म्हुज्यान जायत्यो गोजाली कोरोंक जाताय!"

ताणें दोरी फाटीर घट्ट धरिल्ली. उदकांत तिरकस आनी तायट जाल्ले दोरये कडें तो बारीकसाणीन पळेतालो, आनी व्हडें सवका सवका वायव्य दिकेन वतालें.

"एशें केल्यारी तें मोरोन वोयतेलें!" जाणटेल्यान मनांत म्हळें, "हें एशें तेज्यान चोड ओगोत कोरोंक जावचेना!" पूण चार वरां जालीं तरीकूय तें नुस्तें व्हडें ओडीत फुडें वतालें, आनी जाणटेलो फाटीर दोरी घट्ट आंवळून उबो आशिल्लो.

"निस्तें गोऱ्याक दोनपोरां लागलोलें, पूण अशें हांयें आजून चोयलेंना!" जाणटेल्यान म्हळें. गऱ्याक नुस्तें लागचे पयलीं आपल्या माथ्याक ताणें कड्डाची तोपी घट्ट घाल्ली. आनी ती आतां ताची तकली कातरूंक लागिल्ली. तो सामको तानेल्लो. दोरयेक झेल



बसूं नये म्हणून ताणें धोंपरां हळूच दोडलीं आनी ओणोव घालून हणयेचे नाळी कडें आशिल्ली उदकाची बाटली एका हातान काडली. ती उगडून इल्लें उदक पिलो. मागीर नाळी वटेन तोंड करून तो फळ्येक तेंकलो आनी "आतां कितेंच चिंतपाचें ना, फकत सोंसपाचें!" अशें थारावन गुठलायल्ल्या शिडाचेर विसव घेवंक लागलो.

ताणें फाटल्यान पळेलें. खंयच्यानूच भूंय दिसनाशिल्ली. "आजून कांय वायट घडोंक ना! ताणें व्हडल्यान म्हळें, "होवांना जुंयाच्या झोगझोगीत उजवाडा वोयल्यान लेगीत म्हुज्यान वोसोंक जातेलें! सुर्या अस्तमपाक आजून दोन वोरां आसाय! तेचेआर्दीं तें येवंक आसा वोयर! तेदना येयलेंना जाल्यार चोंद्रीम येतोकीर येतेलें, आनी तेदनाय येयलेंना जाल्यार फाल्यां सूर्य उदेव जातोकीर येतेलें! आयज म्हुज्या हातीक वायेचो गुळो येयलोना आनी जिवाक फूब बोरें दिसोता! आनी चोड बोरी गोजाल म्हटल्यार तेच्या तोंडांत गोरो आसा! पूण तोंडांत गोरो धोन्न भोंवतेलें हें निस्तें काळाचें म्होणचें पोडलेंना? गोऱ्याक बांदलेली दोरी तेणें तोंडांत घोट धोल्ल्या आसोंक जायी! एकदां तोरी तें म्हाका चोवंक मेवचें आसलें! म्हुजे आड कोण आसा तें तोरी म्हाका सोजमोंक जाय आसलें!"

नुस्त्यान आपली चाल आनी वाट बदलूंक ना हें नखेत्रां वयल्यान जाणटेल्याक कळ्ळें. सुर्या अस्ताक गेलो आनी शीं आयलें. जाणटेल्याचे फाटी वयलो, हातां वयलो आनी वळून आयिल्ल्या पांया वयलो घाम सुकचे पयलींच शेकेलो.

हांयसां दवरपाच्या पेटलार धांपचेलो साक ताणें दिसाचो वतांत सुकपाक घाल्लो. दीस पडटकच तो ताणें माने भोंवतणी गच्च गुठलावन फाटी वयल्यान सकल सोडलो. गऱ्याच्यो दोरयो ताणें खांदार घट्ट आंवळून घेतिल्ल्यो. फाटीर सोडिल्लो साक ताणें त्या दोरयां मुळच्यान ओडून घेतलो. ताका लागून त्यो दोरयो ताका कुचकुचना जाल्यो. साकाक लागून दूख उणी जाल्ल्यान ताका येऱ्याचे नाळे वटेन सहज फुडें वचूंक जमलें. तशें करप म्हळ्यार दूख मातशी उणी करपा सारकें आशिल्लें. पुणून ताका तें चड सुखाचेंशें दिसलें. 'निस्तें एशें वोसोंक लागलें जाल्यार म्हुज्यान तेजें कितें कोरच्याक नेजो, आनी तेज्यान लेगीत म्हुजें कितें कोरोंक जावंचेंना!"

मदींच एकदां तो उठलो आनी व्हड्याचे-एके कुशीक बसून भायर मुतलो. मागीर ताणें नखेत्रां कडें पळेलें आनी वाटेचो अदमास घेतलो. ताच्या खांद्या वयल्यान गेल्ली गऱ्याची दोरी लोखणाच्या चकचकीत वारांवा बशेन दिसताली. नुस्तें आनी तो आतां चड सवका वतालीं. आनी होवाना कडलो उजवाडूय चड झगझगीत नाशिल्लो. ताचे वयल्यान जाणटेल्यान चिंतलें, उदकाची ओड आतां उदेंते वटेन आसा.

"होवानाचो उजवाड इलो उणो दिसोता! आमी सेर्त उदेंती वाटेन वोयतांव! निस्तें वोयता ते दिकेन व्होडें गेलेलें जाल्यार तो उजवाड चोड येळ दिसतेलो आसलो. बेसबोला फेळाचें आतां कितें घोडलां देवाक फोबोर! हिंगा तें रेडिओंतुल्यान आयकोंक मेवलेलें जाल्यार

चोड बोरें जातेलें आसलें!'' इतले म्हणसर ताणें तकलेंत वेगळोच विचार हाडलो. ''आतां तुका कितें कोरोंक जायें तें.चींत! बेश्टो पिशां बाशेन कितेंय चिंतों नाकाय!'' मागीर ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''म्हुजे बाराबोर भुरगो जायो आसलो, म्हाका आदार कोरोंक आनी हें सोगलें चोवंक!''

''जाणटेपोणीं कोणें एकटो आसोंक फावोना! पूण ती आपल्या हातींतुली गोजाल न्हं!'' ताणें चिंतलें. ''आंगांत घोटसाण येतेली जाल्यार म्हाका तो बोकडो पिड्डेर जावचे आदीं खावंक जायो! मोनांत नासलें जाल्यार लेगीत तुयें सोकाळफुडें तो खावंक जायो हेचो उगडास धोर!''

राती कडें दोन पॉरपॉयज नुस्तीं व्हड्या म्हऱ्यांत आयलीं आनी तांच्या बुचकळपाचो आनी स्वास-उस्वासांचो आवाज ताका आयकूंक आयलो. दादले नुस्त्याचो आवाज आनी बायल नुस्त्यान थकिल्ले बशेन काडिल्लो आवाज हांचे मदलें वेगळेपण तो रोखडोच सांगतालो.

''चोड बोरीं निस्तीं!'' ताणें म्हळें. ''ती फेळताय, फोकाणां कोत्ताय आनी मोगूय कोत्ताय! उडट्या निस्त्या बाशेन! हेवूय आमजेले भावूच!''

मागीर तागेल्या गऱ्याक लागिल्ल्या नुस्त्याची तो काकुळट करूंक लागलो. ''हें निस्तें म्हुटल्यार इचित्र आनी ओजापाचें! जोल्माक येवन कितू वोर्सां जालीं आसोत कायी तेका!'' तो येवजूंक लागलो. ''इतू ताकोद आसलेलें आनी इतू इप्रिताचें निस्तें आजून हायें चोयलेंना! उडी मारोंक लेगीत बेजार येयला तेका! तेणें उडी घेयली जाल्यार म्हुजें फोरेपोण ना! म्हाका दिसोना, तें हेचे आदीं कांय येळा गोऱ्याक लागलोलें आसोंक जायें! म्हुणोन तेका केशें झोगोडचें हें फोबोर आसा! पूण तेचे बाराबोर झोगोडपी मोनीस एकलो आसा, आनी जाणटो आसा हें ताका फोबोर ना! कितू व्होडलें आसोत कायी तें? आनी तेचें मास बोरें आसोत जाल्यार बाजारांत तेका कितू मोल येत कायी? गोऱ्याक लागोलां तें सारकें दादुलो केशें आनी दोर ओडटा लेगीत दादुल्या बाशेन! आनी झोगोडटोना केशें आबूज जायना! हें सोगलें तें चिंतोन कोत्ता, ओव म्हुजे बाशेन जिवार येयलां म्हुणोन कोत्ता?''

हाचे पयलीं एकदां तागेल्या गऱ्याक फारावल्ल्या मार्लीन नुस्त्याची ताका याद आयली. ते जातींतलो दादलो बायलेक पयलीं खावंक दिता. ताका लागून गऱ्याक बायल फारावल्ली. आपली सोडणूक करचे खातीर केल्ले खटपटीक लागून तिका रोखडेंच पुरो जालें. इतलो वेळ दादलो तिचेच वांगडा आशिल्लो. एकदां हेवटेन जाल्यार एकदां तेवटेन अश्यो गऱ्या भोंवतणी घुंवडाळ्यो काडीत तो उदका वयर येतालो. तो दोरयेक सामको तेंकून आशिल्ल्यान कोयतुलाच्या आकाराचे आनी धार आशिल्ले आपले शेपडेन गऱ्याची दोरी कातरीत म्हणून जाणटेलो सामको भिल्लो. ताणें बायलेक वयर ओडली आनी दांड्यान बडयली, तिच्या पालीस पेपरा बशेन खरखरीत आनी तलवारी बशेन चोंय आशिल्ल्या नाकाक धरून तिचें बोडूक धाडायलें, तेन्ना तिचो मुळचो रंग गेल्लो आनी हारशाचे फाटीक आसता तसलो रंग दिसूंक लागिल्लो. मागीर ताणें तिका भुरग्याच्या आदारान व्हड्यांत उडयल्ली. तो दादलो मात अजुनूय व्हड्याचे कडेच्यान येतालो. जाणटेल्यान गऱ्याची दोरी निवळ केली आनी तो कोयतुलाक धार काडूंक लागलो तेन्ना, आपली इश्टीण खंय आसा तें पळोवपाक दादल्यान व्हड्याचे कुशीक वयर हवेंत उडी मारिल्ली, आनी मागीर आपले जांबळ्या रंगाचे पांखाटे फुलयत तो उदका मुळा गेल्लो. ताचे फाटी वयलीं खवळां आनी ल्हानशे पांखाटे जांबळे आशिल्ले आनी आंगा वयले पटेय जांबूळसारूच आशिल्ले. खऱ्यांनीच तो चड सुंदर आशिल्लो. तें दादलो नुस्तें खूब वेळ थंयच आशिल्लें. जाणटेल्याक अजून ताची याद येताली.

''एसली दुखेस्त गोजाल हांयें हेचेआदीं केदना चोवंक नासली. भुरग्याक लेगीत चोड दूख जालोलें. निमणी आमी त्या बायल निस्त्या कोडे चूक मागली आनी रोखडी तिका कातोल्ली, आनी कुडके केले! जाणटेल्याचें चिंतप चालूच आसलें.

''भुरगो आज हिंगा जावो आसलो!'' मर्दीच ताणें व्हडल्यान म्हळें, आनी कुशीक आशिल्ल्या एका वाटकुळ्या फळकुटाचेर अळंग बसलो. गऱ्याक लागिल्लें नुस्तें खंयच्यान वचूंक सोदता हें ताका ताच्या खांदार आशिल्ले दोरयेच्या हालपा वयल्यान कळटाले. ''हायें त्या



निस्त्या कोडें फोटींगपोण केलां, तेका लागोन फुडें केशें कोच्चें, हें चिंतचेलो तेचेर येळ येयला! हांयें केलेल्या फोटींगपोणांतुल्यान, मांडलेल्या रातेरांतुल्यान आनी सोगल्या आडखोळींतुल्यान मेकळो जावन खोल काळ्या उदकांत तो वोसोंक सोदता! पूण तिंगाच्यान तेका भायर काडोन भौसा मुखार हाडोंकू जावो म्हाका, तो फुंयच्याय दुसऱ्या सोंवसारांत जेल्यार लेगीत! दोंपारच्यान तेगे आनी म्हुगे सारकें पेटलां. आनी तेका ओव म्हाका आदार दिवंक दुसरो कोणू ना!''

''हांव पागी जावंक नाका आसलों! पूण म्हुजो जोल्मू जाला तेका लागोन न्हूं? उजवाड जातोच बोकडो (टुना) खावंचो उगडास धोरोंक जावो!''

फांतोड जावंचे मातशे पयलीं ताचे फाटले वटेनच्या एका हांयसाक कोणें तरी घांस मारिल्लो ताणें पळेलो. हुबचेली बडी मोडिल्ल्याचो आवाज ताका आयकूंक आयलो आनी गऱ्याची दोरी व्हड्याच्या फिंता वयल्यान सरसरीत सकल देंवूंक लागली. ताणें काळखांतूच सुरो सोदून काडलो, आनी गऱ्याक लागिल्ल्या व्हडल्या नुस्त्याचो सगळो भार दाव्या खांदार घेत फिंताच्या लाकडाच्या आदारान ती दोरी कातरून उडयली. मागीर ताणें तेंकुनूच आशिल्ली आनीक एक दोरी कातरली, आनी काळखांतूच त्या दोनूय दोरयांच्या उरिल्ल्या कुडक्यांची गांठ मारली. हें इतलेंय काम तो एकाच हातान हुशारेन करतालो, आनी दोरयांक गांठी मारतना दोरयांच्या कंवडळांचेर पांय दवरतालो. ताणें आतां कातरिल्लीं त्या दोनूय गऱ्यांचीं दोन दोन आनी ज्या गऱ्याक नुस्तें लागिल्लें ताचीं दोन मेळून आतां ताचे कडें दोरयेचीं स कंवडाळीं आशिल्लीं आनी तीं सगळीं एकामेकांक बांदिल्लीं आशिल्लीं.

''उजवाड जातोच हांव त्या चाळीस मेत्रां लांब दोरये कडें वयतोलों आनी तिवूय कातोन्न उडोयतोलों. मागीर चोड आसलेलीं कंवडाळीं एके कोडें बांदतोलों. हितू हांव

दोनशीं मेत्रां लांब बोरी 'कातालेन' दोरी, आंकडे, गोरे आनी सोरयो ओगडायतोलों फाओ, पूण म्हाका तेची पोर्वा ना! हांव त्यो नोव्यान घेतोलों. पूण त्या गोऱ्याक निस्तें लागलें आनी तें ह्या व्होडल्या निस्त्या आड येयलें जाल्यार हें व्होडलें निस्तें म्हाका कोण दितोलो! आतां ह्या गोऱ्याक केसलें निस्तें लागलेलें हें म्हाका फोबोर ना! तो मार्लीन आसोत, ओडोनील आसोत ओव पिलोय आसोत! जाता तितू बेगीन तेका मेकळो कोरोंक जावो आसलो म्हुणोन हांयें तेचो ओदमास लेगीत घेयलोना!''

मदींच ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''म्हुजे बाराबोर भुरगो जावो आसलो!''

''पूण आतां तो तुजे बाराबोर ना न्हूं! तूं आतां एकलो आसा!'' ताणें परतून चिंतलें.

''तुयें आतां ते निमणे दोरयेचें काम चोयल्यार चोड बोरें! काळोख् आसों वा नासों ती दोरी आतां कातोर आनी भितोर आसलेलीं तीं दोन कोंवडाळीं बांदून उडोय!''

ताणें तशें केलें. काळखांत काम करप सोपें नाशिल्लें. गऱ्याक लागिल्ल्या नुस्त्यान दोरयेक अचकीत एक घचको दिल्ल्यान जाणटेलो शेंवटलो आनी उमथो पडलो. ताच्या दोळ्या सकल घावो जालो. थोडो वेळ पोल्याचेर रगत गळ्ळें, पुणून खाडके कडें पावचे पयलींच तें सुकलें. जाणटेलो लकत लकत सुकाणू कडले नाळी कडें गेलो, थंयचे फळयेच्या आदारान ताणें मातसो सुशेग घेतलो. फाटी वयलो साक ताणें सारको केलो, आनी खांदार ओडून धरिल्ली दोरी मातशी कुशीक सरकायली. मागीर खांदो वांकडो करून दोरी तायट केली आनी नुस्त्याचो नेट कितलो आसा तो पळेलो. आनी उदकाक हात लावन व्हडें कशें चलता ताचोय अदमास घेतलो.

''हेणें जी व्होडल्यान बुचकोळी माल्लोली ती ओजापाची आसली. तेचे दोंगुल्ले एदे फाटी वोयली दोरयेची सोरी निसोल्ल्या आसोंक जायी. पूण म्हुगे फाटी इतू कोश्ट तेगे फाटीक जावंचेनाय! केदोय व्होडलो जालो म्हुणोन तो किर्ते जोल्म भोर व्होडें ओडोंक बोसचोना! तोरास कोत्तेल्यो सोगल्यो गोजाली हांवें आतां पोयस केल्याय! दोरये कोंवडाळीं म्हुकोडें आसाय! इतू सोगलें आसोत जाल्यार मोनशाक म्हुणोन आनी किर्ते जायें?''

''ए निस्त्यो, हांव मोरोसोर तुजे बाराबोर रावतोलों!'' जाणटेल्यान थंडसाणेन पूण व्हडल्यान म्हळें.

''म्हाका दिसोना तेंवूय म्हुजे बाराबोर रावतेलें!'' जाणटेल्यान मनांत म्हळें, आनी तो दीस उजवाडपाची वाट पळेत रावलो. फांतोडे वयलें शीं आयलें. जाणटेल्यान उबे खातीर आडयेक आंग घासलें. ''तें जितू येळ रावतेलें, तितू वेळ म्हुज्यान रावोंक जाता!'' जाणटेल्यान थारायलें.

दीस उजवाडलो तेन्ना दोरी खूब खोल गेल्ली. व्हडें ल्हवू ल्हवू फुडें वतालें. सुर्याचें पयलें कीर्ण जाणटेल्याच्या उजव्या खांदार पडलें.

''आतां उत्तरे कोडें वोयता हें!'' जाणटेल्यान म्हळें, ''उदकाच्या नेटा भोरशीं



वोसोत जाल्यार उदेंती कोडें भितोर मेरेन वोसोंक जातेलें!'' ताणें चिंतलें. ''तें उदकाचे ओडी भोरशीं वोसोत जाल्यार बोरें! म्हुणटोच तें कितू दोमलां हेंवूय कोवतेलें!''

सुर्या वयर आयलो तेन्ना नुस्त्याक पुरो जावंक ना हें जाणटेल्याक कळ्ळें. पूण ताचे खातीर एक गजाल बरी आशिल्ली. दोरयेचे लांबये वयल्यान तें चड मुळच्यान वचना हें कळटालें. पुणून हाचे वयल्यान तें वयर उडी मारतलेंच अशें न्हय! एकाद्रें मारितूय आशिल्लें.

''तेका उडी मारोंक लाय रे देवा! तेका सांबावोंक म्हुकोडें जायत्यो दोरयो आसाय! जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें.'' हांयें दोरी नेटान ओडली जाल्यार तेका दुकतोलें, आनी तें उडी मारोंक आसा! आतां दीस वोयर येयला! मारोनी तेका उडी! तेगे फाटी कोण्या कोडले पोतयेंत वारो भोल्लो म्हुणटोच तें मोरोंक चोड सोकोल वोयचेंना!''

तो दोरी ओडूंक लागलो. पूण गऱ्याक नुस्तें लागत सावन दोरी पयलींच तुटपा इतली ताणिल्ली. जाणटेलो दोरी ओडपाक वांकडो जालो तेन्ना दोरी तायट जाल्या म्हणपाचें ताका कळ्ळें. ''हायें ही चोड ओडोंक फावोना!'' ताणें चिंतलें. नुस्त्याच्या तोंडांत आशिल्ल्या गऱ्याक लागून दोरी पयलींच विसविशिल्ली. आनीक ओडिल्ली जाल्यार रोखडीच तुट्टली आशिल्ली आनी नुस्त्यान उडी मारली जाल्यार गरो लेगीत भायर येवं येतालो. ''केशेंय जावं, म्हाका ह्या वोतान बोरें दिसोता! पूण म्हुज्यान तेका एकदां पुणी'' चोवंक जोमलेंना!'' ताणें म्हळें.

दोरयेचेर आतां हळडुव्या तणाचीं पातीं पडिल्लीं. पुणून जाणटेल्याक मात दोरयेचेर वजें पडिल्ल्यान आपल्या जिवाक मातशें बरें दिसता, अशें दिसलें. खाडयेंतलें तें हळडुवें तण रातचें खूप चकचकतालें.

''एऽ निस्त्यो, निस्त्यो गोऽऽऽ, हांव तुगे मोगांत पोडलां मुगो! आनी हांव तुका चोड रेस्पेत दितां! पूण दीस पोडचे आदीं हांव तुका मात्तोलों!'' ताणें गजाल मारून म्हळें, आनी मागीर ल्हवूच मनांत म्हळें, ''तेशें जावंचे म्हुणोन आमी मागोंया!''

इतल्यान एक ल्हान सवणें उत्तरे कडल्यान व्हड्या म्हऱ्यांत आयलें. तें गावपी सवणें आशिल्लें. उदकाचेर ल्हवू ल्हवू चलतालें. ताचे कडें पळेतकच, ताका खूब पुरो जालां म्हणपाचें जाणटेल्याक कळ्ळें. तें सवणें व्हड्याचेर भोंवलें. आनी मागीर दोलकाठयेर वचून बसलें. मागीर ताणें जाणटेल्याचे भोंवतणी एक घुंवडाळी काडली आनी जाणटेल्याच्या हातांतले दोरयेचेर बसलें. थंय ताका चड खोस भोगताली.

''कितू जाणटें आसा गो तूं? ही तुगे पोयली भोंवडी?'' जाणटेल्यान सवण्याक विचारलें. तो उलयतना सवणें ताचेच कडें पळेतालें. ताका खूब पुरो जाल्लें. दोरयेचेर बसतना ताणें सारकें पळेलें लेगीत ना, आनी आपल्या नाजूक पांयांनी दोरी धरतना तें मातशें आडखळिल्ले बशेन जालें.

''ती दोरी घोट आसा गो! भिये नाका तूं! घोट आसा ती!'' जाणटेल्यान म्हळें. ''रातीं वारो चोड नासलो मुगो! मागीर तुका इतू पुरो केशें जालें? फुडें केशें जातोलें काय ह्या एसोल्या सोवण्याचें!''

''आनी कितें जातोलें! लांब चोंचीच्या भेऱ्या सोवण्या तोंडांत पोडचेलें! तीं येतात

ःकां सोदोंक दोरयार!'' ताणें मनांत म्हळें. पूण त्या सवण्याक मात ताणें हांतलें कांयच म्हळेंना, आनी ताका तें समजुचेंय नाशिल्लें. थोड्या तेंपान भेऱ्या सवण्या संबंदान तें आपशीं शिकतलें आशिल्लें.

''बोरो सुशेग घे गो सोवणुल्या! मोनशाक, सोवण्याक आनी निस्त्याक आपल्या नोशिबांत कितें आसा तें चोयचें पडटा, तेशें तूं चोय वोसोन मागीर!'' ताणें सवण्याक म्हळें.

ते राती कडें ताची फाट धरिल्ले बशेन जाली. आनी आतां तर ती चडूच दुखताली. मागीर तो जिवाक बरें दिसूंक जाय म्हणून असलें कितेंय उलयतालो.

''तुका जाय जाल्यार मुगे घोरा कोडें राव गो सोवण्या! पूण आतां वारो पोडला. शीड केशें उबात्तेलों आनी तुका भितोर केसो घेतोलों? पूण तूं म्हगे सांगाती मुगो सोवणुल्या!''

त्याच खिणाक नुस्तें खूब व्हडल्यान उसळ्ळें आनी जाणटेलो हणीभरचे नाळी कडें वचून पडलो. मात जाल्यार व्हड्याचे भायरूच पडपाचो, पूण ताणें आपणाक सांबळ्ळो आनी दोरी मातशी सदळ सोडली.

दोरी सोडना बराबर सवणें उडलें. पूण तें केन्ना गेलें हें जाणटेल्याक कळ्ळेंच ना. ताणें उजव्या हातान दोरी सांसपिली तेन्ना हाताक रगत आयलां म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

''इलो घावो जाला जातोलो.'' ताणें व्हडल्यान म्हळें, आनी नुस्त्याक घुंवडावंक मेळटा काय म्हणून पळोवपाक दोरी नेटान फाटीं ओडली. सामकी तुटठ म्हणसर ओडली आनी मागीर तशीच दवरून तो मातसो थांबलो.

''आतां तुका हें जाणवोता गो निस्त्या? म्हाका जाणवोता काय ना, देवा फोबोर!''

ताका आपल्या सांगाताक कोणूय तरी जाय आशिल्लो, म्हणून ताणें सवण्याक हेवटेन तेवटेन सोदलें, पूण तें थंयसून पयलींच गेल्लें.

''तूं चोड येळ थांबलेंना न्हूं! पूण जे दिकेन तूं गेलां ते दिकेन देगेक पावोंक चोड कुस्तार आसा!'' जाणटेल्यान मनांत म्हळें. ''त्या निस्त्यान म्हाका धोंगसो माल्लो आनी रोगोत काडलें.''

''हायें तेका हें केशें कोरोंक दिलें! म्हुजी तोकली पिड्डेर जाल्या आसोंक जायी, ओव हांव त्या सोवण्याक चोयतालों आनी तेजेर चिंततालों आसोंक जावो! आतां म्हाका म्हुज्या कामा कोडें चोड नोदोर दिवंक जायी! तें कुपा निस्तेंय खावंक जायें! आंगांतुलो फोर्स उणो जावंक फावोना!''

''हिंगा म्हुजे बाराबोर भुरगो जावो आसलो, आनी इलें मीठ जायें आसलें!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें. उजव्या खांदा वयलें दोरयेचें वजें ताणें दाव्या खांदार घेतलें आनी ओणोव घेवन दर्याच्या उदकांत हात धुलो. थोडो वेळ तो हात ताणें तसोच उदकांत धरलो. तातुंतल्यान गळटल्या रगता कडें मिनूटभर पळेलें आनी मागीर हाताचे विरुद्ध दिकेन व्हांवतल्या उदका कडें तो पळेत रावलो.

''आतां हें निस्तें चोडू सोवका वोयता!''

जाणटेल्याक हात आनीक मातसो वेळ उदकांत दवरूंक आवडटलो आशिल्लो. पुणून नुस्तें आनीक धिमशी मारीत म्हणून तो भिलो आनी उबो रावून ताणें हात वतांत धरलो. दोरी लागून जाल्लो तो एक सादोच घावो आशिल्लो पुणून तो दिस्त हाताचें काम आसता त्याच जाग्यार जाल्लो. आपणाक अजून खूब काम करपाचें आसा हें ताका खबर आशिल्लें आनी ताचे पयलीं हाताक घावे जावन तो ओगडावल्लो ताका नाका आशिल्लो.

''आतां म्हाका तो बोकडो (टुना) खावंकू जावो! हिंगा बोसलां तिंगाच्यान कोयतुलान ओडोन घेवन म्हुज्यान तेका सुशेगाद खावंक जाता!'' हात सुकलो तशें ताणें म्हळें.

तो दिमयो मोडून बसलो आनी व्हड्याच्या तळाक दोरयांच्या कंवडाळां मदीं पडिल्लो टुना ताणें कोयतुलान सवकसायेन म्हऱ्यांत ओडलो. गऱ्याची दोरी परतून दाव्या खांदार घेतली. दावो खांदो आनी हात हांचेर वजें घालून ताणें कोयतुलाच्या तोंका वयलो टुना ओडून काडलो. मागीर कोयतूल जाग्यार दवरलें. एक धोंपर टुनाचेर दवरून तकलेचे फाटल्यानच्यान शेंपडे मेरेन तो उबो कातरून ताच्या तांबड्या मासाच्यो तिस्त्यो केल्यो. त्यो तिस्त्यो फाटीच्या कांट्या वयल्यान पोटा मेरेन भितल्ल्यान कापून ताचे स कुडके केले. आनी ते आडयेचे फळयेचेर पातलायले. सुरो कालसांवाक पुसलो आनी नुस्त्याचो उरिल्लो सांगाडो शेपडेक धरून ताणें दर्यांत मोखून मारलो.

''म्हुज्यान हो सोगलो खावंक जातोलो एशें दिसोना म्हाका!'' अशें म्हणून ताणें एका कुडक्या वयल्यान सुरो भोंवडायलो आनी ताचे दोन कुडके केले. दोरयेचो



ताण ताका आतां जाणवतालो आनी ताच्या दाव्या हाताच्यो शिरो ओडटाल्यो. ताका लागून तो हात दोरयेचेर एकाच जाग्यार उरलो. जाणटेल्यान ताचे कडें बेजार जावन पळेलें.

''केसलो हो हात काय म्हुणटां!'' ताणें म्हळें. ''तुका जावो तितू घोट जा! घे बोटांचीं नाखटां भितोर ओडोन! तुका सांगोतां, तुजें केदना बोरें जावंचेंना! होय! केदना बोरें जावंचेंना!''

''चोवयाच तोर!'' अशें म्हणून ताणें तिरपो जावन उदकांत गेल्ले दोरये कडें पळेलें. ''तो आतां खायल्यार बोरो! हाताक घोटाय मेवतेली. हाताचो केसलो गुन्यांव ना! तो त्या निस्त्या कोडें इलो झोगडोंक ना! आनी हेचे फुडें झोगोडटोलो! चोल, खा तें निस्तें!''

ताणें एक कुडको उबारलो आनी तोंडांत उडोवन तो चाबपाक लागलो. ''सुवाद बोरो आसा!''

''सारको बोरो चाबोन खा!'' ताणें आपणाकूच म्हळें. 'तेचो सोगलो रोस पोटांत वोसोंक जावो! लिंबो आनी इलें मीठ मेवलेलें जाल्यार चोड बोरो लागतेलो आसलो!''

''आतां तुका केशें दिसोता रे हाता?'' मेल्ल्या मनशाच्या हाता बशेन कडक जाल्ल्या हाताक ताणें विचारलें, ''हें चोय! तुजे पासोत हांव इलें चोडू खातां!'' अशें म्हणून कुशीक दवरिल्लो तो दुसरोय कुडको ताणें खालो. तो सवकसायेन चाबडायलो आनी उरिल्लो चोथो थुकून उडयलो.

''आतां तुका बोरें दिसोता न्हूं हाता? काय तें सोजमोंक आनी येळ जावो तुका?''

मागीर ताणें आनीक एक सगळो कुडको चाबून खालो. ''चोड रोगताचें बोरें निस्तें आसा हें! गादया बोदला म्हाका एसोलें निस्तें मेवलें हें नोशिबू म्हुजें! गादयाक देमायज सुवाद आसोता! हो गोडयेक उणो आसलो जाल्यार लेगीत घोटपाण येवंक बोरो!''

''मोनशान आनी कितें चोयलें ना जाल्यार जाता, पूण सोंवसाराक जायें तें चोंवकू जायें! मुकोडें इलें मीठ आसलेलें जाल्यार बोरें जातेलें

आसलें! हे उल्लोले कुडके वोतांत सुकतोले ओव ना हें सांगो नेजो! ते हांयें खायल्यार बोरें! भूक ना म्हुणोन कितें जालें? तें व्होडलें निस्तें आतां ओगी आसा! हांव आतां हे सोगले कुडके खातोलों आनी बोरो घोट जातोलों!''

''सोवका रे म्हुज्या हाता! हांव हें सोगलें कोत्तां तें तुका लागोन मुरे!''ताणें म्हळें.

''त्या व्होडल्या निस्त्याक इलें खावंक घायल्यार बोरें!'' ताणें चिंतलें! पूण तेका मारोंकू जायें म्हाका! पोयलूं बोरो घोटमूट जावंक जायो!''

एक एक करून ताणें नुस्त्याच्यो सगळ्यो फोडी खाल्यो.

कलसांवाक हात पुसून तो आतां हुशारेन उबो रावलो. मागीर ताणें हाता कडें पळोवन म्हळें, ''आतां तुज्यान दोरी सोंपेपणी सोडोंक जातेली! तुगे पिशेपोण सोंपता म्हुणसोर हांव तेका एका उजव्या हातीन सांबावतां! ताणें आपलो दावो पांय ते ताणलेले दोरयेचेर दवरलो आनी फाटी वयले दोरयेचेर वजें घालून तो मातसो लवंडलो.

''देवा धोनया पाव रे म्हाका! हो गुळो येयला म्हुज्या हातीक तो वोसोंदी! हें निस्तें कितें कोरीत हें म्हुज्यान सांगों नेजो!''

''पूण तें थोंडशें राबलां? तेणें कितें चिंतलां कायी? आनी म्हुजें कितें? तें निस्तें चोड व्होडलें आसा तेका लागोन तें चिंतता तेशें म्हाका कोरोंक जायें! तें वोयर येयलें जाल्यार म्हुज्यान तेका मारोंक जातेलें! पूण तें सोकोल रावलां म्हुटल्यारी हायें तेचे बाराबोर सोकोल रावचें पोडलेंना?'' तो चिंततालो.

कवळून आयिल्लीं बोटां नीट जावचीं म्हणून ताणें वायेचो गुळो आयिल्लो हात बरोच वेळ कलसांवाक घांसलो. पूण बोटां नीट जालीं नात. ''वोत येयलें म्हुणटोच जातेलीं बोरीं! आनी हायें आतां हो बोकडो खायला तो बोरो जिल्लो म्हुणटोच तीं जातेलीं नीट! केशेय बाशेन हांव तीं नीट कोत्तोलों! आतां चोड तोकोस घेवन तीं बोरीं केलेलीं नाकाय म्हाका! तेंचीं तेंकां बोरीं जावन कोन्नी तेंचें काम! केशेंय जावं, दोरयो सोड्टोना आनी गुटलायतोना राती कोडें हायें तेंकां चोड कोश्ट दिल्याय!''

दर्या वयल्यान ताणें नदर भोंवडायली तेन्ना आपूण कितलो एकटो आसा हें ताका कळ्ळें. पूण आतां ताका खोल काळ्या उदकांतले लांबोडे-त्रिकोनी मणी आनी दर्याच्या सवका सवका हालतल्या उदकांत खोल मेरेन गेल्ली दोरी दिसताली. उफार वाऱ्या खातीर कुपां बांदावळ करतालीं. बक्यांचें एक भिरें उदका वयर मळबांत तरेतरेचे आकार रेखतालें, आनी तेन्ना ताका कळ्ळें, दर्यांर एकोडो कोणूच नासताः

ल्हान व्हड्यांतल्यान तडीक सावन पयस वचपाक कांय मनशां कशीं भियेतात हाचेरूय ताणें चिंतलें. हर्वेत अचकीत बदल जाता अशा म्हयन्यांत तशें भियेवप समा आसता हेंवूय ताका खबर आशिल्लें, पुणून आतांच्या मोडां येवपाच्या दिसांनी जेन्ना मोड नासता तेन्नाची हवा मात वर्सातली सगळ्यांत बरी हवा आसता.

''तुमी दोर्यार आसले आनी मोड येवचें



आसलें जाल्यारी कांय दीस आदीं तेच्यो कुरवो मोळबांत दिसताय. तोडीक आसल्यार कांय सोजमोना आनी कितें कोच्चें हेंवूय कोवोना! जोमनी वयल्यान चोयल्यार कुपां येगळीं दिसोंक जाताय! पूण आयज तोरी मोड येतेलें एशें दिसोना!'' ताचें चिंतप चालूंच आशिल्लें.

ताणें वयर मळबांत पळेलें. आयस्क्रिमाच्यो राशी दवरच्यो तश्यो धव्या कुपांच्यो राशी थंय तयार जाल्ल्यो, आनी सेतेंब्राच्या म्हयन्यांतलीं धव्याफुल्ल कुपांचीं पिसां वयर सगळ्या इतल्याक शिंवरिल्लीं.

''देमायज उकलापो वारो!'' ताणें म्हळें, ''ए निस्त्यो, म्हाका हिंगा तुजे पोरोस बोरो वारो आसा!''

ताच्या हाताक आयिल्लो गुळो अजून तसोच आशिल्लो. पुणून आतां तो हात मातसो मातसो उगडटालो. ''हांव म्हुज्या हातीक येयलेल्या गुळ्याक भीक घालिना! आपले कुडीन आपले कोडेन केलेलो तो इस्वासघात!'' ताणें म्हळें. ''ओन्नांत इखाची बादा जातोच सोंडास जावोप, ओकोंक येवोप हें लोजेचें फोरें, पूण मोनीस एकलो आसोता तेदना तेचेर येयलेलें तें सोकोंश्ट म्हुणोंक जायें!''

''हिंगा भुरगो आसलेलो जाल्यार, तो म्हुजे हातीक मालीश कोत्तेलो आसलो. आनी हातीक इली सोदोळकाय मेवतेली आसली! पूण आतां जातोलो तो आपशीं सोदोळ!''

मागीर उजव्या हातान दोरी सांसपून कितेंय तरी बदल जाला काय म्हूण पळेलें, आनी ताका दोरयेच्या कोनांत मातसो बदल जाल्ले बशेन दिसलो. मागीर दोरयेचेर आपलें वजें घालून ताणें दाव्या हातान मांडयेर थापटिलें. तिरकस जाल्ली दोरी हळू हळू वयर येताली.

''येता येता, तो वोयर येता!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''यो रे यो हाता, उपकार कोन्न इलें तोरी काम कोरोंक लाग!''

दोरी सवकासायेन वयर आयली. व्हड्या म्हन्यांत उदक मातशें वयर आयिल्ले बशेन जालें, आनी मागीर व्हडलें नुस्तें वयर आयलें.

तें नुस्तें म्हळ्यार एक आकांतूच आशिल्लो. ताच्या दोनूय वाटांनी उदक वयर उसळटालें. तें वतांत चकचकतालें. ताची तकली आनी फाट गाड जांबळी आशिल्ली आनी ताच्या दोनूय कुशींनी आशिल्ले पांखाटे वतांत रुंद आनी लेव जांबळे दिसताले. ताची चोंच बेसबोलाच्या बॅटा इतली लांब आशिल्ली, आनी तिका तलवारी बशेन धार आशिल्ली.

तें नुस्तें आपले सगळे लांबये सयत वयर आयलें आनी परतून पाणबुड्या बशेन अळंग उदकांत गेलें. तागेली हिल्या बशेन धार आशिल्ली शेंपडी जाणटेल्याक उदकांत दिसली आनी नुस्त्या फाटल्यान दोरीय सरसर करून उदकांत वतना ताणें पळेली.

''म्हुगेल्या व्होड्या पोरोस दोन हात लांबू आसा हें!'' जाणटेल्यान म्हळें. दोरी बेगीन बेगीन पूण व्यवस्थीत सुट्टाली. आनी तें नुस्तेंय भियेंवक नाशिल्लें.

दोरी ओडून धरलिना जाल्यार नुस्तें ती सगळीच आपले वांगडा घेवन वतलें आनी निमणें ती तुट्टली हें जाणटेल्याक खबर आशिल्लें. म्हणून आपल्या दोनूय हातांनी तो ती नेटान पूण तुटच्चिना अशे तरेन ओडून

धरपाचो यत्न करतालो.

"तें निस्तें चोड व्होडलें आसा; आनी हांव तेका तेसोऽ दिसोंक जावो! तेका तेच्या आंगांत कितू ताकोद आसा हें कोळोंक फावोना, आनी तें नेटान धावलें जाल्यारी किर्ते जातेलें हें लेगीत कोळोंक फावोना! तेचे बोदला हांव आसलेलों जाल्यारी म्हुजी सोगली शक्त ओगडावन सुटके पासोत धावतोंलो आसलों."

"देवाचे व्होडले उपकार म्हुणोंक जाये! आमकां मात्तोल्यांक तेणें जितू बुद्द दिल्या तितू बुद्द मोत्तेल्यांक दिवंक ना!"

जाणटेल्यान हाचे पयलींय जायतीं व्हडलीं व्हडलीं नुस्तीं पळेल्लीं. पांचशीं किलां परसूय चड वजनाचीं नुस्तीं ताणें पळेल्लीं आनी तेदीं व्हडलीं दोन नुस्तीं ताणें धरिल्लींय! पूण एकट्यान मात न्हय! आतां तो सामको एकटो आशिल्लो आनी जमनी स़ावन खूब पयस दर्यांत आसतना जल्मांत केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें वा आयकूंक नाशिल्लें येदें व्हडलें नुस्तें ताच्या गऱ्याक लागिल्लें. आनी असल्या वेळार तागेलो हात घोणीच्या चपक्या बशेन आंवळून उरिल्लो. "हातीक येयलेलो गुळो वयतोलो! म्हुज्या उजव्या हातीक आदार दिवंक तेचो गुळो वोसोंकू जावो!" हिंगां तीन वोस्तू आसाय, आनी त्यो तिनूय वस्तू भाव भाव केश्यो आसाय! निस्तें आनी म्हुगेले दोन हात! हात सोदोळ जावंकू जावो! एसो आंवळोन उरोप सोबोना तेका!"

नुस्तें आतां सवका आनी सदचे वरी वतालें.

"तेणें उडी कित्याक माल्ली हेचें म्हाका ओजाप जाता!" जाणटेलो चिंतूंक लागलो. तें कितू व्होडलें आसा तें दाखोवंक तेणें उडी मारली आसोंक जायी! बोरें आसा! सोंजमोलें! आतां हांव कोणा कास्ता मोनीस हें तेका दाखोवंक जायें! पूण तेका म्हुजो हो गुळो येयलेलो हात दिसचोना! कितेंय कोन्न हांव तेका आसां तेचे पोरोस चोड खांपो दिसोंक जावो! आनी हांव तेसो जातेलों! हांव तें निस्तें आसलेलों जाल्यारी? मुकोडे म्हगे बद्द, आनी तेम इतू आसा, पूण तेकोडें फूबशें किर्ते आसा!"

जाणटेल्याक खूप कश्ट जाताले, पूण ते कश्ट झेलीत तो आतां फळयेक तेंकून सुशेग घेतालो. नुस्तें सवकसायेन फुडें चलतालें. आनी ताचे वांगडा व्हडेंय काळसार उदकांतल्यान सवका सवका वतालें.

उदेंती कडल्या वाऱ्यान दर्याच्या उदकाचेर एक ल्हानशें ल्हार आयलें आनी दनपार म्हणसर जाणटेल्याच्या दाव्या हाताचो गुळो गेलो.

"तुजे खातीर ही एकदोम वायट फोबोर! न्हूं गो निस्त्या?" खांदार पांगुरिल्ल्या साकाचेर दोरी सारकी सरकायत जाणटेल्यान म्हळें.

ताका कश्ट भोगताले पूण तो आपूण सुशेगाद आसा अशें दाखयतालो. आपणाक पिडा भोगता अशें मानपाकूच तो तयार नाशिल्लो.

"हांव तेसो देव मानपी न्हूं! पूण धा फावटीं सर्गांतल्या बापाचें आनी धा फावटीं सांतमारीचें नांव घेवन सांगोतां, हांव त्या निस्त्याक मात्तोलों! आनी हांव येशें उतोर दितां, निस्तें मेवलें जाल्यारी कोब्रेचे आंकवार मांयची भोंवडी कोत्तोलों! हें म्हुजें उतोर आसा!"

ताच्या तोंडांतल्यान प्रार्थनेचीं उतरां आपशींच भायर सरूंक लागलीं. मदीं मदीं ताका खूब पुरो जातालें आनी मागीर तो प्रार्थनेंतलीं उतरां विसरतालो. मागीर तो प्रार्थना बेगिबेगीन म्हणटालो. ताका लागून तीं उतरां ताका आपशींच येवजतालीं. सांतमारीची प्रार्थना मळबांतल्या बापाचे प्रार्थने परस म्हणपाक सोंपी अशें ताका दिसतालें.

"म्हुजे मारी मांय, तुजे लागीं भोल्ल्या कुर्पा, सोंवसाराचो धोनी आसा तुजे बाराबोर. बायलां मोदीं तूं आसा धोन्यताय, आनी धोन्यतायेचें फोळ आसा जेझू! म्हुजे निर्मोळ मारी मांय आमचे सारक्या पातक्यांचेर आतां आनी मोरच्या येळार तूं दोया कोर! आमेन!" मागीर ताणें प्रार्थनेक आनीक उतरां जोडलीं. "पोवित्र आंकवार मारिये हांव तुजे लागीं मागतां त्या निस्त्याचें मोरोण! तें इप्रिताचें आसोन लेगीन!"

प्रार्थना म्हणटकच ताच्या जिवाक बरें दिसलें. दूख मात उणी जावंक नासली. वयल्यान ती चडूच वाडिल्ली. व्हड्याचे फुडले नाळी कडें तो फळयेक तेंकून उबो रावलो आनी आपल्या दाव्या हाताचीं बोटां हालोवंक लागलो. वारो नेटान व्हांवतालो, पूण वतूय खूब तापिल्लें.

"ह्या निस्त्यान रातभोर एशें रावपा थारायलें जाल्यार म्हाका खावंक कितेंय तोरी जाय पोडटेलें! होड्या देगेक आसलेल्या एका गोऱ्याक नेयें हांयस लायल्यार बोरें! बाटलेंतुलें उदोक थोडें आसा! हिंगा गाद्या बोगोर किर्ते मेवोतशें दिसोना! तो जिवो आसोत जाल्यार वायट लागोना! राती कोडे फुंयचेंय उडटें निस्तें व्होड्यांत येवन पोडलें जाल्यार कितू बोरें जातेलें! पूण म्हुजे कोडे दिवो फूंय आसा तेका दिपकावंक! उडटें निस्तें शिजोय नासतोना खावंक चोड बोरें लागोता! तेका कोतोच्ची लेगीत गोरोज ना! हांये म्हुगेली सोगली शोक्त राखोन दोवरूंक जायें! बापाय म्हुज्या! हें निस्तें एदें व्होडलें आसोत एशें दिसोंक नासलें म्हाका! पूण तें केदेंय व्होडलें आनी फांकिवोंत आसलें जाल्यार लेगीत हांव तेका माल्ले बोगोर रावचोंना!" ताणें म्हळें. "घडये हें रजांव नासोत, पूण मोनशाच्यान किर्ते कोरोंक जाता आनी कितू सोंसूंक जाता हें हांव तेका दाखोयतोलों."

"हांयें भुरग्याक सांगलोलें हांव सोंवसारा भायलो मुनीस म्हुणोन! हांयें तें फोरें कोन्न दाखोवंक जायें तेका!"

हाचे पयलीं हजार खेपे ताणें तें खरें करून दाखयल्लें, पूण आज तें फुकट गेल्लें. आतां तें तो नव्यान दाखयतालो. दर एक खीण हो वेगळोच खीण आसता. तें नव्यान करतना ताणें फाटलें कांयच चिंतलेंना.

"म्हाका तें न्हिदलेलें जायें! मागीर म्हुज्यान इलें न्हिदोंक जातलें. आनी शिंवांचीं सोपनां चोवंक जातेलीं!" तो चिंततालो. "पूण सोपनांत शिंवांचीं गोजाल कित्याक आसची? तूं हेचेर कितेंच येवजूं नाकाय जाणटेल्यो!" ताणें आपणाकूच समजायलो. "फोळयेक तेंकोन इलो सुशेग घे! तोकलेंत केसलें चिंतोप हाडों नाकाय! तें निस्तें तिंगा बोबाव कोत्ता पूण तूं चोड कांय कोरी नाकाय!"

दनपार जावन गेल्ली. व्हडें सवका आनी थंड चलतालें. उदेंतीच्या वाऱ्यान व्हड्याचे चालीक आडखळ येताली आनी जाणटेलो जसो कितें ल्हारांचेर बसून वतालो. आतां ताचे फाटी वयली दोरीय ताका पयलीं इतले

कश्ट दिनाशिल्ली.

दनपरां एकदां गऱ्याची दोरी वयर येवंक लागिल्ली. पुणून नुस्तें फकत उदकांतूच मातशें वयर येवन पेंवतालें. जाणटेल्याच्या खांदार आनी फाटीर वत पडटालें. ताका लागून नुस्तें आतां इशान्ये वेटेन वता म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

जाणटेल्यान त्या नुस्त्याक एकदां पळेल्ल्यान, आपले जांबळे पाकाटे फुलोवन आनी आपली व्हडली शेपडी तायट करून' तें काळखांतल्यान वता अशे तरेचो देखावो तो मनांत पितारूंक लागलो. ''इतू सोकोल आसोन तेका दिसोता केशें, हेचें म्हाका ओजाप जाता!'' जाणटेलो चितूंक लागलो.

''पूण तेचो दोळो व्होडलो आसा? घोड्या दोळो तेच्याक ल्हान आसोता. पूण तेका काळखांत बोरें दिसोता. म्हाका पोयलीं काळखांत बोरें दिसतालें. पूण चोड काळखांत न्हूं! लागीं लागीं माजराक दिसोता तितू काळखांत!''

वत लागिल्ल्यान आनी एक सारको घोळिल्ल्यान ताच्या हाताचो वाताचो गुळो सामको गेल्लो, आनी आतां तो त्याच हाताचेर चड वजें घालतालो. फाटीक तरास करपी दोरी मातशी कुशीक काडपा खातीर ताणें आंगाच्यो शिरो हेवटेन तेवटेन घोळयल्यो.

''तुका आजून पुरो जावंक ना जाल्यार तूं काळाचें म्हुणचें पोडलें!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें.

जाणटेलो आतां खूप दमिल्लो. आतां रोखडीच रात जातली हें ताका खबर आशिल्लें. तो आतां दुसऱ्योच गजाली येवजूंक लागलो. बेसबॉलाच्या 'ग्रेम लिगास' सारक्या व्हडल्या सर्तींची तो याद करूंक लागलो. न्युयॉर्काचे 'यांकीज' आनी डेट्रोयट हांगाचे 'टायगर्स' हांचे मर्दी खेळ चलता हें ताका खबर आशिल्लें.

''आयज हो दुसरो दीस! पूण म्हाका फोबोर ना त्या फेळाचें कितें जालां तें. पूण त्या डिमेजिओचो म्हाका दुस्वास आसोंकू जावो आनी तेका सोबोत येसो हायें वागोंक जावो! तेचें फोटे खालचें हाड दुकोता पूण तो तेजें काम बेस बोरें कोत्ता! हाडाची दूक म्हुटल्यार कितें कायी?'' ताणें आपणाकूच विचारलें, ''हाड तोपोता आसतेलें. आमकां ना बाबा तेसल्यो पिडा! झोगोटेल्या कोंब्याच्या पांयांचीं तोंकां आसलेलीं नाकटां तोंपतोच जाता तेसली दूक आसोता कायी? म्हुज्यान बाबा जावचेंना झोगोडटेल्या कोंब्या बाशेन दूक सोसोंक, आनी एक न्हूं जाल्यार दोनूय दोळे फुटल्यार लेगीत तेंचे बाशेन झोगडोत रावचेली शक्त लेगीत ना म्हुज्यांत! एसोल्या जोनावोरां आनी सोवण्यां फुडें मोनीस म्हुटल्यार कितें न्हूं! तोरी पूण म्हाका दोर्याच्या काळखा पोंदा रावपी जोनावोर जावंक मानोवतेलें.''

''पिले (शार्क) येयना जाल्यार बोरें जातेलें!'' ताणें मनांत म्हळें.

''पिले येयल्यार तूंच काकुळट कोर रे देवा, तेंची आनी म्हुजी!''

''हांव ह्या निस्त्या बाराबोर राबलां तितू ओगोत तो व्होडलो डिमेजियो राबतोलो आसलो कायी?'' तो चिंतूंक लागलो. ''हांव गेरेंटेन सांगोतां, तो राबतोलो आसलो, आनी



म्हुजे पोरोस चोड येळ! तो आजून भुरंगो आसा, आनी तेका फोर्स चोड आसा! तेचो पाय पाग्गी आसलो! पूण तेची फोंट चोड दुखोता आसोत कायी?''

''म्हाका फोबोर ना! फोंटेक हाड तोपचें दुयेंस म्हाका केदना जालें ना!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें.

सूर्या अस्तमते कडें वचूंक लागलो तेन्ना आपणाक धिटाय हाडपा खातीर, पयलीं एकदां काझा ब्लांकाच्या तावेर्नांत सिफुगेसच्या सगळ्या बंदरार फांकिवंत आसलेल्या एका खांप्या खांपऱ्या कडें खेळिल्ले हात बागोवपाचे सर्तीची तो याद करूंक लागलो.

एका मेजार खोडवान एक रेग आंखिल्ली, आनी आपलो कोंपोर ते रेगेचेर तायट दवरून त्या दोगांनीय एकामेकांचे हात घट्ट धरिल्ले. एकलो दुसऱ्याचो हात मेजार तेंकोवपाक सोदतालो. एक दीस एक रात ती सर्त चलिल्ली. तांचेर खूप पैजो लागिल्ल्यो. पेत्रोलाच्या दिव्यांच्या उजवाडांत लोक भायर भितर येताले, आनी जाणटेल्यान त्या उजवाडांत त्या खांपऱ्याच्या हाता कडें आनी ताच्या चेऱ्या कडें पळेल्लें. पंचांक न्हीद घेवंक मेळची हे खातीर, आठ वरां उपरांत दर चार वरांनी तांकां बदलताले.

जाणटेल्याच्या आनी खांपऱ्याच्या बोटांच्या नाकटांतल्यान रगत आयलें आनी दोगांनीय एकामेकांच्या दोडिल्ल्या हातां कडें आनी चेऱ्यां कडें पळेलें. पैजो खेळपी भायर भितर येताले. थोडे वणटीक तेंकून दवरिल्ल्या ऊंच कदेलींचेर बसून सर्त पळेताले. वणटी लाकडाच्यो आशिल्ल्यो आनी तांकां चकचकीत निळो रंग लायिल्लो. दिव्यांक लागून वणटींचेर मनशांच्यो सावळ्यो पडिल्ल्यो. खांपऱ्याची सावळी खुबूच व्हडली आशिल्ली, आनी वाऱ्यान दिव्याची जोत हाल्ली म्हणटकच तिवूय हालताली.

चार चार वरांनी पोन्ने गडे वचून नवे गडे येताले. सगळी रात अशें चलिल्लें. गडे खांपऱ्यांक सोरो पिवयताले आनी सिगार पेटोवन दिताले. रम पितकच खांपरी नेट करतालो. एकदां तर ताणें जाणटेल्याचो हात तीन इंच बागयल्लो. तेन्ना तो जाणटो जावंक नाशिल्लो. चँपियन सांतियागो आशिल्लो. ताणें तो हात परतून जाग्यार व्हेल्लो. तेन्नाच ताका खांपरी हारतलो म्हणपाचें कळिल्लें. तो खांपरी बेस बरो मनीस आशिल्लो. आनी खेळगडोय. उजवाडलें तेन्ना पैजो लावपी सर्त बरोबरींत सुटली अशें जाहीर करचें म्हणटाले. पूण पंच मान हालोवन तांकां न्हयकार दिताले. आनी त्याच वेळार जाणटेल्यान सगळो नेट लावन खांपऱ्याचो हात मेजाक तेंकयल्लो.

सर्त आयतरा सकाळीं सुरू जाल्ली आनी सोमारा सकाळीं सोंपिल्ली पैज खेळिल्ल्या चडश्या लोकांक सकाळफुडें बंदरार साकरेचे साक भरपाच्या कामाक आनी थोड्यांक कोळशाचे कंपनींत वचपाचें आशिल्लें, म्हणून ते सर्त बरोबरींत सुटली अशें जाहीर करचें म्हणटाले. पूण खरेपणीं तांकां तिचो निकाल लागिल्लोच जाय आशिल्लो. निमाणें ताणेंच ती सोंपयली, आनी तिवूय लोक कामाक वचचे पयलीं.

ताचे उपरांत खूब दीस मेरेन लोक ताका चँपियन म्हणून उलो मारताले. मागीर वसंतरुतूंत आनीक एक सर्त जाली. पूण तिचेर चडश्यो पैजो लागूंक नाशिल्ल्यो. सिंम्पुगेसचे पयले

र्ती उपरांत खांपऱ्यान आत्मविस्वास ागडायल्लो. ताका लागून जाणटेल्यान ती र्त सहज जिकिल्ली. ताचे उपरांत आनिकूय ाड्यो सर्ती जाल्यो तितल्योच.आपणाक जाय ाल्यार आपूण कोणाकूय हारोवंक शकतां ाचो जाणटेल्याक आतां विस्वास दिसतालो. च बरोबर ताका हेंवूय कळिल्लें, पागेलपण रतलो जाल्यार उजव्या हातान असले खेळ त्रेळूंक उपकरचे नात. ताणें दाव्या हातान त्रेळूंक जमत काय म्हणून पळेलें. पूण ताचो ावो हात सदांच निमण्या वेळार घात ारतालो. ताचेर सोपयल्लें काम तो करतलोच ाची खातरी नाशिल्ली, म्हणून ताचेर तो वेस्वास दवरिनाशिल्लो.

"हो आतां वोतांत बोरो शेकतोलो! राती कोडें थोंडी पोडलिना जाल्यार तेका वायेचो गुळो येतेलो एशें दिसोना!" ताणें दाव्या हाता कडें पळोवन म्हळें.

इतल्यांत मियामी कडें वचपी एक विमान वयल्यान गेलें. उदकांत पडिल्ले ताचे सावळेक लागून उडट्या नुस्त्याचीं भिऱ्यांचीं भिरीं भियेवन वयर येतना ताणें पळेलीं.

"हिंगा इतू उडटीं निस्तीं आसाय तेचे वोयल्यान हिंगा लागीं गादो आसोंकू जावो!" अशें म्हणून ताणें गऱ्याक बांदिल्ली दोरी आनीक मातशी ओडून नुस्तें लागीं हाडूंक मेळटा काय म्हणून पळेलें, पूण दोरी पयलींच तुटपा इतली ताणिल्ली आनी ताका लागून तिचेर पडिल्ले उदकाचें थेंबे सामके थरथरताले.

व्हडें इल्लें इल्लें फुडें वचपाक लागलें, आनी तो मळबांतल्यान वतल्या विमाना कडें तें नदरे आड जाय म्हणसर पळेत रावलो.

"इमानांत सोगलें येगळें दिसोता आसतेलें!" ताणें म्हळें. इतू उंचाये वोयल्यान दोरयो केसो दिसोता आसोत कायी? तें चोड उंचाये वोयल्यान जेलेंना जाल्यार तेंकां निस्तें बोरें दिसोंक जाता! वोयल्यान वोयतेल्या इमानांतुल्यान निस्तें चोवंक म्हाका चोड खोशी जातेली! जेदना हांव कांसवांचें कास कोरचेल्या व्होड्यार वोयतालों तेदना कुंयांचेर चोडोन बोसतालों. तिंगाच्यान हायें खूप चोयलां! तिंगाच्यान गादे बोरे पांचवे दिसताय आनी तेंचे फाटी वोयले पोटे आनी तेंचे जांबळे पांखाटे लेगीत तुमच्यांनी चोवंक जाताय! आनी भोपश्यांचीं भिरीं उदकाचेर पेंवताना तुमकां दिसतेंलीं! काळ्या उदकांतुल्यान धांवतेल्या निस्त्याच्यो फाटी आनी तेंचे वोयले तिपके एशे जांबळे कित्याक आसतात कायी? गादो भांगरा कोराचो आसोता म्हुणोन तो पांचवो दिसोता; पूण जेदना तेका भूक लागोता आनी ओन्न सोदोंक तो भोंवता तेदना मार्लीना बाशेन तेचेच आंगाचे कुशीक जांबळे पोटे दिसताय! तेंकां राग येयल्यार ओव ते नेटान धांवल्यार तेशें दिसोंक जाता!"

काळोख जावचे मातशे पयलीं सरगासो जातीचें तण मातिल्ल्या एका व्हडल्या जुंव्या कडल्यान वतना ताका त्या हालतल्या धोलतल्या हळडुव्या तणा कडें पळोवन, हळडुवे चादरी मुळा लिपिल्ल्या कोणा कडें तरी दर्याचो मोग चल्ला अशें दिसलें. आनी तेन्नाच तागेल्या एका ल्हान गऱ्याक एक डॉल्फीन फारावलो. जेन्ना डॉल्फिनान फडफडत उदकांतल्यान उडी मारली तेन्ना ताका तो दिसलो. वतांत तो शंबर नुमरी भांगरा बशेन लकलकतालो, आनी भियेल्ल्यान वांकड्यो तिकड्यो उडयो मारून नाडेपेन्ना करतालो. जाणटेलो सुकाणू वटेनचे नाळी कडें गेलो आनी उकडयां बसून उजव्या हाताचेर आनी खांदाचेर वजें घालून व्हडली दोरी ताणें वयर ओडली आनी दाव्या हातान डॉल्फिनाक वयर घेतलो. वयर ओडिल्ले दोरयेचेर दर फावटीं तो पांय दवरतालो आनी तो चिड्डून धरतालो. गादो आडवो तिडवो जायत नाळी कडें आयलो तेन्ना ताणें ओणोव घालून जांबळे तिपके आशिल्लो आनी भांगरा बशेन लकलकपी तो गादो उबारलो. वात आयिल्ले बशेन ताचें तोंड गऱ्याचे दोरयेक एका सारकें घांस मारतालें, आनी आपली लांब कूड घेवन शेंपडी आनी बोडकान तो व्हड्याच्या तळाचेर धिमशो मारतालो. जाणटेल्यान ताचें भांगरा कोराचें चकचकीत बोडूक तो निचेश्ट जाय म्हणसर धोडायलें.

मागीर ताणें ताका गऱ्यांतल्यान सोडयलो. गऱ्याक दुसऱ्या ताल्ल्याचें हांयस लायलें आनी तो उदकांत शेंवटिलो. मागीर तो परतून नाळी म्हऱ्यांत गेलो आनी उदकांत दावो हात धुवन आंगा वयल्या कालसांवाक पुसलो. मागीर उजव्या खांदा वयली जड दोरी दाव्या हातांत घेतली आनी उजवो हात बुडटल्या सूर्या कडें आनी तिरकस जाल्ले व्हडले दोरये कडें पळेत उदकांत धुलो.



"हें तेगे सोगलें पोयलीं भाशेन चोल्लां!" अशें म्हणून उदकांत हात धरून ताणें चालीचो अदमास घेतलो. चाल खूब मंदावल्या म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

"आतां ह्यो दोनूय व्होलयो येऱ्याक आडयो बांदितां. तेका लागोन राती कोडें तेची चाल उणी जातेली. तें तेका आनी म्हाका बोऱ्याक पोडटेलें!" ताणें म्हळें.

"मासांत रोगोत उरचे पासोत तेका मागीर निवोळ केल्यार बोरो?" ताणें चिंतलें. "तें म्हुज्यान मागीर कोरोंक जातेलें, आनी व्होलयो घोट्ट बांदोन त्याच वेळार आडखोळ कोरोंक जातेली. सुर्या ओस्तोमते कोडें वोयचे पोयलूं तेका तोरास कोरिनासतोना ओगी राबूंक दिल्यार चोड बोरें! सुर्या ओस्ताक वोयता तो येळ सोगल्या निस्त्यांक वायट आसोता!"

ताणें आपलो हात वाऱ्यार सुकयलो, आनी त्या हातान दोरी ओडून जितलो सदळ जावंक मेळत तितलो सदळ जालो. आनी मागीर व्हड्याचेर चडांत चड वजें पडचे खातीर आपणाक कडेचे फळये मेरेन ओडीत वचूंक दिलें. "हें केशें कोच्चेलें तें हांव आतां शिकोतां! कांय न्हूं जाल्यार हें तोरी? आतां तुमी जाणा जायात, गोऱ्याक लागोत सान तेणें कितेंऽ खायलें ना! तें चोड व्होडलें आसा, आनी तेका ओन्नूय चोड जायें! हायें एक सोगलें निस्तें खायलां! फाल्यां हो गादो खातोलों!" डॉल्फिनाक तो गादो म्हणटालो. "तेका निवोळ कोत्तोना तेचो इलो कुडको खावंक जातेलो!" 'बोनिटा' पोरोस गादो खावंक इलो कोडोक! पूण तेशें सोंपें कितें आसोता?'

"निस्त्यो, आतां तुका केशें दिसोता?" ताणें व्हडल्यान विचारलें. "म्हाका जाल्यारी चोड बोरें दिसोता, आनी म्हुजो दावो हात आतां बोरो जाला! आनी आयचे रातीक आनी फाल्यांच्या दिसाक पावोत इतू ओन्न आसा मुकोडें! तूं राव ओडीत व्होडें सोजमोलें?"

खरें म्हळयार ताच्या जिवाक बरें दिसनाशिल्लें. फाटी वयली दोरी घश्टून जाल्लो घाय आतां जडावल्लो, आनी तो ताका दूख दितालो. "पूण हायें हेचे पोरोस

वायट भोगिलां!'' ताणें मनांत म्हळें. ''म्हुगे हातीक इलो घावो जाला आनी दुसऱ्या हातीचो गुळो आतां जेला. म्हुगे पांये एकदोम बोरे आसाय! पोटाक जायें तितू आतां हायें जोडिलां!''

भायर सामको काळोख जाल्लो.सेतेंब्रा म्हयन्यांत दीस पडलो म्हणटकच रोखडो काळोख जाता.व्हड्याचे पोन्ने आडयेचेर पडून तो मेळत तितलो सुशेग घेतालो. पयल्या नखेत्राचो उदेव जालो. ताका त्या नखेत्राचें 'रिगेल' हें नांव खबर नाशिल्लें. पुणून ताणें तें पळेलें आनी ताचे उपरांत बाकीचींय नखेत्रां उदेतलीं आनी तागेले ते पयसुल्ले कासळे इश्ट ताका मेळटले हेंवूय ताका कळ्ळें.

''हें निस्तेंय म्हुगेलें इश्ट!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें. ''एसोलें निस्तें हांयें जोल्मांत चोवंक ना, न्हू आयकोंक ना! पूण हांव तेका मात्तोलों! आमकां नोकेत्रांक मारचें पोडोना ही चोड फोशये गोजाल!''

''मोतींत घेयाय, मोनशाक सोदां चोंद्रिमाक मारचो पोडलेलो जाल्यार कितें जावचेलें? चोंद्रीम धांवोत आसोता! आनी सोमजाय, मोनशाक सोदां सुर्याक मारचो पोडलेलो जाल्यारी? जोल्मोतोना आमचें नोशीब बोरें आसलें म्हुणोंक जायें!''

मागीर ताका उपाशीं आशिल्ल्या त्या व्हडल्या नुस्त्याची काकुळट येवंक लागली. पूण तशी काकुळट येवनूय ताका मारपाचो ताचो निश्चेव इल्लोय उणो जावंक नाशिल्लो. ''कितू मोनशांक पावोत कायी हें खांवोंक?'' तो येवजूंक लागलो. ''पूण हेका खावची तेंची लायकी आसोत कायी? ना ना, इली लेगीत ना! तेचें वागोप आनी तेचो नेट चोयलो जाल्यारी तेका खावची एकाची लेगीत लायकी ना!''

''म्हाका हितूंतलें कांय सोजमोना! पूण आमकां सुर्याक, चोंद्रिमाक आनी नेकेत्रांक मारचेली फोटपोट कोरची पोडोना हें बोरें आसा! दोर्यार राबोन आमजेल्या ह्या भावांक मारोप म्हुटल्यार चोडू जालें!'' ताचें चिंतप चालूच आशिल्लें.

''आतां म्हाका त्या ओरिश्टाचो इचार कोरोंक जावो!'' ताणें मनांत म्हळें. ''तितूंत जोखीम आसा तेसो फायदो आसा! म्हाका एकाद वेळ सोगली दोरी ओगडावची पोडोत आनी तेकाय ओगडावचें पोडोत! ताणें सोमजाय नेट केलो आनी आडया बांदलोल्या व्होलयांक लागोन व्होड्याची चाल उणी जाली जाल्यारी व्होडयाचें ल्होवपोण ओगडावतेलें! आतां व्होडें ओळोंग वोयता, तेका लागोन आमकां कोश्ट जाताय खोरे, पूण तेच बाराबोर आमकां धोको उणो आसा; कित्याक तोर त्या निस्त्यान तेगेलो खोरो नेट भीयर काडोंक ना! केसोय कोन्न म्हाका तो गादो पिड्डेर जावंचे पोयलूं निवोळ कोन्न, घोटसाणीक लागोन इलो तोरी खावंकू जावो!''

''आतां आनीक एक वोर तोरी न्हिदोंक जायें! पूण येन्या कोडलें काम कोरचे पोयलीं आनी फुडर्ले थारावचे पोयलीं तें निस्तें सारकें घोट आनी थोंड आसा काय ना ते चोवंक जायें! ते म्हुणसोर तें कितें कोत्ता आनी तेच्यांत



कितें बोदोल जाला ओव ना हें सोजमोतेलें! व्होलयो बांदचेली मांडणी बोरी आसा, पूण म्हुजी राखोण केशी कोरची तें चिंतपाचो येळ येयला! आजून तेचो नेट पोयलीं इतुलो आसा! गोऱ्याचें तोंक तेगे तोंडांत एके कोडेक सारकें बोरें फारावलां तें हायें चोयलां! तेणे तेगें तोंड घोट्ट धांपोन घेयलां. गोरो फारावोप म्हुटल्यार ख्यास्त न्हूं? खोरी ख्यास्त म्हुटल्यार उपास घोडोप आनी आपोण कोणा कोडें झोगडटां हें ना सोजमोप! आतां इलो सुशेग घे जाणटेल्यो! तुगे काम कोमेस जावंचे आदीं तेका जाय तें कोन्नी!''

आपणें दोन वरां तरी सुशेग घेतला आसतलो अशें ताका दिसलें. चंद्रीम मातसो उसरां उदेल्लो. ताका लागून वेळ कळपाक ताचे कडें दुसरो मार्ग नाशिल्लो. सदां परस इल्लो चड इतलेंच. नुस्तें ओडितूच आशिल्लें आनी ताचो नेट तो आपल्या खांदार पेलतालो. पूण ताणें आपलो दावो हात व्हड्याच्या बोर्दार दवरलेलो आनी नुस्त्याचो चडसो ताण व्हड्याचेर पडचो अशें केल्लें.

''ही दोरी म्हाका फूंय तोरी बांदूंक मेवोत जाल्यार चोड बोरें जातेलें!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''पूण एका धोपक्यान निस्तें ती तोडून उडोवंक आसा! दोरयेचें सोगलें ओजें म्हाका म्हुगे कुडीचेर घेवंक जायें! आनी सोगलो येळ दोरी दोनूय हातांनी सोडची तोयारी दोवरूंक जायी!''

''पूण आजून तूं न्हिदोंक ना जाणटेल्यो!'' ताणें आपणाकूच म्हळें. ''एक रात आनी आयचो हो दुसरो दीस तूं न्हिदोंक ना! हें व्होडलें निस्तें थोंड आनी सुशेगाद आसोत जाल्यार न्हीद घेवंक तुयें कितेंय तोरी उपाय सोदूंक जावो! तूं न्हिदलोना जाल्यारी तुगें तोकली चोलचिना.''

''तेसो हांव तकलेन बोरो आसां! एकदोम नितोळ!'' ताणें मनांत म्हळें, ''म्हुगेलीं भांवडां नोकेत्रां इतू हांव तोकलेन बोरो आसां! तोरी पूण म्हाका न्हिदोंक जावो! तीं न्हिदताय, चोंद्रीम न्हिदेता आनी सुर्या लेगीत न्हिदोता. कांय दिसां मोर्दी, जेदना उदकाक ओड नासता आनी तें थोंड आसता तेदना!

''पूण न्हिदचो उगडास धोरोंकू जावो! तुयें तुका तेशें कोरोंक लावंक जायें!'' ताणें मनांत म्हळें. आनी दोरये सोंबोंदान कितें नेयो उपाय सोदून काड जाणटेल्यो! चोल वोस आनी गाद्याक निवोळ कोर! न्हिदोंक जाय म्हुणोन व्होलयो आडव्यो बांदचो तुजो इचार घातमारो आसा! तेसो हांव न्हिदे बोगोर रावोन, पूण तेका लागोन म्हुजो चोड घात जावंक आसा!'' ताणें आपणाकूच समजायलो.

नुस्त्याक घचको बसचोना अशे तरेन तो हात आनी धोंपरां तेकयत परतून येन्या वेटेन वचूंक लागलो. ''निस्तें आतां ओद्दे न्हिदेंत आसतेलें! पूण हांव तेका इतू सुशेग घेवंक दिवचोंना! तेणें मोरोसोर दोरी ओडोंकू जायी!''

खांदा वयलो ताण दाव्या हाताचेर घेवपा खातीर येन्या कडें पावतकच तो मातसो घुंवलो आनी उजव्या हातान ताणें म्यानांतल्यान सुरो भायर काडलो. नखेत्रां चकचकतालीं. तांच्या उजवाडांत ताका डॉल्फीन सारको दिसलो. ताणें ताचे तकलेक

तोपलो आनी फाटले नाळी कडल्यान ...का व्हड्या भितर घेतलो. मागीर ताचेर ... पांय दवरून शेंपडे कंडल्यान सकल्या ...डवणा कडें मेरेन ताका उबो चिरलो. मागीर ...ो सकल दवरलो आनी उजव्या हातान ...चें पोटकळ भायर काडलें. भितल्ल्यान ...रवडावन तो निवळ केलो आनी मागीर ...ळकणां तोडून काडलीं. ताच्या हाताक ...तकोटो मातसो जड आनी सुळसुळीत ...गलो. ताणें तो चिरलो आनी उकतो केलो. ...तर दोन उडटीं नुस्तीं आशिल्लीं. तीं सामकीं ...र्जी आनी घट आशिल्लीं. ताणें तीं एके ...शीक दवरलीं. मागीर पोटकळ आनी ...ळकणां येऱ्या वयल्यान भायर शेंवटिलीं. ...तीं बुडटां बुडटां तांचे फाटल्यान उदकांत एक ...कचकीत रंग तयार जाल्लो. डॉल्फीन ...गामको थंडगार आशिल्लो आनी चान्याच्या ...जवाडांत ताचो रंग म्हारोग्या बशेन धवसो ...दिसतालो. जाणटेल्यान ताच्या बोडकाचेर उजवो पांय दवरलो आनी ताची एके वटेनची ...कात सोलून काडली आनी बोडका कडल्यान शेंपडे कडें मेरेन ताच्यो दोनूय वटेनच्यो तिस्त्यो कापून काडल्यो. सांगाडो व्हड्या भायर उडयलो आनी उदकांत भोंवरो जाला काय म्हणून पळेलें. पूण उदकांत बुडटना ताची फकत लिकलिकसाण दिसली.

मागीर तो परतलो आनी कांटे काडून निवळ केल्ल्या डॉल्फिनाच्या दोन तिस्त्यां ...मदीं ताणें तीं दोनूय उडटीं नुस्तीं घालीं आनी सुरो परतून म्यानांत दवरलो. मागीर ल्हवू ल्हवू फुडले नाळी कडें गेलो.

फाटीर आशिल्ले दोरयेच्या वज्यान ताची फाट बागवल्ली आनी उजव्या हातांत ताणें डॉल्फिनाच्यो तिस्यो आनी नुस्तीं धरिल्लीं.

नाळी कडें पावतकच ताणें नुस्त्याच्यो दोनूय तिस्त्यो फळयेचेर दवरल्यो, आनी तांचे कडेक दोनूय उडटीं नुस्तीं दवरलीं. मागीर ताणें खांदा वयली दोरी मातशी कुशीक सरकायली, आनी व्हड्याच्या बोर्डाचेर दावो हात दवरून दोरी परतून हातांत घेतली. मागीर बाणीचेर ओणोव घालून ताणें तीं दोनूय उडटीं नुस्तीं उदकांत धुलीं. तीं धुतां धुतांच ताणें उदकांत हात धरून ताचे ओडीचो अदमास घेतलो. नुस्तीं उजरायल्ल्यान ताच्या हातांचेर गंदकाची लिकलिकसाण आयिल्ली. उदकाची धार हाताक आडखळटाली तें तो पळेतालो. उदकाची ओड आतां मातशी उणी जाल्या म्हणपाचें ताका कळ्ळें. ताणें आपल्या हाताच्यो कडो व्हड्याचे फळयेचेर घांसल्यो. तेन्ना ताच्या हाताक लागिल्ले गंदकाचे कण सुकाणू वटेनच्यान व्हांवत गेले.

''तें दोमलां आसतेलें ओव सुशेग तोरी घेता आसतेलें! आतां तो गादो खायल्यार बोरो! आनी मागीर इलो सुशेग आनी इली न्हीद काडल्यार बोरी!'' जाणटेल्यान म्हळें.

वयर नखेत्रां आनी भोंवतणी रातीची चड चड जायत गेल्ली थंडसाण! ताणें डॉल्फिनाची एक अर्दी तिस्ती आनी बरें उजरायल्लें आनी बोडूक काडिल्लें उडटें भोपशें खालें.

''शिजोयलेलो गादो खावंक कितू बोरो लागोता म्हुणोन सागों! पूण शिजोय नासलेलो एकदोम फूंच! मीठ आनी लिंबे घेयनासतोना हांव हेचे फुडें केदना व्होड्यार वोयचोंना!''

''इली तोकली चोलोयलेली आनी फुडले नाळी कोडे इलें उदोक उडोयलेलें जाल्यारी एदना मीठ जातेंलें आसलें!'' ताणें मनांत म्हळें. ''पूण सुर्या ओस्ताक वोयचे आदीं गोऱ्याक गादो लागोंक नासलो! जावं मागरी कितेंय, पूण मांडणी सारकी नासली फोरी! पूण हांयें तो बोरो चाबोन खायला, आनी म्हाका चोकनोळोन येवंक ना!''

उदेंती वटेन मळब कुपांनी भरिल्लें आनी ताचे वळखीचीं नखेत्रां एका फाटल्यान एक नाच्च जाल्लीं. कुपांच्या व्हडल्या व्हडल्या चरां मदीं भोंवचें अशें ताका आतां दिसतालें. आनी वारोय सामको पडिल्लो.

''आनीक तीन चार दिसांनी सोगल्यांत वायट वारो येतोलो. पूण आयज राती कोडेन न्हूं, आनी फाल्यांय न्हूं! तें निस्तें थोंड आनी सुशेगाद आसा म्हुणसोर इली तोरी न्हीद घे जाणटेल्यो!'' ताणें आपणाकूच म्हळें.

ताणें दोरी उजव्या हातान घट्ट धरली आनी नाळी कडले फळयेचेर सगळें वजें घालून आपले मांडयेन तो हात मातसो धुकळ्ळो. मागीर ती दोरी खांद्या वयल्यान मातशी सकले वटेन सरकायली, आनी तिचेर दावो हात चिड्डून धरलो.

''एसो नेट केलो जाल्यार म्हुज्या उजव्या हातीन ती दोरी बोरी ओडोंक जातेली. न्हिदेंत दोरी सोदोळ जावन सुटोंक लागली जाल्यार म्हुगे दावो हात म्हाका जागो कोरतोलो. उजव्या हातीक तें चोड कुस्तार आसा! पूण तेका ख्यास्त भोगची सोंवोंय आसा! इस मिनुटां नाजाल्यार ओद्दें वोर हांयें न्हीद घेयल्यार बोरी!'' ताणें चिंतलें.



आपणाक दोरयेन आंवळून घेवन आनी सगळें वजें दाव्या हाताचेर घालून तो लवंडलो आनी थंयच न्हिदलो.

ताका शिंवांचीं सपना पडलिंनात. आठ धा मैल लांबयेचो 'पॉरपॉयज' नुस्त्याचो एक चोमो मात ताका सपनांत दिसलो, आनी तोवूय तांगेल्या एकठांय जावपाच्या वेळा वयलो. तीं नुस्तीं हवेंत ऊंच उडयो मारतालीं, आनी उडयो मारतना तांणींच तयार केल्ल्या उदकांतल्या फोंडकुलांत परतून उडयो घेतालीं.

मागीर ताका अशे तरेचें एक सपन पडलें, तो एका खेड्यांत आपल्या हातुणाचेर न्हिदला, उत्तरे कडल्या वाऱ्यान तो कुडकुडला आनी उश्याक घेतिल्लो ताचो हात सामको मुयेला.

मागीर मात लांब हळडुवे वेळेचें आनी थंय येतल्या पयल्या शिंवाचें ताका सपन पडूंक लागलें. आनी मागीर आनिकूय शींव येत रावले. तडीच्यान येतल्या सांजेवेळच्या वाऱ्याचे दिकेन ताणें व्हडें नांगरलेलें, नाळीचे फळयेचेर खाडकी तेंकोवन आनीक शींव येतात काय म्हणून तो पळेतालो, आनी तो खूब खोशी जाल्लो.

चंद्रीम उदेवन बरोच वेळ जाल्लो. पूण अजुनूय तो न्हिदिल्लो. नुस्तें हळू हळू ओडटालें आनी व्हडें कुपांच्या बोगद्यांतल्यान वतालें.

आपलेच उजवे मुठीचो धपको ताच्या तोंडार बसलो आनी तो जागो जालो. हातांतल्यान सरसर करून दोरी सुटिल्ल्यान ताचो उजवो हात सामको जळटालो. ताच्या दाव्या हाताची जाणविकाय गेल्ली, पुणून उजव्या हातान दोरी सांबाळपाचो ताणें यत्न केलो; तरी पूण दोरी सुटटूच उरली. ताच्या दाव्या हाताक निमणें ती दोरी मेळ्ळी. आनी तिका ताण दिवन तो तिचेर फाटल्यान लवंडलो. आतां ताची फाट आनी दावो हातूय चुरचुरपाक लागलो. सगळो ताण आतां दाव्या हातारूच पडिल्लो आनी तो सामके वायट तरेन कातरिल्लो. ताणें फाटल्यान आशिल्ल्या

दोरयेच्या कंवडळा कडें पळेलें. त्या कंवडळांतल्यान दोरी अळंग सुट्टाली. आनी दिस्त त्याच वेळार व्हडल्या नुस्त्यान दर्या फोडून अचकीत वयर उडी मारली, आनी तितल्याच नेटान तें सकल आपटलें. मागीर ताणें परतून परतून उडयो मारल्यो.

दोरी सरसर करून सुट्टाली, तरीपूण व्हडें नेटान धांवतालें. जाणटेलो दोरी परतून परतून तायट करतालो आनी ती तुटऽ म्हणसर ताणटालो. नाळीचे फळयेक तो घट्ट चिकटून आशिल्लो. आनी ताचें तोंड फळये वयल्या डॉल्फिनाच्या कुडक्यां मदीं मुंगरिल्लें, आनी ताका मातूय हालूंक मेळ नाशिल्लें.

"हांव राबतालों तो हे गोजालीक! आतां येवनी तेका!" ताणें मनांत म्हळें, "लाय तेका फारीक कोरोंक दोरयेचें मोल! लाय कोरोंक फारीक!"

ताका नुस्त्याच्यो उडयो दिसनाशिल्ल्यो. पुणून तो वयर उडटना फुट्टल्या आनी सकल पडटना उसळटल्या उदकाचो आवाज आयकूंक येतालो.

दोरी ओडिल्ल्यान ताच्या हाताक व्हडले घावे जाल्ले आनी अशें घडटा हें जाणा आशिल्ल्यान, तळटार दोरी घश्टूं नये आनी बोटां कापूं नये म्हणून दुकीन भेरेल्ल्या जाग्यारूच ती उरची हाची तो जतनाय घेतालो.

"आतां भुरगो हिंगां आसलल्लो जाल्यारी कोंवडाळ्यांतुली दोरी भिजोयतोलो आसलो! फोऱ्यांनी तो भुरगो हिंगा आसलेलो जाल्यार... तो हिंगा आसलेलो जाल्यार..."

दोरी फुडें फुडें वताली. पूण ती आतां मातशी सवका जाल्ली. त्या नुस्त्याक एक एक इंच दोरी मेळोवपाक तो कश्टायतालो.

गळकणा कडल्यान चिरिल्ल्या डॉल्फिनाच्या फळये वयल्या तिस्त्यांनी मुंगरिल्लें आपलें तोंड ताणें आतां वयर उबारलें. मागीर दिमयांचेर बसलो आनी सवका सवका पांयांचेर उबो रावलो. आतां तो दोरी सामकी सवका सोडटालो. तो फाटल्यान वतां वतां दोरयेच्या कंवडळां मेरेन पावलो. तीं कंवडाळीं ताका दिसनाशिल्ली. पुणून पांयांक तांची जाणविकाय जाताली. अजून खूब दोरी शिलकेक आशिल्ली आनी त्या नुस्त्याक आतां नवे दोरयेचो ल्हानसो वांटो लेगीत उदकांतल्यान ओडून घेवचो पड्टालो.

"कांय नेजो!" ताणें चिंतलें. "तेणें आतां धा बारा फावटीं उडयो माल्ल्याय आनी तेचे फाटीर आसलेल्यो पोतयो वाऱ्यान भोरून घेयल्याय. आतां तें आनी सोकोल वोयचेंना मोरोंक! आतां रोकड्यो भोंवड्यो काडोंक लागतेलें, आनी मागीर म्हाका तेची फोबोर घेवची पोडटेली! तेणें हें ओचकीत कितें चिंतलां हेचें म्हाका ओजाप दिसोता! भूक लागलेल्यान तें येशें जिवार उठोलां वो काळखांत कोणाक चोवन भिलां? तें भिलां आसतेलें! पूण तेच्यांत धिटाय आसा आनी तेका फोर्स आसा! भिरांत नासलेलें आनी इस्वासान भोल्लेलें तें एशें कोत्ता म्हुटल्यार इचित्र म्हुणोंक जायें!"

"जाणटेल्यो आतां तूं भिये नाका, आनी इस्वास बाळगोन राब!" ताणें आपणाकूच



म्हळें, "तुयें तेका पोत्तून ओडोन हाडलां फोरें पूण ओगडायलेली दोरी पोत्तून मेवचिना! पूण आतां तेका भोंवड्यो काडच्यो पोडटेल्यो!"

जाणटेल्यान खांदा वयले दोरयेक नेट दिवन, दाव्या हातान ताका ओडून धरलें आनी तोंडाक लागिल्लें डॉल्फिनाचें मांस धुवन काडपा खातीर ओणोव घेवन उजव्या हातांत उदक घेतलें. आपणाक चकणव्ळून येत आनी ओंकारो येवन आपलें बळ उणें जायत म्हणून तो भितालो. चेरो धुवन जातकच ताणें उजवो हात धुलो, आनी फांतोडे वयलो उजवाड नदरेक पड म्हणसर तो खाऱ्या उदकांत तसोच दवरलो.

"हें निस्तें आतां उदेंती वाटेन वोयता! तें चोड दोमलां आनी आतां उदकाचे ओडीक लागलां! आतां रोकड्यो तेका भोंवड्यो काडच्यो पोडटेल्यो! आमजेलें फोरें काम तेदना कोमेस जातेलें!" ताणें चिंतलें.

अदमास घेतां घेतां आपलो उजवो हात बरोच वेळ उदकांत उरला म्हणपाचें ताका कळ्ळें. ताणें तो वयर घेतलो आनी ताचे कडें बारीकसाणीन पळेत म्हळें, "तितू वायट ना हो! आनी मोनशाक दुकीचें व्होडलेशें दिसोंक फावोना!"

नव्यान जाल्ल्या खंयच्याय घायांत रोमची न्हय अशी जतनाय घेत ताणें ती दोरी उजव्या हातांत घेतली आनी आपलो दावो हात व्हड्याचे दुसरे वटेन उदकांत बुडोवंक मेळत अशे तरेन आपले कुडीचो भार परतिलो.

मागीर ताणें आपल्या दाव्या हाता कडें पळोवन म्हळें, "तुज्यान कांय जावचेंना एशें दिसलेंलें पूण तुयें वायट काम कोरोंक ना! पूण एक येळ एसो येयलेलो जाणा, तूं म्हाका मेवोच नासलो!"

"दोन बोरे हात घेवन हांव जोल्माक कित्याक येयलोंना? पूण तेंकां बोरी देख दिवंक ना ही म्हुजी चूक आसों येता!" तो मनांत चिंततालो. "पूण देवाक बोरें फोबोर आसा, तेंकां शिकोंक खूप चान्स मेवलोलो! पूण रातीं तेणें वायट काम कोरोंक ना! आनी तेका एकदां वात येयलोलो! तेका पोत्तून वायेचो गुळो येयलो जाल्यारी निस्त्याक व्होरोनी दोरी तोडोन!"

हें सगळें ताका येवजतालें तेन्ना ताका अशें दिसलें, आपली तकली जाग्यार ना! "गादयाचें इलें मास चाबल्यार बरें!"

"पूण म्हुज्यान तें जावचेंना!" ताणें आपणाकूच म्हळें. "चोकणोळोन येवन तांक उणी जावंचे पोरोस तोकली ल्होव आसलेली बोरी!"

"म्हुगें तोंड त्या मासांत मुंगोल्लोलें, हें म्हाका फोबोर आसलेल्यान तें म्हुज्या पोटांत उरचेंना! येळा काळाक उपकारा पोडोत म्हुणोन आसोंनी तेशें पिड्डेर जाय म्हुणसोर! कितेंय खावन जेवन तांक वाडोवचो येळ आतां उरोंक ना!"

थोड्या वेळान ताणें आपणाकूच म्हळें, "पिसो जालाय तूं? तें उडटें निस्तें खा चोवंया! तें चोय, तें तिंगां पोडलां! ते बोरें निवोळ केलां!"

ताणें दाव्या हातान तें उबारलें आनी ताचे सगळे कांटे चाबडायत शेंपडे मेरेन सारकें बरें खालें.

"दुसऱ्या फुंयच्याय निस्त्या पोरोस हें उडटें निस्तें पोचोंक बोरें! जो फोर्स म्हाका जावो तेका तोरी तें बोरें! म्हुज्यान जाता तितू

हायें केलां!'' ताणें म्हळें, ''तेका आतां काडोनी भोंवड्यो आनी लागोनी आमचे मोदीं केस्तांव!''

दर्यांत व्हडें धुकलीत सावन आज तिसरे खेपे सुर्या उदेतालो. आनी तितल्यांत नुस्तें घुंवडाळ्यो काडूंक लागलें.

उदकांत तिरकस जाल्ले दोरये वयल्यान नुस्तें घुंवडाळ्यो काडटा म्हणपाचें जाणटेल्याक कळ्ळें. पूण ताका तें दिसनाशिल्लें आनी येन्ना दिसचेंय नाशिल्लें. दोरयेचो ताण हयन्हयसो उणो जाला हें पळोवन तो उजव्या हातान दोरी हळू हळू ओडूंक लागलो. सदां जाताली तशी ती आतांय तायट जाली आनी सामकी तुटपाक पावली, आनी परतूय मातशी सदळ जावंक लागली. ताणें दोरये मुळच्यान तकली आनी खांदो सोडयलो आनी ल्हव हातांनी दोरी ओडूंक लागलो. मागीर आपले दोनूय हात हालयत हालयत आनी आपणाच्यान जमत तितल्या नेटान आपले कुडीन आनी पांयांनी तो ती ओडूंक लागलो. ताचे जाणटे जाल्ले पांय आनी खांदे ओडपाच्या नेटा वांगडा थंयचे थंयच घुंवताले.

''आकांताची भोंवडी! पूण भोंवड्यो काडटा तोरी!'' ताणें म्हळें.

मागीर दोरी मात लेगीत भितर येना जाली. आनी तिचे वयले थेंबे वतांत उडटना दिससर जाणटेल्यान ती ताणून धरली. आनी ती उदकांत वचूंक लागली तेन्ना ताणें धोंपरांचेर बसून तिका निरुपायान काळ्याझार उदकांत परतून वचूंक दिली.

''आतां तें भायले वोटेन भोंवड्यो काडटाय! जाता तितू नेटान हांयें हें सोगलें आडावन धोरोंक जायें!'' तो चिंततालो. एसोल्या नेटान तेची भोंवडी ल्हान ल्हान जातेली. मागीर एका ओद्द्या वोरान तें म्हाका दिसतेलें. आतां हायें तेका जाणविकाय कोन्न दिवंक जायी आनी मागीर तेका मारोंक जायें!''

पूण तें नुस्तें सवकसाय घुंवडाळ्यो काडटालें. जाणटेलो सामको घामान भिजिल्लो आनी ताचें हाडान हाड भितल्ल्यान दुखतालें. पूण घुंवडाळ्यो आतां खूबशो ल्हान जाल्ल्यो. आनी दोरी हालताली तिचे वयल्यान नुस्तें पेंवतां पेंवतां हळू हळू वयर येता हें ताणें पारखिलें.

ह्या एका वरा भितर जाणटेल्याच्या दोळ्यां मुखार काळे तिपके दिसूंक लागिल्ले आनी घामान दोळेय चुरचुरताले. दोळ्यां वयलो आनी कपला वयलो घामूय चुरचुरतालो. काळ्या तिपक्यांचो ताका भंय दिसनाशिल्लो. दोरी चड नेटान ओडटकच ते तशे दिसपाचेच! पुणून दोन खेपे ताका सामकें थकिल्ले बशेन जाल्लें आनी घुंवळ आयिल्ली. ते गजालीचो मात ताका हुस्को दिसतालो.

''ह्या एसोल्या निस्त्या मुखार हांयें हारोंक आनी जीव ओगडावंक फावोना!'' ताणें म्हळें, ''हांयें तेका बोरे तोरेन वोयर हाडलां! देवान म्हाका सोंसपाची शक्त दिल्यार पुरो! मोळबांतल्या बापायचो आनी मारी मांयचो हांव शेंबोर फावटीं जोप कोरीन! पूण आतां तेशें कोरोंक जोमचेंना!'' ताणें म्हळें.

''आतां तो केला एशें सोजमोतां! मागीर फोऱ्याचो कोरतेलों'' ताणें आपणाकूच समजायलो.

इतल्यांत ताच्या दोनूय हातांनी धरिल्ले दोरयेक घचके बसूंक लागले. ते सामके कडक, सणसणीत आनी नेटाचे आशिल्ले.

''गोऱ्याक लायलेले सोरयेचेर तें आतां आपल्या दांतां सुळ्यांनी धोपके घालताय!'' ताणें म्हळें. ''तेशें तें जावपाचेंन! तेका तेशें कोरोंकू जायें! पूण हें कोळोंक तेका उडयो मारच्यो पोडटेल्यो! तेचे पोरोस तेणें भोंवड्यो काडल्यार आमकां चोड बोरें! भायलें वारें घेवंक तेका उडयो मारचेली चोड गोरोज आसा! पूण एके एके उडयेक लागोन गोऱ्यान जालेलो तेच्या तोंडाचो घावो वाडोत वोयतोलो आनी तेका गोरो भायर मारोंक मेवतोलो!''

''उडयो मारों नाकाय निस्त्यो, उडयो मारों नाकाय!'' ताणें म्हळें. नुस्त्यान गऱ्याचे दोरयेक बांदिल्ले सरयेचेर खूब फावटीं धपके घाले आनी एका एका धपक्या कणकणीं जाणटेल्यान दोरी सदळ सोडली.

''म्हाका तेची दूक तेशी सांबाळपाक जायी!'' ताणें मनांत चिंतलें. ''म्हुगे दुकीचें व्होडलें ना! म्हुज्यान ती सोंसोंक जाता! पूण तेची दूक तेका पिसो केले बोगोर रावचिना!''

थोड्या वेळान नुस्त्यान सरयेचेर धपके घालपाचें थांबयलें, आनी परतून तें सोवका सोवका घुंवडाळ्यो काडूंक लागलें.

जाणटेल्याक आतां इल्ली इल्ली करून चड दोरी मेळटाली. पुणून परतूय ताका थकिल्ले बशेन जालें. ताणें दाव्या हातान इल्लें दर्यांचें उदक काडलें आनी माथ्याक



थापलें. मागीर आनीक इल्लेंशें काडून मानेक रगडलें.

''म्हाका आतां वायेचो गुळो येयलोना!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें.

''तें आतां रोकडें वोयर येतेलें, आनी म्हुज्यान मागीर तिगोन रावोंक जातेलें! तुयें तिगोंकू जायें! तेशें तुयें उलोवंची गोरोज ना!''

नाळीचे फुडले वटेन तो खिणभर दिमयो मोडून बसलो आनी फाटी वयली दोरी ताणें मातशी हालयली. ''तें भोंवड्यो काडटाय ते म्हणसोर इलो सुशेग घेतां आनी तें भितोर येयलें म्हुणटोरीच उठोन घेतां तेची फाट!'' ताणें मनांत म्हळें.

नुस्त्याची एक घुंवडाळी जाय म्हणसर एकूय दोरी हालयनासतना नाळी कडले आडयेचेर पडून सुशेग घेवप म्हळ्यार खोशयेची गजाल आशिल्ली. पूणून दोरयेचेर ताण पडलो तेन्ना नुस्तें व्हड्या म्हऱ्यांत येवपा खातीर घुंवता म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

जाणटेलो दोनूय पांय तायट दवरून उबो रावलो. आपले भोंवतणी एक घुंवडाळी घेवन नुस्त्यान उदकांत ओडून व्हेल्ली सगळी दोरी ताणें परतून मेळयली. ''केदना जावंक नासलों इतू कांसाद जालां हांव! आतां आनी उफार वारो येतोलो! पूण तेका लागोन निस्त्याक ओडोन काडोंक बोरें पोडटेलें! तेच्या वायटाची चोड गोरोज आसा म्हाका!''

''भोंवडी काडोंक तें पोयस वोसोंक लागलें म्हुणटोरीच इलो सुशेग घेतोलों! आतां म्हाका इलें बोरें दिसोता! आनी दोन तीन भोंवड्यो जातोच धोरतेलों हांव तेका!'' ताणें चिंतलें.

तागेलें कड्डाचें चेंपें आतां ताचे तकलेचे फाटल्यान गेल्लें, आनी तितल्यांत नुस्त्यान घुंवडाळी घेतना दोरी ओडिल्ल्यान तो ठम्म् करून व्हड्याचे नाळी कडें पडलो.

''कोर तूं आतां तुका जाय तें निस्त्या! तूं घुंवोन येयलें म्हुणटोच चोयतां हांव तुका!''

दर्याक आतां उफाट भरती आयिल्ली. पूण वारें निवळिल्लें आनी घरा कडें परतुपाक

फावो तशेंच तें आशिल्लें.

"हांव आतां दोखीण आनी ओस्तोम हेंचे मोदल्यान व्होडें तांडटेलों!" ताणें म्हळें, "मुनीस दोर्यांत केदना शेणोना! आनी हो आसा एक व्होडलो जुंवो!"

तिसरे घुंवडाळे वेळार तें नुस्तें ताका पयलेच फावट दिसलें. पयलीं ताका ताची व्हडली सावळीच दिसली. व्हड्या मुळच्यान ती सावळी खूब वेळ मेरेन गेल्ल्यान नुस्त्याचे लांबायेचेर ताचो विस्वासूच बसलोना.

"शे शे! इतू लांब आंसोंकू नेजो तें!" ताणें म्हळें.

पूण तें खऱ्यांनीच तितलें लांब आशिल्लें. घुंवडाळी काडून जातकच तें विशेक वांवां पयस उदकाच्या वयल्या थरार आयलें, आनी जाणटेल्याक ताची उदकाचे वयर आयिल्ली शेंपडी दिसली. हिल्याचे व्हडले पातये परसूय व्हडली आनी धवसार पडिल्ल्या जांबळ्या रंगाची ती शेंपडी काळ्या-निळ्या उदका वयर आयिल्ली. ती मातशी फाटीं सरली आनी तें नुस्तें उदकाच्या सकल्ल्यान पेंवूंक लागलें. तेन्ना जाणटेल्याक ताची व्हडली कूड आनी तिचे वयले जांबळे पटे दिसले. ताचे फाटी वयलो पाखाटो सकल आयिल्लो आनी छातये कडलीं व्हडलीं व्हडलीं कवचां फांकारिल्लीं.

ते घुंवडाळे वेळार जाणटेल्याक ताचो दोळो आनी ताचे भोंवतणी भोंवपी दोन गोबरा कोराचीं चोर नुस्तीं दिसलीं. मदींच तीं ताचे सावळे भितर सोंपेपणी वतालीं. मदींच ताका चिकट्टालीं आनी मदींच फुर्रर करून पयस वतालीं. तातूंतलें एक एक चोर नुस्तें तीन फुटां परसूय चड लांबायेचें आशिल्लें आनी तें चड नेटान पेंवतालें तेन्ना एकाद्रो किलीस नाचचो तशें नाचतालें.

जाणटेल्याक आतां घाम आयिल्लो. पूण तो वताक लागून येवंक नाशिल्लो. नुस्त्याचे एके एके घुंवडाळे बरावर तो गेल्ली दोरी परतून मेळयतालो. आनीक दोन घुंवडाळ्यां उपरांत आपणाच्यान ताचे भितर कोयतूल रोमूंक जातलें हाची ताका खात्री दिसताली.

"पूण हांयें तेका पोयलूं लागीं हाडोंक जायें!" ताणें म्हळें, "म्हाका तेजें काळीज मेळोंक जायें! तोकली मेळोन उपकोरना!"

"सांबाव रे जाणटेल्यो, सांबाळून नेट कोर!" ताणें व्हडल्यान म्हळें. मागीरचे घुंवडाळे वेळार नुस्त्याची फाट वयर आयिल्ली. पूण व्हड्या सावन तें चड पयस आशिल्लें. तें उदकाचे खुबूच वयर आयिल्लें.

"दोरी आनीक इली ओडोंक मेवली जाल्यार त्या निस्त्याक व्होड्याचे कुशींक हाडोंक मेवतेलें!" जाणटेल्याक भरवंसो दिसतालो.

ताणें आपणा कडलें कोयतूल पयलीं सावनूच तयारेंत दवरिल्लें. कोयतुलाचे बारकेले दोरयेचें कंवडाळें एका वाटकुळ्या पाटल्यांत आशिल्लें. आनी तिचें दुसरें पोंत व्हड्याचे फुडले नाळी कडल्या मुंड्याक बांदिल्लें.

परतून एक घुंवडाळी काडून नुस्तें आतां भितर येतालें. तें सामकें शांत आनी सोबीत दिसतालें. आनी ताची शेंपडी तितली हालताली. ताका जाता तितलें लागीं हाडपा खातीर जाणटेल्यान नेट लायलो. नुस्तें खिणभर ताचे वटेन लकलें आनी परतून नीट जावन आनीक एक घुंवडाळी काडूंक लागलें.



"हांयें घुंवडायलें तेका! निमणें हायें तेका घुंवडायलें!" जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें, आतां परतून एकदां ताका थकिल्ले बशेन जालें. पूण त्या व्हडल्या नुस्त्याचेर ताणें जाता तितलो नेट लायलो. "हांयें तेका घुंवडायलें!" ताणें परतून म्हळें, "हे फावटीं जातेलें म्हुज्यान तेका पालथें घालोंक! हातांनो ओडाय, ओडाय तेका! पांयांनो तायट रावाय! तोकले सांबावून राव म्हुजे खातीर! म्हुजे खातीर तूं सांबावून राव! हेचे पोयलूं तूं म्हाका केदना सोडोन वोसोंकना! हे फावटीं हांव तेका भायर ओडटेलों!"

नुस्तें ताचे वटेन येवचे पयलींच ताणें ताका जाता तितल्या नेटान सगळें बळ एकटावन ओडलें, पूण तितल्यांत नुस्त्यान दुसरे वटेन नेटाचो हिसडो मारलो. परतून तें नीट जालें आनी पेंवत पेंवत पयस गेलें.

"केशेंय कोन्न तुयें मोरोंक् जायें रे निस्त्यो, तुयें मोरांकू जायें!" जाणटेल्यान म्हळें. "तुका लेगून म्हाका मारोंक जावो गो निस्त्या?" ताचो ताळो उलोवंक नजऽ इतलो सुकिल्लो. उदका कडें हात पावोवप लेगीत ताका कठीण जाल्लें.

"हे फावटीं हांव तेका हाडटेलों व्होड्याक तेंकोन! तेगेल्यो चोड भोंवड्यो म्हाका बोऱ्याक पोडच्यो नात!" ताणें म्हळें. मागीर ताणें आपणाकूच धपकावन म्हळें, "पोडटेल्यो, बोऱ्याक पोडटेल्यो तेगे भोंवड्यो! तुका सोदां सोगलें बोऱ्याकू पोडटा!"

फुडले घुंवडाळे वेळार नुस्तें सामकें ताचे म्हऱ्यांत तेंकिल्लेंच! सामकें म्हऱ्यांत पाविल्लें. पूण तितल्यांत ताणें आपणाक सांबाळून घेतलें आनी ल्हवू ल्हवू पेंवत पयस गेलें.

"तूं म्हाका मारोंक लागलें गो निस्त्यो!" जाणटेल्यान म्हळें, "पूण तुका तेशें कोरोंक राजांव आसा! तुजे पोरोस व्होडलें, तुजे पोरोस देखणें थोंडे आनी हुशार निस्तें हायें आजून चोवंक नासलें गो! यो यो, यो म्हुज्या भावा आनी मार म्हाका ! कोण कोणाक मात्तेलो हेची पोर्वा कोरिना हांव!"

"जाणटेल्यो आतां मात तुजे तोकलेंत गोंदोळ जावंक लागलाय! तुयें तुजी तोकली जाग्यार दोवरूंक जायी! तोकली जाग्यार दोवोर पापया, तोकली जाग्यार दोवोर, आनी सोगलें सोंसूंक तोयार राव, फांकिवांत मोनशा बाशेन! नाजाल्यारी ह्या निस्त्या बाशेन!" ताणें मनांत म्हळें.

"यो यो, तोकले जाग्यार यो!" ताचे ताकाच सारकें आयकूंक येवंचेंना इतल्या ल्हव आवाजांत ताणें म्हळें.

फुडल्या दोन घुंवडाळ्यो वेळारूय तशेंच घडलें.

"म्हाका कितेंऽऽ सोजमोना!" जाणटेल्यान म्हळें. आपूण आतां वतांच अशें ताका दर खेपेक दिसतालें. "म्हाका सोजमोना, पूण आनीक एक योत्न कोन्न चोयतेलों हांव!"

ताणें परतून यत्न केलो, आनी नुस्त्याक परतितना आपूण गेलोंच अशें ताका दिसलें. नुस्तें आपुणूच सारकें जालें आनी आपली व्हडली शेपडी हवेंत मिरयत सवकसाय पेंवत पेंवत परतून वचूंक लागलें.

ताचे हात आतां लिबलिबीत जाल्ले, आनी चड उजवाडांतूच आतां ताका

ळकतालें. तरी लेगीत ताणें परतून यत्न करतलोंच असो निश्चेव केलो.

ताणें परतून यत्न केलो, पूण परतुनूय तेंच! पुरवात करचे पयलींच आपूण सोंपपाक लागलां अशें ताका दिसलें.

"आनीक एकदां हांव कोत्तेलों येत्न!" ताणें म्हळें.

आपली सगळी दूख, शिलकेक उरिल्लें बळ आनी पयलींच गळून गेल्लो अहंकार, इतलें सगळें घेवन तो त्या वळवळट्या नुस्त्याच्या विरोधांत उबो रावलो. आनी तें नुस्तें ताचे वटेन आयलें, आनी शांततायेन ताचे कुशीक पेंवूंक लागलें. ताच्या तोंडाची चोंच व्हड्याचे फळयेक तेंकताली आनी लांब-रुंद अशें व्हडल्या आंवाटाचें रुपेरी आनी जांबूळसार पट्यांचें आनी उदकांत सोंपून सोंपना अशें तें नुस्तें व्हड्याचे फुडें वचूंक लागलें.

जाणटेल्यान दोरी सोडली आनी तिचेर पांय दवरलो. आनी चोंचीचें कोयतूल आपणाच्यान उबारूंक जायत तितलें उबारलें, आनी मनशा इतले उंचायेचेर चडिल्ल्या आनी उक्ताडाचेरआयिल्ल्या त्या नुस्त्याचे छातयेच्या व्हडल्या पांखाट्याचे फाटले वटेन आपल्या आंगांतलें बळगें आनी आतांचो बळयां हाडिल्लो नेट एकटावन तें खूब खोल रोमलें. तें लोखणी पातें भितर वतना ताका जाणवतालें. मागीर ताणें ओणवो जावन तें पातें आनिकूय खोल रोमलें, आनी ताचेर आपल्या आंगाचें वजें घालें.

आपल्या आंगांत रोमिल्ल्या त्या मरणा सयत तें नुस्तें नेटान वयर आयलें आनी आपली आंकाताची लांबाय रुंदाय, सगळी शक्त आनी सगळी सुंदरकाय मिरयत उदकाचेर ऊंच उबें जालें. व्हड्यांत आशिल्ल्या जाणटेल्याच्या माथ्यार खिणभर तें वाऱ्यार हुमकळिल्ले बशेन दिसतालें. मागीर तें जाणटेल्याच्या आंगार आनी सगळ्या व्हड्याचेर उदकाचो शिंवोर घालीत घडम् करून उदकांत पडलें.

जाणटेलो सामको अशक्त आनी पिडेस्त जालो. ताका सारकें दिसना जालें. पूण ताणें कोयतुलाची दोरी सारकी सोडयली आनी आपल्या कात सोलिल्ल्या हातान फुडें सरकूंक दिली. मातशें निवळ दिसूंक लागतकच ताणें फुडें पळेलें. जाल्यार तें नुस्तें आपलें रुपेरी पोट वरशें करून उदारें पडिल्लें. कोयतुलाची मूठ ताच्या खांद्यांतल्यान तिरपी भायर आयिल्ली आनी ताच्या हड्ड्यांतल्यान आयिल्ल्या तांबड्या रगतान दर्याचो रंग बदलतालो.

निळ्या उदकांत मैलभर खोल नुस्त्याचो व्हडलो चोमो आसचो तशी काळसाण सुरवातीक आयिल्ली, आनी मागीर ती एकाद्रे कूप सगळ्याक पातळचें तशी पातळ्ळी. रुप्याच्या रंगाचें तें नुस्तें निचेश्ट जाल्लें आनी ल्हारांचेर उफेतालें.

जाणटेल्यान आपणाक घडिल्ल्या त्या दिश्टाव्या कडें बारीकसाणीन पळेलें. मागीर कोयतुलाक बांदिल्ले दोरयेचे दोन वेडे नाळीच्या मुंड्याक गुठलायले. आनी आपली तकली आपल्या हातांचेर दवरली.

"म्हुगे तोकली जाग्यार दोवोर!" ताणें नाळीच्या लाकडाक म्हळें. "हांव एक थोकलेलो जाणटो मुनीस! म्हुगे भावा बाशेन आसलेल्या त्या निस्त्याक हायें माल्लां! आंनी आतां म्हाका चोडशें काम कोरचें आसा!"

"तेका व्होड्याच्या बोर्दाक बांदोंक म्हाका आतां दोरयेचो गोळ कोरोंक जावो! आमी जोरी दोगू आसलेले, आनी व्होडें चिकलांत मुंगोल्लेलें आनी तितूंतलें सोगलें उदोक जोरी भायर उडोयलेलें, तोरी पूण निस्त्याक भितोर घेवंक तेचें ओजें व्होड्याक पेलचें नासलें."

"म्हाका आतां सोगली तोयारी कोरोंक जायी! मागीर निस्त्याक लागीं ओडोंक जायें, दोरयेक सारकें बोरें बांदोंक जायें आनी मागीर दोलकाटी लावन घोरा कडे वोसोंक शीड उबारुंक जायें!" तो चिंततालो.

नुस्त्याच्या पोलकट्यांतल्यान दोरी घालून आनी ताच्या तोंडांतल्यान काडून ती नाळी कडें घट्ट बांदपा खातीर तो तें नुस्तें व्हड्या म्हऱ्यांत ओडूंक लागलो.

"तेका चोवंक जायें म्हाका! तेका हात लावंक जायो! तेका सासपोंक जायें! तें म्हुजी आस्पोत! पूण तेका लागोन सांसपोचेलें ना तेका! तेच्या काळजाक म्हुजो हात लागोला एशें दिसोता म्हाका, जेदना हायें कोयतुलाची मूठ पोत्तून भितोर धोंगशिलेली तेदना!" ताचें चिंतप चालू आशिल्लें.



"आतां हाड तेका लागीं, आनी कोर घोट! दोरयेचो एक गोळ घाल तेचे शेंपडेक आनी दुसरो घाल तेच्या पोटाक, तें व्होड्याक बांदोन उरोंक जाय म्हुणोन! लाग कामाक जाणटेल्यो!" बाटलेंतल्या उदकाचो एक ल्हानसो घोंट घेवन ताणें म्हळें. "आतां झोगडें काबार जालां, पूण रेडेकामां चोड कोरचीं आसाय!"

ताणें वयर मळबा कडें पळेलें आनी मागीर भायर आशिल्ल्या तागेल्या नुस्त्या कडें. ताणें सुर्या कडें बारीकसाणीन पळेलें. "दोनपार आजून उलगोंक ना, आनी आतां उफार वारो येवंक लागोला!" ताणें म्हळें. "हे दोरयेक आतां केसलें मोल उरोंक ना! घोरा कोडें वेतोच हांव आनी भुरगो तिका गांठ्यो मात्तेले!" ताणें मनांत म्हळें. "यो, यो गो निस्त्यो हिंगा!" ताणें व्हडल्यान म्हळें. पूण नुस्तें आयलें ना. वयल्यान तें दर्यांत बुचकळत रावलें. आनी मागीर जाणटेल्यान व्हडें ताचे वयर चडयलें.

नुस्तें ताचे जोडयेक आयलें आनी ताचें बोडूक व्हड्याचे नाळी बराबर आयलें, तेन्ना ताच्या आकाराचेर ताचो विस्वासूच बसलो ना. ताणें मुंड्यांतल्यान कोयतुलाची दोरी सोडयली आनी नुस्त्याच्या एका पोल्यांत घालून तोंडांतल्यान भायर काडली. मागीर ताच्या मुस्कटाचे तलवारीक दोरयेचो वेडो घालो आनी ती दुसऱ्या पोल्यांतल्यान काडली. मागीर मुस्कटाक दोरयेचो आनीक एक वेडो घालून तिची जोडयेचे दोरयेक गांठ मारली, आनी ती नाळी कडल्या मुंड्याक घट्ट बांदली. उरिल्ली दोरी ताणें कापली आनी ताचे शेंपडेक कोयणपास घालपा खातीर तो येऱ्या वटेन गेलो.

नुस्त्याचो मुळचो रुपेरी जांबळो रंग वचून आतां तो रुपेरीच उरिल्लो. पटे मात शेंपडे बशेन जांबूळसारूच रंग दाखयताले. ते पटे मनशाच्या बोटां फांकारिल्ल्या हाताच्या तळटा परसूय व्हडले आशिल्ले आनी नुस्त्याचे दोळे पेरिस्कोपाच्या हारशावरी वा पुरसांवांतल्या सांतां वरी दिसताले.

"तेका मारचेलो होच एक उपाय आसलो!" जाणटेल्यान म्हळें. उदक पितकच

ताका मातशें बरें दिसलें. नुस्तें वचचेंना हें ताका खबर आशिल्लें आनी आतां ताची तकलीय निवळिल्ली. "हें आसा ते बाशेन आटशीं कील तोरी आसोंकू जायें. चोड लेगीत आसोत! तें निवोळ कोत्तोकीर तितूंतले दोन वांटे उल्ले जाल्यार, किलाक तीस रुपोय ह्या हिसपान कितू जाले?" तो मनांत हिशेब करूंक लागलो.

"तेका लागोन म्हाका लापीस जाय पोडटोलो. म्हुगे तोकली आजून निवळोंक ना! पूण म्हाका दिसोता त्या व्होड डिमेजिओक आयज म्हुजो ओबिमान दिसतेलो!" ताणें व्हडल्यान म्हळें.

"म्हाका हाडा दूक नासली; पूण हात आनी फाट दुकताली! हाडा दुकी म्हुटल्यार कितें हें म्हाका सोजमोना!" तो चिंततालो. घडये म्हाका ती आसोन सोजमोंक ना जातेली!"

जाणटेल्यान त्या नुस्त्याक नाळी कडल्या बोर्दाक आनी आडयेक घट्ट बांदलें. व्हड्याक आनीक एक व्हडलें व्हडें बांदचें तितलें व्हडलें तें नुस्तें आशिल्लें. तांची फुडली भोंवडी बरे तरेन जावंची हे खातीर ताणें दोरयेचो एक कुडको कापलो आनी नुस्त्याच्या तोंडाचो सकलो वांटो आनी वयली नीट चोंच हांकां 'तोंड उकतें उरचें न्हय म्हणून', घट्ट बांदलो. मागीर ताणें व्हड्याचो मदलो कुंयो उबो केलो आनी नुस्तें मारपाच्या भाल्याचे बडयेन दोलकाठयेक गुठलायल्लें कपयाळें शीड उगडलें. व्हडें फुडें वचूंक लागलें, आनी आडयेचेर अर्दकुटो लवंडून ताणें नैरुत्येची दिका धरली.

नैरुत्य खंयचे वटेन आसा हें कळपाक ताका होकायंत्राची गरज नाशिल्ली. ताका गरज आशिल्ली उफार वारो जाणा जावपाची आनी शिडाचे ओडीची.

"हांयें एक कुलेरा गोरी सोकोल सोडोन कितेंय खावचेलें आनी ताळो ओलो कोरुंक पिवचेलें मेवता जाल्यार चोयलेलें बोरें!" ताणें मनांत म्हळें. पूण ताका कुलेराची गरी मेळ्ळिना. आनी तागेले ताल्लेय इबाडलेले, म्हणून ताणें वतां वतां हळडुव्या तणाचो एक चोमो भाल्यान ओडलो आनी फांफुडलो. ते बराबर तातूंतल्यान बारीक बारीक सुंगटां व्हड्याच्या पाटणाचेर पडलीं. तीं एके दुजी परसूय चड आशिल्लीं. तीं उडटालीं आंनी रेवेंतल्या किट्टां वरी फडफड्टालीं. जाणटेल्यान आखोणो आनी ताका तेंकूनचें बोट हांचे मदीं धरून तांचीं बोडकां चिड्डिर्लीं आनी तांची वयलीं कल्लां आनी शेपड्यो हांचे सयत तीं चाबून चाबून खालीं. तीं सामकींच बारीक आशिल्लीं पूण ती ताकत वाडोवपी आनी चड रुचीक आसतात हें ताका खबर आशिल्लें.

जाणटेल्याले बाट्लेंत फक्त दोन घोंट उदक उरिल्लें. तातूंतलें अर्दघोट तो पिलो. आख्खळी आसुनूय व्हडें बरे तरेन भोंवडी करतालें, आनी येऱ्याचो दांडो खाक्यांत धरून तो तें चलयतालो. ताका नुस्तें दिसनाशिल्लें. तें सपन न्हय जाल्यार खऱ्यांनीच घडलां हें कळपा खातीर ताका नाळीक फाट लायल्यार आनी हातां कडें पळेल्यार पुरो आशिल्लें.

एका वेळार मात जेन्ना ताका निमणे मेरेन खूब कश्ट जाल्ले तेन्ना तें एक सपनूच कशें दिशिल्लें, पूण मागीर ताणें नुस्तें वयर येतना



आनी सकल पडचे पयलीं थोडो वेळ वाऱ्यार उबें रावतना पळेलें आनी विस्वास दवरपा पेल्यानचें हांगा कितेंय तरी इपरीत घडलां हाची खातरी जाली. तेन्ना ताका सारकें दिसनाशिल्लें, पूण आतां मात चडांत चड बरें दिसूंक लागिल्लें.

हांगा नुस्तें आसा म्हणपाचें तो आतां जाणा जाल्लो; आनी ताचे हात आनी फाट, हीं कांय सपन नाशिल्लीं. "हात रोकडे बोरे जातेले! हांयें तेंचें रोगोत निवोळसाणीन वोसोंक दिलां. खाऱ्या उदकांत घाय पेकतेले! व्होड्यांतुलें हें काळें उदोक म्हुटल्यार बोऱ्यांतलें बोरें वोखोद! हांयें एकू कोरोंक जायें! तोकली जाग्यार दोवरूंक जायी! हातांनी तेंचें काम केलां आनी भोंवडी बोरी चोल्ल्या!" ताचें चिंतप चालूच आशिल्लें.

"तेगे हें बोंद आसलेलें तोंड आनी वोयर सोकोल हालतेली तायट शेपडी बाराबोर घेवन आमगेली भावां भावां बाशेन भोंवडी चोल्ल्या!" ताणें म्हळें.

मदींच ताची तकली म्हेळ जाल्ले बशेन जाली. आनी तो चिंतूक लागलो, "तें म्हाका घेवन वोयता ओव हांव तेका? हांयें तेका फाटल्यान बांदोन व्होयलेलें जाल्यार दुबाव नासलो! ओव तेगे व्होडपोण ओगडावन तें म्हुगे व्होड्यांत आसलेलें तोरी प्रोस्न नासलो!" पूण ते दोगूय दोरयेन बांदिल्ले आशिल्ल्यान जोडयेन दर्याची भोंवडी करताले, आनी मागीर जाणटेल्यान चिंतलें, "तेका फोशी जाता जाल्यार व्होरोनी तेणें म्हाका! तेकोर्डे चिकान कोन्न हांव व्होड थारलां आनी म्हाका दुखी कोरचेलें नासलें तेच्या मोनांत!"

तांची दर्याची भोंवडी बरे तरेन चलताली. जाणटेल्यान तागेले हात खाऱ्या उदकांत बुडयले आनी आपली तकली जाग्यार दवरपाचो यत्न केलो. वयर मळबांत कुपांच्यो राशी जमिल्ल्यो. आनी तांच्या माथ्यार नक्षीकाम जाल्लें. ताचे वयल्यान रातूयभर वारो उरतलो म्हणपाचें जाणटेल्याक कळ्ळें. तें सगळें खरेंच आसा हाची खात्री करचे खातीर जाणटेलो एका सारको त्या नुस्त्या कडें पळेतालो. एका वरा उपरांत एका शार्कान पयलो धपको दिलो.

शार्क हो कितें योगायोग नाशिल्लो. रगताचें तें काळें कूप थंय बिराड करून आशिल्लें आनी दर्यांत मैलभर पातळिल्लें. तेन्नाच तो खोल उदकांतल्यान वयर आयिल्लो, आनी निळ्या उदकाचो तळ फोडून उजवाडांत येतना ताणें मात लेगीत जतनाय घेवंक नाशिल्ली. मागीर तो परतून उदकांत गेलो आनी वास घेत घेत व्हडें आनी नुस्तें वतालें तेवटेन पेंवपाक लागलो.

थोडे फावटीं ताका वास चुकतालो पूण तो रोखडोच परतून मेळटालो, वा, मातसो मेळटालो ते वाटेन तो तुरतुरीत आनी नेटान पेंवतालो. दर्यांत सगळ्यांत नेटान धांवतल्या नुस्त्या इतलोच नेटान धांवपी तो एक व्हडलो 'मोको' शार्क आशिल्लो. आनी तोंडाचो बोंचो सोडून ताचें बाकीचें सगळें आंग चड सोबीत आशिल्लें. ताची फाट तोंकये बशेन निळी आशिल्ली. पोट रुपेरी आशिल्लें आनी ताची कात गुळगुळीत आनी देखणी आशिल्ली. ताचो व्हडलो बोंचो सोडलो जाल्यार तो तोंकये बशेनूच आशिल्लो. नेटान धांवतना ताचो बोंचो गच्च धांपिल्लो आसतालो. उदकाच्या मातश्या मुळा आपले फाटी वयल्या

ऊंच पांखाट्यांनी उदक कातरीत तो भियेनासतना वतालो. तागेल्या धांपिल्ल्या दोनूय ओंठां भितर दातांच्यो आठूय माळो तिरकस जावन भितर गेल्ल्यो. चडश्या शार्क नुस्त्यांक आसतात ते बशेन ते पिरामिडाच्या आकाराचे दांत नाशिल्ले. मनशार्ची बोटां जर गोरवांच्या गेतां बशेन भितल्ल्यान दोडलीं जाल्यार दिसतलीं तशे तरेचे ते आशिल्ले. लागीं लागीं जाणटेल्याच्या बोटां इतलेच लांब आशिल्ले. आनी तांकां दोनूय वाटांनी वाखरा बशेन धार आशिल्ली. सुडसुडीत बळिश्ट आनी, वांगडा शस्त्रां बाळगिल्ल्यान जांकां दुसरो कोणूच दुस्मान नासता अशीं जीं थोडीं नुस्तीं दर्यांत आसतात अशा सगळ्या नुस्त्यांचेर भूक भागोवपा खातिरूच तो जल्माक आयिल्लो. आतां बरो रसरशीत वास आयले बराबर ताणें आपलो वेग वाडयलो आनी ताचे फाटी वयलो निळो पांखाटो उदक कातरूंक लागलो.

ताका येतना पळेले बराबर हो एक भंय नाशिल्लो आनी मनांत येता तेंच करपी शार्क आसा हें जाणटेल्यान वळखलें. शार्क येतना पळोवन ताणें कोयतूल तयारेंत दवरलें आनी दोरी आंवुळ्ळी. नुस्त्याक बांदपा खातीर तिचो कुडको कापिल्लो म्हणून तितली ती उणी जाल्ली.

जाणटेल्याची तकली बरीच निवळिल्ली आनी आतां ती खूबशी बरी आशिल्ली. ताणें मनांत सामको निश्चेव केल्लो, पूण आस्त मात साप उणी आशिल्ली.

''तिगोन उरोंक तेंच चोड बोरें आसलें!'' ताणें मनांत म्हळें. शार्क लागीं येतासो पळोवन ताणें त्या व्हडल्या नुस्त्या वेटेन एक नदर मारली.

''एसोलें हें सोपोन आसोंक जातालें!'' ताच्या मनांत विचार आयलो, ''तेगे धोंगसो म्हुज्यान वाटावंक जावंचोना, पूण म्हुज्यान तेका एकादो धोरूंक जोमोत! दांताळ्यो, फुटलें रे पोरा तुजें आवोयचें नोशीब!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें.

येऱ्याचे वटेन नेटान येतना जेन्ना त्या शार्कान नुस्त्याचेर धोंगसो मारलो तेन्ना जाणटेल्यान ताचें उक्तें तोंड पळेलें. ताचे भंय दिसपा सारके दोळे पळेले आनी नुस्त्याचे शेपडेच्या मातशा वयल्या जाग्यार मासांत रोमून कट्ट करून कुडको काडटना ताचे दांत पळेले. शार्काची तकली उदकाचे वयर आशिल्ली आनी ताची फाट वयर येताली. आनी जाणटेल्याक जेन्ना त्या नुस्त्याची कात आनी मांस फोडटना जाल्लो आवाज आयकूंक आयलो तेन्ना ताणें तागेलें कोयतूल शार्काचे तकलेचेर अशा जाग्यार नेटान मारलें, जंय नाका वयल्यान नीट फाटीं गेल्ले रेगेंक ताच्या दोळ्यां मदल्यान गेल्ले रेगेन भेदिल्ली. खरें म्हळ्यार थंय खऱ्यो रेगो नाशिल्ल्योच. थंय आशिल्ली फकत एक सामकी निळी अशी आकांताची तकली, आनी व्हडले व्हडले दोळे आनी खटखट आवाज करीत मांसांत रोमपी आनी सगळें फस्त करपी दाडवण. पूण तो मेंदवाचो जागो आसलो आनी जाणटेल्यान तो धोडायलो. रगतान भरिल्ल्या आपल्या हातांनी ताणें ताचें बोडूक धाडायलें आनी आपली सगळी शक्त एकटावन तें कोयतूल थंय निबरान धोंगशिल्लें. कसलीच आस्त धरी नासतना ताणें तें धाडायलें. पूण सामकें थारावन आनी जाता तितल्या दुश्टपणान.

शार्क वयर घुंवलो आनी जाणटेल्याक ताचे जीव नाशिल्ले दोळे दिसले. मागीर ताणें दोरयेचे दोन वेडे आंगा भोंवतणी आपंले आपुणूच गुठलावन घेवन परतून एक घुंवडाळी घेतली. जाणटेलो समजल्लो, तो मेला. पूण शार्क मात तें मानपाक तयार नाशिल्लो. आपली शेपडी आपलेच फाटीचेर आपटीत आनी करकर करून दाडवणां रगडीत तो मशिनाच्या व्हड्या बशेन नेटान उदक नागरूंक लागलो. ताची शेपडी आपटताली थंयचें उदक धवेंफुल्ल जातालें. आनी ताच्या आंगाचो तीन चवथाय वांटो सामको उदका वयर आशिल्लो. त्याच वेळार तागेली दोरी तायट जाली, थरथरली आनी तटक करून तुटली. तो शार्क थोडो वेळ शांतपणान उदकाच्या तळाचेर पडिल्लो जाणटेल्याक दिसलो, आनी मागीर तो सवका सवका मुळा गेलो.

''दोन इसो कील तोरी खायलें तेणें!'' जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें. ''म्हुगे कोयतूल लेगीत व्होयलें तेणें! आनी सोगली दोरी लेगीत! आनी आतां म्हुगे निस्त्यांतुल्यान रोगोत गोळोंक लागलां! आतां तें आनीक येतेलें!''



त्या चांचावल्ल्या नुस्त्या कडें ताच्यान आनीक पळोवंक नजऽ जालें. नुस्त्याचेर घावे पडटाले तेन्ना ते घावे आपणाचेरूच पडटात अशें ताका दिसतालें.

''पूण म्हुगे निस्त्याचेर घावे घालतोल्याक हायें जितो माल्ला! हायें आयज मेरेन चोयल्याय तेंचे भितोर चोड व्होडल्या दांतवोणाचो होच आसलो. आनी हायें केदीं केदीं व्होडलीं निस्तीं चोयल्यांय तें एका देवाकू फोबोर!''

''हातुणाचेर कागोद घान्न हांव एकटो न्हिदोंक जाय आसलों! हायें तेका गोऱ्याक लागोंकू दिवंनाका आसलो! हें सोगलें एक सोपोन जावंक जायें आसलें एशें म्हाका आतां दिसोता! तिगोन उरोंक तें फूप बोरें आसलें! ताणें चिंतलें.

''पूण मुनशाक हार घेवंक जोल्माक घालोंक ना!'' ताणें म्हळें. मुनशाक काबार कोरोंक येत पूण हारोवंक नेजो! तोरी लेगीत निस्त्याक माल्लें हेचें फूब वायट दिसोता म्हाका! आतां वायट ओगोत येयला आनी म्हुकोडें कोयतूल लेगीत ना! दांतांळो चोड दुश्ट, बोळिश्ट आनी इद्वान आसा! पूण हांव तेचे पोरोस इद्वान आसलों, घडये नासलोंय जायत! घोडये म्हुकोडें बोरीं होत्यारां आसलेलीं म्हुणोन आसोत!'' तो चिंततालो.

'चिंती नाकाय जाणटेल्या, चिंतीं नाकाय!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें, ''तूं एसो तुगे वाटेन वोस आनी ते येतोरीर तेंकां चोवन घे!''

''पूण हांयें चिंतोंक जायें!'' ताणें मनांत म्हळें! ''तें निस्तें आनी बेसबोल इतू उल्लां आतां म्हुकोडें! हांयें तेच्या मेंदवार जो धोपको घायलेलो तो व्होड डिमेजिओक आवडोत कायी? सांगों नेजो! ती व्होडली गोजाल नासली!'' ताणें म्हळें. ''ती कोणूय कोरीत! पूण हाडाचे दुकी बाशेन म्हुगे हो हात दुर्बोळ आसा एशें दिसोता तुका? म्हुज्यान सांगो नेजो! म्हाका पांयां फोटेचो तोरास केदना जालेलो ना! एकदां केदना तोरी पेंवता आसतोना पाय पोडटोरीच कूसलावण्यान म्हाका कूस लायलोलें आनी म्हुजो पांय लाचार जालेलो आनी दूक सोसोंक नेजो

जालेली!''

''केसल्योय फोशयेच्यो गोजाली चींत जाणटेल्यो!'' ताणें आपणाकूच म्हळें. आतां मिनुटा मिनुटात तूं घारा लागीं पावताय! दोन इसो कील ओगडायलेल्यान तुगे भोंवडी ल्होव जाल्याय!''

उदकाच्या झोताचे भितल्ले वटेन पावतकच कितें घडटलें हें तो बरे बशेन जाणा आशिल्लो. पूण आतां कितेंच करूंक जमचें नाशिल्लें.

''आसा आसा, कोरी सारकें आसा! ताणें व्हडल्यान म्हळें. ''एके व्होलये दांड्याक म्हुज्यान एक सुरो घोट्ट बांदोंक जाता!'' मागीर ताणें येऱ्याचो दांडो खाक्यांत घट्ट धरलो आनी शिडाचो पालव पांया मुळा धरून तशें केलें.

''हांव जाणटो मुनीस खोरों, पूण होत्यार नासलेलो न्हूं!'' ताणें म्हळें.

आतां वारें बरें नितळ आशिल्लें आनी तांची भोंवडीय बरे तरेन चल्लिली. ताणें नुस्त्याच्या फुडल्या भागा कडें पळेलें, आनी ताची आस्त परतून जागी जाली.

''आस्त बाळगोप ना म्हुटल्यार सारकें पिशेपोण! तें पातोक आसा एशें दिसोता म्हाका!'' ताणें मनांत चिंतलें, आनी मागीर व्हडल्यान म्हळें, ''पातका विशीं चिंतीं नाकाय! पातोक सोडोन आनीक फूबशो गोजाली आसाय तुका चिंतोंक! आनी म्हाका तितूंतलें कांय सोजमोना!''

''म्हाका तितूंतलें कांय सोजमोना आनी म्हुजो तेचेर इस्वासूय ना! तेका मारोप म्हुटल्यार घोडये पातोक आसों येता! म्हुजो जीव जोगोंवक आनी लोकांक खावंक मेवचें म्हुणोन केलोलें जाल्यार लेगीत!''

''तेशें म्हुटल्यार फुंयचीय गोजाल पातोकू आसों येता! पातका सोंबोंदान तूं चिंती नाकाय जाणटेल्यो! तेका आतां खूप वोगोत जाला! आनी तें काम कोरोंक तेग पागार घेवपी मुनीस आसाय! तेंकां चिंतूंनी तेचेर! निस्तें जेशें निस्तें जावंक जोल्मोलां, तेसो हांव पागी जावंक जोल्मोलां! सांत पेद्रू पागी आसलो, आनी व्होडल्या दिमेजिओगे पाय लेगीत पागी आसलो!''

ज्या गजालीं भितर तो घुस्पला तांचेर येवजूंक ताका आवडटालें. ते भायर ताका वाचपाक थंय कांयच नाशिल्लें आनी ताचे कडें रेडिओय नाशिल्लो. ते खातीर तो चिंतीत रावलो. पातकाचेर जाल्यार ताणें चडूच चिंतलें.

तूं जियेवंक जावो आनी ओन्न इकूंक जाये म्हुणोन तुयें निस्त्याक मारोंकना! तुयें तेका मारलां ते ओभिमानाक लागोन आनी तूं पागी आसा म्हुणोन! तें जिवें आसतोना तुयें तेचेर मोग केलोलो आनी तें मोत्तोरीच लेगीत तुयें तेचेर मोर केला! तूं तेचेर मोग कोत्ता जाल्यार तेका मारोप म्हुटल्यार पातोक न्हूं!'' तो आपणाकूच समजायतालो.

''काय तें चोड व्होडलें पातोक?'' ताच्या मनांत विचार आयलो.

''तूं चोड चिंतिता जाणटेल्यो!'' ताणें



व्हडल्यान म्हळें. ''पूण त्या दांताळ्याक मात्तोना तुयें खोशी मोनोयल्या!'' ताणें मनांत म्हळें, ''तो तुजे बाशेन जिव्या निस्त्याचेर जियेता! पिड्डेर जालेलें खावपी न्हूं तो! तेसो हेर पिल्यां बाशेन मेवोत तिंगा भोंवपीय न्हूं! तो चोड देखणो आनी व्होड कास्ताचो! आनी तो कोणाक भिवपी न्हूं! हायें तेका म्हुगे राकणेक लागोन माल्लां! आनी चोड बोरे तोरेन माल्लां!'' ताणें व्हडल्यान म्हळें.

मागीर तो परतून येवजूंक लागलो, ''तेशें चोयल्यार एकलो दुसऱ्याक फुंयचेय गोजालीक लागोन मात्ता! पागेलपोण जेशें म्हाका जोगोयता तेशें मात्ताय! तो भुरगो म्हाका जोगोयता! हांयें म्हाका इतू फोटोवंक फावोना!''

''ताणें व्हड्याच्या बोर्दा वयल्यान ओणोव घालो आनी शार्कान कातरिल्ल्या जाग्या वयलो नुस्त्याचो एक कुडको तोडलो. ताणें तो चाबलो तेन्ना ताची जात चड बरी आसा म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो जनावराच्या मासा बशेन घट्ट आनी रसाळ आशिल्लो. पूण तो तांबडो नाशिल्लो आनी ताचे भितर सुतां नाशिल्लीं. बाजारांत ताका चडांत चड मोल येतलें हें ताका खबर आशिल्लें. पूण ताचो वास उदका भायर दवरपाचो मात कितेंच उपाय नाशिल्लो. आनी आतां चड वायट वेळ येवपाचो आसा हेंवूय तो जाणा जाल्लो.

वारो सुस्त आशिल्लो आनी मातसो इशान्ये कडें घुंविल्लो. आनी तो आतां पडपाचो ना हेंवूय जाणटेल्याक कळिल्लें. ताणें आपले मुखावयले वाटेन नदर भोंवडायली. पूण ताका खंयच शिडां दिसलिंनात, व्हड्यांचे सांगाडे दिसलेनात बोटींचो धुवरूंय दिसलोना. बोर्दा इतलीं वयर येवन दोनूय वाटांनी पेंवपी उडटीं नुस्तीं मात थंय आशिल्ली आनी दर्यांतल्या हळडुव्या तणाचीं थिगळां! एकोडें सवणें लेगीत ताका पळोवंक मेळनाशिल्लें.

जिवाक थाकाय आनी घटसाण मेळची म्हणून येऱ्या कडले आडयेचेर मदीं मदीं सुशेग घेत आनी नुस्त्याचो कुडको चाबडायत ताणें दोन वरांची भोंवडी केल्ली. इतल्यांत शार्क नुस्त्याचे जोडयेंतलो पयलो शार्क ताका दिसलो.

''एऽऽय!'' ताणें व्हडल्यान बोबाट मारली. त्या उतराचो अणकार जावंचो नाशिल्लो. एकाद्रो खिळो मनशाच्या हातांतल्यान भायर सरून फळयेक तोंपतकच ताच्या तोंडांतल्यान आपशींच जसो आवाज येता तशे तरेचो तो आवाज आशिल्लो.

''रांडेच्यांनो'', ताणें व्हडल्यान म्हळें. पयले शेंपडे फाटल्यान दुसरी शेंपडी वयर येतना ताका दिसली आनी तांच्या पुडीकोराच्या तिकोनी पांखाट्यां वयल्यान आनी हालतल्या शेपड्यां वयल्यान खोऱ्याच्या आकाराच्या नाकाचे ते शार्क म्हूण ताणें वळखलें. तांकां नुस्त्याचो वास आयिल्लो आनी ताका लागून ते उचंबळ जाल्ले. आनी चड भूक लागिल्ल्यान पिशांतूर जावन मदींच ते तो वास ओगडायताले आनी परतून मेळयताले. पूण ते एका सारके लागीं लागीं येताले.

जाणटेल्यान दोरी आंवुळ्ळी आनी येऱ्याचो दांडो घट्ट बसयलो. मागीर ताणें सुरो बांदिल्ली

ऱली घेतली. दुखले जाल्यार हात बंड करीत हणून ताणें ती जाता तितली ल्हव करून बारली. हात मातशे सदळ जावंचे म्हणून ाणें ते व्हलये वयली मूठ उकती केली आनी ांपली. कळ आयली जाल्यार सोंसूंक गावंची आनी आयत्या वेळार हात फाटीं रचे न्हय म्हणून ताणें ते व्हलयेच्या दांड्याचेर ाट्ट आंवुळ्ळे, आनी येतल्या शार्कांचेर नदर ावरली.

जाणटेल्याक आतां तांची रुंद, सपाट आनी ब्रोऱ्या बशेन दिसपी बोडकां आनी हड्ड्या वयले धव्या तोंकाचे रुंद पांखाटे दिसूंक ागिल्लें. ते शार्क सामके घाणयारे, तिरस्कार करपा सारके, हळशीक खावपी आनी खुनशी आशिल्ले आनी चड भूक लागिल्ल्यान व्हलयेक आनी व्हड्याच्या येऱ्याक लेगीत ते घांस मारताले.

भाटयेर पडिल्ल्या कांसवांचे पाय आनी पांखाट्या सारके अवयव खावपी आनी भूक लागल्यार उदकांतल्या मनशांचेर, ताका नुस्त्याची घाण नासली अथवा नुस्त्याचें मांस लागिल्लें नासलें जाल्यारय घुरी घालपी ते शार्क आशिल्ले.

"येऽऽय, चोरांनो येयाय, येयाय एशे मुखार पिल्यांनो!" जाणटेल्यान व्हडल्यान म्हळें.

ते आयले, पूण तो यांकी शार्क आयिल्लो तशे ते आयलेना. एकलो परतलो आनी व्हड्या मुळा गेलो. धिमश्यो मारतना आनी नुस्त्याचे कुडके तोडटना व्हडें हालतालें; तें जाणटेल्याक जाणवतालें. दुसरो शार्क आपल्या हळडुव्या दोळ्यांनी जाणटेल्या कडें पळेत रावलो, आनी मागीर आपल्या बोंच्याचें अर्दवर्तूळ उगडीत, जंय त्या नुस्त्याचो पयलींच कुडको गेल्लो त्या जाग्यार घुरी घालपाक नेटान फुडें आयलो. ताच्या पुडी कोराच्या बोडका वयल्यान आनी फाटीच्या कण्या वयल्यान मेंदवाक जोडपी रेग सामकी नितळ दिसताली. आनी दिस्त त्याच सांद्याचेर जाणटेल्यान तो व्हलयेक बांदिल्लो सुरो तोपलो, भायर काडलो आनी परतून तोंपलो. एकदां ताच्या माजरा बशेन दिसतल्या हळडुव्या दोळ्यांत तोंपलो. शार्कान नुस्त्याक सोडलें आनी जें मास ताणें तोडून काडिल्लें तें मरतां मरतां गिळीत तो खरीक गेलो.

तो दुसरो शार्क नुस्त्याचें जें कितें तुळभंजन करतालो ताका लागून व्हडें अजुनूय हालतालें, आनी जाणटेल्यान व्हडें रुंदायेचे वटेन लवंडचें आनी ताच्या मुळचो शार्क वयर येवचो म्हणून शिडाचें एक पोंत सोडून दिलें. शार्क दिसना फुडें व्हड्याच्या बोर्दाचेर ओणोव घालून ताणें ताका सुरो तोपलो. पूण घाव मांसांतूच रोमलो, आनी कात दाट आशिल्ल्यान सुरो चडसो भितर गेलोना. तो घाव घालतना ताचे हातूच न्हय जाल्यार खांदोय बागवलो. पूण तो शार्क तकली वरशी करून झप करून वयर आयलो आनी ताचें नाक नुस्त्याक तेंकले बराबर जाणटेल्यान ताच्या सपाट बोडकाचेर दिस्त मदीं सुऱ्याचें पातें धोंगशिलें.

एकदां भायर काडलें आनी त्याच जाग्यार परतून धोंगशिलें. आपल्या बोंच्यान नुस्त्याक गच्च घांस मारून तो शार्क ताका हुमकळत रावलो. जाणटेल्यान ताच्या दाव्या दोळ्यांत सुरो धोंगशिलो; तरी आसतना तो थंयच हुमकळत रावलो.

"आजून मोरोंक ना?" अशें म्हणून जाणटेल्यान सुऱ्याचें पातें ताचो कणो आनी मेंदू हांचे मदीं तोपलें. आतां घाल्लो तो एक सोपो घाव आशिल्लो. आनी ताचे नाजूक स्नायू तुटल्यात म्हणपाचें जाणटेल्याक जाणवलें. जाणटेल्यान व्हली फाटीं घेतली, शार्काचे तोंड उगडपा खातीर सुऱ्याचें पातें भितर धोंगाशिलें, आनी मातशें घुंवडायलें. आनी जेन्ना तो शार्क सदळसाणीन लोळत लोळत वचूंक लागलो तेन्ना ताणें म्हळें,

"चोल वोंस रांडेच्या लोळोत कोसभोर पोयस! चोल वोंस आनी चोय तुगे इश्टाक! तुगे मांय लेगीत आसोत तिंगां!"

जाणटेल्यान तागेल्या सुऱ्याचें पोंत पुसलें आनी व्हली सकल दवरली. मागीर ताणें शिडाचें पाल धरलें आनी तातूंत वारो भरून घेवन व्हडें नीट वाटेर हाडलें.

"तेचो चवथो वांटो तोरी व्होयलो आसतोलो तेणें! आनी तोवूय बोऱ्या मासाचो!" ताणें व्हडल्यान म्हळें, "हें एक सोपोन आसोंक जायें आसलें, आनी हायें तुका धोरोंक नाका आसलें! तेका लागोन म्हाका चोड वायट दिसोता निसत्यो! तेका लागोन आतां सोगलें चुकोत वोयता!" तो थांबलो. आनी आतां ताच्यान नुस्त्या कडे पळोवंक नजऽ जालें. रगत व्हांवून गेल्ल्यान आनी एक सारकें व्हंडाळिल्ल्यान तें आतां हारशाचे रुपेरी फाटी बशेन दिसतालें, आनी ताच्या आंगा वयले पटे अजुनूय दिसताले.



"इतू पोयस हायें वोसोंकू नाका आसलें रे निस्त्यो!" ताणें कळवळून म्हळें. "न्हूं, तुजे पासोत न्हूं, म्हुजे पासोत! चोड वायट दिसोता रे म्हाका निस्त्यो!" मागीर ताणें आपणाकूच समजायत म्हळें, "आतां तेचें कितें जाणटेल्या, आतां तूं गोरयेक बांदलेली दोरी तोपास! ती फुंयसोर तुटल्या जाल्यार चोय! मागीर तुगे हात सारके कोर! आनीक फूब कितें घोडपाचें आसा!"

"सुऱ्याक धार काडोंक एक फातोर जाय आसलो म्हुजे कोडें!" व्हलयेक गुठलायल्ली दोरी सोडोवन जातकच जाणटेल्यान म्हळें, "हांयें हाडोंक जाय आसलो फातोर!"

"तश्यो तुयें फूबशो गोजाली हाडोंक जाय आसल्यो! पूण तुयें त्यो हाडोंक नात! तुकोडें कितें ना हें चिंतचेलो हो येळ न्हूं! आसा तितूंत कितें कोरोंक जातेलें हें चींत!" ताणें म्हळें.

"तूं म्हाका चोड बोरी बुद्द दिता! म्हाका ते बुद्दीचो इट येयला!" ताणें व्हडल्यान म्हळें.

ताणें येऱ्याचो दांडो खाक्यांत धरलो आनी व्हडें फुडें वतां वतां दोनूय हात उदकांत भिजयले.

"त्या निमण्यान कितू हेलां, देवा फोबोर! पूण व्होडें आतां चोडू ल्होव जालां!" पोटा कडल्या वाट लागिल्ल्या कुडक्याचेर ताका आतां येवजूंक लेगीत नाका जाल्लें. त्या शार्कान कुडके तोडटना घेतिल्ली एक एक उडी म्हळ्यार ताणें व्हेल्लें तें मांसूच हें ताका कळटालें, आनी ह्या शार्कान बाकीच्या शार्कां खातीर दर्यांत व्हडल्या रस्त्या इतली रुंद वाट करून दवरल्या हेंवूय ताका खबर आशिल्लें.

"एका मुनशाक सोगलो शियाळो भोर तें निस्तें पुरो आसलें! पूण तेचेर आतां येवजी नाकाय! फोकोत सुशेग घे, आनी तेचें जें कितें उल्लां तें सांबावून दोवरोंक तुगे हात पोयलीं घोट कोर! उदकांत आसलोल्या ह्या सोगल्या वासां फुडें म्हुगे हातीच्या रोगता

वास म्हुटल्यार कितें न्हूं! तेतूंतल्यान रोगोत चोड व्हांवोंक ना, आनी तेशें तें चोड कापोंक ना! रोगोत वोयता तेका लागोन दायो हात बोरो जावंक आसा!'' ताचें चिंतप चालूच आशिल्लें.

''हांव आतां आनी कितें चिंतों?'' ताणें म्हळें, ''कितें नाका! हाचें कितें चितोंक फावोना, आनी फाटल्यान जें कितें येतलें तेची वाट चोवंक जायो! हें फोऱ्यांनी सोपोन जालेलें म्हाका जाय आसलें!'' ताणें म्हळें, ''पूण कोणा फोबोर, तें एकाद्रें बोरेंय जावंक आसलें!''

मागीर जो शार्क आयलो तो एकोड्या फावड्या नाकाचो. धुकर दोणी म्हऱ्यांत येता, तसो तो आयलो. पूण ह्या धुकराचें तोंड मनशाची तकली भितर वचपा इतलें व्हडलें आशिल्लें. जाणटेल्यान ताका घुरी घालूंक दिली, आनी मागीर ताच्या मेंदवांत सुरो तोपलो. पूण त्या शार्कान घुंवता आसतना एक घोंगसो मारलो आनी सुऱ्याचें पोंत मोडून उडयलें. जाणटेल्यान येरें धरपा खातीर बसकण मारली. तो व्हडलो शार्क आपलो सगळो आकार दाखयत आनी ल्हान ल्हान जायत सवकासायेन बुडलो. पूण जाणटेल्यान ताचे कडें पळेलें ना ! हेरवीं तसलो देखावो जाणटेल्याक सदांच भुलयतालो, पूण आज मात ताणें ताचेर नदर लेगीत घालिना.

''म्हजे कोडें आतां निस्त्याक मारपाचो एक ल्हानसो भालो तितू उरला! पूण तो उपेगा पोडपा न्हूं! म्हजे कोडें दोन व्होलयो, येऱ्या एक दांडो आनी हो एक बोडावणो आसा!'' ताणें म्हळें.

''आतां तेणीं म्हाका माल्ला! पिल्ल्याक धाडावन मारोंक म्हुज्यान आतां ह्या जाणटेपोणी जावंचेंना! पूण म्हुकोडें व्होलयो आसाय, हो बोडावणो आसा आनी येऱ्या दांडो आसा, ते मेरेन हांव येत्न कोत्तोलों!'' ताणें आपले हात भिजोवपा खातीर परतून उदकांत बुडयले. दनपार उलगून गेल्ली, आनी ताका मळब आनी दर्या हांचे बगर कांयच दिस नाशिल्लें. मळबांतलो वारो पयलीं परस वाडिल्लो आनी आतां रोखडीच जमीन दिसतली अशी ताका आस्त आशिल्ली.

''तूं आतां चोड दोमला जाणटेल्यो!'' ताणें आपणाकूच म्हळें, ''तूं भितोल्ल्यान थोकलाय!''

सुर्या अस्ताक वचचे पयलीं शार्कांनी नुस्त्याचेर घुरी घालिना. तांणी उदकांत ओडिल्ल्या रेगां वयल्यान पुडी कोराचे पांखाटे येतना जाणटेल्यान पळेले. आतां ते वास हुंगीत कडे कडेच्यान येनासतना नीट व्हड्याचे दिकेन एकठांय जावन पेंवत येताले.

ताणें येऱ्याचो दांडो घट्ट बसयलो. शिडाच्यो दोरयो गच्च बांदल्यो आनी बडोवणो हाडपाक तो तोल्दा मुळा गेलो. एके मोडके व्हलयेच्या दांड्याचा अडेच फूट लांबयेचो कुडको खरवतीन कापून ताचो बडोवणो केल्लो. ताचो बरे तरेन उपेग करपाचो जाल्यार मुठीक धरून तो एकाच हातान वापरूंक जाय आसलो. शार्क येवंक लागले तेन्ना ताणें तो उजव्या हाताचे मुठींत घट्ट धरलो. ते दोनूय शार्क सामके धाडसी आशिल्ले.

''हांयें त्या पोयल्याक निस्तें बोरें घोट्ट



धोरोंक दिवंक जायें. मागीर घालोंक जावो तेच्या नाकार ओव तोकले मोदीं बोडोवणो!'' ताणें म्हळें.

दोनूय शार्क जोडयेनूच भितर आयले, आनी पयलो लागीं आशिल्ल्यान ताणें नुस्त्याच्या रुपेरी जाग्याक तोंड लायनाफुडें जाणटेल्यान बडोवणो वयर उबारलो आनी एकदम सकल हाडून शार्काच्या बोडकार दिस्त मदीं नेटान मारलो. बडोवणो शार्काचेर बसला तेन्ना ताका तो रबराचेर बशिल्ले बशेन दिसलो. पूण ताका हाडाची घटसाणूय मातशी जाणवली; आनी तो शार्क नुस्त्याक सोडून सकल वतां वतां ताणें ताच्या नाकाचे चोंचीचेर आनीक एक नेटाचो धपको घालो.

दुसरो शार्क भायर भितर करीत आशिल्लो आनी आतां तो आपलें तोंड उगडून लागीं आयलो. नुस्त्याचेर झोंपय घालून ताच्यांत तोंड धोंगशितकच ताच्या बोच्याचे कुशीनच्यान नुस्त्याच्या मासाचो धवो कुडको शेणटना जाणटेल्याक दिसलो. ताणें त्या शार्का वटेन बडोवणो घुंवडायलो, आनी तो फकत ताच्या बोडकाचेरूच बसलो. शार्कान एकदां ताचे कडें पळेलें, आनी नुस्त्याचो आनीक एक कुडको काडलो. तो गिळपा खातीर जेन्ना तो कुशीक सरलो तेन्ना जाणटेल्यान परतून बडोवणो घालो, पूण तोय ताच्या घट्ट अशा रबरी भागाचेरूच बसलो.

''यो रे चेडयेच्या, यो एसो पोत्तून!'' ताणें म्हळें.

शार्क नेटान फुडें आयलो, आनी ताणें आपलो बोंचो धांपचे पयलीं जाणटेल्यान ताका ठोकलो. बडोवणो जितलो उबारूंक जायत तितलो उबारलो आनी ताचेर नेटान मारलो. हे फावटीं बडोवणो मेंदवाच्या मुळच्या हाडाक लागिल्ल्याचें ताका जाणवलें, आनी ताणें ताका त्याच जाग्यार परतून परतून धोडायलो. तितल्यांत त्या शार्कान मासाचे कुडके तोडटां तोडटां नुस्त्याक सोडलें आनी लोळत लोळत तो मुळा गेलो.

ते परतून येतात काय म्हूण जाणटेल्यान वाट पळेली, पूण एकलोय आयलोना. थोड्या वेळान ताणें एका शार्काक उदकाच्या तळाचेर घुंवडाळ्यो काडीत पेंवतना पळेलो. दुसऱ्याचे पांखाटे मात ताका दिसलेनात. ''म्हाका दिसोना, म्हुज्यान तेंकां मारोंक जायत एशें!'' ताणें मनांत म्हळें. ताका त्या नुस्त्या कडें पळोवपाचें नाशिल्लें. ताचो अर्दा वयर कुडको सामको वाट लागला हें ताका खबर आशिल्लें. तो शार्का कडें झगडटा आसतना सुर्या अस्ताक गेल्लो.

''आतां रोकडो काळोक जातोलो!'' ताणें म्हळें, ''मागीर म्हाका हवाना बोंदरांतुलो दियां उजवाड चोवंक गावतोलो! हांव उदेंती वाटेन चोड पोयस येयलां आसोन जाल्यार म्हाका थुंयचे एके येळे वयले दिये दिसतेले!''

''आतां हांव चोड पोयस आसोंक नेजो! कोण म्हजो हुस्को कोत्ता एशेंय दिसोना म्हाका! तिंगा हुस्को कोरपी एकलो भुरगो आसा. पूण तेका म्हजो भोरवोंसो आसा, हें हांव गेरेंटेन सांगोतां! आनी थोडे जाणटे पागी हुस्को कोत्ता आसतेले! आनिकूय फुबशे! हांव एका बोऱ्या गांवांत रावतां देखून!''

नुस्त्याची सामकी वाट लागिल्ल्यान जाणटेल्याक हाचे फुडें ताचे कडें गजालीय करूंक शक्य नाशिल्लें. इतले मदीं ताचे

तकलेंत दुसरेंच कितें तरी आयलें.

"ओद्द्या निस्त्यो," ताणें म्हळें, "तूं एकदां आख्खें आसलें! हांव इतू पोयस येयलों हेचें फूब वायट दिसोता म्हाका निस्त्यो! हायें आमचो दोगांचो सोत्यानास केलो! पूण आमी फूब पिले मारले न्हूं! तूं, हांव आनी आनीक फूब जाणांचें गोठ्ठाण जालां! आरे निस्त्या, तुयें आयज मेरेन कितू माल्ल्याय रे? तुगे तोकलेर आसलेलो भालो बेश्टो बाळगोंक ना तुयें!" ताणें म्हळें.

त्या नुस्त्या संबंदान, आनी तें मेकळें आशिल्लें जाल्यार त्या शार्काचें कितें करतलें आशिल्लें हे विशीं ताका येवजुचेशें दिसलें. "तेंचें झोगडें लावंक हायें तेंची चोंच कातरोंक जाय आसली! पूण तिंगा कुलाडेंय नासलें आनी सुरोय नासलो! म्हुजे कोडेन तें आसलोलें आनी हायें तें व्होलयेक बांदलोलें जाल्यार कितू बोरें होत्यार जातेलें आसलें. आमी दोगूय मेळोन तेंचे कोडें झोगोडटेले आसले! ते आतां राती कोडें येयले जाल्यार तूं कितें कोत्तोलोय? तुज्यान कितें कोरोंक जातेलें?" तो चिंततालो.

"झोगोड तेंचे लागीं! हांव मोरोसोर झोगोडटेलों तेंचे कोडें!" ताणें म्हळें. पूण आतां ह्या काळखांत खंयच उजवाड दिसना, न्हय दिवे दिसनात, फकत वारो आनी शिडाची हलकीशी ओड उरल्या. असले अवतिकायेंत ताका आपूण हाचे पयलींच मेल्ल्यांत जमा जालां अशें दिसलें. ताणें दोनूय हात एकठांय केले, आनी तळटां सांसपिलीं. हात अजून मरूंक नाशिल्ले आनी ते उगडून धांपून तांच्यांतलें वेदनेचें जितेपण जाणवतालें. ताणें नाळेचे फळयेक फाट तेंकयली. आनी ताका आपूण मरूंक ना म्हणपाचें कळ्ळें. तागेल्या खांद्यांनीय ताका तशें सांगलें.

"निस्तें गावलें जाल्यार जोप कोत्तेलों एशी हायें आंगवोण केलेली ती आजून फारीक कोरची आसा! पूण जोप कोरपा इतू फोर्स आतां उरोंक ना म्हुज्यांत! तो साक काडोन आंगा वोयल्यान घेयल्यार बोरो!" ताणें चिंतलें.

तो नाळी कडले फळयेचेर मातसो लवंडलो आनी येरें धरून व्हडें ताणूंक लागलो आनी मळबांत खंयच्यानूय उजवाड दिसता काय म्हणून पळोवंक लागलो. "म्हुजे कोडें तेचो ओद्दो वांटो आसा! हो ओद्दो वांटो वांगडा व्होरपाचें म्हुज्या नोशिबांत आसोत! थोडें तोरी बोरें नोशीब आसोंक जाता म्हुजें! शे:! तूं चोड पोयस गेलो तेदना तुयें तुगे नोशिबा शीम हुपली! पिशेपोणां कोरी नाकाय, आनी जागो रावोन व्होडें ताण! आजून तुजें नोशीब बोरें जावंक आसा!" ताणें व्हडल्यान म्हळें.

"कोणाय कोडल्यान म्हुज्यान नोशीब इकतें घेवंक जायत कायी? तें फुंयूय इकतें मेवतालें जाल्यार हांव तें घेतोलों आसलों!" ताणें म्हळें. "बोदलाक कितें दिवन हांव तें इकतें घेतोलों?" ताणें आपणाकूच विचारलें.

"ओगडायलोलें कोयतूल, मोडको सुरो आनी वाट लागलोले दोन हात दिवन तें इकतें घेतोलों? घेवंक जायत लेगीत म्हुज्यान!" ताणें म्हळें, "तुयें तें दोर्या वोयल्या ओंयशी आनी चार दिसां बोदलाक इकतें घेवचें केलोलें आनी तेणीं तुका तें लागीं लागीं इकलेलें!"

"हायें ही ऐशीं पिशेपणां चितोंक फावोनाय! नोशीब ही गोजाल फूबश्या तोरांनी येवंक आसा आनी तेका कोणाच्यान ओळखोंक जावचेंना! फुंयचेय तोरेन तें येयलें जाल्यार म्हुज्यान तें मागोन तें मोल दिवन इतकें घेवंक जाता! दियांचो उजवाड दिसोंक जाय आसलो!" ताणें म्हळें.

"म्हाका चोड वोस्तू जायो! पूण आतां म्हाका ही एकू वोस्त जायी!" येरें धरूंक मातसो सदळसाणीन बसपाचो ताणें यत्न केलो तेन्ना ताका जी दूक जाणवली तिणें आपूण अजून मरूंक ना म्हणपाचें ताका कळ्ळें.

रातच्या धा वरांच्या सुमाराक ताका शारांतल्या दिव्यांच्या उजवाडाचें उदकांत पडिल्लें पडबिंब दिसलें. पयलीं ताका ते दिवे म्हळ्यार चंद्रिमाचो उदेव जावचे पयलींचो उजवाड कसो दिसलो. मागीर मात वारो वाडिल्ल्यान दर्या भायर वयर सकल जावपी ते दिवे मातशें थीर जाले. ताणें त्या उजवाडा भितरूच व्हडें ताणलें आनी आपूण आतां रोखडोच न्हयचे तडीक लागतलों अशें ताका दिसलें.

"काबार जालें हें सोगलें आतां! पूण ते पोत्ते घुरी घालोंक आसाय म्हुजेर! पूण हातांत केसलेंच होत्यार नासतोना एसोल्या काळखांत मोनशाच्यान तेंचें कितें कोरूंक जातेलें!"

जाणटेलो आतां आंकुडिल्लो आनी दुखावल्लो. रातचे थंडेक लागून तागेल्या आंगा वयले घाय, ताण सोंशिल्ले सगळे अवयव आतां सणसणटाले. "पोत्तून झोगडें कोरची येळ म्हुजेर येयना जाल्यार पुरो एशें दिसोता म्हाका! फोन्यांनी दिसोता म्हाका तेशें!"



पूण मध्यानराती कडें ताणें झगडें मारलेंच, आनी तें फुकट गेलां म्हणपाचें ताका कळ्ळें. शार्काचो चोम्याचो चोमो आयलो आनी ताणें नुस्त्याचेर घालून घेतलें. तांच्या पांखाट्यांनी उदकाचेर ओडिल्ल्यो रेगो आनी तांची चकचकसाण तितली जाणटेल्याक दिसली. ताच्या कानार तांच्या दाडवणाचो आवाज आयलो आनी व्हड्या मुळच्यान तांणी झोंपय मारिल्ल्यान व्हडें थरथरलें, तेन्ना ताणें तांचीं बोडकां धोडावन काडलीं. जें जें कितें ताका जाणवतालें आनी कानार पडटालें तें तें तो खुनशीपणान धोडायतालो. आनी ताका आपलो दांडो कोणूय तरी झोमून घेता असो भास जालो आनी इतले म्हणसर तो गेलो लेगीत.

ताणें येऱ्याचो दांडो निखळावन काडलो आनी तो दोनूय हातांनी धरलो आनी परतून परतून नेटान वयर सकल करून तो तांकां बडोवपाक आनी चेंचावपाक लागलो. पूण आतां ते नाळेच्या वांका मेरेन वयर आयिल्ले. ते एका फाटल्यान एक अशे आनी चोम्यांनी येताले आनी परतून परतून येवन उदका मुळच्या चकचकत्या मासाचे कुडके तोडटाले.

आनी निमाणें एकलो दिस्त ताचे तकले वटेनच्यान आयलो, आनी तेन्ना जाणटेल्याक कळ्ळें, 'आतां सगळें सोंपलें!' दूक गळोवंक जमना अश्या त्या नुस्त्याचे तकलेंत शार्कान आपलें दाडवण शिरकिलें तेन्ना ताणें ताचे तकलेर दांडो घालो. एकदां, दोनदां आनी परतून परतून. दांडो मोडिल्ल्याचो आवाज ताणें आयकलो आनी मोडिल्ल्या दांड्याच्या धारेच्या कपच्यान ताणें ताका धोंगशिलो. ताका कपचो भितर गेल्ल्याचें जाणवलें आनी धार आसा हें खबर आशिल्ल्यान ताणें तो परतून परतून धोंगशिलो. घुंवडाळ्यो घेत घेत शार्क थंयसून गेलो. आयिल्ल्या चोम्यांतलो तो निमणो शार्क आशिल्लो. तांकां आतां खावपासारकें थंय कांयच उरूंक नाशिल्लें.

जाणटेल्याक स्वास घेवपाक कश्ट जातालें, आनी तोंडांत कसली तरी वेगळीच रूच आयिल्ली. ती आंबट आनी गुळमट आशिल्ली. जाणटेल्याक खिणभर तिचो भंय दिसलो. पूण तें चड वेळ तिगलेंना. तो दर्यांत थुकलो आनी ताणें म्हळें, "खायाय हें होलकोटांनो, आनी एका मोनशाक काबार केलो एशें सोपोन रोंगोयाय!"

आपणें निमणी हार खाली आनी तिका उपाय ना हें ताका कळ्ळें. आनी येरें सारकें धुंवडावंक मेळचें म्हणून ताणें मोडिल्लो दांडो थंयचे खाचींत बसता काय म्हणून पळेलो. साक खांद्या भोंवतणी सारको गुठलायलो आनी व्हडें आपले वाटेन ताणूंक लागलो. आतां भोंवडी ल्हव जाल्ली, आनी ताका कसलो ताण नाशिल्लो न्हय जाणविकाय. तो तें सगळें हुपून आयिल्लो, आनी आतां तो आपलें व्हडें घरा कडल्या बंदराचे दिकेन जाता तितले हुशारेन ताणटालो. रातच्या वेळार शार्कांनी त्या सांगाड्याचेर घालून घेतिल्लें. जेवणाच्या मेजा वयल्यान कोणेंय उश्टें व्हरचें ते बशेन. जाणटेल्यान तांचे कडें पळेलें लेगीत ना आनी येरें धुंवडावपा पेल्यान आनीक कित्याच कडें चित्त दिलेंना. कडेक आशिल्लें वजें उणें जाल्ल्यान व्हडें कितलें ल्हव जालां आनी तें आतां कशें चलता इतलेंच पळेलें.

"बोरें आसा हें! बोरें घोट्ट आसा! येन्या दांडो सोडलो जाल्यार केसली वाट लागोंक ना हेजी! दांडो दुसरो बोसोवंक मेवतोलो." ताणें म्हळें.

आपूण आतां खाडयेच्या झोतांत भितर सरतां हें ताका कळटालें, आनी तडी वयले दिवेय दिसताले. आपूण आतां खंयसर पावलां हें ताका कळ्ळें, आनी आतां घरा कडें पावप म्हळ्यार सामकी सोपी गजाल आशिल्ली.

"केशेंय जांव, वारो हो आमजेलो इश्ट!" ताणें म्हळें. पूण ताणें रोखडेंच अशेंय म्हळें, "पूण थोडे फावटीं!"

आनी हो दोरवो! भितूर इश्ट आनी भायर दुस्मान आसलेलो! आनी हातूण! हातूण म्हुजें इश्ट! फोकोत हातूण! हातूण म्हुटल्यार व्होडली गोजाल आसोंक जायी! हार खातोरीच सोगलें सोपें जाता! तें कितू सोपें जाता हें फोबोर नासलेलें म्हाका! आनी तुका कोणें हारोयलो!" ताणें मनांत म्हळें. "कोणे न्हूं! हांव गोरजे भायर पोयस जेलों!" ताणें व्हडल्यान म्हळें.

जेन्ना ताणें आपलें व्हडें त्या ल्हान बंदरा भितर ताणलें तेन्ना तेर्रासा वयले दिवे पालवलेले, आनी सगळे लोक आतां न्हिदिल्ले आसतले हें ताका खबर आशिल्लें. वाऱ्यान इल्लो इल्लो नेट धरिल्लो, पूण धक्याचेर मात शांतताय आशिल्ली. ताणें आपलें व्हडें नीट व्हेलें आनी तळपा मुळचे रेंवेचेर चडयलें. ताका आदार करपाक थंय कोणूच नाशिल्ल्यान ताणेंच तें जाता तितलें पयस ओडीत व्हेलें. मागीर तो भायर देंवलो आनी तें ताणें तळपाक घट्ट बांदलें.

ताणें दोलकाठी देंवयली आनी शीड गुठलावन तें गच्च बांदलें. मागीर ताणें दोलकाठी खांदार घेतली आनी तो चडटी चडूंक लागलो. आपणाक कितलें पुरो जालां हें ताका तेन्ना कळ्ळें. तो मातसो थांबलो आनी ताणें फाटल्यान पळेलें; आनी रस्त्या



वयल्या दिव्यांच्या उदकांत पडिल्ल्या उजवाडांत ताका व्हड्याच्या बोर्दाक बांदिल्ल्या त्या नुस्त्याची खुबूच व्हडली शेपडी दिसली. आनी ताका ताच्या फाटीच्या कण्याची उकती धवो रेग, फुडें आयिल्ल्या नाका सयत बोड्काचो काळो थापो. आनी बाकी सगळें नागडेपणूच दिसलें.

तो परतून चडूंक लागलो; आनी वयर माथ्यार पावतकच तो थंय पडलो. आनी खांदार दोलकाठी आशिल्ले अवस्तेंत तो थोडो वेळ तसोच पडून रावलो. ताणें उबो रावपाचो यत्न केलो, पूण ताका तें जमलेंना. आनी तो खांदार दोलकाठी धरून थंयच बसलो,आनी रस्त्या कडें पळेत रावलो. पेल्यानच्यान एक माजर आपल्या कामाक वतालें, ताचे कडें तो पळेत रावलो.

निमणें, दोलकाठी सकल दवरली आनी तो उठून उबो रावलो. मागीर ताणें दोलकाठी उबारून खांदार घेतली. आनी वयले वाटेनच्यान वचपाक गेलो.

खोंपींत पावतकच दोलकाठी ताणें वणटीक तेंकून दवरली. काळखांतूच उदकाची बाटली सोदून काडली आनी घोंटभर उदक पिलो. मागीर ताणें हांतुणाचेर घालून घेतलें. खांद्यां वयल्यान, हातां वयल्यान आनी पांयां वयल्यान चादर घेतली, पांगरुणा मुळच्यान हात तायट भायर काडले, आनी तळटां जमनीक तेंकोवन तो वर्तमानपत्राचेर तोंड उमथें घालून न्हिदलो.

सकाळीं भुरग्यान दारांतल्यान पळेलें तेन्ना तो न्हिदिल्लो. वारें चड नेटान व्हांवतालें. ताका लागून हेवटेन तेवटेन भरकटून वचपी व्हडीं भायर घालपाचीं नाशिल्ल्यान भुरगो खूब वेळ न्हिदलो आनी मागीर तो सदचे बशेन जाणटेल्याचे खोंपींत आयलो. जाणटेलो स्वास-उस्वास घेता काय ना तें ताणें पळेलें, आनी मागीर जाणटेल्याचे हात ताचे नदरेक पडले, आनी तो रडूंक लागलो. इल्ली काफी हाडची म्हणून तो भायर गेलो. रस्तोभर तो रडतूच आशिल्लो.

खूबशे पागी व्हड्या भोंवतणी जमिल्ले, आनी ताच्या बोर्दाक कितें बांदलां काय म्हणून पळेताले. आनी एकलो जाल्यार कालसांव वयर गुठलावन उदकांत देंविल्लो आनी गऱ्याक बांदपाचे दोरयेन त्या सांड्याची लांबाय मेजतालो.

भुरगो सकल गेलोना. तो थंय पयलीं वचून आयिल्लो, आनी ताचे फाटल्यान आनीक एकलो पागी व्हड्याची राखण करतालो. "केसो आसा तो?" एका पाग्यान व्हडल्यान बोबाट मारून विचारलें. "न्हिदोला!" भुरग्यानूय व्हडल्यान सांगलें. आपूण रडटां हें तांणी पळेलें जाल्यार लेगीत ताची ताका पर्वा नाशिल्ली. "तेका कोणें तोरास दिवंक फावोना!" ताणें व्हडल्यान म्हळें.

"नाका कोडल्यान शेपडे मेरेन तो धा हात आसलो!" जोख काडटल्यान व्हडल्यान सांगलें.

"व्होय! तितू आसोंकू जावो!" भुरग्यान म्हळें.

तो तेर्रासाचेर गेलो आनी ताणें काफी मागली.

"एकदोम गोरोम! आनी चोडशें दूद आनी साकोर घाल तितूंत!"

"आनी कितें जायें?"

"नाका! मागीर थोड्या येळान चोयतां तेका ...तेंय खावंक जोमता जाल्यार!"

"कितें निस्तें आसलें रे तें! एसोलें निस्तें ...न्ना देखलें ना!" मालकांन म्हळें.

"तुयें काल धोरलेली तीं दोन निस्तींय ...रीं आसलीं."

"म्हगे निस्त्याक लागों उजो!" भुरग्यान ...हळें. आनी तो परतून रडूंक लागलो.

"तुका जायें कितें पिवोंक?" मालकान ...चारलें.

"नाका!" भुरग्यान म्हळें. "तेंकां सांग, ...तयागोक बेश्टो तोरास कोरी नाकाय म्हुणोन! ...ंव येतोलों पोत्तून!"

"तेका सांग, म्हाका चोड वायट दिसोलां म्हुणोन!"

"तुगे व्होडले उपकार!" भुरग्यान म्हळें.

हुनहुनीत काफयेचें कोप घेवन भुरगो जाणटेल्याचे खोंपींत आयलो, आनी तो जागो जाय म्हणसर ताचे म्हेऱ्यांत बसून रावलो. एकदां ताका तो उठला कसो दिसलो पूण परतून तो गाड न्हिदलो. आनी काफी हून करपाक थोडो जोळोव उश्णो हाडपाक भुरगो रस्त्या पलतडी गेलो.

निमणें जाणटेलो जागो जालो.

"उठोन बोसों नाकाय!" भुरग्यान म्हळें, "ही पिये" ताणें कोपांत इल्ली काफी ओतयली.

जाणटेल्यान ती घेतली आनी पिलो.

"तेणीं हारोयलो म्हाका मानोलीन!" ताणें म्हळें, "फोऱ्यांनी हारोयलो तेणीं म्हाका!"

"तेणें हारोवंक ना तुका! त्या निस्त्यान न्हूं!"

"फोरें! तेणें न्हूं! तें मागीर घोडलें!"

"पेद्रिको चोयता तिंगा व्होड्या कोर्डे आनी सामाना कोर्डे! तेच्या बोडकाचें कितें कोरोंक जायें तुका?"

"पेद्रिकोक कोन्नी तेचे कुडके झारयेक लावंक!"

"आनी तेगे चोंची भालो?"

"तुका जावो जाल्यार दोवोर तूं!"

"म्हाका जावो तो!" भुरग्यान म्हळें. "आतां बाकी गोजाली चोवंक जायो आमकां!"

"तेणीं सोदलेलो रे म्हाका?"

"व्होय तोर! देगे वोयले राखणे आनी इमाना घेवन!"

"दोर्यो केदो व्होडलो, आनी व्होडें एदेशें! दिसोंक लेगीत कुस्तार!" जाणटेल्यान म्हळें. आपणा कडें वा दर्या कडें उलोवचे परस मनशां कडें उलोवंक मेळप म्हळ्यार कितली खोशयेची गजाल हे जाणटेल्याक कळ्ळें. "तुगे चोड उगडास येयलो म्हाका!" ताणें म्हळें, "तुका कितें गावलें?"

"पोयल्या दिसा एक, दुसऱ्या दिसा एक आनी तिसऱ्या दिसा दोन!"

"बेस्स बोरें!"

"आतां आमी जोडयेन पागोंक वोयचेलें!"

"नाका!" म्हुगे नोशीब बोरें न्हूं! हांव बोऱ्या नोशिबा न्हूं!"

"नोशीब जेलें फोणांत!" भुरग्यान म्हळें, "हांव हाडटेलों नोशीब म्हुजे बाराबोर!"

"पूण तुगे घोरचीं मोनशां कितें म्हुणटलीं?"

"म्हाका तेची पोर्वा ना! हांयें काल दोन धोल्ल्यांय! पूण हेचे मुखार आमी दोगांनी पागचेलें! म्हाका आजून खूब शिकचें आसा!"

"आमकां एक निस्तें मारचेलो बोरो भालो जावो, आनी तो सोदां फोळ्येर आसोंक जावो! म्हुज्यान तेजें पातें फोर्ड गाडयेचे पोटट्रेचें कोरोंक जातलें! ग्वानाबाकोंत तेका धार काडोंक मेवतेली! धार बोरी आसोंक जायी. पूण चोड पानवोळ दिलेली नाका, मोडोत म्हुणोन! म्हुगेलो सुरो मोडलो!"

"हांव दुसरो सुरो हाडटेलों, आनी धार काडोन हाडटेलों! एसलो नेटा वारो कितू दीस उरोत कायी?"

"तीन दीस उरोंक येता! चोड लेगीत उरोत!"

"हांव सोगलें बोरें शिस्तीन कोन्न घेतां!" भुरग्यान म्हळें, "तूं तुगे हात बोरे कोरोंक चोय."

"तेंची केशी जोतनाय घेवंक जायी तें बोरें फोबोर आसा म्हाका! राती कोर्डे म्हुगे भुकयेंतुल्यान कितें येगळें पोडलें आनी होड्ड्यांत कितें तोरी मोडलेले बाशेन जालें!"

"तेंवूय घे निवोळ कोन्न!" भुरग्यान म्हळें. "आतां इलो सुशेग घे तूं शेपाय! हांव तुगे धुयलोलें खोमीस हाडटां आनी इलें खावचेलें!"

"हांव भायर आसलों तेदनाचो फुंयचोय पेपर मेवता जाल्यार चोय!" जाणटेल्यान म्हळें.



"तुयें बेगीन निवळोंक जावो! म्हाका आजून फूब शिकोंक जायें! तुज्यान म्हाका सोगलें शिकोवंक जातेलें! चोड कोश्ट भोगले रे तुयें शेपाय?"

"देमायज!" जाणटेल्यान म्हळें.

"हांव पेपर आनी खावचें हाडोतां!" भुरग्यान म्हळें. "तूं बोरो सुशेग घे!" तुगे हातींक लावंक कितेंय वोखोद हाडोतां दुकानांतुल्यान!"

"पेद्रिकोक सागोंक विसरों नाकाय, निस्त्या तोकली तेगे म्हुणोन!"

"ना, ना उगडास धोन्न सांगोतां!"

भुरगो दारा भायर गेलो आनी सकयल्या पोवळ्यांच्या फातरांच्या झरिल्ल्या रस्त्याचेर बसून परतुनूय रडपाक लागलो.

ते सांजेचेर तेर्रासा वयल्या तावेर्नांत कांय भोंवडेकार आयिल्ले. तांच्यांतले एके बायलेन उदकांत बियरीचीं रिकामी फोलिणां आनी मेल्ल्या भोपशां मदीं एका लांबरुंद आनी धव्या सांगाड्याक लागिल्ली एक शेपडी पळेली. बंदरांत भितर सरपाचे वाटेर, शांत आशिल्ल्या दर्याचेर उदेंती कडल्या नेटाच्या वाऱ्यान ती वयर सकल जायत हेवटेन तेवटेन झेल मारताली.

"हेऽतें कितें?" तिणें एका वेटराक विचारलें. आनी ल्हारा वांगडा कोयर म्हणून भायर वचपाची वाट पळेतल्या एका लांबरुंद सांगाड्या कडे बोट दाखयलें.

"टिब्युरोन! म्हुटल्यार शार्क!" वेटरान सांगलें. कितें घडलें तें तिका समजावन सांगपाचो ताचो विचारआशिल्लो.

"शार्काक इतल्यो सोबीत शेपड्यो आसतात हें म्हाका खबरूच नासलें!" तिणें म्हळें.

"म्हाकाय खबर नासलें!" तिचे वांगडा आशिल्ल्या आनीक एकल्यान म्हळें.

वयल्या रस्त्या वयले आपले खोपींत जाणटेलो परतून न्हिदिल्लो. अजून तो तोंडाचेरूच न्हिदिल्लो आनी भुरगो ताचे कडें पळेत ताचे म्हेऱ्यांत बशिल्लो. जाणटेल्याक आतां शिवांचीं सपनां पडपाक लागिल्लीं.





# अनवळखी

**मूळ मराठी: मोनिका गजेंद्रगडकर**
**कोंकणींत हाडपी : योगिनी आचार्य**

हॉस्पिटलाच्या जनेलांतल्यान पागरा भायलो रखरखतो दर्या दिश्टी पडटालो. चकचकपी दर्यावेळे वयली रेंवूय तापिल्ली. रखरखत्या वताचो धग हॉस्पिटलांत ए.सी. आसून लेगीत जाणवतालो. खूब वेळ जनेला कडेन उबी आशिल्ली ताराबाय फाटीं सरली. आशिकुशीक लोकांचो जमो. नदर पडत थंय मनशांच मनशां. येवपी वचपी जम्याचो एक वांटो जावन एकरुप जावपी.

बापू ह्याच हॉस्पिटलांतल्या आयसीयूंत आशिल्ले. वीस बावीस दीस जावन गेल्ले. पिराय ६७-६८. रक्तदाब वाडिल्लो. साबुद्द नासून मान्न्यांत कोसळिल्ले. साऊद व्हडलिशी खालावंक नाशिल्ली तरी पूण हुस्को जावपा सारकी परिस्थिती आशिल्ली. ताराबाय आनी तांचो चाळीस वर्सांचो सहवास सोंपत आयिल्लो. ताराबाय तांचे म्हऱ्यांत आयज एकलीच आशिल्ली. तांची दोगांय भुरगीं परदेशांत स्थायीक जाल्लीं. व्हडलो मंदार वॉशिंग्टन आनी धाकलें नीना न्यूयॉर्काक.

जमावा वयल्यान नदर भोंवडायतना ताराबायली नदर मुखार बशिल्ले चलयेचेर थिरावली. नीनाल्या अंजू येदेंच आसतले. हय अंजू येदेंच आसतलें. सोळा-सतरा वर्सांचें. अंजू हाचे परस चड चुणचुणीत आनी गोरेंय बी. रावपांत तर खुबूच फरक. अमेरिके सारक्या देशांत ताचें रावप. खंय आसतलें काय अंजू? ते चलयेक पळोवन ताराबाय अस्वस्थ जाली.

बापूंक हॉस्पिटलांत हाडटकच दोगांय भुरग्यांक रकाद धाडिल्लो. 'येतां' अशें दोगांयनी कळयल्लें. पूण नीनान काल फोन करून कळयल्लें, ''म्हाका येवंक फावना, कित्याक... कित्याक तर अंजू ना जालां...'' त्या अनपेक्षीत फोनान ताराबाय सामकीच काचाबूल जाली. ''अंजू? अंजू घरांतल्यान?... '' ती नीनाक फोनार परत परत विचारपाक लागली. नीना कडल्यान तिका कळ्ळें, ''अंजूक दीस गेल्यात आनी ताका तें भुरगें जाय.'' नीनाचो फोन सोंपलो.

अंजूलो चेरो तिच्या दोळ्यां मुखावेल्यान हालना जालो. तिच्या हातार न्हिदिल्लें सानुलें अंजू... नीना कशें सोदतलें काय ताका? केदो व्हडलो देश तो! अंजू वरी जुवान, सुंदर चली खंय ना जालें काय तें? हुस्क्यान मन पोखरूंक लागिल्लें आनी आपूण हांगाच्यान कांयच करूंक शकना हे असहायतेन तिचे दोळे ओले जायत रावले. मन कोणा कडेन मेकळें करप? तिका भरून आयिल्ले वरी जालें. स्वामींक आंगवण घालुया. धिटाय आयिल्ले वरी ती उठली. मागीर लक्षांत आयलें, बापूं म्हऱ्यात कोण आसा? बापूंचें आरोग्य तर अशें. नीना कडेन फोन करून उलोवचें, तिका दिसलें.

ताराबाय जनेला म्हऱ्यांत. दर्या फेसाळिल्लो. दर एक ल्हार व्हडलें जायत दर्या देगेर आदळटालें. ल्हवू ल्हवू ती आपणाक थंड करीत गेली. मंदार थंय आसा. तोय यत्न करतलो. अंजू येतलें परत, कळटलें ताका.

''पंचवीस दीस जाले आई, अंजून घर सोडल्यार.'' नीनाचीं तीं उतरां परत परत ताराबायच्या कानार आदळटालीं. म्हळ्यार

बापू दुयेंत पडचे पयलींच? नीनान कित्याक कळयलें ना काय आपल्याक? मागीर तिका जाणवपाक लागलें, अशे कितलेशेच संदर्भ आपल्या भुरग्यांचे जिणेंतले आपणाक समजच नात. दोन देशांच्या अंतराक लागून आसत पूण दिसान दीस पयसावे वाडत गेले. केन्ना केन्ना भुरग्यांचे जिणेंतले संदर्भ आपणाक कळ्ळे, पूण ते लेगीत तुटक संदर्भांतल्यान शिंपडिल्ले. ते संदर्भ आपूण आपणा खातीर जुळयत गेलीं. मंदार जर्मन चलये कडेन, नॅन्सी कडेन, लग्न जालो. लग्न जातकच कळयलें. नीनान करून घेतिल्लो गर्भपात, दीपकाची सुटिल्ली नोकरी आनी ताचें वाडिल्लें पियेवप, तांचे भितर उप्राशिल्लो अस्पश्टसो विसंवादाचो सूर. इतलेंच न्हय तर नॅन्सी गुरवार आसा हें लेगीत आपणाक चार म्हयने जातकच कळ्ळें. सगळ्यो बारीकसाणी आपले मेरेन केन्ना पावल्योच नात. फोना वयल्या उलोवपांतल्यान वयल्यान फाटले फुडले जुळयल्ले संदर्भ. भुरगीं व्हड जातात तशें ताचें जग चारूय वाटांनी विस्तारत वता, बदल जायत रावतात आनी आमी मात तांच्या त्या जगांत वयले वयर थारतात, उपाय नाशिल्ल्यान तांचे जिणेक दसून रावपाचो यत्न करीत रावतात!

अंजू ना जालें हें नीना आजूय कळोवचें नाशिल्लें. बापूच्या दुयेंसाक लागून एक वेळ ताका कळोवचें पडलां आसुंये. तरी लेगीत नीनाच्या उतरां कडेन ताराबाय आडनदर करूंक शकली ना. "अंजूक दीस गेल्यात, आंकवारपणांतूच. हें भुरगें ताका वाडोवपाचें आसा..."

मुक्त जीण जगपाच्यो ह्यो कसल्यो कल्पना? मेकळेपणाच्यो, मजेच्यो काय उपभोगाच्यो! हें सूख, खोस म्हणपाची तरी कसली! एकामेकांची पारख करप ती फकत कुडीच्या माध्यमांतल्यान. आनी हातूंतल्यान निर्मल्ल्या खंयच्याच नात्याची शाश्वती आसना वा कसलेच बंध फाटीं उरनात... आपली जीण आपले मालकीची आसता हें खरें आसलें तरी इतली मेकळीक घेवन तिचे कडेन खेळूं येता व्हय? तितलो तरी आपले जिणेचेर आपलो हक्क आसता व्हय?

"तें भुरगें कोणाचें हेंय अंजूक खबर ना आई!" नीनाच्या त्या उतरांनी खीणभर तिचे दोळेच घुंवले. 'त्या चल्या कडेन लग्न करून दी...' आपणें सुचयल्ल्या उपायार ताणें हें सांगलें. तरी लेगीत अंजूक हें भुरगें जाय? त्या जिवाची जतनाय!... ताचो फुडार!... आनी अंजूली जीण - कितलेशेच वेगवेगळे अधांतरी प्रस्न उबे रावल्यात. अंजू एके वेगळे तरेची, ताच्यान पेलूंक जावची ना अशी, एका जिवाची जापसालदारकी आपणाचेर पुराय जाणविकायेन ओडून घेता! कित्या खातीर? ही खंयच्या अनाम नात्याची ओड? ताचे खातीर ताणें सगळे बांदपास, सगळ्या मनशांक फाटीं उडोवन फुडें वचचें?

"कुशीक सरात... चलात... कुशीक सरात..." दोन तीन वॉर्डबॉय मदींच आशिल्ल्या जमावाक कुशीक काडीत धांवत येताले. तांचे फाटल्यान दोन तीन नर्सी. रगतान माखिल्ली कूड स्ट्रॅचरा वेल्यान हाडटाले. स्टेथॅस्कोप लायिल्ले दोन एक दोतोर स्ट्रॅचरा फाटोफाट नेटान धांवत गेले. स्ट्रॅचर ऑपरेशन थिएटरांत गेलो आनी दार बंद जालें. सगळी गडबड थंड जाली. ताराबाय जनेलाक तेंकून उबी रावली. तिणें आपली नदर परती दर्याचेर थिरायली. तापिल्लो सुर्या आतां दर्याच्या मध्यार पाविल्लो. चकचकपी उदकाक तर पळोवपाकूच जायनाशिल्लें.

"मिसेस वैद्य..."

ताराबायन फाटीं पळयलें. धवी फुल्ल साय घाल्ली हांसत्या मुखामळाची नर्स उबी आशिल्ली. "तुमच्या पेशंटाच्या ओंठाची मातशी हालचाल जावंक लागल्या. मातशी बेगीन येयात." ताराबाय ताकतिकेन तिचे फाटल्यान वचूंक लागली.

आयसीयूंत एके तरेची शांतताय आशिल्ली. पार्टिशनाच्या चवकोनी कुडक्यां मदीं मांडिल्ल्यो खाटी. वखदांचो विचित्र वास. चडश्या खाटींचेर दुयेंती आशिल्ले. बापूंल्या तोंडार दवरिल्लें ऑक्सिजनाचें मास्क काडिल्लें. श्वासाचो नेट वाडिल्लो. हातांर, नाकांत मेजूंक कठीण इतल्या वादयांचें जाळें आशिल्लें... मुखामळ बाविल्लें. एकाद्रें रसरशीत फळ दिसा अखेरेक बावचें तशीच बाविल्ली कूड. गोरी कांत काळी पडिल्ली. भितर गेल्ले पोले आनी शिरवंत नाक तितलेंच नदरेंत भरतालें. ताराबाय फुडें सरली. तांच्या कानांत ल्हवूच उलो केलो, "बापू". आशेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी तिणें मान वयर करून बापूंल्या ओंठां कडेन पळयलें. ओंठ उकते जाल्ले वरी जाले. "बापू... हांव... तारा..."

पूण जाप नाशिल्ली. दोळे गच्च बंद केल्ले वरी. तिणें नर्सी कडेन पळयलें. तिणें मान हालयली. मास्क परतेंय चेऱ्यार चडयलें. ताराबायक भायर वचपाक कुरू केली. आनी तीय बी गेली.

आयसीयूंतल्यान भायर येवन ती कोचाक तेंकली. बापूंलो जीव इतले दीस कोणा भितर घुस्पला आसतलो काय? भुरग्यां भितर? मंदार तर तांचो सामको मोगाचो. ताचे खातीर? नासतलो, तिका दिसलें. कोणा भितरूच नासतलो. बापूंक तांची जीण, तांचें जगप प्रमाणबद्ध आनी विचारांचे फास्केंत बसोवंक आयलें. हें म्हळ्यार अशें, तें म्हळ्यार तशें. तत्वगिन्यानाचे प्राध्यापक म्हूण आसत घडये. तांणी आपली जीण आपल्या तत्वा भितर बांदिल्ली. भुरगीं खूब पयस वचुनूय बी तांची उणीव, पयसावो, एकलेपण हीं उतरां लेगीत तांकां आफुडलीं नात. "भुरग्यांचीं आपलीं वेगळीं विश्वां तयार जातात. तातूंत आमचें स्थान वयले वयर उरपाचें." इतलें सादें सोंपें गणीत मानून ते फुडें चलत रावले. आपूण मात खंत करीत रावली. एकलेपणान खंती जायत रावली. भुरग्यांचें वर्सांचीं वर्सां दिसप मेळप ना, पयसाविल्लीं नातरां, तांचो सहवास ना, स्पर्श ना, तांच्या खेळान, बोवाळान लुडब्या उलोवपान घर केन्ना भरलें ना. 'आजी, आजी' म्हणत तांणी केल्लीं हट्टीपणां आपणें केन्ना पुरयलीं नात. तांचे आनी आपले भितर एके तरेची तुटकसाण आयल्या अशें तिका दिसलें. आपल्या भुरग्यांच्यो, तांच्या घराब्याच्यो यादी केन्ना निर्मुंकूच पावल्यो नात.

म्हणटां म्हणटां दीस सरलो. आयसीयूंतल्या दुयेंतीच्या सोयऱ्यांची न्हिदपाची तयारी सुरू जाल्ली. जागो मेळटा थंय लोक हातरुणां हातरूंक लागले. आतां सदचेच वळखळीचे चेरे दिसताले. तातूंत एकाद्रो नवो चेरो.

रातीचें जागरण तशें सोंसपा सारकें नाशिल्लें. हांगा न्हीद सारकी पडची ना म्हणून ताराबायली जाव, शोभा, न्हिदपाक येताली.

ती येतकच ताराबाय पर्स घेत म्हणपाक

लागली, "फाल्यां सकाळीं सगळीं कामां जाग्यार घालून येतां. कितेंय लागलें जाल्यार कळय म्हाका."

दीसभर बसून जड जाल्लो जीव ओडीत ती चलूंक लागली.

चावयेन फ्लॅटाचें कुलप काडलें. जमनीर दोन तीन पत्रां पडिल्ली. तीं उखलून घरांत भितर सरलीं. उकतें केल्ल्या दारांतल्यान उजवाडाचो झोत तितलो येतालो. घर काळखांत बुडिल्लें. दीसभर घर बंद आशिल्ल्यान घरांत विचित्र वास येतालो. कसलीच हालचाल नाशिल्लें, एकाद्र्या फोटोंत आशिल्ल्या घरा वरी, तें घर दिसतालें.

मुखार आशिल्ली वणत काळखांत चडूच धवी आनी निर्जीव दिसताली. वणटीक तेंकूक कोनशाक पुस्तकांचो शेल्फ आशिल्लो. मदीं शोकेस आशिल्ली. सकयल्या खणांत नीना दीपक अंजूलो फोटो आनी कुशिकूच मंदाराच्या घराब्याचो फोटो तिरकस दवरिल्लो. नॅन्सील्या हातांत माणकुलो राहुल आशिल्लो. तिणें शेल्फा म्हर्‍यांत आशिल्लो उबो दिवो लायलो. तो अस्पश्ट फोटो, तें घर स्पश्ट जायत गेलें.

नीनालो फोटो उखलून ती सोफार बसली. फोटोर धुल्ल आशिल्लो. तिणें तो आपल्या पदरान पुसलो. लांब केंस कापून उडयल्लें नीना थंयचेंच सोबता तें, पूण मुखामळा वेली सात्वीकता तशीच आशिल्ली. कुशीक बारीक शिडशिडीत, बॉब कट केल्लें अंजू आशिल्लें. नव्या विचारांचें, ओंठांक लायिल्ली लिपस्टीक, वयाचें कंवळेपण दोळ्यांत दिसतालें आनी ताच्या खांद्यांर हात दवरिल्लो दीपक.

...अंजूक ताच्या जल्मा उपरांत फकत चार म्हयने पळयल्लें. नीनाल्या बांळटेरा खातीर ती एकलीच गेल्ली. बसकें, इंग्लेज धाटणेचे तें गिरेस्त घर. जनेलाक नाजूक नक्षी आशिल्ली. झालरीचे पड्डे आशिल्ले. घरंदाज रुबाब, भायर व्हडलें लॉन. नीनान रोयिल्ली भाजी जनेलांतल्यान दिसताली. उपरांत इल्लो इल्लो झेल पडपाक सुरवात जाली. भुरभुरत पडपी झेल वचत थंय एकठांय जाल्लो. शिंयान गोंठिल्लें शार,सुलूस, जाग नाशिल्लो नीनाल्या घरा मुखावेलो रस्तो. रस्त्या कुशीक आशिल्ल्या झाडांचीं पानां गळिल्लीं. फकत सुक्यो बडयो तितल्यो उरिल्लें बाबडेंच झाड. झेलान सगळ्याक अच्छेव केल्लो. जनेलांतल्यान हें सगळें पळयत ताराबाय अंजूक मांडयेर घेवन वरांचीं वरां हीटरा म्हर्‍यांत बसताली.

ताराबायन फोटोंत आशिल्ल्या अंजूचेर आपलीं बोटां तेंकयलीं. अंजू जाल्लें तेन्ना इल्लेंशें आशिल्लें. तोंडाचो तांबडोगुंज चंबू, दीपका वरी कोंगरें काळेंच जावळ, 'आजी' हें बिरूद दिवपी पयलीच नात. त्या चार म्हयन्यांत कितली संवय जाल्ली ताची! आनी ताकाय म्हजो स्पर्श समजतालो. थंयच्यान जड पावलांनी भायर सरिल्लें. परत केन्ना पळोवंक मेळत ताका? मेळटलें तेन्ना मदीं बरोच वेळ सरिल्लो आसतलो. आजयेचें नातें ताका कशें समजतलें? ताचें व्हडलें जावप सपनांतूच पळयत आयलें. ताचो फोटो, नीनालो फोन आनी केन्नाय ताचे कडेन उलयत. अंजू चार वर्सांचें आशिल्लें तेन्ना नीना दोन आठवड्यां खातीर येवन गेल्लें पूण तेन्ना लेगीत अंजूलें उलोवप समजनाशिल्लें. मागीर तर कांयच समजनाशिल्लें. संवाद तितले पुरतो. त्या संवादा भितर भावना व्यक्तूच जायनाशिल्ल्यो. आठ एक वर्सांनी ताका पळयलें तेन्ना तें चडूच बेगीन वयांत आयिल्ले वरी दिसतालें. मातशें आक्रमक, कळना तसली इंग्लीश उलोवपी अंजू आपलें अशें दिसच नाशिल्लें.

नीना ताका सदांच तापयतालें, "आगो हो भारत. हांगा लांब साय नाजाल्यार लांब पॅन्ट तरी घाल." पूण ताचेर तें ताका चार उतरां सांगतालें. बापू ताचे कडेन उलोवंक शकताले. पूण ताच्या दोळ्यांत परकेपणाचो भाव आसतालो. हांगा ताका मानवलें ना. फोर्सान दवरिल्ले वरी राविल्लें. ताचे आवयचें भुरगेपण गेल्लें ह्या घरांत. ताचें आजोळ. पूण ह्यो सगळ्यो गजाली ताच्या जिवितांत नांवाक लेगीत नाशिल्ल्यो. ताराबायक मात दिसत रावलें, ताचे आनी आपले भितर कसलेंय नातें वा आपलेपण नाच्च.संवाद तर नाशिल्लोच दोगांक जोडपी साम्यूय नाशिल्लें.

तेन्ना नीनान उलयतना म्हणिल्लें, 'अंजूलो हुस्को जाता... ' पूण ताणें तें उलोवप फुडें वाडयलें ना. कसलो हुस्को? आवयक धुवेचो दिसता तसो? काय ते संस्कृतायेंत वाडयतनाचो? चड करून होच हुस्को जावंये. नीनाक तें सांगपाचें नाशिल्लें. तेंय मोनें जाल्ले वरी, आपणालें आपणा खातीर राखून दवरिल्ले वरी. फोना वेल्यान सुकें उलोवणें जातालें. यांत्रिकूय बी. फकत खबर घेवपांतूच घुस्पल्लें. म्हजे हांगचे सगळे संदर्भ ताचे पसून खूब पयस गेल्यात आनी आपूण त्या जगाक खूब अनवळखी. दीपकाची नोकरी, ताच्यो संवयो, गर्भपात कित्याक करून घेतलो म्हूण विचारिल्लें ताका आवडलें ना. तें मेकळेपणान केन्नाच कांय उलयना अशें दिसतालें. ताचे आनी आपले मजगतीं एक खोल देंगण आशिल्ले भशेन दिसता. काय हे सगळे मनाचे खेळ. काय खर्‍यांनीच अशीं पयसाविल्लीं सहवासाचीं अंतरां कितलींय भुगोलीक म्हळीं तरी कापूंक येनात?

एकदम उठून ताराबाय फोना म्हर्‍यांत गेली. न्यूयॉर्काक फोन बुक केलो.

"हॅलो..." नीनान फोन उखल्लो.

"हॅलो, हॅलो, नीना न्हय? हांव आई. आगो अंजू विशीं कितें कळ्ळां?" तिणें धीर धर नासतना विचारलें.

"ना." नीनाच्या उतरां भितर विचित्र थंडाय आशिल्ली.

"तूं कशें आसा? दीपक?"

"दीपक बरो आसा. ताका अंजूचें चूक अशें..." तें वाक्य ताणें थंयच तोडलें. "आतां सगळेंच एकल्यान सांबाळपाची संवय जाल्या." तें म्हणून गेलें.

"कित्याक? हांव आसा न्हय, मंदार..."

"ना गे! हातूंत तिसरो कोण कितें करूंक शकता? तुका तर आमचे प्रस्नूच समजुचे नात. खूब वेगळे आसात ते. आनी आई, ह्या सगळ्या भितर आनीक कोणें पडचें अशी म्हजी निखालूस अपेक्षा ना."

ताराबाय ओगीच रावली. ताची निर्शेणी अशे तरेन भायर सरता अशें तिका दिसलें. कितें दिसता आसतलें काय ताका. कितलेंय जाल्यार अंजूली आवय ती! "हांव समजूंक शकतां गो नीना, अंजू परत येतलें गो... तूं नाका..."

"प्लीज आई..." नीनान तिका तेच तुटकसाणेन आडायत म्हळें, "अंजू कसलें चली तें तुका खबर तरी आसा? कितली वळखता तूं ताका? हांवें म्हळें न्हय तुका,आमचे प्रस्न तुका समजुचेच नात. तूं

हातूंत पडूंच नाका.'' मागीर मातशे समजिकायेन म्हळें, ''हांव कळयतां तुका. तूं आतां फकत बापूं कडेन लक्ष दी, कळ्ळें?'' ह्या समजिकायेच्या उतरांनी तिणें परतो फोन करचो न्हय हीच शिटकावणी आशिल्ली.

नीनालो फोटो तिच्या हातांत आशिल्लो. ताचो तो उद्रेक आसतलो, तें निर्शेलां आसतलें. पूण कोणेंच ह्या प्रस्नांत पडचें न्हय? नीनान अशें कित्याक म्हणून तोडून उलोवचें? ताराबायक दिसलें. ताची तशी अपेक्षाय नासची? आपणाक प्रस्न समजुचे नात म्हळ्यार कितें? असले खंयचे भुरग्यांचे प्रस्न आसतात जे समजून घेवचे म्हळें तरी समजुचे नात आपणाक? ना म्हळ्यार, खंयचे प्रस्न रोखडेच समजूं येत अशे आसतात?

फ्रिजांतलें जेवण तिणें भायर काडलें आनी गॅसार दवरलें. आवारांतल्यान ती तिचे कुडींत गेली. मुखावेली कूड नीनाली, एक मंदाराली आनी कुडीक तेंकून कवड्या कवड्यांची गच्ची. वाऱ्याचीं मंद ल्हारां ल्हवूच येतालीं. दोनूय कुडींतले पड्डे वाऱ्यान हालताले.

...अशेच एके शांत राती, बापू आनी मंदार न्हिदतकच, आपल्याक दीपकान लग्ना खातीर विचारिल्लें हें नीनान तिका सांगिल्लें. एकाद्रे इश्टिणीक विश्वासांत घेवन सांगचें तशें. दीपक थंय शिकूंक आनी नोकरे खातीर वचपाचो आशिल्लो. नीनाक थंय वचपाचें नाशिल्लें. थंयची संस्कृताय, रावपाची पद्दत ताका आवडच ना अशें तें म्हणटालें. दीपकाक ना म्हणपा सारकें खंय कितें आशिल्लें? ल्हान-सान तडजोडी म्हणपाच्यो! तरी लेगीत पेंचांत उडोवपी प्रस्न आशिल्लोच न्हय तो? नीनालोच तोय बी. निर्णय ताणेंच घेवपाचो आशिल्लो, न्हय? ताचे जिणेंतलें तें सगळ्यांत महत्वाचें मोडण थारपाचें आशिल्लें. हांगचें सगळें सोडून थंय वचप-स्थिर जावप- पूण सगळे प्रस्न सोडयले नात आमी एकामेकांच्या पालवान? ताका धैर्य दीत, समजून घेत? भुरग्यांचीं घरां बदल्लीं, वसलीं, देश लेगीत बदल्लो भुरग्यांचो... तशे तांचे जिणेचे मार्गूय बी? त्या मार्गांतल्यो आडखळी, प्रस्न दुःख हांचेय मार्ग? तांच्या सुखा-समाधानाच्या खिणांत आपूण तिसरीच जावन गेलीं! नीनान व्हदल म्हळें, तूं अंजूक कितलीशी वळखता? खरेंच तर आशिल्लें तें. आपूण आपल्या नातरांक वळखूंक शकच ना. तीं आपल्या रगताचीं इतलेंच म्हणपाचें!

हून करूंक दवरिल्लें शीत तोपाक लागून आवाज करतालें. गावयेन तिणें शिताचो तोप गॅसा वयलो सकल देंवयलो आनी शीत वाडून घेतलें. हून करुनूय शीत थंड आशिल्लें. बापू असलें थंड शीत केन्नाच जेवचे नाशिल्ले. तांकां केन्ना थंड शीत मानवनाशिल्लें. धंया बरोबरूय तांकां हून शीत लागतालें. तांच्योच आवडी मंदारान जुस्ता जुस्त उखल्ल्यात. मंदारा मुखार फकत ताच्या बापूंचोच आदर्श. तांणीच ताका जल्म दिल्ले वरी. मंदाराचे यादीन काय कोण जाणा, पूण ताराबायक उस्तऱ्यां गेलें. तोंडाक उदक लायता थंय आसा, कानार बॅलीचो आवाज पडलो. उदक पियेतां पियेतां तिणें घडयाळी कडेन पळयलें. ह्या वेळार आनीक कोण? ती दारा म्हऱ्यांत गेली. जाळयेच्या दारांतल्यान पळयत जाल्यार दारार मंदार उबो. हातांत एक बॅग आनी खांद्यार एक.

''आरे, तूं तुजी याद काडली आनी तूं आयलो!'' मुखामळार अविस्वास आनी अजाप आशिल्लें. ''यो,'' ती सुखावली.

''तुवें येतां म्हूण कांयच कळयलें ना. दीसभर हांव बापू म्हऱ्यांत आसतां आनी रातची शोभा काकी.''

''कसो आसा बापू? दोतोर कितें म्हणटात? कोचार आड पडत ताणें विचारलें.

''फरक कांयच ना. पळय तूंच. वळखुचेय नात तुका.'' तिणें खंती जावन म्हळें. इतले दीस अंदून दवरिल्लें मन मंदाराल्या ह्या प्रस्नान भरून आयिल्ले वरी जालें. तिणें भितर वचून उदकाचें कोप हाडलें.

''घे.''

''म्हाका नाका. हांवें हाडलां,'' ताणें म्हळें.

''तूं एकलोच आयलो?'' तिणें कोप तामरेतीर दवरलें.

''म्हाका नॅन्सीय तुजे बरोबर येतलें अशें दिशिल्लें.''

''आयलें ना तें. नोकरी करता न्हय?''

''रजा मेळ्ळी ना? तें आयिल्लें जाल्यार बरें दिसपाचें. बापूंकूय मेळप...''

''त्या लोकांक हो भावनांचो ओडो समजचना. आयलें ना तें. हांव आयलों न्हय?'' जाब विचारचो तशें ताणें विचारलें.

''तशें न्हय रे. हांवें आपलें...''

ताराबायक गुन्यांवकारी जाल्ले बशेन दिसलें तें मंदाराक जाणवलें. ''आनी म्हाकाय कल्पना नाशिल्ली, बापू इतलो दुयेंत...'' ताणें ल्हव आवाजांत म्हळें. ''कितें जालें हें सगळें? अचकीत?''

''फाटलो म्हयनोभर खूब पुरो जातालें तांकां. इल्लेंशें काम केलें मातशे न्हिदले. नव्या पुस्तकाचें बरोवप तकलेंत आशिल्लेंच. मातशें बरें दिसलें की कामाक लागताले. मागीर वेळ काळ कांयच पळोवप ना. वयाचेंय पळोवंक जाय न्हय? जावंक नाका काम?''

''इतलें पुरो जाल्ले भशेन जातालें जाल्यार दोतोराक कित्याक दाखयलो ना?''

''गुळयो चालूच आशिल्ल्यो. पूण मनशान सुशेग घेवंक नाका?''

''पासयेक वचप बी बंद जाल्लें?''

''कितलींशींच वर्सां जालीं ताका आतां.''

''कसले रिपोर्ट बी आसात घरा?''

''ना रे. सगळें हॉस्पिटलांत आसा. दोतोर सद्दां येतात न्हय रे?''

''फाल्या दोतोरां कडेन हांव उलयतां.''

ताराबायन मान हालयली. मंदारान बूट व्हरून स्टँडार दवरले.

''कितलो बारीक जाला रे तूं?'' फाटल्यान ताका बारीक पळेत ताराबायन म्हळें.

''असोच. मुद्दम!'' ताणें हांसून जाप दिली.

''नॅन्सी, राहूल कशीं आसात? राहूलाक पळोवचेलो योग केन्ना येता, देव जाणा! बेगीन उलोवपाक सांग ताका. मागीर आजये कडेन उलोवंक मेळटलें.'' ती हांसली. ''त्या दिसा तुजे कडेन उलयलें. म्हाका खबर ना, नॅन्सी तुजे बरोबर येवचें ना म्हूण. ताचेय कडेन हांव उलयतलें आशिल्लें.'' नॅन्सी आयलें ना तें आजुनूय तिच्या मनांतल्यान वचूंक नाशिल्लें. ''कितले दिसूच न्हय, ह्या म्हयन्यांत तुजो फोन ना!''

''एक दीस केल्लो. बापू कडेन उलयलों. तूं घरा नाशिल्ली.''

''जायत. पूण मागीर नाच. आमी एक दोन खेपे केल्लो. पूण रिंग तितली वाजताली.''

''घरा नाशिल्लीं जावंये आमी!''

''पयर नीनालो फोन आयिल्लो मंदार. तें येवचें ना. अंजू...''

''म्हाका खबर आसा, आई! फाल्यां सकाळीं उलोवया? खूब पुरो जालां म्हाका, प्लीज.'' ताका उलोवपाची इत्सा ना हें ताच्या चेऱ्यार स्पश्ट दिसतालें.

''असो प्लीज कित्याक म्हणटा? खूब दिसांनी मेळटा न्हय! उलयतच रावलें. चल. इल्लो जेव आनी न्हीद...''

''हांवें खालें विमानांत. आतां फकत न्हीद जाय. सकाळीं उलोवया.'' तो उठलो.

ताराबायन वाऱ्यान बंद जाल्लें तेर्रासाचें दार उकतें केलें. चंद्रीमाच्या उजवाडान कवड्यां कवड्यांची जमीन चकचकताली. सुकत घाल्ले कपडे दोरये वेल्यान सकयल पडिल्ले. ते घेवन ती आपले कुडी कडेन गेली. न्हिदिल्लो मंदार तिका पड्ड्यांतल्यान दिसलो. आनी नकळटां तिचीं पावलां ताचे कुडी वाटेन गेलीं.

दोन वर्सां पयलीं तो नॅन्सीक घेवन आयिल्लो तेन्ना ही कूड सामकी लक्ष दिवन निवळ केल्ली. बाज्जेर नवे चादर, नवी उशीं... जनेलाक झालरीचे पड्डे. दोगांय परत वतकच कूड आशिल्ली तशी जावन गेली. एकसुरीच. भितर कोणाचें रावप नाशिल्ल्यान. तेंच मेज. मेजार पोन्नो कळमेल्लो टेबल लॅम्प. कदेलीर कवर नाशिल्लीं कुशनां. बाज्जे म्हऱ्यांत आशिल्ले वणटीर पॉलीश उडिल्लो पुस्तकांचो रॅक.

मंदार कपडे बदलनासतना तसोच न्हिदिल्लो. ताचे कुशीक हाता सकयल पुस्तक. तिका अचकीत याद जाली, नॅन्सीक अशें दिसभराचे कपडे आंगार दवरून न्हिदप आवडऽ नाशिल्लें. तें हांगा आयिल्लें तेन्ना ताणें सांगिल्लें. बापून ताचीं फकांडां करीत ताका विचारिल्लें, ''तुका म्हजो चलो कसो आवडलो?''

ताणें आपले निळे दोळे मिचकायत म्हणिल्लें, ''तुमचो चलो टिपिकल भारतीय, आनी हांव ताच्या मोगांत पडलें तें ताकाच लागून, बापू.''

''बापू'' तें सामकें वेगळे तरेन म्हणटालें. ''पूण ताचें अशें दिसभराचे कपडे घालून न्हिदप... असल्यो ताच्यो संवयो म्हाका निखालूस आवडनात!'' नॅन्सीन आपल्यो भांगराळ्यो भुंवयो वयर काडीत म्हणिल्लें, ''आतां तूंच शिस्त लाय ताका!'' आपणें म्हणिल्लें.

मंदाराक पळोवन तिका हांसोच आयलो. जातीवंत आळशी. बदलचो ना. ताच्या पांयां म्हऱ्यांत आशिल्लो चादर तिणें हड्ड्या मेरेन ओडलो तरी ताची न्हीद चाळवली ना. ताची कांत मुळांतूच उजळ. आतां तो चडूच तेजिश्ट दिसतालो. मुखावेल्यान कपल मातशें रुंदावल्लें. केंस भितर गेल्ले. म्हणटां म्हणटां तोय एका भुरग्याचो बापूय जाल्लो. मंदाराचो संवसार मात थंय वचून पळोवंक मेळ्ळो ना आपल्याक. बापूंचे फाटीक लागून आपणेंच वचपाचें थारायल्लें. पूण आतां मंदाराकूच येवचें पडलें.

तिणें दिवे पालयले आनी आपले कुडींत आयली. तिणें जे वेटेन तकली केल्ली थंयच्यान मळब दिसतालें. एकाद्रो कुडको थंय कापून बसोवचो, तशें. यत्न करूनूय बी तिका बरोच वेळ न्हीद लागली ना. मुखार आशिल्ले मंदाराचे कुडींत तिका जाग दिसली. तिणें व्हदळ पालयल्लो दिवोय पेटिल्लो.

मंदार भायर पळयत जनेला म्हऱ्यांत उबो आशिल्लो. ''कितें जालें रे? न्हीद येना?'' तिणें भितर येत म्हळें. ताणें मातशें आंग काडलें.

''हांवूय जागेंच आशिल्लें. न्हीद अशी लागलीच ना म्हणून उठलें. व्हदळ पळयल्लें तेन्ना तुका बरीऽ न्हीद लागिल्ली.''

''आगे, अचकीत जाग आयली आनी मागीर न्हिदूच लागना जाली. घडये जागो बदल्लो म्हणून जावंये.''

ती बाज्जेर बसली. व्हदळ ताच्या हाता सकयल आशिल्लें पुस्तक तशेंच उश्या म्हऱ्यांत आशिल्लें. तिणें तें हातांत घेतलें. ''म्हज्या मंदाराक बापू कडल्यान'' सकयल तारीक.

''बापून दिल्लें. आड पडटकच न्हीद येना जाली म्हणून वाचतालों.'' ताणें मेजा मुळा धुकळिल्लें कदेल भायर काडलें. ताचेर बसत ताणें म्हळें, ''बापू सदांच भेट म्हूण पुस्तकांच दितालो. तें पुस्तक आवडलें काय आवडलें ना हें ताका सांगप, चर्चा करप... कितेंय बरें पळयलें, आयकलें म्हणटकच पयलीं येवन बापूक सांगन दिसतालें.'' तो त्याच यादींनी आशिल्लो. ''ह्या सगळ्या पसून कितलो पयस गेलों हांव...''

''तुका याद आसा न्हय आई, हांव तीन म्हयन्यांनी रोखडोच परतल्लों. 'एकलें दिसता' अशें म्हणिल्लें. बापूक सोडून इतले पयस पयलेच खेपे... हांव असोच कुडींत बशिल्लों. बापून म्हजे कुशीक बसत म्हणिल्लें 'तुजो देश बदल्लो, आशिकुशीकचीं मनशां बदल्लीं. तुका एकलेपण जाणवतलेंच थंय. तुजे स्वतंत्र जिणेची सुरवात जातली आतां. तूं आपणा वांगडाच इश्टागत वाडयत राव, आनी फुडें म्हळें, 'पळय मंदार, एक ठरावीक वय जातकच तुवें तुज्या बापायचेर भावनीक नदरेन इतलें निंबून रावप म्हाका आवडचें ना. मनशान भावने भितर घुस्पून आपली जीण पुरायपणान बदलून उडोवची हें म्हाका निखालूस मान्य ना.' मंदार जनेला भायर पळयत आपलेच तनरेंत उलयतालो.

''तुजी आनी बापूंची अशी इश्टागत... तुजे इश्ट तुजीं फकांडां करताले न्हय?'' ताराबायन विचारलें.

''हय, बापूची आनी म्हजी सोबीत अशी इश्टागत आशिल्ली, वेगळीच. तांच्या साद्या उलोवपांतल्यान खूब कितें मेळटालें. हेर इश्टांच्या बापांय परस म्हजो बापूय म्हाका वेगळें कितें तरी दिता हें जाणवतालें.''

''तुजें आनी तांचें अशें नातें आशिल्लें म्हणून विचारिल्लें हांवें तांकां, 'मंदाराक आफोवन घेवया?' ताचेर तांणी म्हाका विचारलें, 'ताच्या येवपान हांव निवळटलों अशें तुका दिसता?' हांवें मात फकांडां करीत म्हणिल्लें, 'हांव अशें दुयेंत पडलें जाल्यार वखदां करचे परस म्हज्या भुरग्यांकूच आफयात, रोखडेंच निवळटलें हांव.' पूण तांकां ही फकांडां लेगीत मानवलीं नात. तुमचे यादीन अस्वस्थ जावप तांकां आवडनाशिल्लें म्हणचे परस पटच नाशिल्लें. ते कांय म्हणऽ नाशिल्ले पूण आडनदर करताले म्हजे कडेन.''

तिणें मंदारा कडेन पळयलें.

''तुमी दोगांय थंय स्थायीक जालीं. खूब जाणांचीं भुरगीं भायर वतात. ताका लागून कांय घोव बायलां जिवीतभर लागीं येवंक नाशिल्लीं तीं कितलीं लागीं येतात, पूण तुजो बापू आनी हांव मात...'' ती मातशी थांबली.

पूण मंदारान तिका कांयच विचारलें ना. "तूं तीन म्हयन्यांनी परतल्लो तेन्ना हांव मातशें सुखाविल्लें. 'ताका जाय जाल्यार रावंदी हांगा' अशें म्हणिल्लें. तूं जाणा, ताचेर म्हाका तांणी कितें म्हळें, 'तारा, तूं कितलें आत्मकेंद्रीत! तुका जाय म्हणून भुरग्यांनी हांगा रावप? हें सारकें न्हय तारा?' एकाद्रे आवयक आपलो पूत आपले म्हन्यांत आसचो अशें दिसप चुकीचें रे मंदार?'' ताराबायन विचारलें. पूण मंदारान अनपेक्षीतपणान सामकी भर दीत म्हळें, "आई, जिणेच्या दर एका पांवड्यार एके तरेचे एकलेपण येताच. हाची तुका संवय करची पडटली, करचीच पडटा. आनी सगळ्यांकूच करची पडटा ती.''

ताराबायक दिशिल्लें, मंदार उठून तिचे म्हन्यांत येतलो. आपलो हात हातार दवरतलो. बापू कडल्यान सदांच आपूण हेंच आयकत आयिल्लीं आनी आतां तितलेच कोडसाणेन मंदारूय आपणाक तेंच सांगता. एकलेपण आपणावचें पडटाच- तें खंय चुकोवं येता! तरी पूण मंदारान...

"बापू खूब वेगळो आशिल्लो हें तूं विसरता आई. घोव बायले मदलो कोणूय एकलो वेगळो आसलो जाल्यार ताका समजून घेवप दुसऱ्याक खूब कठीण जाता!''

बापू वेगळो आशिल्लो हें खबर नाशिल्लें तर म्हाका? ते वेगळे आशिल्ले म्हणुनूच तर तांचें वेगळेपण समजून घेत घेत, तांचे बरोबर चलत आयुष्यभर पुरो जालें. तांणी केन्नाच आपले विचार म्हजेर लादले नात. केन्ना सक्ती केली ना. पूण सांगात म्हणटात तो केन्नाच मेळ्ळो ना.

घोव बायले मदलो कोणूय एकलो वेगळो आसल्यार समजून घेवपाक खूब त्रास. इतलेंच न्हय तर दुसरो खुबूच वेगळो आनी एकसुरो जायत वता. तिका मंदाराक म्हणन दिशिल्लें, 'तुजो बापू वेगळो आशिल्लो खरो. पूण हांव खंय तशें आशिल्लें? तुजे आवयचें हें पुरो जावप केन्नाच कशें तुज्या लक्षांत आयले ना? तुका समजलें ना? तिचो ताळो सुकून आयिल्लो.

चाळीस वर्सां आदलो लग्नांत घडिल्लो तो प्रसंग, थंयच्यानूच सुरवात जाल्ली. कुळार सोडटना दर एकले बायल-मनशेचे जिणेंतले उचंबळून येवपी ते खीण. पूण ते रातीं बापून म्हळें, 'कुळार सोडटना तुज्या दोळ्यांत दुकां कित्याक येवचीं? म्हाका निखालूस आवडलें ना. कांय बंध फाटीं उडयतले तेन्नाच नवे बंध निर्माण जातलें असो विचार तुज्या मनांत कित्याक आयलो ना? कितलें दुबळें तूं!'

म्हजी कितलीशी वळख आशिल्ली तांचे कडेन! घोव म्हणून तर कांयच ना. पूण मनीस म्हणून जाली ती अशी. कितलीं परकी आशिल्लीं आमी एकामेकां खातीर! म्हजें घर, म्हजीं मनशां सोडून हांव आयिल्लें. पिराय ल्हान. तेन्नाच दिसलें हो जो कोण आपलो घोव म्हणून जाला तो एक तर भावनाशुन्य नाजाल्यार वेगळो कोण तरी. आनी तो वेगळो आसत जाल्यार ताका समजून घेवप खूब कठीण वतलें. हें वेगळेपण आपूण निमाणे मेरेन समजुंकूच पावलें ना व्हय? हांव मन मेकळें करपी आनी ते सामकेच अलिप्त रावूंक सोदपी! दुःखूच न्हय तर खोशयेचीय खंयचीच भावना केन्नाच व्यक्त करप ना! इतलें संयमीत कित्याक म्हूण रावचें आपणेंच आपले जिणेंत? भुरग्यांच्या संदर्भांतूय? कितें मेळटा तातूंतल्यान? मंदार म्हणटा, ताची आनी बापूंची वेगळे तरेची इश्टागत आशिल्ली. ही इश्टागत, तातूंतल्यो भावना तरी कश्यो पावल्यो मंदारा मेरेन? म्हळ्यार, इतल्या वर्सांच्या सहवासा उपरांतूय बापूंक हांव वळखूंक पावलें ना तर?

मंदार जनेला कडेन उबो आशिल्लो. तो चड पयस उबो नाशिल्लो तरी तिका तो खूब पयस उबो आसा काय दिसलो. तिणें पदर दोळ्यांक लायलो. तिका भितल्ल्यान दिसलें, मंदारान फाटीं वळून पळोवचें. ताका आपल्या दोळ्यांतलें कळचें. ताणें आपले म्हन्यांत येवचें आनी ताच्या हड्ड्यार आपणें मान तेंकोवन इतल्या वर्सांचें एकलेपण ताचे बरोबर फकत ह्या खिणा खातीर वाटून घेवचें.

"आई, हीं दुरगा भितर लायिल्लीं झाडां हालींची दिसतात. तीन वर्सां फाटीं नाशिल्लीं न्हय?'' ताणें फाटीं पळय नासतना, तशेंच भायर पळयत विचारलें.

जनेलाचे लांबायेक आयिल्लीं तीं झाडां वाऱ्यान सळसळटालीं.

"अं!'' ताराबायन जनेला भायर पळयलें. "हय, वर्सभरांत झरझरीत वाडलीं.''

"नीना आनी हांव हांगा खेळटालीं तेन्ना सगळें मेकळें आशिल्लें. याद जाता तुका आई, एक दीस खेळटां खेळटां नीना नेटान फातरार पडिल्लें...'' ताणें म्हळें.

"तुजें लक्ष नाशिल्लें म्हणून हांवें तुकाच तापयल्लो न्हय?'' त्या यादींनी तिचे दोळे परत ओले जाले. "तुका तापयलो म्हूण न्हय, नीनाक लागिल्लें म्हणून तूं रडपाक लागिल्लो. ती माव आजुनूय नीनाच्या कपलार आसा. नीना तर बोवाळशेट! इल्लेंशें जाल्यार व्हडलें कितें जाल्ले वरी करपी! नीनाय कितलें वेगळे जालां मंदार!'' काल फोनाचेर नीना कडेन उलयल्ल्याची तिका याद जाली आनी ती गंभीर जाली.

"थंयची जीण मनशाक सामकी बदलून उडयता. आपले प्रस्न, आपली खोस, आपलें दुःख... आपले पुरतेंच आपलें जग संकुचीत जायत वता!'' मंदार संदिग्धपणान भितल्ले भितर उलयलो.

"तो देश, थंयचीं मनशां आपलीं दिसच नात. केन्नाच कोणाचेर मोग करचो न्हय आपणें फकत आपले खातीर जियेवप. कोणूच कोणाक बांदिल्लो ना. कोण कोणा भितर घुस्पल्लो ना!''

ताराबाय ओग्गी आशिल्ली. तो कितें उलयता ताचे कडेन तिचें लक्षूच नाशिल्लें. अंजू आनी नीनाच्या यादींनी ती परत कासावीस जाली. "तुवें नीनाक फोन केल्लो?'' मंदारान नीनाचो विशय काडलो.

ताराबाय भानार आयली. "हय, काल केल्लो. अंजू विशीं कितें कळ्ळें काय विचारपाक. हे चलयेन जीव सामको हुस्क्यांत घाला. कितें करचें ह्या मनाचें? आनी, नीना म्हणटा, तुका कांय समजुचें ना हातूंतलें. तूं पडूं नाका हातूंत.''

"आई हे तांचेच प्रस्न न्हय? कितलेंय म्हळें तरी नीनाच्या संवसारांत आमी वांटेकार जावंक शकच नात आई!'' तो कसलेंच सुयेर सुतक नाशिल्ले वरी उलयलो. ताराबायन ताचे कडेन अजापान पळयलें.

"अंजू चार म्हयन्यांचें जायसर हांवें ताका वाडयलां, मंदार! ताचो आनी म्हजो सहवास नासत घडये. पूण रगताचें नातें वापर नाशिल्ल्या कपड्यां वरी जाता व्हय? आनी मंदार, भुरग्यांचे प्रस्न, तांचीं दुःखां आवय-बापायच्या संवसारांतलीं दुःखां आसतात. तीं

वाटून घेवपाचीं नासतात?''

''वाटून घेतकच तीं उणीं जातात? आनी वाटून घेवप म्हळ्यार कितें करप आई?'' ताणें उसळून म्हळें, ''आगे, लागीं रावुनूय लागींचीं मनशां - आपलीं म्हणपी मनशां - एकामेकांक समजूंक शकनात आई! आनी तूं हांगाच्यान...''

''मनशां समजूंक शकनात एकामेकांक. तूं म्हणटा तें खरें आसलें तरी, म्हणून आपल्या मनशांक आपले जिणेंतल्यान पयस करूं येता व्हय? नीना तर म्हजी धूव!''

''नीना तुजी धूव. पूण ताचो संवसार तुजो जायना.'' मंदारान सरळ म्हळें, ''आनी हें दुसरे खेपे जाता आई.''

''म्हळ्यार?'' ताराबाय अजापली. जनेला कडेन आशिल्ल्या मंदाराक घुसपल्ले मुद्रेन तिणें विचारलें, ''कितें जालें रे?''

''थंयच्या वाडिल्ल्या भुरग्यांचें हें अशें जगप सामकें सभावीक.'' मंदार आतां मेजाक तेंकिल्लो. ''व्यक्तिस्वातंत्र्य म्हणटात हाका! तांकां मेकळें जगूंक जाय. ताचे खातीर तीं कसलेंय मोल फारीक करपाक तयार आसतात. पूण बंधनां तितलीं नाका आसतात. व्यक्तिस्वातंत्र्य खंय! बोगस! मेकळी जीण जगूंक जाय खंय! मेकळी - शीट!'' ताणें नेटान मेजार मूठ मारली.

ताराबाय ताच्या हे तरेच्या उलोवपान अजापीत जाली.

''हांव नीना कडेन उलयलों.'' मंदारान तिचे कडेन पळोवन पळोवं नाशिल्ले वरी करीत म्हळें, ''पूण हांव कसलेच बारीकसाणींत गेलों ना. म्हळ्यार म्हाका तशें करपाचेंय नाशिल्लें. म्हज्या मतान, हे नीनाच्या घराब्याचे खाजगी प्रस्न. तातूंत म्हजो संबंध येताच खंय? आनी, अश्या प्रसंगां वेळार नात्यांक कसलोच अर्थ उरना आई. अंजूल्या प्रस्नांत नीना आनी दीपकाचोय संबंध ना थंय हांव कोण? हो प्रस्न कसो सोडोवपाचो तें अंजूनूच थारावपाचें. ताचे जिणेंत तिसरो कांयच करपाक शकना, आई.''

कितले सहजतायेन तो हें सगळें उलोवंक शकता! कितें उलोवचें हांवें हाचेर! मंदार असो केन्नाच नाशिल्लो. सपसप घाय घालीत उलोवपी, तटस्थ, राग आयिल्ले वरी, कित्याक काय हो असो बदल्लो...

''हांव थंय राविल्ल्यान एक वेळ म्हजे विचार तशे जाल्यात आसतले काय हो प्रस्न तुका पडला आसतलो.'' तिच्या मनांतलो प्रस्न वळखून ताणें म्हळें, ''खरें न्हय तर तें आई? तूंच विचार कर. सामकी तटस्थ रावन विचार कर.''

ताराबायन आपली नदर जमनी कडेन व्हेली. ताका जाप दिवची अशें तिका दिसलें ना. ''नॅन्सी नीना कडेन उलयलें?'' तशेंच सकयल पळयत तिणें विचारलें.

मंदारान मान हालयली, पूण हय काय ना हें सारकें समजलेंना.

पयस पातळिल्ल्या दर्या ल्हारांचो क्षीण आवाज कानार पडटालो. आशिकुशीक आशिल्ल्या झाडांच्या पानांची सळसळ आयकूंक येताली. पयसुल्ल्यान कोणाच्या तरी घरांत वाजपी घडयाळीचो आवाज त्या थंड वातावरणांतूय स्पश्ट आयकूंक येतालो. बाज्जे वयलें पुस्तक रॅकार दवरीत ताराबाय उठली.

''कितलो वेळ जालो, देव जाणा! दीस आशिल्ले वरी हांव तुजे कडेन उलयत बसलां, तुका कितलें पुरो जालां, चल, आड पड आतां.'' ती कुडी भायर गेली.

ताराबायले दोळे जडावले. होच तो मंदार, आपणें नीनाक तापयतकच दोळ्यांत दुकां येतालीं तो. ताका म्हन्यांत घेवन समजायतालो तो. बापू बगर रावूंक जायना म्हणून परत वचूंक सोद नाशिल्लो तो. 'तूं एकलीच आसता न्हय आई, दीसभर वाज येना तुका?' अशें कॉलेजींत वतना सामके आस्थेन विचारतालो तो... खंय वतात हीं नातीं? काय तींय बी मनशां वरी निरुपयोगी थारतात? तसो विचार केल्यार कोणाच्यान दुसऱ्याचे जिणेंत खोल रिगूंक येता व्हय? पूण आदार दिवं येता. मार्ग सुचोवं येतात. काय दर एकल्याक आपले जिणेंत हाची गरज उरना? कित्याक आनी कशीं नातीं बदलतात? काय, बापू म्हणटात तशें हांव खऱ्यांनीच आत्मकेंद्रीत?

ल्हवू ल्हवू पातकड्यो जड जाल्ले वरी जाल्यो, तकली भेरेतशी गेली आनी दोळे सुस्तावले. अचकीत पावसाच्या आवाजान तिका जाग आयली. तिचे तकले कुशीक आशिल्ल्या जनेलाच्या पत्र्याचेर टपटप असो आवाज जावंक लागलो. पावसाचो नेट वाडत आशिल्लो. रस्ते ओले जाल्ले. दुदाचीं कॅनां एकामेकांक आपटिल्ल्याचो आवाज येतालो. उठिल्ली ताराबाय परती आड पडली. तिचे दोळे पांयांचे दिकेन गेले आनी नदर दाराच्या कोनशाक दवरिल्ल्या बापूंच्या डॅस्कार गेली. फाटल्यान दिसपी पातळ जाल्ले कैंस, ऊंच मान आनी रुंद फाट. रातचें तें उलोवणें... मंदार... बापू... नीना... अंजूचो पत्तो नाशिल्लो... हें घर... विचार... भावनांच्या आवेगान तिची तकली सणसणपाक लागली. तकली हातांनी घट्ट धरून ती डॅस्का म्हन्यांत गेली. बापू सदां घेताले ती गुळी घेवची अशें तिका दिसलें. तिणें गवेत उकतें केलें. कितल्याश्या वर्सांचें पेन गवेतांत पडिल्लें. कांय कागद आनी तांचेर बापूंचें एकेच तरेचें अक्षर. सगळें पयस गेल्ले वरी अंधूक जाल्लें. पूण दोळ्यांक मात सगळे स्पश्ट दिसतालें... अशेंच एक खेपे बापू बरयत बशिल्ले. पावस हरंधारांनी रकतालो. सामकें दमट जावन आयिल्लें. पावसाच्यो सरी तिरप्यो जावन जनेलांतल्यान भितर येवंक लागिल्ल्यो. हातांतले पेन दवरून बापू उठले. आनी तांणी जनेल बंद केलें. दिवो पेटयलो आनी परते येवन कदेलार बसले, पेन हातांत घेतलें आनी बरयत रावले. थंयच वाचूंक बशिल्ले ताराबायक तांणी पळयली आनी म्हळें, 'कितेंय नवें बरयल्लें नीनाक वाचून दाखोवचेंशें दिसता तें थंय वचून कितलींशीं वर्सां जालीं!' ताराबायन मातशें अजापीत जावन तांचे कडेन पळयलें. भुरग्यांचे यादीन व्याकूळ जाल्ले बापू तिणें केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले. बापू मंद हांसले आनी तिची नदर तांकां समजली. तांणी म्हळें,

''कितें पळयता तारा? म्हाकाय भुरगीं नाशिल्लें घर अस्वस्थ करता अशें न्हय, पूण आपली जीण तांचे भोंवतणीच मर्यादीत करूंक फावना. मनशां भितर घुस्पुनूय रोखडेंच तांचे पसून पयस वचूंक येवंक जाय. घुस्पून आपली जीण बांदून दवरप म्हाका पटना. मनशां अचळय जिणेंत येतात तशीं तीं वतातूय बी. आमचीं भुरगींय आयलीं तातूंत. इतल्या आयुश्यांत एक एक वजा जायत वचपाचेंच!'' ताराबायक तें पटलें ना. ''वजा कित्याक लागून जाता?'' तिणें म्हळें, ''तुमकां तें वजा करूंक येत? संवसारांतल्या साद्या साद्या गजालींक

मनशांचे, तांच्या यादींचे इतले संदर्भ आसतात. तेंच वजा करप अशक्य. थंय भुरग्यांक वजा करप?'' बापून तिचें उलोवन जावचे पयलींच म्हळें, ''पळय तारा, आमचे जिणे कडेन जशीं मनशां, यादी, अणभव, आनी तूं म्हणटा तश्यो, वस्तू संबंद जोडीत वतात, तांकां आपले जिणेंत एकरूप करत आमी जगतात खरीं पूण बारीक विचार केलो जाल्यार हें जगप दुसऱ्या खातीर वेगवेगळ्या संदर्भांतलें जगप नासता तर? आमी आमचे खातीर खूब कमी जगतात. म्हज्या मतान खऱ्या अर्थान जगप प्रत्येकाचें सुरू जाता, एक एक वजा जायत वता तेन्ना. आपुणूच आपले खातीर उरता तेन्ना. कोण कोणा खातीर उरना, सहभागीय जावंक शकना, सामकीं तूं आनी हांव लेगीत एकामेकां खातीर.'' ते फकत दोळ्यांनी हय-न्हयशे हांसले आनी परते बरोवंक लागले.

पावस रंगार आयिल्लो. आडवो, उबो, तिरपो ताका जाय तसो कोंसळटालो. दिवो लावन लेगीत ती कूड काळखांत विचित्र, रंग नाशिल्ले वरी दिसताली. ताराबाय कांय खीण तशीच बापूं कडेन पळयत रावली. मागीर ती उठली. पूण बापून ताची दखल घेतली ना. ते एकाचित्तान बरयत रावले. तांणी म्हणिल्लें तशें, तांच्या विश्वांत कोणाकूच सुवात नाशिल्ली.

हॉस्पिटलांत पावतकच शोभान फुडें येत म्हळें, ''बरें जालें मंदार तूं आयलो. काल रातच्यान भावोजीक खंय इंटरनल ब्लीडींग सुरू जालां. दोतोर आतांच पळोवन गेला. तूं पयलीं दोतोराक मेळून यो.''

मंदार चड कांय उलय नासतना दोतोरा म्हऱ्यांत गेलो. ताराबाय बापूं म्हऱ्यांत वचून तांकां पळोवन आयली. कालचे परस ते चडूच जाम दिसताले.

बापूंचे दोग-चवग इश्ट सांजचे मेळूंक आयिल्ले. ताराबायक पुरो जाल्लें. मंदारूय कोणा कडेन तसो व्हडलोसो उलयलो ना.

मेळपाचो वेळ सोंपत आयिल्लो. गर्दीय फाफसल्ली. लॉबींतलो एक एक दिवो बंद जायत गेलो. सगळ्याक किण्ण जाल्लें. दोतोर, नर्स हांचीं कामां आपले गतीन चलिल्लीं. शोभा आयलें तशीं दोगांय भायर सरलीं.

हॉस्पिटला भायर गर्दी आशिल्ली. भरून भरून टॅक्स्यो येताल्यो. पूण घरा वचपाक तांकां एक लेगीत टॅक्सी मेळनाशिल्ली.

''त्या कोनशा मेरेन चलत वचुया. थंय मेळत आमकां टॅक्सी.'' ताराबायन म्हळें.

शेजराच आशिल्ल्या दर्याचें थंड, खारें वारें आंगार येतालें. ताराबाय आपलो पदर रेवडावन चलताली.

''बापूंल्या इश्टांक तूं वळखलो, मंदार? तूं तांचे कडेन कितली चर्चा, वाद घालतालो. खंयच्याय विशियार जावं ती. डॉ. फडके जाल्यार फकत तुजेच खातीर येताले. तूं चड उलयलो ना तांचे कडेन. असल्या प्रसंगाचेर ह्या मनशांचोय खूब आधार दिसता.''

''तशें कांयच आसना, नॅन्सी म्हणटा तेंच पट्टा. केन्ना केन्ना इमोशन्स... इमोशन्स... सपोर्ट... आय हेट दॅट! तांकां लागून तुमी दुबळे जातात. स्वताचोच आधार कित्याक पावना तुमकां? कित्याक इतले घुस्पतात?'' तो विचित्र रागान उलयलो. आनी हांसलोय बी. ''खरेंच हीं मनशां इश्टागतीच्या नांवान जिवीतभर संद मेळटा तशीं फकत घुरी घालीत आसतात, आई! दुसऱ्याची जीण झोंबून घेवप आनी मजा पळोवप. लज नाशिल्ले वरी सगळ्यां मुखार उजळ माथ्यान वावुरपाचें!'' ताच्या कपला वयली शीर फुगिल्ली. मुखामळ रुंदावल्लें.

ताचें उलोवप आयकून ताराबायन आंग काडलें. बापूंल्या इश्टां वयल्यान हो खंयचे खंय पावलो! इतलो राग कित्याक म्हणून येवचो ताका?

''तूं म्हणटा तशीं ही मनशां जिवीतभर पावनात गे आई! आनी जीं उरतात तांचे आनी आमचे भितर केदी दरी आसता! कसलीं मनशां आनी कसले इश्ट घेवन बसता तूं!'' ताचे कान तांबडेच जाल्ले. ताका खुब्ब राग येतकच ल्हान आसतना तांबडे जाताले तशे!

तो साबुद्दीर आयलो तेन्ना ओगी रावलो, ''सॉरी, हांव बेठोच उलयलों कितें तरी'' ताणें संकोचून बेठोच केंसां वयल्यान हात भोंवडायलो.

टॅक्सींत मंदार ओगीच आशिल्लो. ताराबाय आजून घुस्पागोंदळांत आशिल्ली. मंदाराचें हें रूप तिका खूब अनवळखी दिसलें, समजना इतलें. पूण कांयच उलयनासतना तिणें सिटाक मान तेंकयली.

जेवणां जाल्लीं. मंदार गच्चे वेले कडेर ओणव्यान सकयल पळयत उबो आशिल्लो. थंड सुखावपी वारें व्हांवतालें. ''एकटोच सो उबो?'' दोरये वेले सुकत घाल्ले कपडे काडूंक आयिल्ले ताराबायन विचारलें. व्हदळ मंदाराचें तें उसळून उलोवप... अशें एकलेंच उबें रावप...

''नॅन्सीक लेगीत ही गच्ची कितली आवडिल्ली न्हय?'' ताणें उलोवचें म्हणून तिणें सुरवात केली. ''केन्ना भायर सरता तें घरांतल्यान? ताचे नोकरेक लागून खूब ताण पडटा आसतलो न्हय ताचेर! राहूलाक तुमी पाळणा घरांत दवरतात न्हय? कितें म्हणटा तुजें काम?''

''बरें चल्लां. चड ताण ना म्हजे नोकरेंत.''

तो विशय सोंपिल्ले वरीच जालो. खीणभर ताराबायक दिसलें, आपले आनी पुता मजगतीं आतां इतलोच संवाद उरला न्हय?

''तुका तुज्या हांगाच्या इश्टांक फोन बी करपाचो ना?''

''कितें उलयतलों? वर्सांचीं वर्सां मेळप जायना. ताका आतां इश्टागत म्हणूं येत काय ना, देव जाणा!''

मंदारा भोंवतणी सदांच इश्टांचें जाळें आसतालें. तांचीं फकांडां.... केन्नाच एकलो म्हणून मेळनाशिल्लो. बापूंचेय इश्ट रोखडेच ताचे इश्ट जाताले. नव्यो वळखी करतालो, वाडयतालो. मनीस आपल्या मुळा पसून इतलो बदलता? कशें विचारचें ताका, तूं असो कसो जालो?

ताच्या कानाच्यो पाळयो, ताचे खोल तपकिरी दोळे, आनी लांब पातयांच्यो पातकड्यो. भुरगेपणा सावन हांसकुरो, मृदु... सौम्य.

मंदाराची नदर मळबार थिरावल्ली. ''तुका बापून हाडिल्ली दुर्बीण हाडूं रे? हांवें आजुनूय दवरल्या ती. नखेत्रां पळोवपाचें तुका कितलें पिशें आशिल्लें न्हय?'' तिणें विचारलें.

विस्तीर्ण मळार मेजूंक येवचीं नात इतलीं नखेत्रां शिंपडचीं, अशें दिसतालें. बापू ताका हीं नखेत्रां मेजूंक आनी वळखूंक लायताले.

''मंदारबाब, पळोवया कितलीं मेजपाक येतात तीं?''

मागीर एक दीस मंदारान बापूंक विचारलें, ''बापू, हीं नखेत्रां देवान कशीं उडयलीं?''

''उडोवंक नात रे. एक व्हडलें नखेत्र फुटलें आनी ताचे पसून हीं ल्हान नखेत्रां तयार जालीं.''

''आमी विमानान या एक दीस, बापू. मागीर एका नखेत्रा वयल्यान दुसऱ्या नखेत्राचेर अश्यो उडयो मारुंया. खूब मजा येतली.''

बापू हांसले. ''आरे पिश्या, हांगच्यान नखेत्रां लागीं आसात अशीं दिसतात पूण तशीं नासतात तीं. प्रत्येक नखेत्र वेगळें आसता. ताचें तेज, उजवाड, पुराय जगूच स्वतंत्र अशें. एकामेकांच्या जगांत एकामेकांक सुवात नासता.'' तांणी म्हळें.

मंदाराक सगळें याद जातालें.

''राहूलाक दाखयता रे तूं नखेत्रां? आतांच्यान दाखोवंक सुरवात करशीत जाल्यार ताकाय बी तुजे भशेन पिशें लागतलें.'' ताराबायन उमेदीन म्हळें. राहूला विशीं ताणें उलोवचें, ताच्यो आवडी निवडी, ताच्यो संवयो... आपलो आनी ताचो संवाद कित्याक काय असो आडखळचो? तिका दिसलें.

''हांगाचे भशेन खंय गे थंयचें मळब? आनी ताणें म्हजें कांयच घेवंक ना आई.''

''हय रे. फोटो वयल्यान कळटा. भारतीयसो दिसच ना. अंजू लेगीत नीना वरी खंय दिसता?''

अंजूचे यादीन ती कासावीस जाली. पूण तिणें आपल्याकूच थातारली. हाता वेले कपडे सांवरीत तिणें म्हळें,

''चल, न्हिदुंया''

''आई...''

ताराबाय थांबली.

''परां हांव भायर सरतलों.''

''म्हळ्यार?''

''आगे, कामां तशींच उडोवन आयलां हांव.'' मागीर विशय बदलत म्हळें, ''आई, एक सांगतां, म्हाका दिसना, बापू ह्या दुयेंसांतल्यान उठत असो. ताचे उपरांत तुवें तुजी एकसुरी जीण कशी सारची हाचो विचार करूंक जाय. आपलो मनीस आमकां सदां खातीर जाय आसता, पूण ताका आमी आमचे खातीर दवरूंक शकतात? तेन्ना प्रॅक्टिकल जा, आई!''

ताराबाय मान सकयल घालून फकत आयकत रावली. आपलो संवसार सोंपत आयला हाची जाणविकूच जाली ना तर म्हाका ह्या दिसांनी? दोळ्यांत एकदम उदक आयलें. बापू ह्या सगळ्यां पसून केन्ना पयस गेल्ले. एकेक फाटीं उडयत. एक एक गांठ सोडयत. एकामेकांची वळख विसरत. आपुणूच ह्या घरांत सगळ्यां खातीर वावुरलीं. तशें पळोवंक गेल्यार हें एकलेपण कितल्याश्या वर्सांचें. पूण ताचीय कित्याक संवय जावची न्हय आपल्याक? आपूण आयजूय भुरग्यां भितर एकरूप जावंक सोदतां अशें मंदारान म्हळें. पूण म्हजे म्हऱ्यांत थंय यो अशें म्हणूंक ना. काय ही अपेक्षा करपूच बरोबर न्हय? ''न्हिदुया न्हय?'' तिणें म्हळें आनी ती चलूंक लागली.

फुडले दोन दीस कांय न्हय करून गेले. बापू आशिल्ले तशेच आशिल्ले. मंदार वचचे पयलीं बापूंक पळोवन आयलो. कुडीचो सांपळो.हीं सगळीं उतरां आता झरिल्ले वरी जाल्लीं, इतली जीर्ण अवस्था. मंदारान भायर सरतना बापूंच्या पांयांक हात लायलो. कांय खीण तो तांचे कडेन पळयत रावलो आनी भायर सरलो.

घरा परततकच ताणें सामान बांदपाक सुरवात केली. कूडभर फाफसल्ले शर्ट, पँट, पँटीचे पटे, खाडाचें सगळें सामान... ताराबायन एकठांय करून दवरिल्लें. तो एकेक करून तें बॅगेंत भरतालो. ताचें पॅकींग पळयत उबी आशिल्ली ताराबा ताचे म्हऱ्यांत आयली आनी हातांतलें बॉक्स ताच्या सामानांत दवरलें.

''राहूला खातीर 'भोबो'! व्हदळूच भाजिल्ल्या रव्याचे लाडू. नॅन्सीकूय आवडिल्ले. सांग ताका, आजयेन धाडल्यात. आतां परतो येतलो तेन्ना दोगांकूय घेवन यो. केन्ना येतलो?'' तो बेगीन येवचो ना हें जाणा आसतनाय निमाणें हो प्रस्न तिच्या ओंठार आयलोच.

मंदार बॅग बंद करतालो. तो तसोच रावलो. ''कितें सांगूं? कांयच सांगूंक येना.'' ताणें लाडवाचें बॉक्स उखल्लें.

''आई, तुवें हे लाडू राहूलाक म्हणून दिल्यात खरे, पूण आई, तो आतां म्हजे सरीं आसना,'' तिका आपणें उलयल्लें कळचें ना म्हणूनच स्पश्टूच म्हळें, ''आई, हांव आनी नॅन्सी वेगळीं जालीं- विभक्त! चार एक म्हयने जाले.''

ताराबाय सामकी गोठेल्ले वरी जाली.

''वेगळीं? विभक्त?'' तिणें तींच उतरां उच्चारलीं. आपूण हें कित्याक आयकतां? पयर नीनाच्या संवसारांत आनी आज... मंदाराक येवन तीन दीस जाले तरी ताणें कांयच जाणोवंक दिलें ना. चुकून लेगीत आवय मुखार केन्ना मेकळेपणान उलयलो ना. आपणें नॅन्सी विशीं उलोवन पसून? ताचें तें विसंगत, कुस्केपणाचें, तिडकीचें... उचंबळ जावन उलोवप हाकाच लागून आसुंये.

''इतलें सगळें तुमच्या जिवितांत जालें आनी आमकां - म्हाका कळोवचें अशें मातूय दिसलें ना, मंदार?'' ताराबाय कोडसाणेन म्हणून गेली. ''बरोबर... तुमची स्वतंत्र जीण सुरू जाल्या. आमी तातूंत आसपावंक शकनात. आनी कितें म्हणूंक शकतात?'' तिणें म्हळें.

''खरें न्हय तर तें आई? कितें करूंक शकतली आशिल्ली तूं? म्हज्या पुताक सोडूं नाका अशें नॅन्सीक पत्र बरोवन सांगतली आशिल्ली?'' मंदारान म्हळें.

''म्हणून तुमची चिंता तुमचेरूच सोंपोवन मेकळें जावंक येना रे, मंदार!'' ताराबायलो आवाज चडलो. ''तुमचे खोशयेंत एक वेळ आसपावन घेवं नाकात. पूण तुमी जें सोंसतात तें तरी कळयात म्हाका - तुमचे आवयक म्हणून? काय तितलोय म्हाका अधिकार उरूंक ना आतां?''

तिच्या दोळ्यांत उदक आयलें. हो वेळ न्हय हें सगळें उलोवपाचो, तिका दिसलें. मंदारान हें वजें कितलेशेच म्हयने एकल्यान भोगलां. हांगा येवनूय एकल्यानूच. म्हजे कडल्यानूय एके तरेचें अंतर पडलेंच न्हय? मंदारा भितर जाल्लो बदल फकत आपूण पळयत रावलीं. ताचें तें तिडकीन उलोवप, अलिप्त वागप... 'अशें कित्याक रे?' अशें फुडें सरून, हें अंतर उणें करीत आपणें कित्याक विचारलें ना?

"कितें जालें सांगशीत म्हाका?" तिणें धैर्य करीत विचारलें. मंदार वणटी कडेन उबो आशिल्लो. हात कवळीत ताणें म्हळें, 'कितें सांगूं तुका आई, राहूल जायत सावन आमचें नातें इबाडत गेलें. नॅन्सीचे इश्ट म्हजेय इश्ट आशिल्ले. पूण तांचे बरोबर ताचे संबंध बदलत गेले. ताका आमचें लग्न, म्हजो मोग, आमी, इतलेंच न्हय, राहूलूय बंधन दिसपाक लागलो. ताका मेकळीक जाय आशिल्ली. आनी आई, आमकां सतत नात्याचीं, तातूंतल्या मोगाचीं बंधनां जाय आसतात. खूब तडजोडी केल्यो. पूण एकठांय रावप ताका जड जालें. दोगां भितरलो संवाद सोंपलो. त्या दिसा हांव मातसो बेगीन घरा आयलों. आमच्या बॅडरुमाचें दार बंद आशिल्लें. दुसरे कुडींत राहूल एकलोच. टी.व्ही. लायिल्लो. ताणें म्हजें कडेन पळयलें. ताचें तें अनाथशें काकूळटेक आयिल्लें मुखामळ हांव केन्नाच विसरूंक शकना. मदले मदीं ताचे बाबड्याचे हाल..." तो स्वताक थंड करपाक कांय खीण रावलो.

"आनी जेन्ना कोर्टांत डायव्होर्स घेवंक गेलीं तेन्ना आमकां कळ्ळें, पूण तेन्ना खूब कळाव जाल्लो आई. आमी केन्नाच एकठांय येवंक नाशिल्लीं. फकत बरोबर रावतालीं. आमकां दोगांक जोडपी जें नातें निर्माण जावंक जाय आशिल्लें तें केन्ना जालेंच ना. कितले बेगीन आमी वेगळीं जावंक शकलीं! कोर्टान मात राहूलाची जापसालदारकी नॅन्सीक दिली..." मंदार ओगी रावलो. आपले तळवे दोळ्यांचेर दांबून धरीत ताणें एक दीर्घ श्वास घेतलो.

...'आई तुका नातू जालो!' मंदारालो फोन. ताचो आवाज खोशियेन भरिल्लो. ताचें नांव राहूल दवरिल्लें. हालींच घडून गेल्ल्यो गजाली. केन्ना काय पळेन जाल्लो राहूलाक. पयसुल्ल्यान कितलेशेच खेपे ह्या हातान ताका स्पर्श केल्लो. राहूल! फोटोंत लेगीत ताचे नॅन्सी वरी निळे दोळे चकचकताले. भांगराळे केंस. तो केन्नाच मेळचो ना म्हाका? पळोवपाक लेगीत मेळचें ना ताका.

"अशें सगळें जालें." मंदारान फांफडून उडयल्ले वरी केलें. "हांव टिपिकल भारतीय म्हणून ताका आवडिल्लों, पूण तोच हांव, म्हाका समजून घेवंक ताका आयलेंच ना. आसूं तें. फरगॉट इट." तो हांसलो. पूण ताचें हांसप पळोवन ताराबायचे सुके जाल्ले दोळे परते भरून आयले. ताचे म्हऱ्यांत वचत तिणें म्हळें, "घोव -बायलेचें नातें अशेंच आसता. फटोवपी. एकामेकांक अनवळखी दोगां मनशां तडजोड करीत एकामेकांक वळखुपाचो यत्न करतात. पूण तें जाताच अशें ना. ताचे उरफाटें, केन्ना केन्ना तेंच अनवळखीपण आपल्याकूच अनवळखी करीत वता. कितें म्हणचेलें? तुवें ताचे कडेन उलोवन पळयलें?"

"आई आमचो डायव्होर्स जाला. सादें सोंपें अशें कांयच उरूंक ना."

कांय खीण तशेच उलय नासतना सरले.

"आतां कितें करपाचें थारायलां?" ताराबायन विचारलें.

"आसा तें आसा. म्हळ्यार सगळेंच सोंपलां, नाजाल्यार हांगच्यान सुरवात. मनशाच्या सांगाता परस संवयूच जाता ती, आई. तीच संवय मोडपाची. सांगात सोंपतकच ल्हवू ल्हवू सगळ्योच भावना वाफे भशेन उडून वतात - सगळो संवयेचो भाग! हुस्को दिसता तो राहूलाचो. पूण अशेंय आसा, तो थंयच जल्मला आनी वाडला. तसोच वाडटलोय. हांव फकत ताचो भारतीय बापूय!"

ताचें हें उलोवप वयले वयर उखलापें हें ताराबायक कळटालें. पूण दिसलें, ताणें मन मेकळें केल्लें जाल्यार कितेंय तरी उलयतली आशिल्ली. पूण कितें म्हणटली? हांव नॅन्सी कडेन उलोवं काय तूं परतोय लग्न जा, कितें म्हणूंक शकतां? हांगा परत यो? ताचें हें एकसुरेपण कांय खिणां खातीर पयस करूं येता. आपले जिणेंतलीं कांय वर्सां भुरगीं आवय-बापाय म्हऱ्यांत कसलीच चिंता करनासतना घालयतात. आज तांचे जिणेंतलीं मोडणां समजुनूय बी कितें करूं येता? कांय ना, कित्याक, हीं भुरगीं अशीं आवय-बापायक अनवळखी जायत वतात. तांच्या जिवितांत सहभागी जावंक येना आनी अलिप्तूय रावंक येना.

मंदारान बॅगाच्या कुलपाची चावी घुंवडायली.

"चल भायर सरपाक जाय." ताणें म्हळें, "तूं हुस्को करूं नाका. फकत बापूची जतनाय घे." ताणें ताराबायच्या पोल्यार सांसपिल्ले भशेन हात ओडलो.

ताराबायन ताचो पोल्यार आशिल्लो हात धरलो. ती ताचे म्हऱ्यांत गेली. तिच्यान रावं नजऽ जालें. तिणें ताचे छातयेर आपलें माथें दवरलें. "कित्याक रे अशें जालें?" एका हातांत ताचें भूज मुठींत धरून तिणें हुडके दीत म्हळें. मंदारान तिच्या धव्या केसांचेर फकत हात दवरलो. खीण दोन खीण दोगांय स्तब्ध जालीं. ताचो हो स्पर्श आपल्याक जाय आशिल्लो. आपले खातीर. आयज ताका ह्या स्पर्शाचो हय-न्हयसो आधार दिसत व्हय?

"चल" तिका पेल्यान काडीत ताणें म्हळें.

"राव. हातार धंय घालतां."

धंयाची वाटी घेवन तिणें ताच्या हातार धंय घालें. नॅन्सी भायर सरतनाय ताच्या हातार अशेंच धंय घाल्लें. तेन्ना ताणें विचारिल्लें, हें कित्याक? 'आमगेर अशीच पद्दत आसा. म्हळ्यार पयसुल्लो मनीस ओडीन बेगीन परतो येता, नॅन्सी आतां परतें येवचेंच ना! आपलें आनी ताचें नातें सोंपलें! ताका मंगळसूत्र घाल म्हणटकच ताणें उमेदीन साडी न्हेसून कुकूम लायिल्लो आपले खातीर.

ते वेगळ्या धर्माचें, संस्कृतायेचें, तरी लेगीत कांय खिणां खातीर आपलें कशें दिसलें. कितलोसो असो सांगात आशिल्लो ताचे बरोबर? आनी मंदार म्हणटा, 'एकठांय रावनूय तांकां जोडून दवरपा सारकें कांयच निर्माण जालें ना! राहूलूय न्हय?

मंदार पांय पडपा खातीर बागवलो तेन्ना ताका उठयत ताराबायन म्हळें,

"सांबाळून राव आनी कळयत राव. सामकें निरर्थक आसल्यारूय जाता! कितेंय... नीनाकूय हेंच सांग."

"बापूक सांबाळ."

दुसरें बॅग उखलून मंदार दारा म्हऱ्यांत गेलो. लिफ्ट वयर हाडपा खातीर ताणें बटन दांबलो.

लिफ्ट वयर येवन रावलें. दार उकतें करून तो भितर गेलो. "बरें!" ताणें हात हालयलो. लिफ्ट सकयल देंवलें. ताराबायक दिसलें, आपल्याक खूब उलोवपाचें आशिल्लें... खूब... पूण कितें? तिणें सवका घरांत पावल घालें. दोळ्यां मुखार फोटो वरी स्तब्ध घर फकत तिचे खातीर उबें आशिल्लें.





# आनी, एक फायल बंद जाली

**मूळ हिन्दी: किशन चन्दर ('जामुन का पेड')**
**कोंकणीत हाडपी : ज्योती देसाय**

रातचें आकांताचें वारें सुटलें. सेक्रेटेरियटीच्या लॉनांत एक जांबळ आशिल्ली ती हुमटून पडली. सकाळीं फुडें माळ्यान ती पळेली तेन्ना जांबळी मुळा ताका एक मनीस चिड्डल्लो दिश्टी पडलो.

माळी धांवत धांवत प्युना म्हऱ्यांत गेलो. प्यून धांवत धांवत क्लार्का म्हऱ्यांत गेलो. क्लार्क धांवत धांवत सुपरिंटेंडेंटा म्हऱ्यांत गेलो. सुपरिंटेंडेंट धांवत धांवत भायर लॉनार आयलो. जांबळी मुळा चिड्डल्ल्या मनशा भोंवतणी मिनटा भितर लोक एकठांय जाले.

'आरे रे... जांबळ पडली?! काय बरी जांबळां दिताली...' एका क्लार्कान म्हळें.

'हय... कितलीं रुचीक जाणा, हे जांबळीचीं जांबळां...!' दुसऱ्या क्लार्कान याद करून शें म्हळें.

'जांबळां तेंपार पोतयो भरून हिचीं जांबळां घरा व्हरतालों हांव. भुरगीं रुचीन बरीं खातालीं.' तिसरो क्लार्क रडकुरो सो जावन उलयलो.

'हो मनीस...?' माळयान त्या चिड्डल्ल्या मनशा कडेन बोट दाखोवन म्हळें.

'हय... हो मनीस...' सुपरिंटेंडेंट विचारांत पडलो.

'जितो आसा काय मेला, कांय कळना...' एका प्युनान म्हळें.

'मेलाच आसतलो. येदो व्हडलो रूख जाचे फाटीर पडला तो वांचून कसो उरतलो?' दुसरो प्यून उलयलो.

'मरूंक ना हांव, जिवो आसां...' चिड्डल्ल्या मनशान मोठ्या कश्टान म्हळें.

'जिवो आसा?!, एका क्लार्कान अजापान म्हळें.

'रूख जाता तितले बेगीन हालोवन ह्या मनशाक भायर काडूंक जाय.' माळ्यान सुचयलें.

'सोंपें काम न्हय हें. भोव कठीण!'

'रुखाचें कांड केदें मोठें आसा पळे, बरें जड आसतलें.' एका सुस्त, कामचोर, भरिल्ल्या आंगाच्या प्युनान म्हळें.

'तातूंत कितें व्हडलेंशें?' माळ्यान म्हळें. 'सुपरिंटेंडेंट सायबान फर्मायल्यार, पंदरा-वीस माळी, प्यून आनी क्लार्क एकठांय येवन ह्या मनशाक भायर काडूं येता.'

'माळ्याचें बरोबर.' कितलेशे क्लार्क

एकदम उलयले. 'चलात, लायात फोर्स. आमी आसात तयार.'

कितलेशे जाण हात लावपाक तयार जाले.

'मातशे रावात,' सुपरिंटेंडेंटान म्हळें. 'हांव अंडर सेक्रेटरीक विचारून येतां.'

सुपरिंटेंडेंट अंडर सेक्रेटरी सरीं गेलो. अंडर सेक्रेटरी डेप्युटी सेक्रेटरी सरीं गेलो. डेप्युटी सेक्रेटरी जॉयंट सेक्रेटरी सरीं गेलो. जॉयंट सेक्रेटरी चीफ सेक्रेटरी सरीं गेलो. चीफ सेक्रेटरी मिनिस्टरा सरीं गेलो. मिनिस्टरान चीफ सेक्रेटरीक कितें तरी सांगलें. चीफ सेक्रेटरीन तें जॉयंट सेक्रेटरीक सांगलें. जॉयंट सेक्रेटरीन डेप्युटी सेक्रेटरीक सांगलें. डेप्युटी सेक्रेटरीन अंडर सेक्रेटरीक सांगलें. फायल भोंवत रावली. इतले म्हणसर आदेस सरलो.

दनपारां जेवणाचे सुटये वेळार चिड्डल्ल्या मनशा भोंवतणी खूब गर्दी जाल्ली. लोक तरेतरेच्यो गजाली करताले. कांय क्लार्क एकठांय येवन रुखाचें कांड हालोवंक सोदताले, सायबाच्या निर्णयाक रावी नासतना. पूण इतल्यान सुपरिंटेंडेंट फायल हातांत घेवन धांवत धांवत थंय आयलो. ताणें सांगलें, 'हो रूख आमच्यांनी हालोवं नज. आमचो संबंद येता वेपार खात्या कडेन. रुखाचो प्रस्न शेतकी खात्या कडेन जोडिल्लो आशिल्ल्यान ही फायल 'अर्जंट' मार्क करून हांव शेतकी खात्यांत धाडून दितां. थंयच्यान जाप येतकच रूख काडचो.'

दुसऱ्या दिसा शेतकी खात्यांतल्यान जाप आयली, — 'रूख वेपार खात्याच्या लॉनार पडला. देखून तो काडपाची जापसालदारकी वेपार खात्याचीच.'

जाप वाचून वेपार खात्याक राग आयलो. थंयच्यान रोखडेंच नोटींग गेलें - वेपार खात्याचो रुखा कडेन कांय संबंद ना. रूख काडप काय काडप ना ती शेतकी खात्याचीच जापसालदारकी.

दुसऱ्याय दिसा फायल भोंवत रावली. सांजची जाप आयली, आमी हो प्रस्न फळां उत्पादन खात्या कडेन सोंपयतात, कित्याक, तो फळां दिवपी रुखा कडेन संबंदीत आसा. शेतकी खात्याक धान्य आनी कडधान्य हांचेच संबंदान थारावण्यो घेवपाचो अधिकार आसा. ही जांबळ खूब जांबळां दिताली. देखून हो फळां उत्पादन खात्याचो प्रस्न.

रातचें माळ्यान रुखा पोंदा चिड्डल्ल्या मनशाक दाळच्या रोसान कालयल्लें इल्लें शीत खावयलें. रुखाच्या चोंय वशिंनी पुलिसांचो पारो आशिल्लो. जायते जाण कायदो आपणा हातांत घेवन रूख थंयच्यान हालोवपाचो यत्न करताले.एका पुलीस कॉन्स्टेबलाक चिड्डल्ल्या मनशाची काकूळट दिशिल्ली आनी ताणें ताका इल्लें जेवण दी म्हूण माळ्याक सांगिल्लें.

माळ्यान त्या मनशाक सांगलें, 'तुजी फायल वयर गेल्या. फाल्यां मेरेन निर्णय येवंक जाय.'

तो मनीस कांय उलयलो ना.

माळ्यान रुखाचें कांड बारकायेन पळेलें. 'तरी बरें, कुल्याचेर कोंसळ्ळें. कमरार पडिल्लें जाल्यार फाटी कणोच मोडपाचो.' ताणें म्हळें.

तरी चिड्डल्लो मनीस ओग्गी आशिल्लो.

माळ्यान ताका विचारलें, 'तुजो कोणूय लागींचो सोयरो वा वारस आसा व्हय? म्हाका ताचो पत्तो सांग, हांव ही गजाल ताच्या कानार घालतां.'

'सोयरो, वारस कोण ना म्हाका,' मनशान दुखेस्त जावन म्हळें. माळ्याकूय वायट दिसलें आनी तो थंयच्यान गेलो.

तिसऱ्या दिसा फळां उत्पादन खात्याची जाप आयली. बरीच कडक आनी व्यंगात्मक. फळां उत्पादन खात्याचो सचीव साहित्य-मोगी आशिल्लो जावंक जाय. ताणें बरयल्लें, 'आमी 'झाडां लायात' येवजण वयल्या पावंड्या मेरेन चालीक लायल्या त्याच वेळार आमचे कांय सरकारी अधिकारी झाडां मारपाचो सल्लो दितात तें पळोवन अजाप दिसता. खंयचीं झाडां मारपाचो सल्लो? फळां दिवपी झाडां. जे जांबळीचीं फळां लोकांनी रुचीन खाल्यांत तीच जांबळ आमी मारूंक भायर सरल्यात. आमचें खातें खंयचेच परिस्थितींत हो फळ दिवपी रूख मारपाचो हुकूम दिवचें ना.'

'आतां कितें करचें?...' जाप घेवन आयिल्ल्या मनशान कुरवेनूच विचारलें. 'ह्या मनशाकूच मदल्यान कापलो जाल्यार अर्दो मनीस असो आनी अर्दो मनीस तसो भायर येतलो. रूख थंयचे थंय उरतलो.'

'पूण अशें केल्यार मनीस मरतलो...' त्या चिड्डल्ल्या मनशान विरोध करीत म्हळें.

'हय, सारकें तुजें. मनीस मरतलो.' एका क्लार्कान म्हळें.

'आयज प्लास्टीक सर्जरी कितली मुखार पावल्या, तुमकां खबर ना. म्हाका दिसता, ह्या मनशाक मदल्यान कापून भायर काडलो जाल्यार प्लास्टीक सर्जरी करून ताका परतो जोडूं येतलो.' मनशाक कापून भायर काडपाची बुद्द दिवपी मनशान आपलो मुद्दो सोडलो ना.

हे खेपे फायल वैजकी खात्यांत पावली. वैजकी खात्यान रोखडीच कारवाय केली. दुसऱ्याच दिसा खात्यांतलो बऱ्यांतलो बरो प्लास्टीक सर्जन जांबळ पडिल्ली थंय पावलो. ताणें त्या चिड्डल्ल्या मनशाक बारीक तपासून पळेलो. ताचें रगत तपासलें, नाडी पळेली, काळीज लेगीत सांसपून पळेलें आनी रिपोर्ट धाडलो- ह्या मनशाचेर प्लास्टीक सर्जरी जावं येता. सर्जरी बरे बशेन जातली पूण मनीस मरतलो.

मनशाक कापून भायर काडपाचो निर्णय रद्द जालो.

ते रातीं चिड्डल्ल्या मनशाच्या तोंडांत खीर घालतना माळ्यान ताका सांगलें, 'तुजी खबर आतां वयर मेरेन पावल्या. सेक्रेटरियटीच्या सगल्या सचिवांची फाल्यां मिटींग जावपाची आसा म्हूण आयकलां. हे मिटिंगेंत तुजी केस मांडपाचे आसात. सगलें सारकें जाल्यार पुरो म्हूण मागतां.'

चिड्डल्ल्या मनशान सुस्कारो सोडून ल्हवू आवाजांत म्हळें:

'ये तो माना कि तगाफुल न करोगे लेकिन खाक हो जाएंगे हम तुमको खबर होने तक!'

'कितें?! तूं कवी?!' अजापभरीत जावन माळ्यान म्हळें.

चिड्डल्ल्या मनशान ल्हवूच तकली हालयली.

दुसऱ्या दिसा माळ्यान प्युनाक सांगलें. प्युनान क्लार्काक म्हळें. क्लार्कान हेड क्लार्काक. थोड्याच वेळा भितर खबर सगल्याक पावली, चिड्डला तो मनीस कवी म्हणपाची. मागीर, घेऽ म्हूण लोक कवीक पळोवंक आयलो. खबर शारभर जाली. सांज मेरेन जायते कवी एकठांय जाले. सेक्रेटरियटीचें लॉन इल्लें इल्लें करून कवींनी भरून गेलें

चिड्डल्ल्या मनशा भोंवतणी कविसंमेलनाचें वातावरण निर्माण जालें. सेक्रेटेरियटीचे कांय क्लार्क आनी अंडर सेक्रेटरी लेगीत, जांकां कविता आवडटल्यो ते थंय रावले. कांय कवी चिड्डल्ल्या मनशाक आपणाल्यो कविता आनी गितां म्हणून दाखोवपाक लागले.

चिड्डल्लो मनीस कवी म्हूण कळटकच सेक्रेटरियटीचे कमिटीन थारायलें, हो मनीस कवी देखून ही फायल शेतकी वा फळां उत्पादन खात्याची जावंक शकना. ती संस्कृतीक खात्याचीच फायल जाता. संस्कृतीक खात्याक आदेश गेलो - रोखड्या रोखडो निर्णय घेवन त्रासांत पडिल्ल्या कवीक रुखा पसून मुक्त करचो म्हूण.

फायल संस्कृतीक खात्यांत भोंवत भोंवत निमाणी साहित्य अकादेमीच्या सचिवा म्हऱ्यांत पावली. सचीव रोखडोच गाडी घेवन सेक्रेटेरियटी म्हऱ्यांत पावलो. आनी चिड्डल्ल्या मनशाची मुलाखत घेवंक लागलो.

'तूं कवी?' ताणें विचारलें.

'हय' चिड्डल्ल्या मनशान जाप दिली.

'खंयच्याय टोपण-नांवान बी लोक तुका वळखता?'

'हय... ओस.'

'कितें? ओस?' सचीव आड्डलो. *'ओस के फूल'* हो निबंदां झेलो हालींच उजवाडा आयला, तो ओस?'

चिड्डल्ल्या मनशान हय म्हूण तकली हालयली.

'तूं आमचे अकादेमीचो वांगडी आसा?' सचिवान विचारलें.

'ना.'

'अजाप म्हणपाचें!' सचिवान मोठ्यान बोवाळ केलो. 'येदो व्हडलो कवी, *'ओस के फूल'* पुस्तकाचो लेखक आनी अकादेमीची वांगडी ना? शी! येद्या व्हडल्या कवीची कोणाक वळख ना?!'

'वळख ना..., सोडात. तो एका रुखा मुळा चिड्डला. देवा खातीर म्हाका हांगच्यान भायर काड.'

'आतांच वेवस्था करतां,' सचिवान म्हळें. आनी रोखडोच ताणें आपणाल्या खात्यांत रिपोर्ट बरोवन धाडलो.

दुसऱ्या दिसा सचीव धांवत धांवत त्या कवी म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें म्हळें, 'खोशयेची खबर घेवन आयलां. आमचे सरकारी साहित्य अकादेमीन तुमकां केन्द्रीय फांट्याचो वांगडी करून घेतला. हें घेयात वेंचणूक-पत्र. म्हजें तोंड गोड करात आतां...'

'म्हाका पयलीं ह्या रुखा पोंदच्यान भायर काडात.' चिड्डल्ल्या मनशान म्हळें. तो मोठ्या कश्टान उलयतालो. ताचे त्रास ताच्या दोळ्यां वयल्यान वळखूं येताले.

'तें म्हज्यान करूंक जायना' सचिवान म्हळें. 'म्हज्यान जें करूंक जातालें तें हांवें केलें... म्हज्यान आनीक एक करूं येता. तुमकां मरण आयलें जाल्यार तुमचे घरकान्नीक म्हज्यान दुडवांचो आधार करूं येता.'

'हांव अजून जिवो आसां...' कवीन म्हळें. भोवच कश्टान. 'म्हाका जिवो दवरात.'

'त्रास इतलेच', सरकारी साहित्य अकादेमीचो सचीव हात चोळीत उलयलो, 'आमच्या खात्याचो फकत संस्कृताये कडेन संबंद येता. रूख कापपाचें काम पेन पेन्सील घेवन न्हय तर कोयती कुराड घेवन करचें पडटा. देखून आमी फायल रान खात्या कडेन धाडल्या, 'अर्जंट' मार्क करून.'

सांजचें माळ्यान येवन चिड्डल्ल्या मनशाक सांगलें, 'फाल्यां रानखात्याचे मनीस येवन हो रूख कापतले आनी तुका भायर काडटले.' माळी खूब खूश आशिल्लो. चिड्डल्ल्या मनशाचो निमाणो वेळ लागीं पाविल्लो. तरी पूण तो जगपाचो यत्न करतालो. फायची सकाळ जायसर तरी कशेय बशेन जिवो रावंकूच जाय आसलें.



दुसऱ्या दिसा सकाळीं रान खात्याचे मनीस कोयती कुराड घेवन आयले पूण कोणें तरी तांकां आडायले. रूख कापूंक फावना म्हूण विदेश खात्या कडल्यान आदेश आयला अशें आयकूंक आयलें. धा वर्सां फाटीं पिटोनिया देशाच्या प्रधानमंत्र्यान सेक्रेटेरियटीच्या लॉनांत हो रूख लायिल्लो. तो आतां कापलो जाल्यार आमच्या देशाचे पिटोनिया देशा कडले संबंद इबाडपाची शक्यताय आशिल्ली.

'पूण एका मनशाच्या जिवाचो प्रस्न आसा...' एका क्लार्कान म्हळें.

'दोन देशां मदल्या संबंदाचोय प्रस्न आसा.' दुसऱ्या क्लार्कान पयल्याक समजायलो. 'पिटोनिया सरकार आमच्या देशाखातीर थोडी मदत करिना, आनी ह्या देशाचे मैत्री खातीर आमच्यांनी एका मनशाचें बलिदान दिवं नज?'

'हय... कवीन मरचें पडटलें.'

'...'

अंडर सेक्रेटरीन सुपरिंटॅंडॅंटाक सांगलें, आयज सकाळीं प्रधानमंत्री भोंवडी करून परतल्यात. आयज चारांक विदेश खातें ह्या रुखाची फायल तांचे मुखार दवरतलें. तांचो निर्णय फायनल आसतलो.

सांजच्या पांचांक सुपरिंटॅंडॅंट खासा कवी म्हऱ्यांत फायल घेवन आयलो. 'आयकलां?' फायल नाचयत ताणें म्हळें, 'प्रधानमंत्र्यान हो रूख कापपाचो आदेश दिला आनी हे घडणुकेची सगळी अंतरराश्ट्रीय जापसालदारकी आपणाचेर घेतल्या. फाल्यां हो रूख कापतले आनी तूं सासणाचो ह्या त्रासांतल्यान सुट्टलो... आयकता न्हय? आयज तुजी फायल बंद जाली.'

पूण कवीचो हात थंड जाल्लो. दोळ्यांच्यो पातकड्यो निर्जीव जाल्ल्यो. मुयांची एक व्हडली हार ताच्या तोंडांत वताली...

ताच्या जिविताचीय फायल बंद जाल्ली.





# शेतकार आनी सैतान

## मूळ रशियन: लेव तॉलस्तॉय
## इंग्लीशी वयल्यान कोंकणींत हाडपी : भालचंद्र राव

एक शेतकार आशिल्लो. एक दीस फांतोडेर उठून तो शेतांत नांगरूंक गेलो. वतना ताणें खावपाक एक उंड्याचो कुडको व्हेल्लो. कामाक लागचे पयलीं ताणें आपणाल्या आंगा वयलो कोट देंवोवन एका रुखा पोंदा व्हरून दवरलो. कोटा मुळा उंड्याचो कुडको दवरलो. उपरांत घोड्याक घेवन तो काम करूंक लागलो. दनपारचो थोडो विसव घेवचो आनी पोटांतूय कितें घालचें म्हूण ताणें घोड्याक सोडलो आनी झाडा मुळांत आयलो. झाडा मुळा दवरिल्लो कोट वयर काडून पळेत जाल्यार ताच्या पोंदा दवरिल्लो उंड्याचो कुडको ना. अशें कशें जावचें, शेतकाराक अजाप जालें. ह्याच हातांनी हांगाच दवरिल्लो उंडो खंय वचचो? तो येवजणेंत पडलो. घोड्यान तण खालें. शेतकार मात उपाशींच उरलो.

उंड्याचो कुडको सैतानाच्या एका दासान लिपोवन दवरिल्लो. ताका दिशिल्लें, उंडो ना तें पळोवन शेतकाराक राग येतलो, ताच्या तोंडांत वायट उतरां येतलीं आनी हें पळोवन सैतान खुशालभरीत जातलो. पूण घडलें वेगळेंच. शेतकाराक राग आयलो ना. 'आसूं, गेलें तें गेलें. कोणाक तरी म्हजेय परस चड भूक लागल्या आसतली. देव ताचें बरें करूं, ताणें मनांत म्हळें आनी बांयचेर वचून इल्लें उदक पियेलो. मागीर घोड्याक घेवन परतोय कामाक लागलो.

सैतानाचो दास निर्शेलो आनी आपणाल्या धनया सरीं गेलो. ताची खबर आयकून सैतानाक खूब राग आयलो, 'तुजीच चूक... तुजें काम कशें करचें तेंच तूं नकळ. हो शेतकार, हेर शेतकार आनी तांचीं बायलां अशीं वागूंक लागल्यार आमी काम नाशिल्ले जावन पडटले. तूं आत्तां परतो वतलो आनी सारकें काम करून येतलो. तीन वर्सां भितर तुका जैत मेळ्ळेंना जाल्यार राव दाखयतां, तुका पवित्र उदकांत बुडयतां...' सैतानान म्हळें. दास सामको भियेलो. ताणें थंयच्यान पळ काडलो. धनयाचो आदेश पाळ्ळे बगर उपाय ना... कितें करचें, तो येवजणेंत पडलो.

एका शेतकाराचोच भेस करून तो त्या शेतकारा म्हऱ्यांत वचून वावरूंक लागलो. 'अंदू ओले मातयेंत मक्याचें पीक घे', ताणें शेतकाराक बुद्द दिली. त्या वर्सा पावस खूब उणो पडलो. बाकीच्या शेतकारांनी दोंगरार रोयिल्लें मक्याचें बीं सामकें सुकून गेलें. ह्या शेतकाराचें पीक मात बरें जालें. गरजे परस चड. दुसऱ्या वर्सा सैतानाच्या दासान शेतकाराक दोंगरार पीक घेवंक सांगलें. हेरांच्या पिकाची जाल्ली तीच ह्या शेतकाराच्या पिकाचीय अवतिकाय जावची असो सैतानाच्या दासाचो हेत आशिल्लो. पूण घडलें वेगळेंच. त्या वर्सा सुमारा भायर पावस झडलो. हेरांचें पीक पावसान व्हांवन, कुसून पाड जालें. ह्या शेतकाराचेंच भोव बरें जालें. आनी गरीब आशिल्लो तो शेतकार ह्या पिकाक लागून धपक्याक गिरेस्त जालो.

सैतानाच्या दासाच्या वांट्याक दोनूय खेपे अपेस आयलें. ताणें नवी येवजण आंखली. मक्याचें पीठ करून उदकांत फुगत घालून ताचो सोरो कसो करप तें ताणें शेतकाराक शिकयलें. शेतकार सोरो करूंक शिकलो आनी पियंकूय शिकलो. आपणाल्या इश्टांक आपोवन तांकांय तो सोरो घालूंक लागलो.

सैतानाचो दास खोशी जावन सैताना सरीं गेलो. आपणाल्या कामाची व्हडवीक ताणें सैतानाक सांगली. आदीं घडिल्ल्या सगल्या चुकींची आतां भरपाय जातली, ताणें म्हळें. आयकून सैतानाकूय बरेंऽ दिसलें. हांवूच शेतकारागेर वचून खरेपण करून घेतां, ताणें म्हळें.

सैतान शेतकारागेर पावलो. ताणें पळेलें, शेतकार आपणाल्या गिरेस्त इश्टां वांगडा सोरो पियेवंक बसला. शेतकाराची बायल

पावण्यांच्या रित्या जाल्ल्या ग्लासांनी आनीक सोरो घालता. अचकीत चुकून तिचो पांय मेजाक आपटलो आनी एका ग्लासांतलो सोरो जमनीर पडलो. शेतकाराक आयलो राग. 'सामकी तकली नाशिल्ली बायल मगे तूं. सारकें चलपाक येना तुका? सोरो हो. खळयेंतल्यान व्हांवपी म्हेळें उदक न्हय, कळ्ळें?' ताणें म्हळें.

दासान सैतानाक कोंपर मारलो. 'पळेलें? होच न्हय तो मनीस, ताचो एकूच उंड्याचो कुडको ना जाल्लो तेन्ना खंती जावंक नाशिल्लो तो? आतां पळे कसो जाला... पळेत राव...' ताणें म्हळें.

बायलेक खेपीत, शेतकार आतां आपुणूच पावण्यांक सोरो घालूंक लागलो. तेन्ना एक गरीब मनीस सालांत भितर सरलो. दीस भर काम करून ताका पुरो जाल्लें. तो पावण्यां म्हऱ्यांत येवन बसलो, सोऱ्याचे आशेन. पूण कोणेंच ताका सोऱ्याचें कोप दिलेंना. हेरांक सोरो पियेतना पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. आशेन ताणें घरच्या यजमानाच्या तोंडा कडेन पळेलें. यजमान फणफणलो. ताणें म्हळें, 'घरांत कोणूय भितर सरता ताका घालूंक सोरो ना म्हजे कडेन...'

आयकून सैतान खोशी जालो. दासूय हांसलो. ताणें म्हळें, 'आनीक मातसो राव... आनिकूय मजा जावपाची आसा.'

गिरेस्त शेतकार एकामेकांच्या सांगातान बरेऽ पियेले. पियेतकच एकामेकांची तुस्त करूंक लागले. खरेली तुस्त न्हय, फटकिरी. सामकी फटकिरी.

तांचें उलोवणें आयकून सैतानान म्हळें, 'बरें काम केलें तुवें. इतले पियेवन ते कोल्यां वरी जाले पळे, एकामेकांची फटींची तुस्त करूंक लागले. अशेच उरले जाल्यार सगळे आमच्या हातांत पडटले.' हाचेर दासान म्हळें, 'आनीक कांय ग्लास पियेले उपरांत कशे वागतात तें पळे. आतां कोल्या वरी चलतात. आनीक कांय वेळान कोलसुण्यां वरी जातले. एकामेकांचे कुडके तोडूंक लागतले.'

शेतकार आनीक इल्ले पियेले. आतां तांची चलणूक बदल्ली. उलोवपांत गाळी येवंक लागल्यो. सुरवेक निखट्यो गाळी. इल्ले इल्ले करून एकामेकांचेर हातूय उबारूंक लागले. यजमानूय हे मारामारींत वांटो घेवंक लागलो.

सैतान आनिकूय खोशी जालो, 'वा! उत्तम!... अती उत्तम!' ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

दासान म्हळें, 'राव, राव... इतल्यान सोंपूंक ना. सगळ्यांत बरो देखाव आतां रोखडोच पळोवंक मेळपाचो आसा.'

आनीक इल्लो सोरो पोटांत गेले उपरांत शेतकार आनिकूय बडबडूंक लागले. मोठ्या मोठ्यान. ते कितें उलयताले, तांकांच खबर नाशिल्लें. बोबो मारिल्ले वरी उलयताले. कोण कोणाचें आयकऽ नाशिल्लो.

आनीक आनीक सोरो पोटांत वचना जालो तेन्ना पावणे घरा वचूंक भायर सरले. कोणाच्यानूच नीट पावलां घालूंक जायना आशिल्लें. यजमान तांकां पावोवंक दारा म्हऱ्यांत गेलो. ताच्यान धड उबोय रावंक जायना आशिल्लें. दारा म्हऱ्यांत तोल वचून तो सकल पडलो. ताच्या तोंडाक, आंगाक माती लागली. पडिल्ले कडेन तो दुकरा वरी आवाज काडूंक लागलो.

हें पळोवन सैतानाक सामको आनंद जालो. ताणें आपणाल्या दासाक म्हळें, 'बरी माण्णी केली तुवें. आतां तुज्यो पयलींच्यो चुको विसर... पूण म्हाका एक सांग, सोरो तुवें कसो तयार केलो? म्हाका दिसता, तातूंत तुवें कोल्याचें रगत घालां आसतलें, म्हूण ते कोल्या भाशेन वागूंक लागले; कोलसुण्याचें रगत घालां आसतलें म्हूण ते कोलसुण्या वरी भयंकर जाले, आनी, दुकराचेंय रगत घालां आसतलें म्हूण ते दुकरा भाशेन मातयेंत लोळूंक लागले. बरो हुशार रे तूं!'

'ना सायबा, ना. तशें कांय करूंक ना', सैतानाच्या दासान म्हळें. 'मनशाक गरजे पुरतें खाण-जेवण मेळ्ळ्यार तो बरे भाशेन वागता. हांवें ताका भरपूर धान्य मेळशें केलें. शेतकारा कडेन एकूच उंड्याचो कुडको आशिल्लो तेन्ना तो खरेलो सुखी आशिल्लो. ताका गरजे परस चड धान्य मेळ्ळें तेन्ना ताचो वापर तो आपणाक अदीक अदीक आनंद मेळोवपाक करूंक लागलो. देवान दिल्ल्या देण्याचो तो वांकडो वापर करूंक लागलो. अशें जातकच मनशा भितर लिपून आशिल्ले कोलो, कोलसुणो आनी दुकर भायर आयले... आतां तो असोच पियेत रावलो जाल्यार रोखडोच जनावर जावन पडटलो...'

सैतानान दासाची तुस्त केली, ताच्यो आदल्यो चुकी ताका माफ केल्यो आनी ताका व्हडले सुवातेर व्हरून बसयलो.





# तुकारामाचे अभंग

अणकारः सुरेश गुंडू आमोणकार

महात्मा गांधीन येरवडा बंदखणींत आसतना १५-१०-१९३० ते २०-१०-१९३० ह्या काळांत तुकारामाच्या १६ अभंगाचो अणकार केल्लोः त्या अभंगांचो हो कोंकणी अणकार.

१. *जे कोण कश्टल्ले पिडिल्ले । तांकां म्हण्टा जो आपणाले ॥१॥*
*तोच वळखुंचो साधु । ताचे ठांयच वसता देवु ॥धृ॥*
*भायर भितल्ल्यान लोणी मोंवु । तशें सज्जना चित्त मोंवु ॥२॥*
*जाका कोणाचोच ना आसय । ताका धरता जो हृदयांत ॥३॥*
*जी दया दाखयी पुताक । तीच दाशी दासाक ॥४॥*
*तुका म्हण्टा कितु करूं तुस्त । तोच भगवंताची मूर्त ॥५॥*

**अर्थ:** जे लोक संवसार तापान कश्टल्यात आनी पिडिल्ले आसात, तांकां हे सगले आपलेच आसात अशें जो मानता ॥१॥ तोच साधू असो वळखुंचो आनी ताचे ठांयच देव वसता अशें जाणचें ॥२॥ जे भाशेन लोणी भायर भितल्ल्यान मोंव आसता, तेच भाशेन सज्जनाचें चित्त कंवळें आसता. ॥३॥ जाका कोणाचोच आसरो ना, अश्या निराश्रितांक जो आपल्या हृदयांत धरता ॥४॥ जे परी पुताचेर दया करता, तेच परी आपले सरीं आशिल्ल्या दास दाशींचेरय दया करता ॥५॥ तुकाराम म्हाराज म्हणटा, आतां ताचे बद्दल कितलें सांगचें, तो साक्षात् भगवंताचीच मूर्त आसता ॥६॥

१५-१०-१९३० अभंग (२२१०)

२. *पापाची वासना नाका दाखोवं दोळयांक ।*
*अदीक बरें कुंड्डोच जाल्यार हांव ॥१॥*
*निंदा आयकुवप नाका म्हज्या कानांत ।*
*गा देवा तूंच भेराय म्हजे कान ॥धृ॥*
*बुरशी पोजडी वाणी नाका म्हज्या तोंडांत ।*
*मोनो जाल्यार हांव बरें जायत ॥२॥*
*नाका म्हाका केन्नाच परस्त्री संगत ।*
*भायरो जाल्यार बरो हांगसल्ल्यान ॥३॥*
*तुका म्हण्टा म्हाका सगल्याचो कंटाळो ।*
*आवडटा म्हाका गोपाळा तूं एकटो ॥४॥*

**अर्थः** तुकाराम म्हाराज म्हणटा : देवा, म्हज्या दोळ्यांक पापाची वासना दाखोवं नाका, हांव कुड्डो जाल्यार अदीक बरें जायत ॥१॥ म्हज्या कानाक निंदा आयकूंक दिवं नाका, म्हजे कान भेरायशीत जाल्यार चड बरें जायत ॥धृ॥ म्हज्या तोंडांत बुरशी पोजडी वाणी नाका, हांव मोनो जायन जाल्यार अदीक बरें जायत. म्हाका केन्नाच परस्त्रीचो सांगात नाका, ताचे परस हे पृथ्वी वयल्यान हांव भायरो जाल्यार चड बरें जायत. तुकाराम म्हाराज म्हणटा, म्हाका सगल्याचो कंटाळो आयला. गोपाळा, तूं एकटो म्हाका चड आवडटा.

१६-१०-१९३०

३. *पवित्र तें कुळ पावन तो देश ।*
*जंय हरीचे दास घेतात जल्म ॥१॥*
*कर्मधर्म तांचो जालो नारायण ।*
*ताका लागून पावन तिनय लोक ॥धृ॥*
*वर्ण अभिमानान कोण जाले पावन ।*
*हे वेंचून म्हाका तुमी सांगात ॥२॥*
*तरल्यात हरीभजनान अंत्यजादि जाती ।*
*गायतात व्हडवीक पुराणां तांची ॥३॥*
*वैश्य तुळाधार गोरा तो कुमार ।*
*शिवपी जोडे चामार रोहिदास ॥४॥*
*कबीर मोमीन लतिफ मुसलमान ।*
*सेना म्हालो हे सगले विष्णुदास ॥५॥*
*कान्होपात्रा खोदू पिंजारी तो दादु ।*
*भजनानु जाले हरी पायांशीं एकु ॥६॥*
*चोखामेळा बंका जातीन म्हार ।*
*एक जालो तांचेशीं सर्वेश्वर ॥७॥*
*नामयाची जनी कोण तिचो भाव ।*
*जेवता पंढरीराय तिचे सवें ॥८॥*
*मैराळ जनक कितें कुळ ताचें ।*
*व्हडवीक ताची सांगूं कितें ॥९॥*
*जातपातीचो धर्म ना विष्णुदासांकु ।*
*असो दिला निर्णय वेदशास्त्रांतु ॥१०॥*
*तुका म्हण्टा सोदात तुमी ग्रंथ ।*
*तरल्यात कितले जावंचिना गणटी ॥११॥*

(अभंग २३२६)

**अर्थ:** जंय हरीचे दास जल्म घेतात, तांचें कूळ तर पवित्र आसाच, तांचो तो देशय पावन आसा ॥१॥ त्या वैष्णवांचें सगलें कर्मधर्म नारायणच जाल्ल्यान तांच्या योगान त्रैलोक्य पावन जालां ॥धृ॥ उत्तम वर्णाच्या अभिमानाक लागून कोण पवित्र जाले आसतीत, तर तें म्हाका वेंचून सांगात ॥२॥ हाचें उरफाटें हरिभजनाच्या योगान अत्यंज आदि करून लोक लेगीत तरल्यात, तांची कीर्त पुराणांनी भाट जावन वर्णिल्या ॥३॥ सत्य मापपी तुलाधार 'वाणी' आनी गोरोबा हो 'कुमार' आनी पायतण शिंवपी रोहिदास हो 'चामार' आशिल्लो, पूण अशे हे हरीभजनान तरले ।।४॥ मुसलमानां पैकीं 'कबीर, मोमीन आनी लतीफ शहा' आनी सेना हें नांव आशिल्लो 'म्हालो' अशे हे विष्णुचे दास जाल्यात हें लक्षांत दवरात ॥५॥ कान्होपात्रा ही शिंदळेची चली, खोदू ह्या नांवाचो 'हिजडो' आनी दादू ह्या नांवाचो 'पिंजारी' हांणी श्रीहरीच्या पांयांचें भजन ताचे कडें एकरूप जावन केलें ॥६॥ चोखामेळा आनी बंका हे जातीन म्हार (हरिजन) आसून, तांचे बरोबर सगल्यांत श्रेश्ठ जो ईश्वर ताणें ऐक्य केलें (ताणें तांकां आपल्यांत मेळोवन घेतले) ॥७॥ नामदेवाची दाशी जनाबाई, हिचे वांगडा पंढरीराय जेवतालो. तिचे ठांय असो व्हडलो भाव आशिल्लो ॥८॥ "मैराळ जनक" ह्या नांवाचो भक्त आशिल्लो, ताचें कूळ चड पवित्र आशिल्लें व्हय? पूण तो हरीच्या भजनांत पवित्र जालोना? ही ताची व्हडवीक म्हाका वर्णूंक येना ॥९॥ जे विष्णुचे दास जातात, थंय जाती कुळाचे विशेश धर्म नात, असो वेदशास्त्रान निर्णय दिला ॥१०॥ तुकाराम म्हाराज म्हणटा, हरीनामान कितले जाण तरल्यात हाची म्हाका गणटी करूंक येवंची ना. हे विशीं तुमी पुराणादी सगल्यांचो सोद घेवन पळेयात. ॥११॥

४. *जंय वता थंयं तूं म्हजो सांगाती ।*
*धर्नु हात म्हजो चलयता तूं ॥१॥*
*चलतात वाट आमी तुज्याच आदारानु ।*
*चलयशी संवसाराचो भार तूं म्हजे सवें ॥धृ॥*
*उलयल्यारू बरळ करशी तें नीट ।*
*लज ना करून केले आमकां धीट ॥२॥*
*सगले जन म्हजे जाले लोकपाळ ॥*
*सोयरे सगले प्राणसखे ॥३॥*
*तुका म्हण्टा आतां खेळटां कौतुकान ।*
*जालें तुजें सुख भायर भितर ॥४॥*

**अर्थ:** देवा, जंय हांव वतां थंय तूं म्हजे वांगडा रावन म्हजो हात धरून म्हाका चलयता. आमी (परमार्थाचे) वाटेन जे चलतात, ते निखट्या तुज्या आदारान. तूं आमच्या वांगडा रावन आमचो योगक्षेमाचो (संवसाराचो) भार घेता ॥धृ॥ आमच्या तोंडांतल्यान कितेंय बरळले प्रमाण शब्द आयल्यार, ते तूं सारके करता. देवा, ते बद्‌दलची आमची लज ना करून तुवें आमकां धीट केल्यात ॥२॥ देवा, तुजे कृपेन सगले लोक आनी इंद्रादीक लोकपाळ हे सगले म्हजे प्राणसखे सोयरे जाल्यात ॥३॥ तुकाराम म्हाराज म्हणटा, आगा देवा, आमकां भायर-भितरल्यान तुजें सूख जालें म्हूण आतां आमी कवतुकान खेळटात.

२२-१०-१९३०

५. *कळना कितें करचो उपाय ।*
*रावतलो भाव तुज्या चरणीं ॥१॥*
*येवन वास करशी हृदयीं ।*
*कश्यो नि केन्ना घडत ह्यो गजाली ॥धृ॥*
*खऱ्या भावान तुजें चिंतन मनीं ।*
*केन्ना गा करशी अशें तुमी ॥२॥*
*लटको हो भाव करून पयस ।*
*खरेंच तुवें रावचें अंतरीं ॥३॥*
*तुका म्हण्टा म्हाका राखचें पतिता ।*
*आपले सत्तेन पांडुरंगा ॥४॥*

**अर्थ:** जाका लागून तुज्या चरणा ठांय म्हजी अखंड श्रद्‌धा बसत, असो खंयचो उपाय करचो, हें म्हाका कांयच कळना ॥१॥ जाका लागून तूं म्हज्या हृदयांत येवन रावशीत, अशी गजाल कशी आनी केन्ना घडत ॥धृ॥ देवा, म्हज्या मनांत तुजें चिंतन खऱ्या भावान जावंचें, अशें तूं केन्ना करशीत ॥२॥ म्हजे ठांय आसपी हो खोटो भाव पयसावन, खऱ्यांनीच तूं म्हज्या अंतस्कर्णांत येवन रावचो ॥३॥ तुकाराम म्हाराज म्हणटात, आगा पांडुरंगा, तुवें तुजे सत्तेन म्हाका पातक्याक राखचो ॥४॥

६. *मुक्तीची ओड ना विष्णुच्या दासांक ।*
*संवसारा कडेन पळेनात ते ।।१ ।।*
*बसला गोविंद जडून चित्तांत ।*
*आदीं तसो अंतीं विसव ना ।।धृ।।*
*भोग नारायणाक ओंपून रिते ।*
*मंगळ होंवयांनी तोच गायती ते ।।२ ।।*
*बळ बुद्धी तांची उपकारा पासतु ।*
*साठयलां पोटीं नामा अमृतु ।।३ ।।*
*दयावंत ते देवा भाशेनूच ।*
*आपलें परकें वळखनात ।।४।।*
*तुका म्हण्टा तांचो जीव तोच देव ।*
*तांचो जंय ठाव तेंच वैकुंठ ।।५ ।।*

**अर्थ:** वैष्णवांक (विष्णुच्या दासांक) मुक्तीची ओड ना आनी ते संवसारा कडेनय पळेनात।।१ ।। तांणी सदांकाळ विष्णुचें दासपण आपणायल्ल्यान, तांच्या चित्तांत गोविंद जडून बसला. देखून ते अखंड नामोच्चार करतात, तांकां आदी, मध्य आनी अंतीं विसव ना ।।धृ।। ते आपलें सगलें नारायणाक अर्पून अलिप्ततायेन (रिते) रावतात आनी मंगल होंवयांनी ताचीच तुस्त गायतात ।।२ ।। तांचें बळ आनी बुद्धी परोपकारा खातीरच आसता आनी तांणी आपल्या पोटांत नामामृत सांठयलां. दयावंत तर ते देवा वरीच आसतात, आनी हें आपलें आनी तें परकें अशें ते मानिनात ।।४।। तुकाराम म्हाराज म्हणटात, तांचो जीव केवळ देवच जाला, म्हणून तांचो ठाव (वसतेचें ठिकाण) जंय आसा तें वैकुंठच समजचें ।।५ ।।

२३-१०-१९३०

७. *कितें वर्णु आतां पावना ही वाणी ।*
*माथें दवरीं हांव तुज्या चरणीं ।।१ ।।*
*व्हडपण आपलें सोडलें परिसानु ।*
*कसो आफडूं हांव लोखंडाक ।।धृ।।*
*जगाच्या कल्याणा संतांच्यो विभूती ।*
*कश्टयती देह परोपकारान ।।२ ।।*
*संगल्यांची दया हें भांडवल संतांचें ।*
*आपल्या देहाची ममताच ना ।।३ ।।*
*म्हण्टा तुका ते सुखी हेरांच्या सुखानु ।*
*अमृत हें स्रवता मुखांतल्यानु ।।४।।०*

**अर्थ:** आतां हांव ह्या संतांची कीर्त कितें वर्णू? म्हजी वाणी तांचें वर्णन करपाक पावचिना, म्हणून हांव तांच्या पायांचेर म्हजें माथें दवरतां ।।१ ।। लोखंड हीण, हांव ताका कसो आफडूं, अशें मनांत हाडिनासतना परिसान आपलें व्हडपण सोडलें (आनी त्या लोखंडाचें भांगर केलें, तेच परी, संतांनी आपल्या व्हडपणा कडें पळेनासतना, हांव हीण आसुनय म्हाका म्हऱ्यांत ओडलो.) ।।धृ ।। संतांचे अवतार जगाच्या कल्याणा खातीरच आसतात, ते तांचो देह परोपकार करून झरयतात ।।२ ।। भूतमात्रांचेर दया करप हेंच संतांचें भांडवल, तांकां आपल्या देहाची ममताच ना ।।३ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटात, ते संत लोकांच्या सुखान सुखी जातात आनी तांच्या मुखांतल्यान सत्य आनी मधूर उपदेशाचें अमृत वा हरिच्या नामाच्या अमृताचो ओग व्हांवत सदांच आसता ।।४।।

८. *मेळना संतपण बाजारापेठीं ।*
*भोंवशी वना होंवरेंत तसो रानीं ।।१ ।।*
*दिशी कितलें मोल, ओंपशी धना राशी ।*
*ना मेळचें आकाशीं पाताळीं तें ।।धृ।।*
*तुका म्हण्टा मेळटा ओंपशी जीव।*
*नाजाल्यार सांगच्यो न्ही गजाली ।।२ ।।*

**अर्थ:** संतपणाचो अधिकार बाजारांत विकतो मेळना वा रानांत, दोंगराचे होंवरेंत भोंवल्यारय मेळना ।।१।। कितलेंय मोल दिलें वा दुडवांचें राशी मोल तें जरी, तरी तें संतपण मेळना. तशेंच तें आकाशांत वा पाताळांतय खंयच मेळना ।।धृ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटात, फकत देवाक आपलो जीव ओंपल्यार संतपण मेळटा, जर अशें नासत, जाल्यार संतपणाची गजालय काडची न्हय ।।२ ।।

२४-१०-१९३०

९. *तेच भक्त समजात जे देहीं उदास ।*
*सगले भरून गेले आशापाश ।।१ ।।*
*विशय तो ताचो जालो नारायण ।*
*आवडना धन, जन, माता पिता ।।धृ।।*
*निर्वाणी गोविंद आसता फाटीं फुडल्यानु ।*
*कसलेंच संकट येवंकु दिना ।।२ ।।*
*तुका म्हण्टा सतकर्माक करचो पालव।*
*घालशी भंय, वतलो नरकांत ।।३ ।।*

**अर्थ:** जांचे आशापास सामके सरल्यात; आनी जे देहा विशीं उदास जाल्यात, ते भक्त अशें समजात ।।१ ।। तांचे आवडीचो विशय एक नारायण जालो. नारायणा शिवाय तांकां जन, धन, आवय-बापूय आवडना. अश्या भक्तांच्या संकटांच्या वेळार गोविंद हो तांचे फाटीं फुडें रावता आनी तांचेर कसलेंच संकट येवंक दिना. तुकाराम म्हाराज म्हणटा, तांचे कडल्यान जें सत्कर्म जाता ताका सगल्यांनी आधार दिवंचो, ताचे विशीं कोणें भंय घालें ( कार्यांत आडमेळीं हाडलीं) जाल्यार नरकवांसाक वचचें पडटलें अशें समजुचें.

१०. *वेद अनंत उलयलो । अर्थ इतलोच सोदलो ।।१ ।।*
*विठोबाक शरण वचचें । नीज निश्चयान नाम गांवचें ।।धृ।।*
*सगल्या शास्त्रांचो विचार । अंतीं इतलोच निर्णय ।।२ ।।*
*अठरा पुराणांचो सिद्धांत । तुका म्हण्टा होच हेत ।।३ ।।*

**अर्थ:** वेदांनी अगणित वर्णन केलां. साबार विशय चर्चिल्यात. तांचो सोद घेतल्यार होच मुख्य अर्थ भायर सरला ।।१ ।। तो असो: विठोबा रायाक सर्व भावान शरण वचून, ताचें नांव आत्मनिश्चयान घेवंचें ।।धृ।। सगल्या शास्त्रांचो विचार जावन अखेरेक निश्चयान ह्याच निर्णयाचेर पावल्यात ।।२ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटा, अठरा पुराणांनी हेतुपुराय होच सारांश सांगला ।।३ ।।

२५-१०-१९३०

११. *आनिक दुसरें कांयच ना आतां ।*
*स्थापल्या पासून म्हज्या चित्तीं ।।१ ।।*
*पांडुरंग मनीं पांडुरंग ध्यानीं ।*
*जाग्रतीं सपनीं पांडुरंग ।।धृ ।।*
*पडलें वळण सगल्या इंद्रियांक ।*
*भाव तो वेगळो ना दुजो ।।२ ।।*
*तुका म्हण्टा दोळयांत जाली वळख ।*
*साजरें तें ध्यान विटेचेर ।।३ ।।*

**अर्थ:** पांडुरंगाच्या चरणीं चित्ताची स्थापना केल्ले पासून एका पांडुरंगा शिवाय अदीक दुसरें म्हाका आतां कांयच प्रिय उरूंक ना. ।।१ ।। मना मदीं एक पांडुरंग, ध्यानाचो विशय एक पांडुरंग, जागो आसतना ज्ञानाचो विशय एक पांडुरंग, दुसरो विशयच ना. सपनांत लेगीत पांडुरंग, म्हणजे जाग्रत आसतना, ध्यानांत पांडुरंग आनी सपनां मदीं मनांत पांडुरंग आसा ।।धृ ।। म्हज्या सगल्या इंद्रियांक पांडुरंगा कडें धांवपाचें वळण पडलां. खंयच्याच इंद्रियाक पांडुरंगा कडें धांवपाचें वळण पडलां. खंयच्याय इंद्रियाक पांडुरंगा शिवाय दुसरो विशयच उरूंक ना ।।२ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटा, म्हज्या दोळ्यांनी विटेचेर आनी सुंदर आशिल्ल्या शांत अश्या पांडुरंग ध्यानाची म्हाका पक्की वळख करून दिल्या. ।।३ ।।

१२. *मेळुं नाका खावंक, वाडुं नाका संतत ।*
*पूण ह्या नारायणाची जावं कृपा ।।१ ।।*
*अशी म्हजी वाचा करी म्हाका उपदेश ।*
*आनी लोकांकय सांगी हेंच ।।धृ ।।*
*जावं देहाची विटंबना, वा येवंदी विपत्ती ।*
*पण रावं गा चित्तीं नारायण ।।२ ।।*
*तुका म्हण्टा हें सगलें नाशिवंत ।*
*आठय गोपाळ हेंच हिताचें ।।३ ।।*

**अर्थ:** म्हाका खावंक मेळचें न्हय, म्हजी संतत वाडची न्हय. पूण ह्या नारायणान म्हजेर कृपा करची ।।१ ।। अशी म्हजी वाणी म्हाका सदांच उपदेश करता आनी हेर लोकांकय हेंच सांगता ।।धृ ।। म्हज्या शरिराची विटंबना जावं वा आनिकय विपत्ती येवं पूण म्हज्या चित्तांत मात नारायण रावं ।।२ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटा, हो सगलो प्रपंच नाशिवंत आसा, हे खातीर गोपाळाची सदांच याद करप, हातूंतच म्हजें हित आसा ।।३ ।।

२६-१०-१९३०

१३. *आफुडटां म्हाराक । कोपता ब्राह्मण तो न्हय ।।१ ।।*
*ताका प्रायश्चित्त कांय । देहत्याग केल्यारय ना ।।धृ ।।*
*टळना चांडाळा । ताचो अंतरीं विटाळ ।।२ ।।*
*जाचो संग चित्तीं । तुका म्हणटा, तो ते जातीचो ।।३ ।।*

**अर्थ:** जाचें काळीज क्रोधरुपान म्हाराक आफुडटा, तो खरो ब्राह्मण न्हय ।।१ ।। त्या ब्राह्मणान पर्थून ब्राह्मणत्व मेळचे खातीर जरी देहांत प्रायश्चित घेतलें, तरी ताची खरी अंत:शुद्धी जावंची ना ।।धृ ।। ज्या क्रोधरुपान चांडाळाक केन्नाच आफुडचें न्ही, ताचो विटाळ जांणी सदांच अंतरांत बाळगिला ।।२ ।। चित्तांत जाचो निरंतर सांगात आसता, तेच जातीचो तो आसता, अशें तुकाराम म्हाराज म्हणटा ।।३ ।।

२७-१०-१९३०

१४. *पुण्य परउपकार पाप ती परपीडा ।*
*आनिक ना जोडी दुजी हाका ।।१ ।।*
*सत्य तोच धर्म असत्य तें कर्म ।।*
*आनिक हें वर्म नाच दुजें ।।धृ ।।*
*सद्गती तीच मुखीं नामस्मरण ।*
*अधोगती जाण सोडशी नाम ।।२ ।।*
*संतांचो संग तोच सर्गवास ।*
*नर्कच तो संतसंगतीक जो उदास ।।३ ।।*
*तुका म्हण्टा उक्तें आसा हित घात ।*
*जाका दिसता बरें करचें तशें ।।४ ।।*

**अर्थ:** दुसऱ्याचेर उपकार करप हेंच मुख्य पुण्य आनी दुसऱ्याक पिडप ताचेंच नांव खरें पाप. हाचे सारकें दुसरें कसलेंच पाप पुण्य ना ।।१ ।। खरें उलोवप आनी तेच भाशेन वागप होच खरो धर्म आनी फट उलोवन तशें वागप हो अधर्म. ताका लागून पाप वाडटा. पूण हाचे परस धर्माचें मुख्य मर्म दुसरें ना ।।धृ ।। तोंडान श्रीहरीचें नामस्मरण करप हीच खरी सद्गती आनी त्या नामस्मरणाक विन्मुख जावप हाचेंच नांव अधोगती अशें निश्चीत समज ।।२ ।। साधुसंतांची संगत करप, तोच सर्गवास आनी संत संगती विशीं उदास जावप, तोच नरकवास ।।३ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटा, हे प्रमाण आपलें हीत आनी आपलो घात उकतो आसा हातूंत जण एकल्यान आपणाक बरें दिसता तशें वागचें ।।४ ।।

१५. *अखेरची विनवणी । संतांनी आयकुची ।।१ ।।*
*विसर पडचो न्ही । म्हजो देवा तुमकां ।।धृ ।।*
*फुडें अदीक उलोवं कितें । सगलें कळटा तुमकां ।।२ ।।*
*तुका म्हण्टा पडलां पायां । घाला सांवळी कुर्पेची ।।३ ।।*

**अर्थ:** म्हजी अखेरची विनंती संतांनी आयकुची ।।१ ।। म्हजो विसर तुमकां आनी देवाक केन्नाच पडचो न्हय ।।धृ ।। तुमचे मुखार अदीक कितें उलोवं? तुमकां सगलें कितें कळटा ।।२ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटात, हांव तुमच्या पायां पडलां, तेन्ना तुमी म्हजेर कुर्पेची सांवळी धरात ।।३ ।।

१६. *हेंच दान दिगा देवा । तुजो विसर पडुं नाका ।।१ ।।*
*गूण गायन आवडीनु । हीच सगली जोड म्हजी ।।धृ ।।*
*नाका मुक्ती नि संपत्ती । सदीं दी संत संगती ।।२ ।।*
*तुका म्हण्टा जायन गर्भवाशी । दिया संतसंगती आदीं ।।३ ।।*

**अर्थ:** देवा, तुजो विसर म्हाका केन्नाच पडचो न्हय, हेंच एक दान तूं म्हाका दी ।।१ ।। तुजे गूण हांव मोठे आवडीन गायन, म्हजी सगली कितें ती हीच जोड ।।धृ ।। हाचे शिवाय म्हाका मोक्षय नाका आनी संपत्तीय नाका, म्हाका सदांकाळ संत समागम दी ।।२ ।। तुकाराम म्हाराज म्हणटा, तुमी म्हाका ही देण दिवन मागीर खुशाल गर्भवासांत घालात. संतसंगतीच्या सुखा फुडें गर्भवासाचें दु:ख हें दु:ख अशें

दिसचें ना ॥३॥

२८-१०-१९३०

**बालगोपाळां पासत**

१. एक प्रेम गुपीत आयकता जगजेठी ।
आयकल्लो गजाली सांगतालो ॥१॥
एक मृग दोन पाडसां सयतु ।
आनंदान चरतालीं वनांतु ॥धृ॥
अवचित थंय पावलो पारधी ।
घेवनु आयलो दोन सुणीं ॥२॥
एके कडें ताणें लायलें जाळ ।
दवल्लीं सुण्यांक एके कडें ॥३॥
एके कडें ताणें पेटयलो वणवो ।
आपूण मात रावलो एके कडें ॥४॥
रेवडावलीं पाडसां चोंवर्शीनु ।
स्मरू लागलीं नाम तुजें ॥५॥
रामा कृष्णा हरी गोविंदा केशवा ।
देवाच्या देवा पाव आतां ॥६॥
कोण राखत आतां अश्या संकटीं ।
बापा जगजेठी तुजे विणें ॥७॥
आयकून तुवें तांचो उलो ।
कृपेस्त अंतस्कर्णान कळवळलो ॥८॥
आज्ञा त्या वेळार केली पावसाक ।
वेगीं उज्याक पालोवंचें ॥९॥
सोंश्या एका थंय उठोवन धांवडायलो ।
ताचे फाटसून गेलीं सुणीं दोन ॥१०॥
हरणां अजापून वेगीं धांवलीं ।
गोविंदानु राखलीं देखुनु ॥११॥
असो तूं कृपाळु देवा दयाळु ।
आपल्या भक्तांक लायता जीवु ॥१२॥
अशी तुजी कीर्त जिवांकु आवडटा ।
रखुमाईच्या पती म्हण्टां तुका ॥१३॥

२. सूख दिस गायतां तुजे पोवाडे ।
प्रेम मिठी पडटां तुज्या वदनाक ॥१॥
वियेलीं दोनी सवणीं एका रुखाचेरी ।
आयलो दुराचारी पारधी तो ॥धृ॥
रुखाच्या माथ्यारी सोडलो ससाणो ।
धोणवाकु बाण लायलो ताणें ॥२॥
त्या वेळारी तुका सवणीं आठयलीं ।
धांव गा मायबापा श्रीहरी ॥३॥
उडून वतना ससाणो मारीत ।
बसतकीच मारीत पारधी तो ॥४॥
आयकून धांवो त्या सवण्यांचो ।
धरलो सोरपाचो वेश वेगीं ॥५॥
चाबतकीच पारधी भूंयेरी पडलो ।
बाण तो लागलो ससाण्याक ॥६॥
असो तूं कृपाळू आपुल्या दासाकु ।
जाता कैवारी संकश्टांतु ॥७॥
तुका म्हण्टा तुजी कीर्त त्रिभुवनीं ।
वेदाचि वाणी येना वर्णुंक ॥८॥

३. कितें तुजी थोरवी वाखाणूं हांव पामर ।
जाता दयावंत कुर्पा सिंधु ॥१॥
तुजे वरी दया ना आनी कोणाक ।
अशें हृषीकेशी अजाप एक ॥धृ॥
कुरूक्षेत्र भुंयेचेरी वियेले पक्षी ।
केलो घोंटेरू तणां मदीं तांणी ॥२॥
अकस्मात थंय रण खांबो लायलो ।
झुजाचो नेमलो ठाव थंय ॥३॥
कौरवा पांडवा दळभार दोनायंचो ।
झुजपाक रणी आयले थंय ॥४॥
त्या वेळारी येता तुका पक्षांची याद ।
पाव बा श्रीपती म्हण्टा तूं ॥५॥
हत्ती घोडे रथ थंय धांवतले ।
पाशाणाचे जातले शतचूर्ण ॥६॥
अश्या आकांती ते वांचत कशे परी ।
धांव कळावा वीण श्रीहरी ॥७॥
उडोवन पिलांक कशें वचचें आतां ।
पाव जगन्नाथा रोखडोच तूं ॥८॥
आयली त्या वेळारी कुर्पा तुज्या चित्तीं ।
अनाथांच्या नाथा नारायणा ॥९॥
एका हतयाचे कंठीं घांट आशिल्ली ।
पडली अवचित तांचेरी ती ॥१०॥
अठरा दीस थंय द्वंद झूज जालें ।
वारो वोत बादलेंना तांकां ॥११॥
झूज जातरी दाखयलें अर्जुना ।
तुवें नारायणा पक्ष्यांक त्या ॥१२॥
पळे आपल्या दासांकु हांवें राखिले ।
झुजामळारी वांचयले कशे परी ॥१३॥
अशी तुका माया आपल्या भक्तांची ।
माऊली आमची तुका म्हण्टा ॥१४॥



## HELP PROTECT AND PRESERVE THE CULTURAL HERITAGE

- Goa Archives preserves for posterity the documentary heritage of Goa past.
- Collections in Portuguese dated back to the 15th Century.
- It also has Marathi (Modi) Halekannada and a few Persian documents throwing light on the relations of the Portuguese with Marathas, Hyder Ali, Tipu, Surdas and Bhonsles of Sawantwadi etc.
- The Collection also contains a few documents in Chinese and Vietnamese scripts.
- Goa Archives has its own well-equipped preservation Unit for the Scientific preservation of documents.
- It also has modern microfilming, photo-copying and xeroxing equipment.
- This is your Archives and you can enrich it by donating your valuable collection of private papers.

**VISIT GOA ARCHIVES ALWAYS**



Issued By:

**THE DIRECTORATE OF ARCHIVES, ARCHAEOLOGY**

Government of Goa

Phone: 2226682

# खनीज संसाधनाच्या पोशणीय विकासा कडेन वाटचाल

*हार्दीक शुभेच्छा*




# खण आनी भूगर्भ संचालनालय

## उद्योग भवन

## पणजी

REG. NO.: G-2/RNP/GOA-130 / WP/2008

# DIGAMBAR KAMAT GOVERNMENT BRINGS SMILES TO THE COMMON MAN

The Government in Goa under the dynamic, leadership of Digambar Kamat completed one year in office on June 8, 2008. Digambar Kamat a leader with vision and determination inspite of intense pressure, turned frustrations into aspiration bringing smiles on the faces of common men.

During his term of one year in office Digambar Kamat laid a strong foundation for the take of stage by making effective proposals with facts and figures. This attitudinal change has brought about the vigor and vibrancy of the Government and the people of Goa.

Digambar Kamat is a hard task master laced with old world manners, sympathy and understanding.

The State Government plans to turn the vision into a reality through good governance wherein states resources are managed competently in a manner that is open, transparent, accountable and responsive to peoples need. The Government wants to include the general public and employees in its performance management efforts to reach a judicious balance among needs and opinions of the public along with the achievement of Government stated mission. Every man, woman and child must enjoy all opportunities for happy life not just on basic needs and elimination of poverty and to build a knowledgeable society on values of hard work, integrity, honesty, secularism discipline and team work.




Published by Dr. Jaivantrao Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa and printed at Printart Offset Printers, Kundaim Industrial Estate, Goa. Editor : Madhavi Sardesai